# कोंकणी शब्दसागर

## कोंकणी - कोंकणी कोश

संपादक
पांडुरंग भांगी



पालवी संपादक
प्रा. एस्. एस्. नाडकर्णी

गोवा कोंकणी अकादेमी

# कोंकणी शब्दसागर

(कोंकणी – कोंकणी कोश)




**संपादक**

पांडुरंग भांगी

**पालवी संपादक**

प्रा.एस्.एस्.नाडकर्णी

# कोंकणी शब्दसागर
# कोंकणी – कोंकणी कोश

संपादक : पांडुरंग भांगी
पालवी संपादक : प्रा. एस्. एस्. नाडकर्णी




उजवाडावपी :
गोवा कोंकणी अकादेमी ©

सर्किट हाऊस, आल्तीनो
पणजी, गोंय ४०३ ००१
फोन नं : ४३२८४, ४३४०६






मुद्रक :
शिवमुद्रा पॅकेजिंग प्रायव्हेट लिमिटेड
७२, बेतोडें इंडस्ट्रिअल इस्टेट,
बेतोडें, फोंडें, गोंय – ४०३ ४०९
फोन नं : २५४१.



पैली आवृत्ती : मार्च १९९२



प्रती : एक हजार

मोल : १०० रुपया

आमचें आत्महीणपण पोरो घालून
ज्याणीं आमचो आपलेपणाचो अभिमान
जागयलो, ते आमचे म्हापुरूस आनी म्हाकवी
**कै. शणै गोंयबाब**
हांकां
आदरान आनी नम्रतायेन.






## प्रस्तावना

कोंकणी ही इंडो-युरोपियन कुळयेंतली, इंडो-आर्यन वंशाची भास. कोंकणी संस्कृतावेल्यान जन्माक आयल्या. संस्कृत, महाराष्ट्री प्राकृत आनी अपभ्रंश अशा स्थित्यंतरांतल्यान ती घडल्या. तिजे घडणुकेंत हेर प्राकृतांचोय हातभार आसा.

सातव्या शेंकड्याचे अखेरेक कोंकणी उदेवाक येताली जांवक जाय. ती महाराष्ट्री प्राकृतापासून चिके पैलीं वेगळी सल्लया आसुये, अशें ग्रियर्सनचें मत आसा.(१) इकराव्या-बाराव्या शेंकड्यामेरेन ती पूर्ण घडिल्ली जांवक जाय. जाल्यारूय, कोंकणींत थोडिभोव सरस्पत घडपाक, तिका सोळाव्या शेंकड्याची वाट पळोंवची पडली.

सातवो शेंकडो धरून गोंयचे सुटकेमेरेन, भोज, शिलाहार, कदंब, देवगिरिचे यादव, दिल्लिचे सुलतान, बहामनी सुलतान, विजयनगरचे राय, परतून बहामनी सुलतान, मागीर विजापुरचो आदिलशहा आनी उप्रांत पुर्तुगेज हांचो शेक गोंयचेर चलतालो.

ज्या ज्या राजांनी गोंयचेर शेक चलयलो, त्या त्या राजांनी आपली भास, गोंयच्या राजकारभाराची भास केली. गोंयचे भाशेक, म्हळ्यार कोंकणीक, राजभाशेचो पांवडो तांणी केन्नाच दिलो ना. खासा आमींय, आमकां आपलेपणाचो अभिमान नाशिल्लयान, तिका आमच्या साहित्याची भास केली ना.

१८.१२.१९६१ दिसा भारत सरकारान, सैन्य धाडून, फिर्ग्यांच्या चबक्यांतल्यान गोंयांक सोडैतकीर आनी गोंय हें भारतीय संघराज्यांतलें एक राज्य जातकीर, कोंकणीक १९८६ वर्सा राजभाशेचो पांवडो मेळलो. जाल्यारूय, भारत सरकाराच्या राजकारभारावरीच, गोंयचो राजकारभारय इंग्लेज भाशेंतल्यानच चलता.

पुर्तुगेजांनी तिसवाडी, सास्ट आनी बारदेस हे तालुके घेतल्याउप्रांत, थोड्याच वर्साभितर बाटाबाटिच्या सत्राक तांणीं हात घालो. आगळिकेन तांणीं हजारांनी लोकांक बाटैले. रायतुरचो कपित दियोग फेर्नांदिस उ दु फोर्ति हाणें एके रातयां म्हाळशेचें देवूळ धरून सास्टिंतली सुमार तिनशीं देवळां जाळून भस्म केलीं. जे बामण बाटनात वा बाटाबाटीक आडमेळीं हाड्टात, अशा बामणांक आनी हेर हिंदूंक तांणीं गोंयाभायर धांवडायले.

बाटाबाटिच्या धर्मकोल्लांत हिंदूंचीं देवळां जमनीभर्वण करून ते थंड बसलेनात. हिंदूंचे धर्मग्रंथच न्हंय, तर हेर बरपावळय तांणीं हुलपावन उडैली. पिडापीड दिवनय लोक आपली भास, म्हळ्यार कोंकणी, उलोवपाची सोडिनात, हें पळोवन व्हिसि-रेय Francisco de Távora, हाणें १६८४ वर्सा एक 'आल्व्हारा' (Alvará) काडून, प्रजेन तीन वर्साभितर पुर्तुगेज भाशेंत पारंगत जावन, आपली आवै-भास सोडूंक जाय म्हणपाचें फर्मान काडलें. न्हवरो आनी होंकल हांकां पुर्तुगेज आयल्याबगर, लग्न जांवक मेळचें ना वा तांचें लग्न लांवक मेळचें ना म्हणपाचो कायदो केलो.(२) कोंकणी नस्ट करपाक जितलेय पाडे उपाय तांच्यांनी करूंक येताले, तितलेय तांणीं केले. तरी कोंकणी मेली ना. कोंकणीक नकनामी जाली. कोंकणिचें आंग खर्चटलें. धर्मकोल्लाच्या होमकणांत कोंकणी हुलपून भस्म जालिना. ती जिवीच उल्ली.

धर्म पातळावपाच्या निमित्यान जायना, फ्रांसिश्कान, पावलिस्त आनी झेजुईत पाद्रींक कोंकणी शिकची पडली. १५७६ वर्सा पावलिस्तांनी सास्टींत कोंकणिची एक शाळा घाल्ली. ते शाळेंत पैलेवैले आठ पावलिस्त ती भास शिकताले. तांगेलो मुखेल पाद्री आलेशांद्र वालिग्नान हाणें, तांणी देवनागरींत बरोंवक आनी

वाचूंक शिकूंक जाय म्हणपाची तांकां ताकीद दिल्ली. तिका लागून स म्हैन्यांभितर ते देवनागरींत कोंकणी बरोंवक आनी वाचूंक शिकले, तेच परी आपल्या क्रिस्तांव धर्माचो उपदेश कोंकणींतल्यान करपाक ते पारंगत जाले.

झेजुइत पाद्री तोमास इस्तेव्हंव हाणें सोळाव्या शेंकड्याचे अखेरेक कोंकणिचें पैलें व्याकरण रचलें. ह्या काळार पावलिस्तांनीं, फ्रांसिस्कान पाद्रिंनी आनी झेजुइतानीं कोंकणी कोश रचिल्ले आसूंक जाय. लिश्बोआच्या राष्ट्रिय वाचनमंदिरांत सोळाव्या शेंकड्यांत रचिल्लो (Codex nº 3044) एक पुर्तुगेज कोंकणी कोश आसा. एका झेजुइत पाद्रीन १५७० वर्सा बरैल्ल्या पत्रांत एका कोंकणी कोशाचो उल्लेख आसा. घडये हो कोश तोच जावये. ह्या कोशाची एक झॅरॉक्स प्रत, भौ. प्रोफसोर L. A. Rodrigues हांणीं पुर्तुगालाक साकून हाडल्या.

युरोपांतल्या वाचनमंदिरांनी सोद घेतल्यार, कोंकणिचे आनिकय कोश हाताक लागुये. पाद्रिंनी रचिल्ल्या कोशांची पुराय खबर आजुनय होलमूंक ना.

हालींच पुर्तुगेज सरकारान 'Vocabulário de Lingua Canarina com versam Portuguesa' हो कोश उजवाडाक हाडला. हो कोश कोंकणिचो दुसरो वा तिसरो कोश जावये. झेजुईत पाद्रिंनी हो़ कोश चड करून रायतुरचे सेमिनारींत रचला जावये. होच कोश वाढोवन आनी ह्या कोशाचो आधार घेवन पाद्री Diogo Ribeiro हाणें १६२६ वर्सा पुर्तुगेज-कोंकणी आनी कोंकणी-पुर्तुगेज कोश रचले. हे कोश छापून उजवाडाक येंवक नात. पणजेचे 'सेंट्रल लायब्रीं'त ह्या कोशांचें हातबरप आसा. फ्रांसिस्कान पाद्रिंनी रचिल्लया आनीक एका कोशाचेंय एक हातबरप 'सेंट्रल लायब्रीं'त आसा. ह्या भायर, पणजेच्या लिसेवाचे लायब्रींत हातबरपाच्या रूपान आशिल्लो आनीक एक पुर्तुगेज-कोंकणी कोश हालींच मेळला. ह्या कोशाचीं 'A' धरून 'D' मेरेनच्या अक्षरांचीं पानां नात. होय कोश सतराव्या शेंकड्याच्या सुरवातिच्या काळांत केल्लो आसुये. एका इतालियान पाद्रीन केल्लो पुर्तुगेज-कोंकणी कोश आसा. हो कोश भौमानेस्त Cunha Rivara हाणीं १८६८ वर्सा छापून उजवाडाक हाडलो.

हे सगळे कोश सोळाव्या आनी सतराव्या शेंकड्यांतले. खऱ्या अर्थान 'कोश' हें नांव तांका फावना. चडशा कोशांनी उतरांचें व्याकरणी रूप दिंवक ना. कोंकणी-पुर्तुगेज कोशांनी, कोंकणी उतरांचीं निरूक्तांय दाखोंवक नात. ह्या कोशांभितर एका इतालियान पाद्रिन केल्लो पुर्तुगेज-कोंकणी कोश बरो आसा. 'Côco' म्हळ्यार नाल्ल. ह्या कोशांत 'Côco' हें उतर पळेल्यार नाल्लाचो बोंडो धरून तो पूर्ण नाल्ल जायमेरेन, ताज्यो ज्यो अवस्ता जातात, तितल्यांचींय कोंकणी उतरां दिल्यांत. 'Joias' (अलंकार) ह्या उतरा सकल, पायांत घालचेल्या अलंकारांचीं, गळ्यांत घालचेल्या अलंकारांचीं, कंबराक घालचेल्या अलंकारांचीं, माथ्यांत घालचेल्या आनी खोंवचेल्या अलंकारांची, अशा वेगळ्या वेगळ्या अलंकारांचीं कोंकणी नांवां दिल्यांत.

१८७३ वर्सा इनास शाविय़ॅर दे सौज रोद्रीगीस, हांणीं कोंकणी-पुर्तुगेज कोश रचलो. १८८३ वर्सा फादर माफयेचो इंग्लेज-कोंकणी आनी कोंकणी-इंग्लेज अशे दोन भाग आशिल्लो कोश उजवाडाक आयलो. पंडित सेबाश्तियांव रोदोल्फशणै दाल्गाद हांचो कोंकणी-पुर्तुगेज कोश १८९३ वर्सा आनी तांगेलोच पुर्तुगेज-कोंकणी कोश १९०५ वर्सा उजवाडाक आयलो. हे सगळे कोश दोन भाशी आसात. कोंकणी-पुर्तुगेज-फ्रांसेज असो एक तीन भाशी कोश आसा. जाल्यारूय, कोंकणी-कोंकणी असो रचिल्लो कोश त्या काळार मेळना.

कोंकणीक एक भाशी म्हळ्यार,

कोंकणी-कोंकणी कोशाची खूप गरज आसा. ही गरज भौमानेस्त बाब श्रीपाद रघुनाथ देसाय हांणी थोडि-भोव भागैली. तांगेल्या ह्या शब्दकोशाचे आजमेरेन तीन खण्ड उजवाडाक आयल्यात. चौथो आनी निमाणो पुरवणी खण्ड उजवाडाचे वाटेर आसा.

शब्दकोश हें भाशाविज्ञानाचें देणें न्हय. भाशाविज्ञानाचो विकास हो हालिंचो. कोशांची परंपरा पुर्विल्ली. भाशाविज्ञानाबगर कोश निर्माण जाल्यात आनी जातात. भाशेंतल्या उतरांच्या अर्थाची कोशकाराक आशिल्ली जाण, भाशेंत उतर कशें उपकरायिल्लें मेळटा हाजी ताका होलमल्ली माहिती, ह्या बसकाराचेर कोश निर्माण जातात.

भास ही मनशाक वेगळ्या वेगळ्या मळांचेर आयिल्ले अनुभव उक्ते करून दाखोवपाचें साधन आसता. मनशाचे सांस्कृतिक वाटचालींत मनशाचेर जे संस्कार घडत वतात, ते संस्कार दाखोंवचेलें काम भास करता. देखून, भास म्हळ्यार संस्कार आनी ती भास उलयतल्या समाजाचे प्रगतिची नाट. हाका लागून, भाशेच्या उतरांफाटल्यान एक संचित आसता. एक इतिहासिक दायज आसता. कांय उतरांफाटल्यान मनशाच्यो भावना आसतात; कांय उतरांफाटल्यान मनशाचे जिणेची धारणा दिसून येता. देखून, कोशकारान ज्या उतरांफाटल्यान इतिहासीक दायज आसा (देखीक: 'अग्नि' हें उतर), तें दायज दाखोंवक जाय. ज्या उतरांफाटल्यान मनिसजातिच्यो भावना आसात (देखीक: 'अन्न' हें उतर), त्यो भावना कोशकारान उक्त्यो करूंक जाय. ज्या उतरांफाटल्यान मनशाचे जिणेची एक सांस्कृतिक धारणा दिसून येता (देखीक: 'अम्बुवाची', 'अश्वत्थ' हीं उतरां), ती धारणा कोशकारान सांगूंक जाय. थोड्याभितर सांगप म्हळ्यार उतरांफाटलें संचित कोशकारान उक्तें करून दाखोवपाक जाय. संस्कृतायेचें जें जें आंग कोशकाराक दाखोंवक मेळटा, तितलेंय ताणें दाखोंवक जाय. देखून, आजचे शब्दकोश कांयशे विश्वकोशाच्या पांवड्यार चडटात वा एकएकदां विश्वकोशाकय हुपून वतात.

पंडिता प्रोपेर्सियाबाय म्हण्टा "जिणें आमकां आपले म्हुर्तीभाशेन आनी सारकायेन घडैले, ती भास कितलीय दुबळी आसली जाल्यार आमगेल्यो भावना उक्त्यो करून दाखोवपाच्या कामांत सदांच चड गिरेस्त आसता. कित्याक, ते भाशेंत आपल्या आत्म्याचेर चड फळादिक आनी तगतले छाप उठिल्ले आसतात. ही भास जेन्ना आमगेल्या आज्या-पणज्यांची आसता, तेन्ना ती अजापाचे रितीन चड फळादिक जाता. आमच्या आंगांत आमकां कळनासतना आशिल्ल्या पुर्विल्ल्यांच्या भांडारांत, जीं चमत्कारांची बळगीं सांटावल्यांत, तीं जागोवपाची तांक तिका आसता." देखून, आजवेर कोंकणीक आमी कुस्कुटायली, हिणसायली, तरी तिज्या आंगांतलें तेज नस्ट जालें ना. शंख जे तरेन म्हां-समुद्राची गाज आपल्या आंगांत राखून धरता, तेच परी कोंकणिनय हरप्पा संस्कृतायेंतलें 'फांत' हें उतर राखून दवल्लां आनी उपनिशदांच्या काळावेली एक नाट वगडायनासतना राखल्या.

देवळाचो खर्च चलोवपाक, गरिब आनी गिरेस्त म्हणनासतना, सगळ्यांनी एकसारकी दिवचेली पटी (Contribution), असो हरप्पा संस्कृतायेंत 'फांत' ह्या उतराचो अर्थ आसलो. कोंकणींत ताजो अर्थ 'पोटलो' असो जाला. जो पटी जमैता ताजेचकडेन पोटलो जावपाचो संभव आसता. (पळेयात: Surviving Harrapan Civilization, by P. C. Kashap).

उपनिशदांच्या काळावेली नाट राखून दवल्ल्या ती ही: कुड्डाळकार बामण हे मुळचे कान्यकुब्जाचे म्हळ्यार आतांच्या कनोजांतले. तांची बुद्द सदांच तीख आसता अशें मानतात. अडेचशीं वर्सांफाटीं

चौकस आनी हुशार पुर्तुगेज पाद्री सौज, हाणें तांगेल्या तीख बुद्धिची तोखणाय केल्या. मिथिलेच्या जनक राजाले सभेंत ब्रह्मविद्येचेर वाद जाताले. तातूंत पंचाळचे म्हळ्यार कनोजांतले बामणय वांटो घेताले. गार्गी वाचक्नवीसारकी बाग्र्यलमनीस याज्ञवल्क्यासारक्या तिजिल्ल्या ब्रह्मवाद्याकडेन, नाखीर येवन मोठ्या किंवाट्यान वाद घालताली. बायल म्हणून ती फाटीं रावनासली. तिजेवेल्यान, जिबेर ल्हाय-लसूण उसळटल्या लापीट बायलांक कोंकणींत अजून 'मोटी पंचाळ बायल ही!' अशी ओपार मारतात. पंचाळ म्हळ्यार पंचाळांतली कनोजी बायल. (पळेयात: ''अैन वेळार'' हो निबंध – येवकार अध्यक्षालें उलोवप -बरो: शणै गोंयबाब, पा. १२३-१२४.)

कुंभारागेर वचून,''एक मडकी घडोवन दी'' म्हणून सांगल्यार, तो मडकी घडोवन दिता. भाशाविज्ञान्यागेर वा वैयाकरण्यागेर वचून एक उतर घडोवन दी म्हणून कोण सांगिना. भास अशी घडना. भास लोकांचे जिबेर जन्माक येता. लोकांचे जिबेरच वाढ्टा आनी मरपाची आसल्यार लोकांचे जिबेरच ती मरता. भास सदांच लोकांचे जिबेर घोळिल्ल्यान, केन्ना तिजीं उतरां गळटात; केन्ना नवीं उतरां घड्टात; केन्ना गळिल्ल्या उतरांचो पुनर्जन्म जाता; केन्ना एका उतराचो अर्थ उरफाटो जाता; केन्ना एका उतराच्या अर्थाक नवी सया मेळटा; केन्ना आपलीं उतरां ती दुसरे भाशेक दिता; केन्ना दुसरे भाशेंतलीं उतरां आपल्याक घेता. भाशेची ही प्रक्रिया नित्य घडत आशिल्ल्यान, शब्दकोश बरोवन पूर्ण जालो, तरी तो अपूर्णच उरता. खंच्याच शब्दकोशांत भाशेंतलीं सगळीं उतरां येनात; येंवक पावनात.

कोंकणींत 'अ', 'ए' आनी 'ओ' हांचे, तांच्या निजाच्या उच्च्यारांभायर, कांय वेगळे उच्च्यार जातात.

'अ' च्या निजाच्या उच्च्याराभायर, ताजे आनीक दोन उच्च्यार जातात.

'अ॒' चो एक ओडिल्लो उच्च्यार जाता. हो उच्च्यार दाखोवपाक अक्षराच्या माथ्यार (।) अशी एक उबी रेगटी दितात. अशी रेगटी शणै गोंयबाबांनी आपल्या बरपावळींत उपकारायल्या. ह्या शब्दकोशांतय 'अ' चो हो ओडिल्लो उच्च्यार दाखोवपाखातीर (।) अशी उबी रेगटी अक्षराच्या माथ्यार दिल्या.

कोंकणींतलो हो उच्च्यार आंखूड (ऱ्हस्व) जाता, तेच परी तो मात्सो लांबोडो (दीर्घ) जाता. ह्या उच्च्यारासंबंधान नेम थारांवक मेळना. हो उच्च्यार करूंक कोंकणी लोकांक अडचण पडना. हेर लोक तो संवकळीन शिकतात.

'अ' चे उच्च्यार अशे जातात:

१) 'अ' चो निजाचो उच्च्यार: अनस (फळ), अन्न, अपकीर्त, अराटी, पगार, पत्र, पदार्थ, पसरो, सत्र बी.

२) 'अ' चो ओडिल्लो आंखूड (ऱ्हस्व) उच्च्यार: अ॒॑न॑स (झोंप), प॒॑ण॑स, प॒॑स॑य, ठ॒॑व॑य, अ॒॑डच॑ण, अ॒॑शीर, स॒॑त्री बी.

३) 'अ' चो ओडिल्लो मात्सो लांबोडो (दीर्घ) उच्च्यार: क॒॑र, ग॒॑र, त॒॑ड, प॒॑ड, तुळ॒॑स, व॒॑ळ, स॑र्क॒स, पंग॒॑त बी.

'ए' चो एक उक्तो उच्च्यार कोंकणींत जाता. ह्या 'ए'त मदीं 'य' शिरकल्ल्यावरी जावन, ताजो उक्तो उच्च्यार जाता.

'ए' चे उच्च्यार अशे जातात:

१) 'ए' चो निजाचो उच्च्यार: केळ, खेळ, देर, वेळ, शेट, पोनेळ, सुवेर बी.

२) 'ए' चो उक्तो उच्च्यार: कॅर (क्यॅर), पॅर (प्यॅर), वॅर (व्यॅर) बी.

'ओ' चो 'ऑ' असो एक उक्तो उच्च्यार जाता.

१) 'ओ' चो निजाचो उच्च्यार: जोर, फोड, म्होर, धोल, जोगूल बी.

२) 'ओ' चो उक्तो उच्च्यार: दॉळॉ, फॉडप, तॉडप, पॉट, पॉर, खॉलॉ, चॉळ, चॉळखॉ, घॉडॉ बी.

इंग्लेज भाशेंतलीं 'Bat', 'Ball' बी उतरां आतां कोंकणींत घोळूंक लागल्यांत. तीं बरैतना अनुक्रमान अशीं बरैतात: बॅट, बॉल.

उच्च्यार दाखैतना उतराच्या एकाद्र्या अक्षराचेर नेट (आघात) दितात. ह्या शब्दकोशांत हो नेट वा आघात दाखोवपाक त्या अक्षराच्या माथ्यार (-) अशी आडवी रेगटी दिल्या.

शुद्धलेखनासंबंधान सांगप म्हळ्यार, ह्या कोशांतलें शुद्धलेखन जाता तितलें उतरांच्या उच्च्याराचेर आधारलां.

### कोशांतलें व्याकरण

ह्या कोशांत नाम, सर्वनाम, विशेशण, क्रियाविशेशण, मुळाकूस (Prefix), ताळाकूस (Suffix), उमाळ्या उतर आनी उल्या उतर अशे उतरांचे वर्ग दाखयल्यात.

नामां दाखैतना, नाम म्हणून सांगिनासतना, तांचें लिंग दाखैलां.

धनविशेशणां, संख्याविशेशणां बी अशे विशेशणाचे पोटवर्ग दाखैनासतना तांचो उल्लेख विशेशण म्हणूनच केला.

ह्या कोशांत क्रियापद म्हणून वेगळो वर्ग दाखोंवक ना. भाशेंत आसतात ते धातू. ह्या धातूंक गरज पड्टा तशी काळ वा अर्थ हांची कुसां लावन क्रियापदां घड्टात. देखून संस्कृत शब्दकोशांत 'धातू' दाखोवपाची पद्धत आसा. करप, बसप, न्हिदप, उठप, वाचप, जोगलावप बी जीं उतरां आजमेरेन क्रियापदां म्हणून दाखैत आयल्यात, तीं व्याकरणाचे नदरेन क्रियापदां न्हंयत. तीं धातुसाधित नामां. अचूक सांगप म्हळ्यार तीं 'भाववाचक नामां' आसात. धातूंवेल्यान तीं घडिल्लीं आशिल्ल्यान, तांकां क्रिया दाखोवपाची तांक आसता. ह्याखातीर तांकां 'क्रिया दाखोवपी धातुसाधित नामां' म्हणूंक येता. ह्या कोशांत तीं तशींच दाखैल्यांत. इंग्लेज, पुर्तुगेज सारक्या पश्चिमेकडल्या भासांच्या व्याकरणांत आशिल्लीं 'Infinitive' ही कल्पना आपणायतना, ताज्या जाग्यार हीं धातुसाधित नामां उपकरावपाची चाल कोंकणी, मराठी, हिंदी सारक्या भासानीं घोळटेंत आयली. अशें जरी आसलें, तरी अशे तरेचीं उतरां 'नामां'तच आस्पावतात. देखून, नामांवरीच तांचें सामान्यरूप जाता आनी विभक्तिंचीं कुसां तांकां लागतात. तेच परी खंचेच परिस्थितींत ह्या उतरांतल्यान, क्रियापदांतल्यान उक्तो जाता तो काळ वा अर्थ (आज्ञार्थ, विध्यर्थ, संकेतार्थ), हांचो बोध जायना.

ह्या कोशांत अशीं उतरां दाखैतना, तांचो उल्लेख 'क्रिया दाखोवपी धातुसाधित नाम', (क्रि.दा.धा.सा.ना.) असो करून, उप्रांत मूळ धातू दाखैला. तो धातू अकर्मी आसल्यार अकर्मी म्हणून दाखैला. सकर्मी आसल्यार सकर्मी म्हणून दाखैला. एकाचवेळा तो सकर्मी आनी अकर्मी आसल्यार, तो तसो दाखैला. धातूचो अर्थ म्हळ्यार क्रिया – मागीर तो देहाचो व्यापार आसूं (देखीक: चलप, जेवप, वाचप बी); अवस्ता वा स्थिती आसूं (देखीक: दुखप, चिंतप, आनंदप, उल्हासप बी), ना जाल्यार स्थित्यंतर वा बदल आसूं (देखीक: आटप, सुकप, पिकप, फुटप, वळणेवप बी). क्रियेचो तर्कशास्त्राप्रमाणें अर्थ वेगळो आसता, व्याकरणांतलो अर्थ वेगळो आसता. बसप ही व्याकरणांत क्रिया. तर्कशास्त्राचे नदरेन तो क्रियेचो अखेर वा विराम. देखून, व्याकरणांतलो अर्थ

व्याकरणाचे नदरेन करचो पडटा.

ह्या कोशांत उतरां दितना, पैलीं उतर दिलां. मागीर ताजो उच्च्यार दाखैला. उप्रांत ताजें सामान्य रूप दिलां. मागीर त्या उतराचें भौववचन दिवन ताजें सामान्य रूप दिलां. त्या उप्रांत कंसांत निरुक्त दिलां. ताजें व्याकरणी रूप दिल्याउप्रांत त्या उतराचो अर्थ आनी त्या उतराच्या अर्थाच्यो वेगळ्यो वेगळ्यो सया दिल्यात. अर्थ आनी अर्थाच्यो वेगळ्यो सया दाखैतना, जंय जंय साहित्यांतले उतारे मेळल्यात, थंय थंय ते दिल्यात. अर्थाउप्रांत वाक्प्रचार दिल्यात. वाक्प्रचाराउप्रांत जंय म्हणी दिंवक मेळटात, थंय म्हणी दिल्यात. एकाद्री म्हण सट्ट करून समजना अशी आसल्यार, तिजी फोडणिशी केल्या. एकाद्रया उतराकडेन लग्निक आशिल्ली कांय मोलादिक माहिती दिवपाची आसल्यार ती 'विशेश' म्हणून दिल्या.

भाशेंतल्या उतराक प्रतिउतर आसता. हें प्रतिउतर त्या उतराचो पुर्णतायेन अर्थ दाखैताच अशें ना. देखून, जंय जंय जमता, थंय थंय उतराची व्याख्या करपाचो यत्न केला. 'अबळवंत', 'अभयंकर', 'अभाग्यें' अशीं कांय उतरां ह्या कोशांत घेतल्यांत. तांकां पैलिंच्या शब्दकोशांचो आधार आसा. आजच्या वाचप्यांक जरी तीं उतरां संवकळिचीं वा घोळटेंतलीं दिसलीं नात, तरी त्या शब्दकोशांच्या काळार तीं घोळटेंत आशिल्लीं जांवक जाय. कोंकणिचें सगळेंच पुर्विल्लें वाङ्मय वाचूंक मेळूंक ना. घडये पुर्विल्ल्या पुस्तकांनी तीं उतरां उपकरायिल्लीं आसुये वा त्या काळार उलोवपांत तीं घोळटेंत आशिल्लीं जावये.

संस्कृतावेल्यान घडिल्ल्या तद्भव उतरांची व्युत्पत्ती दितना संस्कृत - प्राकृत - अपभ्रंश अशे तांचे सगळे पांवडे आमी दाखोंवक पावूं नात. अशे सगळे पांवडे दाखोवपाक, अत्यंत गरजेचे अशे आशिल्ले, वेगवेगळ्या प्राकृत, अपभ्रंश भासांचे कोश आमकां मेळले नात.

ह्या कोशांत दाखैल्ल्या कांय उतरांच्या व्युत्पत्तिसंबंधान, एकाद्रेवेळा कोणाचोय मतभेद आसूं येता. व्युत्पत्तिची सदांच पुर्णतायेन खात्री दिवपाक मेळना. व्युत्पत्ती ही आर्विल्ल्या उतराच्या मूळ रूपाकडेन वचपाची एक वाट आसता. जी वाट आमकां योग्य अशी दिसली, तिजो निर्देश आमीं केला. व्युत्पत्ती दितना जंय एक शक्यताय आमकां जाणवली, थंय ती दिवन, उप्रांत आमी प्रश्नचिन्ह घालां. जंय आमकां खंचीच वाट होलमूंक ना, थंय त्या उतराची व्युत्पत्ती आमी दाखोंवक ना. फक्त कंसांत एक प्रस्नचिन्ह दाखैलां.

एका उतराकडेन दुसरीं उतरां लग्निक जावन जे समास घडल्यात, तांचो अर्थ त्या उतराच्या वाटारांतच दिला. देखीक: 'अभय' ह्या उतराच्या वाटारांत (परिसरांत), -दान, -पत्र अशीं उतरां दिल्यांत. जाल्यारूय तांची व्युत्पत्ती दिंवक ना. निखटें लिंग दाखैलां आनी तें उतर विशेशण आसल्यार विशेशण म्हणून दाखैलां.

ज्या विशेशणांक विकार लागतात, त्या विशेशणांची तिनय लिंगांनी जाल्लीं तांचीं रूपां दिवन, तांचें सामान्य रूपय दिलां. हेर कडेन एकच लिंग दिलां.

एकच उतर नाम आनी विशेशण अशें तरेन उपकरायिल्लें मेळल्यार, त्या उतराचें जें रूप चड म्हत्वाचें म्हणून घोळटेंत आशिल्लें मेळटा, तें रूप पैलीं दिलां. हर्शीं नामाउप्रांत विशेशण असो क्रम दवल्ला.

ह्या कोशांत 'अथर्ववेदा'क चड पानां दिल्यांत. अथर्ववेद हो एक अत्यंत मोलादिक वेद. त्या काळावेल्यो चालिरिती, आजय आचारांत आशिल्लो तातूंतलो अभिचार, एकवटाखातीर अथर्ववेदान घाल्लो साद, ह्या सगळ्याक आजच्या अर्थानय मोल आशिल्ल्यान, अथर्ववेदाची माहिती

विस्तारान दिल्या. ह्या मुखारय दुसऱ्या वेदांची वा तशाच मोलादिक ग्रंथांची महिती, तितल्याच विस्तारान दिवपाची इत्सा मनांत आसा.

हो शब्दकोश पूर्ण अर्थान 'Lexicologo' जांवचो, ह्याखातीर जितली जतनाय आनी तकालस घेंवक जाय तितली आमी घेतल्या.

ह्या कोशाचो संकल्प धा-पंद्रा वर्सांपैलीं पांडुरंग भांगी हाणें केल्लो. जमता तसो ह्या कोशाच्या वावराक तो लागिल्लो. कोशाक श्रम काडचे पडटात, तेच परी दुडूय लागतात. त्या वेळार पांडुरंग भांग्याचो इश्ट, भौ. शांतारामबाब आमोणकार, हाणीं भौमानेस्त आदवोगाद श्रीधर पोरोब तांबा, हांचेकडल्यान ताका एक हजार रुपया कोशाखातीर हाडून दिल्ले. दुडवांच्या पालवाखातीर, भौ. श्रीधरबाब तांबा, तेच परी भौ. शांतारामबाब आमोणकार हांचे आमी उपकार मानतांत.

कोशाखातीर पांडुरंग भांगी हाणें कला अकादमीकडेन पांच हजार रुपया मागिल्ले. भौ. शांतारामबाब आमोणकार आनी राज्यसभेचे मानादिक वांगडी, पुरूषोत्तमबाब काकोडकार हांच्या यत्नाक लागून, कला अकादमीन पांच हजार रुपया पांडुरंग भांगी हाका दिले. देखून, कला अकादमिचे, राजसभेचे मानादिक वांगडी पुरूषोत्तमबाब काकोडकार हांचे आनी भौ. शांतारामबाब आमोणकार हांचे आमी उपकार मानतांत.

जांबावलेच्या अवसराकडेन लग्निक आशिल्ली माहिती, भौमानेस्त आदवोगाद उदयबाब भेंब्रो, हांचेकडल्यान मेळली. देखून, तांचे आमी उपकार मानतांत.

असावरी ह्या रागाची माहिती, संगीतशास्त्रांतले तज्ञ, डॉ. मलबा राव सरदेसाई, हाणीं दिली. त्याखातीर आमी तांचे उपकार मानतांत.

भौमानेस्त गुरूदास पै हाणीं कोशाखातीर Prin. V.S. Apte हांचो तीन खंडान रचिल्लो संस्कृत-इंग्लेज कोश मुजरत हाडून दिलो. देखून, आमी तांचे उपकार मानतांत.

नामनेचे कवी, डॉ. र. वि. पंडित हाणीं कोशाखातीर उपकरावपाक 'महाराष्ट्र शब्दकोशा'चो पैलो खंड हाडून दिलो. त्या खातीर आमी तांचे उपकार मानतांत.

भौमानेस्त कवी रमेश वेळुसकार हाणीं आपलेकडचीं दोन तीन पुस्तकां कोशाखातीर उपकरांवक दिलीं. त्याखातीर आमी तांचे उपकार मानतांत.

ज्या ग्रंथांचो, शब्दकोशांचो, विश्वकोशांचो, संस्कृतीकोशांचो वा लेखांचो ह्या कोशाच्या पैल्या खंडाखातीर आमी आधार घेतला, तितल्यांचेय आमी रिणी आसांत. ज्या ज्या पुस्तकांतलीं, दिसाळ्यांतलीं, म्हैनाळ्यांतलीं, लेखांतलीं, काणयांतलीं वा कवितांतलीं आमी अवतरणां घेतल्यांत, तितल्याय बरोवप्यांचे, कवींचे आनी संपादकांचे आमी उपकार मानतांत.

'अयंगळू' हें कोंकणींतलें उतर, सुमेरियन भाशेंतल्या 'आयंगळू' ह्या उतराचें तद्भव रूप आसा म्हणपाची माहिती, नामनेचे इतिहास सोदपी, भौ. अनंत रामकृष्ण शेणवी धुमे हाणीं दिली. देखून, आमी तांचे उपकार मानतांत.

कोंकणी अकादेमिची स्थापना कोंकणीचे उदर्गतीखातीर आनी तिज्या विकासाखातीर जाल्या. भाशेचे उदर्गतीक हेर साहित्यावांगडाच कोश वाङ्मयाचीय खूप गरज आसता. कोशय सृजनच आसता. अकादेमीन ह्या कोशाची येवजण मानून घेवन आमकां आधार दिल्ल्यान, ह्या कोशाचो पैलो खंड पांच वर्सांभितर दिवपाक मेळलो. देखून, कोंकणी अकादेमिचे आमी उपकार मानतांत.

पणजी, ३० आब्रील, १९९०

संपादक

१) अवतरणाचें पैलेंच वाक्य अशें आसा: 'कोंकणी is a मराठी dialect having branched off from the common parent प्राकृत at a relatively early period.' —कोंकणी भाशेचें जैत, बरो: शणै गोंयबाब, पा. १३ —Linguistic Survey, Vol 7, p.164.

2) "Não havemos de admitir pessoa alguma de qualquer qualidade, que seja as ordens... além da sciencia e uso de falar só a lingua portuguesa, não só os mesmos pretendentes, mas tambem todos os sens parentes chegados, assim homens, como mulheres, comprovada com um rigoroso exame". "Somos servidos institutir, crear, e pôr de novo nesta ilha de Goa, e adjacentes, e nas duas Provincias de Bardez e Salcete, o impedimento de não poder contrair matrimónio todo aquele homem, ou mulher, que não souber, ou não usar ou falar a lingua portuguesa"- Pastoral de D. Fr. Lourenco de Santa Maria, 1745.

## अवतरणाखातीर उपकारायिल्लीं पुस्तकां आनी मासिकां

अभिसारिका- रवींद्रनाथ टागोर, कोंकणी अणकार -पांडुरंग भांगी
आबे फारीय -शणै गोंयबाब (प्रस्तावना)
आल्बुकेर्कान गोंय कशें जिखलें -शणै गोंयबाब.
ऋग्वेद
ऋग्वेदीय सार्थ संध्या -संपा. कृ.वि. सोमणशास्त्री.
एका परस एक हटी -आचार्य रामचंद्र शंकर नायक.
कार्मेलिन -दामोदर मावजो.
कोंकण टायम्स (चवथ आनी स्वातंत्र्यदिन अंक,१९८८) संपा. तुकाराम शेट.
कोंकणी (वर्सुकी अंक ८७-८८).
कोंकणी परिशद, तिसरे बसकेची खबर, मुंबै १९४२.
कोंकणी भाशेचें जैत -शणै गोंयबाब (कों.भा.जै.)
कोंकणी विद्यार्थ्यांक -शणै गोंयबाब.
कोंकणीची व्याकरणी बांदावळ -शणै गोंयबाब (कों.व्या.बां.)
खबरो -लक्ष्मणराव सरदेसाय.
गीता-प्रवचनां -विनोबा, कोंकणी अणकार- बाकीबाब बोरकार.
गोमन्तोपनिषत -शणै गोंयबाब (गो./गोम.).
गोंयकारांचो मुंबैकार -शणै गोंयबाब.
चवथिचो चंद्र -आचार्य रामचंद्र शंकर नायक (दोन उतरां).
जाग (दिवाळी अंक १९८८).
जोगलांचें झाड -शंकर रामाणी.
दिस्टावो -पांडुरंग भांगी.
नकलामी -एन्. शिवदास
नवें गोंय (ज्यानेर १९३५, ज्यानेर १९३७) संपा. का.श्री.नायक.
पांयजणां -बाकीबाब बोरकार.
पुण्यात्मो राम कामती -शणै गोंयबाब (पु.रा.का.).
बिदाय अभिशाप -रवींद्रनाथ टागोर, कोंकणी अणकार -पांडुरंग भांगी.
भगवंतालें गीत -शणै गोंयबाब.
भुरग्यांलो वेद -आचार्य रामचंद्र शंकर नायक
मन वोड्टा वोडना -ओलिव्हिन्य गोमीश
महाभारत -रवींद्र केळेकार.
मोगाचें लग्न -शणै गोंयबाब.
म्हजें उतर गावड्याचें -र.वि. पंडित.

म्हाजो सर्गार आशिल्लो घरकार -आचार्य रामचंद्र शंकर नायक.
येवकार अध्यक्षालें उलवप -शणै गोंयबाब.
रायबाऱ्याची व्हाइडीक -आचार्य रामचंद्र शंकर नायक.
वनवाळ्याचो मळो -फा. मिग्येल द आल्मैद, संपा. डॉ. वि. बा. प्रभुदेसाई. (व.म.)
वासवदत्ता -श्री अरविंद, कोंकणी अणकार -बाकीबाब बोरकार.
सड्यावेलीं फुलां -बयाभाव.
सतराव्या शतकांतील गोमंतकी बोली -डॉ.वि. बा. प्रभुदेसाई.
संशयकल्लोळ -गो. ब. देवल, कोंकणी अणकार -बाकीबाब बोरकार.
साद (पैलो अंक, पैलें वर्स)
सांत आंतोनीचीं अचर्यां -फा. अन्तोनियो द सालदाञ्ज, संपा. अ. का. प्रियोळकर (सां. अं. अ.).
सुरबूस काणयो -महाबळेश्वर सरदेसाय.
कोंकणी आदिपर्व, लेखक: कृष्णदास शामा. मराठी संशोधन पत्रिका (त्रैमासिक)
सासाय -बाकीबाब बोरकार.



## कोशांतलीं संक्षिप्त रूपां

**व्याकरणी उतरां :**

| | |
|---|---|
| अकर्मी | अक. |
| उमाळ्या उतर | उ.उ. |
| उरफाट्या अर्थाचें उतर/अर्थाचीं उतरां | उर. अ. उ |
| उल्या उतर | उल्या उ. |
| क्रिया दाखोवपी धातुसाधित नाम | क्रि.दा.धा.सा.ना. |
| क्रिया विशेशण | क्रि.वि. |
| ताळा-कूस (Suffix) | ता.कू. |
| धातू | धा. |
| नाम | ना. |
| सर्वनाम | स.ना. |
| नपुसक लिंग | न । नपु. |
| पुल्लिंग | पु. |
| भौवचन | भौव. |
| मुळा-कूस (Prefix) | मु.कू. |
| लाक्षणिक (अर्थ) | ला. |
| विशेशण | वि. |
| सकर्मी | सक. |
| स्त्रीलिंग | स्त्री. |
| द्विरूक्ती | द्वि. |



**हेर उतरां:**

| | |
|---|---|
| अथर्व वेद | अ.वे. |
| अर्थशास्त्र | अ.शा. |
| अंकगणित | अं.ग. |
| इंग्लेज | इं. |
| ऋग्वेद | ऋ. |
| कायद्या शास्त्र | का.शा. |
| क्रिस्ता आदीं | क्रि. आ. |
| क्रिस्तांव धर्म | क्रि.ध. |
| गणित | ग. |
| ज्योतिश | ज्यो. |
| भगवद्गीता | भ.गी. |

| | |
|---|---|
| मानसशास्त्र | मा.शा. |
| व्याकरण | व्या. |
| वाक्‌प्रचार | वा.प्र. |
| शिक्षणशास्त्र | शि.शा. |
| समाजशास्त्र | स.शा. |
| साहित्यशास्त्र | सा.शा. |

**व्युत्पत्ती दाखोंवक उपकरायिल्लीं उतरां :**

| | |
|---|---|
| अपभ्रंश | अप. |
| अरबी | अर. |
| आव्हेस्तान | आव्हे. |
| इंग्लेज | इं. |
| कानडी | का. |
| गुजराती | गु. |
| देशी | दे. |
| तामिळ | ता. |
| पाली | पा. |
| पुर्तुगेज | पुर्तु. |
| प्राकृत | प्रा. |
| फार्शी | फा. |
| मराठी | म. |
| वेदिक | वे. |
| संस्कृत | सं. |
| हिंदी | हिं. |

**अ** १. कोंकणी आनी देवनागरी वर्णमाळेंतलो पैलो स्वर;कोंकणी आनी देवनागरी लिपयेंतलें म्हाल-मुखेल अक्षर. 'अ' चो उच्च्यार कंठांतल्यान जाता. देखून, ताका कंठयो वर्ण म्हण्टात.

२. प्रणवाचो म्हळ्यार ओंकाराचो पैलो ध्वनी. प्रणव म्हळ्यार परमात्म्याचें विशाल, विराट आनी सर्वव्यापी रूप. वैश्वानर, तेजस आनी प्रज्ञा हांच्या एकरुपी बळग्यांतल्यान प्रणव जन्माक आयला. देखून, 'अ' म्हळ्यार चराचराक चैतन्यदेणो वैश्वानर.

वेदिक धर्म फाटीं पडून जेन्ना हिंदू धर्माचो उदेव जालो, तेन्ना विष्णु,शिव आनी ब्रह्मा हे हिंदू त्रिमूर्तीकिडेन प्रणव लग्रिक जालो. वैश्वानराच्या जाग्यार विष्णुची स्थापना जाली. देखून,'अ' म्हळ्यार विष्णु (अकारो विष्णुरूद्दिष्ट उकारस्तु महेश्वरः। मकारेणोच्यते ब्रह्मा प्रणवेन त्रयोमतः॥)

कै.डॉ.श्री.म. वैद्य हांच्या 'प्रणवोपासना' ह्या ग्रंथांत प्रणवाक परमात्म्याचें सगुण रूप म्हळां. एकाक्षर ब्रह्माचे मातृकेक लागून रज, सत्व आनी तम हे त्रिगुण उत्पन्न जाले अशें सांगलां. रजोगुणाक लागून ब्रह्मदेव, सत्वगुणाक लागून विष्णु आनी तमोगुणाक लागून शंकर, आपआपल्या बळग्यांसैत प्रगट जाले अशें म्हळां. देखून 'अ' म्हळ्यार ब्रह्मा.

३. मूळ उतराच्या पैलीं लागून अर्थाच्यो वेगवेगळ्यो सया दाखोवपी एक उपसर्ग. देखीक:

अभावः अज्ञानी;अजाण;अशक्त;अकारण.
अनुचितायः अपथ्य;अकाल;अवेळ.
उरफाटेपणः अनीत;अधर्म;अयोग्य;अन्याय.
उणायः अळणी (अ+लवण);अबोल.
अतिशयतायः अघोर;अकराळ.
व्हडविकः अलौकिक;अप्रतिम;असामान्य.

४. पु. अग्नि;विष्णु;ब्रह्मा;महेश;सूर्य;वायू.

५. वि.उत्तम;पैल्या प्रतिचो;पैल्या वर्गाचो. देखीकः अ वर्ग.

**विशेशः** अक्षरमाळेंतलें वा वर्णमाळेंतलें प्रत्येक अक्षर म्हळ्यार भाशेंतलें एक सांकेतीक निखटें चिन्ह न्हंय. अक्षरमाळ (लिपी) म्हळ्यार मनशान आपले इतिहासीक वाटचालींत, आपल्या विकासाखातीर निर्माण केल्लें एक सांस्कृतिक सर्वश्रेस्ठ साधन.

ग्रिकानींय देव म्हळ्यार 'Alfa' आनी 'Omega' म्हळां. बायबलांतय उतराक देव मानला आनी कृष्ण भगवानानय अक्षरांभितर आपुण 'अ' आसां, अशें सांगलां (''अक्षराणामकारोऽस्मि''भ.गी.१०.३३).

लिपयेंतलीं अक्षरां हीं साधीं प्रतिकां उरनात. हीं अक्षरां एकमेकांक फाटी-फुडें जोडून मनीस उतरां घडयता. ह्या उतरांक लागून घडिल्लया वाक्यांतल्यान भास आकाराक येता आनी भाशेंतल्यान मनीस आपल्यो भावना, विचार, कल्पना उक्त्यो करून दाखयता. लिपी एके नदरेन सान्त आसता. जाल्यारूय, ती सान्तातल्यान अनंताचें दर्शन घडयता. मनशाक ब्रह्मांडाचो सोद घेंवक लायता आनी हो सोद घेता घेतांच ताका आपुणच ब्रह्म आसां असो साक्षात्कार दिता.

अशें सांगतात की, प्रजापतीक भौरूपी जावपाची इत्सा जाली. ताजे हे कामनेंतल्यान संवसाराची निर्मणी जाली. ह्या संवसाराचेर ध्यान दित, जेन्ना तो ध्यानस्त बसलो, तेन्ना पृथ्वीचेर ताणें अग्नी उत्पन्न केलो. अग्निच्या ह्या तेजिस्ट रूपाचें जेन्ना ताणें ध्यान केलें, तेन्ना ऋग्वेद जन्माक आयलो. ऋग्वेदांतल्यान 'भू' हो पवित्र नाद भायर सल्लो. ह्या पवित्र नादाचें चिंतन करीत जेन्ना तो ध्यानस्थ बसलो, तेन्ना ह्या चिंतनांतल्यान निर्मळ अशें 'अ' हें अक्षर प्रगट जालें.[१] ह्या ब्रह्मस्वरूपी, रजोगुणी अशा म्हालगड्या अक्षराची धिगी लागल्याबगर खंच्याच व्यंजनाचो मेकळो आनी पूर्ण उच्च्यार जांवक पावना.

देखीक: क्+अ=क; ख्+अ=ख;ग्+अ=ग.

क्रिस्तापैल्या तिसऱ्या शेंकड्यांत, अशोकाच्या गिरनारच्या फातरपट्यांत 'अ'ह्या वर्णाचें सगळ्यांत पोन्नें रूप दिस्टी पड्टा.

**वा.प्र: अ-आ पासून खबर नासप:** एकाद्रे गजालिची मात पासून खबर नासप.

**म्हण:** अ आ येनाशिल्ल्याक, अमर (अमरकोश) कित्याक?

(१) Agni in the Brahmans of the Rigveda by N.J.Shende-Annals of the Bhandarkar Oriental Research Institute -Vol.XLVI 1965,page 4.

**अं । अम् ।** कोंकणी वर्णमाळेंतलें चौदावें अक्षर. अनुनासिक व्यंजनाचो उच्च्यार वा नाखये उच्च्यार (Nasalised Sounds) दाखोवपाखातीर देवनागरी लिपयेंत 'अनुस्वार' ही कुरू उपकारायतात. ही कुरू (ं)अशी बरयतात. देखून, 'अ' चेर अनुस्वार दिवन घडिल्लें अक्षर म्हळ्यार 'अं'.

**विशेश:** आज मेरेन कोंकणिचे स्वरमाळेंत 'अं' चो आस्पाव स्वर म्हणून करपाची परंपरा चलत आयल्या. ल्हान भुरग्यांक 'अनुनासिक' हें तत्व कळपाक कठीण वता. ताका लागून, तांकां अनुस्वारासयत 'अ' बरोवन ताजी कल्पना दितात.

'अं' ह्या वर्णाक स्वर मानप ही गजाल निखालस चुकिची. पुल्मांवांतली (फुफ्फुसांतली) हवा तोंडांतल्यान भायर सरतना ज्या उच्च्यारणाक कसलीच आडखळ जायना, जें उच्च्यारण स्वतंत्र आनी स्वयंपूर्ण आसता, जें उच्च्यारण अखंड वा चड-उण्या काळामेरेन करूंक मेळता, ताका 'स्वर' म्हण्तात. 'अं' च्या उच्च्यारणावेळार अशी स्थिती नासता.

'अं' हें व्यंजनय न्हंय. व्यंजनाक स्वर फाटल्यान लागता. व्यंजन आनी स्वर मेळून अक्षर जाता. देखीक: क्+इ =कि; त्+ओ =तो,बी. 'अं' च्या वेळार ही अवस्ता नासता.

'अं' हाका देवनागरी लिपयेंत स्वतंत्र चिन्ह आसा. जाल्यारूय तो स्वतंत्र वर्ण न्हंय. ताका 'स्वरादी वर्ण' म्हण्टात. स्वरादी वर्ण म्हळ्यार ज्या वर्णाचे सुरवातिक स्वर येता असो वर्ण. 'अं' हो वर्ण 'अ' + 'ं' असो जाता. 'अ' चे वरिच हेर स्वरांचेंय बरोवप अनुस्वारासैत जाल्लें दिस्टी पड्टा. देखीक: आंकुर, किंजळ, शीं, कुंडो; बेंबुळ;
(आं) (इं) (ईं) (उं) (एं)
ओंकार, सौंदेकार बी
(ओं) (औं)

परंपरेन 'अं' चो उच्च्यार 'अम्' असो बरोवन दाखैतात. जाल्यारूय, शास्त्रीक नदरेन तें पूर्ण सत्य न्हंय. 'अं' ह्या अक्षरांत 'अ' च्या माथ्यावेली बारीक तिकली (बिंदु) ताज्याफुडें येवपी अनुनासिकाखातीर येता. ताका लागून, जेन्ना 'अ' च्या मुखार ङ्, ञ्, ण्, न् हीं अनुनासिकां येतात, तेन्ना 'अं' चो उच्च्यार अनुक्रमान अङ्, अञ्, अण् आनी अन् असो जाता. देखीक:
अं=(अ+ङ्): अंकुश (अङ्कुश), अभंग (अभङ्ग)
अं(अ+ञ्): अंयशी (अंञ्शी), अंयशावो (अंञ्शावो)
अं(अ+ण्): अखंड (अखण्ड), करंड (करण्ड)
अं(अ+न्): अंत (अन्त), अंदप (अन्दप)

**अं ऽ ।** 'अ'चो नाखयो उच्च्यार ।उ.उ. समजलेंना, परतून सांग असो भावार्थ दाखोवपी उतर

**अं ऽ अं ऽ ।** 'अ' च्या नाखया उच्च्याराची द्वि.। उ.उ. दुखीन वा वेदनेन तळमळटना वा जोरान फणफणटना मनीस ज्या वेळार पिंरगूंक लागता, त्या वेळार ताजें तोंड धांपिल्लें वा उक्तें आसतनाय, दूख, वेदना वा व्यथा उक्ती करपाक आपाप भायर सरता तो ध्वनी.

**अँः** ।ह्यँ। तिरस्कार, तुच्छताय, बेपर्वाय दाखोवपी उतर.

**अऊर** । अऊर्, सा.रू. -रा; भौव. -र, सा.रू. -वरां । [सं. आपूरः] पु.न्हंयच्या वा व्हाळाच्या प्रवाहांत अकस्मात जाल्ली उदकाची प्रचंड वाढ; पूर; और; हुंवार.

**अकटो-विकटो** । अकृटो-विकृटो, सा.रू. -ट्या। [सं. अकृत + विकृत] वि. कायच्या काय; व्यवस्थित न्हंय असो; धड जांवक ना असो. (अकटो-विकटो प्रपंच)

**अकड-विकड** । अकड्-विकड् । [सं. अकृत + विकृत; प्रा. अकड + विकड] वि. ताळ-तंत्र नाशिल्लो; कशाकसोय. (अकड-विकड नाच.)

**अकड्डी** । अंकड्डी, सा.रू. अकड्ड्या । [सं. अ + का. करडि ?] स्त्री. निकरडी, उक्ती जमीन (अकड्ड्यार न्हिदूं नये. पोंदा शेंदरी तरी घेंवची.)

**अकड्डी** । अंकड्डी, सा.रू. अकड्डे । [सं. अ + का. करडि ?] वि. निकरडी; उक्ती (अकड्डे धरणीर न्हिदप.)

**अकड्डो-ड्डी-ड्डें** । अकडडॉ, - कड्डी, - कड्डँ, सा.रू. -ड्ड्या - कड्डे, कड्ड्या; भौव. -ड्डें,- ड्ड्यो - ड्डीं; सा.रु. -ड्ड्यां । [सं. अ+का. करडि ?] वि. करड काडिल्लो. (अकड्डो तांदुळ, अकड्डी दाळ, अकड्डें धान्य.)

**अकपट** । अकपट्, सा.रू. -टा । [सं. अ + कपटम्] न. कपटाचो अभाव; शुद्ध भाव; मनाचें मेकळेपण, निर्मळपण.

**अकपटी** । अकंपटी, सा.रू. -ट्या; भौव. -टी. सा.रू. -ट्यां । [सं. अ+कपटिकः] वि. ज्याच्या मनांत कपट, नाडकाय ना तो; गळगळीत मनाचो; भावार्थी; सरळ चाल-चलणुकेचो.

**अकरडी** । अकर्डी । [सं. अ + का. करडि ?] पळेयात 'अकड्डी'

**अकरण** । अकरण्, सा.रू. -णा । [सं. अकरणम्] न. न करप; निश्क्रियताय.

**अकरणरूप** । अकरणरूप्, सा.रू. -पा; भौव. -रुपां, सा.रू. -रुपां । [सं. अकरणम्] न. (व्या) न्हंयकारी रूप; 'ना' वा 'नाका' ह्या अर्थान चलयतकीर जाता तें खंयच्याय धातूचें रूप. देखीकः तो करचो ना; म्हाका नाका.

**अकरणी** । अकंरणी, अकंर्णी, सा.रू. अकरणे; भौव. अकरण्यो, सा.रू. -ण्यां । [सं. अ+कृ] स्त्री. पाडी, दूस्ट करणी; अपकर्म.

**अकरा** । अक्रा, अक्रा । [सं. एकादश; प्रा. एगारह, एहारह] वि. क्रमान मेजतना धा संख्येफुडें रोखडीच येता ती संख्या; इकरा. ही संख्या आंकड्यांनी (११) अशी दाखयतात.
— **इंद्रियाः** पांच कर्मेंद्रियां, पांच ज्ञानेंद्रियां आनी मन.
— **रूद्रः** शिवाची अकरा उग्र रूपां. ह्या रुपांत अकरावें रूप अती उग्र आनी क्रूर मानतात. शिवाचीं अकरा रुपांः अज एकपाद, अहिरबुधन्य, विरुपाक्ष, त्वष्टा, रैवत, हर, त्र्यंबक, सविता, जयंत, अपराजीत आनी पिनाकी.
**म्हणः** अकरा देवांक एक एकादसणी (एकाच कामांत खूप कामां संपादून घेवप.)

**अकरावो-वी-वें** । अक्रावॉ-वी-वँ, सा.रू. -व्या,-वे,-व्या । ['अकरा' वेल्यान] वि. क्रमान मेजताना धाच्या उप्रांत रोखडोच येता तो; इकरावो-वि-वें.
पु. मनीस मेल्याउप्रांत ताज्या अकराव्या दिसा

करतात तो धार्मिक विधी.
**— गुरू :** दाट इश्टकाय. गुरू अकरावे राशीक येतकीर शुभ मानतात. देखून, 'अकरावो गुरू' हीं उतरां दाट इश्टकायेची भावना दाखोवपाखातीर उपकरायतात.
**— रूद्र :** १. शिवाचें एक भयंकर क्रूर रूप. २. म्हारुती. (ला.) अती रागीट वा अती कोपिस्ट मनीस.

**अकराळ** । अक्राळ् । [सं. अ + कराल] वि. भयांकृत; अतिशय भय दिसपासारको; भयान काळजांत धडकी भरसारको.

**अकराळ-विकराळ** । अक्राळ्-विक्राळ् । [सं. अकराल + विकराल] वि. भयांकृत; भय दिसपासारको

**अकर्तव्य** ।अकर्तव्य । सा.रू. -व्या; भौव. -व्यां, सा.रू. -व्या । [सं. अ+कर्तव्य] न. आपल्याक लागना तें कर्तव्य; आपल्याक लागना अशी गजाल; अलागणूक.

**अकर्म** । अकर्म, सा.रू. -र्मा; भौव. -र्मां, सा.रू. -र्मां [सं. अ + कर्मन्] न. करूंक फावना अशी करणी; पाडें कर्म; पापकर्म; वायट गजाल.

**अकर्म** । अकर्म, सा.रू. -र्मा; भौव -र्मां; सा.रू. -र्मां । [सं. अ+कर्मन्] न. (भ. गी.) मनांतले विकार जिखून, चित्तशुद्धीन आनी जीणेवेले श्रद्धेन केल्लें अखंड कर्म; कर्मांतल्यान केल्लो कर्माचो क्षय; कर्मांतल्यान घेतिल्लो कर्म संन्यास.

**विशेश :** गीतेंत कर्माक स्वधर्म म्हळा. विकाराक जिखून, फळाची आसक्ती धरिनासतना, स्वधर्माचें आचरण करपाचें आसता. कर्म जेन्ना जिणेवेले श्रद्धेन अंतःस्कर्णांतल्यान स्पुरुन येता आनी जिणेची सहज प्रवृत्ती जाता, कर्म जेन्ना जिणेची साधना आनी साध्य जाता, तेन्नाच तें श्वासा-उस्वासावरी सहज जाता, करून न केल्लचावरी दिसता.

**अकर्मक** । अकर्मक । (सं. अकर्मक) वि. (व्या.) ज्याका कर्म लागना तो (धातू) वा तें (क्रियापद).

**अकर्मी** । अकर्मी, सा.रू. अकर्म्यां; भौव. अकर्मी. सा.रू. अकर्म्यां । [सं. अकर्मिन्] वि. १. अकर्म करपी; दुश्कर्मी; पापी. २. दुर्दैवी; कर्महीन. ३. (व्या.) ज्याका कर्म लागना तो (धातू) वा तें (क्रियापद).

**अकल** । अकल, सा.रू. अकले; भौव. अकलो; सा.रू. अकलां । [अर. अक्ल] स्त्री. शाणेपण; बुद्ध; अक्कल.
**वा.प्र: अकलेक येवप:** गरजेक लागून काकूळटेक येवप; गरजेक लागून पराथप.
**अकलेतल्यान वचप:** बुद्धिभ्रस्ट जावप; हाताभायर वचप. (बापूय सदांच धाडायता. हांवें भोव समजावन पळेलें, पूण आयकना. अकलेंतल्यान गेला. –काळखा किरणां, बरो. महाबळेश्वर सैल, 'जाग' दिवाळी अंक १९८८, पा.९)

**अकलेचो-ची-चें** । अकलेचो-ची-चँ, सा.रू. -च्या,-चे,-च्या; भौव. -चॅ,च्यो,-चीं, सा.रू-च्यां. । ['अकल' वेल्यान] वि. अक्कल आशिल्लो; शाणो-सुर्तो; बुदवंत.
**वा.प्र: अकलेचो कांदो** (उर.अ.उ) अती शाणो; देड शाणो.
**उणे अकलेचो:** अबुद्धी; मूर्ख (दादा तूंय इतले उणे अकलेचो आनी लज नाशिल्लो म्हणून हांव नकळ आसलीं. –हव्रन्याची परिक्षा, बरो. कुमार मनोहर -न.गों. २रें वर्स, १लो आंक, जूल १९३५, पा.२२)
**सुण्या अकलेचो:** लज नाशिल्लो; शिंब्रो; नाक-कात्रो.

**अकल्पित** । अंकल्पीत् सा.रू. -ता । [सं. अ+कल्पित] वि. १. ज्याची कल्पना करूंक नाशिल्ली अशें. २. ज्याची पैलीं येवजण वा विचार करूंक नाशिल्लो अशें. ३. जें कल्पित न्हंय तें; निजाचें; नैसर्गिक.
**क्रि.वि.** अकस्मात; अवचित; ध्याना-मनांत नासतना (येवजिनाशिल्लेंच अकल्पित घडलें.)

**अकल्याण** । अकल्याण् सा.रू. -णा । [सं. अ + कल्याण] न. अहित; वायट (दुसऱ्याचें केन्नाच अकल्याण येवजूं नये.)

**अकस्मात** । अकस्मात् । [सं. अ + कस्मात्] क्रि. वि. अचानक; एकदम; एकाएकी; अकल्पित.

**अकळ** । अकॅळ् । [सं. अ + कल्] वि. जें कळना अशें; अगम्य; अनाकलनीय. (देवाची अकळ करणी.)

**अकळित** । अकळीत् । [सं. अकलित] वि. जें गुढान भरिल्लें आसा तें; आकलना पेलें; ज्याचे आकलन बुद्धीन जायना अशें; अकळ; अगम्य; (झईं क्रिस्ता आमच्या तारकान ताची इतुली प्रति प्रियेव वा दुलबाय केली, की थईं वर्तलेल्या काळा भितरि, भोवतेकी वेळो स्वामियाची सुफळि द्रुस्टि, वा पवित्र दरूसण भोगी, ताचे सर्वी वर्त, उलइ, बोल, मातु गोस्टि करी, स्वर्गिंचे व्हडी अगमी वा अकळिती वस्तु देख - वनमाळ्यांचो मळो, बरो: Father Miguel de Almeida - Edited by Dr. V.B. Prabhu Dessai - Nagpur University, पा. ४७)

**अकांत** । अकान्त्, सा.रू. -न्ता । [सं. आकान्त, आक्रन्दन; म. आकांत] पु. १. अपरंपार दुःखाचो वा जिवावेल्या संकटाचो प्रसंग; अरिस्ट; अनर्थ; संकट; कलकल. २. ज्याका मीत ना अशें अपरंपार दुःख. ३. विकळाप; कुलकुलाट. ४. काळजाची तडफड, उदकांतल्यान भायर काडिल्ल्या नुस्त्यावरी जाल्ली फडफड; घुस्मटमार; व्यथेचो कल्लोळ. ५ हुवेल, ह्युयेल. करंदाय.
**वि..** १. अतोनात; अपरंपार; चड; अतिशय. २. भयांकृत.

**अकांतप** । अकान्तप्, सा.रू. -पा । [सं. आ + क्रन्द] क्रि.दा.धा.सा.ना. (मूळ धातू: अकान्त् (अक)). भांबेवप: काचाबूल जावप.

**अकांतवप** । अकान्तवप्, सा.रू. -पा । ['अकांत' वेल्यान] क्रि.दा.धा.सा.ना. (मूळ धातू: अकांतय् (अक.)) हातापायांर बालप; कळावळावप; काचाबूल करप.

**अकादमी** । अकादमी । स्त्री. पळेयात 'अकादेमी'

**अकादेमी** । अकादेमी, सा.रू. -मी; भौव. -मी, सा.रू. -मीं । [ग्री. Akademeia; लॅ.Academia] स्त्री. १.साहित्य, विज्ञान आनी कला हांची फोंपेवन प्रगती जांवची ह्याखातीर, जिची घटना कायद्यान मान्य केल्या, अशी स्थापना केल्ली संस्था; जंय साहित्याचो, विज्ञानाचो आनी कलेचो खोलायेन अभ्यास चलता, अशें साहित्यिकांचें, विज्ञानिकांचें आनी विचारवतांचें मंडळ. २. जंय शिक्षण दितात ती संस्था. (पोलिटेक्निकची अकादेमी; डिफेन्स अकादेमी). ३. शिक्षण दिवपी संस्था. (संगीताची अकादेमी).
**विशेष:** अकादेमी म्हळ्यार साहित्य, विज्ञान आनी कला हांची फोंपेवन वाढ जावची, ह्याखातीर, जिची घटना कायद्यान मान्य केल्या, अशी स्थापना केल्ली संस्था. अकादेमी सरकारान स्थापन केल्यारय, चड करून ती स्वायत्त आसता. एकाद्रेवेळा, अकादेमी ही कांय विचारवंतांनी एकठांय येवन स्थापन केल्ली संस्था आसूं येता. ती खाजगत संस्था आसुनय, सरकारान तिका मान्यताय दिल्ली आसूं येता. प्रत्येक अकादेमिचे तिजे अशें खाशेले नेम

आसतात. तिची खाशेली घटना आसता. हे नेम कायद्यान मान्य केल्ले आसतात. तेच परी ही घटनाय कायद्यान मान्य केल्ली आसता.

१. अकादेमिचें इतिहासीक मूळ वा आरंभ: अथेन्स शहराचे वायव्येक (साधारण १ किलोमिटर लांबायेचे) स स्टेडियम आशिल्ली बाग वा उद्यान आशिल्लें. हे बागेच्या वा उद्यानाच्या ज्या जाग्यार, क्रिस्ती सनापैल्या ३८५ वर्सा, प्रेटोन आपली शाळा वा संस्था स्थापन केल्ली, ते संस्थेक 'अकादेमी' हें नांव पडलें.

आतिकांतलो एक वीर 'अकादेमॉस' वा 'हेकादेमॉस' हाजेवेल्यान 'अकादेमी' हें उतर घडलां. ह्या उद्यानाच्या ज्या जाग्यार तेझेवान येलॅनाक लिपोवन दवल्लेली, तो जागो ह्या वीरान तिज्या भावांक दाखोवन दिलो, अशी एक दंतकथा आसा. हें उद्यान त्या विराचें आशिल्लें. देखून ताज्या ह्या उपकारांक लागून लासेदेमोनियेच्या लोकानीं, आपल्या आक्रमणाच्या वेळार, ह्या उद्यानाक हात लायलो ना. इतलेंच न्हंय तर थंच्या झाडां-पेडांक पासून तांणीं कसलीच नकनामी केली ना.

ह्या उद्यानाचो कांय भाग प्लेटोन विक्तो घेतिल्लो आनी थंय तो आपल्या गड्यां वांगडा तत्त्वज्ञानाचेर चर्चा करतालो. प्लेटोची ही संस्था ताचे हयातीमेरेन चल्ली. त्या उप्रांत ती वेगवेगळ्या स्थित्यंतरांतल्यान गेली आनी रोमन सम्राट झ्युस्तिनियान हाणें ती संस्था क्रिस्ती सनाच्या ५२९ वर्सा बंद करीमेरेन, सुमार णव शेंकडे चल्ली.

पुर्विल्ल्या काळांतच तिका पोन्नी आनी नवी अकादेमी ह्या रुपान वळखूंक लागले. प्लेटो धरून आरसेजिलावाच्या काळामेरेन (क्रिस्तापैलीं ३१६-२४१) तिजें जें स्वरुप आशिल्लें, त्या रुपाक 'पोन्नी अकादेमी' हें नांव पडलें.

२. सोळाव्या आनी सतराव्या शेंकड्यांत जेन्ना युरोपांत पुनरुथ्थानाची चळवळ सुरू जाली, तेन्ना अकादेमिचो पुनर्जन्म जालो. अकादेमिची पैली स्थापना इटाली ह्या देशांत जाली. उप्रांत युरोपभर ह्या संस्थांचो उदेव जालो. ह्यो संस्था साहित्य, विज्ञान आनी कला समृद्ध जावपाखातीर, तांच्या अभ्यासाक चालना दिताल्यो. कांय अकादेमींनी देखणें काम करून, लोकांत एक सांस्कृतिक जागृताय निर्माण केल्या; कांय अकादेमिंनीं आपल्या राष्ट्राची भास समृद्ध केल्या, साहित्याक नवें परिमाण दिलां; कलेची आनी साहित्याची आवड लोकांत निर्माण केल्या; आपआपल्या राष्ट्राच्या पुर्विल्लचा इतिहासाचेर उजवाड घालून पोरणावळ शास्त्र (Archaeology) समृद्ध केलां.

विज्ञानाचे प्रगतीखातीर आज वेगळ्यो संस्था स्थापन जाल्यात. देखून आज विज्ञानाच्या विकासाखातीर अकादेमींक भार घेवन वावुरचें पडना.

३. 'अकादेमी' हें उतर आज वेगवेगळ्या संदर्भान उपकरायतात. प्रेटोची अकादेमी धरून आजचे अकादेमीमेरेन बदल जाल्यात. जाल्यारूय, अकादेमिची मुळावी बांदावळ थोड्या - भोव फरकान तशीच उल्लया.

अ) प्लेटोची अकादेमी ही संवसारांतली पैलीवैली अकादेमी. ही अकादेमी सादी शाळा नाशिल्ली. धार्मिक बुन्यादीचेर ती उबी आशिल्ली. लोकांत सांस्कृतिक जाण निर्माण करप हें तिजे ध्येय आशिल्लें. विद्येचें तें केंद्र आशिल्लें. निसर्गाचो अभ्यास करून मनीस आनी ताचे प्रश्न सोडोवपाचें काम प्लेटोची अकादेमी करताली. त्या वेळावेल्या विद्येच्या सगळ्या अंगांचो अभ्यास थंय जातालो.

ब) क्रिस्ती सनाच्या पैल्या शेंकड्यांनी अकादेमिंची कसलीच नाट मेळना. युरोपांत जाल्लें पुनरुथ्थानाचे चळवळिंतल्यान अकादेमिंचो पुनर्जन्म जालो.

मानवतावादाचो उदेव जातकीर, मनशांचेर बरे संस्कार जांवचे, वेगवेगळ्या देशांतल्या लोकांनी एकमेकांकडेन सन्मथ्थान चलचें, ज्ञानाची वाढ जांवची, मनशाक प्रतिस्ठा मेळची, मनशांनी एकचारान आनी भावबंदायेन चलचें, हें येवजणेंतल्यान कांय विचारवंतांचीं मंडळां उदेवाक आयलीं. इल्लचो इल्लचो करून ह्या मंडळांच्यो घटना तयार जाल्यो. प्लेटोच्या नांवांचो उगडास जागोवपाक, ह्या मंडळांकय त्या विचारवंतांनी 'अकादेमी' हेंच नांव दवल्लें.

मानवतावादाच्या बसकारार ह्यो अकादेमी उब्यो आशिल्लयान, तांच्या मुखावेली दिगंत रुंदावली आनी ज्ञानाच्या नव्या नव्या खांदयांचो जन्म जायत गेलो. १६ वो शेंकडो धरून सतराव्या शेंकड्यांत अकादेमींक नवें पालंव आयलें. शहरा कणकणीं अळम्यांवरी अकादेमिंचो उदेव जालो आनी अळम्यांवरीच त्यो खिणयाळ्यो जाल्यो.

ज्ञानाच्या वेगळ्या वेगळ्या मळांचेर काम केल्लयान, अकादेमी पांच प्रकारांत मोडटात: १) Filológico-Literarias (साहित्य अकादेमी. हातूंत भासशास्त्राचोय आस्पाव जाता). २. Filosófico-Culturais (तत्त्वज्ञानाची अकादेमी. हातूंत संस्कृतायेचो अभ्यास आस्पावता). ३. Cientificas (विज्ञान अकादेमी). ४. Arquelógico-Históricas (पोरणावळ शास्त्राची अकादेमी. हातूंत इतिहासाचोय अभ्यास येता), आनी ५. Artísticas (कला अकादेमी). संवसारभर स्थापन जाल्लया कांय अकादेमिंचें काम देखदेणें जालां. इटालिंत स्थापन जाल्ले अकादेमीन इटालियन भाशेक समृध्द केल्या.फ्रेंच अकादेमीन फ्रेंच भाशेक आनी फ्रेंच साहित्याक अक्ख्या सवंसारात मानाचो अग्रपाट जोडून दिला. १६६२ वर्सा इंग्लडाक स्थापन जाल्ले रॉयल सोसायटिन नांव घेवपासारकें काम करून, संवसारभर नामना जोडल्या.१९१७ वर्सा रशियेंत अकादेमी स्थापन जाल्लयो. रशियन राजक्रांती उप्रांत बोल्शेवीक सरकारान त्यो बंद केल्यो. सोव्हियट सरकारान मोस्कोची आनी लेनिनग्राडची अकादेमी १९४५ वर्सा आशिल्ली तशी सुरू केली.

स्वतंत्रताय मेळल्याउप्रांत भारत सरकारान भारतीय कला, साहित्य आनी संस्कृती हांची वाढ जावपाक प्रोत्साहन दिवपाचें धोरण येवकारलें. ह्या मळार काम करपी कांय संस्थांक अनुदानां दिवपाची सुरवात केली.अनुदानांचेर समाधान मानिनासतना, ह्या मळार सरकारान वांटो घेवपाचें थारायलें. कला, नृत्य, नाट्य आनी संगीत क्षेत्रांतल्या नामनेच्या व्यक्तींच्यो बसका भरयल्यो. तांणी केल्लया सुचोवण्यांक मान दिवन, भारत सरकारान तीन अकादेमी स्थापन केल्यो.

**१- संगीत नाटक अकादेमी:** ह्या अकादेमिची स्थापना जानेवारी १९५३ वर्सा जाली. भारतीय नृत्य, नाट्य, सिनेमा आनी संगीत हीं फोंपेवन, तातूंतल्यान भारतांत सांस्कृतिक एकचार नंदचो हो हे अकादेमिचो उद्देश. ह्या भायर अकादेमी हींय कामां करता: १) वेगवेगळ्या प्रदेशांत आशिल्लया थंच्या थळाव्या संस्थांच्या कार्यक्रमांक एका सुतान गुंथप, २) संशोधनाक उत्तेजन दिवप, ३) उत्सव,समारंभ घडोवन हाडप, ४) चर्चासत्रां भरोवप आनी ५) सांस्कृतिक विनिमय घडोवन हाडप. अकादेमीन आजमेरेन १०५ खाजगत संस्थांक मान्यताय दिल्या आनी तातूंतल्या कांय संस्थांक अकादेमी अनुदानय दिता. तेच परी वर्सानवर्स नृत्य, नाट्य, संगीत आनी सिनेमा ह्या मळांर नामना जोडपी व्यक्तीक

अकादेमी तस्रिपो दिता.

२- **साहित्य अकादेमी:** हे अकादेमिची स्थापना १२ मार्च १९५४ वर्सा जाल्या. भारताच्या प्रांतांप्रांतांतल्या भासांतल्या साहित्याची एकमेकांक वळख मेळून, तांतूंतल्यान भारतीय साहित्य आकाराक येंवन राज्याराज्यांत सांस्कृतिक एकचार नंदचो ह्या हेतून, हे अकादेमिची स्थापना जाल्या. संवसार -साहित्यांतलें अभिजात साहित्य भारतीय भासानीं भाशांतराच्या रूपान येवन, भारतीय साहित्याक एक नवें परिमाण मेळचें, होय हे अकादेमी फाटलो एक उद्देश आसा. अकादेमी खासा आपलीं अशीं वेगवेगळीं प्रकाशनां उजवाडाक हाडटा. आजच्या भारतीय साहित्याचो विकास आनी इतिहास तयार करपाची एक येवजण, हे अकादेमी मुखार आसा. ही अकादेमी तिणें मान्यताय दिल्ल्या २२ भारतीय भासांतल्या पुस्तकांक दर वर्सा ते ते भाशेचे कमिटीन वेंचून काडिल्ल्या पुस्तकांक तस्रिप दिता. १९८८ वर्साच्यान ही तस्रिप २५,००० रूपयांची जाल्या.

३- **ललित कला अकादेमी:**हे अकादेमिची स्थापना ऑगस्ट १९५४ वर्सा जाल्या. चित्र,शिल्प, स्थापत्य आनी हेर कला हांच्या अभ्यासाक आनी संशोधनाक चालना दिवप, हें हे अकादेमिचें मुख्य कार्य. ह्या भायर ही अकादेमी हीं कामां करताः १) त्या त्या प्रांतातल्या थळाव्या अकादेमिंच्या कार्यक्रमांत एकसूत्रताय हाडप, २) कलांक ओंपून घेतिल्ल्या मंडळांत वांगड-भावना निर्माण करप, ३) कलेसंबंधान आशिल्लें साहित्य उजवाडाक हाडप, ४) कलाकार आनी कलाकृती हांची देवाण घेवाण करप आनी, ५) प्रदर्शनां करून राष्ट्रीय आनी आंतरराष्ट्रीय मळाचेर संपर्क साधप. अकादेमिच्या वर्सुक्या कार्यक्रमांत कलाकृतींच्या राष्ट्रीय प्रदर्शनांक म्हत्वाचें स्थान आसा. भारतीय संस्कृतीक नव्यो प्रेरणा दिवन तिज्यांत नवो प्राण ओतपाचें कार्य करप हें हे अकादेमिचें धोरण आसा.

फिर्ग्यांचे राजवटिंतल्यान गोंय मेकळें जाल्या उप्रांत, गोंयच्या सरकारान, गोंयची भास, कला, संगीत, साहित्य, नाट्य, लोकवेद आनी लोककला हांची उदर्गत जावन तांकां नव्यो प्रेरणा मेळपाखातीर दोन अकादेमिंची स्थापना केल्या.

१. **गोवा कला अकादमी:** हे अकादेमिची स्थापना १९७० वर्सा जाल्या. संगीत, नाटक, नृत्य, साहित्य, लोककला आनी लोकवेद हांची राखण आनी उदर्गत करून तांकां नवी प्रेरणा दिवप, हो हे अकादेमिचो उद्देश. संगीत, नृत्य आनी नाटक हीं रंगभुयेंचींच आंगां. तीं एका पाख्यासकल हाडून तांचो विकास आनी पूर्ण अभ्यास जांवचो, होय हे अकादेमी फाटलो हेतू आसा. तेच परी, दर दोन वर्सांनी, कोंकणी आनी मराठी पांच पांच पुस्तकांक ही अकादमी तस्रिपो दिता.

२. **गोवा कोंकणी अकादेमी:** हे अकादेमिची स्थापना २४.१२.१९८४ वर्सा जाल्या, आजमेरेन उबंत पडिल्ली कोंकणी तरतरून फुलची, तिजें साहित्य समृद्ध जांवचें; भारतीय भासांत कोंकणीय एक समृद्ध भास जांवची आनी हिंदू आनी किरिस्तांव हांकां एकचाराच्या पासान बांदून घालपी हे भाशेन, कोंकणी संस्कृताय समृद्ध करीत भारतीय संस्कृताय समृद्ध करची, हो हे अकादेमिचो उद्देश आसा.

३. खाजगत यत्नांतल्यान आनीक दोन अकादेमी गोयांत स्थापन जाल्यात. मराठिच्या मोगयांनी १९८७ वर्सा **'गोमन्तक मराठी अकादमी'** स्थापन केल्या आनी रोमी लिपयेंतल्या कोंकणी साहित्याचे उदर्गतिखातीर कांय क्रिस्तांव भावांनी **'दाल्गाद कोंकणी अकादेमी'** स्थापन केल्या. हे अकादेमिची

स्थापना १९८८ वर्सा जाल्या.

(शि.शा.) शिक्षणशास्त्राचे नदरेन, नामनेचो रोमन वक्तो, राजकर्णी आनी ग्रंथकार 'सीसॅरू' (Cicero, क्रि.आ.१०३-४३) हाणें 'उच्च्य शिक्षण दिवपी संस्था' असो 'अकादेमी'क आनीक एक नवो अर्थ दिलो.

**अकार** । अकार, सा.रू. -रा । [सं.अकारः]पु. ॐकाराचो पैलो ध्वनी; 'अ' हो स्वर.

**अकारण** । अकारण् । [सं.अकारणम्] क्रि.वि. कारणाविणें; गरजेविणें; व्यर्थ.

**अकारान्त** । अकारान्त् । [सं.अकार+अन्त] वि. 'अ' स्वरान सोंपपी (शब्द,उतर); ज्याचे अखेरेक 'अ' हो स्वर येता अशें (उतर).

**अकार्य** । अकार्य, सा.रू. -र्या; भौव. -र्यां, सा.रू. -र्यां । [सं.अकार्यम्] न. करूंक फावना अशें कृत्य; अयोग्य करणी; अकरणी; निशिद्ध कार्य.

**अकाल** । अकाल्, सा.रू. -ला । [सं.अकालः] पु.१. अशुभ वेळ; अयोग्य वेळ; अवेळ. २. दुकोळ, दुश्काळ. **—जन्मः** पु. पूर्ण दीस जांवचे पैलीं जाल्लो जन्म. **—मृत्यूः** पु. अवेळार आयिल्लें मरण; अकस्मात आयिल्लें मरण; आडमरण.

**अकाल** । अकाल् । [सं. अकालः] पु. ज्याचेर काळाची सत्ता चलना तो परमेश्वर. - कालातीत परमेश्वराची उपासना 'अकाल' ह्या नांवान गुरू नानकान सुरू केली. एकाच परमेश्वराची पूजा करात, धर्माचेर श्रद्धा दवरात, दुसऱ्यांचे दोश पोटांत घालात, आपल्या घामा-कस्टान भाकरी जोडात आनी तिजो वांटो हेरांकय दियात, कोणाचीच दुस्मानकाय धरिनासतना समस्तांचेर प्रेम करात, अशी शिकोवण गुरू नानकान दिली. सगळी मनिसजात त्या अकाल पुरूशाचीच संतत आसा, असो ताणें उपदेश केलो. देखून अकालिंची 'सत् श्री अकाल' ही घोशणा जाली.

**अकाली** । अकाली, सा.रू. -ल्या; भौव. -ली, सा.रू. -ल्यां । ['अकाल' वेल्यान] पु. कालातीत परमेश्वराची उपासना करपी शिखांचो एक धार्मिक पंथ. -शिखांचो सवो गुरू हरगोविंद हाणें अमृतसरच्या सुवर्णमंदिरामुखार अकालतख्त स्थापन केलें. ताका 'अकालबुंग' म्हणतात. 'बुंग' म्हळ्यार ज्याचेर घुमट आसा अशें एक महामंदिर. त्यागी आनी विरक्त आशिल्ल्यांकच अकालबुंगाचो वांगडी जांवक मेळटालें. मोंगल जेन्ना शिखांचेर आनी तांच्या बायलां-भुरग्यांचेर आगळिको करुंक लागले, तेन्ना गुरू नानकाचे शिश्य एकठावले. ह्या आगळिकांक लागून, लोकांत धर्माचो प्रचार करपाच्या जाग्यार, आपले संघटनेची राखण करप, हें तांचें मुखेल काम जालें. आत्मसंरक्षणाखातीर अकाली चळवळीक राजनितीक वळण मेळलें. अकाली शूर आनी रणनिपूण जाले. भुरगीं, म्हातारे, दुबळे आनी बायलो हांची प्राण पणाक लावन राखण करप हो ताणीं आपलो धर्म मानलो.

**अकाळ** । अकाळ । [सं. अकाल] पु. पळेयात 'अकाल'.

**अकाळो-ळी-ळें** । अकाळॉ -ळी -ळें, सा.रू. -ळ्या -ळे -ळ्या । ['अकाल' वेल्यान] वि.१. नस्त्या वेळेवेलो; अवेळो. (अकाळो पावस).२. अयोग्य वेळावेलो. (अकाळे आनी न्हंय त्या जाग्यार केल्ले प्रार्थनेन कोणाकय राग येता. रतिभोगाच्या ऐन रंगार, अपुर्बायेचो पोरपासून रडूंक लागल्यार आवय ताका गाळच संवता. गाथा सप्तशती, ४.१००)

**अकिरताळो-ळी-ळें** । अकिरताळॉ -ळी -ळॅं, सा.रू. -ळ्या, -ळे, -ळ्या; भौव. -ळे(ळॅं) -ळ्यो -ळीं; सा.रू. -ळ्यां । [सं. 'अ

+ कीर्ति' वेल्यान?] वि.१. फटकिरो; घातकी (अकिरताळो इश्ट). २. वायट कीर्त आशिल्लो.

**अकीर्त** । अकीर्त्, सा.रू. -र्ती । [ सं. अकीर्ति:] स्त्री. १. वायट लौकीक; वायट कीर्त. २. नस्ट; निर्भाग्य; अभाग्य; अकल्याण. **वा.प्र: अकीर्त करप:** आळ घालप; बगलांट घालप; बिर्मत घेवप. (रायाचे व्यापारी, महाथोर पापी आनी सुवार्थी कांय लंचाचे आशेक तांकां विश्वासतल्याक घात करूंक चिंतूं लागले. चिंतिल्ल्या प्रमाणीं थोड्या काळाभितर तेचि रायाचे व्यापारी सांत आंतोनिच्या बापाक अकीर्त करूंक लागले. -सां. आं. अ. बरो: Fr.Antonio de Saldanha पा.४२-४३)

**अकीर्तगुणी** । अकीर्त्गुणी । ['अकीर्त' वेल्यान] वि.घातमारो; बगलांटी; पाडो वा पाड्या गुणांचो; घरार सुणीं चडोवपी. (तें रांदवाय खांवक भक्तु सांतु आंतोन हातु लांवक वेतचि, तातूंत वीख आसा म्हणून ऐसें परमेस्वरान सांतु आंतोनिक जाणयलें. जाणयल्या पासत, त्या शास्त्रद्रुहितांक सांतु आंतोनिन शांतपणीं अग्रावन म्हळें, अगा तुमी अकीर्तगुणी म्हाका जिवीं मारूंक कित्याक गेले?. -सां. अं.अ.,पा.२०)

**अकीर्य** । अकीर्य, सा.रू. -र्या; भौव. -र्यां, सा.रू. -र्यां । [सं अकार्य] न. मनिसपणा भायलें आचरण, अवगुणाय; आचारभ्रस्ट वर्तन.

**अकीर्यवंत** । अकीर्यवंत्, सा.रू. -ता; भौव. -वंत, सा.रू. -वंतां । ['अकीर्य' वेल्यान] वि. ज्याचेर पाडे संस्कार जाल्यात तो; अचोंगाचारी; अवगुणी; आचारभ्रस्ट.

**अकीर्स** । अकीर्स । [सं.अ (अतिशय) + कृश् ?] वि. १. केल्लें वखद पारना जावन जो आंग वा गत घेंवक पावना तो; जो रेंजू रेंजून झरमरत दीस काडटा तो; कृपीण; जो सुकूं सुकून व्हीर जायत वता तो; कर्म-जीव कसो; बडंक; हातापायांच्यो बडयो जाल्लो; अतिशय कृश, अशक्त असो. २. जो मातय वाढाय घेनासतना, झिंगझिंगत थंच्याथंयच धपटून उरता तो. (अकीर्स रोंपो).

**अकुडी** । अकुडी । [सं.अ.+कुडि:] वि. अशरिरी; अदेही; अनंग ( रामाचे जीणेचें व्रत जाल्ली अकुडी सीता, जनक राजाची धूव आशिल्ली.)

**अकुळयेचो-ची-चें** । अकुळयेचॉ-ची-चँ, सा.रू. -च्या -चे, -च्या; भौव -चे, -च्यो, -चीं; सा.रू. -च्यां । [सं.अ+कुल+ज] वि. हीनकुळांत जन्मल्लो; नीच कुळांतलो; आडबिजाचो.

**अकुळी** । अकुळी । [सं.अ+कुल] वि. हीन कुळयेचो; ज्याच्या कुळाचो पत्तो मेळना असो.

**अकृपा** । अकृपा, सा.रू. -पे । [सं.अ+कृपा] स्त्री. अवकृपा; रागणें; अक्रुणें.

**अक्कल** । अक्कल, सा.रू. अकले; भौव.अकलो; सा.रू. -लां । [अर.अक्ल्] स्त्री.१.शाणेपण; बुद्द; बरें-वायट पारखुपाचो विवेक (**म्हण:** अक्कल आशिल्ल्याक भांडवल नाका.) २. लज. (**म्हण:** गरजेवंताक अक्कल ना.)

**वा.प्र: अक्कल घेवप:** बुद्द घेवप; ज्ञान जोडप; देख घेवप.

**अक्कल घाण दवरप:** बुद्द घाण दवरप; बुद्द वगडावप.

**अक्कल दिवप:** हिताची वा पाडी बुद्द दिवप; शाणेपणाच्यो चार गजाली सांगप.

**अक्कल फुडें धावप:** बुद्द अयोग्य तरेन उपकरावप.

**अक्कल वयर काडपः** एकाद्रयाक ताजे उणे बुद्दीक लागून हिणसावप.
**अक्कल विकप, विकून खावपः बुद्द** घाण दवरप; बुद्द वगडावप; लज भाजून **खावप**; लज वगडावप; निर्लज्ज जावप.
**अक्कल विक्ती घेवपः** एकाद्रे गजालिचो प्रत्यक्ष अनुभव घेवन शाणेपण शिकप.
**अक्कल शिकपः** बुद्द शिकप; गांठिचें वगडावन अणभव जोडप.
**अक्कल शिकोवपः** बुद्द शिकोवप; ख्यास्त भोगवप.
**म्हणीः** १. गरजेवंताक अक्कल ना. २. अक्कल आशिल्ल्याक भांडवल नाका.

**अक्कलकाडो** । अक्कल्‌काडॉ, सा.रू. -ड्या; भौव. -डे; सा.रू. -ड्यां । [अर.अक्ल् + कों.काडो] पु. भुरग्यांक अक्कल येवपाखातीर, प्रत्यक्षांत नाशिल्लो पूण कल्पनेन घडयल्लो असो, मस्करेन वा फकांडांनी जाण्टे फर्मायताले तो काडो. 'अक्कलकाडो' हें उरफाट्यांनी, फकांडांनी वा मस्करेन उपकरांवचेलें एक कोंकणींतलें उतर. एकाद्रया भुरग्याचीं शाणेपणां चड व्हांवपाक लागल्यार, ताका कोणय जाण्टो "वृद्ध-धर्कल, मांजर-मुंडली आनी बाळ-चिर्पी हीं तीन आंगां घालून केल्लो काडो दिल्याबगर अक्कल येवपार ना" अशें फकांडांनी म्हण्टालो.

**अक्कलकाडो** । अक्कल्‌काडॉ, सा.रू. -ड्या; भौव. -डे, सा.रू. -ड्यां । [अर.अक्ल् + कऱ्हा] पु. कोंकणांत, चड करून दक्षिण कोंकणांत पावसांत किल्लून येवपी, सुमार हातभर उंचायेचें, एक वखदी झोंप. हाजें वनस्पत शास्त्रिक नांवः Spilanthis Acmella वा Spilanthis Obracea.
**विशेशः** अक्कलकाड्याचीं झोंपां बंगाल, इजिप्त आनी अरबस्तान हांगा मेळटात. थंच्यान तीं कोंकणांत पावल्यांत. ह्या झोंपाच्या कांडार आनी ताळयांर ल्हंव आसता. पानां सामुखार आनी कांठार खरवती आसतात. फुलांचो **देंट खूप लांब** आसता. फुलां हळडुव्या **रंगाचीं** आसतात आनी रोजांवेरी दिसतात. **फळ वेल्यान** चपटें आसता. अक्कलकाड्याचो वखदी उपयोगः
१) खांक बरी जावपाखातीर हाजीं फुलां विड्यांतल्यान खातात;
२) दांतांचे दुखीर हाज्या फुलांचो वेलो भाग चाबून थुकतात;
३) जीब निवळ जावपाखातीर अक्कलकाड्याच्या मुळाचो कुडको दाडेपोंदा धरून ताजो सुटिल्लो रोस गिळतात;
४) शेंदूर पोटांत गेल्यार ताजो विखार वाडूं नये म्हणून अक्कलकाड्याचें मूळ आनी वेखंड झरोवन घेतात;
५) मोल्लुक्याचेर अक्कलकाड्याचें चूर्ण म्होंवांतल्यान घेतात;
६) सांध्याचे दुखिचेर हाजो कसाय दितात;
७) उलयतना ज्याचे उच्च्यार स्पस्ट जायनासतना, उतरां लुडबीं जातात, ताका तागेलो हो दोश बरो जावपाखातीर अक्कलकाड्याच्या मुळाचो कुडको तोंडांत धरून लाळ गळूंक दितात.
हे वनस्पतिचें खरें नांव 'अक्कलकारो'. संस्कृतांत हे वनस्पतीक 'आकल्लः' वा 'अक्कलक अशें म्हणतात.
**आधारावळः महाराष्ट्रीय ज्ञानकोश (अ): डॉ. श्री.व्यं.केतकर, पा.२०.**

**अक्कलदाड** । अक्कलदाड्, सा.रू -डे; भौव. -डो, सा.रू. -डां । [अर.अक्ल् + कों.दाड] स्त्री. सगळ्यांत निमाणें येता ती दाड.
**विशेशः** ही दाड, चड करून, उसरां म्हळ्यार, चौदा ते सतराव्या वर्सा मेरेन येता. एकाद्रेवेळा त्याय उप्रांत येता. हें वय शिक्षणाचें आसता. ह्याच वयार भुरग्यांक विचार करपाची तांक येता. देखून, ह्या वयार ही दाड फुटिल्ल्यान

हिका अक्कलदाड म्हण्टात जावये.

ही दाड फुट्टना एकएकदां बरेच त्रास जातात.

**अक्कलवंत** । अक्कलवंत्, सा.रू. -ता; भौव. -त, सा.रू. -तां । [अर.अक्ल् + सं.वंत (गुण दाखोवपी ताळाकूस)] वि. अक्कल आशिल्लो; शाणो-सुर्तो; बुदवंत

**अक्कलशून्य** । अक्कलशून्य, सा.रू. -न्या; भौव. -न्य, सा.रू. -न्यां । [अर.अक़्ल् + सं.शून्य] वि. अक्कल नाशिल्लो; पोंच नाशिल्लो; मूर्ख.

**अक्का** । अक्का, सा.रू. -क्का; भौव. -क्का, सा.रू. -क्कां। [सं. अक्का] स्त्री. व्हडली भैण; आका.

**विशेश:** संस्कृत कोशांत अक्काचो अर्थ 'आवय' असो दिला. अक्का हो पाणिनीच्या काळावेलो शब्द. द्राविडी भासशास्त्री हो शब्द आर्यानीं द्रवीड भासांतल्यान घेतला अशें मानतात. सामक्या लागशिल्या नात्यांतले शब्द मूळ भाशेंतलेच मानचे, अशें कांय भासशास्त्र्यांचें मत आसा. कानडी शब्दकोशांत 'अक्का= व्हडली भैण' हो शब्द संस्कृत भाशेंतलो म्हणून दाखैला. 'अक्का' हो द्राविडी कुळांतलो देशी शब्द आसा असोय उल्लेख मेळटा.

**अक्खो-क्खी-क्खें** । अक्खॉ-क्खी-क्खँ। [सं. अक्षत; प्रा. अक्खय] वि.१. अखंड; संसलो. २.पूर्ण; पुराय. ३.सगळो; एक्रूण.

**अक्ख्या-अक्खो, अक्ख्या-अक्खी, अक्ख्या -अक्खें** । अक्ख्या-अक्खॉ, अक्ख्या-अक्खी, अक्ख्या-अक्खँ । [अक्खो द्वि.] वि. सगळ्या-सगळो, सगळ्या-सगळी, सगळ्या-सगळें; पूर्ण.

**ॲक्ट** । ॲक्ट्, सा.रू. -क्टा; भौव. -क्ट, सा.रू. -क्टां । [इं. Act] पु.१. कायदेमंडळान पास केल्लो कायदो. देखीक: कस्टम्स् ॲक्ट. २. नाटकाच्या मुख्य भागांतलो दर एक भाग वा अंक.

**अक्टोबर** । अक्टोबर्, सा.रू. -रा । [इं. October; लॅ. Octobre] पु. ग्रेगोरियन कॅलेंडराचो ३१ दिसांचो धावो म्हैनो.

**विशेश:** रोमन प्रजासत्ताकाच्या सुरवातिच्या काळांत अक्टोबर हो आठवो म्हैनो आशिल्लो. लॅटिन भाशेंतल्या 'ऑक्तॉ' (Octo) म्हळ्यार आठ ह्या उतरावेल्यान अक्टोबर हें म्हैन्याचें नांव घडलां. रोमाचो दुसरो राजा नूम पोंपीलियु (Numa Pompilio) हाज्या काळार 'अक्टोबर' हो म्हैनो आठव्याच्या जाग्यार धावो म्हैनो जालो.

रोमन वर्स हें धा म्हैन्याचें आनी ३०४ दिसांचें आशिल्लें. हें वर्स मार्च महिन्यान सुरू जातालें आनी डिसेंबर म्हैन्यान सोंपतालें. रोमन वर्साचे म्हैने अशे आशिल्लें: Martius, ३१ दीस; Aprilis, 30; Maius,३१; Junius, 30; Quintilis,३१, Sextilis, 30 September, 30; October, ३१, November, 30 आनी December, 30

रोमाचो दुसरो राजा Numa Pompilio हाणें रोमन कॅलेंडरांत सुधारणा करपाचें फर्मान काढलें. फाड्यान सोंपतात तें दीस अशुभ आसतात आनी गड्यान सोंपतात तें दीस देवांक प्रिय आसतात, देखून ताणें तीस दिसांचे म्हैने २९ दिसांचे धरपाक लायलें. त्या भायर रोमन वर्सं ताणें आनीक दोन म्हैन्यांनी चडयलें. जानेवारी हो २९ दिसांचो म्हैनो ताणें वर्साचो सुरवातिचो म्हैनो धरपाक लायलो आनी २८ दिसांचो फेब्रुवारी हो वर्साचो निमाणो म्हैनो थारायलो. अशे तरेन रोमन वर्साचे दीस ३५५ जाले. जाल्यारूय, 'ट्रॉपिकल' वर्साच्या मानान रोमन वर्स १०१/४ दिसांनी उणें आशिल्लें.

क्रिस्ता आदल्या ४५० वर्सा Decemviros च्या त्रिबुनालान (कोर्टान) फेब्रुवारी हो म्हैनो,

रोमन वर्साक जानेवारी फाटोफाट जोडपाक लायलो. ह्या चडैल्या दोन म्हैन्यांक लागून, रोमन वर्स १० म्हैन्यांच्या जाग्यार बारा म्हैन्यांचें जालें. जानेवारी आनी ताज्या फाटोफाट फेब्रुवारी, अनुक्रमान वर्साचो पैलो आनी दुसरो म्हैनो जाल्ल्यान, मुखावेल्या म्हैन्यांच्या क्रमांत बदल जालो. हो बदल असो: जानेवारी आनी फेब्रुवारीक लागून, मार्च हो पैल्या म्हैन्याच्या जाग्यार तिसरो म्हैनो जालो. एप्रिल हो चौथो जालो; मे हो पांचवो जालो; जून हो सवो जालो; जुलै हो सातवो जालो; ऑगस्ट हो आठवो जालो; सप्टेंबर णवो म्हैनो जालो; अक्टोबर हो आठव्याच्या जाग्यार धावो जालो; नोव्हेंबर हो इकरावो जालो आनी डिसेंबर हो बारावो आनी वर्साचो निमाणो म्हैनो जालो.

ह्या मुखार वर्सांच्या दिसांचो हिशोब 'ट्रॉपिकल' वर्साच्या बराबर येवपाखातीर Julio Cesarन कॅलेंडरांत बदल केलो. त्या उप्रांत वर्साच्या दिसांचो अचूक हिशोब ग्रेगोरियन कॅलेंडराक लागून जालो. जाल्यारूय, म्हैन्यांची नांवां आनी तांचो क्रम तसोच उल्लो.

**आधारावळ:** Verbo Enciclopedia Luso Brasileiro de Cultura. Vol. VIII,पानां ७१६ - ७१७.

**अक्रदोळे** । अक्रदॉळे, सा.रू. -ळ्या । [सं. अकराल + कों दोळे?] पु. भौव. १. अती रागीट नदर; अती कोपिस्ट नदर. २. दोळे फुटकी नदर; अंधुकी नदर.

**अक्रीण** । अंक्रीण् । [सं. अकरणीय] क्रि.वि. न सोबसारकें; मनिसपणाभायरें; भितल्ल्यान चिमटो यो सारकें. (देवा म्हजे अपुर्बायेचे, मोटे पराक्रमी, संवसाराक कलकलायणे, शूर देसभाव नर्कांतल्या होमकणांत पडिल्ले आसतना हांव एकलोच सर्गार कसो वचूं? म्हाका थैंचें सूख गोड कशें लागत? म्हाका तें सामकें अक्रीण जातलें. -गोम. पैलें खंड, बरो : शणै गोंयबाब,पा. ९९)

**अक्रुणें** । अंक्रुणँ सा.रू. -ण्या । [कों. अनुकृपा?] न. अकृपा; अवकृपा; रागणें (त्या घरार परमेश्वराचें अक्रुणें पडलां.)
**विशेश:** 'कृपा' ह्या संस्कृत उताराक, कोंकणींत घोळटेंत आशिल्लें 'अनु' हें न्हंयकारी अर्थ दाखोवपी मुळाकूस लागून, 'अनुकृपा' हें उतर कोंकणींत घडिल्लें मेळटा. अनुकृपा म्हळ्यार अवकृपा. ह्या उतरांतल्या अक्षरांचो जागो बदलून, म्हळ्यार वर्णविपर्यय जावन 'अक्रुणें' हें उतर घडलें जावयें. तें अशे तरेन घडलां जायत : अनुकृपा › अकृनु (पा) › अक्रुणु (पा) › अक्रुणें.

**अक्रूण** । अंक्रूण् । [कों. अनुकृपा?] न. पळेयात 'अक्रुणें'. हेंय उतर 'अनुकृपा' ह्या उतरावेल्यान 'अक्रुणें' ह्या उतरावरीच घडिल्लें आसुये.

**अक्रोड** । अक्रोड्, सा.रू. -ड, भौव. -ड, सा.रू. -डां । [सं. अक्षोट] पु. अक्रोडाच्या (Juglans Regia) झाडाचें साधारण पेराच्या आकाराचें फळ.
**विशेश:** काजू भाशेनच अक्रोडाचें कल्ल कट्टें कशें घट्ट आसता. भितल्लो गर पोस्टिक तसोच रुचीक आसता.

कांय कडेन तन्या अक्रोडाचें लोणचें करतात. जळपाखातीर आनी खावपाखातीर अक्रोडांचें तेल काडतात.

ह्या झाडाचो सगळ्यांत मोलाचो भाग म्हळ्यार ताजें लाकूड. तें दिसूंक सुंदर आनी घट्ट आसता. काश्मीर आनी पंजाब हांगा ह्या झाडाचें लाकूड कांतोवन, ताज्यो तरेतरेच्यो सोबीत वस्तू तयार करतात. ह्या झाडाच्या काणाकडेन आशिल्ल्यो गांठी खूप मोलादिक आसतात. त्यो कांतोवन तांचेर तरेतरेची नक्षी काडपाक त्यो उपकरायतात.

भारतांत ह्या झाडाच्या सालिचो उपयोग वखदाखातीर, चड करून दांत निवळ करपाचे पुडीखातीर करतात. ह्या झाडाची साल चामडें रंगोवपाखातीर उपकरायतात.

ह्या झाडांची पानां आनी फळाचीं कल्लां तोरट लागतात.

हीं झाडां ग्रीस, आर्मेनिया, अफगाणिस्तान, भूतान, ब्रह्मदेश, तेचपरी काश्मीर आनी हिमाचल प्रदेश हांगासल्ल्या दोंगुल्ल्यांचेर जातात.

**आधारावळ:** महाराष्ट्रीय ज्ञानकोश (अ): डॉ. श्री. व्यं. केतकर : पा. २६

**अक्लेश** । अक्लेश । [सं. अ+क्लेश] क्रि.वि. त्रासांविणे, कस्टांविरयत; सोंपेपणी:

**अखटाय** । अखटाय् सा.रू. -ये ; भौव -यो; सा.रू. -यां । [सं. अ+शठ = नाडपण नासतना] स्त्री. १. दुखवल्लच्या मनाची उलोवन दाखयल्ली व्यथा; शीण. (आयिल्ल्या-गेल्ल्यांक तो आपल्या भावाच्यो अखटायो सांगीत आसता.) २. दिल्ले पिडापिडेची कथा. (सांगतलो जाल्यार ताज्यो जायत्यो अखटायो आसात.)
**विशेश:** अखटाय म्हळ्यार चाडी न्हंय. अभिमानाक खंयींतरी चिमटो आयिल्ल्यान मनशाक जी व्यथा भोगता, ते व्यथेंतल्यान अखटाय जन्मता. चाडयेंत एक दूस्ट हेतू आसता. अखटायेंत शिणाचो भाग आसता. आपल्या बऱ्या मागत्याकडेन वा मायेच्या मनशाकडेन काळीज ल्होव करप, इतलोच तातूंत हेतू आसता.

**अखटाव** । अखटाव्, सा.रू. -वा । [सं.अ+कष्ट+क; ते. अक्कटिक] पु. १. दया; करूणा; कळाकूळ; काकुयट (परमेश्वरान ताजो अखटाव केलो).२. दुःखाचें निवारण; दुःखाचो परिहार. (जी संवसारगतिची ताळणी आपणाक आळेताली, ती उदंड दुख वरवून सांतु आंतोनीक सांगली: 'दातारा तूं म्हाका मजती कर. कृपाळ भक्ता, तूं म्हाका सांबाळ. भक्ताक भोव प्रार्थुंक लागलो. ताची प्रार्थना सांतु आंतोनीन आयकून, ताचो अखटाव केलो. -सां.अं. अचर्यां, पा.५९).

**अखणो-णी-णें** । अखृणॉ-णी-णें, सा.रू. -ण्या-णे-ण्या । [सं. अखंड] वि. अखंड; संसलो.

**अखणें** । अखृणँ, सा.रू. -ण्या । [सं. अखण्ड] वि. एकसंघ; अखंड (कुभा न्हंयेसाकून ब्रह्मदेसामेरेन आनी कैलासासाकून कुमारीमेरेन सासणाच्या अखण्या आनी संसल्या हिंदुस्तानचें अुफेण स्वराज्य आमची खेम घेंवक अुडक्यो मारीत आमचेसरीं धांवत येता. ताका वेंग मारात, ताका आंवळून धरात आनी सासणाचे भाग्यवंत जायात. –ऐन वेळार, ये.अ.अु., बरो: शणै गोंयबाब, पा.१३७).

**अखंड** । अखण्ड् । [सं.अखण्ड] वि. १ सगळो; संसलो; एकसांची (अखंड म्हूर्त).२. चीर, धाळ, वेर वा फुटाळ नाशिल्लो. (अखंड पाशाण). ३. फाळूंक नाशिल्लें, पिंजूंक नाशिल्लें; एकशिवड (अखंड पान). ४. पोकोळ न्हंय असो; फोपसो न्हंय असो (अखंड वांसो).
**क्रि.वि.** सदांच; सदीं; सदाकाळ; नित्य; सासणाचें (कोंकणिचें वेदिक भाशेकडेन आशिल्लें नातें अखंड चलूंक जाय.)

**अखंड द्वादस** । अखण्ड द्वादस्, सा.रू. -शी । [सं. अखंड+द्वादशी] स्त्री. मार्गशीर्ष शुद्ध द्वादस.

**अखंड सौभाग्य** । अखण्ड सौभाग्य, सा.रू. -ग्या । [सं. अखंड+सौभाग्य] न.१. अखंड लाभिल्लें सूख, सौभाग्य. २. अखंड आयावपण.
**वा.प्र.: अखंड सौभाग्यार वचप;** आयावपणार मरण येवप; एकाद्रे बायलेक तिज्या घोवापैलीं मरण येवप.

**अखंड सौभाग्यवती** । अखंड सौभाग्यवती, सा.रू. -ती; भौव. -ती, सा.रू. -तीं । [सं. अखंड+सौभाग्यवती] स्त्री. जिका अखंड सौभाग्य मेळलां अशी बायल. (ला.) चेडी.

**अखंडित** । अखण्डीत् । [सं. अखण्डित] वि. अखंड; ज्याचे कुडके जांवक ना असो; संसलो; संपूर्ण. (ला.) खूप; अगाध, अपरंपार. **क्रि.वि.** बाधा येनासतना; खळनासतना; बाधेविणें; विघ्नाविणें; निर्विघ्न. (ताजें व्रत अखंडित चल्लें). २. खंडित जायनासतना; तुटनासतना; थांबनासतना; सतत (त्या वझऱ्याची उदका धार अखंडित पडत आसता.)

**अखत्यार** । अख्त्यार्, सा.रू. -रा; भौव. -र, सा.रू. -रां । [अर. इख्तियार] पु. अधिकार; हक्क; सत्ता; मुकदमपण; मुखेलपण.

**अखत्यारपत्र** । अख्त्यारपत्र्, सा.रू. -त्रा; भौव. -त्रां; सा.रू. -त्रां । [अर. इख्तियार+सं. पत्रम्] न. कायदेशीर अधिकार दिवपी पत्र; कायदेशीर अधिकार दिल्लें पत्र.

**अखया** । अख्या । [सं. अक्षय] वि. अक्षय; सासणाचें (त्या परिणामांक थीर आकाराक हाडूंक, ते रेखूंक आनी राखूंक, त्याच प्रमाण तांचे वरवीं गिन्यानाचें वस्त्र विणून मनीसजातीक हेर प्राण्यांच्या जातीचेर अखया जैताची घुडी अुब्रारपाक, तशेंच गडगन्ज आनी नाजूक साधन जाय आसलें. तें वाणयेच्या रूपान जिणेनूच तिका दिलें. -कोंकणिची व्याकरणी बांदावळ. -सामान्य वाचप्यांक, बरो: रामचंद्र शंकर नायक, पा.१५).
**क्रि.वि.** नित्याचें; संवकळिचें; घोळटेंतलें (भुरगेपणांत आमी ताका बोंबो म्हण्टाले. करतां करतां तेंच नांव अखया जालें.)

**अखर** । अखंर्, सा.रू. -रा । [फा. आखूर=कुरण] स्त्री. गावां भोंवतणचो वा गावांचे कडेचो जागो; गोरवांक सांज-सकाळ चरपाखातीर गांवांभायर राखून दवल्लेलो जागो.

**अखळ** । अखळ्, सा.रू. -ळा; भौव. -ळां, सा.रू. -ळां । [सं. अक्षर] वि. जें झरना अशें. **न.** अक्षर; नांव; उतर.

**अखेर** । अखेर्, सा.रू. -रा । [अर. आखिर्] पु. १. शेवट; अंतकाळ; मर्णकाळ; मरणकाळ. (कोणाचो अखेर कसो जायत हें कळना.) २. परिणाम (वांकड्या कर्तुपांचो अखेर केन्नाच बरो जायना.)
**क्रि.वि.** निमाणें; शेकीं (घडपाचें तें अखेर घडलेंच.)

**अखेरचो-ची-चें** । अखेरचॉ-ची-चँ, सा.रू. -च्या,-चे,-च्या; भौव. -चॅ,-च्यो,-चीं; सा.रू. -च्यां ['अखेर' वेल्यान] वि. अंतकाळाचो; निमाणो (अखेरच्या वेळार म्हजोच उगडास करून जो कोण कळिंवर सोडून वता, तो म्हज्याच रूपाक येवन मेळटा. -भ.गी. ८.५)

**अखेरिचें** । अखेरिचँ, सा.रू. -च्या, भौव. -चीं, सा.रू. -च्यां [अर. आखिर] न. दोन बैलांच्या जोतान एका दिसाभितर नांगरूंक जाता ते निमाणे कडेचें शेत. (**म्हण:** अखेरिचें हाडलें वेरिक, गांठिचें घालें भरिक).
**विशेश:** गोयांत ग्रामसंस्थांची खूप शेतां आसतात. तिसालान तांची पावणी जाता. जो कोण निमाणे कडेचें शेत रोवपाखातीर पावणी चडोवन हाड्टा, ताका जायते खेपो लुस्कान जावपाचो संभव आसता. निमाणे कडेचें शेत जाल्ल्यान, वांयगणार एक एकदां ताका उदक पावना. सर्दार पावस पडुनय, जायते खेपो शेताची राखण जायना, वा हेर कसल्याय कारणाक लागून तें शेत सारकें पिकूंक पावना. देखून, ज्याणें तें शेत पावणी चडोवन हाडिल्लें आसता, ताजे दुडू भरूंक पावनात. अशे तरेन ग्रामसंस्थेंत दुडू भरतासतना, शेत पावणी चडोवन हाड्टल्याक, आपल्या

गांठिचे दुडू घालचे पड़टात. एकाद्रया अशाच कारणाक लागून वैर दिल्ली म्हण घोळटेंत आयली आसुये.

आज, गोंयचे सुटकेउप्रांत ह्यो पुर्वापार संस्था नस्ट जावपाकडेन पावल्यात.

**म्हण:** अखेरिचें हाडलें वेरिक, गांठिचें घालें भरिक.

**अखेरेक** । अखेरेक् । ['अखेर' वेल्यान] क्रि.वि. शेकीं; निमाणें. (येना येतां करून अखेरेक तो आयलो).

**अख्खो-ख्खी-ख्खें** । अक्खॉ-क्खी-क्खँ । [सं. अक्षत; प्रा. अक्खय] वि. १.अखंड; संसलो. २.पूर्ण; पुराय. ३.सगळो; एकूण.

**अख्ख्या-अख्खो, अख्ख्या-अख्खी, अख्ख्या-अख्खें** । ['अख्खो' द्वि.] वि. सगळ्या- सगळो-ळी-ळें; पूर्ण.

**अगड** । अगड् । [सं. अगाध, प्रा.अगड = बांय] वि. अती खोल (अगड घळ)

**अगडबंब** । अग्‌ड्‌बंब् । [सं. अगद (=निरोगी) +का. बंबल (=रास)] वि. १. धिप्पाड; अतिशय लठ्ठ. २. आकारान प्रचंड असो. ३. उच्चारूंक आनी समजूंक कठीण अशीं (उतरां); जीं उच्चारतना जिभेची पूड जाता अशीं (उतरां). (सादीं सोंपीं उतरां आसतना, थोडे बळयांच अगडबंब उतरां आपल्या बरपांत घालतात.)

**अगडाय** । अगडाय्, सा.रू. -ये । ['अगड' वेल्यान] स्त्री. अती खोलाय.

**अगणित** । अंगणीत् । [सं. अ+गणित ] वि. १. जें मेजूंक अशक्य तें; अमाप; असंख्य. (हीं अगणित नक्षत्रां कोणाच्यान मेजूंक जायत?) २. अफाट; अनंत (अगणित आसा ज्ञान आनी मत आसा ल्हान.)

**अगणिताय** । अगणिताय्, सा.रू. -ये । ['अगणित' वेल्यान] स्त्री. अगणित आसपाचो गुण; अमोजाय; अमापाय.

**अगत्य** । अगत्य्, सा.रू. -त्या । [सं. अगतिः] न.१.आपलेपण; आदर (वैकुंठदादाक गोपाळबाबाचें अगत्य आसा). २.आस्था; कळकळ; ओड. (म्हाका अगत्य सदींच भास, सरस्पत आनी संस्कार हांचें आसलें आनी आसा. -भौ.आर्मांद मिनेझिश, कोंकणी परिशद, तिसरे बसकेची खबर, मुंबै १९४२, पा.३१) ३. पोटतिडक; कळवळो (अगत्य आसल्याबगर कामां जायनांत) ४. इत्सा; उमेद. (ताका कसलेंच अगत्य ना. देखून, तो शिकपाचें मनार घेना.) ५. ताकतिकेची गरज; अत्यंत जरूराय. (तांतूंत ताणीं फाटल्या दोन बसकांनी कसलें काम केलें आनी तिसरी बसका भरोंवचें कितलें अगत्य आसा हें बारकायेन सांगलें. -कोंकणी परिशद, तिसरे बसकेची खबर, मुंबै १९४२, पा.१) ६. मोल; म्हत्व. (ताका कामाचें अगत्य कळलेंच ना.)

**क्रि.वि.**१. मुद्दाम; चुकनासतना; कसोय करून. (तुवें अगत्य येंवकच जाय.).२. अद्रूण; मुजरत; जरूर.(परंत ही रूपांतरां मूळ खैंच्या पुस्तकाचीं हें पुस्तक-कर्त्यान प्रस्तावनेंत अगत्य कळोंवचें -ये. अ. अु., बरोः शणै गोंयबाब, पान.६३). **म्हण:** अगत्याचे काम आपणें करचें.(म्हत्वाच्या कामाक दुसऱ्याचेर पातेवन रावूं नये)

**अगत्यवाद** । अगत्यवाद्, सा.रू. -दा; भौव. -द, सा.रू. -दां । [अगत्य + वाद] पु. अत्यंत आस्था; कळकळ; निस्ठा. (कोंकणिचें मूळ आनी तिची बांदावळ ह्या संबंधान पोटतिडकेच्या अगत्यवादान ताणीं जो सोद केलो ते खातिर तांकां जायते धन्यवाद दिंवक फावं. -शणै गोंयबाबाचे व्याकरणी बादांवळीक बरैली 'पैली उतरां', सु.मं.कत्रे हाणीं बरयल्लया इंग्लेज प्रस्तावनेचें कोंकणी भाशांतर -पा.११).

**अगत्यवादी** । अगत्यवादी, सा.रू. -द्या; भौव. -दी, सा.रू. -द्यां । ['अगत्यवाद' वेल्यान] वि. अमुक एक गजाल अत्यंत गरजेची आसा अशें ज्याका दिसता तो; एकाद्रे गजालिक तत्पर, उत्सुक आशिल्लो; आस्थेन, कळकळीन वावुरपी.

**अगत्या-आंकडो** । अगत्या-आंकडो, सा.रू. -ड्या । [सं.अगतिः + कों.आंकडो] पु. समितिची वा मंडळाची काम-काजाची बसका कायदेशीर जावपाखातीर जितल्या वांगडयांची उण्यांत उणी गरज लागता, तितल्या वांगडयांचो थारायल्लो आंकडो; कोरम. (काम-करपी समितिच्या सभेचो अगत्या-आंकडो आठ वांगडयांचो थारावन, तिजें आनी येवकार-समितिचें यजमानपण शणै वामन रघुनाथ वर्दे वालावलीकार हांणी अेकल्यानीच करचें अशें थारायलें. -कोंकणी परिशद, तिसरे बसकेची खबर, मुंबै १९४२,पा.२).

**अगत्यान** । अगत्यान् । ['अगत्य'वेल्यान] क्रि.वि. मनापासून; पोटतिडकेन; मुद्दाम. (म्हगेले विनंतीक मान दिवन तुमी अगत्यान हांगा आयिल्ले पळोवन म्हाका मोठी खोस जाता. -कोंकणी परिशद, तिसरे बसकेची खबर, मुंबै १९४२, पा.१२)

**अगदीं** । अंगदीं । [म. अगदी; का. अगदि] वि. पूर्ण; पुराय. (...तशेच तरेची पिडणूक, तांच्याच मापान, अगदीं सूय भरून सकला ओतसर पुर्तुगेजांनी भोगैली. -गों.गों.वसणूक, बरोः शणै गोंयबाब, पा.११९).

**अगम्य** । अगम्य । [सं.अगम्य] वि. वचूंक अशक्य अशें; दुर्गम. (तेनसिंग अगम्य गौरिशंकर चडून गेलो). (ला).१. समजूंक कठीण अशें; बुद्धिच्या आवांक्यापेलें; गूढ. (विज्ञान फुडें वचत आसा. जाल्यारूय, संवसाराची निर्मणी कशी जाली हें आजूनय अगम्यच आसा.) २. परब्रह्म.

**अगर,रु** । अगर्, अगरु । [सं.अगरु] पु.न. Agallochum, Amyris Aggallocha आसाम आनी भुतानच्या आसमंतातलें तेच परी चीन आनी जपान देशांतलें, सदांच पांचवे-चार आसपी चंदनाचे जातीचें एक झाड. पैलींच्या काळांत ह्या झाडाच्या लाकडाच्यो माळो करपाची चाल आशिल्ली. ह्या झाडाक घाय घालून अगरु (हूद) काड्टात. हूद काडपाक झाड वीस वर्सांचे जांवचे पड्टा. हुदाचे पांच प्रकार आसात : कृष्णागरु, काष्टागरु, दाहगरु, स्वादगरु आनी मांगल्यागरु.

**अगरसाळ** । अगरसाळ्, सा.रू. -ळे; भौव -ळो; सा.रू. -ळां । [सं. अग्र+शाळा] स्त्री. म्हाजनांक रावपाखातीर तेच परी अन्नसत्राखातीर देवळाच्या प्राकाराभितर बांदिल्ली वास्तू.

**अगरु** । अंगरु । [सं. अंग+रुह] न. १. नाडींल्यान भायर सरिल्लें आंग. २. जिबेक कात्रे वा सरे पड्टात असलो रोग. –हें उतर सध्याक घोळटेंत ना.

**अगर्त** । अगर्त् । [सं. आ+गम ?] न. दर्याचें उदक देगेवटेन, तडीवटेन भरून लागचेली क्रिया; आगर्त. –हें उतर ताज्या सामान्य रूपांत घोळिल्लें मेळना.

**अगर्तपाणी** । अगर्तपाणी, सा.रू. -णया । [कों. अगर्त+पाणी] न. भौव. भरतेचें उदक.

**अगर्ती** । अंगर्ती, सा.रू. -ते; भौव -त्यो, सा.रू. -त्यां । ['अगर्त'वेल्यान] स्त्री. वेळच्या वेळार नित्य-नेमान तडीवटेन वा वेळेवटेन भरून येता तें दर्याचें उदक; भर्ती; आगर्ती.

**अगस्त** । अंगस्त, सा.रू. अगस्ता; भौव. अगस्त; सा.रू. -स्तां । [सं. अगस्त्यः]

पु. गरगरीत वाडपी आनी तितलेच बेगीन सुकून वचपी एक वखदी झाड.

**विशेश:** अगस्ताच्यो (Sebania grandiflora) दोन जाती आसात: एकेक धवी फुलां जातात आनी दुसरेक तांबडीं फुलां जातात. अगस्ताचीं पानां आंवाळेच्या पानांवरी आसतात. अगस्ताक फुलां आनी सांगो येतात. तांची भाजी करतात. ह्या झाडाचीं पानां, फुलां आनी सांगो वखदी आसात. थंडी भारकूण जाल्ल्या भुरग्यांक, कफ सुटपाखातीर अगस्ताच्या पानांचो रोस म्हों‌वांतल्यान दितात. हाज्या पानांचो रोस नाकांतल्यान ओडल्यार चौथुरो जोर वता अशें म्हण्टात.

**अगस्ति** । अगस्ती, सा.रू. -स्ती । [सं. अगस्ति] पु.१. अगस्त ऋशी. २. अगस्त्य तारो.

**अगस्त्य** । अग॑स्त्य, सा.रू. -स्त्या [सं. अगस्त्य:] पु. १. मित्रावरुणाक लागून जन्माक आयिल्लो एक ऋशी. (ला.) अती खादोळ, खावगो मनीस.

**विशेश:** उर्वशी हे अप्सरेक पळेतकीर मित्रावरूण बुल्‌ुसले. तांच्यांत कामाग्नी पेटलो. ह्या कामाग्नितल्यान तांचें वीर्य गळून थोडें कुंभांत आनी थोडें उदकांत पडलें. कुंभांतल्यान अगस्त्य जन्माक आयलो. देखून, अगस्त्याक 'कुंभयोनी' अशेंय एक नांव आसा.

अगस्ती वा अगस्त्य हे ऋशीन विंध्य हुपून आर्यांची संस्कृती दक्षिणेक पैलीवैली व्हेली. विंध्याक ताणें आपल्या मुखार नम्र जांवक लायलो. अगस्त्य समुद्र पियेलो. ताणें राक्षसांक माल्ले, विंध्य हुपलो, विदर्भाची राजकन्या लोपामुद्रा हिजेकडेन ताणें लग्न केलें आनी आपलो एक पूत पुलस्त्याक पोसको दिलो, अशो वेगवेगळ्यो कथा अगस्ती वा अगस्त ऋशीकडेन लग्निक आसात. परशुरामाचें नांव जशें पश्चिमदेगेकडेन जोडिल्लें आसा, तेच परी अगस्त्याचें नांव पूर्व देगेकडेन जोडिल्लें आसा.

अगस्त्याक 'पीताब्धी', 'समुद्र-चुलुक' ह्या नांवांनी वळखतात. कालेय राक्षस दर्यांत लिपून रावित्ले. तांकां मारपाक अगस्त्यान इंद्र आनी हेर देवांक पालव दिलो. ताका लागून समुद्र ताजेर क्षुब्ध जालो. देखून, अगस्त्य एका घोंटांत समुद्र पियेलो अशी एक दंतकथा आसा. हे दंतकथेक लागून अगस्त्य ऋशीक 'अति खादोळ, खावगो मनीस' असो एक लाक्षणीक अर्थ लागलो.

ऋगवेदांतल्या पैल्या मंडळातल्या चडांत चड सूक्तांची रचना अगस्त्य मैत्रावरूणीन केल्या.

२. अगस्त्य ऋशीकडेन लग्निक आशिल्लो एक तारो वा नक्षत्र (Star Canopus).

**विशेश:** अगस्त्याक तामीळ भाशेंत अगत्तियन म्हण्टात. अगत्तु म्हळ्यार मन, आत्मो आनी अगत्तियन म्हळयार आत्माराम. देखून, तो ऋशीच्या रूपान मळबांत रावता. अगस्त्य मळबाच्या दक्षिण भागांत आसा. पैल्या पांवड्याचो हो तारो. हाजो उदेव दक्षिणेक जाता. देखून, ताका दक्षिणेचो स्वामी म्हळा. (संदर्भ: द्रविड महाराष्ट्र, ले: विश्वनाथ खैरे, पा. २७).

अगस्त्य ऋशीन कुदळीन भूंय खणून शेतोड निर्माण केली आनी अन्न पिकोवन ताणें ब्राह्मण आनी क्षत्रिय हांची पिंड-पोसणूक केली. (ऋ. १.१७९.६) ह्या ताज्या अलौकिक कर्तुत्वाक लागून मुळाव्या सप्तर्शी मंडळाभायल्या अगस्त्य ऋशीक उत्तरकाळांत सप्तर्शीपद मेळलें.

**अगळ** । अग॑ळ्, सा.रू. -ळा; भौव. -ळां, सा.रू. -ळां । [सं.आ+गल् ?.] न. भिंडांचो रोस. —अगळाचो रंग तांबडो किरमिजी आसता. भिंडांच्या सोलांक आंबटसाण येवपाखातीर अगळाचीं पुटां दितात. (ला.) तांबडो गूंज पातळ पदार्थ (हें हुमण अगळ

कशें जालां.)

**अगळावप** । अगळॉवप्, सा.रू. -पा । ['अगळ' वेल्यान] क्रि.दा.धा.सा.ना. (मूळ धातू: अगळाय् (सक.) अगळांत काडपाची क्रिया करप; भिंडांच्या सोलांक अगळाचीं पुटां दिवपाची क्रिया करप.

**अगळीक** । अंगळीक, सा.रू. -के; भौव. -को. सा.रू. -कां । [सं. आगस्=Offence म.आगळीक] स्त्री. १. आगळीक; उपद्रव; पिडापीड; धरामारी. २. घुरी; आक्रमण. ३. मस्तेपणाची, दांडगायेची करणी; बळयां घाल्ली तीड, करंदाय. ४. बलात्कार.

**अगा, गा** । अगा,गा । [सं. अगु (गो) ?] उल्या उ. पुल्लिंगी उल्या उतर. -पुरूशलिंगी नामा आदीं 'अगा' येता आनी त्या नामाच्या नात्यान वाक्यांत हेर खंचेयकडेन 'गा' येता. देखीक: अगा आसूं. भंगूं पुरो गा -मोगाचें लग्न. बरो: शणै गोंयबाब. पा.५; अगा भासुबाब, खैं चल्लो गा?.

**अगा** । अगा । [फा. आगाह्=जाणविकाय आशिल्लो] वि. यथार्थ कल्पना आशिल्लो; योग्य जाण वा जाणविकाय आशिल्लो.
**वा.प्र.: अगाचीं पगां आनी उतरांचीं धेंगां करप:** यथार्थ कल्पना आसुनय अर्थाचो अनर्थ करून संकट कोंसळलेल्यावरी हुवेल मारप; यथार्थ जाणविकाय आसुनय, दादून अर्थाचो अनर्थ करून संवसार बुडलो म्हणपाची करंदाय मारप. (संमति-वयाचो कायदो कशेच तेरन धर्माआड ना म्हणपाचे शास्त्राचे गडगंज आधार डॉ.भाण्डारकरांनी दिल्ले.परंत ते दादून उस्तऱ्यां घालौन, आनी 'अगाचीं पगां आनी उतरांचीं धेंगां' करून, धर्म बुडलो म्हणून टिळक ओगीच हुयेल मारूंक लागले.- नवें गोंय, ३रें वर्स, चौथो आंक, आब्रील १९३७, पा.११६; संपादपी; का.श्री.नायक.)

**अगात्मजा** । अगात्मजा, सा.रू. -जे । [सं. अग:= पर्वत+आत्मजा = धूव] स्त्री. हिमवताची धूव उमा; पार्वती; शांतादुर्गेचें एक बिरूद. (महेश्वर भट्टूय आपणाल्या स्तोत्रांत शांतादुर्गेक अगात्मजा म्हणून, पार्वतीरूपा असो अर्थ करता. -अैन वेळार, ये.अ.अु.बरो: शणै गोंयबाब, पा. १४३.)

**अगाध** ।अगाध् । [सं. अगाध] वि. अती खोल; ज्याचो ठाव लागना अशें; अथांग. २. तर्कापिलें; गूढ; अगम्य; अतर्क (देवाची अगाध लीला). ३. अमर्याद; अती; खूप. (अगाध ज्ञान). ४. अप्रूप (वस्त: सपनांत पळेलें त्यायपरस अगाध हिचें लावण्य. -वासवदत्ता, पा.७२. कवी: बा.भ. बोरकार.) (ला.) 'ज्ञानाचो अभाव' अशा उरफाटया अर्थानय हें उतर उपकरायतात. देखीक: खरें म्हळ्यार गाथा कळपाक सोंप्यो आसात. पूण आमचें ज्ञान अगाध !

**अगांतुक** । अगान्तूक् । [सं. आगन्तुक] वि. १. आपुण जावन आयिल्लो; अकस्मात, आपैनासतना आयिल्लो. ( अंगातुक पावणो) २. येवजिनाशिल्लो; ध्याना-मनांत नाशिल्लो; मदींच उप्रासून आयिल्लो. (अगांतुक खर्च).
**क्रि.वि.:** अकस्मात्; अचकीत (चार दिसांच्या वायटान, पिराय जायनासताना, ती अगांतुक भायर पडली.)

**अगार** । अगार्, सा.रू. -रा; भौव. -रां; सा.रू. -रां । [सं. अगारम्] न. घर; भितोडी; सुवात.

**अगु** । अंगु । [सं. अग्नि] पु. उजो; आग; अग्नि.
**वा.प्र.: जमीन अगु करप:** रोवपाखातीर भूंय तरसप; रोवपाखातीर जमीन भाजून तयार करप.
**विशेश:** अग्निचें 'अगु' हें रूप अशें घडलें

जावये: अग्नि › अग्गि › अगु. 'अगु' हें उतर मेकळेपणान घोळिल्लें दिसना. 'जमीन अगु करप' ह्या वाक्प्रचारांतच मेळटा.

**अगुण** । अंगुण् । [सं. अगुण] वि. निर्गुण; गुणा विरयत. हें विशेषण फक्त देवाकच लायताता.

**अगेल** । अगॅल्, सा.रू. -ला; भौव. -लां, सा.रू. -लां । [सं. अग्नि+तैल; प्रा. आगिएल] न. आंगार पडल्यार आंग हुलपावन सोडपी एक ज्वालाग्रही पदार्थ; जें रोखडेंच पेट घेता अशें खणिंतल्यान काडिल्लें ज्वालाग्रही तेल; नाफ्ता. २. पइटा थंयचो वाटार हुलपावन भस्म करपी वीज.

**वि.** आंगार पडल्यार फोड येतात अशें सळसळीत, बोंबाडे वा घुलो आयिल्लें; खतखतून फुलार जाल्लें (अगेल उदक)

**वा.प्र.: अगेल पडप:** वीज पडून भस्म जावप; वीज पडून पुराय नाश जावन वचप.

**विशेश:** 'तुजेर अगेल पडूं' हें वाक्य 'वीज पडून भस्म जांव वा तुजो तुळाकार जांव' ह्या अर्थान श्राप दिवपाक वा मनांतलो क्षोभ उक्तो करपाक उपकारायल्लें मेळटा.

**अगेलास्त्र** । अगॅलॉस्त्र्, सा.रू. -स्त्रां; भौव. -स्त्रां. सा.रू. -स्त्रां । [कों. अगेल+सं. अस्त्र] न. ज्या जाग्यार सोइटा थंयचो वाटार भस्म-निखेळ करून सोडपी क्षेपणास्त्र.

**अगोचर** । अगोचॅर् । [सं. अगोचर] वि. १. अदृश्य; जें नदरेक पडना तें; अगम्य; बुद्धिक कळना अशें; अकळ; अज्ञात. २. आडदांड; अविचारी; वाळेस; टणटणमारी.

**अगोचरी** । अगोचरी । [सं. अगोचर] स्त्री. योगशास्त्रांतली चौथी मुद्रा. हठयोगांतली एक मुद्रा —हिजो जागो कानाभितर आसता. मन एकाग्र करून तें नाकाचे तेंब्रेर थीर केल्यार ही मुद्रा सिद्ध जाता. ही सिद्ध जाल्याउप्रांत भायलो आवाज आयकूंक येवपाचें बंद जाता आनी भितल्लो आवाज आयकूंक येंवक लागता.

**अग्नि** । अंग्नी, सा.रू. -ग्नी; भौव. -ग्नी, सा.रू. -ग्नीं । [सं. अग्निः] पु. १. कसलीय वस्त पेटल्या उप्रांत उस्णते वांगडाच प्रगट जाता तें तेज; उजो; अनल; आग. (मनशान अग्निचो सोद लावन आपली प्रगती केल्या.) २. उज्याचो देव; यज्ञाची देवता. ३. पंचमहाभुतांतलें एक तत्व; वेद आनी उपनिशद काळावेलो आर्यांचो एक मुखेल देव. ४. ज्ञानमित्र (अग्ने, तूं आमकां कल्याणाच्या मार्गान घेवन वच. तुकाच ह्या संवसाराचें गुमानीत खबर आसा.) ५. प्रदिप्त भूक; चुरचुरीत भूक (पोटांत अग्नि पेटल्याबगर जेवण रुचीन चलना.) ६. धुसफूस; धोंस; कलह (बाय, आज तूं घोवाल्या घरा वता. दिल्ल्या घराक तूं भाग्य हाइटलें हातूंत दुभाव ना. तूं शाणेंसुर्तें आसा. जाल्यारूय ध्यानांत धर, घरांतलो अग्नि दुसऱ्याक दिंव नाका).

**वा.प्र.: अग्नि दिवप:** १. प्रेताच्या दहनाखातीर सर्णाक उजो पेटवप. २. घरांतलो कलह लोकांक उक्तो करप.

**अग्नि प्रवेश करप:** सती वचप.

**विशेश:** १. आयुर्वेद अग्निचीं तीन रूपां मानता: १) लाकूड, तण वा हेर कसलीय वस्त जळटा आसतना डोळ्यांक दिसता तें अग्निचें सभावीक रूप. २) विजेच्या रूपान दिसता तें अग्निचें दिव्य रूप आनी ३) खाल्ल्या अन्नाची जिरवण जावन परतून भूक प्रदिप्त जातकीर संवेदनेन जाणवता तें अग्निचें अदृश्य रूप. वेदिक कर्मकांडय अग्निचीं तीन रूपां मानता: गार्हपत्य, आहवनीय आनी दक्षिणाग्नि.

दर्यांतलो, मळबांतलो आनी पावसाच्या धारांतलो अशे अग्निचे तीन जन्म ऋग्वेद मानता. (ऋ. १.९६.३) तेच परी अग्निक

तीन देह, तीन जिबो आनी तीन स्थानां आसात अशेंय सांगता (ऋ. ३.२.२). केन्ना केन्ना अग्निक सात जिबो आसात अशें म्हळां. त्या सातय जिबांक वेगवेगळीं नांवां दिल्यांत: काली, कराली, मनोजवा, सुलोहिता, धुम्रवर्णा. उग्रा आनी प्रदिप्ता.

२. ज्या दिसा मनीस अग्नि निर्माण करूंक शिकलो, त्या दिसाच्यान अग्नि मनशाचो ईश्ट जालो. अग्निक सांगाताक घेवन मनशान आपली प्रगती घडोवन हाडली. अग्निक लागुनच भूंय तर्सून, पिकावळ तरतरावन फुलोवपाक तो शिकलो. मातयेचीं आयदनां घडोवन तीं अग्निच्या पालवानच तो तगावाक हाडपाक लागलो. ह्या अग्निक लागुनच धातू कडोवन तेरतेरेचीं आवतां, हत्यारां आनी आपल्याक जाय ती यंत्रावळ मनीस घडोंवक लागलो. अग्निच आमगेलें अन्न शिजयता. देवळांनी आनी घरांनी देवांच्या मूर्ती मुखार तो भक्ति भावान जळटा. रात जातकीर काळखाक पोरो घालपाक दिव्यांच्या रूपान तो घरांघरांनी पेट्टा. देखूनच, संवसारांतल्या सगळ्या धर्मांनी, जातिंनी आनी जमातिंनी आप आपल्यापरी अग्निची उपासना केल्या. वेदिक काळार ह्या गृहपती अग्निची घराघरांतल्यान दिसपट्टी पूजा जाताली. बुद्ध भगवानाच्या बुद्धिवादांत ब्राह्मणी यज्ञयागांच्या कर्मकांडांचीं मुळां हुमटून गेलीं. बौद्ध मताच्या ल्हारा मुखार अग्निची उपासना उणी जायत जायत संपुस्टात आयली. बौद्ध क्रांतीचो पराभव जाल्या उप्रांतय अग्निपूजेची परत प्रतिस्थापना जांवक पावली ना.

आमगेल्या धार्मिक कार्यांत होमाच्या रूपान आमी अग्निक पुजतांत. ह्याच अग्निक गवाय दवरून न्हवऱ्या-होंकलेची गांठ आमी बांदतांत. आजुनय मूज, लग्न, गर्भादान बी जीणेंतल्या महत्वाच्या संस्कारांकडेन अग्नि लग्निक आसा. अग्निक लागुनच वेदिक भारतियांची यज्ञसंस्था जन्माक आयली. यज्ञ संस्थेक लागून तांची प्रजापती संस्था उदेवाक आयली. देखून, वेदिक आर्यांनी अग्निक व्हडा भोमानाचो पाट दिलो. ऋग्वेदाचो आरंभ ताणीं अग्निसूक्तान केलो.

३. अग्निनच पुर्विल्ल्या पुरातन मंत्रांच्या बळग्यान मनुचे प्रजेची, म्हळ्यार मनशांची निर्मणी केल्या. आपल्या तेज्यान अग्निन हो संवसार व्यापला. देखून, देवांनय अग्निक आपल्या काळजांत अग्रासनार बसयला (ऋ. १.९६.२)

विवस्वत मातरिश्वनाचे प्रार्थनेक लागून , सुकिल्ल्या कास्टांच्या (अरणिंच्या) मंथनांतल्यान अग्नि प्रगट जाला. आंगिरस रूशींच्या मेळयान स्वर्गांतल्यान ताका भुंयेर हाडला. ह्या आद्य आंगिरसाक, ह्या अवजाळी बाळकाक, त्वस्त्याच्या धा चतुर, भाग्येस्त सवायशिणिंनी जन्म दिला. ह्या तेजिस्ट, प्रखर, यशदेण्या आनी उजवाडभरित पुताक पळोवन, सगळ्या भक्तगणान आल्लय गायत, ज्याणें ताणें ताका आप आपल्या घरा व्हेला. (ऋ. १.९५.२)

पृथ्वीचेर उज्याच्या रूपान वावुरपी हो अग्नि; कुपांतल्यान विजेचो केरवो नाचं करीत तांकां फकाफक पावस ओतूंक लावपी हो अग्नि; काळखाक पेल्यान आमडून वाट चुकिल्ल्यांक उजवाडाच्या वाटेन व्हरपी हो अग्नि; रानां-वनां गिळून आर्यांक वसणुकेक भूंय निर्माण करून दिवपी, मांगोर बैलाभशेन मस्त अग्नि; मनशांची प्रार्थना देवामेरेन पावोवपी हो बळिस्ट, नित्य-जुवान, पुरयत अग्नि; वस्तुमात्रांचें हीण पोरो घालून, तांकां शुद्ध, पवित्र करपी हो पावक, लोकेश्वर अग्नि; अन्नाची वृध्दी करपी, अन्नाचो स्वामी असो हो अर्किन अग्नि; हाजी तोखणाय रूशिंनी कितली म्हणून गांवची ?

ऋग्वेदातल्या ऋशिंनी इंद्रा फाटोफाट अग्निची भक्ती केल्या. आपल्या ऋचांनी, आर्यांचेर प्रसन्न जावन, दुस्मानांचो संव्हार करूंक तांकां

बळ दिवंचे आनी तांकां हालमी-खुशाल, हुस्क्या-मेकळें जियोंवक मेळचें म्हणून अग्निची तांणीं प्रार्थना केल्या. अन्न आनी आस्पत मागून, तांकां पिडेमुक्त दिर्घायुश्य दिवचें म्हणून अग्निक ताणीं विनयला. निपुत्रिकांची जीण तांच्या वांटयाक येंवची न्हंय म्हणून ताका पराथला आनी अखेरच्या दिसाखातीर, चराचराक प्राणाच्या रूपान चैतन्य दिवपी ह्या अग्निदेवाक, जन्म धरून सर्णार चडमेरेन सांगात करपी ह्या जन्मजुगाच्या सांगात्याक तांणीं गाराणें घालां: 'आमकां काळखांतल्यान उजवाडांत व्हर. मर्णांतल्यान मुक्त करून मोक्षगतीक पावय'.

['अग्नि' हो धांवपाक हरणावरी लापीट आशिल्लयान 'अज्' धातुवेल्यान (अग्+नी) हें उतर घडलां जावये. —म. ज्ञानकोश, संपादकः डॉ. श्रीधर व्यं. केतकर.] 'अग्नि' हें इंडो-युरोपियन उतर; लॅटिन 'Ignis', लिथुआनियन 'Ugnis', पोन्नी स्लाव्होनीक 'Ugnis', हित्तायत 'अक्नी'. 'अग्नि' हें इंडो-युरोपियन उतर. जाल्यारूय, अग्निपूजा ही वेदिक भारतियांत आनी पुर्विल्लया इराण्यांतच मेळटा. पुर्विल्ले इराणी आनी वेदिक भारतीय, जेन्ना बाल्क प्रदेशांत आनी उप्रांत इराणांत एकठांय रावताले, तेन्ना तांच्यो धर्मकल्पना साधारण सारक्यो आशिल्लयो दिसतात. 'असुर'-'अहुर', 'सोम'-'होम' ह्यो संकल्पनाय ह्याच काळांत तांच्यांत उदेवाक आयल्यो.

'अग्नि' हो वेदिक संस्कृतांतलो शब्द आव्हेस्तान भाशेंत ना. आव्हेस्तान भाशेंत अग्निक 'आथर' म्हण्टात. 'आथर' ह्या उतरा फाटल्यान 'असु' ची,म्हळ्यार मायिक बळग्याची तेचपरी अभिचाराचीय सया आसा. हीच सया 'अथर्यु' ह्या विशेशणाफाटल्यान आसा. अथर्वन आनी अंगिरस ऋशी अग्निपूजेवांगडाच जादू-मंत्रांतय खांपे आशिल्ले. ऋग्वेदांत अग्निक 'अथर्यु' हें विशेशण एकच खेपो लायिल्लें मेळटा. (ऋ.७.१.१). वेदांत अग्निक 'अथर्वन', तेचपरी 'आद्य आंगिरस'य म्हळा.

वेदिक 'अथर' म्हळ्यार आव्हेस्तान 'आथर'. देखून, वेदिक 'अथर', 'अथर्यु' आनी 'अथर्वन' हीं उतरां आव्हेस्तान 'आथर' ह्या उतराक लागून घडल्यांत म्हणपाचो दुभाव ना. संदर्भः (Aspects of Agni Mythology in Vedic Mythological Tracts, by R.N.Dandekar, page 310)

**आधारावळः** १) ऋग्वेद, मराठी भाशांतर, विद्यानिधी सिद्धेश्वर शास्त्री चित्राव. ऋ.१.१६.१; १.९६.२; १०.३१.३; १.३१.२; १.९५.२; १.३१.६; १.४४.३; १.१५८.५; १.७४.५; २.१.९; ६.१.५; ७.६.१; ७.५९.१२; ८.४३.१६ आनी ८.४४.३०.

२. महाभारत (आदिपर्व).

**अग्निकण** । अ॑ग्नि॑कण्, सा.रू. -कणा; भौव.-कण, सा.रू. -णां । [सं. अग्नि+कणः] पु. उज्याची कीट.

**अग्निकार्य** । अ॑ग्नि॑का॒र्य्, सा.रू. -र्या; भौव. -र्यां, सा.रू. -र्यां । [सं. अग्नि+कार्यम्] न. धर्मविधींत ब्रम्हचारी धर्माप्रमाणें करचेलो होम.

**अग्निकास्ट** । अ॑ग्नि॑का॒स्ट्, सा.रू. -स्टा; भौव. -स्टां, सा.रू. -स्टां । [सं. अग्नि+काष्ठम्] न. पेटिल्लें लाकूड; उज्याची कोलती.

**वा.प्र.:अग्निकास्टां खावपः** उज्यांत उडी घेवन मरप; सती वचप.

**अग्निकास्टां खाववपः** पिडापीड दिवप; धोंसप; आकांताचो छळ करप.

**अग्निकोंड** । अ॑ग्निकाँड्, सा.रू. -डा; भौव. -कोंडां, सा.रू. -डां । [सं. अग्नि+कुंडम्] न. यज्ञाच्या वेळार होम पेटोवपाक केल्लो जागो; यज्ञवेदी. (ला.) नरक; यमकोंड; यमपूर. (तो परमेश्वराचो सेवकु आंतोन म्हाका

अग्रायतना, जीं उज्याचीं केंडां ताज्या दोळ्यांतुलीं येतालीं, आनी म्हजेर उसळटालीं, तीं अग्निकोंडांतुल्या सारिखीं म्हाका दिसलीं. —सां. अं. अचर्यां, बरो. Fr. Antonio de Saldanha, पा.५३)

**अग्निक्रीडा** । अंग्निक्रीडा, सा.रू. -डे । [सं. अग्नि+क्रीडा] स्त्री. फोगेट्यो, बाण बी लावन केल्लें दारूकाम.

**अग्निचयन** । अंग्निचयॅन्, सा.रू. -ना । [सं. अग्नि+चयन] न. अग्निक पुरुशरूपी मानून ताजी केल्ली पूजा.

**विशेश:** भूतमात्राचें आसप अग्निचेर म्हळ्यार सूर्याचेर आधारून आशिल्लयान वेदांनी ताका आदिपुरुश मानला. ताका 'हिरण्मय पुरुश' म्हळा.

विश्वपुरुश हो अग्नि आसा अशी भावना अग्निचयनांत आसा. तैत्तिरीय संहिता, काठक संहिता, कापिस्ठल संहिता, मैत्रायणी संहिता, वाजसनेही संहिता, तैत्तिरीय ब्राह्मण, तैत्तिरीय आरण्यक आनी शतपथ ब्राह्मण हांतूंत अग्निचयनाचो विधी विस्तारान सांगला. सोमयाग वा अश्वमेधासारक्या मोठ्या यज्ञांत अग्निचयन जातालें. अग्निचयन हें यज्ञधर्माच्या इतिहासांतली एक मोलादिक नाट. देवाची पुरुशरूपान केल्ली उपासना आनी म्हुर्तिपूजा अग्निचयनातल्यानच उदेवाक आयली. देवळांचो आनी धार्मिक बांदावळीचो आरंभ अग्निचयनांतल्यानच जाला. शैव आनी वैस्णव धर्म हांचो सांगोडय अग्निचयनांतच दिस्टी पड्टा.

निरुक्ताचे नदरेन अग्निचयन म्हळ्यार वांवभर भूंय कसून, तिजेर तरेक तरा विटांनी सवण्याचे आकृतायेच्यो पांच चितयो करून, यज्ञाखातीर केल्लें उज्याचें मांडप. ह्या मांडपाक 'अग्नि' अशी पारिभाशिक संज्ञा आसा. पक्षिरूपी परम पुरुशाची कल्पना हें मांडावळीचेर करपाची आसता. मनशाच्या आकाराची भांगराची म्हूर्त करून तिची स्थापना करपाची आसता. हाकाच 'हिरण्मय पुरुश' (भांगराचो पुरुश) म्हण्टात. ही भांगराची म्हूर्त भांगराच्या तबकडेंत दवरतात. ही तबकडी साळकाच्या पानाचेर दवरपाची आसता. ह्या पुरुशाचे स्थापनेच्या वेळार ऋग्वेदांतलें हिरण्यगर्भसूक्त म्हणपाचें आसता. (ऋ. १०. १२१. १-१०)

ऋग्वेदांत अग्निक वैश्वानर म्हळा. वैश्वानर म्हळ्यार विश्वरुपी नर वा सगळ्यांत वास करून रावपी नर. वैश्वानर अग्नि सर्वव्यापी आसा. ऋग्वेदांत अग्नि आनी हेर देवता हांचे अद्वैत मानलां. 'अग्ने, आमच्या घरच्या यज्ञांतलो ब्रह्मन् आनी गृहपती तूं आसा. वीरांतलो वीर इंद्र हो तूंच आसा. ज्याका नमस्कार करचो असो पूज्य विष्णु तूं आसा. ऐश्वर्यान संपन्न असो ब्रह्मनय तुजेंच रूप आसा. संवसाराचें नियमन करपी वरुण, आपशक्मी पराक्रमान ज्याणें सगळ्यांची तोखणाय जोडल्या तो मित्र, धनाचें दान करपी आनी सज्जनांक राखण दिवपी अर्यमन, तेच परी अंश नांवाचो आदित्य हो देव, सगळीं तुजींच रुपां आसात. त्रैलोक्यांतलो बळिस्ट रुद्र तूंच आसा. मारुतांचें सामर्थ्य तूंच आसा. आपुण जावन भक्तांक संपत्ति दिवपी सवितृदेव तूंच आसा आनी धनपती भगदेवय तूंच आसा'. (ऋ. २.१.२-७). सगळे देव अग्निंत आसात. (ऋ. ५.३.१.). देवांचे मुख आनी जीब अग्निच आसा. (ऋ. २.१.१४). अशें ऋग्वेदांत भौनभौन म्हळां. कितलेशेच जन्म घेवपी, सर्वज्ञ (जातवेदस), पापांचे हरण करपी, राक्षसांक ना करपी, कृपेस्त भक्तांचो सांगाती, सगळ्यांचो मुखेली, बापूय, आवय, भाव आनी ईस्ट ह्या नात्यान आमी अग्निक लेखला. भक्त आनी अग्नि हांचो अभेद मानला. अग्निक भक्तांचो माये

मोगाचो सांगाती म्हळा. ह्याच बसकारार अग्निचयनांत अग्निची परम पुरुश म्हणून उपासना आमी मानून घेतल्या.

**आधारावळ:** १. वैदिक संस्कृतीचा विकास, ले: तर्कतीर्थ लक्ष्मणशास्त्री जोशी.

२. ऋग्वेद, मराठी भाशांतर, विद्यानिधी सिद्धेश्वरशास्त्री चित्राव.

**अग्निदिव्य** । अ॑ग्निदिव्य, सा.रू. -व्या; भौव. -व्यां, सा.रू. -व्यां । [सं. अग्नि+दिव्य] न. उज्यांत उडी घेवन केल्ली सत्यक्रिया; अग्नींत उडी घेवन आपली पवित्रताय सिद्ध करपाखातीर केल्ली क्रिया; पेटिल्ल्या उज्यांतल्यान चलूंक लावन सत्याची घेतिल्ली कसोटी; अग्निपरिक्षा.

**(ला.)** पराकास्टेची खर, कठीण परिस्थिती (हो येदो व्हडलो पर्वत चडून वचप म्हळ्यार अग्निदिव्यच!)

**विशेश:** प्राचीन काळार कोणेंय अपराध केल्लो आसल्यार, तो दोशी आसा काय निर्दोशी आसा हें थारावपाक, ताका एकाद्री सोंसणिकायेपेली, घडये प्राण वचसारकी गजाल करूंक लायताले. हे गजालीक 'दिव्य' अशें म्हण्टाले. अपराधी दोशी नासल्यार, सत्याची देवता ताका कसलीच बाधा बाधूंक दिंवची ना, असो ह्या फाटलो विचार आशिल्लो.

ह्या 'दिव्या'चे जायते प्रकार आसात. तातूंतलो अग्निदिव्य वा अग्निपरिक्षा हो एक. कायलींतल्या खतखतून घुलो आयिल्ल्या तेलांत हात बुडोवन भितल्ली वस्त भायर काडप वा लोखणाचो तापिल्लो गुळो तळटार घेवप, अशेंय अग्निदिव्याचें स्वरूप आशिल्लें.

अग्निदिव्यांत मोडूं येतात अशें कांय प्रकार धर्मविधी म्हणून गोंयात जातात. वैशाख शुद्ध पंचमीक शिरगांवचे जात्रेंत 'धोंड' होमखणांतल्यान चलत वतात. शिगम्याचे पंचमीक चौडणां आनी कुडण्या, थंयच्या देवळां मुखार भार येता. ज्याचेर भार येता तो आनी ताज्या फाटल्यान हेर लोक उज्यांतल्यान चलून वतात. तांकां कसलीच बाधा जायना.

जांबावले आश्विन पुनवेचो उत्सव जाता. ह्या उत्सवांत दोन अवसर येतात. एक परबूचो, दुसरो शणैचो. हे अवसर अगरसाळेंत वचून हातांनी ओडे काड्टात. अगरसाळेंत रांदनीचेर कायल दवरून रांदनींत उजो केल्लो आसता. कायलींतलें तेल सळसळता. अवसर कायलींत तीर्थ मारता. उप्रांत कायलींत रोज उडयता. तें करपल्यार अवसर कायलींत हात घालिना अशें सांगतात. तें करपलें ना जाल्यार, तेलांत हात घालून, अवसर एक एक ओडो काड्टा. ओडे काडुनूय आनी मनगटावेल्यान तेल गळुनय अवसरांच्या हाताक फोड येनात.

आपल्यावेलो आळ वचपाखातीर सीतेन अग्निदिव्य केल्लें म्हणपाचो उल्लेख रामायणांत मेळटा.

**अग्निपरिक्षा** । अ॑ग्निपरिक्षा, सा.रू. -क्षे; भौव. -क्षा, सा.रू. -क्षां । [सं अग्निपरिक्षा] स्त्री. खंचेय व्यक्तिन आपुण दोशी आसां काय निर्दोशी आसां हें थारावपाक रसरशीत उज्यांत उडी घेवन दिल्ली कठोर परिक्षा. (ला.) भांगर वा रूपें उज्यांत कडोवन तांच्या कसाची केल्ली पारख.

**विशेश:** पुर्विल्लया काळार कोणेंय अपराध केल्लो आसल्यार, तो दोशी आसा काय निर्दोशी आसा हें थारावपाक, ताका उज्यांतल्यान चलूंक लायताले, सळसळून घुलो आयिल्ल्या तेलांत हात बुडोंवक लायताले वा तापून तांबडो गूंज जाल्ल्या तव्याचेर ताका हात दवरूंक लायताले. तो निर्दोशी आसल्यार ताका कसलीच बाधा जायना म्हणपाचो समज त्या काळार चलतालो. आजुनय भारतांत, आजच्या विसाव्या शेंकड्यांतल्या विज्ञान युगाक न सोबसारके असले प्रयोग खयीं खयीं जातात.

**अग्निपुट** । अ॑ग्निपूट्, सा.रु. -टा; भौव. -टां, सा.रू. -टां । [सं अग्नि+पुटम्] न. रसायणां, वखदां बी तयार करतना उज्याची आंच दिवन तांचेर केल्लो संस्कार.

**अग्निप्रवेश** । अ॑ग्निप्रवेश्, सा.रू. -शा । [सं. अग्निप्रवेशः] पु. १. प्राणत्यागाचे इच्छेन उज्यांत केल्लो प्रवेश. २. घोवाच्या प्रेताच्या सर्णार चडून, तागेले बायलेन सती वचपाखातीर, उज्यांत केल्लो प्रवेश.

**विशेश:** अग्निप्रवेश हो प्राणत्याग करपाचो एक प्रकार. महाभारतांत देहाचो त्याग करपाचे जे वेगळे वेगळे प्रकार सांगल्यात, तातूंत अग्निप्रवेशाचोय उल्लेख आसा.

ज्यांकां घेतिल्ले प्रतिज्ञेक पाळो दिवपाक जमना, अशक्त जाल्ल्यान ज्यांकां आपल्या जिवाचो वीट आयला वा असाध्य बळाळिकेन रेंजिल्लयान ज्यांची जियोवपाची इत्साच मेल्या, असलेच मनीस केन्ना दोंगरावेल्यान उडी घेवन, केन्ना उदकांत उडी मारुन, केन्ना अन्नत्याग (प्रायोपवेशन) करून, केन्ना उज्यांत घालून घेवन, आपले कुडिचो त्याग करताले. हो मार्ग धर्माक मान्य आशिल्लो.

अग्निप्रवेशाचो धार्मिक विधी आसतालो. त्या वेळार मंत्र म्हण्टाले. ताजे पैलीं शंकराची म्हूर्त चितारून, तांबड्या फुलांनी ती पुजताले. उप्रांत उज्यांत उडी घेताले.

अ॑ग्निप्रवेश आठ प्रकारांनी करताले म्हणपाचो उल्लेख मेळटा. ते प्रकार अशे :

१) पतंगपातः पिसोळें जे तरेन दिव्याचेर घालून घेता, ते तरेन उज्यांत घालून घेवप

२) हंसपातः आंग आंवळून उज्यांत ऊडी घेवप.

३) मृगपातः फोंडावेल्यान उडी मारतना हरण जशें चूकून फोंडांत पड्टा, ते तरेन उज्यांत पडप;

४) मुसलपातः वानांत मुसळ पड्टा ते तरेन उज्यांत पडप;

५) वृषपातः बैलावरी हुंकार घालीत उज्यांत उडी घेवप;

६) विमानपातः विमान जशें आपटता तशें उज्यांत पडप;

७) शाखापातः खांदयेवेल्यान सकल्या उज्यांत उडी घेवप;

८) सिंहपातः शींव जे तरेन उडी मारता ते तरेन उज्यांत उडी मारप.

सती वचपाचें कारण सोडलें जाल्यार, वेल्या कारणाक लागून, दादल्यांवरी बायलोय अग्निप्रवेश करताल्यो. जाल्यारूय, ह्यो घटना अपवाद म्हणुनच घडटाल्यो.

**आधारावळ:** भा.सं कोश, खंड १. पा.६२

**अग्निबळ** । अ॑ग्निबळ्, सा.रू. -ळा; भौव. -ळां; सा.रू. -ळां । [सं. अग्नि+बलम्] न. आपल्या प्राणांतल्यान आपणाक मेळिल्लें बळ; आपल्या आंगांतलें निजाचें बळ.

**अग्निमांद्य** । अ॑ग्निमांद्य, सा.रू. -द्या । [सं अग्निमांद्यम्] न. अपचनाचो विकार; अजिर्णासाची पिडा.

**वा.प्र.: अग्निमांद्य जावप:** भूक मंद जावप.

**अग्निवर्धक** । अ॑ग्निवर्धक । [सं अग्निवर्धक] वि. जो भूक प्रदिप्त करता तो; पाचक. (आंबो हो अग्निवर्धक. आंबे कितलेय खाल्यार भूक उणी जायना).

**अग्निवृद्धि** । अ॑ग्निवृद्धि, सा.रू. -द्धी । [सं. अग्निवृद्धि] स्त्री. पचनशक्तिची वाढ; भूक प्रदिप्त जावप.

**अग्निहोत्र** । अ॑ग्निहॉत्र, सा.रू. -त्रा, भो.व. -त्रा, सा.रू. -त्रां [सं. अग्निहोत्रम्] न. श्रौताग्निची उपासना; वेदमंत्र म्हणत, सांज-सकाळ हवी दिवन, अग्नि अखंड पेटोवन दवरचेलें व्रत.

**विशेश:** मनीस आनी देव हांच्या मदलो दूत जावन अग्निच मनशांचो धागो देवांकडेन

जोड्टालो. यज्ञकार्यांत हवींचें भक्षण करपा-खातीर अग्निच देवांक घेवन येतालो. वेदिक आर्य वेदमंत्र म्हणित, दिस-रात अग्निक हवी दित, ताजी अखंड उपासना करताले. ही अखंड उपासना म्हळ्यार अग्निहोत्र.

गार्हपत्य, आहवनीय आनी दक्षिणाग्नि ह्या तीन अग्नीचें मांडप (आधान) करप म्हळ्यार अग्निहोत्र घेवप. ह्या आधानाक 'अग्न्याधान विधि' म्हण्टात. ज्याणें अग्निचें आधान केलां ताका 'आहिताग्नि' म्हण्टात. आहिताग्निक दिसपट्टो सकाळ-सांज होम करचो पड्टा.

तीनय अग्नी नित्य दवरचे असो एक पक्ष मानता. दुसरो पक्ष फक्त गार्हपत्य अग्निच नित्य दवरचो, आनी प्रत्येक कर्माच्या वेळार दुसरे दोन अग्नी गार्हपत्यांतल्यान काडून घेवन सिद्ध करचे अशें मानता. ह्या दुसऱ्या पक्षाक उद्धरण पक्ष म्हण्टात. सकाळच्या होमाखातीर फांत्या पारार ना जाल्यार सूर्य धारेर येतकीर उद्धरण करतात. सांजच्या होमाखातीर दीस आनी रात हांच्या संधिकाळार, ना जाल्यार मळबांत पयलें नक्षत्र लिकलिकूंक लागतकीर वा पयल्या प्रहरांत उद्धरण करतात.

अग्निहोत्र्यान नेम-निस्ठेन सकाळ-सांज तिनय अग्निंचो होम करपाचो आसता, ताका 'अग्निहोत्र होम' अशें म्हण्टात.

गायचें दूद हें ह्या होमाचो मुख्य हवी. तें मेळना जाल्यार तांदूळ, तूप, धंय हींय द्रव्यां उपकरायतात. सकाळच्या पारार ह्या हवींच्यो दोन दोन आहुती सूर्य आनी प्रजापतीक दितात. सांजच्या पारार अग्नि आनी प्रजापतीक दितात. तेच परी अग्निम्हऱ्यांत उबो रावन दोनय वेळा प्रार्थना मंत्र म्हणपाचे आसतात. हें उपस्थान जाल्या उप्रांत गृह, पशू, रात आनी दिको हांचेंय उपस्थान यजमान करता. मागीर अंतर्वेदींत बसून तो आपल्या भुरग्या-बाळांखातीर आशिर्वाद मागता. उपस्थान सकाळचें करचें काय सांजचेंय करचें, ह्या संबंधान मतभेद आसात.

अग्निहोत्राचें व्रत घेतिल्लया यजमानाक प्रवासाक एकोडो वचूंक मेळटा. तागेले बायलेक मात गांवांची शीम हुपूंक मेळना. तिजो आनी अग्नीचो वियोग जांवक फावना. बायलेकय आपल्या वांगडा प्रवासाक व्हरपाचें आसल्यार अग्निकय आपल्या वांगडा व्हरचो पड्टा. त्या वेळार अरणींत अग्निचो समारोप करून ताका आपल्या वांगडा व्हरतात आनी आपल्याक पावपाक जाय त्या जाग्यार पावतकीर अरणीचें मंथन करून अग्नि निर्माण करतात. आपत्काळांत पंधरा दिसांचे होम एकदम करूंक येतात.

अग्निहोत्र घेतिल्लया मनशान दिसपट्टो होम करूंकच जाय. कांय कारणांक लागून तातूंत खंड पडल्यार आनी हो काळ बारा दिसां परस चड आसलो जाल्यार, ताणें अग्निचें परतून आधान करूंक जाय.

वेद काळार द्विजांनी (बामण, खेत्री आनी वाणी) यज्ञ करूंकच जाय आसलो. त्या खातीर उज्याचें मांडप तांकां करचेंच पड्टालें. जो द्विज, पाखंडान वा आळसायेन अग्निहोत्र मांडिना तो नरकांत वता, असो समज आसलो. बामणांनी तरी अग्निहोत्र मांडून, देवांची पूजा करूंकच जाय, अशी त्या वेळावेल्या शास्त्रांची बांदणी आसली.

जो अग्निहोत्र राखिना, जो अग्नि मांडिना, ज्याका अग्निसंबंधान कांयच समजना, जो अग्निचें ध्यान करिना, ताका ब्रह्म मेळना. देखून, अग्निची पूजा करप, अग्निचें ध्यान करप, ही उपनिशदांची शिकोवण आसली.

(ला.) १. विद्येची वा कलेची केल्ली अखंड उपासना. २. खळय नासतना केल्लें एकाद्रें कार्य, व्रत.

आधारावळ: १. ऋग्वेद.
२. नवें गोंय, २रें वर्स, ३रो आंक, ज्यानेर १९३६, पा.११३, संपादपी: का.श्री. नायक.

३. भा. सं. को., खंड १, संपादपी: पं. महादेवशास्त्री जोशी.

**अग्निहोत्री** । अग्निहोत्री, सा.रू. -त्र्या; भौव. -त्री, सा.रू. -त्र्यां । [सं अग्निहोत्रिन्] पु. अग्निहोत्र पाळटा तो द्विज. (ला.) विद्येची वा कलेची अखंड उपरसना करपी मनीस. (फकांडांनी) अखंड धूम्रपान करता तो मनीस; अखंड धुंगटी ओडीत रावता तो मनीस.

**अग्नी** । अग्नी । [सं. अग्नि:] पु. पळेयात 'अग्नि'

**अग्यारी** । अग्यारी, सा.रू. -रे; भौव. -र्‍यो, सा.रू. -र्‍यां । [सं अग्नि+अगार] स्त्री. पार्शी जंय पवित्र उजो अखंड पेटयल्लो राखतात तो जागो; पारश्यांचें देवूळ.

**अग्र** । अग्र्, सा.रू. -ग्रा, भौव. -ग्रां, सा.रू. -ग्रां । [सं अग्रम्] न.१. सगळ्यांत वेलो वा मुखावेलो भाग. २. मुळसांतल्यान अशीर जायत कुंसान सोंपिल्लो वेलो भाग. (कांट्यांचें अग्र); कूंस; तोंक; धांबस; तेमक; तेमूर; तेंगशी.

**अग्रक्रम** । अग्रक्रम्, सा.रू. -मा । [सं अग्रक्रम:] पु. सगळ्यांत सुरवातिचो क्रम; पैलो क्रम. (इं.) Priority

**अग्रगण्य** । अग्रगण्य् । [सं. अग्रगण्य] वि. श्रेस्ठ; व्हड; म्हाल-मुखेल.

**अग्रणी** । अग्रणी, सा.रू. -ण्या; भौव. -णी, सा.रू. -ण्यां । [सं. अग्र+नी] पु. नेतो; मुखेली; थारायल्लया ध्येयामेरेन लोकांक घेवन वता तो; आपल्या पावलां फाटोफाट येवपाक लावन, थारायल्लया मुक्कामाक पावयता तो. (ला.) जो मुखार रावन, आपल्या समस्त गणाक, जिणेचे यात्रेंतल्यान मोक्षगतीक पावयता तो; विष्णु भगवान.

**अग्रज** । अग्रज् । सा.रू. -जा, भौव. -ज, सा.रू. -जां । [सं. अग्रज:] वि. जो पैलो जन्माक आयला तो. **पु**. व्हडलो भाव.

**अग्रजा** । अग्रज्या, सा.रू. -जे, भो.व. -जा, सा.रू. -जां । [सं अग्रजा] स्त्री. व्हडली भैण

**अग्रपूजा** । अग्रपूजा, सा.रू. -जे, भौव. -जा, सा.रू. -जां । [सं. अग्र+पूजा] स्त्री. सगळ्यांत म्हत्वाची पूजा; सभेंत व्हड मनशाचो, ताजी विद्या वा तप हाका लागून, सगळ्यांपैलीं केल्लो भोमान वा सत्कार.

**अग्रभाग** । अग्रभाग् सा.रू. -गा; भौव. -ग, सा.रू. -गां । [सं अग्रभाग:] पु. मुखावेलो भाग; माथ्याचो भाग

**अग्रलेख** । अग्रलेख्, सा.रू. -खा; भौव. -ख, सा.रू. -खां । [सं. अग्रलेख:] पु. दिसाळ्यांतलो म्हाल-मुखेल लेख; संपादप्याचो लेख.
**विशेश:** इंग्लेज 'लीडिंग आर्टिकल' हाजो केल्लो हो शब्दश: अनुवाद. हाजो पर्याय म्हणून हो शब्द घडयला.

**अग्रस्थान** । अग्रस्थान्, सा.रू. -ना । [सं. अग्रस्थानम्] न. मानाचो मुखेल जागो; सगळ्यांत वेल्या पाटाचो जागो; वळेरेंतलो पैलो जागो.

**अग्रहक्क** । अग्रहक्क्, सा.रू. -क्का । [सं. अग्र+फा. हक्] पु. पैल्या क्रमांकाचो हक्क; पैल्या मानाचो वा पैल्या विड्याचो हक्क.

**अग्रहार** । अग्रहार, सा.रू. -रा; भौव. -र, सा.रू. -रां । [सं. अग्रहार:] पु १. ब्राम्हणांक, स्वाम्यांक वा मठांक तांच्या खर्चाखातीर दिल्लो गांव वा गावांतली जमीन; (...ही खबर

दमयंतिच्या बापायक भीमराजाक कळ्ळी तेन्ना ताणें दोगांयचे सोदीक लोक धाडले. तांकां खूब पैशे दिवन सांगलें, 'दोगांकूय सोदून हाडशात जाल्यार हाडटल्याक एक हजार गायो, एक गांव आनी एक अग्रहार दानांत दितलों'. —महाभारत , खण्ड १, पा. ३७६, बरो: रवीन्द्र केळेकार.) २. ब्राम्हणांक तांच्या चरितार्थाखातीर, तेच परी वसोवपाखातीर दान दिल्लो गांव वा भूंय. (भारद्वाज, कौशिक, वत्स, कौडिण्य, कश्यप, वसिस्ठ, जमदग्नि, विश्वामित्र, गौतम आनी अत्रि अशा ह्या म्हान तप केल्लया विद्वान बामणांक हाडून परशुरामान आपल्या यज्ञाचें काम यथायूक्त संपादून घेतलें. उप्रांत गोमन्त पर्वताच्या आवाठांतल्या अस्टग्रामांत अग्रहार दिवन थंय तांची ताणें स्थापना केली. मठग्राम, वेरेण्य, कुटतरी, बाणावली, शंखावली, रायचुरी, लोटली आनी नागवें ह्या गावांक अस्टग्राम म्हणतात.

**आधारावळ:** सारस्वत भूषण, पा. ५७-५८.

**अग्रायणें** । अग्रायणँ, सा.रू. -ण्या; भौव. -णीं, सा.रू. -णी । [सं. अग्रहणीय=वायट; न घेवपासारकें] न. दुशण; धपकावणी; दडबडावणी; तापोवणी.

**अग्रावणो-णी** । अग्रावणॉ-णी, सा.रू. -ण्या, णे; भौव. -ण्यो, सा.रू. -ण्यां । ['अग्रायणें' हाजेवेल्यान] वि. दोश, दुशण दिवपी; तापोवन, दडबडावन काडपी.

**अग्रावप** । अग्रॉवप्, सा.रू. -पा, । ['अग्रायणें' वेल्यान] क्रि. दा. धा. सा. ना. (मूळ धातू: अग्राय् (अक.)) १. दोश, दुशण दिवप; धपकावप; दडबडावप; तापप; तापोवप. (देवाचे भक्तु सांत आंतोन लोकांक शास्त्राची गोस्टी सांगतालो, त्या लोका भितरी, येकु पिसो मनुस्सु आस्सिल्लो; तो त्या भल्लेल्या लोकांतु बोबाटि कलुवालु करूं लागलो. लोकू तूं वोगो राव, देवाचो भक्तु अमृतासारिखीं उतरां जीं उलयता, तीं तूं चित्त दिवनु आयक, आनी आमकां आयकूं दी, म्होणु ताका अग्रावन सांगतालो.- सां. अं. अचर्यां, बरो: Padre Antonio de Saldanha, पा.२४). २. भोंकता त्या सुण्याक ओगी बसवप (तो सुण्याक अग्रायता.)

**अग्रासन** । अग्रासन्, सा.रू. -ना, भौव. -नां, सा.रू. -नां । [सं अग्र+आसनम्] न. भोमानाचो म्हाल- मुखेल जागो; मानतुकायेन दिल्लें माये-मोगाचें सिंव्हासन, मुख्यासन, अध्यक्षपद.

**अग्राह्य** । अग्रॉह्य् । [सं. अग्राह्य] वि. मान्य करूंक नज अशें; जें ग्राह्य मानूं नज अशें; अमान्य; घेंवक फावना अशें.

**अग्रेसर** । अग्रेसॅर् । [सं अग्रेसर] वि. सगळ्यांत मुखार, फुडें आशिल्लो; मुखेली.

**अग्रोदक** । अग्रोदॅक्, सा.रू. -का; भौव. -कां, सा.रू. -कां । [सं. अग्र+उदक] न. कोणय आफुडचे पैलीं एके फांतोड्डेर उठून काडिल्लें ताजें उदक; रांदपाखातीर अनवाळ्यांनी काडिल्लें उदक.

**अघ** । अघॅ । [सं. अघम्] न. पाप.

**अघनाशिनी** । अघनाशिनी । [सं. अघ + नाशिनी] वि. पापांचें हरण करपी; पापां धुवन उडोवपी.

**विशेश:** जुवारी न्हंयेंचें मुदलचें नांव 'अघनाशिनी' अशें आशिल्लें, तेच परी माण्डविचें 'गोमती' अशें आशिल्लें.

**अघटित** । अघटीत् । [सं अ+घटित] वि. अजापांचें, अभिस्टांचें, नवलांचें.

**म्हण:** अघटित वार्ता, कोले गेले तीर्था.

**अघाडो** । अघाडॉ, सा.रू. -ड्या; भौव.

-डे, सा.रू. -ड्यां । [दे. अग्घाड; गु. अघेडो] पु. अपामार्ग; चार ते स फूट वाढायेची पावसांत जावपी एक वनस्पत.

**विशेश:** अघाड्याक वनस्पतिशास्त्रांत 'Achyranthes Aspera' म्हण्टात. वनस्पतिचें काण सरळ ताठ आसता. खांदयो वांटकुळसार पुण मुखार बारीक. पानां बारीक, पेरा कणकणीं समोरासमोर दोन अशीं. पानांक वेल्यान ल्हंव आशिल्लयान मोवसार; पोंदच्यान खरखरीत. काणावैर सुमार हातभर लांबायेचे फुलांचे तुरे येतात. फुलां बारीक आनी तांकां पानांसारको कांटेरी भाग आसता. पाकळ्यो पांचवसार. फुलांचे दालयेंत फळां धरतात. फळांचे तुरे हातभर लांब जातात. ह्या झाडांक तेंकून वा घस्टून वचपी गोरवांक वा प्राण्यांक तीं फळां खरखरीत आशिल्लयान दसतात. मराठींत अघाड्याच्या फळांक 'लांडगा' म्हण्टात.

हें झाड वखदी. अघाड्याच्या पाळांचो काडो पोटाच्या विकारांचेर दितात. आंगार उठ्ठा त्या पुळेराचेर, तेच परी फोडांचेर अघाडो उपकरायतात. सुकिल्लया पानांची पूड करून, तातूंत म्होंव घालून केल्लो काडो आंव वा अतिसार हांचे पैले अवस्थेंत गुणावाक येता. विखारी किडे वा गांजील ज्या ज्या जाग्यार चाबतात, थंय अघाड्याचीं पानां चोळून वा वांटून लायतात. अघाड्याच्या गोबरांत पोटॅश आसता. दिसांच्या जोराचेर दितात त्या वखदांत ह्या गोबराचो उपयोग जाता. अघाड्याच्या पानांच्या गोबरांत तिळांचे तेल घालून तयार केल्लें 'अपामार्ग तेल' कानाचे दुखिचेर उपकरायतात. अघाड्याच्या काडयांचो रोस निरंगी आशिल्लयान दांत घांसपाखातीर तांचो वापर करचो अशें 'सृतिसार' ग्रंथांत सांगलां.

अघाड्याक धार्मिक मोल आनी पवित्रताय मेळल्या. 'चातुर्मास महात्म्यांत' अघाड्याक बुद्ध भगवानाचें रूप कसो मानला. ऋषिपंचमीच्या दिसा बायलांनी, अघाड्याचें पान प्रत्येक खेपो आपल्या माथ्यार दवरून, १०८ वेळा न्हांवचें अशें 'व्रतराजां'त सांगलां. अघाड्याच्यो काडयो समिधा म्हणून उपकरायतात. चवथीक अघाड्याचीं पानां गणपतीचेर घालतात. श्रावणी चतुर्थीक गणपतिची पूजा अघाड्याच्या पानांनी करची अशें 'श्रावण म्हात्म्यांत' सांगलां.

**आधारावळ:** मराठी भाषेचें मूळ, बरो: विश्वनाथ खैरे, पा.१०-११.

**अघोर** । अघोर् । [सं. अघोर] वि. १. अती भयंकर; अमंगळ. २. अक्राळ-विक्राळ. ३. निर्भय; निश्काळजी. ४. सौम्य; शांत.

**अघोर** । अघोर् । सा.रू. -रा । [सं. अघोरः] पु. १. महेश्वराचें ३२ व्या कल्पांतलें रूप. २. शिवाचो एक अवतार. ३. संकट

**विशेश:** १. महेश्वराचें ३२ व्या कल्पांतले रूप. हाजो वर्ण काळो आशिल्लो (वायुपु. २३.२९.७६). २. शिवाचो एक अवतार. हाका चौदा हात असतात. चौदाय हातांत आयुधां आसतात. नाचाखातीर हो सदांच सिद्ध आसता. ह्या अवताराफाटल्यान कथा मेळटा ती अशी: ब्रह्मदेवाच्या वराक लागून मरुत नांवांचो दैत्य मातिल्लो. ताका मारपाक शिवान पार्वतीक सांगलें. पार्वतीक ताका मारपाक जमलें ना. देखून, खासा शिवानच अघोर रूप घेवन ताजो संव्हार केलो. ही घटना 'तिरूवेन्कडु' ह्या गांवांत घडली. तामीळनाडूंतल्या ह्या गांवांत भद्रकालीचें देवूळ आसा आनी भद्रकालीच्या सामुखार अघोर म्हूर्तिची स्थापना केल्ली आसा.

ही अघोर म्हूर्त चार तोंडांची, आठ भुजांची, मुंडमाळ धारण केल्ली आनी मरुत दैत्याचें मस्तक माडोवपी अशी करतात. अघोराचो राबितो मसण्णेंत आसता आनी ताजे भोंवतणी

भुतावळ आनी प्रेतावळ जमिल्ली आसता अशें मानतात.

**अघोर पंथ** । अघोर पंथ्, सा.रू. -था। [सं. अघोर+पंथः] पु. शिवाकडेन लग्निक आशिल्लो गोंसांयांचो एक पंथ वा संप्रदाय.

**विशेश:** अघोरीश्वर ह्या नांवांन कर्नाटकांत आनी हेर जाग्यांनी शिवाची उपासना चलता. हाका लागून हो पंथ शैव संप्रदायाकडेन लग्निक जाला. जाल्यारूय, ह्या पंथाचो संबंध पाशुपत आनी काळमुख संप्रदायाकडेन चड लागता. ह्या पंथाच्या लोकांचें वर्णन 'युयान च्वांग' ह्या चिनी प्रवाशान अशें केल्लें मेळटा: हे लोक आंगाक गोबोर लायतात. गळ्यांत नरमुंडांच्यो माळो घालतात आनी नागडे भोंवतात. हातूंतलें कांय जाण पानां वा झाडांच्यो साली न्हेसतात. कांय जाण वागाचें चामडें वेडायतात. चामुंडा ही हांची देवता. तिका ते मनशाचो बळी दितात आनी प्रेताचें मांस खातात. हांकां अन्नाचें कसलेंच आयब ना. घोड्याचें मांस सोडून ते सगळे तरेचें मांस खातात. सोरो म्हळ्यार तांकां उदक. तांचो वीट आनी ओंकारो यो सारकी एक गजाल ते करतात – आपलोच गू अन्नांत कालोवन ते खातात आनी तातूंतलें उदक आंगशान गाळून ते पितात. ह्या प्रकाराक ते 'अतिलिया' म्हण्टात. हाका लागून तांकां अद्‌भुत बळ प्राप्त जाता म्हणपाचें ते मानतात.

**अघोर पंथी** । अघोर पंथी, सा.रू. -थ्या; भौव. -थी, सा.रू. -थ्यां। [सं. अघोर+पथिन्] वि. अघोर पंथांतलो वा संप्रदायांतलो.

**अघोरी** । अघोरी, सा.रू. -र्‍या; भौव. -री, सा.रू. -र्‍यां । [सं. अघोरः] पु. अघोर पंथाचो उपासक.

**विशेश:** गोरखनाथाक अघोरी आपलो मूळ पुरुस मानतात. तांगेले साधनेंत हटयोगाक वा ध्यानयोगाक अग्रस्थान आसा. तांगेलीं तत्वां निर्गुण अद्वैत मताकडेन जुळतात. गुरूक विभूती मानून ते ताजी पूजा करतात.

अघोरी अभिचारांत म्हळ्यार जादूमंत्र आनी करणी करपांत खांपे आसतात, असो समज आसा. जादूमंत्रान ते मनशांक मारतात आनी तांकां परते जिते करतात,अशो आख्यायिका घोळटेंत आसात. तांका लागून लोक तांकां थर्त भियेता.

ते अबूचो पहाड ही आपली मूळ भूमि मानतात. आज भारतभर जरी ते खंयीं खंयीं शिंपडलेले मेळतात, तरी तांचे संख्येक सुकतडो लागला. तांची संख्या बिहारांत चड आसा; त्या फाटोफाट राजस्थानांत आनी मारवाडांत.

हालिंच्या काळांत ते नागडे भोंवनात. ते आतां वस्त्रां वापरतात. जाल्यारूय, सगळेकडेन तांचो भेस एकसारको ना. अघोर पंथांतल्यो बायलो (अघोरिणी) टोळया टोळयानीं भोंवतात. कमराक घागरो, माथ्यार केंसांच्यो जटा, गळ्यांत स्पटिकाच्यो माळो आनी हातांत त्रिशूळ असो तांचो भेस आसता.

ब्रिटिशांचे कारकिर्दींत अघोरींक, तांच्या क्रूर करण्यांक लागून दंड जायत राविल्ल्यान, ते जायते निवळल्यात. आजचे दंडनितीक लागून तांगेली नरबळी दिवपाची प्रथा बंद जाल्या. आतां ते नरमुंडांच्या वा मनश्यांच्या हाडांच्यो केल्ल्यो माळो घालिनात. ह्या माळांच्या जाग्यार ते रुद्राक्षांच्यो, सोरपांच्या हाडांच्यो वा रानदुकरांच्या सुळयांच्यो माळो आपल्या गळ्यांत घालतात. ते मात्शेशे निवळल्यात खरे, जाल्यारूय तांगेली सोरो पियोंवचेली आनी मांस खांवचेली चाल बंद जांवक ना. सोर्‍याचें आनी मांसाचें तांकां मात पासून आयब दिसना.

**अघोरी** । अघोरी, सा.रू. -र्‍या; भौव. -री, सा.रू. -र्‍यां । [सं. अघोरी] वि. १.

अघोर पंथांतलो. २. राक्षेसी (अघोरी उपाय). ३. ज्याचो वीट, तिरस्कार, ओंकारो येता असो; अमंगळ.

**अघोश** । अघोश् । [सं. अघोष] वि. कर्कश; कान फोडपी; कानाक निबर लागता असो; कठोर.

**अघोशवर्ण** । अघोश् वर्ण्, सा.रू. -र्णा, भौव. -र्ण, सा.रू. -र्णां । [सं अघोष+वर्ण] पु. व्याकरणांतल्या व्यंजनांचो एक प्रकार; त्या प्रकारांतलो एक वर्ण वा त्या वर्णांचो समूह.

**विशेश:** खंचीय भास आपल्या वेव्हाराखातीर कांय मुळावे ध्वनी घेता. तांकां 'वर्ण' अशें म्हण्टात. ह्या वर्णांचे दोन भाग जातात: स्वर आनी व्यंजनां.

वर्णांच्या उच्च्याराक लागून कांय वर्ण अघोश म्हळ्यार निबर (कठोर) मानतात आनी कांय वर्ण सघोश म्हळ्यार मोव (मृदु) मानतात.

घोश म्हळ्यार नाद. जे वर्ण निर्माण जातना नाद निर्माण जाता, ते सघोश वर्ण आनी जे वर्ण निमार्ण जातना नाद निर्माण जायना, ते अघोश वर्ण.

मनीस जेन्ना उलैता, तेन्ना ताज्या फुफुसांतली (पुल्मांवांतली) हवा श्वासमार्गाचे वाटेन तोंडांतल्यान वा नाक आनी तोंडांतल्यान भायर सरता. फुफुसांतल्यान भायर सरतना, ही हवा पैलीं श्वासनळयेंतल्या स्वरयंत्रांत (Larynx) येता. स्वरयंत्रांत पातळ आनी जाय तशो बाग घेवपी (लवचीक) चार पातयो आसतात. ह्या पातयांक स्वरतंत्री (Vocal Cords) म्हण्टात. हे स्वरतंत्रिंची रचना उजवे वटेन एका सकल एक अशो दोन पातयो आनी दावे वटेन दोन पातयो अशी आसता. ह्यो पातयो कंठमणयाचे वटेन जोडिल्लयो आसतात आनी फाटले वटेन मेकळ्यो आसतात. उजवे कडल्या आनी दावेकडल्या ह्या स्वरतंत्रीं भितर जी पोकळी निर्माण जाता, तिका कंठदार (Glottis) म्हण्टात. ह्यो दोनय वटेनच्यो स्वरतंत्री एकमेकांच्या लागीं येवन कंठदाराची पोकळी धांपतात, तेच परी ह्यो स्वरतंत्री एकमेकांपासून पैस वचून कंठदार पूर्ण मेकळें करतात.

फुफुसांतली हवा श्वासमार्गावटेन भायर सरतासतना जेन्ना स्वरतंत्री एकमेकांक लागीं येतात, तेन्ना कंठदाराची पोकळी अरूंद जाता. ह्या वेळार, हवा भायर सरतासतना, स्वरतंत्रींक घस्टून भायर सरता. स्वरतंत्रींक घस्टून हवा भायर सरिल्लयान, स्वरतंत्रींच्यो बागवतात त्यो वाटो कंप पावतात आनी त्यो कंप पाविल्लयान, कंठदारांतल्यान हवा भायर सरतना नाद निर्माण जाता. अशे तरेन जे वर्ण निर्माण जातात, तांकां 'सघोश वर्ण' म्हण्टात. कोंकणी भाशेंतल्या सगळ्या स्वरांक आनी ग्, घ्, ङ्, ज्, झ्, ञ्, ड्, ढ्, ण्, द्, ध्, न्, ब्, भ्, म्, य्, र्, ल्, व्, ह्, ळ् ह्या व्यंजनांक सघोश वर्ण म्हण्टात.

जेन्ना स्वरतंत्री एकमेकांच्या लागसार येवनय, कंप निर्माण जावपाइतल्यो लागीं आयिल्लयो नासतात, तेन्ना हवा भायर सरतना स्वरतंत्रिंच्यो लवचीक वाटो कंप पावनात. हाका लागून कंप वा नाद निर्माण जायना. कंप वा नाद निर्माण जायनासतना जें वर्ण निर्माण जातात, तांकां अघोश वर्ण म्हण्टात. देखून, क्, ख्, च्, छ्, ट्, ठ्, त्, थ्, प्, फ्, श्, ष्, स्, ह्या व्यंजनांक 'अघोश वर्ण' म्हण्टात.

**अंक** । अङ्क, सा.रू. -का, भो.व. -क, सा.रू. कां । [सं. अङ्कः] पु. १. संख्या ज्या कुरवानीं मांड्टात, तांतूंतली दरएक कुरू वा चिन्ह; आंकडो. २. दिसाळ्याची, साताळ्याची, पंद्राळ्याची, म्हैनाळ्याची वा वर्सुक्याची प्रत. ३. नाटकाचो एक भाग. ४. मांडी.

**विशेश:** अंक म्हळ्यार संख्या मांडूंक ज्यो कुरवो उपकारायतात, तांतूंतली दरएक कुरू

वा चिन्ह. क्रिस्ता आदल्या ३०० वर्सा साकून भारतांत हे अंक घोळटेंत आशिल्ले म्हणपाची गवाय, नाणेघांट हांगा मेळिल्लो फातरपटो दिता. क्रिस्ती सनाच्या ६००च्या सुमाराक अरबांनीं हे अंक भारतांतल्यान युरोपांत व्हेले. तेन्नाच्यान ह्या अंकांक 'अरेबिक अंक' अशें नांव पडलें.

अंक अशे आसात: १, २, ३, ४, ५, ६, ७, ८, ९, ०. पैले णव अंक हे म्हत्वाचे मानतात. तांकां दोन मोलां (Values) आसात. एक निजाचें आनी दुसरें सापेक्ष. निजाचें मोल हें खासा त्या अंकाचें मोल आसता. संख्येंत तो अंक खंच्याय जाग्यार आसल्यार पासून ताज्या निजाच्या मोलांत बदल जायना. सापेक्ष मोल मात, त्या त्या अंकाक, संख्येंतल्या ताज्या स्थानावेल्यान येता. ३०५ ही संख्या घेतली जाल्यार, दावेकडल्यान पैलो आशिल्ल्या अंकाचें निजाचें मोल ३ (तीन), आनी ताजें सापेक्ष मोल ३०० तिनशीं.

विष्णुशर्म्यान जेन्ना शुन्याचो वा पुज्याचो सोद लायलो, तेन्ना संख्या मांडपांत एक क्रांती घडली. संख्येच्या मांडपाक एक वेगळें परिमाण मेळलें. शुन्याक निजाचें मोल ना. जाल्यारूय, खंच्याय अंका फाटल्यान शून्य वा शुन्यां दितकीर ते संख्येचें मोल वाढटा. एकार तीन शुन्यां दितकीर हजार ही संख्या जाता. एकार इकरा शुन्यां दितकीर निखर्व ही संख्या जाता. शुन्याक लागून केदीय व्हडली संख्या सोपेपणीं दाखोंवक येता. संख्या अशो आसात: एकं, दहं, शतं, सहस्र (हजार), दशसहस्र (धा हजार), लक्ष वा लाख, दशलक्ष वा धा लाख, कोटी, दशकोटी, अब्ज, खर्व, निखर्व, महापद्म, शंकू, जलधी, अंत्य, मध्य आनी परार्ध.

**अंकगणित** । अङ्कगणीत्, सा.रू. -ता; भौव. -तां, सा.रू. -तां । [सं. अङ्कः+गणित] न. अंकांच्या मोलाचें विवेचन करून, तांच्या आधारान हिशोब कसो मांडचो हें शिकोवपी शास्त्र; गणिताचीं मुळावीं तत्वां वा सिद्धांत शिकोवपी शास्त्र; आंकड्यांची बेरीज, वजाबाकी, गुणाकार, आनी भागाकार करूंक शिकैता ती विद्या.

**अंकलिपी** । अङ्कलिपी, सा.रू. -पये; भौव. -पयो, सा.रू. -पयां । [सं. अङ्क+लिपी] स्त्री. १. उजळणिचें पुस्तक; पाढे आनी वर्णमाळा शिकोवपाक उपकरा पड्टा ती पटी. २. आंकड्यांनी संख्या बरोंवचेली पद्धत.

**अंकित** । अङ्कित् । [सं. अङ्कित] वि. १. बंदो; गुलाम; पांगतो. (झुजा-मळार जो दुसऱ्यांक आड घालून आपणाले अंकित करता तो क्षत्रिय. —महाभारत खंड १, बरो: रवीन्द्र केळेकार; पा.१२६). २. दास; वश. (कंस, शिशुपाल हे कृष्णाचे दुस्मान आशिल्ले. गोकुळांतल्या पोरांचो तर कृष्णाचेर जीव आशिल्लो. गोपी ताज्याखातीर प्राण दिवपाक तयार आशिल्लयो आनी व्हडलो भाव सामको ताज्या अंकित आशिल्लो).

**वा.प्र.: अंकित आसप :** वश आसप.
**अंकित करप:** बंदो, गुलाम, पांगतो करप.

**अंकी** । अङ्की । ['अंक' वेल्यान] वि. १. आंकड्यानी मांडिल्ली वा बरैल्ली. (चार अंकी संख्या) २. भागांनीं बरैलें (तीन अंकी नाटक).

**अंकुश** । अङ्कुश्, सा.रू -शा; भौव. अंकूश, सा.रू. -कुशां । [सं अङ्कुशः] पु. १. हत्तिचेर ताबो दवरचेलें हत्यार. -हाजें एक तोंक सरळ उबें आसता आनी दुसरें आंकड्यांवरी बागयल्लें आसता. २. वचक; धाक (भुरग्यांचेर तांच्या आवय बापायचो अंकुश आसल्यार तीं चडशीं पारपोळ जावपाक पावनात.)

**वा.प्र.: अंकुश लावप:** १. परपरत याद करप. २. मस्त्याक जाग्यार हाडप .
**विशेश:** अंकुश म्हळ्यार लाकडाच्या दांड्याक बसयल्लें केलक्या सारकें एक हत्यार. हत्तीक आळाबंदाक हाडपाखातीर तें ताज्या गंडस्थळाक तोपतात.

गणपतिच्या हातांतय अंकुश आसता. जैन यतिंच्या हातांतय हें हत्यार आसता. अंकुशाच्या आधारान, झाडांच्यो खांद्यो बागोवन, ते पानां आनी फुलां खुड्टात.

**अंगना** । अङ्गना, सा.रू. -ने; भौव. -ना, सा.रू. -नां । [सं. अङ्गना] स्त्री. १. बायल, स्त्री, अस्तुरी. २. देखण्या जायासाची बायल; विलक्षण सुंदर बायल. ३. (ज्यो.) कन्या रास.

**अंगार** । अङ्गार्, सा.रू. -रा; भौव. -र, सा.रू. -रां । [सं. अङ्गारः, पा. अंगार; प्रा. अङ्गारो, इङ्गालो] पु. रसरशीत पेटिल्लो वा न्हिविल्लो कोळसो; इंगळो.

**अंगारक** । अङ्गारक्, सा.रू. -का; भौव. -क, सा.रू. -कां । [सं. अङ्गार+क; अङ्गारकः, अङ्गारकम्] पु. १. रसरशीत पेटिल्लो वा पेट्टा तो कोळसो. २. उज्याची कीट. ३. मंगळ ग्रह. ४. मंगळार.

**अंगारकी** । अङ्गार्की, सा.रू. -के; भौव. -क्यो, सा.रू. -क्यां । [सं. अङ्गारकः] स्त्री. मंगळारा येता ती संकस्टी; मंगळारा येता ती कृष्णपक्षांतली अंगारक चतुर्थी.
**विशेश:** 'अंगारकी' वा 'अंगारक चतुर्थी' हें एक व्रत. ह्या व्रतांत दिसभर उपास करून रातचें, चंद्राचो उदेव जाल्या उप्रांत, उपास सोडून जेवण करतात. कांय जाण जन्मभर हें व्रत करतात. कांय जाण चार अंगारक्यांचें वा आठ अंगारक्यांचें व्रत आंगयतात.

**अचकट** । अचकट्, सा.रू. -टा; भौव. -ट, सा.रू. -टां । [सं. अ+चोक्ष (सुंदर)+ट] वि. पोजडो; बुरसो; अळशिकावणो.
**विशेश:** 'अचकट' ह्या उतराचे अर्थ पोजडो, बुरसो, जो सुंदर न्हंय तो, अळशिकावणो अशे जातात. संस्कृत भाशेंतल्या 'चोक्ष' ह्या विशेशणाचे अर्थ 'शुद्ध, पवित्र, सुंदर, सुखदेणो' अशे जातात.

ह्या 'चोक्ष' उतरावेल्यान मराठींत 'चोख, चोखट' अशीं उतरां घडल्यांत. गुजरातींत 'चोक्स' अशें उतर घडलां. तेच वरी बेळगावां सारख्या मराठी- कानडी भाशेच्या शिमेवेल्या भागांत 'चकोट' अशेंय उतर मेळटा.

संस्कृत भाशेंतल्या 'चोक्ष' ह्या विशेशणाक 'अ' हें न्हंयकारी अव्यय लागून आनी 'ट' हें ताळाकूस लागून हें उतर घडलां. हाजी व्युत्पत्ति अशी दाखोंवक येता: अचोक्ष+ट › अचोखट › अचकोट › अचकट. देखून, मुळाव्या अर्थान 'अचकट' म्हळ्यार 'जें सुंदर न्हंय तें', 'जें सुखदेणें न्हंय तें'. अपभ्रंश भाशेंत 'अचोक्खअ' ह्या विशेशणाचो अर्थ 'अपवित्र , असंस्कृत, म्हेळो' असो मेळटा. (पळेयात: अपभ्रंश- हिंदी कोश, प्रथम भाग, पा.१५, संपा: डॉ. नरेश कुमार)
**म्हण:** घोव अचकट आनी बायल मचकट, परिणामाक बरीं.

**अचकट-मचकट** । अचकट्-मचकट् । ['अचकटा'ची द्वि.] वि. पळेयात 'अचकट'

**अचकट-विचकट** । अचकट्-विचकट् । [सं. अ+चोक्ष+ट + वि+चोक्ष + ट] वि. पोजडें; बुरशें; अळशिकावणें (अचकट-विचकट उलोवणें).

**अचकीत** । अंचकीत् । [सं. अ(खूब)+ चकित?] क्रि. वि. अकल्पित; अचानक; अकस्मात. (सांत आंतोन सेमींव सांगतासतना अचकीत पावस आयलो).

**अचकूल** । अचकूल, सा.रू. -ला; भौव. -ल; सा.रू. -कुलां । [सं. अ (अतिशय) + चक्क (दुःख सोंसप) वेल्यान?] वि. अपंगूल; पांगळो. (घोड्यार सुंवार जावन झुजण्या जिवबा बक्षीचे पराक्रम पानपतच्या झुंजात पांय मोडून जल्मवेर अचकूल जाल्ल्या महादजी शिंद्याक आनी ताचे फाटल्यान नेणट्या आनी अरवळ दौलतरावाक लागू करपाची चालूच आसा. —गों.गों. वसणूक, बरो: शणै गोंयबाब पा. ६०.)

**अचगळ** । अच्गळ्, सा.रू. -ळा; भौव. -ळ; सा.रू. -ळां । [का. अच्चाळि, अच्चाळु = घटमूट] वि. पाडो; मस्तो; आडांगी, बळयादी; पारपोळ.

**अचगळाय** । अच्गळाय्, सा.रू. -ये, भौव. -यो; सा.रू. -ळां [का. अच्चाळिके] स्त्री. पाडेपण; मस्तेपण; आडांगाय; पारपोळपण (आयचे घडये म्हाका गुन्याव दी. आज लागून फुडलें चांडाळपण, निस्तुराय वा अचगळाय सांड्टां. —सां.अं. अचर्यां, पा. ५३).

**अचतुर** । अचतूर । [सं. अ+चतुर] वि. चतुर न्हंय तो; शिटुकसाण नाशिल्लो; अरवळ; अणवो.

**अचतुराय** । अचतुराय्, सा.रू. -ये; भौव. -यो; सा.रू. -यां । ['अचतुर' वेल्यान] स्त्री. चतुरायेचो, शिटुकसाणेचो अभाव; अशिटुकसाण; अरवळपण.

**अचरट** । अच्रट्, सा.रू. -टा; भौव. -ट, सा.रू. -टां । [सं. अ+चतुर?] वि.१ मूर्ख; पिसांट; फाजील. २. मुद्दाम बायलांच्या म्हऱ्यांत वचून पोजडें उलोवपी; हलकट.

**म्हण:** भेरो आयकता तेरें, अचरट मागता सांबारें.

**विशेश:** 'अचरट' हें उतर अशें जालां जावये: सं. अ+चतुर › अचरतु › अचरट.

**अचरटपण** । अचरटपण्, सा.रू. -णा; भौव. -णां, सा.रू. -णां । ['अचरट' वेल्यान] न. पिशेपण; फाजिलपण. –हें उतर चड करून भौवचनांत उपकरायतात. देखीक: आतां तोंड धांपल्यार बरें. तुगेलीं अचरटपणां पुरो जालीं.

**अचर्य** । अचर्य, सा.रु. -र्या; भौव. -र्यां, सा.रू. -र्यां । [सं. आश्चर्य; का. अच्चरि] न. भक्तांवेलें संकट निवारपाक वा भक्तांचो आब राखपाक देवान केल्ली अलौकिक करणी; चमत्कार; अजाप; अभिस्ट; अप्रूप. (सांतु आंतोनिचीं अचर्यां)

**अचलचाल** । अचल्चाल्, सा.रू. -ली; भौव. -ली, सा.रू. -लीं । [दे. अचल = निस्तुर + कों. चाल] स्त्री. पाडी, वांकडी चाल; पाडें, वाकडें आचरण. (... तो दिसू लेगीत मागिलीं पातकां, फुडली अचलचाली, पुंडाय सांडून, केलेल्या पातकांची दुखी, संतापु वा विटाळु मनीं धरूनु, परमेश्वराची सेवा, जिवीं भावीं करूं लागले,... -सांत अंतोनिचीं अचर्यां, पा. १४).

**अचळय** । अचळय् । [सं. अचल] क्रि.वि. १. भीड-म्हुर्वत धरिनासतना; असुदाय. (मेरेर झेमलो शेतोड ताजी अचळय भकली गोरवांनी —'गुरू शिटकायता', सासाय, कवी: बाकीबाब बोरकार.) २. सहजतायेन; सोंपेपणीं; (... तरी आसतना राजाक सांग: एके तळयेंतलें साळीक अचळय दुसरे तळयेंत पावचें तशी तुगेली धूव एका व्हड कुटुंबांतल्यान दुसऱ्या व्हड कुटुंबांत पावल्या —महाभारत, खण्ड १, बरो: रवींद्र केळेकार पा. ९५.)

**अचाट** । अच्चाट् । [सं. अत्यर्थ, प्रा. अच्चत्थ, अच्चट्ट] वि. १. अजापांचो; अभिस्टांचो. २. अफाट; प्रचंड (अचाट शक्ती) ३. बेसुमार;

अती (अचाट खाणें, पिडेक आपोवणें)
**म्हण:** अचाट खाणें, पिडेक आपोवणें.

**अचानक** । अच्यानक् । [हिं. अचानक] क्रि.वि. ध्याना-मनांत नासतना; अकस्मात; अकल्पित.

**अचिरकाय** । अचिरकाय्, सा.रू. -ये, भौव. -यो, सा.रू. -यां [?] स्त्री. ध्यान; लक्ष; चित्त; भान; धंग; चत्राय; इचिरकाय.

**अचिरकायेचो-ची-चें** । अचिरकायेचॉ-ची-चँ। ['अचिरकाय' वेल्यान] वि. अचिरकाय, चत्राय आसपी.

**अचूक** । अचूक् । [सं. अच्युत; प्रा. अचुक्क] वि. बिनचूक; निर्दोश. (तागेले अचूक यत्न फळाक आयले)
क्रि.वि. न चुकतां; चुकनासतना. (ताणें अचूक सांगलें.)

**अचेतन** । अचेतन् । [सं. अचेतन] वि. प्राण नाशिल्लो; निश्प्राण; निर्जीव; जड.

**अच्छेर** । अच्छेर्, सा.रू. -रा; भौव. -र, सा. रू. -रां । [सं. अर्ध+शेर; का. अच्चेरू] पु. अर्दो शेर (वजन वा माप). **वि.** अर्द शेराच्या मापा इतलो वा शेराच्या वजना इतलो (अर्द शेर दूद).

**अच्छेव** । अच्छेव्, सा.रू. -वा, भौव. -व, सा.रू. -वां । [सं. उच्छेदः] पु.१. जुलूम; छळ; आगळिक; अत्याचार. (सोळाव्या-सतराव्या शेंकड्यांत पुर्तुगेजांच्या अच्छेवांक लागून जायते गोंयकार गोंय सोडून गेले.) २. अनर्थ; अधर्म; सांवार. (हालिंच्या काळांत बऱ्याबऱ्यांले भुरगे चोरयेक संवकल्यात. तांचेर कसलो अच्छेव आयला म्हणून समजना) ३. करंदाय; धोंस; (कोणाची गाय मार, कोणाचीं वासरां व्हर, कोणाच्यो कोंबयो ना कर, असो ताणें अच्छेव मांडिल्लो. —बऱ्याक गेल्यार बिर्मत फुट्टा, बरो: गोम पै, नवें गोंय, ३ रें वर्स, ४ थो आंक, आब्रील १९३७, पा. ११८, संपा: का. श्री. नायक). ४. धुमशेण; धुडगूस; शबै, (ह्या दिसांनी भुरग्यांक सुटी पडल्या. तीं सामकीं अच्छेव घालतात.) ५. बोवाळ; तडाक; गडगड, कडकड; खळखळ. (कोण गे गजालिंचो अच्छेव हो! नाटकांतलें एक उतरय आयकूंक येना —नाटकांत नाटक! बरो: गोम पै —न.गोंय, १लें वर्स, ३रो आंक, ज्यानेर १९३६, पा. ९९).
**वा.प्र.: अच्छेव मांडप:** अधर्म आडावप: बळयां वचून दुसऱ्यांच्या आंगार पडप; मस्तेन वा मधान्तकायेन पिडप वा धोंसप; करंदाय घालप; पिडापीड दिवप; छळ मांडप.
**अच्छेव घालप:** धुमशेण कांडप वा शबै घालप.
**अच्छेव येवप:** अधर्म, सांवार येवप.

**अच्युत** । अच्यूत्, सा.रू. अच्युता । [सं. अच्युतः] पु. विष्णु भगवानाच्या हजार नावांतलें एक नांव; सैमाचो, सासणाचो असो एकलोच एक परमेश्वर म्हळ्यार विष्णु.

**अच्युत** । अच्युत् । [सं. अच्युत] वि. जो आपल्या जाग्यावेल्यान सकल पडना तो; ज्याची पवित्रताय भस्टना तो; ज्याचो नाश जायना तो; थीर.

**अज** । अज्य्, सा.रू. -जा । [सं. अ+जन् (जन्मप)] पु. परमेश्वर; संसार घडैणो ब्रह्मदेव; हिरण्यगर्भाच्या रुपान आपल्या अनंत लिलांनी संवसार रचपी विष्णु.
**वि.** ज्याका जन्म ना तो; जन्माचें बंधन नाशिल्लो; सासणाचो; सैमाचो.

**अज** । अज्य्, सा.रू. -जा; भौव. -ज, सा.रू. -जां । [सं. अज् (आमुडप) हाजेवेल्यान] पु. ज्याका आमडून व्हरतात तो बोकडो, बोकड.

**अजकाप** । अज्कॉप् । [अर. अजब] वि. विस्मीत; चकीत; अजाप.

**अजन्मो** । अज्यून्मॉ, सा.रू. -न्म्या । [सं. अ+जन्मन्] पु. ब्रह्म; देव; परमेश्वर.
वि. जो जन्मूंक ना तो; ज्याका आदि-अंत ना तो.

**अजमोदा** । अजमोदा, सा.रू. -द्या । [सं. अजमोदा] पु. ओंवों; ओंव्याचें झाड (Apium invalucratum वा Ligusticum Ajowan)
**विशेश:** अजमोदा ही एक ओंव्याची जात. हें झाड भारतांत खूप कडेन जाता. हाजी लागोड बंगालांत चड जाता.
हें वर्सुकें झाड. हाजी उंचाय सुमार देड हात आसता. हाका धव्या रंगाचीं फुलां येतात.
अजमोदा मसालो म्हणून उपकरायतात. जिरवणेकय अजमोदा उपकरायतात.

**अज्रंवर** । अज्रंवर् । [सं. अजर+अमर, अजरामर] वि.१. ज्याका म्हातारपण आनी मरण ना तो; अविनाशी; सासणाचो. २. मनशांचे यादस्तिकेंत सासणाचो उरता तो. (मनीस मर्तिक खरे, जाल्यारूय थोडे आपल्या कर्तुपांनी अज्रंवर जावन उरतात).

**अज्रंवरताय** । अज्रंवरताय्, सा.रू. -ये । ['अज्रंवर' वेल्यान] स्त्री. १. अज्रंवर आसपाची स्थिती. (आत्म्याची अज्रंवरताय) २. मनशांचे यादस्तिकेंत सासणाची जिती उरिल्ली याद. (आंवडेल्ली अज्रंवरताय).

**अजस्र** । अजस्र् । [सं. अजस्र] वि. १. प्रचंड; धिप्पाड; आकांताचो व्हडलो. २. सासणाचो.

**अजा** । अज्या, सा.रू. - जे । [सं. अजा] स्त्री. १. प्रकृती वा माया; तेजस्, अप् (उदक) आनी अन्न हांकां प्रकृतीचीं आंगां मानतात. २. बोकडी.

**अजागळ** । अज्यागळ्, सा.रू. -ळा; भौव. -ळ, सा.रू. -ळां । [सं. अजागलस्तन] वि.१. गोळ आशिल्लो. २. भेसाचें तेच परी जिवाचें भान नाशिल्लो. ३. अबर्गत; बावळट; कर्तुत्वहीन; मूर्ख.
**विशेश:** 'अजागळ' हें उतर संस्कृत 'अजागल स्तन' ह्या उतराचो संक्षेप आनी अपभ्रंश.
बोकडेच्या गालार वा गळ्यार जो स्तनासारको मासांचो गुळो हुमकळटा, तो गुळो बोकडेचे सुंदरकायेंत भर घालिना. खासा तिकाय त्या गुळ्याचो उपयोग जायना. ताज्यावेल्यान 'अजागळ' ह्या उतराक 'निरूपयोगी, कर्तुत्वहीन मनीस' असो लाक्षणिक अर्थ लागलो.
शतपथ ब्राम्हणांत निरूपयोगी, अबर्गत आनी कर्तुत्वहीन मनशाक अजागलस्तनाची ओपार दिल्या. शतपथ ब्राम्हणांत म्हळां की जाणें धर्म, अर्थ, काम आनी मोक्ष हातूंतलो एकय पुरूशार्थ करूंक ना, ताजो जन्म बोकडेच्या गालार आसपी स्तनावरी निरर्थक आसा. ('धर्मार्थकाममोक्षाणां यस्यैकोऽपि न विद्यते। अजागलस्तनस्यैव तस्य जन्मं निरर्थकम्॥ श.ब्रा. ६५.३).

**अजाण** । अजाण्, सा.रू. -णा; भौव. -ण, सा.रू. -णां । [सं. अज्ञान] वि.१. ज्याका जाण ना तो; नेणार; अज्ञानी. २. संवसारांतलीं शटकपणां वा नाडबुद्धी कळूंक पावनात इतल्या ल्हान पिरायेचो; नेण्टो; नेणार; निष्पाप; भंड. (अजाण भुरगो).

**अजाणकाय** । अजाणकाय्, सा.रू. -ये; भौव. -यो, सा.रू. -यां । ['अजाण' वेल्यान] स्त्री. अजाणपण; अजाण आसपाची स्थिती वा गुण.

**अजाणटो-टी-टें** । अजाण्टॉ-टी-टँ, सा.रू.

-ट्या-टे-ट्या; भौव. -टे-ट्यो-टीं, सा.रू. -ट्यां । ['अजाण' वेल्यान] वि. जो बुद्दिन जाणटो जांवक ना तो; अबुद्दी.

**अजाणप** । अजाणप, सा.रू. -पा, । ['अजाण' वेल्यान] क्रि. दा. धा. सा. ना.(मूळ धातू: अजाण् (अक्)). अजाण उरप; नकळ जावप.

**अजाणपण** । अजाणपण्, सा.रू. -णा; भौव. -णां, सा.रू. -णां । ['अजाण' वेल्यान] न. अजाण आसपाची स्थिती वा गुण; नेणारपण; नेणारकाय, नेण्टेपण; निमरपण. (का. शा.) कायदो अजाणपण मानिना. जेन्ना सरकार एक कायदो करता आनी फर्मायता, तेन्ना देशांतलो सगळो लोक तो समजून घेवन, ताका पाळो दितलो अशें धरून चलता. कायद्याचें अजाणपण, ख्यास्त फर्मायल्ल्या गुन्यांवांतल्यान, ख्यास्तिविणें सुटपाचें कारण जायना. (Ignorance of law is no excuse.)

**अजाणपणान** । अजाणपणान् । ['अजाण' वेल्यान] क्रि.वि. न कळत; न कळटां. ('हांव केन्नां विसरून गेलां. अजाणपणान केल्ल्यो चुको हांव मनाक लावन घेना', युधिष्ठिरान म्हळें. —महाभारत, खण्ड १, पा. ३०२. -बरो: रवीन्द्र केळेकार)

**अजात** । अज्यात् । [सं. अजात] वि. जो जन्मूंक ना तो.

**अजानबाहू** । अज्यान्बाहू । [सं. आ+जानू + बाहू] वि. ज्याचे हात धोंपरामेरेन पावतात तो.

**अजातशत्रू** । अज्यात्शत्रु, सा.रू. -त्रू, भौव. -त्रू, सा.रू. -त्रूं । [सं अजातशत्रु] वि. ज्याका दुस्मान ना तो.

**अजानवृक्ष** । अजान्वृक्ष्, सा.रू. -क्षा । [सं. अज्ञात = प्राचीन + वृक्ष] पु. ज्ञानेश्वरान समाधी घेतिल्ले अवस्थेंत, ताज्या भुजांक खांद्यो फुटून, जो वृक्ष जाला अशें मानतात तो वृक्ष. हो वृक्ष आळंदीक आजून दाखैतात. दुखेस्तांच्यो इत्सा तो भागैता अशें सांगतात.

**अजाप** । अज्याप्, सा.रू. -पा; भौव. -पां, सा.रू. -पां । [सं. अ + जल्प:] न. १. पवित्र, भव्य आनी सुंदर अशें पळेतकीर उचंबळून आयिल्ले भावनेक लागून लागता ती समाधी वा मनाची समाधी लागिल्लेवरी जाता ती स्थिती. २. नवल; विस्मिताय; आश्चर्य. (चंद्रमंडळ हातासतल्या दुस्मान कदंबाचे पिळगेक संकष्टाच्या वेळार अवसरान पालव दिलो, हें अजाप म्हणूंक जाय. -वलिपत्तनाचो सोद बरो: शणै गोंयबाब, पा. १८). ३. चमत्कार; अप्रूप (हो संवसार म्हळ्यार देवान रचिल्लें एक अजाप.) ४. तोखणाय; कौतुक. (कुस्टरोग्यांचे सेवेक आपली जीण ताणें ओंपल्या. तांकां बरे करूनच तो थांबूंक ना. आपल्या पांयांचेर ताणीं उबें रांवचें, तांकां प्रतिस्ठेची जीण जियेंवक मेळची म्हणून तो, मातय विसव घेनासतना, दीस-रात वावुरता. तांच्या ओंठार हांसो फुलयत, कुस्टरोग्यांचे जीणेंत खऱ्या अर्थान ताणें आनंदवन फुलयल्लें पळेतकीर, ताजें अजाप दिसता.)

वि.१. चकीत; अतोज. (हें कागद ताणें काडिलें, आनी भक्ताचे हातीं दिलें. कांयच बरैल्लें ना देखिलें. ह्या पासत महा अजाप जावन, त्या मनुष्यालागीं विचाल्लें. —सां.अं. अचर्यां, पा. २०) २. महाकठीण कशें; हाबू कशें; अगम्य. (वांटुबाबाक कसलेंय काम सांगात. तो रोकडेंच तें अजाप कशें करून दाखयता.)

**वा.प्र.: अजाप करप:** चकीत करप; खंचीय गजाल अगम्य कशी करप.

**अजाप करून दाखवप:** हाबू करून दाखवप; खंचीय गजाल गहन, कठीण वा अगम्य कशी करून दाखवप.

**अजाप दिसप:** आश्चर्य दिसप; तोखणाय

वा कौतुक दिसप.
**अजाप पावपः** चकीत वा अतोज जावप वा पावप.
**अजापांत पडपः** चकित वा अतोज पावप.

**विशेशः** दर दिसा प्राणी यमाच्या घरा वतात. अशें आसतनाय, संवसारांतलो प्रत्येक मर्तिक आपुण अमर्तिक आशिल्ल्यावरी धरून चलता. देखून, हाज्यासारकें अजाप ह्या संवसारांत ना, अशें धर्मराजान 'यक्षप्रश्नां'त सांगलां (महाभारत अध्याय ३२ वो). तेच परी Sofocles ह्या ग्रीक नाटककारानय आपल्या Antigona ह्या नाटकांत 'मनशासारकें अजाप ना' अशें म्हळां.

**अजापप** । अज्यापप्, सा.रू. -पां । ['अजाप' वेल्यान] क्रि.दा.धा.सा.ना. (मूळ धातूः अजाप् (अक.)) १. अजाप जावप वा अजाप पावप; व्हडविकेन वा कौतुकान पळोवप. २. चकीत जावप; संभ्रमांत पडप. (दुर्याधनाचे सैनिक अजापले. कितें करचें तें समजना जावन ते दुर्योधनासरीं गेले. -महाभारत, खण्ड १, बरोः रवीन्द्र केळेकार, पा. १३६)

**अजापांचो, ची, चें** । अज्यापांचॉ, ची, चँ; सा.रू. -च्या, -चे, -च्या; भौव. -चे (चॅ)-च्यो, -चीं; सा.रू. -च्यां । ['अजाप' वेल्यान] वि. १. अभिस्टांचो; अप्रुपांचो; चकीत वा अतोज जायसारको; नवलांचो. (नवल तेन्ना आयकात, अजापांचें । वोत पडलें जमनीर विचित्रांचें।। सड्यावेलीं फुलां, कवीः बयाभाव, पा.३१). २. तोखेवपासारको. ३. मोलादिक (अजापाचें रत्न). ४. भयंकर (अशे तरेन बशिल्लो अली आनी एका हाताच्या अंतरार ताजेर मांडून बशिल्लो वाग, हांचे मदीं अजापाचें झूज जालें.)

**अजापुत्र** । अज्यापुत्र्, सा.रू. -त्रा; भौव. -त्र, सा.रू. -त्रां । [सं. अजा+पुत्रः] बोकडेचो पेटो. (ला.) निराधार दुर्बळ मनीस.
**विशेशः** 'अजापुत्रं बलिं दद्यात्' हें एका सुभाशितांतलें वाक्य. तें सुभाशित अशेंः
'अश्वं नैव गजं नैव व्याघ्रं नैवच नैवच।
अजापुत्रं बलिं दद्यात् देवो दुर्बलघातकः॥
हाजो अर्थ असोः देवाक घोड्याचो बळी दिनात, हतयाचो दिनात, वागाचो तर नाच ना. बोकड्याचो बळी दितात; देवपासून दुर्बळांचोच घात करता.
दसऱ्या दिसा गोंयच्या कांय देवळांनी खेत्र जावन हावळ येता ती बोकड्यांचेर. देवाक बळी दितात तो दुर्बळांचोच. हाज्यावेल्यान सिद्ध जाता की, देवपासून दुर्बळांचोच घात करता. संवसारांत पिडापीड भोगता ती दुर्बळांक. छळ सोंसतात ते दुर्बळच.

**अजालीत** । अजालीत् । [सं. अ = चड + लज्जित] वि. लज्जित; लज जाल्ला असो. ("ना सायबा, हेंय तूं कितें म्हण्टा तें केन्ना हावें आयकूंक ना". -व्हडेकारान अजालीत जावन सांगलें. —सुरबूस काणयो, महाबळेश्वर सरदेसाय, पा. ३१).
**वा.प्र. : अजालीत जावपः** लज्जित जावप.

**अजिंक्य** । अजिङ्क्य । [सं. अ+प्रा.जिक्क] वि. ज्याका कोणच जिखूंक पावना तो.

**अजिर्णा-फुसकी** । अजिर्णा फुस्की ।['अजीर्ण' वेल्यान] स्त्री. अजिर्णाक लागून आयिल्ली फुसकी. (ला.) कुसक्या मनाचो मनीस.

**अजिबात** । अजिबात् । [फा. अज़ीबाद] वि.१.निखालस; बिलकूल; साप्प; निव्वळ (अजिबात फट.). २. मातपासून. (ताणें आवय बापायचें सांगणे अजिबात आयकलें ना. देखून, आज तो भीक मागचेले स्थितीक पावला.)

**अजिर्णांश** । अजिर्णांश्, सा.रू. -शा ।[सं.

अजीर्ण+अंश] पु. अजिर्णाचो, अपचनाचो विकार.

**अजीर्ण** । अंजीर्ण्, सा.रू. -र्णा । सं. अजीर्णम्] न. अपचन; खाल्लया अन्नाची जिरवण जायना जावन जाल्लो विकार; अद्रिण. (ला.) १. पूर्ण धादोसकाय (अनाथ आशिल्लयान पोर सदांच अन्नाक वसवसतालो. आज तागेल्या शेजाऱ्यान ताका अजीर्ण जायसर वाढलो). २. आकंठ तृप्ती वा समाधान. (नाटकांचें वा संगिताचें अजीर्ण). ३. पूर्ण तृप्ती जाल्लयान उरूक नाशिल्ली आसक्ती. (तांणे आपल्या सात पिळग्यांक सुखांत लोळून खायसारको चकचयाळ दुडू जोडला. आतां आनीक पैशे जोडपाची ताका हांव ना. ताका दुडवांचे अजीर्ण जालां).

**वा.प्र.: अजीर्ण जावपः** अपचन जावप. (ला.) १. पूर्ण धादोस जावप वा पूर्ण धादोसकाय भोगप. २. आकंठ तृप्ती वा समाधान जावप. ३. पूर्ण तृप्ती जाल्लयान आसक्ती न उरप.

**विशेशः**(वैजकी) अजीर्ण अती खाणाक लागून वा खादोळपणाक लागून जाता. चड थंडेक लागून जाता. भावनांच्या उमाळ्यांक लागून आनी बाजड, पोटफुग्या वा तेलकट खाणाक लागूनय जाता. खोडयाळ्या मनशांक तांकां माननाशिल्लो पदार्थ पानार पडल्यारय अजीर्ण जाता. (लक्षणां) अजीर्ण जातकीर पोट बाजड जावन फुलून येता. जेविल्लें अन्न वरशें मारता. ताळ्याकडेन कचरून येता. एकाद्रेवेळा ओंकारो चाळवता आनी ओंकून गेल्याउप्रांत विकार निवळटा. कांय वेळा ओंकारो येना जाल्यार नाडी मंदावता आनी परसाकडचे धाळ जावपाक लागतात. अशा वेळार ओंकारो येवपासारकें कितेंयं दिवन कोठो साफ दवरतात. उप्रांत आलें बी घालून गंजनाचो खतखतीत चा दितात. ना जाल्यार दूद वा दूद घालून तयार केल्लें पिवण दितात.

**अजीर्ण** । अजीर्ण् । [सं. अ+जीर्ण] वि. जें जीर्ण वा झिरझिरीत जांवक ना तें (अजीर्ण वस्त्र).

**अजून** । अंजून् । [सं. अद्यतन; प्रा. अज्जउण] क्रि.वि. हो वेळमेरेन; अद्याप (अजून ताणें काम करूंक ना).
**अजून तरीः** आतां तरी; ह्या मुखार तरी.

**अजोड** । अजोड् ।[सं. अ (अतिशय)+जुत् = तेजान लकलकप; नांव जोडप] वि. सर्त-शीम वा तुलना ना असो, अशी. (अजोड कर्तुत्व; अजोड कामगिरी).

**अंजन** । अञ्जन्, सा.रू. -ना; भौव. -नां, सा.रू. -नां । [सं. अञ्जनम्] न. १. दोळ्यांत घालपाचें काजळ; सुरमो. २. जमनींत पूरून दवल्लेलें धन ज्याका लागून दिसता अशें सिद्धांजन (चूर्ण वा पातळ पदार्थ). ३. ज्याचो सुरमो करतात तें खाणींतलें द्रव्य. (ला.) ४. काळजाक जाळ पडसारको उपदेश; कपलाच्यो किडी वा भ्रम देंवपाक केल्लो खर उपाय वा इलाज.

**अंजिरी** । अंञ्जिरी । ['अंजीर' वेल्यान] वि. अंजिरच्या रंगाचो वा रंगाची (अंजिरी साडी).

**अंजीर** । अञ्जीर्, सा.रू. -रा; भौव. -जिरां, सा.रू. -रां । [फा. अंजीर; सं. अञ्जीर] न. मोरासियश (Moraceas) हे कुळयेंतलें आनी फीकुश् (Ficus) ह्या वंशांतलें फीकुश् कारिक (Ficus Carica) ह्या शास्त्रीक नांवांचे अंजिरांचे झाड आनी आनी त्या झाडाचें फळ.

**विशेशः** मोरासियश कुळयेंतल्या फीकुश ह्या वंशांत सातशीं तरा (हवामानाप्रमाणें वाली, झोंपां, झाडां आनी रूख) मेळटात. भारतांत

ज्याका पवित्र मानतात आनी गांवां गांवां मदल्यो शिमो थारावपाक जो रुख लायतात तो वड (Ficus Indica) ह्याच वंशांतलो. ज्या रुखाचें नांव गीतेंत अत्यंत व्हडविकेन आयलां (भ.गी.१५-१) आनी ज्याका पवित्र रुख मानतात तो पिंपळ (Ficus religiosa) ह्याच वंशांतलो. जिची पानां आनी पाळां वखदी मानतात ती नन्दनगोळय ह्याच वंशांतली. वेदिक काळांत ज्याका यज्ञीय रुख मानताले आनी खेड्यांतलो लोक ज्याका कल्पवृक्ष मानतात तो रुमडय ह्याच वंशांतलो. रुमडाचीं फळां अंजिरांवरीच आसतात. आकारान अंजिरांपरस मात्शीं ल्हान आसतात.

पुरातन काळापासून उस्ण हवेच्या देशांनी अंजिरांची लागोड जाता. ह्या झाडाक चुनो आशिल्ली थंड जमीन मानवता. अशे जमनींत अंजिराचें झाड लायल्यार तें तरतरून फोंपेता. अंजिराच्या झाडाची लागोड गार्फी लावन करतात. हीं गार्फी फाल्गुनांत लायतात. गार्फ लायल्या उप्रांत अंजिराचें झाड, तिसऱ्या वर्साच्यान, फळां दिवपाक लागता. अंजिराच्या झाडाचो फळां दिवपाचो काळ चौदा ते पंद्रा वर्सांचो आसता. अंजिराच्या झाडाक वर्सातल्यान दोन खेपो फुलारे (inflorescencias) येतात. अंजिराच्या झाडाचें लाकूड हळडुव्या रंगाचे आसता.

अंजिराच्या फुलाऱ्यांत तीन तरेचीं फुलां आसतात. नर फुलां, मादी फुलां आनी वांझ फुलां. फुलाऱ्याच्या तोंडार नर फुलां आसतात. तांच्या सकल मादी फुलां आसतात आनी उप्रान्त वांझ फुलां आसतात. नर फुलां तेच परी वांझ फुलां आकारान ल्हान आसतात. मादी फुलां आकारान मोठीं आसतात. ह्या फुलाऱ्यांचींच पोस्टिक अशीं अजिरां जातात. अंजिरांभितर फुलांच्यो ल्हान ल्हान पातयो, घोरोप आनी बारिक बियां आसतात. अंजिरांत अ, ब, क, (A, B & C) हीं जीवन-सत्वां आसतात.

एकएकदां हात-पांय जळिल्लेवरी जातात तेन्ना पिकीं अंजिरां खाल्यार हातापायांचो हुलोप थांबता. सुकयल्लीं पिकीं अंजिरां बद्धकोस्ठाचेर गुणावाक येतात. भुरग्यांनी हारश्याचे कंवचेचो कुडको वा लोखणाचो ल्हानसो कुडको गिळल्यार, अंजीर खावपाक दिंवचे, अशें सांगतात.

आशिया खंडांत अंजिरांची लागोड बलुचिस्तान, अफगाणिस्तान आनी भारतांत जाता. भारतांत काश्मीर आनी महाराष्ट्रांतल्या सासवड, साताऱ्याच्या कांय भागांत आनी पुण्याक लागीं आशिल्ल्या खेडशिवापूर ह्या गावांत अंजिरां जातात. भारतांतल्या अंजिरांत खेडशिवापूर गांवातलीं अंजिरां रुचीक आसतात. जाल्यारूय तांची सर, अफगाणिस्तानांतल्या अंजिराकडेन जायना. अफगाणिस्तानांतलीं अंजिरां अप्रतिम आसतात.

**आधारावळः** 1. Dicionario Enciclopedico Luso - Brasileiro, Vol.I.
२. महाराष्ट्रातील दिव्य वनौषधी —ले. सदाशिव यशवंत सावंत.

**अंजुळी** । अंञ्जुळी, सा,रू. -ळे; भौव. -ळ्यो, सा.रू. -ळ्यां । [सं. अञ्जली] स्त्री. ज्यातूंत कसलीय वस्त वा उदक रावूंक पावता अशे तरेन दोनय हातांचीं तळटां सकल्ले कडेकडेन जोडून तयार केल्लें ल्हानशें फोंडकूल वा तयार केल्लो पोकोळ आकार; पोसो; आंचोळी; शिरें.

**अट** । अट्, सा.रू. -टी, भौव. -टी, सा.रू. -टीं । [प्रा.,का. अड्ड] स्त्री. १. हरकत; अडणूक; आडमेळें. २. पण; करार; कबलात. (...उपरांत ताका वनवासाक वच्चें पडलें. वनवासाची अट आशिल्ली म्हुण्णूच मू. ताणें अट मान्य केली. हातूंत फटींगपणा खंय आयली. -महाभारत , खण्ड १, बरो: रवीन्द्र

केळेकार पा.३९५). ३. हट्ट (हेदोळपासून हो पोर सांगिल्लें काम आयकना. नस्त्योच अटी घेवन बसला.)
**वा.प्र. अटी घालप:** आडमेळें हाडप; बांदून घेवप.

**अटक** । अटॅक्, सा.रू. -के [का. अड्ड; म. अटक] स्त्री. १. आडवण; म्हेर; प्रतिबंध. २. कैद:
**वा.प्र.: अटक करप:** धरून व्हरप; कैद करप; कायद्या आड गुन्यांव केला अशें मानून धरून व्हरप.
**अटकेंत उडवप:** बंदखणींत घालप.

**अटकळ** । अंट्कंळ्; सा. रू.-ळी । [सं. अर्ध + कल्] स्त्री. अदमास; तर्क; अनुमान; अंदाज.
**वा.प्र.: अटकळ करप:** अदमास, तर्क करप.

**अटंग्यें** । अटंगँ, सा.रू. -ग्या । [सं अथांग?] वि. अटूक; जंय कसोच रीग मेळना वा रीग मेळल्यार थांग लागना अशें; गच्च; दाट; घैण. ('सोदतां सोदतां संशोधकांनी उबें केल्लया एका अटंग्या रानांत पावलों आनी तातूंत घुस्पलों. —महाभारत, खण्ड १, ह्या अनुसर्जनाची कथा, बरो: रवीन्द्र केळेकार पा. १९).

**अटळ** । अटॅळ् । [सं. अटल] वि, जें चुकना, टळना तें (अटळ दैव)

**अटूक** । अंटूक । [सं अटविः - वी?] वि. अटंगें; गच्च; दाट; घैण (बावीस जाण पापी मनुश्य एका अटूक अरण्यांतु एकवटले. —सां.अं. अचर्यां, पा. १३)

**अटूक** । अंटूक ।[का. अट्टिसु] वि. १. अशीर; अलंगूल (अटूक कूड). २. आंखूड; मोटवो (ह्या खोमसाचे हात अटूक जाल्यात.)

**अट्टल** । अट्टल । [सं. अट्ट = आधिक्य+'ल' प्रत्यय] वि. हुशार; खांपो (अट्टल चोर)

**अठरा** । अंठ्रा, सा.रू. -रां । [सं. अष्टादश; पा. अट्ठादस; प्रा. अट्ठारस, अट्ठारह; हिं. अठारह; म. अठरा] क्रमाप्रमाणें मेजतना सतरा हे संख्येउप्रांत रोखडीच येता ती संख्या. आंकड्यांनी ही संख्या (१८) अशी बरैतात.
**अठरा विसो दळिद्रः** न. वर्सयभर दळिद्र. वीस हे संख्येन गुणाकार करपाची प्रथा निशादांनीच भारतांत हाडली. आजुनय खेड्यानीं माप घेतना एक विसो, दोन विसो अशी मेजपाची चाल आसा. अठरा विसो म्हळ्यार तिनशें साठ (१८x २०=३६०). देखून अठरा विसो दळिद्र म्हळ्यार वर्साचे तिनशें साठय दीस दळिद्र आसप.
**अठरा कुडव दळिद्रः** न. पराकास्टेचें दळिद्र. (घरांत अठरा कुडव दळिद्र. -जाण्ट्यांल्यो काणयो 'वडलांची पुण्यताय', बरोः गोम पै साद, १लें वर्स, चौथो आंक, माय १९५४, पा.११)
**विशेशः** ब्राह्मणांक अठरा ही संख्या बऱ्या सुगुर्व्याची दिसताली जांवक जाय. मुख्य ऋशी सात आशिल्ले, तरी ब्राह्मणांची गोत्रां अठरा धल्लयांत. मुख्य पुराणां अठरा आनी महाभारताची पर्वांय अठरा आसात. कुरूक्षेत्रार भारतीय झूज झुजपी सैन्य अठरा अक्षोयणी आशिल्लें आनी तें झुजय अठराच दीस चलिल्लें. गीतेचे अध्याय पासून अठराच आसात. हो योगायोग न्हंय. त्या काळार अठरा ही संख्या पवित्र वा बऱ्या सुगुर्व्याची मानताले जांवक जाय. त्या बगर हें जांवक ना. (संदर्भः Myth & Reality by D.D.Kosambi, पा. १७)

**अठरावो-वी-वें** । अंठरावॉ-वी-वँ, सा.रू. -व्या,-वे,-व्या । ['अठरा' वेल्यान] वि. क्रमाप्रमाणें मेजतना सतराव्या उप्रांत रोखडोच येता तो क्रम.

**अट्ठावन-न्न** । अट्ठावन्-न्न । सा.रू. -नां। [सं. अष्टपंचाशत्; प्रा. अट्ठावन्न] वि. क्रमाप्रमाणें मेजतना सत्तावन उप्रांत रोखडीच येता ती संख्या. ही संख्या आंकड्यानी (५८) अशी बरैतात.

**अट्ठावन्नावो-वी-वें** । अट्ठावन्नांवॉ-वी-वँ, सा.रू. -व्या,-वे,-व्या । ['अट्ठावन्न' वेल्यान] वि. क्रमाप्रमाणें मेजतना सत्तावन्नाव्या उप्रांत रोकडोच येता तो क्रम.

**अट्ठाविसावो-वी-वें** । अट्ठाविसावॉ-वी-वँ, सा.रू. -व्या,-वे,-व्या । ['अट्ठावीस' वेल्यान] वि. क्रमाप्रमाणें मेजतना सत्ताविसाव्या उप्रांत येता तो क्रम.

**अट्ठावीस** । अट्ठावीस् । सा.रू. -सा । [सं. अष्टाविंशति; प्रा. अट्ठावीस] वि. क्रमाप्रमाणें मेजतना सत्तावीस उप्रांत रोखडीच येता ती संख्या. ही संख्या आंकड्यांनी बरैतना (२८) अशी बरैतात.

**अट्ठेचाळ, अट्ठेचाळीस** । अट्ठेच्याळ्, अट्ठेच्याळीस, सा.रू. -ळां/सां । [सं. अष्टचत्वारिंशत; प्रा. अट्ठचत्तालीस] वि. क्रमाप्रमाणें मेजतना सत्तेचाळीस उप्रांत रोखडीच येता ती संख्या. ही आंकड्यांनी बरैतना (४८) अशी बरैतात.

**अट्ठेचाळिसावो-वी-वें** । अट्ठेचाळिसावॉ -वी-वँ, सा.रू. -व्या,-वे, -व्या । ['अट्ठेचाळीस' वेल्यान] वि. क्रमाप्रमाणें मेजतना सत्तेचाळिसाव्या उप्रांत रोखडोच येता तो क्रम.

**अठ्ठ्याण्णव्वद** । अठ्ठ्याण्णव्वद्, सा.रू. -दां । [सं. अष्टानवति; पा. अट्ठानवति; प्रा. अट्ठाणवइ] वि. क्रमाप्रमाणें मेजतना सत्त्याण्णव्वद उप्रांत रोखडीच येता ती संख्या. ही संख्या आंकड्यांनी बरैतना (९८) अशी बरैतात.

**अठ्ठ्याण्णव्वदावो, वी, वें**। अठ्ठ्याण्णव्वदावॉ, वी, वँ; सा.रू. -व्या, -वे, व्या । ['अठ्ठ्याण्णव्वद' वेल्यान] वि. क्रमाप्रमाणें मेजतना सत्त्याण्णव्वदाव्या उप्रांत येता तो क्रम.

**अठ्ठ्याणोय** । अठ्ठ्याण्णोय् । [सं. अष्टानवति; प्रा. अट्ठाणवइ] वि. पळेयात 'अठ्ठ्याण्णव्वद'

**अठ्ठ्यात्तर** । अठ्ठ्यात्तर् सा.रू. -रां । [सं. अष्टसत्पति; प्रा. अट्ठत्तरि, अट्ठहत्तरि] वि. क्रमाप्रमाणें मेजतना सत्त्यात्तर उप्रांत रोखडीच येता ती संख्या. ही संख्या आंकड्यांनी बरैतना (७८) अशी बरैतात.

**अठ्ठ्यात्तरावो, वी, वें** । अठ्ठ्यात्तरावॉ, वी, वँ; सा.रू. -व्या,-वे,-व्या । ['अठ्ठ्यात्तर' वेल्यान] वि. क्रमाप्रमाणें मेजतना जो सत्तात्तराव्या उप्रांत रोखडोच येता तो.

**अठ्ठ्यांयशावो, वी, वें** । अठ्ठ्यांय्शावॉ, वी, वँ; सा.रू. -व्या, -वे, -व्या । ['अठ्ठ्यांयशीं वेल्यान] वि. क्रमाप्रमाणें मेजतना जो सत्त्यांयशाव्या उप्रांत रोखडोच येता तो क्रम.

**अठ्ठ्यांयशीं** । अठ्ठ्यांय्शीं, सा.रू. -शीं । [सं. अष्टाशीति; प्रा. अट्ठासीइ; अप. अट्ठासि] वि, क्रमाप्रमाणें मेजतना सत्त्यांयशीं उप्रांत रोखडीच येता ती संख्या. ही संख्या बरैतना आंकड्यांनी (८८) अशी बरैतात.

**अड** । अंड, सा.रू. -डी; भौव. -डी, सा.रू. -डीं । [का. अड्ड] स्त्री. १. आडखळ; अडचण; हरकत. (उग्र अशा पितृकोपाक कारण तरी कसलें जालें? अडी नासल्यार सांग म्हाका. —वासवदत्ता. मूळ बरोवपी: श्री अरविंद; कोंकणी अणकार: बा.भ.बोरकार, पा.१०) २. विरोध; आक्षेप. ३. हट्ट; उर्मटाय; आडमुठेपण.

**अडकप** । अड्कप्, सा.रू. -पां । [का. अड्ड] क्रि.दा.धा.सा.ना. (मूळ धातू: अडक् (अक.)) एकाच जाग्यार अडकून बांदून उरप.

**अडकवण** । अड्कवण्, सा.रू. -णा; भौव. -ण, सा.रू. -णां । [का.अड्ड] न. ज्याका लागून अडून उरता वा जें आडावन दवरता तें; आडखळ; आडवण.

**अडकवप** । अड्कवप्, सा.रू. -पा । [का. अड्ड] क्रि.दा.धा.सा.ना.( मूळ धातू: अडकय् (अक.)) थांबवप; आडावन दवरप; आडखळ करप; आडमेळें हाडप.

**अडका नाडकां** । अड्का नाड्कां, सा.रू. -कां । [कों अडको + नाडको] न. भौ. नाडबुद्दी; घोळास्टकां; चिकानां; नाडबुद्दीन केल्ल्यो करामती.

**अडकानाडकांनी** । अड्कानाड्कांनी । [कों. अडको (दुड्डू) + न अडको (दुडवांविणें)] क्रि.वि. बरे वांकडे तरेन. (तो अडकांनाडकांनी आपलो प्रपंच चलैता.)

**अडको** । अडकॉ, सा.रू. -क्या; भौव. -के, सा.रू. -क्यां । [सं. अर्ध+टंक] पु. १. तांब्याचें पुर्विल्लें नाणें. २. दुड्डू; पैसो; धन.
**वा.प्र.: अडक्यान पायशिरी:** फुकेसवाय; खोंटांनी मस्तून खांवक मेळटा इतली.

**विशेश:** 'अडको' हें उतर अशें घडलें जांवयेः अर्धटंक › अर्धटको› अडको.

**अडचण** । अड्चण्; सा.रू. -णे; भौव. -णी, सा.रू. -णीं । [दे.?] स्त्री. १. अडोवन वा बांदून दवरता अशी परिस्थिती. २. आडमेळें; आडखळ; गडखळ (ओरिएन्तकार म्हण्टा कि, हे भाशेची पैली अडचण म्हण्टा ती उच्च्यारांत आसा. —कों.भा. जैत, पा, १७, बरो: शणै गोंयबाब.) ३. नड, विघ्न; संकट (अडचणी येंवक लागल्यार एका फाटोफाट येतात). ४. उणाय वा गरज. (दुडवांची अडचण; जाग्याची अडचण). ५. कसल्याय निमित्त्याक लागून नित्यकामांत आयिल्ली तात्पुरती बाधा; बायलांच्या म्हैन्याक लागून घरांत जाल्ली मात्शिशी गैरसोय. (आज ती देवळांत येंवची ना. तिजी अडचण आसा.) ६. पेंच (पठ्ठाळो हें उतरूच मुदलाक तांगेल्या मेंदूंत घोळना जाल्यार ते ताचो 'पठ्ठाळा' कसो करतीत? ही अडचण निस्तरांवक एकूच उपाय आस तो हो कि, 'हिंदु'कारानीं कोंकणीत पुस्तकां रचून तीं पुणेकारांक आनी हेर मराठ्यांक आदीं शिकौंचीं. -कों.भा. जैत, बरो: शणै गोंयबाब पा. ४९-५०) ७. त्रास; कुचमण. (तुमगेर ताका आपोंव नाका. तो निक्तोच वायटांतलो निवळटा थंयच आसा. तुमगेर तागेलें वायट परतें उप्रासत जाल्यार, तुमकांय थंय अडचण जातली आनी ताकाय जातली). ८. कस्ट; प्रयास. (गोंयचो तुर्ताचो आवांठ ल्हान आनी मोटवो खरो; परंत चौकसायेन पळेतल्यांक, तातूंतय शिल्पकलेच्यो जायत्यो सुंदर पती दिसूंक अडचण पडची ना. -न.गोंय, २रें वर्स, २ रो आंक, पा. ४६). ९. दुभाव; हरकत. (गांवांचे संख्येवेल्यान म्हालाक नांव दवरपाची वज गोंयच्या गांवकारांक भौच पुर्विल्लया काळापासून आशिल्ली दिसता. थैं तीस गांवांच्या पुंजुल्यावैल्यान तीसवाडी, सैंसट गांवांच्या पुंजुल्यावैल्यान साष्ट, सतर गांवांच्या पुंजुल्यावेल्यान सतर, बारा देसकतींच्या पुंजुल्यावैल्यान बारदेस, आठ अग्रहारांच्या पुंजुल्यावेल्यान अस्टाग्रहर, पांच म्हालांच्या पुंजुल्यावेल्यान पंचम्हाल अशीं नांवां आसत. ठाणें आनी कुलाबो जिल्ह्यांत असले तरेचें एकूय नांव साष्टी बाजत हेर दिसना. हाचेवेल्यान धाव्या शेंकड्यांत ना जाल्यार इकराव्या शेंकड्याच्या लागत्यार, साष्ट हें नांव गोंयसून उत्तर कोंकणांत पावलां आनी तें कोणेंय

गोंयकारान थयं व्हेलां अशें म्हणूंक अडचण ना. -गों. गों. वसणूक, बरो: शणै गोंयबाब. पा.५२)

**वा.प्र.: अडचण जावप:** नित्यकामांत मात्शी बाधा जावप वा येवप; त्रास, कुचमण, गैरसोय जावप.

**अडचण नासप:** हरकत नासप.

**अडचण पडप:** कस्ट, प्रयास पडप.

**अडचण येवप:**१. आडमेळें येवप; कामांत बाधा येवप; विघ्न, संकट येवप. २. गरज निर्माण जावप.

**अडचण सांगप:** निमित्य वा कारण सांगप; एकाद्रेवेळा नस्तीच फटास मारप.

**अडचण हाडप:** आडखळ करप; उपद्रव दिवप; नकनामी करप; मुद्दाम आडमेळें हाडप.

**अडचणेंत उडवप:** पेंचांत उडवप; त्रासांत घालप; संकटांत घालप.

**अडचणेंत पडप:**पेंचांत पडप; कठीण प्रसंगांत सांपडप; कात्रींत वा संकटांत सांपडप.

**अडचणेंत सांपडावप:** कात्रींत धरप वा कात्रींत सांपडावप.

**म्हण:** अडचणेंत कोणाचीय पांग धरची पड्टा.

**अडचणूक** । अ॑ड्च॑णूक, सा.रू. -णुके; भौव. -णुको, सा.रू. -कां । ['अडचण'वेल्यान] स्त्री. अडचंवचेली क्रिया; अडणूक; अडवणूक.

**अडचणेचो-ची-चें** । अ॑डचणेचॉ-ची-चँ, सा.रु. -च्या,-चे,-च्या; भौव. -चे,-च्यो,-चीं, सा.रू. -च्यां । ['अडचण'वेल्यान] वि. १. अडचणेन भरिल्ली; अस्कडी; जंय सांबाळून पावल घालचें पड्टा अशी; अत्यंत अशीर; वाखराची धार कशी. (अडचणेची वाट). २. खांची गोंयड्याचो; खांचोटाचो (अडचणेचो जागो). ३. आडकुचो; जंय प्रंसगाक वा आकांताक जाय जाल्यार कसलोच आधार मेळपार ना असो (अडचणेचो गांव). ४. ताकतिकेचें; गरजेचें (तशेंच अडचणेचें काम, म्हणून तुज्या म्हऱ्यांत हांव धांवून आयलां). ५. न्हंय त्या जाग्यार जाल्लें; जो जागो दाखोवपाक जिवाची कुचमण जाता, लज दिसता वा मन फाटीं-फुडें येता अशा जाग्यार जाल्लें; गुह्य भागार जाल्लें (**म्हण:** अडचणेचें दुखणें आनी जांवंय वैज). ६. गडखळीचो; पेंचाचो; संकटाचो (अडचणेचो प्रश्न; अडचणेचो प्रसंग)

**म्हण:** अडचणेचें दुखणें आनी जांवंय वैज.

**अडचप** । अड्चप्, सा.रू. -पा । क्रि.दा.धा.सा.ना. (मूळ धातू: अडच् (अक.)) आडखळून उरप; अडून उरप. (तो दुडवांक लागून अडचला).

**अडचल्लो-ल्ली-ल्लें** । अड्चल्लॉ-ल्ली-ल्लँ. सा.रु. -ल्लया, -ल्ले,ल्लया; भौव. -ल्लॆं,-ल्लयो,-ल्लीं, सा.रू. -ल्लयां । ['अडचप' वेल्यान] वि. अडिल्लो; गरजेक, अकलेक आयिल्लो. (अडचल्लो होंकलकार).

**अडचवप** । अड्चवप्, सा.रू. -पा । क्रि.दा.धा.सा.ना. (मूळ धातू: अडचय् (अक.)) अडोवप; ओडून धरप; फुगवप; आडखळ वा आडमेळें हाडप. (तो अतीच अडचयता.)

**अडण** । अ॑डण् ।[का. अड्ड] स्त्री. सुपाच्या सकयल्लया भागाच्या कांठाक घटाय मेळपाखातीर लायिल्लें कांबीट.

**अडणूक** । अ॑डणूक, सा.रू. -के; भौव. -को, सा.रू. -कां । [का. अड्ड] स्त्री. अडोवन वा फुगोवन धरचेली क्रिया; अडचणूक; अडवणूक.

**अडप** । अडप्, सा.रू. -पा । [का. अड्ड] क्रि.दा.धा.सा.ना. (मूळ धातू: अड् (अक.)) १. आडखळून उरप; घुस्पून उरप; अडचून उरप. २. संकटांत सापडप. ३. बाळंत जातना

आडखळ येवप.

**अडवंगी** । अंडवङ्गी । [कों. 'आडांगी' वेल्यान] वि. दुसऱ्याचें बरें काम जांव नये म्हणून ताका तरे तरेच्यो अडचणी निर्माण करपी; दुसऱ्याच्या बऱ्या कामांत नाका आशिल्लीं वा नाका जाल्लीं आडमेळीं हाडपी. २. दुसऱ्याचें बरें जाल्लें पळोंवक नज असो.
**विशेश:** 'अडवंगी' हें विशेशण नाम म्हणून उपकरायल्यार, हाजें सामान्य रूप अशें जातलें: **पु न**. -वंग्या; भौव. -वंगी, सा.रू. -वंग्यां. **स्त्री**. -वंगे; भौव. -वंग्यो, सा.रू. -वंग्यां.

**अडवणूक** । अंडव्णूक, सा.रू. -के, भौव. -को, सा.रू. -कां । [का. अड्ड] स्त्री. पळेयात 'अडणूक'.

**अडवप** । अंडव्प्, सा.रू. -पा । [का. अड्ड] क्रि.दा.धा.सा.ना. (मूळ धातू: अडय् (सक.)) अडचवप; अडचण वा आडखळ हाडप; फुगवप; ओडून धरप; विघ्न हाडप.

**अडसप** । अडसंप्, सा.रू. -पा । क्रि.दा.धा.सा.ना. (मूळ धातू: अडस् (सक.)) आंगाक जिरप. (आरे, बेगीन न्हा. नाजाल्यार उदक तुज्या आंगार अडसतलें); अर्सप.

**अडाणचोट** ।अडाणचोट् । ['अडाणी' वेल्यान] वि. मंदबुद्धीचो; मोठ्यो चुको करपी; अतिशय अडाणी.

**अडाणपण** । अडाणपंण्, सा.रू. -णा; भौव. -णां, सा.रू. -णां । [अडाणी' वेल्यान] न. अडाणी मनशाचो गुण; गांवठी रित-रिवाज; नागरी संस्कार जांवक नाशिल्लो रित-रिवाज.

**अडाणा** । अडाणा । सा.रू. -ण्या, पु. संगीत शास्त्रांतल्या एका रागाचे नांव.

**अडाणी** । अडाणी, सा.रू. -ण्या; भौव. -णी, सा.रू. -ण्यां । [ दे. अणड, अणाड] वि.१. ज्याका बरोंवक वाचूंक येना तो; जो बरपाक्षरी न्हंय तो; अन्नाडी. (आमचे शेतकार अडाणी आसत. जाल्यारूय, शेत रोवपाचें नवें तंत्र तांकां शिकैत जाल्यार, तें तंत्र शिकून घेवपाक ते फांटीं रावनात.) २. गांवठी; जंगली; रानवटी; चौगरितिची जाण नाशिल्लो. ३. अज्ञानी. ४. घटी नाशिल्लो.

**विशेश:** 'अडाणी' हें विशेशण कांय जाण अज्ञानी ह्या अर्थान उपकरायतात. अडाणी ह्या विशेशणांत अज्ञानपणाची थोडीभोव सया आसा. जाल्यारूय, अज्ञानी हो अडाणी ह्या विशेशणाचो खरेलो अर्थ न्हंय. रानवटी, जंगली, गांवठी, चौग-रीत खबर नाशिल्लो, बरपाक्षरी न्हंय तो, होच 'अडाणी' ह्या उतराचो निजाचो अर्थ.

वाचपा बरोवपाक चड म्हत्व येवपाक लागतकीर अडाणी ह्या उतराक अज्ञानी असो अर्थ लागलो आसुये.

चार-चौगांत भोंवूंक नाशिल्लयान अडाण्याक चौग-रितिची जाण नासता. तो बरपाक्षरी नाशिल्लयान ताका वाचूंक आनी बरोंवक जरी येना जालें, तरी तो सामकोच अज्ञानी आसता अशें आमच्यांनी म्हणूं नज. ताज्या घरांत वंश परंपरेन चलिल्लयो चालिरिती ताका खबर आसतात. तागेल्या घराण्यान वंशपिड्यांनी जें ज्ञान आपणायल्लें आसता, तें ताजेकडेन आसता.

बरपाक्षरी मनशापरस अडाण्याकडेन घडये आंसोभर ज्ञान चडच आसुये. शिकिल्लयांचें ज्ञान हें चडशें पुस्तकांतलें ज्ञान आसता. बरप शिकिल्लो मनीस ताजेकडेन तुच्छेतेन पळेता. ताका गांवठी, रानवटी म्हणून हिणसायता. बरप शिकूंक नाशिल्लयाचें ज्ञान हें घडये झरिच्या ताज्या उदकावरी आसूं येता. तो निसर्गाचें

पुस्तक वाचता. आपले परी निसर्गांतली कुवाडीं सोडोवपाचो यत्न करता. खंच्याय गांवांतल्या बरप शिकिल्ल्या मनशापरस, त्या गांवांतल्यो लोककथा वा लोकांगीतां, ज्याका आमी अडाणी म्हण्टांत, ताकाच चड खबर आसतात.

जायते खेपो हो अडाणी मनीस उलैतासतना अलंकारान उलैता. शेत पिकून हळडुवेंच जातकीर, 'शेत पिकून भांगर जालां' अशें अडाणी शेतकारच म्हण्टा. घोंसाळ्यो फुलून येंवचेल्या वेळार, तांच्या मुळांत शेणाचें सारें घालतना, 'घोंसाळ्यो आतां न्हांवक लागल्यो' अशें अर्थाळ वाक्य अडाणी बायलेच्या तोंडांतल्यान येता. जुवानपणान रसरसून फुलून आयिल्ली होंकल पळेतकीर, 'तन्री होंकल दिखाळ आसता' अशें अडाणी बायलच म्हण्टा. ताजी फडफडीत कल्ली गिरायकाच्या फुड्यांत उडैतना, 'कल्ली पळे चांद्नें कशी लकलकता' अशें अडाणी नुस्तेकान्न म्हणून वता. आमोरेच्या वेळार मोगरेच्या माटवार रसरसून आयिल्ले मोगरेचे कळे पळेतकीर, 'माटवार मोगरेचे कळे हांसतात' अशे उद्गार अडाणी मनशाच्याच तोंडांतल्यान येतात.

अडाणी ह्या उतराचें निरूक्त तामीळ आनी मल्याळम् भाशेंतल्यानय दाखोंवक येता. तामीळ 'अटा' हें उतर कनिस्टाक वा भुरग्याक अपुर्बायेन आनी दुस्मानाक तुच्छतायेन उलो मारपाक उपकरायतात. मल्याळमांत कनिस्टाक आपैतना 'अटन्न' म्हण्टात. अटन्न-अडन्न-अडाण अशे तरेनय 'अडाणी' ह्या उतराचें रूप घडून येंव येता.

**अडादेडिये** ।अडादेडिये । [का. अडिगडिगे] क्रि. वि. गरजेबगर वा गरजेविणें; कारणाबगर वा कारणाविणें; घडये घडये. (परमेस्पराची आण अडादेडिये दिंव नये.- दो. क्रि., बरो: पाद्री थोमस स्टिफन्स, पा. २९.)

**अडास** । अडास्, सा.रू. -शे । [का. अड्ड + कों. तास] स्त्री. शेतांत वा भाटांत केल्ली आडवी नांगरट वा मारिल्लें आडवें तास.

**अडी-अडचण** । अडी-अडचण्, सा.रू. -णे; भौव. -र्णी । [कों. अड + अडचण] न. गरज.

**वा.प्र.: अडी-अडचणेक पावप:** गरजेक पावप.

**अडी-अडचणेक राखप:** गरजेखातीर राखून दवरप.

**अडून** ।अडून । [का. अड] क्रि.वि. फुगून; हट्ट धरून. (हेदोळच्यान पोर पुस्तकाखातीर अडून बसला.)

**वा.प्र: अडून बसप:** फुगून बसप; हट्ट घेवन वा धरून बसप.

**अडेक** । अडेक् । [?] क्रि.वि. १. मुदलचो मोडल्या उप्रांत दुसरो लायिल्लो. (ह्या बावल्याचो मुदलचो हात कोणेंय मोडला आसतलो. हो अडेक लायला म्हणून कळटा.) २. तात्पुरतें; गरजेपुरतें; आयिल्लो वेळ कसोय निभावन व्हरपाखातीर केल्लें. (कशेंय जाल्यार सवंग सोबोंवक जाय आशिल्लें. देखून, हें सगळें अडेक केलां).

**अडेच** । अडेच्, सा.रू. -चा । [सं. अर्धतृतीय; प्रा.अड्ढाइज्ज] वि. १. दोन आनी अर्द मेळून जाता ती संख्या. २. बुद्धिबळाच्या खेळांतल्या घोड्याची दोन सरळ आनी एक आडवें घर अशे तरेची चाल.

**अडेचकी** । अडेच्की, सा.रू. -के । ['अडेच' वेल्यान] स्त्री. एकासावन शंभरांमेरेनचो अडेचांचो पाढो; उजळणेचो एक प्रकार.

**अडेचशीं** । अडेच्शीं, सा.रू. -श्यां । [सं. अर्धतृतीयशत] वि. दोनशीं अधिक पन्नास

मेळून जाता ती संख्या; दोनशें पन्नास (अडेचशीं रूपया).

**अडेचांचो** । अडेचांचो । ['अडेच' वेल्यान] वि. अडेचांवेल्यान रचिलो. (अडेचांचो पाढो).

**अडेचो,ची,चें** । अडेचॉ,ची,चँ; सा.रू. -च्या,-चे,- च्या; भौव. - चे(चॅ), -च्यो, -चीं; सा.रू. -च्यां । [?] वि. १. जो निजाचो, बडिचो न्हंय तो; सभावीक न्हंय तो; उस्णो. (अडेचो नेट). २. मुदलचो न्हंय तो (अडेचो गिरेस्त). ३. नित्याचें न्हंय तें; चार दिसांचें (अडेचें गिरायक). ४. वेल्याचारांचो; लटिक; लटको (अडेचो राग). ५. झांकून झांकून गांवकार जाल्लो; वांयगणो (अडेचो आदव्होगाद). ६. अवांतर (अडेची जोड). ७. करारान, संकेतान वा बोली करून थारायल्लो. (बँकेचे नोटींचें मोल केन्नाच खरें नासता. तें सदांच अडेचें आसता.) ८. चड, अदिक आशिल्लो. ("आवयन विचाल्लें, हाका कोणाच्या हातान मरण येतलें? देवाच्या काय, आनीक कोणाच्या?" परती आकाशवाणी जाली, "जाचे मांडयेर दवरतकूच हाचे अडेचे हात गळटले आनी अडेचो दोळो जिरतलो ताच्या हातान". -महाभारत, खण्ड १,.- बरो: रवीन्द्र केळेकार, पा.१२९). ९. (व्या.) गरजे प्रमाणें, कृत्रिम तरेन थारायल्लो. -व्याकरणांतलो लिंगविचारच अडेचो आसा.
**म्हणी**: १. अडेचें आयलें अडेचें गेलें.
२. अडेच्या गिरस्ताचें रीण केन्ना काडचें न्हंय.
३. अडेचो जोगी कट्टेच्यो मुद्रा.
४. निजाचें तें निजाचें, अडेचें तें अडेचें.
५. अडेच्या उदकान बांय भरना.

**अडेज** । अडेज, सा.रू. -जा । [सं. अर्धतृतीय, प्रा. अड्ढाइज्ज] **वि.** दोन आनी अर्द मेळून जाता ती संख्या. (अडेज रुपया).

**अडेजाचो** ।अडेजाचॉ । ['अडेज'वेल्यान] वि. अडेजावेल्यान रचिल्लो (अडेजाचो पाढो).

**अडेनाव** । अडेनांव् सा.रू. -वा । [कों. अडेचें + नांव] न. अडेक घेतिल्लें नांव; एकाद्रया बरोवप्यान वा कलाकारान आपलें खरें नांव लिपोवन घेतिल्लें दुसरें नांव. ('शणै गोंयबाब' हें भौ. वामन रघुनाथ वर्दे वालवलकार हांचें अडेनांव).

**अडेवैर** । अडेवंय्र्, सा.रू. -रा.। [म. हाडवैर] न. पिडया-पिडयांची दुस्मानकाय.

**अडेशिरी** । अडेशिरी, सा.रू. -रे; भौव. -र्‍यो, सा.रू. -र्‍यां । [कों. अडेच + शेरी] स्त्री. १. अडेच शेराचें वजन वा माप. २. वावराड्यांक वा वसुलदारांक थारायल्लो शिदो वा भूस; दिसवाडो; मुशारो.

**अडोसो** । अडॉसॉ । प. पळेयात 'अडोळसो'.

**अडोळसो** । अडॉळसॉ, सा.रू. -शा; -भौव. -शे, सा.रू. - श्यां । [सं. अटरूष, हिं. अरूश; गु. अडुलसो; म. अडुळसा; लॅ. [Adhatoda Vasaca] पु. सदांच पांचवेंचार अशें वखदाक, तेच परी रंगाकय उपकरा पडपी वनस्पतिचें एक झोंप.
**विशेशः** देशभर अडोळसो जाता. दर्याच्या तळाक साकून चार हजार फुटांच्या उंचायेवेल्या हिमालयाच्या वाटारांतय अडोळसो जाता. संस्कृतांत अडोळशाक 'अरुसक', 'वंश', 'व्रिश' आनी 'सिंहमुखी' अशींय नांवां आसात. अडोळशाचीं फुलां धवीं फूल्ल तशींच एकाद्रेवेळा मात्शीं हळडुवसारय आसतात. गांवठी, घरगुती उपायांत अडोळशाच्या पानांचो, फुलांचो आनी पाळांचोय उपयोग जाता. थंडी भारकुणेच्या कफार आनी दम्याचेर, म्होंवात वा आल्याच्या रोसांत घोळोवन दिल्लो अडोळशाच्या पानांचो रोस गुणावाक येता, अशें म्हण्टात. क्षयाचेरय

अडोळशाचो उपयोग जाता असो समज आसा. इतलेंच न्हंय, तर 'जंय जंय अडोळसो आसा, थंय थंय क्षयी मनशाक, क्षयाक लागून कशेंच मरण येवपार ना', अशे तरेची एक म्हण, कांय थळांनी, प्रचारांत आसा.

शास्त्राच्या कसाक लावन पारखिल्ले अडोळशाचे वखदी गुण: फुफुसांच्या (पुल्मांवांच्या) क्षयाचेर, अडोळशाच्या अर्काचो उपयोग करून पळेतकीर दिसून आयलें कि, अडोळशाचो कसलोच परिणाम क्षयाचे पिडेचेर जायना. अडोळसो क्षयाचेर गुणावाक येना. अडोळशाची मात्रा दम्याचेरय चलना. जाल्यारूय, अडोळसो थंडे भारकुणेचो दाट जाल्लो कफ पातळ करता. थंडेक लागून ज्याचें हड्डें भरून येता आनी धर्कल सुटना जावन, ज्याचो जीव खांकून खांकून कासावीस जाता, ताका अडोळशाचें 'शारोप' दीत जाल्यार, कफ पातळ जावन धर्कल सुट्टा आनी धर्कल सुटिल्ल्यान जिवाक मात्शी स्वस्तसाण मेळटा.

**आधारावळ:** Indigenous Drugs of India, by R.N.Chopra.

**अड्डेकार** । अड्डॅकार्, सा.रू. -रा; भौव. - र; सा.रू. -रां । [कों. अड्डो+कार] पु. अड्डयाचो धनी; अड्डो चलोवपी.

**अड्डेबाज** । अड्डेबाज्, सा.रू. -जा; भौव. -ज; सा.रू. -जां । [कों. अड्डो + फा. बाझ (=परतून)] वि. जो अड्डयार पडून आसता तो; ज्याका परपरत अड्डयार वचपाचें चट लागलां तो; ज्याका अड्डयार गेल्याबगर चैन पडना तो.

**अड्डो** । अड्डॉ, सा.रू. -ड्डया; भौव. -ड्डे, सा.रू. -ड्डयां । [सं. अट्टः, अट्टम्=वेली माळी; बाजार भरता तो जागो] पु. १. एकाद्रया थारायल्ल्या कामाखातीर वा अभ्यासाखातीर एकठांय येवन बसपाचो जागो. २. जंय जुगार वा पैशे लावन खेळ खेळटात तो जागो. ३. जंय तवनास, पारपोळ वा बेकार, एकठांय येवन गांवांतली घाण उस्पीत बसतात तो जागो.४. जंय कांय जाण एकठांय येवन नाका आशिल्लयो उचापती वा भानगडी करतात तो जागो. ५. चवांटो; तिटो; जंय बाजार भरता तो जागो.

**अढळ** । अढळ् । [सं. अटल] वि. जो एकाच जाग्यार थीर वा दृढ आसा तो.

**अढळपद** । अढळपद, सा.रू. -दा; भौव. -दां, सा.रू. -दां । [अढळ+पद] न.१. सासणाचो थीर जागो. (ध्रुवान अढळपद जोडिल्लयान ताका कोण निखळांवक पावना.) २. मोक्षपद.

**अण** । अण् । [सं. अन/अण] ता.कू. (Suffix). धातूंक लागून धातुसाधित नामां घडोवपी एक ताळाकूस.

**विशेश:** व्यंजनान सोंपिल्लया धातूंक जेन्ना 'अण' हें कूस लागता, तेन्ना त्या व्यंजनाक 'अ' हो स्वर लागतकीर, त्या व्यंजनाचो पूर्ण उच्च्यार जाता. देखीक:

टिप् + अण=टिपण
दळ् + अण=दळण
न्हेस् + अण=न्हेसण.

स्वरान सोंपपी सगळ्याच धातूंक हें कूस लागता अशें दिसना. जाल्यारूय, स्वरान सोंपपी धातूंक जेन्ना 'अण' हें कूस लागता, तेन्ना 'अण' ह्या कुसांतल्या 'अ' चो 'व' जाता. तेच परी 'ई' आनी 'ऊ' अशा दीर्घ स्वरान सोंपपी धातूंक 'अण' हें कूस लागतकीर, 'ई' आनी 'ऊ' चें 'इ' आनी 'उ' अशें न्हस्व रूप जाता.देखीक:

पी + अण=पिवण
धू + अण=धुवण.

**अणकार** । अंणकार्, सा.रू. -रा; भौव. -र, सा.रू. -रां । [सं. अनुकारः] पु. १. देखादेख, नक्कल. (परक्यांचो दोळे धांपून केल्लो अणकार आमच्या हिताक पडचोना.). २. भाशांतर; अनुवाद. (ड्वायगाच्या कांय काणयांचो कोंकणींत अणकार जाला.)

**अणकारप** । अंणकारप, सा.रू. -पा । ['अणकार' वेल्यान] क्रि.दा.धा.सा.ना. (मूळ धातूः अणकार् (सक.)) १. देख घेवप; नक्कल करप. २. भाशांतर, अनुवाद करप.

**अणकारी** । अंणकारी, सा.रू. -ऱ्या; भौव. -री, सा.रू. -ऱ्यां । ['अणकार' वेल्यान] वि. १. जो देख, देखादेख घेता तो. २. जो अनुवाद, भाशांतर करता तो.

**अणगें** । अणगँ, सा.रू. -ग्या; भौव. -गीं; सां. रू. -ग्यां । [का. अंडिगे] न. भरिल्ली गोण; बांधिल्लो गठ्ठो वा पोटली. (तंबाकुचें अणगें; खाजराचें अणगें).

**अणभव** । अंण्भंव्, सा.रू. -वा. भौव. -व, सा.रू. -वां । [सं. अनुभवः] पु. १. संवसाराकडेन पौठो घांसताना वा संवसांरात दोळे उक्ते दवरून वावुरताना आयिल्ली बरी-वांकडी जाण वा जोडिल्लें गिन्यान; खंच्याय कामांत राटतां राटतां मेळिल्ली घटी; राटून वळसून जोडिल्लें ज्ञान; प्रत्यक्ष जोडिल्लें ज्ञान. २. परिक्षा; पारख. ३. प्रत्यय; प्रचिती; साक्षात्कार. ४. उपभोग; भोगवट.

**अणभवप** । अण्भवप्, सा.रू. -पा । [सं. अनुभू] क्रि.दा.धा.सा.ना. (मूळ धातूः अणभव् (सक.)) १. अणभव घेवप; राटप; वळसप; तिजप. २. भोगप; उपभोग घेवप; भोगवट भोगप. (ती इस्टेट हांव वंश पिडयांनी अणभवतां).

**म्हणः** अणभवल्या बगर समजना, राटल्या बगर शाणो जायना.

**अणभवी** । अंण्भंवी, सा.रू. -व्या; भौव. -वी, सा.रू. -व्यां । ['अणभव' वेल्यान] वि. ज्याणें अणभव घेतला तो; ज्याणें प्रत्यय, प्रचिती घेतल्या तो; राटिल्लो; तिजिल्लो; वळसल्लो.

**अणभवीक** । अंणभंवीक् । ['अणभव' वेल्यान] वि. अणभवान थारायल्लो; अणभवान सिद्ध केल्लो वा सिद्ध जाल्लो. (मनीस समजाळ आस. जसो तागेलो समज तसो तो जाता, ही श्रीकृष्णाची मोलादिक आनी अणभवीक म्हणणी तुमी तुमगेल्या काळजाच्या पट्यार खोल बरी कोत्रायात. -कों. भा. जैत., बरोः शणै गोंयबाब. पा.५४.)

**अणयो** । अंणयो, सा.रू. -या; भौव. -ये, सा.रू. -यां । [?] पु. रानांत जावपी एक झाड, आनी त्या झाडाचें फळ.- अणयाक पावसांत चौथिच्या अदमासाक घोंसांनीं फळां लागतात. हीं फळां आकारान ओंवळिच्या धोड्यांवरी, आदामांवरी आनी काथो मांडचेपैलीं आशिल्लया तन्न्या आंबाड्यांवरी आसतात. अणयांचो रंग तन्न्या आंबाड्यांवरी पांचवो आसता. जाल्यारूय, तीं सोबीत दिसतात. देखून, चवथिच्या पैल्या दिसा, म्हळ्यार तये दिसा, माटोळेक सोबा हाडपाखातीर अणयांचे घोंस बांदतात. -(दोंगरांचे देंगणेर आसलेल्या झाडांचेर अणयांचे घोंस झेलताले. आनी हेच अणयांचे, कांगलांचे, माट्टांचे घोंस गणपतीच्या माटोळेक लोंबताले. -आमची हुनुल्ली अळवा वयता..., बरोः तुकाराम रामा शेट, कोंकण टायम्स, चवथ आनी स्वांतत्रदीन अंक, १९८८, पा.८)

**अणवीक** । अंण्वीक् । [सं. अणु वेल्यान] वि. अणुकडेन लग्निक आशिल्लो. (अणवीक सिद्धांत.)

— **घड्याळ** (Atomic clock). अणुच्या

नेमान जावपी नादाच्या कंपाचेर (resonance frequencies of atoms and molecules) आधारून घडयल्ली अचूक वेळ दाखोवपी घड्याळ. ही घड्याळ ' सेजियम' (Cesium) ह्या दुर्मिळ 'रेडियो ॲक्टिव' आल्कालीन धातुचे अणू उपकरावन घडयतात. देखून, हे घड्याळीक 'सेजियम घड्याळ' अशेंय म्हण्टात.

— **वेळ** (Atomic Time): अणवीक घड्याळीन दाखैल्लो अचूक वेळ. तुर्ताक ह्यो घड्याळी संवसारांतल्या पन्नास वेगवेगळ्या जाग्यांनी दवल्ल्यात. ह्या घड्याळीं मजगतीं वेळ दाखोवपाक अंतर पडलेंच जाल्यार, एका सेकंडा फाटल्यान $१०^{११}$ इतलेंच अंतर पड्टा. हाका लागून, तीन हजार वर्सां उप्रांत वेळ दाखोवपांत, त्या घड्याळिंनी फरक पडलोच जाल्यार, फक्त एका सेंकडापरस चिके उणोच फरक पड्टलो. हाजेवेल्यान हो वेळ कितलो अचूक आसता हाजी कल्पना येता. आंतरराष्ट्रीय अणवीक वेळाचें (International Atomic Time) फ्रेंच भाशेंतल्यान 'TAI' अशें संक्षिप्त रूप केलां. हो अणवीक वेळ, ह्या अणवीक घड्याळिंनी दाखयल्ल्या वेळाचेर आधाल्लेलो आसा. ह्या घड्याळिंची रचनाच अशी केल्या की, त्यो वेळाचो संदेश, पॅरिसच्या 'आंतरराष्ट्रीय काळ कार्यालयाक' (Internatioanl Time Bureau, Paris) धाड्टात. हें कार्यालय, आपले परी, ह्या संदेशांचें संयोजन करता. आनी संयोजन केल्लया संवसारिक वेळाचें (Coordinated Universal Time-'UTC') प्रमाणिकरण करून, आपल्या प्रक्षेपणाचो वेळ थारायता. हो प्रक्षेपित केल्लो वेळ, संवसाराच्या फाटीर आशिल्ल्या २४ विभागांनी, प्रमाण वेळ म्हणून मानतात.

**आधारावळ:** Encyclopedia Britanica, Vol I.पा. ६७७-६७८.

**अणवो** । अ॑णवॉ, सा.रू. -व्या । [सं. अणक+वत् = क्षुल्लक; ऊन+वत् = दोश आशिल्लो] वि. तोपिल्लो वा लागिल्लो; उणाक; खवंस; उणे प्रतिचो (अणवो म्हाल).

**अणवो-वी-वें** । अ॑णवॉ-वी-वॅ, सा.रू. -व्या, -वे, -व्या; भौव. -वे (वॅ),-व्यो,-वीं, सा.रू. -व्यां । [का. अण्णा=मूर्ख, भोळसार; का. अणवा] वि. भोळसार; उणी शिटुकसाण आशिल्लो.(अणवें कूळ).
**म्हण:** अणव्याक कितेंय शिकयल्यार जातिचो गुण वता व्हय?

**अणस** । अ॑ण॑स्, सा.रू. -शी । [?] स्त्री. भाताची एक जात.- हें भात बाबरेच्या भातावरीच आसता. अणशिच्या भाताचे तांदूळ बाबरेच्या भाताच्या तांदळांइतलेच रुचीक आसतात.

**अणस** । अ॑ण॑स्, सा.रू. -शी । [ का.अणसु] स्त्री. फारावपाखातीर मुसळाच्या एका तोंकाक पोकळसाण दवरून घाल्लो लोखणाचो रूंद वाळो. मुसळाच्या दुसऱ्या तोंकाक घाल्लया वाळ्याक 'थोंबो' म्हण्टात. ह्या वाळ्याक पोकळसाण दवल्लेली नासता.

**अणी** । अ॑णी, सा.रू. -णये; भौव. -णयो, सा.रू -णयां । [सं. अणि] स्त्री. १. अग्र; तोंक. २. होड्याचो मुखावेलो भाग; हणी; अणें.

**अणी** । अ॑णी, सा.रू. -णये; भौव. -णयो, सा.रू. -णयां । [का. अणगिसु=फकांड करप] स्त्री. थोमणो; फकांड. (गुळू: म्हाका बेश्टोच अणी मारता तूं! आरे, म्हगेली बायल म्हाजी पैलेपणिची बायल; पूण हांव तिजो दुसरेपणिचो घरकार म्हणुं सांगलेलें असल्लो तूं!- म्हाजो सर्गार आशिल्लो घरकार. -बरो: रामचंद्र शंकर नायक, पा.१३).
**वा.प्र.: अणी मारप:** थोमणो मारप; फकांड मारप वा फकांड करप.

**अणु** । अंणू, सा.रू. -णू; भौव. -णू, सा.रू. -णूं । [सं. अणु] पु. अती सुक्षम कण, कणी. रसायणी मूळ द्रव्याचो, आपलें निजाचें रसायणी रूप, जशाक तशें दवरता तो सुक्षमांतलो सूक्षम कण. हो एकोडो आसता, तेचपरी संयोग रूपानय आसता. आर्विल्या सिद्धांताप्रमाणें दर अणूक एक गर्भकणी आसता आनी हे गर्भकणये भोंवतणीं विजकणयो फेरे मारीत आसतात.

— **ऊर्जा:** युरेनियम सारख्या मोठ्या वस्तुमानाच्या अणुकेंद्राच्या भंजनाक लागून वा ड्युटेरियम वा ट्रिटियम हाज्या सारख्या ल्हान वस्तुमानाच्या संयोगान उत्पन्न जाता ती ऊर्जा वा शक्ती.

— **बाँब** (Atom bomb); न्युक्लियर प्रतिक्रियेन विध्वंसक शक्ती निर्माण करून प्रचंड संव्हार करपी एक झुजारी अस्त्र.

**विशेश:** अणुकेंद्राच्या विघटनान संव्हारक शक्ती निर्माण जाता म्हणपाची कल्पना, श्रेस्ठ शास्त्रज्ञ आईनस्टाईन (Einstein) हाणें २ ऑगस्ट १९३९ दिसा, अमेरिकेचो अध्यक्ष रूझवेल्ट हाका बरयल्या पत्रांत पैलिवेली मांडली. उप्रांत, मॅनहॅटन येवजणेचे (Manhatton Project) आंखणे खाला, दुसऱ्या महायुद्धाच्या काळांत, अमेरिकेन अणुबाँब तयार केले. हे बाँब दोन तरांचे आशिल्ले. एकेंत प्लुटोनियम उपकरायिल्लो आनी दुसरेंत युरेनियम आशिल्लो. प्लुटोनियम बाँबाची चांचणी १६ जुलै १९४५ दिसा न्यु मेक्सिकोच्या वाळवंटांत अमेरिकेन करून पळेली आनी अणुबाँबाच्या यशाची तिका खात्री जाली.

जपानचो सम्राट हिरोहिटो हाणें झूज थांबवपाचो निर्णय २० जून १९४५ दिसा घेतला म्हणपाची कल्पना अमेरिकेक आशिल्ली. जाल्यारूय, सोव्हियत युनियनान जपानचे सत्तेखाला आशिल्लया मांचुरियाचेर, ८ ऑगस्ट १९४५ दिसा, घुरी घालपाची थारायल्या म्हणपाचो सुगावो अमेरिकेक लागलो आनी झुजाचें रूपच वेगळें जालें. जपानाक सोव्हियत युनियन आपले सत्तेखाला हाडीत म्हणून, अमेरिकेन फाट-फुडा पळेनासतना, हिरोशिमाचेर ६ ऑगस्ट १९४५ दिसा, एक हजार फुटांचे उंचायेवेल्यान युरोनियम बाँब उडयलो. ह्या बाँबांत २३५ नॉट युरोनियम आशिल्लो आनी हो बाँब लांरजापरस मात्सो मोठो आशिल्लो. हो बाँब फुटल्या उप्रांत अवघ्या १०.६ सेकंडां भितर हिरोशिमा शहर जवळ जवळ ना नपश्यात जावन गेलें. शहराच्या मध्य भागांत आशिल्लयो इमारती चेपून चपट्यो जाल्यो. मध्यभागापासून पैस आशिल्लयो इमारती कांय भूंयसपाट, तर कांय मोडून गेल्यो.

हवेचें चेपण (दाब) आनी स्पोटांतल्यान निर्माण जाल्ले प्रचंड उस्णतेक लागून, जें जळपासारकें आशिल्लें तितलेंय जळून भस्म जालें. धातूच न्हंय, तर फातरांचे वेले भाग पासून कडून गेले. स्पोट, उस्णता आनी रेडियेशन हांकां लागून ९२,११३ जाण तात्काळ मेले. एक लाख भाजून तरेतरेन वळवळले. आजय ४४ वर्सां उप्रांत, जपानांतलो हजारांनी लोक जितें मरण भोगीत आसा.

हिरोशिमाचेर उडयल्लया अणुबाँबाउप्रांत, रोखडोच तीन दिसांनी, म्हळ्यार ९ ऑगस्टाक जपानांतल्या नागासिकी ह्या दुसऱ्या शहराचेर दुसरो प्लुटोनियम बाँब अमेरिकेन उडयलो. हिरोशिमा आनी नागासाकी ह्या जपानी शहरांचो विध्वंस करून, दुसऱ्या महायुद्धाचो अखेर, अशे राक्षेशी करणेन, अमेरिकेन फक्त आपल्या स्वार्थाखातीर घडोवन हाडलो.

**आधारावळ:** १. Purnell's New Encyclopedia, 2nd edition, Vol.I, no.17, पा.४५२.

२. Encyclopedia Britannica, Vol.I.

३. 'उगीच झालें उध्वस्त हिरोशिमा...' महाराष्ट्र टाइम्स, वर्प २८, अंक ५६, मुंबई, शनिवार,

१२ ऑगस्ट १९८९, पा. ४.

**अणुरेणु** । अणुरेणू, सा.रू. -णू; भौव. -णू, सा.रू. -णूं । [सं. अणु + रेणु] पु. सुर्याच्या किर्णांनीं जे धुल्लाचे अती सूक्ष्म कण उफेल्ले दिसतात, तांतूंतलो दर एक कण.

**अणुवाद** । अणुवाद, सा.रू. -दा । [सं. अणु + वादः] पु. संवसाराची आनी संवसारांतल्या वस्तुमात्राची घडण अणुंनी घडल्या असो सिद्धान्त मांडपी तत्त्वज्ञान.

**विशेशः** वैशेषिक दर्शन हें भारतांतलें एक प्राचीन तत्त्वज्ञान. हाजो संस्थापक कणाद. ग्रीक जडवादाच्या संस्थापकाच्या काळार, म्हळ्यार क्रिस्ता आदल्या सव्या शेंकडयांत, कणादान परमाणुवादाचो सिद्धान्त मांडलो. पूर्ण आनी अंश हो भेद जंय ना आनी ज्या कणाचे आनीक कुडके जांवक पावनात असो सुक्षमांतलो सूक्षम कण म्हळ्यार परमाणू. परमाणू हो केन्नाच ना जायना. तो सासणाचोच आसता. आपल्या निजाच्या गुणधर्मान तो एकठांय येता. ह्या परमाणूंच्या संयोगान हो संवसार घडला म्हणपाचें कणादान सांगलां. कणादाचो परमाणुवाद डिमॉक्रिटसच्या अणुवादापरसय स्वयंपूर्ण आसा म्हणपाचें मत भौ. मानवेंद्रनाथ रॉय हाणीं आपल्या Materialism (जडवाद) ह्या ग्रंथांत मांडलां. कणादाचो हो सिद्धान्त भारतांत कोणेंच फुडें व्हेलोना. भारत मंत्रांतंत्रांच्या कर्मकांडांतच घुस्पलो. ताका लागून विज्ञानाची बुन्याद भारत घालूंक पावलो ना.

**अणुशक्ति** । अणुशक्ती । सा.रू. -क्ती। [सं. अणु + शक्तिः] स्त्री. पळेयात 'अणुउर्जा'.

**अणें** । अणँ, सा.रू. -ण्या; भौव. -णीं, सा.रू. -ण्यां । [सं. अणि] न. पळेयात 'अणी'

**अणें** । अणँ, सा.रू. -ण्या; भौव. -णीं, सा.रू. -ण्यां । [का. अणगिसु] न. पळेयात 'अणी'

**अण्णा** । अण्णा, सा.रू. -ण्णा । [का. अण्ण] पु. १. व्हडलो भाव. २. जाण्टया मनशाक भौमानान उलो मारपाखातीर तांच्या नांवांक जोडिल्लें उतर. देखीकः वीरण्णा; टोपण्णा. ३. ल्हान भुरग्यांक अर्थीन वा अपुर्बायेन उलो मारूंक दवल्लेलें नांव.

**अण्णाठी** । अण्णाठी, सा.रू. -ठे; भौव. -ठयो, सा.रू. -ठ्यां । [सं. अर्ध + कों.नाठी] स्त्री. अर्द नाकटी; पाव पड; पाव पडिचें माप; पायलेच्या सोळाव्या भागाचें माप. (एक अण्णाठी तांदूळ).

**विशेशः** चार अण्णाठ्यांची पड जाता आनी चार पडिंची पायली जाता. देखून अण्णाठी म्हळ्यार पायलेचो सोळावो भाग.

**अत** । अत् । [सं. अत्] ता.कू. धातूंक लागपी एक ताळाकूस (Suffix). धातूंक जेन्ना हें ताळाकूस लागता, तेन्ना धातुसाधित विशेशणां वा क्रियाविशेशणां घडटात.

**विशेशः** व्यंजनान सोंपिल्लया धातूंक हें कूस लागता, तेन्ना त्या व्यंजनाक 'अ' हो स्वर मेळटीकर, त्या व्यंजनाचो पूर्ण उच्च्यार जाता. देखीकः

धांव् + अत= धांवत
वाच् + अत=वाचत.
चल् + अत=चलत

व्यंजनान सोंपपी धातूच्या पैल्या अक्षरांत 'ई' आनी 'ऊ' अशे दीर्घ स्वर आसल्यार, 'अत' हें कूस लागतकीर, ह्या दीर्घ 'ई' आनी 'ऊ' चें 'इ' आनी 'उ' अशें ऱ्हस्व रूप जाता. देखीकः

शीक् + अत=शिकत
ऊठ् + अत=उठत.

धातू जेन्ना स्वरान सोंपता आनी ताका 'अत' हें कूस लागता, तेन्ना 'अत' ह्या कुसांतल्या

'अ' चो 'य' जाता. (सिद्धहेम. 'अवर्णो यश्रुतिः।' ८.१.१८०). देखीकः

खा + अत=खायत
गा + अत=गायत
घे + अत=घेयत.

'ई' आनी 'ऊ' अशा दीर्घ स्वरान सोंपपी धातूंक 'अत' हें कूस लागतकीर, त्या दीर्घ 'ई' आनी 'ऊ' चें 'इ आनी 'उ' अशें ऱ्हस्व रूप जाता. देखीकः

दी + अत=दियत
धू + अत=धुयत.

**अत:पर** । अत:पर् । [सं. अत:परम्] क्रि. वि. ह्या मुखार; ह्या फुडें; केन्नाच. (अत:पर तूं असलें काम करचो ना.).

**अति** । अती । [सं. अति] वि. १. अतोनात; अफाट; अतिशय; अगरंपार. (देवा, तूं म्हाका गिरेस्त करूं नाका, तसो दळिद्रीय करूं नाका. अति गिरेस्त जाल्यार हांव मधान्त जावन तुका विसरतलों आनी दळिद्री जाल्यार, तुजे आज्ञेचो भंग करून चोरयेक संवकतलों.) २. धर-बंद नाशिल्लो ; मर्यादा वा म्हेर नाशिल्लो; अमर्याद. (अति अधिकार मस्ती हाड्टा.) ३. दाट; चेगाद. (अति इस्टागत). **क्रि.वि.** १. चड; खूप. (कालचे सभेंत तो अति म्हळ्यार अतीच उलयलो) २. सुमारा भायर; शिमे भायर. (तो अति जळैता.) **मु.कू.** (उपसर्ग) धातूंक लागून 'पेल्यान वचप', 'दांग मारप' असो अर्थ दाखोवपी उपसर्ग. देखीकः

अति + क्रम्=पेल्यान वचप; हुपप.
अति + चर्=उल्लंघप; दांग मारप.

**वा.प्र.: अति जावपः** जय जावप; गैर जावप; फाजील जावप; मस्त वा मधान्त जावप.

**म्हणीः** १. अति ओड्टा थंय तुट्टा.
२. अति थंय माती.
३. अति राग भीक माग.
४. अति सर्वत्र वर्जयेत्.
५. अति शाणो तीन कडेन घाणटा.
६. अति शाण्याक फातरांचे शीत.

**अतिक्रम** । अतिक्रम, सा.रू. -मा; भौव. -म, सा.रू. -मां । [सं. अतिक्रम:] पु. पळेयात 'अतिक्रमण'.

**अतिक्रमण** । अतिक्रमण्, सा.रू. -णा; भौव. -णां, सा.रू. -णां । [सं. अतिक्रमणम्] न. १. पेल्यान वचप; मर्यादेचें केल्लें उल्लंघन. २. कायद्याचो केल्लो भंग वा कायद्याक घाल्ली दांग; आज्ञेचो, हुकुमाचो आनी कराराचो केल्लो भंग वा आज्ञा; हुकूम आनी करार हुपून केल्ली करणी. ३. रितीभायर वचून केल्ली करणी; अपमान, ४. अपराध; गुन्यांव. **वा.प्र.: अतिक्रमण करपः** कायद्याक दांग घालून वचप; हुपून वचप; उल्लंघन करप; २. अपमान करप. ३. अपराध, गुन्यांव करप.

**अतिताय** । अतिताय्, सा.रू. -ये; भौव. -यो, सा.रू. -यां । [सं. अतिता] स्त्री. १. अतिशोक्ती; चडोवन वर्णन करपाची शैली. (मराठी भाशेंत संस्कृत उतरां भरसांवचेलें काम अठराव्या शेंकड्यांत मोरोपंतान पैलेंवैलें केलें. ताणें खासा आपले एके आर्येंत आपले भाशेक 'संस्कृत प्राकृत उतरांची गोजडी' म्हळां; आनी हातूंत इल्लीय अतिताय ना.- न. गोंय, २रें वर्स, ३रों आंक, ज्यानेर १९३६, पा.१०३.- संपा.: का. श्री. नायक.) २. अतिरेक. (हेरां परस आपुण उंच आनी मोठे समजपाचो हो कनोजी सभावगुण कुड्ठाळ्यांच्या आंगांत उपाट भल्ला. तांका तोखेणो 'ओरिएन्ति कोंकिस्ताद' कार पाद्री अडेचशीं वर्सां फाटीं म्हण्टा कि, 'तांगेले म्हणणे भाशेन, हेर सगळे बामण आपणा मुखार रानवट आनी गावडे आसात! हो तांगेलो सभावगुण इतलो

अतितायेक पावला कि, ते खासा आपणां मदगत एकमेकांक उणे लेखून एकमेकांलो द्वेस आनी दुस्वास करतात. -ये.अ.उ., बरो: शणै गोंयबाब -पा. ११५)

**अतितायेचो-ची-चें** । अ॑तितायेचॉ-ची-चँ, सा.रू. -च्या,-चे,-च्या । ['अतिताय' वेल्यान] वि. अतिशोक्ती आशिल्लो; अतिशोक्तीन भरिल्लो. २. फाजील; नस्तो; घातकी (अतितायेचो अभिमान).

**अतिथि** । अ॑तिथी, सा.रू. -थ्या; भौव. -थी, सा.रू. -थ्यां । [सं. अतिथिः] पु. पावणो; ऐन वेळार पाविल्लो पावणो; आगांतुक पाविल्लो पावणो; बिराडी.
**— पूजा:** स्त्री. पावण्याचो केल्लो मान-भोमान.
**— सत्कार:** पु. पावण्याचो केल्लो आदर-सत्कार.

**अतिथिभवन** । अ॑तिथिभवॅन्, सा.रू. -ना; भौव. -नां, सा.रू. -नां । [सं. अतिथि + भवनम्] न. सरकारी अधिकाऱ्यांक (ते दौऱ्यार आसतना) आनी सरकारी पावण्यांक वा पाहुण्यांक रावपाखातीर बांदिल्लें घर; जंय मानादिक पावण्यांची रावपाची व्यवस्था करतात तें घर. इं. Guest House.

**अतिदर्प** । अ॑तिदर्प्, सा.रू. -पा । [सं. अतिदर्पः] पु. अत्यंत गर्व वा फाजील अभिमान.

**अतिदान** । अ॑तिदान्, सा.रू. -ना । [सं. अतिदानम्] न. खूप मोठ्या प्रमाणान केल्लें दान.

**अतिदुस्ट** । अ॑तिदुस्ट्, सा.रू. -स्टा; भौव. -स्ट, सा रू. -स्टां । [सं. अति + दुष्ट] वि. अत्यंत दुस्ट; अधम.

**अतिदेणें** । अ॑तिदॅणँ, सा.रू. ण्या; भौ. -णीं, सा. रू. -ण्यां । [सं. अति + कों.देणें] न. अति रीण; पावोंवक जमना अशें माथ्यार आशिल्लें रिणाचें ओजें.
**म्हण:** चड उवो ताका खोरजना, अतिदेणें ताका लज ना.

**अतिदोश** । अ॑तिदोश्, सा.रू. -शा । [सं. अति + दोषः] पु. अत्यंक मोठो अवगुण वा अपराध, गुन्यांव.

**अतिपरिचय** । अ॑तिप॑रिच॑य्, सा.रू. -या । [सं. अतिपरिचयः] पु. जाय ताज्यापरस आशिल्ली चड घसट; अती इश्टकाय.
**म्हण:** अतिपरिचयादवज्ञा = जाय ताज्या परस चड घसट आसतकीर मनीस सोंपो जाता. ताजो मान, आब उरना.

**अतिपातक** । अ॑तिपातॅक, सा.रू. -का; भौव. -कां, सा.रू. -कां । [सं अतिपातकम्] न. धर्मशास्त्रांत सांगिल्लया पातकांतलें सगळ्यांत मोठें पातक.
**विशेश:** धर्मशास्त्रांत जीं णव पातकां सांगल्यांत, तांतूंतलें हें सगळ्यांत मोठें पातक. दादलेमनशान आवय, धूव वा सून हांचेकडेन संभोग केल्यार, आनी बायले मनशान बापूय, चलो वा मांव हांचेकडेन संभोग केल्यार, तें अतिपातक जाता. ह्या पातकाक विष्णुधर्मोत्तर पुराणांत अग्निप्रवेश हेंच प्रायश्चित सांगला. (३४.१.२).
**आधारावळ:** भा.सं. कोश, खंड १,पा ९८.

**अतिपुरुश** । अ॑तिपुरुश्, सा.रू. -शा; भौव. -श; सा.रू. -शां । [सं. अति + पुरुषः] पु. महापुरुश; म्हापुरुस; वीर पुरुश.

**अतिप्रसंग** । अ॑तिप्र॑संग्, सा.रू. -गा. । [सं. अतिप्रसङ्गः] पु. १. अत्यंत आसक्ती. २. अत्यंत घनिस्ट घसट. ३. सामान्यतायेन दादल्यान एकाद्रे बायलेकडेन केल्लें सोबनाशिल्लें वर्तन; गैरवर्तन. ४. अनर्थ; आकांताचो कठीण प्रसंग.

**अतिबळी** । अतिबळी । [सं अति + बलिन्] वि. अतुर्बळी; अत्यंत बळिस्ट, शक्तिवंत.

**अतिमार्गी** । अतिमार्गी । [सं अति + मार्गिन्] वि. अतिरेकी; खंच्येय गजालिकडेन निमाण्या तोंकामेरेन वचपी.

**अतिरथी** । अतिरथी, सा.रू. -थी; भौव. -थी, सा.रू. -थीं । [सं. अतिरथ:] पु. रथांत बसून एकट्यानच असंख्य झुजाऱ्यांकडेन झुजपी; अति पराक्रम गाजोवपी वीर. (ला) १. वादांत कोणाकच हार न वचपी; २. विद्येच्या एकाद्रया मळावेलो भोव जाणकार वा नामना जोडिल्लो मनीस.

**अतिरिक्त** । अतिरिक्त् [सं. अतिरिक्त] वि. अधिक; चड; ज्यादा.
**—उत्पन्न:** सदांच्या उत्पन्नापरस आयिल्लें चड उत्पन्न.
**—उत्पादन:** अपेक्षेपरस चड जाल्लें उत्पादन.
**—लाभ:** अपेक्षेपरस चड जाल्लो लाभ, आदाव.
**विशेश:** इंग्लेज 'Additional'ह्या उतराक पर्याय म्हणून हालीं हें उतर उपकरायतात. देखिक:अतिरिक्त सचिव.

**अतिरेक** । अतिरेक्, सा.रू. -का; भौव. -क, सा.रू. -कां । [सं. अतिरेक:] पु. १. मर्यादा हुपप. २. कळस; अतिशोक्ती; भरमसाटपण; प्रमाणाभायर चडोवन सांगप. (ताका कसलेय गजालिचो अतिरेक करून सांगपाची संवंय आसा). ३. कसलेय गजालींत गांठिल्लें निमाणें तोंक.

**अतिरेकी** । अतिरेकी, सा.रू. -क्या/के; भौव. -की/क्यो, सा.रू. -क्यां। ['अतिरेक' वेल्यान] पु. स्त्री. १. राजकारणी वा सामाजीक मळार अती क्रांतिकारी मतान वा पंथान चलपी पंगडाचो वांगडी, वांगडीण; उग्रवादी; दहशतवादी; आतंकवादी.
**वि.** १. अतिरेकाक वचपी (अतिरेकी मनीस) २. अती क्रांतिकारी (अतिरेकी कल्पना).

**अतिवृस्टी** । अतिवृस्टी, सा.रू. -स्टी । [सं. अति+वृष्टि:] स्त्री. हरधारानीं पडिल्लो दडकांचो पावस; हुंवार वा बुट्टी हाडपी पावस; उटंगारांचो पावस; मातय ओखळ घेनासतना दडकेर दडक असो कोंसळलेलो शिळाधार पावस.

**अतिशय** । अतिशय् । [सं. अतिशय:] वि. १. अति, अती; खूप; अतोनात; गरजेपरस चड; अपरंपार. (अपेशी जांव नये, म्हणून ताणें अतिशय श्रम घेतल्यात). २. दाट (त्या दोनय घराण्यांची अतिशय घसट आसा.)

**अतिशाणो** । अतिशाणॉ, सा.रू. -ण्या, भौव. -णे, सा.रू. -ण्यां । [सं अति+कों. शाणो] वि. १. चड शाणो; अति बुदवंत; अति धूर्त. २. कोणाचीच सांगणी-मागणी आयकनासतना आपल्याक जाय तें करून घाणावल्लो; शापात्री; मूर्ख.
**म्हणी:** १. अतिशाण्याक फातरां शीत.
२. अतिशाणो तीन कडेन घाणटा.
३. अतिशाणो सतरा कडेन घाणटा.

**अतिशोक्ती** । अतिशोक्ती; सा.रू. -क्ती । [सं. अतिशयोक्ति:] स्त्री. १. आसा ताज्या परस चड फुलोवन सांगचेली रीत वा पद्धत. २. दुसऱ्याच्या मनाचेर परिणाम जायसारके तरेन फुलोवन सांगपाची एक अंलकारिक धाटणी. देखीक: वेंतभर बामणाक हातभर शेंडी.
**वा.प्र.: अतिशोक्ती करप:** अति फुलोवन वा चडोवन सांगप; मीठ मिरसांग लावन सांगप; हातावेल्या हातार येदीं पोडोळीं आनी येदीं घोंसाळीं करप.

**अतिसार** । अतिसार्, सा.रू. -रा । [सं. अतिसारः] पु. हागवणेची पिडा; ज्याका लागून परसाकडचे धाळार धाळ जातात अशी पिडा. ही पिडा अजिर्णाक लागून जांव येता, वशाक लागून जांव येता, तेच परी हे पिडेची धामय येंव येता. (इं.) Diarrhoea.

**अती** । अती । [सं. अति; अती] पळेयात 'अति'
**वा.प्र.: अती करपः** अतिरेक करप; अतिशोक्ती करप.
**अती जावपः** १. जय, गैर वा प्रमाणा भायर जावप. (हें आतां अती जावपाक लागलें.) २. फाजील; सुबेज. (दिसानदीस तो अती जायत चल्ला.)

**अतींद्रिय** । अतींद्रिय । [सं. अतीन्द्रिय] वि. इंद्रियांच्या ज्ञानापेलो; ज्याची जाण वा ज्याचें ज्ञान इंद्रियांनी मेळना असो; इंद्रियांक अकळ असो; अगोचर.
**—ज्ञानः** न. ज्ञानेंद्रियांनी मेळना तें ज्ञान; त्रिकाळ ज्ञान.
**—ज्ञानीः** वि. इंद्रियांक अकळ अशें ज्ञान ज्याका आसा तो; त्रिकाळज्ञानी.

**अतुर्बळ** । अतुर्बळ्, सा.रू. -ळा; भौव. -ळां, सा.रू. -ळां । [सं. अतुल+बलम्] न. अपार बळ; अचाट धाडस.

**अतुर्बळी** । अतुर्बळी । [सं. अतुल + बलिन्] वि. १. ज्याच्या बळाक तुलना, सर ना तो; अत्यंत बळिस्ट; दांडगो. (समस्त मोनजातींत सिंव्ह अतुर्बळी). २. महापराक्रमी; अचाट धाडशी.

**अतूट** । अतूट् । [सं. अ+त्रुट्] वि. अखंड; घट्ट; तुटूंक कठीण अशें; जें तुटूंक ना वा जें तुटपाक कठीण अशें.

**अतृप्त** । अतृप्त । [सं. अ+तृप्त] वि. १. जो संतुस्ट, धादोस, खोशी जांवक ना तो; असंतुस्ट. २. अधाशी; वसवसो. (कितलेंय खांवक घाल, पोर सदांच अतृप्त.)

**अतृप्ती** । अतृप्ती, सा.रू. -प्ती । [सं. अ+तृप्तिः] स्त्री.१. तृप्तीचो अभाव; समाधानाचो अभाव; असंतुस्टाय; धादोसकायेची उणाय. २. हांव; वसवस.

**अतोज** । अतोज् । [सं. अचोद्य, प्रा. अचोज्ज] वि. विस्मीत; चकीत; अजकाप. (हुजीर आसलेलो लोक ज्याणीं चिखलान भल्लेलीं आंगावलीं देखलेलीं, तीं महानितळ देखिल्लयान, तेवय महाअजाप जावन, अतोज पावले. -सां.अं.अ. —बरोः पाद्री Antonio de Saldanha —Edited by A.K. Priolkar, पा.३९).

**अतोनात** । अतोनात् । [सं. अतनु = चड ?] वि. खूप; चड; अती; अपेक्षेभायर; अतिशय. (अतोनात कस्ट; अतोनात वाव्र).

**अत्तर** । अत्तर्, सा.रू. -रा; भौव. -रां, सा.रू. -रां । [अर.इत्र] न. भाटयेक लावन पर्मळीत फुलांचो वा वस्तींचो काडिल्लो अर्क.

**अत्तरदाणी** । अत्तर्दाणी; सा.रू. -णये; भौव. -णयो, सा.रू. -णयां । [अर.इत्र + फा.दान] स्त्री. अत्तर घालपाचें पात्र.
**विशेशः** अत्तरांत कापूस भिजोवन तो ह्या पात्रांत दवरतात, वा निखटो चेर ह्या पात्रांत घालतात. मंगलकार्याक आयिल्लया पाहुण्यांच्या हाताक अत्तर वा चेर लावपाखातीर, अत्तरदाणयेक सरपळेन जोडिल्ली एक काडी आसता. चड करून अत्तरदाणी रूप्याची आसता आनी तिजेर नक्षी केल्ली आसता.

**अत्तारी** । अत्तारी, सा.रू. -र्‍या; भौव. -री,

सा.रू. -त्र्यां । [अर. अत्तार] पु. अत्तरांचो व्यापारी; अत्तरां तयार करपी, तेचपरी अत्तरां तयार करून विकपी.

**अत्यंत** ।अत्यंत् । [सं. अत्यन्त] वि. १. सुमारा भायर; अती. (अत्यंत हलकट मनीस). २. अतोनात (अत्यंत खर्चिक.)

**अत्यवस्त** । अत्यवस्त् । [सं. अति+अवस्था] वि. मर्णाचे देगेर आशिल्लो; ही तड काय ती तड अशे अवस्थेंत आशिल्लो; हापाप लागिल्लो.

**अत्याचार** । अत्याच्यार्, सा.रू. -रा; भौव. -र; सा.रू. -रां । [सं. अत्याचारः] पु. १. अधर्मी चाल-चलणूक. २. जुलूम; आगळिक. ३. अच्छेव. ४. बलात्कार.

**अत्याचारी** । अत्याच्यारी सा.रू. -त्र्या; भौव. -री, सा.रू. -त्र्यां । [सं. अत्याचारिन्] वि. जो अत्याचार करता तो; दुराचारी; निस्टूर. २. अन्याय, जुलूम, आगळिक करता तो. ३. धर्मकोल्ली.

**अत्यानंद** । अत्यानंद्, सा.रू. -दा । [सं. अत्यानन्दः] पु. पराकास्टेचो आनंद; आनंदाचें परम उत्कृस्ट अशें अध्यात्मिक रूप; परमानंद.

**अत्र** । अत्र्, सा.रू. -त्रा; भौव. -त्रां, सा.रू -त्रां । [सं. अथर्य ?] न. तीर्थ; तीर्थस्थान; यात्रेचें स्थान.

**अत्रवासी** । अत्रवासी, सा.रू. -श्यां; भौव. -सी, सा.रू. -श्या । [सं. अथर्य, र्यु = गमनशील, वेल्यान?] वि. जो तीर्थयात्रेक वता तो; तीर्थयात्रेस्त; तीर्थयात्री; जो तीर्थयात्रा करीत भोंवत आसता तो.

**अत्रवीद** । अंत्रवीद्, सा.रू. -दा; भौव. -द, सा.रू. -दां । [पुर्तु. Atrevido] वि. १. धिरिस्ट; धिरवंत; साहसी. २. पचापच जापो सांगपी; भीड-म्हुर्वत नाशिल्लो; तवनास; उर्मट; मस्तो. (अत्रवीद भुरगो)

**अत्रेग** । अत्रेग्, सा.रू. -गा; भौव. -ग; सा.रू. -गां । [सं. अतिरेकः?] पु. १.बारकाय; बारिकसाण; जिज्ञासा. (इं.) Curiosity. २. तीव्र इत्सा; अभ्रेकणी; उमळशीक; उत्कंठा; आंवडो. (इं.) Longing.

**अत्रेगप** । अत्रेगप्, सा.रू. -गपा । [सं. अतिरेकः?] क्रि.दा.धा.सा.ना. (मूळ धातू: अत्रेग् (सक.)) आंवडेवप; आशेवप (तो बलायकी अत्रेगता.)

**अत्रेगादिक** । अत्रेगादिक् । [कों. अत्रेग + आदिक] वि. जें जें इत्सुपासारकें वा आंवडेवपासारकें आसता तें. (ही वस्त समस्तांक अत्रेगादिक).

**विशेश:** अत्रेगादिक म्हळ्यार जें इत्सुपासारकें वा आंवडेवपासारकें आसा तें. मनशान इत्सुपासारक्यो वा आंवडेवपासारक्यो जायत्यो गजाली आसतात. देखून, 'अत्रेगादिक' ह्या उतरा फाटल्यान 'पुंजुल्या' ची सया आसा.

'अत्रेग' ह्या उतराक 'आदिक' हें अव्यय लागून 'अत्रेगादिक' हें उतर घडलां. 'आदिक' हें अव्यय संस्कृत 'आदि+कृत्वा' ह्या दोन उतरांच्या संक्षेपांतल्यान घडलां जावयें. 'आदिकृत्वा' ह्या उतरांतल्यान 'पुंजुल्या'ची म्हळ्यार 'समाहारा'ची कल्पना व्यक्त जाता. तेच परी 'आदिक' हातूंतल्यानय हीच कल्पना उक्ती जाता.

**अथ** । अथ । [सं. अथ; वे. अथा] अ. १. संस्कृत ग्रंथारंभाचो शुभ शब्द. २. ग्रंथाचे सुरवातेक; आतां; हांगासल्लयान. –अथ ह्या उतराक 'शुभ' असो भावार्थ ना. ब्रह्मदेवाच्या

मुखातल्यान हें उतरं भायर सल्लां. देखून, हो शब्द बऱ्या सुगुर्व्याचो मानतात.

**वा.प्र: अथपासून इतिमेरेन:** मुळाक साकून अखेरमेरेन; सुरवातीपासून शेवट मेरेन.

**विशेश:** ग्रंथाचे सुरवातिक 'अथ' आनी अखेरेक 'इति' बरोवपाची पद्धत पुर्विल्लया काळांत आशिल्ली. हे पद्धतिवेल्यान हो वाक्प्रचार घोळटेंत आयलो.

**अथर्वण** । अथर्वण्, सा.रू. -णा, भौव. -णां, सा.रू. -णां । [सं. अथर्वन] पु. जादू; फितीस; कुवाडें.

**अथर्वन** । अथर्वन्, सा.रू. -ना । [आव्हे. 'आथर' वेल्यान] पु. १. अथर्ववेदाचो द्रस्टो ऋशी. २. अग्निची उपासना करपी ब्राह्मण.

**विशेश:** 'अथर्वन' हें उतर इंडो-इराणिक काळावेलें. 'आव्हेस्तां'तल्या 'आथर' ह्या उतरावेल्यान तें घडलां. आव्हेस्तांतलो 'अथ्रवन' आनी वेदिक 'अथर्वन' हांच्यांत सारकाय आसा. प्राचीन वेदिकाच्यां दिसपट्टया कृत्यांत अग्निपूजेक म्हत्व आशिल्लें. अथर्वन हे अग्निपूजेवांगडाच जादू करपांतय खांपे आशिल्ले. मिडिया देशांतल्या अथ्रवन लोकांक 'मगी' (जादू आनी फितिसां जाणा जावपी अग्निपुजक) अशें म्हण्टाले. 'अथर्वन' आनी 'आंगिरस' हे दोन वेगळे मंत्रवर्ग आसात.

**अथर्ववेद** । अथर्ववेद्, सा.रू. -दा । [सं. अथर्ववेद:] पु. भारतीय संस्कृतीच्या इतिहासांत चौथौ वेद म्हणून मानिल्लो वेद.

**विशेश:** अथर्ववेदाक ब्राह्मणांनी 'वेदत्रयी' म्हळ्यार ऋग्वेद, यजुर्वेद आनी सामवेद हांच्या बराबर जागो दिलो ना. अथर्ववेदाक तांणीं सदांच उणो मानलो.

अथर्ववेदांतल्या चडश्या ऋचांची निर्मणी अथर्वन ऋशी आनी तागेल्या कुळयेंतल्या ऋशींनी केल्या. देखून, ह्या ग्रंथाक 'अथर्ववेद' हें नांव पडलां. अथर्वन ह्या उतराचो, अग्नी आनी सोमाची पूजा करपी पुजारी असोय एक अर्थ आसा.

अथर्वन मंत्र मनिसजातीक सुख-देणें, संकटाचें निवारण करपी अशें मंगल आनी तारक आसात; तर आंगिरस मंत्र हे अघोर, पिडा दिवपी अशे मारक आसात. 'अथर्वांगिरसवेद' हें ह्या वेदाचें अत्यंत प्राचीन नांव. ह्या वेदाक 'भृग्वांगिरसवेद', 'ब्रह्मवेद' आनी 'क्षात्रवेद' अशा वेगवेगळ्या नांवांनी वळखतात. ब्रह्मतत्वाचें ज्ञान करून दिवन मोक्षामेरेन व्हरपी वेद म्हणून हाका 'ब्रह्मवेद' म्हण्टात, अशें अथर्ववेदाचे अनुयायी सांगतात. ह्या वेदाक ब्रह्मवेद कित्याक म्हणचो म्हणपाची एक फोडणिशी मेळटा. होता, अध्वर्यु आनी ऊद्गाता ह्या तीन ऋत्विजांखातीर अनुक्रमान ऋग्वेद, यजुर्वेद आनी सामवेद हातूंत मंत्र मेळटात. ब्रह्मा ह्या चौथ्या ऋत्विजाखातीर स्वतंत्र अशे मंत्र नाशिल्ले. अथर्ववेदान हे मंत्र दिले. ताका लागून हाका 'ब्रह्मवेद' म्हळा. क्षत्रियांक खासा आपली आनी आपल्या राज्याची राखण करपाखातीर उपकरांवचेले मंत्र अथर्ववेदांत आसात. ताका लागून हाका 'क्षात्रवेद' अशेंय म्हण्टात.

ऋशी आपले पूर्वज म्हणून आंगिरसावांगडाच अथर्वन आनी भृगू हांचोय उल्लेख करतात. ह्या तिगांचींय नांवां अग्निपूजेकडेन जोडिल्लीं आसात. अथर्ववेदाक अथर्वांगिरसवेदावरी भृग्वांगिरसवेदय कित्याक म्हण्टात हाजी फोडणिशी हांगा जाता.

अथर्ववेदाची भास ऋग्वेदासारकीच आसली, तरी जायतेकडेन ते भाशेचें रूप ऋग्वेद काळाउप्रांतचें दिसता. अथर्ववेदाचो काळ अमुकच असो सांगूंक मेळना. जाल्यारूय, अथर्ववेद हो ऋग्वेद काळाउप्रांतचो आसा हातूंत दुभाव ना. बंगालच्या रानांत आसपी वागांचो उल्लेख ऋग्वेदांत मेळना. तो

अथर्ववेदांतच मेळटा. तेच परी तांदळांचोय उल्लेख अथर्ववेदांतच पैलोवैलो मेळटा. अथर्ववेदाची संहिता जरी ऋग्वेदाउप्रांतची आसली, तरी अथर्ववेदांतलीं अभिचार सूक्तां ऋग्वेदाइतलींच प्राचीन आसात, अशें बहुतेक पंडितांचें मत आसा.

अथर्ववेदाच्या णव शाखांचो उल्लेख मेळटा: (१)पैप्पलाद, (२) तोद वा तौदायन, (३) मौद वा मौदायन, (४) शौनक, (५) जाजल, (६) जलद, (७) ब्रह्मवद, (८) देवदर्श आनी (९) चारणवैद्य. ह्या शाखांतल्या पैप्पलाद आनी शौनक ह्या दोनच शाखांच्यो संहिता आज मेळटात. सध्या विचार जाता तो अथर्ववेदाचे शौनक संहितेचो. शौनक संहितेंत पैप्पलाद संहितेवरीच एकूण वीस कांडां आसात. मुळांत हे संहितेचीं अठराच कांडां आशिल्लीं. इकुणिसावें आनी विसावें कांड उप्रांत जोडलां जावये, अशें अभ्यासकांचें मत आसा. हे संहितेंत ७३१ सूक्तां आसून, सुमार स हजार ऋचा आसात. विसाव्या कांडातलीं चडांत चड सूक्तां ऋग्वेदांतलींच घेतल्यांत. ऋग्वेदांतलो यम-यमी संवाद, इंद्र-इंद्राणी संवाद आनी पुरुषसूक्त जशाक तशें अथर्ववेदांत परत घेतिल्लें मेळटा. ह्या भायर ऋग्वेदांतल्या सुमार एक सप्तमांश ऋचांची पुनरावृत्ति अथर्ववेदांत जाल्ली दिसता.

अथर्ववेदांतले विशय अशे वांटूंक येतात: (१) भैषज्य वा रोगनिवारण सूक्तां, (२) दिर्घायुष्य सूक्तां, (३) अभिचार कर्मां, (४) स्त्री कर्मां (बायलांकडेन लग्निक आशिल्लया विशयांचेर सूक्तां, (५) राजकर्मां, (६) ब्राह्मण महात्म्य, (७) पुष्टिकर्मां (समृद्धिखातीर आशिल्लीं अभिचार सूक्तां) (८) शांतिकर्मां, (९) अध्यात्मसूक्तां, (१०) हेर सूक्तां, (११) व्रात्यस्तोम आनी (१२) सहजीवन वा वांगडचार सूक्तां.

**भैषज्य सूक्तां:** आयुर्वेदाचें मुळावण अथर्ववेदांतल्या ह्या रोग-निवारण सूक्तांत मेळटा. ह्या सूक्तांतले मंत्र बळाळिकेचें निवारण जावपाखातीर आसात. राक्षसांक लागून रोग जातात, म्हणपाचो एक समज आशिल्लो दिसता. तांकां धांवडावपाखातीर कांय मंत्रांची रचना जाल्या. कांय मंत्रांत रोगाचें निवारण करपी वनस्पतिंची तोखणाय केल्या. कांय मंत्रांत रोग बरो करपाची तांक आशिल्लया उदकाची तूस्त केल्या. कांय मंत्रांत राक्षसांक धांवडावपाखातीर अग्नीक होरायला.

जोराचो, तातूंतय कुलकुलो खावन येता, त्या जोराचो तांकां थर्त भय दिसतालोसो दिसता. जोराक ताणीं 'तक्मन' म्हळा. जोराकडेन ते "मुजवत, बल्हिक वा तांच्याय पेल्यान आशिल्लया देशांनी तोंड घेवन वच आनी थंयचे शूद्र बायलेचे आंगार पड आनी तिजो देह कुमकावन काड आनी तूं आमच्या म्हऱ्यांत येंव नाका" अशें मागतात. (अ.वे. ५ २२.१-१४). ह्या सूक्तांत जोराचें जें वर्णन केलां, ताजेवेल्यान तो जोर मलेरिया जावयेसो दिसता.

राक्षस, भुतां आनी पिशाच्च्यां हांच्या भायर मनशांक पिडपी आनिकय आसुरी शक्ती आसात म्हणपाचो एक समज रूढ आशिल्लो. ह्यो आसुरी शक्ती रातिच्या वेळार मनशांक (दादल्यांक तेच परी बायलांक) आडायताल्यो. तांकां पिडापीड दीत तांचेर आगळिको करताल्यो. तांकां भुलयताल्यो. तांकां पिशें लावन सोडटाल्यो.

वेदिक काळार गंधर्व आनी अप्सरा मनशांक तरेतरेन पिडापीड दिताल्यो, म्हणपाचो समज चलतालो. ह्यो उदकाच्यो, रानांच्यो राखणायत देवता, न्हंयांच्या देगांनी वा पिंपळ आनी वड ह्या रुखांच्या उंच तेंगश्यांर बसून मनशांक भुलयताल्यो. सृस्टिच्या नेमाआड वचून मनशाचो वा मनशांकडल्यान भोग घेवपाखातीर, आपले जागे सोडून, त्यो संचाराक भायर

सरताल्यो. तन्ने-धाकटे तर अप्सरांक भुलून, पिशें लागिल्ल्यावरी तांच्या फाटल्यान धांवताले. ह्या देवतांची बाधा जांव नये म्हणून, त्या काळावेले मांत्रिक अजशृंजी नांवांचे वनस्पतिचो उपयोग करताले आनी गंधर्वांक प्रार्थिताले: ''गंधर्वांनो, अप्सरा तुमच्यो बायलो आनी तुमी तांचे घोव. कितलेय जाल्यार तुमी अमर्तिक आनी आमी मर्तिक. तुमी आमचे वाटेक वचूं नाकात. आमचे मदगतीं निखालस येंव नाकात.'' (अ. वे.४. ३७.१२).

अप्सरांक आनी गंधर्वांक आवाहन करून, तांका अजशृंजीच्या पालवान आनी मंत्रांच्या सामर्थ्यान धांवडावनय तांच्या जीवाक सूख नाशिल्लें. पिडेमूक्त दिर्घायुश्याक ते वच्वेताले. तोच तांचो मोक्ष आशिल्लो. तांकां कामिण जाताली. कामणीन सगळें आंग हळडुवें जावन वतालें. जाल्यारूय, कामणीचेर करचेले उपचार तांकां खबर नाशिल्ले. उपचाराची खुमा कशी ''रोग्या, तुज्या आंगाचो हळडुवो जाल्लो वर्ण हळडुव्या सवण्यांच्या पांखांनी भरसून वचूं'' (अ.वे. १.२२.४) इतलोच मंत्र ते म्हण्टाले.

अपघाती मर्णां सोर्पांच्या रूपान ठाणें मांडून आशिल्लीं. केन्ना ते दंश करीत म्हणपाची शाश्वती नाशिल्ली. कैरात, पृष्नि, बभ्रु, असित, अलिक, तैमात, अपोदक, सात्रासाह, मन्यु, उपतृव्य, आलिगी, विलिगी, उरूगुला, असिक्त, दुद्रुषी, कर्णा, श्वाबित आनी खनित्रमा अशो जिवाण्यांच्यो अठरा जाती तांकां खबर जाल्ल्यो. ह्या भायर तक्षक आनी धृतराष्ट्र ह्या नांवांचे सोरोप आशिल्ले. जिवाण्यांच्या विखाराचेर 'ताबुव' आनी 'तस्तुव' ह्यो वनस्पती ते उपकरायताले.

केन्ना तांकां आंतड्यांचो विकार जातालो; केन्ना क्षयाची बाधा जाताली; केन्ना मूत आफरावन येतालें; पित्त-कफाचो दोश जातालो; केन्ना आंग उजळटालें. ह्या रोगांसंबंधान रचिल्ले मंत्र अथर्ववेदांत मेळटात.मंत्रांनी रोगाचें निवारण जातालेंच अशें ना. रोगाचें निवारण जावपाखातीर केन्ना केन्ना ते मंत्रिल्ल्यो तावजो गळ्यांत घालताले. एकाद्रेवेळा पिडेचो परिहार जातालो, जायते खेपो जायनाशिल्लो. देखून, आपल्या पिडांचें निवारण करपाक ते सूर्याक आवाहन करताले. (अ.वे. १.१२. १-४)

**(२) दिर्घायुश्य सूक्तां:** रोगांचें निवारण करपी वखदांचेर आयुश्याचो प्रश्न लग्निक आशिल्ल्यान, रोग निवारण सूक्तां आनी दिर्घायुश्य सूक्तां तशीं वेगळीं काडूंक मेळनात. दिर्घायुश्याखातीर आशिल्ले प्रार्थना मंत्र मुजिच्या वेळार उपकरायतात. प्रत्येक मंत्रांत अग्निची उपासना आसा. अग्नि हो प्राण. अग्नि हो चैतन्य. अग्नि हो सूर्य. वेदिक काळावेलो प्रत्येक मनीस शंभर वर्सां जियोंवक सोदता. शंभर वर्सांच्याय परस चड आयुश्य दी म्हणून तो सूर्याक प्रार्थिता (अ.वे. १९.६७. १-८).

सगळीं दिर्घायुश्य सूक्तां आडमर्णापासून राखण मेळची, रोगांपासून निवारण जांवचें, हेच एकसुरे प्रार्थनेन भरिल्लीं आसात.

अथर्ववेदाच्या १९व्या कांडांतल्या ४४व्या सूक्तांत परपरत आयुश्यवर्धक औशधिक होरायल्ली मेळटा. आंजन मणयांक उद्देशून हे सगळे मंत्र तांणी म्हळ्यात.

**(३) अभिचार मंत्र:** विसाव्या शेंकड्यांतल्या आजच्या विज्ञानयुगांतय करणी, फितिसां, आनी जादू हांचेर भारतांतल्या लोकांची आशिल्ल्या अंधविश्वासाची परंपरा, कितली पुर्विल्ली आसा म्हणपाची नाट, आमकां अथर्ववेदांतल्या अभिचार (जादू, मंत्र, करणी) सूक्तांतल्यान मेळटा.

अथर्ववेदांतले हे अभिचार मंत्र शत्रू, राक्षस आनी करणी करपी हांका आळाबंदा हाडपाखातीर आसात. अभिचार आनी यातुविद्या ह्या मंत्रांतल्यान उक्ती जाता. ह्या मंत्रांची भासय निस्टूर आनी दुस्ट आसा. हे सगळे मंत्र अंगिरस वर्गांत मोडटात. रोगांचें निवारण

करपी कांय मंत्रय ह्याच वर्गांत येतात. रोग निर्माण करपी राक्षसांक ह्या मंत्रांनी चरचरीत श्राप घाल्यात. सोळाव्या कांडाचो उत्तरार्ध ह्याच वर्गांत आस्पावता. दूस्ट सपनांचेर अभिचार मंत्र आसात, तेच परी दूस्ट सपनांचें भूत दुस्मानांचे गोमटेर वचून बसूं म्हणपाचीय प्रार्थना आसा.

प्रत्येक दिकेंतल्यान पिडूंक येवपी शत्रूंचो नाश करपाखातीर अग्नि, वायु, सोम, वरुण, सूर्य, उदक, विश्वकर्मन, इंद्र, प्रजापती आणि बृहस्पतीक तांणीं विनयला (अ.वे. १९.१८. १-१०). पिडया पिडयांची दुस्मानकाय जीण भंगयता. दुस्मानकायेन जीवाक सूख नासता. भोंवतना मन सोडून निश्कळंक भोंवूंक मेळना. घाळ वेळाचेर खंयचो शत्रू येवन आपलो घात करित म्हणून कळना. वेंतेक दवरचो ईश्ट पूण गांवांत दवरचो न्हंय दुस्मान, हाची प्रचिती तांकां आयिल्ली आसता. देखून, एका अभिचार मंत्रांत आमी तुमचो दुस्वास करिनात म्हणून ते आपल्या शत्रूंक सांगतात आनी आपणाक अभय आसचें म्हणून तांचेकडेन मागतात. आसुरी प्रयोगांची आपल्याक बाधा जांव नये म्हणून, ते दोरे आनी औदुंबराच्या लाकडाच्यो केल्ल्यो तावजो आनी मणी उपकरायतात.

राक्षस आनी भुतां मनशांक पिड्टात. करणी करपी मनिसय (जांव दादलो, जांव बायल) मनशांक तरेतरेची व्यथा भोगयतात. एका अभिचार मंत्रांत ते करणेकडेन "अभिचार करून लोकांचें गठ्ठाण करपी मस्त्यांचो तूं नाश कर. तातूंतल्या एकल्याकय तूं जिवो दवरूं नाका" म्हणून मागतात. (अ.वे. १०.१.३१)

ह्या मंत्रांनींय तांच्या मनाचें समाधान जायना. ते स्वस्थ-चित्त जायनात. तांच्या रागाचो किंवाटो न्हिवना. वरुण कितलोय जाल्यार बळिस्ट देव! तो सर्वसाक्षी आसा ही तांची भावना! वरुणाचेर तांचो पूर्ण विश्वास. ताकाच ते प्रार्थितात, "तुज्या सप्तसप्त पासांनी तूं असत्यवाद्यांक बांदून घाल आनी सत्यान चलतल्यांची सुटका कर" (अ.वे. ४.१६. १-९)

ह्या सूक्तांत वरुणाचें तांणीं भक्तिभावान वर्णन केलां. वरुण हो ऋताचो (जिचो भंग करूंक फावना अशें संवसारीक (Cosmic) नीतीचो, तेच परी सामाजिक पवित्र नीतीचो) देव. असत्य ताका सोंसना. तो फटकिऱ्यांक केन्ना सोडिना आनी पुण्यवंतांक पिडिना, ही तांची श्रद्धा! ह्या सूक्तांत काव्य आनी अभिचार मंत्र हातांत हात घालून चलतात. अथर्ववेदाचें जर्मन भाशेंत भाशांतर करपी रोथ (R.Roth) हाणें म्हळां की, देव हो सर्वसाक्षी आसा, हे दृढ भावनेन रचिल्लें सूक्त, सबंध वेद वाङ्मयांत हाज्यासारकें आनीक दुसरें ना.

**(४) स्त्री कर्मां**: ह्या वर्गांतले मंत्र बायलांचे जीणेकडेन लग्निक आसात. चलयांची लग्नापैलिंची जीण, तेचपरी लग्नाउप्रांतची जीण हो विशय अत्यंत मोलादिक आसा. तवशिणीक जाल्ली तवशाची पिपरी जशी तोड्टात, तशी बापायच्या कुळांतल्यान काडून घोवाच्या कुळाकडेन जोड्टां म्हणपाचें ते होंकलेक सांगतात. (अ.वे. १४.१.१७), आनी ही होंकल पुत्रवती जावन भाग्यवती जावपाखातीर इंद्राक ते होरायतात. (अ.वे. १४.१.१८). नव्या दांपत्याची जीण सुखाची जांवची, गर्भसंभव आनी गर्भाची पूर्ण राखण जांवची, तेचपरी जन्माक आयिल्ल्या भुरग्याक राखण मेळची ह्याखातीर रचिल्ले मंत्र हांगा आसात.

प्रत्येक तर्ण-धाकुट्याक आपल्याक जाय आशिल्ली चली, बायल म्हणून मेळपाखातीर वशीकरण मंत्र आसात. तेचपरी तर्ण-धाकुटे चलयेकय आपल्याक जाय आशिल्लो चलो, घोव म्हणून मेळपाखातिरय हांगा वशीकरण मंत्र आसात. (अ.वे. ६. १३१. ३)

तांचो संवसार माये-मोगान चलतासतना एकाद्रे बायलेची कूस उजवनासतना उरताली. गोठ्यांत जशीं गोरवां जाय आशिल्लीं, तशींच घरांत तांकां भुरगीं-बाळां खेळिल्लीं जाय आशिल्लीं. भुरग्यांबगर घराक सोबा ना. देखून, वांझ बायलय पुत्रवती जावन, सुखा-समाधानान भरची ह्याखातीर अथर्ववेदांत मंत्र आसात (अ.वे. ३.२३. १-६), तेच परी एकाद्रो दादलो खोजो आसल्यार, वीर्यवर्धक अशे कपित्थ औशधीन, ताका दादलेपण मेळोवन, निपुत्रिकाची जीण ताज्या वांट्याक येंव नये म्हणूनय मंत्र आसात. (अ.वे. ४.४. १-८)

हालमी खुशाल अशी जीण दादल्यांल्या आनी बायलांच्या वांट्याक येंवचीं ह्याखातीर हांगा मंत्र आसात. अथर्ववेदाच्या काळावेल्या बायलांक सवत निखालस सोंसना. सोडणाच्या उज्यावरी सवतिमत्सर तांच्यांत जागृत आसा. सवतींक ताणीं चरचरून श्राप घाल्ले मेळटात. घोवाक वश करपी वनस्पतिकडेन, घोव आपलो एकल्याचोच जायसो कर, म्हणून त्यो मागतात.

घोव आपल्या म्हऱ्यांत येंवचो, तो आपलो एकल्याचोच जांवचो, हीच तांची सभावीक इत्सा आसा. एकमेकांचीं काळजां एकमेकांच्या मोगान भरून वचून, आपलो संवसार सुखाचो जांवचो, होच तांचो आंवडो आसा. घोव बायलेक वश आसल्यारच घर थारता. घोवाचें चित्त आपल्या घराचेर आसल्यारच, बायलेच्यान आपलो संवसार फुलोंवक येता. घराक घरपण दिंव येता. कुटुंबाच्या कल्याणाखातीर हुस्क्या-मेकळें वावरूंक मेळटा. देखून, दर एकली बायल घोवाक सांगता: "(म्हज्या काळजाच्या देवा), हांव तुजेसरीं आसतना, तूं म्हजेंच उलवणें एक सारकें आयकत राव. तूं एक उतरय उलोंव नाका, हेर खंचेच बायलेचो तूं जांव नाका. तिजें नांव पासून तूं घेंव नाका. तूं फक्त म्हजो जा."

**(५) राजकर्मा:** अथर्ववेदाच्या काळार राजसंस्था निर्माण जाल्ली. प्रत्येक राजाचो एक पुरयत आसतालो. राजाच्या हिताचे मंत्र पुरयताक खबर आसचे पडटाले. राज्याभिशेक, राजाची निवड, हद्दपार केल्ल्या राजाची राज्यार परती केल्ली स्थापना, आपले सेनेक उत्तेजन दितना शत्रूचे सेनेक निर्बळ करप, शत्रूच्या बाणांपासून राजाची राखण करप, ह्या क्रियांकडेन लग्निक आशिल्ले मंत्र प्रत्येक पुरयताक येंवचे पडटाले.

राष्ट्र हें ज्ञानक्रियेचेर आनी बळक्रियेचेर उबें आसता. 'ब्रह्म' आनी 'क्षत्र' ह्या दोन उतरांनी ह्या क्रियांचो निर्देश जाता. परमेश्वरी ज्ञानाचो दिस्टावो जाल्ल्या ऋशिंनी, संवसाराचें कल्याण जांवचें, हे एकेच इत्सेन दिक्षेचें आनी तपाचें आचरण केलें. हे दिक्षेक आनी तपाक लागून राष्ट्र, बळ आनी ओज निर्माण जालें, अशें अथर्ववेद सांगता (१९.४१.१).

राष्ट्राची निर्मणी ही ऋशींचे तपश्चर्येतल्यान आनी दिक्षेंतल्यान जाता. आपल्या तपांतल्यान आनी दिक्षेंतल्यान निर्माण जाल्ल्या राष्ट्राची राखण आनी उदर्गत जांवचेखातीर 'विश' म्हळ्यार प्रजा आपलें हित पळोवपी राजा वेंचून काडटा आनी "बळ प्राप्त जाल्ल्या राजा, अभिशेकान न्हावन शुद्ध जाल्ल्या हतयावरी, न्हंय जशी समुद्राकडेन धांव घेता, तेचपरी प्रजेच्या कल्याणाची स्फूर्त तुका जांव. वागावरी पराक्रमी लोक, सिंव्हाक दितात तसो मान तुका दिंव" अशें म्हणत ताका राजव्रताची दीक्षा दिता.

राजव्रताची दीक्षा दितकीर राजा हो सादो मनीस उरना. तो साक्षात अग्नि जाता. प्रजेच्या कल्याणाक तो बांदिल्लो उरता. आपुण एक स्वार्थी मर्तिक आसां, ही भावना सोडून, तो जेन्ना आपुण 'अग्नि' आसां अशें निस्वार्थी भावनेन राज्य चलयता तेन्नाच तें राज्य सासणाचें अज्रंवर जाता.

प्रजापतीच्या कन्यारुपी अशा 'सभा' (विद्वानांची सभा) आनी 'समिती' (वीर सभा)

हांच्या पालवान राजा आपलें शासन चलयता (अ.वे. ७.१२.१). सभा आनी समिती ह्या प्रजापतीच्या धुवांक म्हळ्यार संस्थांक, जेन्ना राजा कुशीक उडैता आनी आपल्याक जाय तसो राज्याचो भोग घेता, तेन्ना ऋशी राष्ट्रांत नवी जाणविकाय आनी नवी जागृती निर्माण करतात. हे नवे जाणविकायेंतल्यान, जे प्रजेन ताका वेंचून काडिल्लो, ती प्रजाच राजाक हद्दपार करता, आनी नवो राजा वेंचून काड्टा. राष्ट्र हें ऋशींच्या तपांतल्यान निर्माण जाता, हो अथर्ववेदांतलो विचार आजच्या संदर्भानय अत्यंत मोलादिक आसा.

**(६) ब्राह्मण महात्म्य:** अथर्ववेदाच्या काळार ब्राह्मण, क्षत्रिय, वाणी आनी सुदिर हे चारय वर्ण जाल्ले दिसतात. इतलेंच न्हंय तर ब्राह्मणांक वेलो पाट दिल्लो दिसता. ब्राह्मणांक जेवणां घालचीं, यज्ञांत तांका दक्षणा दिंवची, अशो कांय ब्राह्मणांच्या हिताच्यो गजाली अथर्ववेदांतल्या कांय सूक्तांनी मेळटात. ब्राह्मणांचो घात करतल्याचें तेज, वाणी आनी संपत्ती नष्ट जाता म्हणून सांगलां. (अ.वे. १२.५.९). ब्राह्मणांची जो तीड काड्टा, ब्राह्मणांचें जो अहित करता अशा ब्रह्मघातक्याचें गठ्ठाण कर म्हणून तांणीं सूर्याक विनयला (अ.वे. १३.३ १-२४). ब्रह्मघातक्याच्या देहाच्यो शिन्यो करून ताजें भस्म करून उडय म्हणून मागलां (अ.वे. १२.५.६२). ज्याका यश जोडूंक जाय, ज्याका बुद्धिचो विकास जांवक जाय ताणें ब्राह्मणाची प्रार्थना करूंक जाय (अ.वे. ६.५८; ६.६९; ६.१०८). ह्या सूक्तांचो काळ बरोच उप्रांतचो आसूंक जाय अशें विंटरनिट्झ ह्या विद्वानाचें मत आसा.

**(७) पुष्टिकर्मा:** अपेस वांट्याक येनासतना आपली जीण समृद्धिन भरची ह्या हेतून रचिल्ले मंत्र अथर्ववेदांत मेळटातः अथर्ववेदाच्या काळार शेतीचो व्यवसाय तरतरतालो जांवक जाय. पशुपालन, धनधान्याची आनी जनांवरांची विक्री हाजोय व्यवसाय चलतालो जांवक जाय. वस्त्रां विणपाचो उद्योगय त्या काळार आशिल्लो जांवक जाय.

शेतोडेखातीर ते सीतादेवीक आवाहन करतात (अ.वे. ३.१७.२, ८,९.). पशुधनाची (गायो आनी बैल हांची) वाढ जावपाखातीर ते अरूंधती वनस्पतीक आनी तेच परी उदक देवतेक प्रार्थितात. आपलो किऱ्या-विक्ऱ्याचो वेव्हार लाभेस्त जावपाखातीर ते इंद्राक होरायतात (अ.वे. ३.१५. १,२ आनी ८).

वेळविश्रांतीखातीर ते पाशांनी खेळटाले. ऋग्वेद काळासाकून तांकां जुगाराचें चट आशिल्लें दिसता. पाशांच्यां खेळांत यश मेळचें म्हणून ते संपत्ती-देणे साधुदेविनी अप्सरेक आवाहन करतात (अ.वे. ४.३८.१) आनी आपली संपूर्ण जीण यशाची गाथा जांवची, म्हणून ते इंद्राक प्रार्थितात (अ.वे. ६.५६. २,३).

**(८) शांतिकर्मा:** केन्ना पाड्या सपनांक लागून अथर्ववेदाच्या काळावेल्या लोकांच्या जिवाची घालामेल जाता. केन्ना कावळो आनी घूघूम अशा अशुभ सवण्यांच्या दर्शनान ते भयभीत जातात. वायट नक्षत्राचेर जन्मल्या भुरग्यांचो आपल्याक बाधिकार जावये म्हणून ते गर्भगळित जातात. असल्या बारिक-सारिक दुःखांचे निवारण जावन मनाक शांती मेळपाखातीर अथर्ववेदांत मंत्र सांगल्यात. जुगाराच्या नादाक लागून, दुसऱ्याकडल्यान घेतिल्लें रीण, एकाद्रेवेळा पावनासतना उरता. तें तांच्या मनाक खाता. आपणांक रिणांमेकळे करात म्हणून ते अप्सरांक विनयतात. केन्ना व्हडल्या भावाचें लग्न जांवचे पैलीं धाकलो भाव लग्न जाता. हें कृत्य तांकां पाप कशें दिसता. असल्या बारिक-मोठ्या पापांक लागून लागपी दोशांचें निवारण करपाखातीर, ते केन्ना अग्नि, केन्ना इंद्र, केन्ना वायु आनी सविता, द्यावापृथ्वी, मरूत, भव आनी शर्व, मित्र आनी वरुण ह्या

देवतांची प्रार्थना करतात.

**(९) अध्यात्म सूक्तां:** मंत्रविद्या आनी तत्त्वज्ञान हीं हातांत हात घालून चलनात. अथर्ववेदांत तत्त्वज्ञानाचीं कांय सूक्तां मेळटात. जाल्यारूय, ह्या सूक्तांनी तांकां तत्त्वज्ञानाची उत्कठां लागिल्ली दिसना. अथर्ववेदांत पृथ्वीसूक्त जशें कवितेच्या पांवड्यार चड्टा, तशीं तत्त्वज्ञान सूक्तां तत्त्वज्ञानाच्या पांवड्यार चडनात. तीं वेव्हाराच्या बसकरार आशिल्लीं दिसतात. ऋग्वेदांत तत्त्वज्ञानाचीं सूक्तां आसात, तातूंतल्या विचाराची वाढ उपनिशदांनी जाल्या. अथर्ववेदांतलीं तत्त्वज्ञानाचीं सूक्तां ही ऋग्वेद आनी उपनिशदां हांच्या मदल्या विकासाची अवस्था आसा अशें म्हणूंक मेळना. हाका आडवाद अथर्ववेदांतल्या स्कंभसूक्तांचो.

अथर्ववेदांतलें ब्रह्मचर्य पालुपद सूक्त (अ.वे. ११.५), स्कंभसूक्तां (अ.वे. १९.५३ आनी १९.५४) हींच अध्यात्मसूक्तांत मोड्टात.

ब्रह्मचर्य संस्था ही प्रजापती संस्थेपरसय पुर्विल्ली संस्था. ह्या विस्तीर्ण आनी अमर्याद संवसारांत संचार करता तो ब्रह्मचारी. ब्रह्मचारी प्रपंचांतले चिंतेंतल्यान मुक्त आशिल्लयान, तो लोकांच्या, समाजाच्या आनी संवसाराच्या चिंतनांत मग्न आसतालो. ऋशी-समाजांत ज्यो ज्यो सुधारणा जाल्यात, जीं जीं शास्त्रां आनी नवे धर्म उदेवाक आयल्यात, तांचे मुळावे प्रवर्तक हे तप करपी ब्रह्मचारीच आशिल्ले. अथर्ववेदाच्या ब्रह्मचारी पालुपद सूक्तांत म्हळां: "समस्त देवतांची कृपा प्राप्त जाल्लो ब्रह्मचारी आपल्या तपाच्या बळग्यान द्यावा पृथ्वीची आनी अतंरिक्षाची राखण करता, तेच परी स्वर्गलोकांतलें ज्ञान भांडार तो आपले तपस्येन राखता. ज्ञान आत्मसात करून आपुणच ज्ञानरूप जाता. अशा ह्या ब्रह्मचाऱ्याक तांणीं खासा सूर्य मानला. ब्रह्मचाऱ्याच्या तपाक ब्रह्माकडेन लग्निक केलां. तपाकच ब्रह्म मानलां.

अथर्ववेदांत 'ब्रह्म' हें नपुंसकलिंगी मानलां. संवसाराचें अंतिम सत्य ह्या अर्थान तें आयलां. ह्या अर्थानच अथर्ववेदाच्या स्कंभसूक्तांत ब्रह्माची व्हडवीक गायल्या. ब्रह्माक जेस्ठ हें विशेशण लायलां. ब्रह्माक थंय प्रथमळें म्हळां. ब्रह्माकच संवसाराचें आदितत्त्व मानलां. अध्यात्म विद्येच्या इतिहासांत अथर्ववेदांतलीं स्कंभसूक्तां अत्यंत मोलादिक आसात.

पृथ्वीसूक्तांतल्यो कांय ऋचा अत्यंत सुंदर आसात. अक्खें पृथ्वीसूक्त कवितेच्या पांवड्यार चडलां. पृथ्वीक तांणीं पृथ्वीदेवता म्हळ्या. तिका कवी म्हळ्या. पृथ्वींतल्यानच आमी जन्माक आयल्यात. तिजेरच आमी पोसतात. तिच्यांतच आमी अखेरचो विसव घेतात. हे अन्नपूर्णेकडेन, हे भूंयदेवतेकडेन ते 'तू आमकां भाग्यदेणी जा' अशें मागतात.

ब्रह्मावरीच काळाकय संवसाराचें मुळावें तत्त्व मानलां. काळाक ऋशिंनी पूर्णकुंभ म्हळा. कुंभ हो मातृगर्भाशयाचें प्रतीक, सृजनाचें कुळार. ह्या पूर्णकुंभांतल्यान सृस्टीची निर्मणी जाल्या. आपल्या अनंत रूपांनी सृस्टि आपलो पसारो मांडित रावता. देखून, काळाक तांणीं ईश्वर मानला. काळानच सूर्य निर्माण करून, उजवाडाची निर्मणी केल्या अशें तांणीं म्हळां.

**(१०) हेर सूक्तां:** ह्या सूक्तांनी यज्ञाखातीर केल्लयो प्रार्थना आनी मंत्र आसात. अथर्ववेदांतल्यो प्रार्थना आनी मंत्र सोंपे भाशेन आशिल्लयान काळजाक ओड लायतात. हे नदरेन अथर्ववेदांतलीं ५.१२ आनी आनी ५.२७ हीं आप्री सूक्तां पळोवपासारकीं आसात. अथर्ववेदांतल्या सातव्या कांडांतलें एक सूक्त यज्ञाच्या साधनांक म्हळ्यार कोयती आनी कुराड हांकां उद्देशून आसा (अ.वे. ७.२८). हवी अर्पण करतासतना म्हणपाचीं हांगा वेगवेगळीं सूक्तां आसात (१.१५; २.२६; ६.३९; ६.४०; आनी १९.१). विसाव्या कांडांतलीं सोमयागाचीं चडशीं सूक्तां ऋग्वेदांतलीं घेतल्यांत. जाल्यारूय, कुंपातसूक्तां

नांवांचो एक वेगळो प्रकार हांगा मेळटा. अथर्ववेदांतल्या (२०.१२७) ह्या कुंपातसूक्तांत दानांची तूस्त मेळटा. कांय कुंपातसूक्तां (२०.१२९; २०.१३०; २०.१३१; आनी २०.१३२) कुवाडीं कशीं आसात. अथर्ववेदाच्या (२०.१२८) ह्या कुंपातसूक्तांत दिशांचे निर्मणेचो उल्लेख मेळटा. (२०.१३३) हें कुंपातसूक्त एक उमाणें कशें आसा. ह्या सूक्तार मात्शिशी पोजडी सया आसा. (२०.१३६) हें सूक्त संभोगाच्या वेळार म्हणपाचें आशिल्ल्यान, ताजेरय एक पोजडी सया आसा. (२०.१३५. १-३) ह्या सूक्तांत उमाणें घालून त्या उमाण्याची जाप मागयात अशें म्हळां, आनी (२०.१३४) ह्या कुंपातसूक्तांत अशुभ नस्ट जांवचें म्हणून मागलां.

अंत्यविधीचे मंत्र १८ व्या कांडांत आसात. अथर्ववेदांतल्या अनुड्ह सूक्तांत (अ.वे.४.११) बैलाची व्हडली तोखणाय केल्या. ह्या बैलांत सगळे देव आसात अशें म्हळां. अनुड्ह सूक्तांतलो बैल हो यज्ञांत बळी दिवपाखातीर व्हेल्लो बैल. बळी दिंवचेपैलीं प्राण्याची पूजा करपाची प्रथा आसा. ताका लागून ह्या बैलाक देवपदार चडयल्लो आसुये.

**(११) व्रात्यस्तोमः** अथर्ववेदाचें १५ वें कांड व्रात्यस्तोमान भल्लां. ह्या सूक्तांतल्यान व्राताची व्हडवीक गायल्या.

प्राचीन वेदीक ऋशी गणाखातीर आंवडो घोंट्टात. ते गणाक वश्रेतात आनी उमळशिकेन म्हणतात: 'नमो गणेभ्यो गणपतिभ्यश्चवो नमो। नमो व्रातेभ्यो व्रातपतिभ्यश्चवो नमो नमो ॥' (वा. स. १६.२५).

वाजसनेही संहितेंतले वेले ऋचेंत व्राताचो उल्लेख येता. हो उल्लेख अत्यंत मोलादिक आसा. वेदिक वाङ्मयांत व्रात म्हळ्यार गण असोच अर्थ जाता. विशिस्ट सामाजिक बंधनांनी बांदून आशिल्लो भौस म्हळ्यार गण वा व्रात. ह्या व्रातांत रावता तो व्रात्य. अत्यंत प्राचीन काळांत समाजांत वर्ग नाशिल्ले. गण व्राताची व्हडवीक ही ऋताचेर आधाल्लेली आशिल्ली. ऋताच्या पासान ते एकचाराची जीण जियेताले. हो एकचार तांची व्हडवीक आशिल्लो.

राजसंस्था उदेवाक येवन गणराज्यां नस्ट जांवक लागल्याउप्रांत व्रातांचें मोल उणें जालें. स्मृतिकारांनी व्रात्याक वर्णसंकरान जाल्ली प्रजा म्हळ्या. जेन्ना देव स्वर्गाचे दिशेन फुडें गेले, तेन्ना जे फाटीं उल्ले ते व्रात्य अशें तांड्य महाब्राह्मणांत म्हळां. सुधारणेच्या मार्गावेल्यान जो लोक फाटीं उल्लो तो व्रात्य असो ताजो अर्थ जाता. जाल्यारूय, अथर्ववेदाच्या ह्या सूक्तांतल्यान, व्राताच्या रूपान एका विराट विश्व पुरुशाचें दर्शन घडटा. मेकळ्या मनान व्राताची व्हडवीक गायिल्ली मेळटा.

**(१२) सहजीवन वा वांगडचारः** अथर्ववेदाचें मेज-माप मनिसच आसा. त्या काळावेल्या साद्या सुद्या मनशांच्यो इत्सा आनी आंवडे, सुखां आनी दुःखां, उमाळे आनी हावेस हांचें दर्शन आमकां अथर्ववेदांतल्यानच जाता. कुटुंबाच्या आनी राष्ट्राच्या उद्धाराखातीर दर मनशान, एकामेकाचेर पातेत, सन्मथ्थान, एकवटान आनी भावबंदायेन चलूंक जाय म्हणपाचें अथर्ववेदच सांगता.

अथर्ववेद जे तळमळीन आनी उमाळ्यान एकचाराचो साद घालता, ते तळमळीन आनी उमाळ्यान ऋग्वेद साद घालिना. अथर्ववेद सांगता (६.६४. १.३):

१. लोकांनो, तुमी एका विचाराचे, एका भाशणाचे आनी एका ज्ञानाचे जायात. पुर्विल्ल्या वांगडचारान चलपी लोकांवरीच तुमी आपलीं कामां एका मतान करात.

२. तुमच्यो सगळ्यांचो प्रार्थना, विचार एकूच आसूंत. तुमचें सगळ्यांचें व्रत एक आ[illegible] एकेच सामोग्रेन तुमच्या देवाची तुमी पूजा करात.

३. लोकांनो, तुमचे संघटनेची तांक

फुलपाखातीर, तुमचो अभिप्राय, अंतस्कर्ण तशींच मनां एकसारकीं आसूंत.

संघटणेचें बळ फोंपेतलें जाल्यार लोकांचीं अंतस्कर्णां आनी मनां अभंग आसूंक जाय. दर एकाक दुसऱ्याचें सूख तें आपलें सूख दिसपाक जाय. दुसऱ्याच्या दुःखान दर एकल्याचें काळीज दर्वेवक जाय. वेगळाचाराची, दुस्वासाची, स्वार्थाची भावना पोरो घालून, एकचाराच्या पेडावणाचेर दर एकलो प्रेमाच्या पासांत बांदून वचपाक जाय. मोगाची भावना पैलीं कुटुंबांत किल्लून येवपाक जाय. तशी ती किल्लून येतली जाल्यार, घोवा बायलेमदीं एकचार आसपाक जाय. तांचो एकचार आनी एकचित्त होच कुटुंबाचो आधार. ह्याच आधारार कुटुंब उबें रावता. ह्याच आधारार कुटुंब थीर जाता. कुटुंब थीर जाल्यारच कुटुंबात माया आनी ओड निर्माण जाता. कुटुंबातल्या दर एकांत जेन्ना आपले लागणुकेची भावना निर्माण जाता, तेन्नाच कुटुंब सुख-शांतीचें आगर जाता. अथर्ववेद मागता (३.३०. १.५):

१. भावांनो, तुमच्यांतलो द्वेश ना जावन तुमचीं काळजां आनी मनां एक जावूंत. गाय जशी पाडकाचेर माया करता, तशीच तुमच्याय काळजांत माया वाडत रावूं.

२. पूत बापायची आज्ञा पाळूंत. आवय आनी पुतांमदगतीं एकचार आसूं. घोव-बायलो एकामेकांकडेन मधुर आनी गोड भाशण करूंत.

३. भाव आनी भैण हांचेमदगतीं संवाद आसूं. समस्त जाण समजिकायेन आनी एकचारान गोड भाशण करूंत.

४. भावांनो, तुमच्या घरांतल्या देवाआड आशिल्ली नास्तिकताय ना करून, दुस्वासाविरैत आनी एकवट निर्माण करपी कामाक आमी प्रारंभ करतांत.

५. भावांनो, धालगड्यांनी आपलो जागो वळखून, म्हालगड्यांक भोमान दिवन सदांच एकवट राखचो. वांगड भावनेन तुमी सांगातान कार्य करपी जावूंत.

नेण्ट्यानीं जाण्ट्यांचो मान राखपाक जाय. जाण्ट्यांमदगतीं नपड येनासतना संवाद आसूंक जाय. दुस्वासान आनी कलहान कोणाचेंच कल्याण जायना. कुटुंबाचें तर नाच ना.

कुटुंबां कुटुंबांनीच गांव वसता. कुटुंबा कुटुंबाचोच समाज जाता. समाजांतल्यानच राष्ट्र आनी देश निर्माण जाता.

मनीस पैलें प्रेम करता तो आपल्याचेर. आपल्याक लागून आपले बायलेचेर. तिका लागून आपल्या भुरग्यांचेर. भुरग्यांक लागून आपल्या कुटुंबाचेर. कुटुंबाक लागून राष्ट्राचेर आनी राष्ट्राक लागून देशाचेर. मनशाचें प्रेम उदात्त जायत वता तें अशें. देखून, गाय जशी पाडकाचेर वा पाडूक गायेचेर प्रेम करता, तसोच लोकांचो एकामेकांचेर मोग आसूंक जाय. मोग तांचो एकचार अभंग राखता. एकचार अभंग उल्ल्यार समाज आनी देश बळिस्ट जाता.

देस बळिस्ट जातलो जाल्यार, देशांतल्या दर एकल्यान आपले लागणुकेक चुकूंक फावना. लोकांच्या ओठांचेर देशाच्या उद्धाराचें गीत दिसपट्टें आसपाक जाय. देशाच्या उद्धाराचें व्रत घेवन, एकचारान आनी एकवटान, हातांत हात घालून, देशाचे व्हडविकेचो हावेस धरचो, ह्या खातीर अथर्ववेद प्रार्थिता (अ.वे. ३.८.५.) : ''लोकांनो, तुमचे आचार-विचार आनी संकल्प एक आसूंत. तुमच्यांतल्यान फुटून वेगळो सरिल्लो लोक, तुमकां येवन परत मेळूं''.

**आधारावळः** १. अथर्ववेद- मराठी भाशांतर, म.म. विद्यानिधी सिद्धेश्वरशास्त्री चित्राव. २. अथर्ववेद, प्रस्तावना, बरोः म.म. सिद्धेश्वरशास्त्री चित्राव; ३. वैदिक संस्कृतीचा विकास, बरोः तर्कतीर्थ लक्ष्मणशास्त्री जोशी; ४. महाराष्ट्रीय ज्ञानकोश, विभाग २रा, वेदविद्या, संपादक डॉ. श्रीधर व्यंकटेश केतकर. ५. लोकायत, बरोः डॉ. स.रा. गाडगीळ आनी ६. भारतीय

विवाहसंस्थेचा इतिहास, बरो: इतिहासाचार्य राजवाडे.

**अथांग** । अथांग् । [सं. अस्थाग, अस्ताघ] वि. १. ज्याचो थांग वा ठाव लागना असो; अत्यंत खोल. (अथांग दर्या). २. ज्याचो अंत-पार लागना असो.

**अथिरपण** । अथिरपण्, सा.रू. -णां । [सं. अस्थिरत्व] न. १. विचारांत वा आचारांत सोंपेपणीं बदल करपाची वृत्ती; चंचळाय. २. अशाश्वताय (संसाराचें सर्व अथिरपण, वा मुक्ती राज्याचें थिरपण, वा कांयच न सरतलें सर्व सूख, जें अंती भोगुचें आसा, तें सांतु आंतोनिच्या पुण्यान तुमकां कळत-सां.अं.अ. —बरो: Fr.Antonio de Saldanha, S.J पा.७)

**अथिरसाण** । अथिरसाण्, सा.रू. -णे । ['अथीर' वेल्यान] स्त्री. १. अथीर आसपाची स्थिती. २. अथिरपण.

**अथिराय** । अथिराय्, सा.रू. -ये । ['अथीर' वेल्यान] स्त्री. १. थिराय, स्थिरताय हांचो अभाव. २. अशांती.

**अथिरासत** । अथिरासत्, सा.रू. -ता; भौव. -तां, सा.रू. -तां । ['अथीर' वेल्यान] न. थीर न्हंय अशी येणावळ; हालती येणावळ; अस्थिर येणावळ.

**अथीर** । अथीर् । [सं. अस्थिर; अप. अत्थिर] वि. १. थीर वा स्थीर नासपी; विचारान वा आचारान दृढ नासपी; भौन भौन आपलो रंग बदलपी; चंचल (अथीर विचारांचो). २. अशांत ( अथीर मन) ३. जो थीर उरना तो; आज आशिल्लो फाल्यां नासता तो. (अथीर दर) ४. थीर पोंद वा बसका नाशिल्ल्यान हेवटेन तेवटेन गडगडपी. (अथीर आयदन).
—**येणावळ:** थीर न्हंय अशी येणावळ.

**अथ्रेकणी** । अथ्रेकणी, सा.रू. -णये । [सं. अतिरेकः] स्त्री. अत्रेग; उमळशीक; तीव्र ओड; तीव्र इत्सा; आंवडो; उत्कंठा.

**अथ्रेकप** । अथ्रेकप्, सा.रू. -पा । [सं. अतिरेकः] क्रि.दा.धा.सा.ना. (मूळ धातू: अथ्रेक् (सक.)) आंवडेप; आशेप; इत्सप.

**अद** । अद् । [सं. अर्ध] वि. अर्दो.
**विशेश:** 'अद' हें उतर 'अर्दो-र्दी-र्दें' ह्या अर्थान येता. कोंकणींत तें मेकळेपणान घोळना. समासांतलें पैलें उतर अशाच रुपान तें वापरांत येता. देखीक: अदपाटी, अदपाव, अदमण, अदशेर बी.

**अदतांग** । अद्तांग्, सा.रू. -गा; भौव. -गां, सा.रू. -गां । [सं. अर्ध+टंक] न. पैलिंच्या काळांत घोळटेंत आशिल्लें एक नाणें.
—पळेयात: 'अर्दतांग'

**अदनाटी** । अद्नाटी, सा.रू. -टे; भौव. -ट्यो, सा.रू. -ट्यां । [सं. अर्ध+कों. नाटी, नाकटी] स्त्री. अण्णाठी; अर्दनाटी; अर्दनाकटी; पाव पड; पडिच्या चौथ्या भागाचें माप.

**अदपाव** । अद्पाव्, सा.रू. -वा; भौव. -व, सा.रू. -वां । [सं. अर्ध+पाद] पु. शेराचो आठवो भाग; खंयच्याय वस्तूच्या पाव भागाचो अर्दो वांटो वा तेदें माप.

**अदमट** । अद्मट् सा.रू. -टां । [सं. अदृष्टम्] न. नशीब; अद्रूस्ट.
**म्हण:** माजराचें अदमट बरें, शिकें तुटून पडलें.

**अदमण** । अद्मण्, सा.रू. -णा; भौव. -ण,

सा.रू. -णां [सं. अर्ध+फा. मन (=चाळीस शेर)] पु. अर्द मणाचें वजन वा माप. वीस शेरांचे वजन वा माप.

**अदमास** । अद्मास्, सा.रू. -सा; भौव. -स, सा.रू. -सां । [फा. आज़माइश] पु. १. अंदाज; सुमार; कल्पना (संवसारांत उजवाडा इतलो वेगान कोणच धांवना. तो एका खिणांत सुमार बैंसट हजार कोस धांवता. तरी आसतना ताका इतलीं वर्सां लागतात; म्हण्टकूच ह्या बोंबाड्याचें पोट केदें मोठें आसूंक जाय ताचो अदमास करूं येता. -गोम. २रें खंड, बरो: शणै गोंयबाब, पा. ७७). २. सुलूस; सरांव (थंय कितें घडलें हाचो अदमास घेतल्याबगर तूं फुडें पावल घालूं नाका.)

**वा.प्र: अदमास पंचे धावोदरशें:** फाट-फुडा पळेनासतना तोंडाक येता तें शेंवटिल्लें विधान, अदमासान केल्लें विधान.

**अदमास आसप:** अंदाज वा कल्पना आसप.

**अदमास घेवप:** सरांव वा सुलूस घेवप.

**अदमास येवप:** अंदाज वा कल्पना येवप.

**अदमासप** । अद्मासप्, सा.रू. -पा । [फा. आज़माइश] क्रि.दा.धा.सा.ना. (मूळ धातू: अदमास् (सक.)) १. अंदाज घेवप. २. अंदाजान, कल्पनेन, तर्कान थारावप.

**अदमासी** । अद्मासी । ['अदमास' वेल्यान] वि. अदमासान वा अंदाजान आंखिल्लो (अदमासी खड्डो.)

**अदलाबदल** । अद्लाबद्ल्, सा.रू -ले । [अर. अदल = सारकाय+बदल = परिवर्तन; हिं. अदलबदल] स्त्री. १. हांगाचें थंय वा थंयचें हांगा अशी केल्ली उखलादवर. २. एक वस्त दिवन तिज्या जाग्यार घेतिल्ली दुसरी वस्त, वा एक वस्त दिवन तिज्या बदला दुसरी वस्त घेवपाची केल्ली मांडणी.

**वा.प्र.: अदलाबदल करप:** आपली एक वस्त दुसऱ्याक दिवन, ताजेकडल्यान दुसरी वस्त आपल्याक घेवप.

**अदशेर** । अद्शेर्, सा.रू. -रा; भौव. -र, सा.रू. -रां । [सं. अर्ध+सेर:] पु. शेराचो अर्दो भाग वा अर्द शेराचें माप.

**अदालत** । अदालत्, सा. रू. -ती । [अर. अदालत] स्त्री. न्यायासन; न्यायालय; कोर्ट; त्रिबुनाल.

**अदावत** । अदावत्, सा.रू. -ती । [अर. अदावत] स्त्री. १. दुस्मानकाय; विरोध. २. दुस्वास; मत्सर; ३. बिर्मत; आरोप; आळ.

**अदावती** । अदावती । [अर. अदावती] वि. दुस्मानकाय धरपी; दुस्वास, मत्सर करपी; वैरी; शत्रू.

**अदावळ** । अदावळ्, सा.रू. -ळी; भौव. -ळी, सा.रू. -ळीं । [का. अदावळलु = व्यथा, चिंता, संताप ] स्त्री. १. आडगुंडाय; मस्ती. २. नस्ती बिर्मत; नस्तो आरोप; आळ. ३. त्रास; संकट; पिडा; लचांड (हें भुजलें मरे म्हाका. नस्ती अदावळ लागली फाटल्यान.)

**अदिक** । अदिक् । सा.रू. -का । [सं. अधिक] वि. १. चड; अती; खूप; जास्त; मोबाळिक. (पितुबाबालो तांब्यापटो आज म्हगेल्या हाताक लागिल्लो जाल्यार, गिरेस्त चिकू मनशाक शेतांत पुरिल्लें पोवनांचें तपलें मेळटकूच जितलो आनंद जाता, त्याय परस अदिक आनंद म्हाका जातलो आसलो. -गोम., १लें खंड, पा.७७, —बरो: शणै गोंयबाब.) २. श्रेस्ठ; वर्तिक; वर्तो. (इश्ट हो आपल्या सारको जांव, आपल्या परस अदिक जांव वा उणाक जांव, इश्ट तो इश्टच.) ३. (ला.) नाका जाल्लो; निखड्डायेचो (हीं

काचिं-बुचीं पोरां मेळत थंय भोंवतात. रस्त्यार तीं मोटारीपोंदा पडत म्हणून तांच्या आवय-बापांयक मातय हुस्को ना. तांका तीं अदिक जाल्यांत दिसता!)

**वा.प्र.: अदिक करप:** बेरिज करप; चडोवप; मेळोवप. (पांचांत तीन अदिक करतकीर आठ जातात.)

**अदिक जावप :** १. चड जावप; उपाट भरून व्हांवप; ओतो येवप.

२. गैर, जय, अती जावप.

३. (ला.) उणें जावप; सोंपप.- घरांतली कसलीय वस्त सोंपतकीर (चड करून तांदूळ, कडधान्यां, कुकूम बी) बायलो ती वस्त सोंपल्या म्हणून सांगनात. ती वस्त अदिक जाल्या म्हणून सांगतात. देखिक: घरांत तांदूळ अदिक जाल्यात.

(ग.) 'अदिका'ची कुरू (+) अशी करतात.

**क्रि.वि.** १. चड; चड प्रमाणान वा चडायेन. (जितलो तो हट्टाक पेटून खेळलो, तितलो तो अदिक हल्लो.) २. दोन वेगळ्या संख्यांमदलें चडित अंतर. (धा ही संख्या सच्या परस चारांनी अदिक आसा.)

**अदि अदिक** । अंदिअंदिक । ['अदिक'द्वि.] वि. चड चड (बापूय जितलो ताका मारतालो, तितलो तो अदिअदिक आडांगी जातालो.)

**क्रि.वि.** चड चड (जितले ताका चाळयताले, तितलो तो अदिअदिक खुबळटालो).

**अदिक-उणो,णी,णें** । अंदिक्-उणॉ,णी,णँ, सा.रू. -ण्या, -णे, -ण्या। [सं. अधिक+ऊन] वि. १. आगळो-उणो; बरो-वांकडो; थोडो-भोव. २. जय; गैर; अपमानिक. (तुमी जाण्टे. हांव नेण्टों. तुमचेकडेन उलयतासतना म्हजेकडल्यान कसलेंय अदिक-उणें उतर गेलें आसल्यार, म्हाका भक्षियात.)

**अदिक करून** । अंदिक् कंरून् । [सं. अधिक+कृत्वा] क्रि.वि. चड करून; भोव करून; बहुतेक (अदिक करून तो आज मुंबैच्यान पांवक जाय.)

**अदिक अर्थी** । अंदिक् अंर्थी । [कों. अदिक+अर्थी] वि. एका परस आनिक अर्थ आशिल्लो. (अदिक अर्थी कोश).

**अदिकतर, अदिकतोरी**। अंदिक्तर, अंदिक्तोरी। [सं. अधिक+तर] वि. विशेश; ह्या परसय चड. (परमेस्परान सांतु आंतोनिक संवसारांतु, आपली भक्ती सेवा करतल्यांक, अभीस्ट गुणी मजती आनी सांभाळ करूंक परिपूर्णी दिली; ताची सेवा भक्ती तुमीं जर सर्व मानशीं करशात, तरी तसली, वा अदिकतोरी मजती आनी सांभाळु सदैव भक्तु तुमकां करित, ताची सेवा तुमी केल्यार कोणी प्रकारीं तुमचे मनींचे तो सिद्धी पायत, तुमचें मन अनळाय करित. —सां.अं.अ. बरो: Fr. Antonio de Saldanha s.j.,पा.३०).

**अदिकतराचो-ची-चें** । अंदिक्तराचॉ-ची-चॅं, सा.रू. -च्या, -चे, -च्या; भौव. -चे, -च्यो,- चीं; सा.रू. -च्यां । ['अदिकतर' वेल्यान] वि.१. चड अपुर्बायेचो (अदिकतराचो पूत) २. जाय तितले वांटे करूनय आनिक एक उरिल्लो (अदिकतराचो वांटो); थारायल्ले संख्ये परस अदिक जाल्लें (अदिकतराचें मिस). ३. अवांतर; जास्त. (इगर्जेत मेस्त्रीपण करून मेळटालो दुडू संवसाराक पावपा इतलो नासलो. अदिकतराच्या मिसाक पांच रूपये मेळटाले ते अदिकतराचे. —कथा: 'आतां रड', बरो: दामोदर मावजो, जाग दि. अं., १९८८, पा.२५.) ४. थारायल्ले संख्येपरस चड जावन आशिल्लो; थारायल्ले संख्येभायर उरिल्लो. (अदिकतराचो चाकर).

पु.सरकारी ऑफिसांतले श्रेणीच्या रिकामो आशिल्लया वा रिकामो जावपाचो आशिल्लया जाग्यार, ज्याची नेमणूक जातली, असो ते

श्रेणीचे वळेरेंत अदिक आशिल्लो नोकर. —पुर्तु: Supranumerario.

**अदिक म्हैनो** । अदिक् म्हैनॉ, सा.रू. -न्या। [सं. अधिक+कों.म्हैनो] पु. चंद्र म्हैन्यांच्या हिशोबान वा हिस्पान दर तेत्तिस (३३) म्हैन्यांनी येता तो चडित म्हैनो; दर तीन वर्सांनी चंद्र वर्सांत येता तो तेरावो म्हैनो.

**विशेश:** सूर्य उदेवन तो परतून उदेमेरेन जो काळ वता, ताका वार वा दीस म्हण्टात. वेव्हारांत तीस दिसांचो म्हैनो धरतात. म्हैन्याच्या दिसांचें मेजप तिथिंनी करतात.

सूर्य आनी चंद्र हांच्या मदगतीं बारा अंशांचे अंतर पडपाक जो काळ वता ताका तीथ म्हण्टात. तिथी सारक्यो नासतात. कांय साठ घटकांच्यो म्हळ्यार चोवीस (२४) वरांच्यो आसतात. कांय ह्या परसय उण्यो आसतात. कांय ह्या परसय चड वेळाच्यो आसतात. देखून, एकादे तिथिचो क्षय जाता. एकादेची वृद्धी जाता.

सगळ्यो तिथी मेळून एका वर्साचो सुमाराक, ३५४१/४ (तिनशें च्योपन्न आनी एक चतुर्थांश) दिसांचो काल जाता.

हिंदू पंचांगाचें गणित चंद्राचेर आधारून आशिल्लयान, पंचांगातले म्हैने चंद्र म्हैने आसतात. जाल्यारूय, हिंदूचे वर्स हें सौर वर्स म्हळ्यार सूर्य वर्सच आसता.

एका सूर्य वर्साचे दीस ३६५१/४ आसतात. देखून, चंद्र वर्सांत आनी सूर्य वर्सांत इकरा (११) दिसांचे अंतर पड्टा. ही तूट भरून काडपाक सुमार तेत्तिस (३३) म्हैन्यांनीं (खरो काळ ३२ म्हैने, १६ दीस आनी चार घटका) एक म्हैनो अदिक धरचो पड्टा.

मुसलमानांचेय म्हैने चंद्र म्हैनेच आसतात. ते अदिक म्हैनो धरिनात. देखून, ६५ सूर्य वर्सांत तांगेलीं दोन वर्सां चड जातात.

त्या त्या शकाक ९२८ ही संख्या वजा करून, इकुणिसांनी भागचें. बाकी १, ४, ६, ७, ९, १०, १२, १४, १५, १७, १८, अशी उल्लयार अदिक म्हैनो येना. बाकी ०, २, ३, ५, ८, ११, १३, १६, अशी उल्लयार, अनुक्रमान (वळेरेन) वैशाख, आश्विन, चैत्र, श्रावण, जेस्ठ, आशाढ, भाद्रपद हे म्हैने अदिक येतात. अठरा वर्सांनी आशाढ अदिक येता. १४१ वर्सांनी आश्विन अदिक येता. ७०० वर्सांनी कार्तिक अदिक येता. कार्तिकाफुडले चार म्हैने कैन्नाच अदिक येनात.

अदिक म्हैन्याक 'मलमास' म्हळ्यार अशुद्ध म्हैनो मानतात. ह्या म्हैन्यांत दिसपट्टया अशा नित्य धर्मकृत्यांभायर, मूज आनी लग्नासारकीं शुभकृत्यां करूं नये म्हणून धर्मशास्त्री सांगतात.

जो म्हैनो अदिक येता (देखीक: अदिक जेस्ठ, अदिक आशाढ बी) ताजें मेजप पैलीं करतात. उप्रांत त्या म्हैन्याच्या निज रूपाचें मेजप जाता. म्हळ्यार, जेस्ठ म्हैनो अदिक आयिल्लो आसल्यार पंचांगात 'अदिक जेस्ठ' पैलीं दाखयतात. उप्रांत 'निज जेस्ठ' दाखयतात.

अदिक मासाक लागून एक म्हैनो वाढ्टा. एक म्हैनो वाढिल्लयान खर्चय वाढ्टा. हाका लागून मध्यम आनी गरिब अवस्थेंतल्या लोकांक खर्चाची चिंता पड्टा. ताका लागून, 'दुश्काळांत अदिक म्हैनो' वा 'दुश्काळांत तेरावो म्हैनो' ही म्हण प्रचारांत आयल्या.

**आधारावळ:** १. गोखले अंक गणित

२. महाराष्ट्र ज्ञानकोश, संपा: डॉ. श्रीधर व्यंकटेश केतकर.

३. आर्यांच्या सणांचा इतिहास, बरो: ऋग्वेदी.

**अदिकाय** । अदिकाय् सा.रू. -ये । [सं. अधिकता+कों. य] स्त्री. १. चड आसपाची स्थिती; दोन वेगळ्या संख्यांमदलें चडित अंतर. २. खातड; तुडूंब भरताड; समृद्धी; तरतर. ३. (ला) जाणवाय; बडवचार.

**विशेश:** अदिकाय हें उतर अशें घडलां जावये. अधिकता + य › अधिकताय ›

अधिकाय › अदिकाय.

**अदिति ।** अदिती, सा.रू. -ती । [सं. अदिति] स्त्री. १. आदित्यांची आवय; देवांची आवय; २. पृथ्वी. ३. गाय. ४. मळबाची स्त्रिरूपी आकृताय.

**विशेश:** 'अद्' ह्या धातूवेल्यान अदिति हें उतर घडलां जांवये. अदितीच्या संव्हारक बळग्याक लागून तिका 'निऋति' मानल्या. तिजे निर्मणेचे तांकीक लागून, तिका व्हडविकेच्या लक्षणांची, संवसाराक पोसणी अंबा अशी अन्नपूर्णा म्हळ्या.

दिती म्हळ्यार बांदप आनी अदिति म्हळ्यार मुक्त करप; असोय ह्या उतराचो एक अर्थ आसुये. अदितिचेर स्वतंत्र सूक्तां मेळनात. तिजें नांव कितलेशाच सूक्तांनी शिंवरलेलें मेळटा. तिजे उल्लेख तुटिल्ले तुटिल्ले अशे त्रोटक मेळटात. अदितिचें एक घसघशीत रूप दोळ्यांमुखार उबें रावना.

आर्यांच्या कांय टोळयांत मातृसत्ताक पद्धत आशिल्ली जांवक जाय. आवयच्या नांवांवेल्यान पुताक वळखुपाची चाल पुर्विल्ल्या उपनिषदांत मेळटा. छांदोग्य उपनिषदांत (३.१७.९) आनी बृहदारण्यकांत (६.५.१-२) अशें गोत्रताटे आमकां मेळटात. घडये आर्यांचें आदिम (प्रोतो आर्यन) अवस्थेंत अदिति ही तांची मातृदेवता आशिल्ली जांवये. जशी जशी पितृसत्ताक पद्धत तांच्यांत घोळपाक लागली, तशी तशी अदिति फाटीं पडून, वेद काळार इल्ली इल्ली करून ती विसरकायेच्या भुयांरांत पडत गेली जांवक जाय.

पुराणांत अदितिक दक्षाची धूव म्हळ्या आनी तिका कश्यपाची बायल मानल्या.

अदितिक 'द्यो' म्हळ्या. 'द्यो' म्हळ्यार अफाट मळब. ह्या अफाट मळबाची तिका स्त्रिरूपी आकृती मानल्या. तेचपरी द्यावा-पृथ्वी ह्या जोड नांवान तिजो वेगळो उल्लेख केला. द्युलोक आनी अंतरिक्ष हीं दोनय अदितिचीं रुपां मानल्यात. आमची आवय, बापूय आनी पूत पासून अदितिचींच रुपां आसात अशें म्हळां. देवांचो समस्त गण, इतलेंच न्हंय तर भूत आनी भविश्य हीं पासून अदिति देवतेचींच वेगवेगळीं रुपां मानल्यांत. (ऋ. १. ८९.१०)

अदितिक तेजाकडेन लग्रिक केल्या. उशेक अदितिचें मुख म्हळां. (ऋ १. ११३. १९). अदितिक सासणाची अशी उजवाडाची खाण मानल्या.

ऋग्वेदांत (ऋ. १. १५३. ३) आनी त्या उप्रांतच्या वेदिक ग्रंथांत (वा. सं. १३. ४३. ४९) अदितिक गाय म्हळ्या. अदिति आपल्या पाडकाक मायेन दुदाची धार दिता, आपल्या भुरग्यांक पळेतकीर तिचो पानो पानेता अशें ऋग्वेदांत म्हळां (ऋ. १. १६४. २८). अदितिक देवांची आवय मानल्या. गाय आनी अदिति एकरुपी आशिल्ल्यान, गायेच्या पोटांत ३३ कोटी देव रावतात ही कल्पना उदेवाक आयली.

अदितिन विनाण्यांवरी देवांक जन्म दिला. देवांच्या पूर्वयुगांत असतांतल्यान (अव्यक्त संवसार) सत् (व्यक्त संवसार) घडयला. देवांच्याय पैलीं सत् आनी उप्रांत दिको आनी रूख क्रमान उत्पन्न केल्यात.

अदितिक ऋग्वेदांत शूर आवय म्हळ्या. तिणें खासा आपल्या तेजान आनी उग्र तपान आदित्यांक जन्म दिला. मित्र, वरूण, धाता, अर्यमा, अंश, भग, विवस्वान ह्या सात पुतांक घेवन ती देवांकडेन गेली. आठव्या मार्तंडाक तिणें मळबांत मोखून माल्लो आनी द्यूलोकांत परतो धारण केलो. (ऋ. १०. ७२. १-९)

सृस्टिंत जन्म-मरणाचो खेळ अखंड चलत आसा. मर्णाची माळ गळ्यांत घालून मनीस जियेता. जीणे-मरणाचें हें चक्र अखंड घुंवपाखातीर अदिति मेल्लया गर्भांडाक परतो

धारण करता. पृथ्वीकडेन सारकाय जोडटा.

अथर्ववेदांत अदितिक पृथ्वी म्हळ्या. देवांचे हे आवयक ऋशिंनीं केन्ना पृथ्वीसमान मानल्या, केन्ना तिका अन्नपुर्णा म्हळ्या, केन्ना तिका सर्वव्यापी म्हळ्या. तरेतरेच्या रंगानीं ही धर्तरी चंवरून येता. तरेतरेच्या घमघमान ही धर्तरी परमळटा. दर ऋतूंत वेगवेगळें रूप धारण करता. आशाढांत ती पांचवें कापड न्हेसता आनी पांचवे म्हैन्याचे फुल्लटिची कान्त तिजेर मारता. देखून, ऋतुचक्रांतल्यान सृजन घडैत रावपी हे धर्तरेक, हे कल्याणीक वेदांनी 'अदिति' म्हळ्या. तिका सासणाची अज्रंवर मानल्या. तिका अमर्तिक म्हळ्या.

**आधारावळ:** १. ऋग्वेद. २. अथर्ववेद.

**अदीक** । अ॑दीक । [सं. अधिक] वि. चड. (मागीर ताणें अदीक वेळ केलोना. - भुरग्यांलो वेद, बरो: रामचंद्र शंकर नायक, पा. २५.)

**अदींमदीं** । अ॑दीं म॑दीं । [सं. आदि + मध्य] क्रि. वि. केन्ना केन्नाय, चुकून माकून, मदींमदीं.

**अदृढ** । अ॑दृढ् । [सं. अ + दृढ] वि. १. जो दृढ, धड न्हंय तो; डळमळीत (अदृढ विचारांचो) २. जो घट्ट बुन्यादिचेर ना तो; लिडलिडो (अदृढ खांबो) ३. भुसभुशीत; फसफशीत; घट्ट न्हंय असो. (अदृढ चिरो).

**अदृश्य** । अदृश्य् । [सं. अदृश्य] वि. १. जें दिसना अशें; न दिसपी; गुप्त; ज्याचें दर्शन जांवक पावना तो; अगोचर; अलक्ष (परमेश्वर अदृश्य आसता). २. जो नदरेच्या आवाठांत येना तो; आपल्या आकाराक वा अंतराक लागून सादे नदरेक दिसूंक पावना तो (अदृश्य तारो). ३. जो नदरेआड पावला तो; जो अंतर्धान पावला तो. (चैतन्य महाप्रभू भाशेनच तुकारामय किर्तन सांगता सांगतांच अदृश्य जालो.)

**वा.प्र.: अदृश्य जावप:** गुप्त जावप; नाच्च जावप; अंतर्धान पावप.

**अदृस्ट** । अदृस्ट् । [सं. अदृष्ट] वि. न दिशिल्लें.

**अदृस्ट** । अदृस्ट्, सा.रू. -स्टा । [सं. अदृष्टम्] न. नशिब; प्रारब्ध, अद्रूस्ट (ला.) अंतर्मनाचो घेतिल्लो सोद; अंतर्मनांत जाणवल्लें दर्शन (अदृस्टाचे कळें).

**अदृस्ट फळ** । अदृस्ट् फळ्, सा.रू. -ळा। [सं. अदृष्ट फलम्] न. १. ज्याचो परिणाम दिसूंक पावना अशें कर्माचें वा संचिताचें फळ. २. ह्या लोकांत केल्लया बऱ्या वांकड्या करण्याचें परलोकांत मेळटा तें फळ.

**अदृस्टमत** । अदृस्ट्मत्, सा.रू. -ता । [सं. अदृष्ट मतम्] न. पळेयात 'अदृस्टवाद'.

**अदृस्टरूपीं** । अदृस्ट्रूपीं । [सं. अदृष्ट रूपिन्] **क्रि.वि.** गुप्त रितीन; गुप्तीं; लिपचोरयां (रायाचे शिपाय ताका अदृस्टरूपीं मारूंक गेले.)

**अदृस्टवाद** । अदृस्टवाद्, सा.रू. -दा । [सं. अदृष्टवादः] पु. ह्या लोकांत केल्लया करण्याचें फळ परलोकांत भोगचेंच पडटा म्हणपाचें मांडिल्लें मत; दैववाद वा तशें मत.

**अदेखणो** । अदेखणॉ, सा.रू .-ण्यां; भौ. -णे, सा.रू. -ण्यां । [कों. अ+देखणो] वि. जो देखणो न्हंय तो; जो दिसूंक बरो दिसना असो; कुरूप.

**अदेखप** । अदेखप्, सा.रू. -पा । [सं. अ+दृश् › प्रा. देख] क्रि.दा.धा.सा.ना. (मूळ धातू: अदेख् (अक्)). मत्सर, दुस्वास करप; दुसऱ्याच्या वायटार आसप; दुसऱ्याचें बरें जाल्लें पळोंवक नज जावप. (तो सदांच शेजाऱ्याक अदेखता.)

**अदेखयो** । अदेखयॉ, सा.रू. -या; भौव. -ये, सा.रू. -यां । [‘अदेख्’ वेल्यान] वि. १. दुस्वाशी; मत्सरी; नेडेकुचरी; कुण्णाठी. २. ज्याच्यान दुसऱ्याचें हित पळोंवक नज असो; अंधकी; दोळे-फुटको.

**अदेखाय** । अदेखाय्, सा. रू, -ये । [‘अदेख्’ वेल्यान] स्त्री. १. दुस्वास; मत्सर, नेडेकुचर; कुण्णटकाय. २. दोळे-फुटकेपण.

**अदेय** । अदेय् । [सं. अदेय] वि. न दिवपासारकें; दिनासतना राव सारकें. (...शांत मृदू भाशेंत ताणीं सांगलें ‘तुका अदेय अशें कांय ना?’ — बिदाय अभिशाप, बरो: रवीन्द्रनाथ टागोर, कोंकणी अणकार: पांडुरंग भांगी).

**अदेह** । अदेह्, सा.रू. -हा । [सं. अ + देह:, देहम्] वि. देहाविणें, शरिराविणें आशिल्लो; निरंग; अनंग; निराकार. **पु**. कामदेव; मदन.

**अदेही** । अदेही, सा.रू. -ह्या । [सं. अ + देहिन्] वि. ज्याणें देह धारण करूंक ना तो, अशरिरी, अनंग; निरंग; निराकार; अकुडी; अमूर्त. **पु**. आत्मो.

**अद्‌भुत** । अद्‌भुत् । [सं. अद्भुत] वि. अपूर्व; विलक्षण; विचित्र; अजाप जायसारको वा जायसारकी.
**म्हण:**अद्‌भुत वार्ता, कोले गेले तिर्था.

**अद्‌भुत** । अद्‌भुत, सा.रू. -ता । [सं. अद्भुत] न. १. अजाप; चमत्कार; अपूप; नवल; अभिस्ट. २. अजापान तोंडांत बोटां घालिसारकी घडिल्ली घटना; अजापांचो पदार्थ वा वस्त. ३. काव्यांतल्या णव रसांतलो एक रस. **पु**. ‘सह’ ह्या उदकांत रावपी अग्निन निर्माण केल्लो दुसरो अग्नि.
**विशेश:** ‘सह’ हें उदकांत रावपी अग्निचें नांव. ताजे बायलेचें नांव मुदिता. सह हो संवसाराचें पालन करता. सहान दुसरो एक अग्नि निर्माण केलो. ताजें नांव अद्‌भुत. हो सगळ्या प्राणीमात्रांचो स्वामी. तांचेर ताजो अंकुश आसता आनी अक्ख्या संवसारांत ताजो संचार आसता. सह हाजो आनीक एक पूत आसा. ताजें नांव महाद्‌भुत. तोय सगळ्या संवसाराक पोसता. ह्या महाद्‌भुताचो पूत भरत. हो प्रेतांचें दहन करता. भरताचो पूत नियत. हाजो अग्निष्टोम यागांत चड भोमान जाता.
**आधारावळ:** अङ्गिरस आणि अग्नि, ले. डॉ. नरेन्द्रनाथ ब. पाटील, मुंबई.- विदर्भ संशोधन मंडळ वार्षिक १९८३, संपा: प्रा. श्री. मा. कुलकर्णी, पा. २५.

**अद्‌भुतो-ती-तें** । अद्‌भुतॉ-ती-तँ, सा.रू. -त्या,-ते,-त्या; भौव. -ते,-त्यो,-तीं; सा.रू. -त्यां । [‘अद्‌भुत’ वेल्यान] वि. १. अद्‌भुत करणी करपी. २. विप्रित वा विचित्र करणी करपी. ३. चूड लावन घरांत म्हारू हाडपी.

**अद्याप** । अद्याप् । [सं. अद्य+अपि] क्रि.वि. अजून; आजून; अजूनय; आजूनमेरेन; हो वेळमेरेन.
**— मेरेन:** क्रि.वि. आजूनमेरेन; अजून.

**अद्यापय** । अद्यापंय् । [सं. अद्य+अपि + हि] क्रि. वि. आजूनमेरेन; अद्यापपर्यंत.

**अद्यावत** । अद्यावत् । [सं. अद्ययावत्] क्रि.वि. आजमेरेन; आजच्या दिसापर्यंत. **वि.** १. आजमेरेन वा आजच्या दिसामेरेन उजवाडाक आयिल्ल्या ज्ञानाप्रमाणें वा आजमेरेन होलमल्ल्या माहितीप्रमाणें आसपी. (तागेलें लिखाण वा भाशण सदांच अद्यावत माहितीचेर आधारून आसता.) २. आजमेरेनच्या तंत्रांप्रमाणें तयार केल्लो, केल्ली, केल्लें. (अद्यावत रणगाडो; अद्यावत तोफ; अद्यावत विमान.)

**अद्रि** । अद्रि; सा.रू. -द्री । [सं. अद्रि:]

पु. १. खडप; पाशाण; वांटपाचो फातोर. २. दोंगर; गिरी; पर्वत (देखीक : सह्याद्री = सह्य पर्वत; हेमाद्री = भांगराचो पर्वत.)

**अद्रिण** । अ॑द्रिण; सा.रू. -णां । [सं. अजीर्ण] न. अजीर्ण. (तपलेंभर शीत। गिरेस्तान भकलें। धेंदेला पोट तेचें। अद्रिणा काबार! -दर्या गाजोता, कवी : र. वि. पंडित, पा. १७).

**अद्रुश्ट, अद्रुस्ट** । अ॑द्रूश्ट, स्ट; सा.रू. -श्टा, -स्टा । [सं. अदृष्टम्] न. नशीब; जातक; लल्लाट; कपल; प्रारब्ध; दैव; निर्मण; निर्मोण. (अद्रुस्ट हें संसार-समुद्राचें अंतपार नाशिल्लें ल्हार! त्या ल्हाराचेर मनशांचे जिणेचीं तारवां तरूत ना जाल्यार फुटून बुडूंत, तांच्या हांशाच्या फेणाक खतखतो सदांच आयिल्लो आसता. 'एक हजार आनी .तेअीस' ह्या .खेळाची प्रस्तावना, बरो: रामचंद्र नारायण नायक. -पा.७). २. ज्याका लागून तापत्रयाचो भोग मनशाच्या वांट्याक येता अशें मानतात तें तर्कापिलें बळगें. ३. मनीस जन्माक आयल्या उप्रांत, ताजे सटये दिसा, सटी देवता ताज्या लल्लाटार आपल्या अदृश्य आनी अचूक उतरांनी बरोवन दवरता तो लेख; लल्लाट लेख; ब्रह्मलिखित. ४. पूर्वसंचित; भाग्य.( म्हजे असली बायल मेळपाक मोठें अद्रुस्ट जाय. -मोगाचें लग्न, बरो: शणै गोंयबाब, पा. २)

**वा.प्र: अद्रुस्ट फिरप:** ग्रहदशा फिरप; वांकडो काळ वा वायट दशा येवप.

**अद्रुस्टाचो भोग:** नशिबाचो भोग, भोगवटो.

**म्हण:** कातलेन खांवचो फोव, अद्रुस्टान मेळचो घोव.

**अद्रूट** । अ॑द्रूट, सा.रू. -टा । [सं. अदृढ] वि. अशक्त, घटमूट न्हंय तो; फ्राक. (आमगेलो बाब साप फ्राक आसलो. बलायकेन अद्रूट आसलो. देखून पडपाचें नीब करून मेलो. -कार्मेलिन, बरो: दामोदर मावजो पा. १५३)

**अद्रूण** । अ॑द्रूण् । [सं. 'आदर' हाजेवेल्यान तयार जाल्लें 'आदरून'] क्रि.वि. १. मुद्दाम; दादून; बळयां (ज्या करण्यांची आपल्याक अळशीक आनी उबगण येता, त्यो करण्यो आपणें दुसऱ्याक केन्ना करूं नये. केल्यार त्यो अद्रूण केल्ल्यावरी जातल्यो.) २. दुभावाविणें; दुभावावविरैत; खुशाल; मुजरत. (इतलेंच न्हंय, तर सामके वाटेपरस, आडवाटेन बेगीन बऱ्याक पावता जाल्यार, अद्रूण आडवाटेन वच्चें. -गोम. २. खंड, बरो: शणै गोंयबाब, पा. १६७-१६८) ३. अचळय; असुदाय; अळंग; नुलैत. (शेजाऱ्याचो मोग आनी सोर्पाचो मोग सारकोच. तो म्हाका संकस्टांत पावतलो म्हण्टा ती फट. संकस्टाचो लाव घेवन तो अद्रूण म्हाका नाडूंक पळेतलो.) ४. अगत्य; अगत्यान. (हालींच्या वर्तमानाक मराठींत कागदां भिरकायतले बरपी जायते जाल्यात; परंत तीं उजवाडा हाट्टलेच चड थोडे. देखून उदक-दान दिंवच्या वेळार, अध्यक्षांक अनंतबाबांचो उगडास अद्रूण जांवक जाय आसलो. -न. गों, १लें वर्स, ३रो आंक, ज्यानेर १९३५, पा. ११८). ५. अचूक; हटकून. (...ताच्या मनासारकें केन्नाच कितें घडना. ताका जाय जाल्लें निखालुस मेळना आनी नाका जाल्लें अद्रूण मेळटा. -गोम, २रें खंड, बरो: शणै गोंयबाब. पा. १५८) ६. घसघशीत; स्पस्ट. (संस्कृत विभक्तिंचे अंत बारकायेन विसकून पळेल्यार पुरूशलिंगी, स्त्रीलिंगी आनी नपुसकलिंगी नामांच्या आनी सर्वनामांच्या सटवेच्या भौवचनी अंतांत ही नाखयी कुरू अद्रूण दिस्टी पड्टा. हे कुरूवेबगर सटवेचें भौवचन जायनाच म्हळ्यार जाता. देखीक: देवानाम् = देवांलो. कोंकणिची व्याकरणी बांदावळ, बरो: शणै गोंयबाब. पा. २२)

**विशेश:** संस्कृत 'आदर' (काळजी, लक्ष) हाजेवेल्यान घडिल्ल्या 'आदरून' (मुद्दाम; दृढ

निश्चेवान; मनापासून) हाजो अपभ्रंश 'आदरून › आद्रून › अद्रून › अद्रूण' अशे तरेन जाला जातलो. चित्पावनींत 'अद्रूण' ह्या उतराच्या अर्थान 'अद्रपून' हें उतर मेळटा.

**अद्वातद्वा** । अद्वातद्वा । [सं. यद् वा तद् वा] क्रि.वि. कायच्या काय; ताळतंत नाशिल्लें; तोंडाक येत तशें धरबंध नाशिल्लें.

**अद्वितीय** । अद्वितीय् । [सं. अ + द्वितीय] वि. ज्याका सर ना असो; असामान्य; सर्वश्रेस्ठ; अजोड.

**अद्वैत** । अद्वैत्, सा रू.- ता । [सं. अ+द्वैत] न. १. अभेद; सारकाय; सराबरी. (रासवळ मळाचेर राजा आनी शेतकार, गिरेस्त आनी दुबळो, धनी आनी चाकर, सगळे एकाच बसकारार आसतात. धर्माचे भाशेंत सांगप म्हळ्यार रासवळवादांत द्वैत नासता. तातूंत अद्वैत आसता.- म. गांधी.). २. एक चित्त; एकमत; एकी; एकचार (घोवा-बायलेंत अद्वैत आसल्यारूच घराचे मठयेंत समाधान आनी थंडाय आसता. संवसार तरतरून फुलता.). ३. दाट इस्टागत; चगाद इस्टाकय. ४. (तत्त्वगि.) ब्रह्म आनी संवसार, जीव आनी शिव, आत्मो आनी परमात्मो हातूंत कसलोच भेद ना, अशें सांगपी वेदान्ती मत; संवसाराचें मूळ एकाच तत्त्वाचेर आधारून आसा, आनी तें म्हळ्यार ब्रह्म, अशें वेदान्तांतांतले एक मत.

**विशेश:** गौडपादाचार्यान हें मत मांडलें आनी आद्य शंकराचार्यान आपल्या बुद्धीच्या तेजान तें पैलेंवैलें फुडें काडलें.

ह्या मताप्रमाणें ब्रह्म हेंच सत्य. ब्रह्म होच ईश्वर. हो संवसार म्हळ्यार ब्रह्माचोच रुपकार.

मातयेचो बुडकुलो हो मातयेच्याच रंग-रुपाचो आसता. ब्रह्मांतल्यान फुलून आयिल्लो संवसारूय ब्रह्मरुपीच आसता. बुद्धिभ्रमान जसो राजवाचो सोरोप दिसता, तेच तरेन मायेचे अविद्येक लागून तरेतरेच्या वेगळ्या रुपांचो, तरेतरेच्या वेगळ्या जीवांचो भास जाता. बुद्धिचेर मांडिल्लीं हीं अविद्येचीं आबळां जेन्ना उबून वतात आनी ज्ञानाचो घणघणीत दिवो पेट्टा, तेन्नाच 'तत्त्वमसि' (तें तूंच आसा) हाजी जाणविकाय जाता. सगळ्याक पातळला तो एकच परमात्मो हाजो साक्षात्कार घड्टा आनी त्या एकल्याच एका सत्याची, त्या चिन्मय, नित्यानंद ब्रह्माची वळख मेळटा.

**अद्वैतमत** । अद्वैत्मत्, सा.रू. -ता । [सं. अद्वैत+मतम्] न. जीवात्मो आनी परमात्मो हातूंत कसलोच भेद ना, अशें मांडिल्लें मत.

**अद्वैतवन** । अद्वैत्वन्, सा.रू. -ना । [सं. अद्वैत+वनम्] न. जंय सगळे प्राणी दुस्मानकाय विसरून एकचारान नंदतात अशें वन वा रान. हाजें वर्णन महाभारतांत आसा.

**अद्वैतवाद** । अद्वैत्वाद्, सा.रू. -दा । [सं. अद्वैत+वाद:] पु. अद्वैतमताची प्रतिपादन करपी विचारसरणी.

**अद्वैतवादी** । अद्वैत्वादी, सा.रू. -द्या । [सं. अद्वैतवादी] वि. अद्वैतमताचें प्रतिपादन करपी; अद्वैतमताचो पाखो घेवपी; अद्वैतमत मान्य करपी.

**अद्वैतानंद** । अद्वैतानंद्, सा.रू. -दा । [सं. अद्वैत+आनंद:] पु. अद्वैताच्या अणभवान जाल्लो आनंद, सूख.

**अद्वैती** । अद्वयती, सा.रू. -त्या । [सं. अद्वैत] वि. अद्वैतमतान चलपी; अद्वैतवादी.

**अधन** । अधन्, सा.रू. -ना । [सं. अधन] वि. ज्याचेकडेन धन ना तो; गरिब; दळिद्री; निर्धन.

**अधम** । अधम्, सा.रू. -मा । [सं. अधम]

वि. नीच; पापी; दूस्ट.

**अधर** । अधर्, सा.रू. -रा । [सं. अधर] वि. सकल्लो. **स्त्री**. सकली दिशा. **पु**.सकल्लो ओंठ; ओंठ.

**अधर** । अ-धर, सा.रू. -रा । [सं. अ+धृ=धरप] वि. आधार नाशिल्लो; निराधार.

**अधरामृत** । अधरामृत्, सा.रू. -ता । [सं. अधर+अमृतम्] न. ज्याका अमृतासमान मानतात तें ओंठांच्या उम्याचें सूख.

**अधर्म** । अधर्म्, सा.रू. -र्मा । [सं. अधर्मः] पु. १. धर्माआड वचून केल्लें आचरण; उजू चाल-चलणुके भायलें आचरण; ज्या वर्तनान मनशाचें अहित, अकल्याण जाता अशें केल्लें वर्तन; आड-मार्गी आचरण; नीच आचरण (बुद्द भ्रस्ट जातकीर मनीस अधर्म आडायता. अधर्म आडायतकीर तो आपशींच फोंडांत पडटा.) २. पापकर्म; चांडाळपण; मधांतकाय; जुलूम; छळ. (भरतकुळांतल्या अर्जुना, जेन्ना धर्म मोडावता आनी अधर्म मातता, तेन्ना तेन्ना हांव म्हाका जन्माक घालतां. -भ.गी. ४.७. -कोंकणी भाशांतर -शणै गोंयबाब).

**वा.प्र: अधर्म आडावप:** मनिसपण सोडप; अच्छेव मांडप; अन्याविशीं तरे तरेन पिडप; आगळिक, जुलूम, छळ करप.

**अधर्म मातप:** पापकर्मांक ओतो येवप; छळाक सुवी येवप.

**विशेश:** शरिरान केल्ली हिंसा आनी चोरी, वाणयेन केल्लें दुस्ट वा दुखसारकें भाशण आनी मनान केल्लो परद्रोह होय अधर्मच आसता, अशें गौतम मानता. लौकिक आनी परलौकिक सुखाचे सिद्धिआड आयिल्लो विरोध होपासून अधर्मच आसता, अशें कणाद म्हण्टा. जैमिनीच्या मतान वेदांआड केल्लें कर्म हे अधर्मांत मोड्टा. आनी निर्वाणाच्या आड येता तो दुस्ट स्वभावपासून अधर्मच आसता, अशें बौद्धशास्त्र सांगता.

**अधर्मान** । अधर्मान् । [सं. अधर्मेण] क्रि.वि. आडमार्गान; अनितीन; हरामीन.

**म्हण:** अधर्मान जोडिल्लें धन हुंवार -कशें येता आनी हुंवारावरिच वता.

**अधर्माचो-ची-चें** । अधर्माचॉ-ची-चँ, सा.रू. -च्या,-चे,-च्या । ['अधर्म' वेल्यान] वि. नागौणेचो; हरामीचो (अधर्माचो दुडू फळाक येना.)

**अधर्मी** । अधर्मी, सा.रू. -र्म्या, भौव. -र्मी, सा.रू. -र्म्यां । [सं. अधर्मिन्) वि. १. जो अधर्मान चलता तो; मनिसपण नाशिल्लो; चांडाळ; हराम; पापी; दुराचारी. २. जुलमी (अधर्मी राजवट).

**अधाड** । अधाड । [सं. अ+दृढ] वि. जाय तितलें लक्ष, ध्यान न दिवपी; हयगय करपी; तिस्टत नासपी; आळशी; सूस्त. २. बेपर्वा.

**अधाडपण** । अधाड्पण्, सा.रू. -णा; भौव. -णां, सा.रू. -णां । ['अधाड' वेल्यान] न. १. जाय तितलें वा फाव तितलें लक्ष वा ध्यान न दिवप; तिस्टत नासप; हयगय करप; आळसाय. २. बेपर्वाय.

**अधांतर** । अधान्तर्, सा.रू. -रा । [सं. अर्ध+अंतर] न. सकयली दिशा आनी वेली दिशा हांचे मदलो जागो; हवा; अंत्राळ; अंतराळ.

**अधांतरीं** । अधान्तरीं । [सं. अर्ध+अंतरम्] क्रि.वि. अंतराळांत; हवेंत; निराधार; मदींच (तो अधांतरीं हुमकळलो).

**अधाशी** । अधाशी, सा.रू. -श्या, भौव. -शी, सा.रू. -श्यां । [सं. अधि+आशिन्] वि. १. खावगो; वसवसो; पोटारो; आशेखोर; आशेभक्त. २. ज्याचें कितलेंय आसून, कितलेंय

खावन वा कितलेंय घेवन समाधान जायना असो.

**अधि** । [सं. अधि] मु.कू. एक संस्कृत उपसर्ग. धातूंक हो उपसर्ग (Prefix) लागता तेन्ना 'श्रेस्ठ', 'वयर' असो भावार्थ तो दाखयता. देखीक: अधि+कृ; (अधिकार दिवप, श्रेस्ठ मानप), अधि+क्रम् (वयर चडप).
**वि**. विशेशण म्हणून 'अधि' अशे भावार्थ दाखयता: १. मुखेल; श्रेस्ठ. देखीक: अधिपति; अधिराज. २. जाय ताजेपरस चड. देखीक: अधिदन्त. ३. चड; खूप; अतिशय. देखीक: अधिक्षेप.

**अधिक** । अ॑धिक् । [सं. अधिक] वि; क्रि.वि. पळेयात 'अदिक'.
**वा.प्र.: अधिकस्याधिकं फलम्:** चड यत्न केल्यार चड यश मेळटा, अशा अर्थाचें संस्कृत सुभाशित.

**अधिकण** । अधिक॑ण् । ['अधिक' वेल्यान] वि. अदिक; ज्यास्त; चड; मोबाळिक.

**अधिकर** । अधिक॑र्, सा.रू. -रा । [सं. अधि+कर:] पु. कराचेर आकारलेलो कर. (इं.) Surcharge.

**अधिकरण** । अधिक॑रण्, सा.रू. -णा । [सं. अधिकरणम्] न. १. आधार; आश्रयस्थान; २. (व्याक.) स्थान, जागो. (ह्या अर्थान सातवे विभक्तीचो अर्थ दाखयता. देखीक: 'तो आज घरांत आसा'.हांगा 'घरांत' ही सातवी विभक्ती. हांगा तिजो अर्थ 'स्थान', 'जागो' असो जाता.). ३. प्रकरण; मथाळो (शीर्शक). ४. अधिस्टान. (आत्मो हें ज्ञानाचें अधिकरण.)

**अधिकार** । अ॑धिकार्, सा.रू. -रा; भौव. -र, सा.रू. -रां । [सं. अधिकार:] पु. १. सत्तेचो, जापसालदारकेचो जागो. (...तिजोरेंत खोटे दुडू येवन तड्डक जांवचें न्हंय म्हणून, तांच्या माथ्यार एक जाण जाल्लो हुशार सराफ नेमची थारावणी केली. ह्या कामाक राम कामती हुशार आनी भोव बरे पतिचो मनीस आशिल्ल्या कारणान, ताका कंपनिचे चाखरेक दवरून, फाव जाल्लो मुशारो दिवचो नित्शय जालो. कामतीन हो अधिकार चौदा वर्सां चलैलो. - पुण्यात्मो राम कामती, पा. ३, बरो: शणै गोंयबाब.) २. सत्ता; पदेस्ताय; हुकमत; धनीपण. (अधिकार आसतकीर कोणय चेपें काडटा.) ३. आपल्या कर्तुत्वान जोडिल्ली प्रतिस्ठा; आपलीं उतरां प्रमाण मानचीं अशी जोडिल्ली पत, विश्वास. ४. मनसुबेक, मताचे घटायेक दाखयल्लो मोलादिक असो प्रमाण आधार. (मनुस्मृतीचो अधिकार). ५. विद्येच्या, शास्त्राच्या, संगिताच्या, कलेच्या वा हेर खंच्याय मळांचेर, अणभवान, अभ्यासान वा खोल गिन्यानान जोडिल्ली लायकी, पात्रता, योग्यता. (मोनें सवंग रंगोवपांत हांव खांपो आशिल्लों. तांतूंत म्हज्या इतलो अधिकार कोणाकच नाशिल्लो.) ६. मान; हक्क. (तांगेल्या मूळ पुरुशान केन्नातरी देवाक वर्सासन नेमून दिल्लें; देखून, वंशपिडयांनी त्या घराण्याक अग्रपुजेचो अधिकार मेळला.)

**अधिकारभ्रस्ट** । अधिकार्भ्रस्ट् । [सं. अधिकार+भ्रस्ट] वि. अधिकार नाशिल्लो वा अधिकारावेल्यान काडिल्लो.

**अधिकारत्याग** । अ॑धिकार्त्याग्, सा.रू. -गा। [सं. अधिकार+त्याग] पु. अधिकाराचो, सत्तेचो केल्लो त्याग; वर्जिलो अधिकार.

**अधिकार-क्षेत्र** । अ॑धिकार-क्षेत्र, सा.रू. -त्रा। [सं. अधिकार+क्षेत्र] न. अधिकाराची मर्यादा. म्हेर, कक्षा. (इं.) Jurisdiction.

**अधिकार-पत्र** । अ॑धिकार-पत्र्, सा.रू. -त्रा। [सं. अधिकार+पत्रम्] न. अधिकार दिल्ल्याचें

कळित-पत्र; ज्यातूंत अधिकार दिल्ल्याची कळोवणी केल्या तें पत्र. (तांकां ख्यास्त भोगोंवक, तांचीं शेतां-भाटां ईस्ट इंडिया कंपनिच्या हिताक पडत ते रितीन विकचीं वा खंडाक लावचीं म्हणपाचें थारावन, त्या संबंधाचें अधिकार-पत्र कामतीक दिलें -पु.रा.का. बरो: शणै गोंयबाब. पा. १०.)

**अधिकारवट** । अधिकारवट्, सा.रू. -टी । ['अधिकार' वेल्यान] स्त्री. अधिकाऱ्याची कारकीर्द; जितलो काळ कोणेंय अधिकार चलैला वा अधिकार भोगला तो काळ; अधिकाराची भोगवट. (फुडें १८१२ तीं १८१९च्या सुमाराक मुंबैचो गोवेर्नादोर सर ईव्हन नेपियन हाणें वाळकेश्वराचे दांडयेर एक ल्हानसो कूड बांदलो आनी ताचे फाटलो गोवेर्नादोर माउण्ट स्टुअर्ट एलफिस्टन हाणें १८१९ तीं १८२७ मेरेनचे अधिकारवटींत वाळकेश्वराच्या पुर्विल्लया देवळाचे सुवातेर एक बंगलो बांदलो. -पु.रा.का., बरो: शणै गोंयबाब पा. १०३)

**अधिकारी** । अधिकारी, सा.रू. -ऱ्या; भौव. -री, सा.रू. -ऱ्यां । [सं. अधिकारिन्] पु.; वि. १. अधिकारार आशिल्लो; हुद्यार आशिल्लो; अम्मलदार. २. पदेस्ताय, हुकमत, धनीपण गाजोवपी. ३. यजमान; अध्यक्ष. ४. अत्यंत लायक; अलौकिक पात्रताय, योग्यताय आशिल्लो; त्या त्या विशयांतलो खोल जाणकार; ज्ञानवंत; प्रज्ञावंत; तज्ञ.

**अधिकृत** । अधिकृत् । [सं. अधिकृत] वि. १. अधिकारार नेमिल्लो; अधिकार दिल्लो. (अधिकृत बातमीदार). २. प्रमाण (अधिकृत स्वरूप). ३. मान्यताय आशिल्लो (अधिकृत उमेदवार). ४. अधिकारान वा अधिकार दिल्लयान केल्ली. (अधिकृत तपासणी.)

**— भांडवल.** न. खंचीय कंपनी रजिस्टर करतना, तिणें दाखयल्लया भांडवलांतले, सरकारान मान्य केल्लें भांडवल; खंचेय रजिस्टर जाल्ले कंपनीक सरकारान जितलें भांडवल उबें करूंक दिलां तें भांडवल.

**अधिदेव** । अधिदेव्, सा.रू. -वा; भौव. -देव (दॅव), सा.रू. -वां । [सं. अधिदेव:] पु. कुळदेव; राखणायत देव; ईश्वर.

**अधिदैव** । अधिदैव्, सा.रू. -वा । [सं. अधिदैवम्] न. १. मूळ, मुखेल दैवत. २. त्या त्या इंद्रियांचो चैतन्यदेव: दोळ्यांचो सूर्य, नाकाचो अश्विन, कानांचो दिक्गे, ताळवेचो वरुण, कातिचो वायू. ३. जीव-रुपाक व्यापून आशिल्लें ब्रह्म; इंद्रियांक तेज दिवपी चैतन्य (भ. गी. अ. ८. ४).

**अधिदैवत** । अधिदैवत्, सा.रू. -ता. । [सं.अधिदैवतम्] न. पळेयात 'अधिदैव'.

**अधिनायक** । अधिनायक्, सा.रू. -का; भौव. -क, सा.रू. -कां । [सं. अधिनायक:] पु. १. ऑफिसर; सरदार; मुखेली. २. धनी; स्वामी. ३. खंचाय प्रदेशाचो, देशाचो, जातिचो वा राष्ट्राचो सर्वाधिकार संपन्न शासक; हुकुमशहा.

**अधिनेम** । अधिनेम्, सा.रू. -मा; भौव. -नेम (नॅम), सा.रू. -मां । [सं. अधि+नियम] पु. लोकसभेन वा सर्वोच्च्य कायदेमंडळान पास केल्लो नेम, कायदो. (इं.) Act.

**अधिपति** । अधिपति, सा.रू. -ती; भौव. -तीं । [सं. अधिपति:] पु. मुखेली; धनी; राजा; स्वामी.

**अधिभूत** । अधिभूत्, सा.रू. -ता; भौव. -त; सा.रू. -तां । [सं. अधिभूतम्] न. १. संवसारांतली जड तशीच चैतन्यवस्त; इंद्रियांचो विशय जाता ती वस्त; २. जन्माक आयिल्लया जिवांची ब्रह्मांत विर्जून, विरघळून ना जावन वच्चेली दशा.

**अधियज्ञ** । अधियज्ञ्, सा.रू. -ज्ञा । [सं. अधियज्ञ] पु. १. यज्ञाचें अभिमानी दैवत; परब्रह्म. (यज्ञ होच विष्णु अशें श्रुती सांगतात. देखून, अधियज्ञ म्हळ्यार परब्रह्म.) २. प्राणाचो सुत्रधार; कुडिचो अधिपती. (कूडकारां भितल्लया पाटांगड्या अर्जुना, हे कुडींत सगळ्यो पुजा भोगतलो अधियज्ञ तो खासा हांव आसां. -भ.गी.- अ.८-४.- कोंकणी भाशांतर: शणै गोंयबाब.)

**अधिरकाय** । अधिरकाय्, सा.रू. -ये । [सं. अधीर + कों. काय] स्त्री. १. अधिरपणाची, उचंबळपणाची अवस्था. २. व्यथेच्या, त्रासांच्या भोगणारांतल्यान केन्ना काय मुक्त जाल्यार पुरो अशी जिवाची जाता ती व्याकूळ अवस्था; देवाचे भेटेखातीर भक्ताची तळमळे लागिल्लयावरी जाता ती व्याकूळ स्थिती, आवतिकाय. ३. भय; भिजुडाय; भित्रेपण.

**अधिरपण** । अधिरपण्, सा.रू. -णा । [सं. 'अधीर' वेल्यान] न. अधीर, उचंबळ, उतावळो आशिल्लया मनशाचो गुण.

**अधिराज** । अधिराज्, सा.रू. -जा. भौव. -जा, सा.रू. -जां । [सं. अधिराजः] पु. चक्रवर्ती, सार्वभौम राजा; सम्राट; महाराज; राजा; पात्शा.

**अधिराज्य** । अधिराज्य्, सा.रू. -ज्या । [सं. अधिराज्यम्] न. साम्राज्य; चक्रवर्ती राज्य.

**अधिलोक** । अधिलोक्, सा.रू. -का । [सं. अधि+लोकः] पु. संवसार; ब्रह्मांड.

**अधिवास** । अधिवास्, सा.रू. -सा । [सं. अधिवासः] पु. १. रावपाचो जागो; राबितो. २. शेजार. ३. मुख्य, मुखेल ठिकाण.

**अधिवेशन** । अधिवेशन्, सा.रू. -ना; भौव. -नां, सा.रू. -नां । [सं. अधि+विश्] न. सभा; बसका; संमेलन. (कोंकणिचें चौथें अधिवेशन).

**अधिसुचना** । अधिसुच्यना, सा.रू. -ने; भौव. -ना, सा.रू. -नां । [सं. अधिसूचना] स्त्री. सरकारी गॅजेटांत प्रसिद्ध केल्ली सरकारी थारावणी.

**अधिस्ठान** । अधिस्ठान्, सा.रू. -ना । [सं. अधिष्ठानम्] न. १. भिती; भितोडी; राबितो. २. मुखेल स्थान; मुखेल ठिकाण; मठ; आश्रम; घर. ३. मुळावण (ब्रह्म हेंच संवसाराचें अधिस्ठान). (ला.) कृपा; आधार. (देवाचें अधिस्ठान आसल्याबगर कर्तुपांक यश येना.)

**अधिक्षेप** । अधिक्षेप्, सा. रू.- पा । [सं. अधिक्षेपः] पु. अतिशय केल्ली निंदा; अतिशय लायिल्लें दुशण; अपमान; हेटाळणी.

**अधीर** । अधीर् । [सं. अ+धीर] वि. १. चंचल; ज्याच्यान मातय धीर धरूंक नज असो, अशी, अशें; थार नासपी; उचंबळ; उतावळो. (शकुंतलेक कितें करचें, कळलें ना. तिवूय अधीर जाल्ली.- महाभारत, खंड १ बरो: रवीन्द्र केळेकार पा. ३५३). २. धीर नासपी; भिजूड. ३. व्याकूळ; बेचैन; व्यग्र.

**अधेली** । अधेली, सा.रू. -ले; भौव. -ल्यो, सा.रू. -ल्यां । [सं. अर्ध+ल] स्त्री. दशमान पद्धत प्रचारांत येंवचेपैलीं, देशांत घोळटेंत आशिल्लें आठ आण्यांचें नाणें; सोळा आण्यांचो रुपया आशिल्लो, देखून रुपयाचो अर्द भाग.

**अधोगती** । अधोगती, सा.रू. -ती । [सं.अधःगति] स्त्री. १. वेल्यान सकल वा उंच जाग्यावेल्यान सकल्लया जाग्यार वच्येली क्रिया. २. नरक; ३. उणाक, पाड्या आचरणान आयिल्ली पड; दशाहीण कर्तुपांनी लागिल्ली देंवती; अनितीक आचरणाक लागून लागिल्ली देंवती कळा; अधःपतन; अवनती; दळिद्री

अवस्ता, अवस्था.
**वा.प्र: अधोगती जावप:** वायट दशा प्राप्त जावप; पड येवप; देंवती कळा लागप.

**अधोभुवन** । अधोभुवन्, सा.रू. -ना । [सं. अधोभुवनम्] न. पाताळ लोक.

**अधोमूख** । अधोमूख् । [सं. अधस्+मुखम्] वि. सकल तोंड करून आशिल्लो; लजिल्लो; खिन्न; दुखेस्त.

**अधोरेखित** । अधोरेखीत् । [सं. अधस्+रेखित] वि. ज्याच्या सकल आडवी रेग वा वळ माल्लया असो (चड करून उतरां सकल). (इं) Underlined. (ला) चड म्हत्व आसपी.
**वा.प्र. अधोरेखित करप:** १. म्हत्वाच्या मजकुरा सकल वळ मारप. २. ठसवप. (आपल्या भाशणांत बाकीबाबाल्या काव्याचीं मुखेल लक्षणां ताणीं अधोरेखित केलीं.)

**अधोली** । अधोली । [सं. अर्ध] स्त्री. पैलिंच्या काळावेले पायलेच्या अर्दान आशिल्लें दोन शेरांचें माप.

**अध:पतन** । अध:पतन्, सा.रू. -ना । [सं. अध:पतनम्] न. वेल्यान सकल पडप; देंवती कळा; अधोगती.
**वा.प्र. अध:पतन जावप:** सकल, खाला पडप; देंवती कळा लागप.

**अध:पात** । अध:पात्, सा.रू. -ता । [सं. अध:+पात:] पु. १. अध:पतन २. अधोगती. (इं.) Degeneration.

**अध्ययन** । अध्ययन्, सा.रू. -ना । [सं. अध्ययनम्] न. १. पठण (वेदांचें); अभ्यास; शिकप. (गुरूघरांत येतकीर बरपा-अक्षरी भुरग्यावरी शास्त्रग्रंथांचेर नदर लावन अध्ययनांतच तूं रत जावन आशिल्लो?- बिदाय अभिशाप, बरो: रवींद्रनाथ टागोर, कोंकणी अणकार: पांडुरंग भांगी.) २. ब्राह्मणांच्या पटकर्मांतलें दुसरे कर्म. (स कर्मां: अध्यापन; अध्ययन; यजन; याजन, दान आनी प्रतिग्रह).
**— शाळा:** स्त्री. जंय अध्ययन, अभ्यास करतात तो जागो. (...आनी बाकिच्या गजालींकडेन उदासीन आशिल्लो? जाल्यार अध्ययनशाळा सोडून रानांवनांतल्यान फुलांखातीर कित्याक भोंवतालो?- बिदाय अभिशाप, बरो: रवींद्रनाथ टागोर, कोंकणी अणकार: पांडुरंग भांगी.)

**अध्यक्ष** । अद्ध्यक्ष्, सा.रू. -क्षा; भौव. -क्ष, सा.रू. -क्षां । [सं. अध्यक्ष:] पु. मुखेली; अग्रणी; कारभारपणाचो मुखेल अधिकार आशिल्लो.

**अध्यात्म** । अद्ध्यात्म्, सा.रू.- त्मा । [सं. अध्यात्मम्] न. १. मन. २. देह. ३. (भ.गी.) ब्रह्माचें उक्ताडाक आयिल्लें जीव-रूप. (ना. जायना-जाल्लें सगळ्यांत व्हडलें तें ब्रह्म. ताच्या उक्ताडा आयिल्लया जीव-रूपाक अध्यात्म म्हणटात.- भ.गी. अ. ८.३., कोंकणी भाशांतर, शणै गोंयबाब).
**वि.** १. ब्रह्मगिन्यानाचो; वेदांताचो. (अध्यात्म मार्ग). २. आत्म्याकडेन लग्निक आशिल्लो.

**अध्यात्मविद्या** । अद्ध्यात्मविद्या, सा.रू. -द्ये । [सं. अध्यात्म+विद्या] स्त्री. ब्रम्हविद्या; उपनिषदांचे चिंतन; वेदान्तशास्त्र; वेदान्ताचें ज्ञान.

**अध्यात्मिक** । अध्यात्मीक् । [सं. अध्यात्मिक] वि. १. आत्म्यासंबंधाचो; परमार्थिक; अध्यात्मा- संबंधाचो. २. आत्मिक उदर्गतिचो; अध्यात्म साधनेन प्राप्त जाल्लो.

**अध्यात्मी** । अद्ध्यात्मी, सा.रू. -त्म्या; भौव. -त्मी, सा.रू. -त्म्यां । [सं. 'अध्यात्म' वेल्यान] पु. १. वेदशास्त्रांत गुंग आशिल्लो; परमार्थी; वेदांती. २. समस्तांच्या कल्याणकार्यांत रत आशिल्लो. ३. नितीक आचरणाक अखंड

जागृत आशिल्लो.

**अध्यादेश** । अद्ध्यादेश्, सा.रू. - शा. भौव. -श, सा.रू. -शां । [सं. अधि+आदेशः] पु. वटहुकूम. (इं.) Ordinance.

**अध्यापक** । अध्यापक्, सा.रू. -का; भौव. -क, सा.रू. -कां । [सं. अध्यापकः] पु. १. जो धर्मशास्त्राचें पठण, मनन करून घेता तो; जो वेदान्त शिकयता तो. २. शिक्षक; गुरू; शणै.- (**स्त्री.**) अध्यापिका.
**विशेश:** पुर्विल्लया काळार पैल्या पाटाचो मान आचार्याक आसतालो. ताज्या फाटल्यान प्रवक्त्याक, ताज्या फाटल्यान श्रोतियाक आनी सगळ्यांत निमाणो मान अध्यापकाक आसतालो. पतंजलीच्या महाभाष्यांत 'अध्यापका'क 'उपाध्याय' म्हॆळा.

**अध्यापन** । अध्यापन, सा.रू. -ना । [सं. अध्यापनम्] न. १. ब्राह्मणांच्या पट्कर्मांतलें पैलें कर्म. २. वेद, उपनिपदां आनी धर्मशास्त्रां शिकोवपाचें केल्लें कार्य. ३. शिकोवपाचो, ज्ञानार्जनाचो व्यवसाय.

**अध्याय** । अद्ध्याय्, सा.रू. -या; भौव. -य, सा.रू. -यां । [सं. अध्यायः] पु. १. पुर्विल्लया काव्यग्रंथांचो प्रत्येक भाग, खंड, पर्व, अवेश्वर. २. (ला.) पट; चऱ्हाट; साळिवांच्छेक, (लायिल्लो अध्याय आतां सोंपय; जीव कणकणलो.)

**अध्वर्यु** । अद्ध्वर्यू, सा.रू. -र्यू; भौव. -र्यू, सा.रू. -र्यूं । [सं. अध्वर्युः] पु. १. यज्ञांतलो मुख्य ऋत्विज; यज्ञ चलोवपी मुख्य उपाध्याय. २. म्होरको; मुखेली.
**विशेश:** अध्वर्यु हो यज्ञांतलो मुख्य ऋत्विज. यज्ञाची चडांत चड जापसालदारकी हाजेर पड्टा. यज्ञाखातीर भुंयेचे माप घेवन तिजेर यज्ञवेदी उबारप आनी यज्ञाचो अग्नि पेटोवप हें काम अध्वर्युकच करचें पड्टा. कोणेंय यज्ञ केलो जाल्यार, यज्ञाचो अध्वर्यु कोण॰ आशिल्लो म्हणपाची चौकशी पैलीं जाता. अध्वर्यूक येदो मान आसता. अध्वर्यूक पाचारून यजमान बाकिच्या ऋत्विजांक आपोवणो धाड्टा. यज्ञांत खंयच्यो देवता घेंवच्यो, तांकां कोणा कोणाचो हवी दिंवचो हें अध्वर्यूच थारायता. बाकिच्या ऋत्विजांकडेन ल्हान ल्हान कामां सोंपोवन, यजुर्वेदांतले मंत्र म्हणत, यज्ञाचो मुख्य विधी अध्वर्यूच चलैता.

**अन** । अन् । [सं. अ] मु.कू. निशेधाचो, अभावाचो भावार्थ दाखोवपी अव्यय.
**विशेश:** 'अन' हें मुळाकूस संस्कृत भाशेंतल्या 'अ' ह्या मुळाकुसावेल्यान घडलां जावये. संस्कृतांत 'अन' अशें न्हयकारी अर्थ दाखोवपी मुळाकूस ना. आसा तें 'अ'. जाल्यारूय, जेन्ना 'अ' ह्या न्हयकारी मुळाकुसाउप्रांत स्वरान मुरू जावपी उतर येता, तेन्ना 'अ' ह्या मुळाकुसाचे 'अन' अशें रूपांतर जाता. देखीक:

अ+अवधान=अनवधान.
अ+आदर=अनादर
अ+आहत=अनाहत
अ+इच्छा=अनिच्छा
अ+ईश्वरवाद=अनीश्वरवाद
अ+उचित=अनुचित
अ+उत्साह=अनुत्साह
अ+ऋण=अनृण
अ+एक=अनेक
अ+ओष्ठ्य=अनोष्ठ्य
अ+औरस=अनौरस बी.

हीं आनी अशेच तरेन घडिल्लीं मुळांवी संस्कृत न्हंयकारीं उतरां कोंकणींत उपकरायिल्लीं मेळटात. ह्या उतरांनी 'अ' चें 'अन' अशें जाल्लें रूप, हें स्वतंत्र मुळाकूस आसा, असो समज जावन, कोंकणींत 'अ' ह्या मुळाव्या संस्कृत मुळाकुसाभायर 'अन' अशें मुळाकूस घोळटेंत आयलें जावये. हें कूस लागून न्हयकारी सयेचीं कांय उतरां कोंकणींत घडलीं. देखीक:

अन-अणभवी, अनपत, अनभक्ती, अनभावार्थ, अनभावार्थी, अनमार्ग, अनहीत बी.

**अन-अणभव** । अन-अंणभंव्, सा.रू. -वा; भौव. -व, सा.रू. -वां । [कों. अन+अणभव] पु. अणभवाची उणाय वा अभाव.

**अन-अणभवी** । अन-अंणभंवी, सा.रू. -व्या; भौव. -वी, सा.रू. -व्यां । [कों. अन+अणभवी] वि. १. अणभव वा अनुभव नासपी. (हे तरेन, आमगेले भुंयेंतल्या अन-अणभवी शिकौप्यांक उपकारा पट्टीत असल्यो कांय गजाली, ह्या नम्रतायेच्या वळिंनी सांगूंक म्हाका तांकतीत अशें दिसता. -'आबे फारीय' ह्या शणै गोंयबाबाच्या पुस्तकाची प्रस्तावना, बरो: पंडिता प्रोपेर्सियाबाय, पा. ३५.) २. राटिल्लो, वळसल्लो न्हय तो; ज्याका कामाची घटी मेळूंक ना तो.

**अनकटो** । अन्कटॉ, सा.रू. -ट्या; भौव. -टे, सा.रू. -ट्यां । [सं. अनेकस्थ?] वि. १. आथवो; परकी. २. गावांत वा देशांत नवो जाल्ल्यान कोणाचीच वळख - देख नाशिल्लो.

**अनंग** । अनंङ्ग, सा.रू. -गा । [सं. अनङ्ग:] वि. आंग, देह नाशिल्लो; निरंग; अदेही; अकुडी; अशरिरी. **पु**. कामदेव; मदन; कंदर्प.

**अनण** । अनंण, सा.रू. -णा । [सं. आदानम्] न. आंदण (हो सुराउली गांव, तिची दोति, डाइज वा अनण होउन मिरवता. -व.म. (३) १५१ मा.)

**अनधिकृत** । अनंधिकृत् । [सं. अ+अधिकृत] वि. मान्यताय नाशिल्लो, ल्ली, ल्लें. (अनधिकृत बांधकाम.)

**अननम** । अननंम् । [सं. अन्नम्] न. लोकांचे जिबेर जाल्लें 'अन्न' ह्या उतराचें रूप.

**म्हण:** पैलीं अननम, मागीर तननम. (पैलीं पोटभर जेवप, मागीर शिंळोणी घालप वा गाण्याची तनरी लावप; पैलीं स्वार्थ मागीर परमार्थ).

**अनंत** । अंनंन्त्, सा.रू. -न्ता । [सं. अनन्त] पु. १. ब्रह्म. – तत्वज्ञानात 'अनंत' ही संकल्पना पैलिवैली उपनिषदांत दिस्टी पड्टा. तैत्तिरिय उपनिषदांत ब्रह्माचें वर्णन 'सत्यं ज्ञानं अनन्तं ब्रह्म' अशें केलां. ब्रह्म म्हळ्यार सत्य, ब्रह्म म्हळ्यार ज्ञान आनी ब्रह्म म्हळ्यार अनंत अशें सांगलां. २. मळब. – वता त्या गावांत, वता त्या देशांत, वता वता थंय माथ्यावैर मळब आसता. देखून, अनंत म्हळ्यार मळब. ३. विष्णु भगवान. विष्णु भगवानाच्या हजार नांवांतलें 'अनंत' हें एक नांव. (घडये सुमेरियन देव 'अनू' हाजेवेल्यान आर्यांक हें नांव सुचलां जावये.) ४. नागांचो राजा शेष. (समस्त नागांभितल्लो अनंत तो हांव. उदकांतल्या देवांभितर वरूण तो हांव. भ. गी. अ. १०-२८). ५. अनंत चतुर्दशिच्या दिसा, पूजा केल्याउप्रांत, उजव्या हाताक बांदतात तो चौदा गांठिंचो दोरो. ६. (गणित) अगणित, असंख्य ह्या उतरांनी संख्येचे संबंधान दाखयल्ली अनंतताय. गणितांत अनंताची कुरू ' ∞ ' अशी आसता.

**वि.** १. ज्याका अंत ना तो; सासणादिक; अपरंपार; म्हेर, शीम नाशिल्लो (हें ब्रह्मांड अनंत आसा). २. विपुल; जायतो. (नामनेचो भवभूति कवि, आपली करणी कोणूच कानामनार घेना जाल्ल्यान, चिके वैतागून म्हणूंक लागलो खैं: "धर्तरी व्हडली आ!स. वेळ जायतो आस. म्हजे असल्या सभावाचो मनीस धर्तरेर खैं तरी आसतलो; आनी आज एकाद्रो नासलोय जाल्यार फुडाराक जन्मतलो". आपणालें कर्तुत्वदशेचो ताका केदो विस्वास हो! -गोमन्तोपनिषत्, पैलें खंड, 'हें कितें', पा. १०. बरो: शणै गोंयबाब.) ३. असंख्य;

खूप. (एक एकदां म्हातारपण अनंत दुखणीं घेवन येता.)

**अनंत** । अंनन्त्, सा.रू.- न्ता । पु. अनंत हो वनस्पतशास्त्राचे नदरेन रुबिएसी (Rubiasi) कुळयेंतलो Gardenia Florida हें नांव आशिल्लो आनी ज्याका पर्मळित फुलां फुलतात अशें एक झोंप वा वनस्पत.

**विशेश:** अनंताक हिंदींत, बंगालींत आनी गुजरातींत 'गन्धराज' म्हण्टात. कोंकणीवरी मराठिंतय हाका अनंतच म्हण्टात. अनंताचीं फुलां धवीं, सोबीत आनी पर्मळित आसतात. वासाचो सामको घमघम सुट्टा. फुलां पांच पाकळ्यांचीं अशीं एकोडी तशींच दोट्टी आनी तिट्टी पाकळ्यांचींय आसतात. एकोडी आनी दोट्टी पाकळ्यांचीं फुलां गोंडानी फुलतात. तिट्टी पाकळ्यांचें फूल एकोडेंच फुलता. जुलैधरून सप्टेंबरमेरेन हीं फुलां मेळटात. आगस्ट-सप्टेंबरांत हांचो भार जाता. ऑक्टोबरांतय एकाद्रेवेळा खंयीं खंयी तिट्टी पाकळ्यांचें फूल मेळटा. गिमांत हें झोंप शिंपल्यार मार्स, आब्रिल आनी मायमेरेन हाजीं फुलां मेळटात.

अनंत मुळचो चीन आनी जपानचो जावनय भारतांत तो सगळ्याक जाता. अनंताचीं पानां गाढ पांचवीं; दीख आशिल्लीं आनी कोडू आसतात. ताका लागून गोरवां अनंताच्या पानांक तोंड लायनात. अनंताक फळ क्वचित येता. देखून ताजें रोंपे किल्लुन येनात. अनंताची ताळी कापून ती दुसरेकडेन लांवची पड्टा.

केसोळी बी जाल्ली आसल्यार, अनंताचीं पानां वांटून थंय लायतात. ताका लागून ती केसोळी बेगीन फुटाणा येता म्हणून सांगतात.

**अनंतचतुर्दस** । अनन्तचतुर्दस्, सा.रू. -शी। [सं. अनन्त+चतुर्दशी] स्त्री. भाद्रपद शुद्ध चतुर्दस.

**अनंतताय** । अनन्तताय्, सा.रू. -ये । [सं. अनन्त+ता] स्त्री. १. सासणादिक, नित्य आसपाची स्थिती. २. अनंत आसा ताजो गुण; ज्याका अंत ना ती स्थिती. ३. (गणित) अगणिताय; असंख्याय.

**अनंतव्रत** । अनन्तव्रत्, सा.रू. -ता । [सं.अनंत+व्रतम्] न. भाद्रपद शुद्ध चतुर्दशी दिसा विष्णु भगवानाखातीर करतात तें व्रत.

**विशेश:** दर घरांत हें व्रत करिनात. वंशपरंपरेन ज्या घरांत हें व्रत चलत आयलां वा अनंताचो दोरो जंय सोंपेपणीं मेळपासारको आसा, थंयच हें व्रत करतात. तेच परी हें व्रत कोणेंय मुद्दाम कर म्हणून सांगिल्लें आसल्यारच करतात.

विष्णु भगवानाचे उपासनेखातीर आशिल्लया ह्या व्रताक दर्भाची अनंत म्हूर्त पुजतात. रेशमाचो अनंता दोरो विष्णुच्या शेष ह्या नागाचें प्रतीक म्हणून मानतात, आनी ताजी पूजा करतात.

ह्या व्रताचे पूजेक चौदा तरेचीं फुलां, चौदा तरेचीं फळां, निवेद्याक चौदा परी आनी अनंत दोऱ्याक चौदा गांठी लागतात. हो चौदा आंकडो, मनशाच्या देहांत आशिल्लया चौदा जागृत चक्रांक उद्देशून आसा म्हणपाचें मत 'भारतीय धर्म व्यवहार कोशां'त उक्तें केलां. (पा.४).

**अनंता** । अनन्ता । सा.रू. -ते । [सं. अनन्ता] वि. जिचो अंत कळना ती. -अनंता हें देवीचें एक विशेशण. देवी अथर्वशिर्षांत म्हळां: 'यस्या अन्तो न लभ्यते तस्मादुच्यते अनन्ता' (जिचो अन्त मेळना म्हणून तिका अनंता अशें म्हण्टात). —वैदिक सूक्तपाठ, एकठावपी: डॉ. सिद्धेश्वरशास्त्री चित्राव, पा. २०९. **स्त्री**. १. पृथ्वी. २. पार्वती.

**अनंती** । अंनन्ती, सा.रू. -न्ते । [सं. अनन्ती] स्त्री. १. अनंताची बायल लक्षिमी — सुमेरियन देव 'अनू' हाजे बायलेचे नांव 'अनिनी'

आशिल्लें. २. अनंतव्रता दिसा यजमान्निच्या दाव्या हाताक मंत्रून बांदतात तो दोरो. हो दोरो रेशमाचो आसता आनी अनंताच्या दोऱ्यावांगडाच ह्याय दोऱ्याची पूजा करतात. पूजा केल्याउप्रांत हो दोरो यजमान्निच्या दाव्या हाताक बांदतात.

**अनंद** । अनन्द्, सा.रू. -न्दा । [सं. आनन्द] पु. आनंद; उल्हास. (हांव तुका उगडासु करितां की तूं तुज्या इतल्याइ मानु, मानत्वान सुखा संतोसान, अनंदा, उलासा मुग्तिन, त्याचि त्या स्वामिआरि वोठंगुनु, तुवें आचारिलल्ये, तुज्ये सेवे, भग्तिचो पुण्यपुरुसार्थु भोगुंच्याक स्वर्गीं वेतासि, (वनवाळ्यांचो मळो, (४१ पु), पा. ५९, बरो: पाद्री मिगेल-द-आल्मैद, संपा. डॉ. वि. बा. प्रभुदेसाई)

**अनन्य** । अनन्य । [सं. अनन्य] वि. १. एकरूप २. एकनिस्ठ; जो एकांतच तल्लिन जावन रावता तो. ३. अद्वितीय (अनन्य नाटककार).

**अनन्यचित्त** । अनन्यचित्त, सा.रू. -त्ता। [सं. अनन्य+चित्त] वि. ज्याचें चित्त एकाच जाग्यार थीर आसता तो; एकाग्रचित्त.

**अनन्यभक्ति** । अनन्यभक्ती, सा.रू. -क्ती। [सं. अनन्य+भक्ति] स्त्री. १. फक्त एकाचीच केल्ली भक्ती. २. दुकलेपण पैस आमडून एकल्याचोच केल्लो माया-मोग; पोटतिडकेन केल्ली एकल्याचीच भक्ती. (आवै-भास आनी लिपी ह्या दोनुय गजालींत आमकां तांगेलें 'विशिष्ट अद्वैत' भौच नइटलें. आमकां 'एकमेवाद्वितीयम्' हेंच तत्व चलोंवक जाय आनी दुकलेपण पैस आमडून एकल्याचोच माया-मोग (अनन्यभक्ति) आमी पोटतिडकेन करूंक जाय. —अैन वेळार (येवकार अध्यक्षालें उलोवप) पा. १०९, बरो: शणै गोंयबाब.)

**अनन्यभाव** । अनन्यभाव्, सा.रू. -वा । [सं. अनन्य+भाव:] पु. एकनिस्ठाय; परमभावार्थ.

**अनन्यसाधारण** । अनन्यसाधारण् । [सं. अनन्य+साधारण] वि. अलौकिक; अद्वितीय.

**अनपत** । अनृपत्, सा.रू. -ती । [कों. अन+पत] स्त्री. आर्थिक तांक देंविल्ल्यान उणी जाल्ली पत; आयिल्ली दळिद्री अवस्था. (आमची अनपत पळोवन जाकिनान एक दिस म्हाका हळूच मांगलें: "बाये, तुमची उंड्यांची बाकी खूप जाल्या. जाल्यारूय म्हजे उंडे घेंवक तुमी अनमनू नाकात. तुमकां फावता तेन्ना पैशे दिल्यार जातात. म्हाकाय भुरगीं आसात न्हंय?" खबरो, बरो: लक्ष्मणराव सरदेसाय पा. ७५).

**अनपत्य** । अनपत्य, सा.रू. -त्या । [सं. अ+अपत्य] वि. भुरगें-बाळ नासपी; नि:संतान, निपुत्रिक (ला.) फटिंग; टणटणमारी.

**अनपराध** । अनप्राध् । [सं. अनपराध] वि. १. जो गुन्यांवकारी न्हंय तो; निरपराध; निर्दोश. २. भावार्थी.

**अनपुर्णा** । अनृपुर्णा, सा.रू. -र्णे । [सं. अन्नपूर्णा] स्त्री. १. दुर्गा (पार्वतीचे एक नांव) २. जिणें रांदिल्लें जेवण पोट भरून पावता ती बायल.

**अनपेक्ष** । अनपेक्ष । [सं. अनपेक्ष] वि. अपेक्षा, इत्सा नाशिल्लो. २. बेफिकीर; उदासीन.

**अनपेक्षित** । अनपेक्षित । [सं. अनपेक्षित] वि. ज्याची अपेक्षा धरूंक ना वा करूंक ना अशें. २. ध्याना-मनांत नाशिल्लें; अकल्पित; अकस्मात घडिल्लें.

**अनभक्त** । अनृभक्त । [कों. अन+सं. भक्त] वि. अभक्त; भक्तीभाव, आदर नाशिल्लो. २. नास्तिक; अश्रद्ध.

**अनभक्तिवंत** । अनभक्तिवन्त् । [कों. अन+सं. भक्तिवंत] वि. १. अनभावार्थी; अभावार्थी श्रद्धा नाशिल्लो. २. नास्तिक.

**अनभक्ती** । अन्भक्ती, सा.रू. -क्ती । [कों. अन + सं. भक्तिः] स्त्री. १. भक्तिचो अभाव; व्हडविकेची परंपरा, भौमानिक इतिहास, धर्मिक श्रद्धा हांचेर निस्ठा वा भक्ती नासप. २. नास्तिककाय.

**अनभावार्थ** । अन्भावार्थ्, सा.रू. -र्था । [कों. अन+सं. भावार्थः] पु. १. भावार्थ वा श्रद्धेचो अभाव, अश्रद्धा. २. नास्तिकताय.

**अनभावार्थपण** । अन्भावार्थपण्, सा.रू. -णा। [कों. अनभावार्थ+पण] न. १. अश्रद्धाय २. नास्तिकताय.

**अनभावार्थी** । अन्भावार्थी, सा.रू. -र्थ्या; भौव. -र्थी; सा.रू. -र्थ्यां. [कों. अन+सं. भावः +अर्थिन्] वि. भावार्थ वा श्रद्धा नाशिल्लो; अनभक्तिवंत, अनुभावार्थी, अश्रद्धेस्त; अभाविक.

**अनभिशिक्त** । अनभिशीक्त् । [सं. अ + अभिषिक्त] वि. १. ज्याचेर अभिशेक जांवक ना तो -हो ह्या उतराचो खेरेलो अर्थ. २. अनभिशिक्त राजा, सम्राट अशा रुपान जेन्ना हें उतर येता, तेन्ना ताजो अर्थ 'ज्याचेर राज्याभिशेक जांवक ना, जाल्यारूय लोकांच्या मनांत ज्याका मानाचो जागो आसा' असो जाता.Uncrowned king ह्या अर्थान हें उतर येता.

**अनभिज्ञ** । अनभिज्ञ, सा.रू. -ज्ञा । [सं. अनभिज्ञ] वि. अणभव, अनुभव नाशिल्लो; घटी मेळूंक नाशिल्लो; राटूंक, वळसूंक नाशिल्लो; अपरिचित. २. अजाण ३. अडाणी.

**अनमन** । अन्मन सा.रू. -ना, [सं. अन्य+मनस् ?] न. दोंशी जाल्लें मन; फाटीं-फुडें सरपी वा फाटीं-फुडें येवपी मन.

**अनमनप** । अनमनप्, सा.रू. -पा । ['अनमन' वेल्यान] क्रि.दा.धा.सा.ना. (मूळ धातू: अनमन् (अक.)). मन दोंशीं जावप; फाटीं-फुडें सरप; फाटीं-फुडें येंवप. (रगत गळोंवक भुरग्यानीं केन्नाच अनमनचें न्हंय म्हणून दर अेकले साळेंत बोकडांची दावण बांदून तरवारिच्या एका धपक्यान तांची तकली मारूंक तांकां शिकैताले. —गोमन्तोपनिषत्, १लें खण्ड, बरो: शणै गोंयबाब पा. ७९)

**अनमनावस्था** । अन्मनावस्था, सा.रू. -स्थे। [कों. अनमन+सं. अवस्था] स्त्री. करचें काय न करचें अशी जाल्ली मनाची दोंशी अवस्था.

**अनमान** । अन्मान्, सा.रू. -ना । [कों. अन+सं. मानः] पु. १. उवेखणी; अपमान. २. भीड.

**अनमान** । अन्मान् ।[सं. अनामय ?] वि. पिडेमुक्त; बलायकेस्त; निरोगी. (तें चेडूं भोव रोगें आनी नितेकाळ रेंजतालें. घडये घडये ताका चिनारी येवन भूंय पड्टालें. जीं अचर्यां, सांतु आंतोनिच्या पुण्यान, परमेस्परू करतालो तीं त्या चेडवाच्या बापान आयकून, सांतु आंतोनिच्या मजतीन परमेस्परू आपले धुवेक अनमान करीत म्हणून उदंड विश्वास मनीं धल्लो. —सां.आं.अचर्यां, पा. ३७. —बरो: Fr.Antonio de Saldanha S.J.- Edited by A.K.Priolkar)

**वा.प्र.: अनमान करप:** बलायकेस्त, निरोगी करप.

**अनमार्ग** । अन्मार्ग्; सा.रू. -र्गा; भौव. -र्ग, सा.रू. -र्गां । [कों. अन+सं. मार्गः] पु. १. पाडो, वांकडो, अधर्मी, अनार्य मार्ग. २. अनाचार; दुराचार; अधर्म; पाप.

**अनमार्ग** । अन्मार्ग, सा.रू. -र्गां । [सं. अन्य+मार्गः] पु. दुसरो मार्ग; दुसरो इलाज, उपाय.

**अनरसो** । अन्रसॉ, सा.रू. -शा; भौव. -शे, सा.रू. -शां । [हिं. अँदरसा; ता. अदिरसम; म. अनरसा; ते. अरिसे] पु. तांदळांचें घटशें कालयल्लें पीठ आंबोवन, तांतूंत गॉड घालून, मळून खसखसांचेर वांटकुळसार थापून, तेलांत वा तुपांत तळून तयार केल्लो एक गोडसो सुवादिक खाणाचो पदार्थ.

**अनर्खण** । अनर्खण्, सा.रू. -णी । [सं. अनर्थ+खनी] स्त्री. १. उबी कडस आशिल्ली आनी जिचो तळ कसोच गांठूंक मेळना अशी अनर्थ कशी निजाचीच धोल वा विवर; अनर्थांची खण, ऐरट. २. अफाट अंतर. (कितें उलोंवचें तेंच समजना जालां....म्हजो आवाज आनी हांव हांचे मजगतीं आतां एक अनर्खण जाणवता...) ३. (ला.) कशीच भरना अशी चिरी वा घोल. (पोटाची अनर्खण).

**अनर्थ** । अनर्थ्, सा.रू. -र्थां; भौव. -र्थ, सा.रू. -र्थां । [सं. अनर्थः] पु. १. विप्रीत अर्थ; उरफाटो अर्थ. (ताणें अर्थाचो अनर्थ केलो.) २. विटणूक; विटंबना. (परक्या भासांतल्या पुस्तकांची भाशांतरां अुतराक अुतर घालून करूंक जायनात. तशें केल्यार, परके तशीच कोंकणी भाशेचीय दशा वता. जायते फावटीं अनर्थ जाता. —ये.अ.अु. बरोः शणै गोंयबाब पा. ६४) ३. अरिस्ट; आपत्त; संकट; आकांत; भयांकृत घटित. ४. वांकडो, पाडो परिणाम; दुश्परिणाम; लुस्कान. (परिशदेच्या अध्यक्षानीं हे अनर्थ येवजून पळेल्यात व्हय? ह्या शास्त्राचो वाग एवरोपांत आनी अमेरिकेंत कशीं धुमशेणां घालता, तीं तांकां दिसतात व्हय? हो वाग आमच्या उणाक अद्रुस्टान हिंदुस्तानचे भोंवडेकूय भायर सल्ला. —न.गों., २रें वर्स, २रो आंक, वैतुंब्र १९३५, पा.६९. संपाः का.श्री.नायक.) ५. अच्छेव; धुमशेण; रक्त-खेव (ताणें घरांत अनर्थ मांडला.)

**वा.प्रः अनर्थांतल्यान अर्थ काडपः** वायटांतल्यान बरें सोदप; संकटांतल्यान संकटमुक्त जावपाची वाट काडप. (तुवेंच अनर्थांतल्यान अर्थ काडला अशें न्हंय. पैलिंच्या पंडितांनीय आपल्या अनर्थांतल्यान असोच अर्थ काडला.)

**अनर्थाचो-ची-चें** । अनर्थाचॉ-ची-चँ, सा.रू. -च्या; भौव. -चे (चॅ), -च्यो, -चीं, सा.रू. -च्यां । ['अनर्थ' वेल्यान] वि. आकांताचो; जिवावेलो; भयांकृत (अनर्थाचें ल्हार; अनर्थाचें वायट.)

**अनल** । अनल्, सा.रू. -ला । [सं. अनलः] पु. अग्नि; उजो; वैश्वानर, वन्नी.

**अनवस्था** । अनवस्था, सा.रू. -स्थे । [सं. अ+अवस्था] स्त्री. १. अशांतताय; अथीरपण. २. वायट परिस्थिती, अनर्थ. ३. दुर्लक्ष; हेळसांड ४. भौवच कठीण परिस्थिती.

**अनवळख** । अन्वळख्, सा.रू. -खीं । [सं. अ+उप+लक्ष्] स्त्री. १. वळख, संवकळ, परिचय हांचो अभाव. २. अजाणपण; अजाणकाय; अपरिचिताय.

**अन्वत्** । अन्वत् । सा.रू. -ता; भौव. -तां, सा.रू. -तां । [सं. अवनीति?] न. अन्याय; अन्याव.

**म्हणः** सत बुडचें ना, अनवत चडचें ना. (सत्य हें सदांच सत्य उरता.)

**अनवथ** । अन्वथ्, सा.रू. -था (-थ्या); भौव. -थ, सा.रू. -थां (-थ्यां) । [सं. अवनत = ओणवो, बागवल्लो?] पु. म्हातारो मनीस; वयाच्या ओज्यान बागवल्लो मनीस.

**म्हणः** अनवथाक पोर ना, सताक भर ना.

(म्हाताऱ्याक भुरगें जायना, सत्यान समाधान जायना.)

**अनवळखी** । अन्वळखी, सा.रू. -ख्या; भौव. -खी, सा.रू. -ख्यां । ['अनवळख' वेल्यान] वि. १. कोण म्हणून खबर नाशिल्लो; अपरिचित; आथवो; परकी. (अनवळखी मनीस). २. सदांचो, नित्याचो न्हंयतो; संवयेचो, संवकळीचो न्हंय तो. (अनवळखी मार्ग). ३. अप्रसिद्ध (अनवळखी कवी) ४. (ला.) अकळ; गूढ (अनवळखी जिणे वाटेर। हांवंय एक अनवळखी ॥ उक्ते दोळ्यां दिवे तरी । उमाशेची काळखी ॥ : पांडुरंग भांगी)

**अनवांटो** । अन्वांटॉ, सा.रू. -ट्या; भौव. -टे, सा.रू. -ट्यां । [सं. अन्न+वंटः] पु. दिस्ता-दिस्त असो जथापथ केल्लो एकासारको वांटो; समभाग; सारिभाग; अनुवांटो (हे दोनि थोर आदाये, आमां क्रिस्तांवांक कातोलिक इगर्जे भितरि लाबताति, कित्या जितुकीं मिसां, साक्रामेंत वा बरव्यो करण्यो तिचे ठांइ आसाति, इतुक्यांचो अनवांटो आमकां लाबता. —दौत्रिन क्रिस्तां, फादर स्तिफन्स, पा.२७, संपा. अ.का. प्रियोळकर.)

**विशेश:** 'अनवांटो' हाजें 'अनुवांटो' अशेंय रूप मेळटा. 'अनु' हें मुळाकूस सारकाय दाखयता. सारकाय म्हळ्यार दिस्तादिस्त सारकेपण न्हंय. देखून, अन्नवांट्याचें उच्च्याराच्या सोंपेपणाक लागून अनवांटो हें रूप जालां जांवक जाय. ज्या वेळार समाज गणपद्धतीन रासवळ जीण जियेतालो, त्या काळावेली ही नाट आसपाक जाय. मुदलाक हें उतर 'अन्नभग' अशें आशिल्लें जांवक जाय. भग म्हळ्यार आस्पत. ही केन्नाच एकल्यानच एकठांय करून भोगचेली वस्त न्हंय. वांटणी हो तिजो निजाचो धर्म.

भांडवलशाहिचो उदेव जांवचे पैलीं, रासवळ कुटुंबानी 'अन्न' हीच आस्पत आसली. जें अन्न ते निर्माण करताले वा जोडून हाड्टाले, तें राशिचें आसतालें. एकल्याचेंच धनीपण ताजेर केन्नाच नासतालें. म्हजें, तुजें हे कल्पनेक थंय थारो नासलो. स्वार्थाचो आनी दुस्वासाचो थंय उदेव जांवक नासलो. देखून, एके राशीर आसताले तितल्यांय भितर अन्नाचें वांटप एकासारकें जातालें. हाजेवेल्यान 'अनवांटो' हें उतर 'अन्नवांटो'वेल्यान घडलां आसुये अशें दिसता.

**अनवाणयां** । अन्वाणयां । ['अनवाणी' वेल्यान] क्रि.वि. उक्त्या पायांनी; पायांत व्हाणो घालिनासतना. (पांडवांक रस्त्यावयल्यान अनवाणयां गेल्ले पळोवन नगरांतले लोक खंती जाले. —महाभारत, खंड १, बरो: रवीन्द्र केळेकार. पा. १५४)

**अनवाणी** । अन्वाणी । (सं. अ+उपानह] वि. ज्याच्या पायांत व्हाणो, जोतें, जोडे वा बूट ना तो; उक्त्या पायांनी आसपी.
**क्रि.वि:** उक्त्या पायांनी; व्हाणो घालिनासतना. (व्रत पूर्ण जायमेरेन तो वर्सभर अनवाणी भोंवतालो.)

**अनवाळपण** । अन्वाळपण, सा.रू. -णां । [सं. अ+आविल+त्व] न. निर्मळसाण; निर्मळकाय; शुद्ध आचरण.

**अनवाळ्यां-दांडी** । अन्वाळ्यां-दांडी, सा.रू. -डये; भौव. -डयो, सा.रू. -डयां । [कों. अनवाळें+दांडी] स्त्री. सवळीं सुकत घालचेली दांडी.

**अनवाळ्यानीं** । अन्वाळ्यानीं । ['अनवाळें' वेल्यान] क्रि.वि. सवळो वा अनवाळो आसतना; अनवाळे अवस्थेंत.

**अनवाळी** । अन्वाळी, सा.रू. -ळे; भौव. -ळ्यो, सा.रू. -ळ्यां । [सं. अनाविल]

वि. स्त्री. १. पवित्र; शुद्ध; शुचिर्भूत; निर्मळ. २. सवळें न्हेशिल्ली (अनवाळी सवायशीण) (ला.) माथ्यावेल्या पदराची रांडाव; बोडकी. **वा.प्र.: अनवाळी करप:** घोवाच्या मरणा उप्रांत विधवा जाल्ले बायलेक, तिज्या माथ्यावेले केंस कापून बोडकी करप. —पैलिंच्या काळांत, चड करून वेल्या समाजांत, घोवाच्या मरणा उप्रांत, विधवा जाल्ले बायलेक, तिज्या माथ्यावेले केंस कापून बोडकी करपाची चाल आशिल्ली. हे चालीक 'अनवाळी करप' अशें म्हण्टाले. अनवाळी जाल्याउप्रांत विधवेक माथ्यावेल्यान पोदोर घेत धवें वस्त्र न्हेसचें पडटालें. दुसरीं कसलींच कापडां तिका न्हेसूंक मेळनाशिल्लीं. तेच परी तिका एकभुक्त रांवचें पडटालें. त्या काळार काशीयात्रेक गेल्ल्यो विधवाय अनवाळ्यो जावन येताल्यो. बायलांची एक तरेन ही विटंबना आशिल्ली. बोडक्या बायलांचें दर्शन पासून अशुभ मानताले.

त्या काळार विधवांक बोडक्यो करपाची वा विधवांनी बोडक्यो जावपाची चाल प्रचारांत आशिल्ल्यान, 'अनवाळी करप' आनी 'अनवाळी जावप' हे वाक्प्रचार घोळटेंत आशिल्ले. आज ही दूस्ट प्रथा प्रचारांत नाशिल्ल्यान, ते प्रथेवांगडाच ह्या वाक्प्रचारांचो अर्थय ना जालो.

**अनवाळें** । अनवाळँ, सा.रू. -ळ्या; भौव. -ळीं, सा.रू. -ळ्यां । [सं. अनाविल] न. १. सवळें; न्हावन-धुवन देवपुजेखातीर, देवकृत्याखातीर आंगार काडचेलें, उमळून सुकत घाल्लें आनी ज्याका कोणें आफडूंक फावना अशें सुती तशेंच रसमी वा सणी वस्त्र. (... अनवाळपणांत दुबळ्यांचें बळ उणें आनी बळिष्टांचें बळ चड, म्हणपाचो समज चलिल्लो दिसता. ह्या समजाक लागून, कांय वस्त्रांचेर बरो परिणाम जाला. सुती आंगावलीं अनवाळपणाच्या नांवांर भौन भौन धुवन येतात. पुण रसमी, सणी बी वस्त्रां सदांचींच अनवाळीं आशिल्ल्यान, तांकां बारा म्हैने, तेरा काळ, उदकाचो शिंवर लागना. तीं म्हेळकीं जावन तांकां घाणी-गुठ्ठाणी येतात आनी तीं अनवाळ्याची मान-मर्यादा होगडायतात. ह्या समजान, अनवाळ्याचो निजाचो अर्थ वचून, धावळी, तसरांव, पितांबर आनी सणी मुकटो, असल्या वस्त्रांक तें लागूंक लागलां. —न.गोंय, २रें वर्स, ३रो आंक, ज्यानेर १९३६, पा.९७. बरो: भटकळ वेंकटेश रामचंद्र परोब). २. निर्मळसाण; निर्मळकाय; सुचिर्भूत, पवित्र, शुद्ध आचरण. (मुळच्या अर्थान अनवाळें जण एकल्या मनशान सदांकाळ राखूंक जाय. ताणें मनशाक देवपण येता. आमी आमगेली कूड, उतर, करणी, मन आनी येवजणी अनवाळी राखूं जाल्यार, आमकां देवपण येवपाक कळाव नाका. —न.गों, २ रें वर्स, ३ रो आंक, ज्यानेर १९३६, पा.९७, बरो: भटकळ वेंकटेश परोब, संपा. का.श्री. नायक.) **वि.** १. निर्मळ; झळझळीत; म्हेळ, चिखोल नाशिल्लें; शुद्ध; पवित्र. २. देवकृत्याखातीर न्हाल्याबगर ज्याका आफडूंक फावना तें; अनवाळ्यांनीं रांदिल्लें वा केल्लें; सवळें न्हेसून केल्लें; सवळ्यांत बांदिल्लें. (अनवाळें अन्न; अनवाळें लोणचें; अनवाळीं सोलां.)

**अनवाळो** । अनवाळॉ, सा.रू. -ळ्या; भौव. -ळे, सा.रू. -ळ्यां । [सं. अनाविल] वि. पु. १. सुचिर्भूत; निर्मळ; पवित्र; शुद्ध. २. सवळें न्हेशिल्लो (अनवाळो ब्राम्हण) ३. अनवाळ्यांनीं केल्लो; सवळ्यांत बांदिल्लो. (अनवाळो फळार; अनवाळे पापड).

**अनविश्वास** । अन्विश्वास्, सा.रू. -सा । [कों. अन्+सं. विश्वासः] पु. विश्वासाचो, श्रद्धेचो अभाव; अविश्वास; बेभरवंसो. २. उणो जाल्लो विश्वास.

**अनविश्वासी, सू** । अन्विश्वासी, सू, सा.रू.

-श्या । ['अनविश्वास' वेल्यान] वि. १. जो कित्याचेर वा कोणाचेर विश्वास, निमगणें दवरिना तो; अश्रद्ध; अभावार्थी. २. जो विश्वासाक पात्र ना तो; ज्याचेर पातेंवक नज असो. ३. फटकिरो; घातकी. (अनविश्वासी इश्ट).

**अनशन** । अन्शन्, सा.रू. -ना । [सं. अ+अशन; प्रा. अणसण; म. अनशन] न. १. उपास; अन्नत्याग; निराहार रांवचेलें व्रत. २. जैन शास्त्राप्रमाणें मोक्ष जोडपाखातीर, मरचे पैलीं कांय दीस, अन्न-उदकाचो केल्लो पूर्ण त्याग. ३. सगळे उपाय सोंपल्याउप्रांत, आपली मागणी वा आपल्यो मागण्यो मान्य करपाखातीर, ते ते मागणेकडेन वा त्या त्या मागण्यांकडेन लग्निक आशिल्ल्या अधिकाऱ्यांचेर चेपण हाडपाक अन्न-उदकाचो केल्लो त्याग.

**अनशें** । अनशँ, सा.रू. -श्या । [सं. अनशित; म. अनशें] वि. उपाशीं; रितें; निराळें (अनशें पोट).

**अनस** । अनॅस्, सा.रू. -सा; भौव. -सां, सा.रू. -सां । [पुर्तु: Ananas] न. केसरी नारिंगी रंगाचें, माथ्यार पानांचो सोबित तुरो आशिल्लें घमघमीत वासाचें एक सुवादिक फळ.

**विशेश:** अनस लांबायेक १५ ते २० सेंटिमिटर जाता आनी वजनाक अर्द कील ते दोन कील येता. 'आनानाज् कोमूजुश्' (Ananas Comusus) हे जातिचीं अनसां मात लांबायेक ४० सेंटिमिटर आनी वजनाक दोन कील येतात. आर्थिक नदरेन हेच जातिचीं अनसां चड येणावळ दितात.

उस्ण कटिबंधांतल्या देशांतच अनसां जातात. दक्षिण आनी मध्य अमेरिकेचें हें फळ. घडये मुदलाक ब्राझिलचें जावये. कोलंबसान ताका युरोपांत व्हेलें. पुर्तुगेजानीं ताका विजरै कोंस्तांन्तीनु द् ब्रागांस (Vice -Rei D. Constantino de Braganca) हाजे कारकिर्दींत (क्रि. स. १५५८ ते १५७८) पैलेंवैलें गोयांत हाडलें.

ज्या देशांनी अनसां चड प्रमाणान जातात ते देश हे:

आशिया खंड: चीन, फिलिपिन, मलाया, जावा, सुमात्रा, सिंगापूर, श्रीलंका आनी भारत.
आवश्त्रालाजिय्: ऑस्ट्रेलिया आनी हावाय जुवीं.
अमेरिका: क्युबा, मेक्सिको, पोर्तुन्हिकु आनी ब्राझिल.
आफ्रिका: गिनें लोकराज्य आनी दक्षिण आफ्रिका.

हावाय जुंवीं आनी ब्राझिल हांगाच अनसांचें पीक चड जाता. पैलो पांवडो हावाय जुंव्यांचो लागता, दुसरो ब्राझिलाचो.

भारतांत बंगाल, आसाम, मद्रास, केरळ आनी गोंय हांगा अनसां जातात. भारतांतल्या अनसांत गोंयचें अनस चड रोसाळ आसा अशें तज्ञांचें मत आसा. गोंयांत, फिर्ग्यांचें राजवटिंत, सावयवेरें, कुंकळये आनी बांबोळे हांगाच अनसां जातालीं. ह्या अनसांत बांबोळेचें अनस चड नांवाजतें! गोंयांत अनसांच्यो दोन तरा मेळटात: कापी आनी रसाळ. एक एक रसाळ अनस म्होंवान भरिल्लें आसता.

गोंयचे सुटकेपैलीं, म्हळ्यार १९ डिसेंबर १९६१ पैलीं, १२५ एकर जमिन अनशिनीं व्यापिल्ली. त्या वेळार सरासरीन तीन ते पांच लाख फळां मेळटालीं. सुटकेउप्रांत दिवचल, सत्तरी आनी सांगे ह्या तालुक्यांतय अनसांची लागोड जावपाक लागल्या. अनसांचें पीक १२,००० टन, वा चिके चड जावपाक लागलां. अनसांचे थळावे जातिभायर, आनिक्य वेगळ्यो जाती गोयांत हाडल्यात. ह्यो जाती अशो: क्यू (Kew), जायंट क्यू (Giant

Kew), क्युयीन (Kuccn), सिंगापूर आनी मॉरिशस. क्यू जातिचीं अनसां , थळावे जातिच्या अनसांपरस वजनाक चड येतात.

१९.१२.६१ पैलीं, गोंयचीं अनसां कंड्यांनीं भरून फक्त मुंबै निर्यात जातालीं. १८८५ वर्सा गोयांत क्यॅनिंगचो कारखानो स्थापन जालो. हो कारखानो अनसांचेर प्रक्रिया करून आनी तीं डब्यानीं भरून अमेरिका (U.S.A.), इंग्लंड आनी जर्मनिक निर्यात करूंक लागलो. ही निर्यात आजुनय चलता. जाल्यारूय, देशांतल्या बाजारपेठांनीं गोंयचीं अनसां उडयांनीं खपतात.

अनस आब्रिल धरून जुलैमेरेन मेळटा. मे आनी जून म्हैन्यांत अनसांचो भार जाता.

अनसांचो हालवो करतात. अनसांची करम करतात आनी पणसाचीं घेरे-भिकणां घालून अनसाचें तोंडाकय करतात.

अनसाचें निरूक्त 'तुपिग्वारानी' भाशेंतल्यान मेळटा. 'तुपिग्वारानी' ही ब्राझिलांतली एक आदिवासी जमात आनी ते जमातिची भास. हे भाशेंत अनसाक 'आनाना' म्हण्टात 'आ' म्हळ्यार फळ, आनी 'नाना' म्हळ्यार अप्रतिम. अनस म्हळ्यार अप्रतिम फळ.

**आधारावळ:** १. Verbo Enciclopedia Luso- Brasileiro de Cultura. Vol II:
२. Report on the Marketing of Pineapples in Goa. Govt. of Goa, Daman and Diu. Office of the Marketing Officer, Panaji, 1967;
३. पुर्तुगेज-मराठे संबंध, पा. ३३१, ले. डॉ. पांडुरंग सखाराम पिसुर्लेकर.

**अनस** । अंनंस्, सा.रू. -शी; भौव. -शी, सा.रू. -शीं । ['अनस' वेल्यान] स्त्री. वनस्पतशास्त्राचे नदरेन ब्रोमिलियासियश् ह्या वंशांतलें, Ananas Sativus आनी Ananas Comusus ह्या जातिंचें, ज्याका अनसां जातात, अशें तणावरी एक झोंप. हाजीं पानां पांचवीं चार; तरवारिचीं पातीं कशीं. पानांच्या दोनीं कडानीं कात्र्यांची कांटी आनी माडाच्या कोळवावरी फांकारलेलीं. अनशिक पोटांतल्यान मोटवोच दांडो फुट्टा. ह्या दांड्याक बोंडावरी फुलारो (Inflorescencia) येता. ताजेंच फळ जाता

अनसाक तोडयेकडेन, तेच परी कुशींतल्यान कोंब फुट्टात. हे कोंब रोवन अनसांची लागोड करतात. अनसांचो शेंडोय रोयतात.

अनशींत पांच जाती मेळटात. हातूंतली Ananas Comusus हें नांव आशिल्ली जात, आर्थिक नदरेन म्हत्वाची मानतात.

अनशिचीं पानां दोरयो करपाक उपकरांवक येतात. व्यापारी नदरेन ह्या अनशींपरस रान-अनशिंचीं पानां दोरयांखातीर चड उपकरायतात. पिड्डुको गुंथपाखातीर ह्या दोरयांचो उपयोग जाता. ह्या दोरयांचीं ब्यॅगांय करतात.

**अनहित** । अन्हीत्, सा.रू. -ता । [कों. अन+सं. हितम्] **न.** लुस्काण; अकल्याण; अहित. **वि.** निस्थूर; दूस्ट; निर्दुखी; पिडापीड दिवपी; कळाकूळ नाशिल्लो. (हो राव लोकांक अनहितु — Sintaxis Copiosissima, पा. ३०., por. Gaspar de S. Minguel).

**अनळाय** । अंनळाय । [सं. अनलद] क्रि. वि. आनंदित; खुशालभरित; खोसभरित. (ताजी सेवा तुमी केल्यार कोणी प्रकारीं तुमचे मनिंचें तो सिद्धी पायत. तुमचें मन अनळाय करित. —सां अं. अचर्यां, पा. ३०).
**वा.प्र: मन अनळाय करप:** दुःखाविरयत जावप; मन आनंदान, खोशेन उपाट भरप.

**अनक्षर** । अनक्षर् । [कों. अन+सं. क्षर्] वि. जें झरना तें; ज्याका क्षय ना तें; सासणादिक.

**अनक्षरी** । अनक्षरी, सा.रू. -च्या; भौव.

-री, सा.रू. -र्‍यां । [सं. अ+अक्षर] वि. जो बरोंवक, वाचूंक शिकूंक ना तो; निरक्षरी; अडाणी.

**अनाकार** । अनाकार् । [सं. अनाकार] वि. १. ज्याका आकार ना असो; निराकार. २. परमात्म्याचें, परमेश्वराचें एक विशेशण.

**अनागोंदी** । अनागोन्दी । [का. अनागोंदी] वि. ताळतंत्र नाशिल्लो.
**—कारभार:** ताळ-तंत्र नाशिल्लो असो पोक्या बडवचारांचो कारभार.
**विशेश:** कर्नाटकांत अनागोंदी नांवाचो एक गांव आसा. हो गांव तुंगभद्रेचे उत्तर धडेर आसा. रामायणाच्या काळांत ताका किष्किंधा हें नांव आशिल्लें, आनी थंय वाली राजाची सत्ता चलताली. क्रि.स. ११५० च्या सुमाराक अनागोंदिच्या विजयध्वज नांवाच्या राजान हें गांव आपलें राजपाटण केलें. क्रि.स. १३३५ च्या सुमाराक अनागोंदिचो निमाणो राजा जंबुकेश्वरदेव भायर पडलो आनी ताका भुरगेंबाळ वा दायजी-गोत्री नाशिल्ल्यान ताजें सिंव्हासन रिकामें जालें. त्या वेळार शृंगेरी मठाचो स्वामी विद्यारण्य माधव हाणें तें सिंव्हासन विजयनगरच्या यदुकुळांत जन्मल्ल्या संगमरायाचे हुशार आनी कर्तुत्वदशेचे पिळगेचे स्वाधीन केलें. तेन्नाच्यान अनागोंदी ही विजयनगरच्या गादयेची एक शाखा जाली. क्रि. स. १५६५त तालिकोटच्या अवलक्षणी झुजांत विजयनगरचें साम्राज्य नस्ट जालें, फाटोफाट वैभव गेलें. जाल्यारूय, जंद्रयो गेल्यो आनी खिणां उल्लीं, ते परी अनागोंदिच्या दरबारांतले पोके बडवाचार उणे जाले नात. वर्साचे अखेरेक, अमक्या राजाकडल्यान इतली खंडणी आयली, तमक्या कडल्यान इतली आयली, अशे कल्पित आंकडे मांडून जमाखर्चांत आदा दाखोवन, पोको जमाखर्च मांडपाची एक चाल त्या दरबारांत उदेवाक आयली. तेन्नाच्यान 'अनागोंदी कारभार' म्हळ्यार 'ताळ-तंत्र नाशिल्लो पोक्या बडवचारांचो कारभार' असो वाक्प्रचार घोळटेंत आयलो.
**आधारावळ:** १.गोंयकारांची गोंयांभायली वसणूक, बरो: शणै गोंयबाब.
२. मराठी भाषेचे संप्रदाय व म्हणी —वा.गो. आपटे. प्र. ३. पा. २७.

**अनाचार** । अनाच्यार्, सा.रू. -रा; भौव. -र, सा.रू. -रां । [सं. अ + आचार:] पु. १. वांकडें, पाडें, नस्टें आचरण; आचरण-भस्ट चाल-चलणूक; दुराचार; भ्रस्टाचार; निंद्य आचरण. २. भायलो छंद. ३. पाडी, वांकडी रीत; आडरीत; वांकडी प्रथा.

**अनाचारी** । अनाच्यारी, सा.रू. -र्‍या; भौव. -री, सा.रू. -र्‍यां । [सं. अनाचारिन्] वि. आचारहिन; नस्ट्या, पाड्या आचरणाचो; कीर्यनस्ट; सुग्रामपणा भायरो; वायट चाल-चलणुकेचो. २. भायल्या छंदाचो.

**अनाठांय** । अनाठांय् । [सं. अन्य+स्थान; प्रा. अण्ण + ठाय] क्रि.वि. १. अयोग्य; नसत्या जाग्यार; फावना थंय केल्लो; दानाकय ना आनी धर्माकय ना असो. (अनाठांय केल्ल्या दानाचो लाव कोणाकच मेळना. न्हंय दितल्याक, न्हंय घेतल्याक.) २. व्यर्थ; फुकट.

**अनातुर** । अनातूर, सा.रू. -रा । [सं. अनातुर] वि. ज्याका अत्रेग वा उत्कंठा ना तो. २. उदासीन.

**अनात्म** । अनात्म्, सा.रू. -त्म्या । [सं.अनात्मन्] वि. १. आत्म्याविरयत; जड. २. ज्याणें आपल्याक जिखूंक ना तो; ज्याणें आपलीं इंद्रियां आळाबंदाक हाडूंक ना तो. **पु.** देह; शरीर.

**अनात्मक** । अनात्मक् । [सं. अनात्मक] वि. अशाश्वत,; खिणयाळो.

**अनात्मधर्म** । अनात्मधर्म्, सा.रू. -र्मा । [सं. अनात्म+धर्म:] पु. शरिराचो, देहाचो धर्म.

**अनात्मवाद** । अनात्मवाद्, सा.रू. -दा । [सं. अनात्म+वादः] पु. आत्म्याचें आसप न्हंयकारपी सिद्धांत; आत्मो ना असो मांडिल्लो सिद्धांत.

**अनात्मवादी** । अनात्मवादी, सा.रू. -द्या; भौव. -दी, सा.रू. -द्यां । [सं. अनात्मवादिन्] वि. पु. आत्मो ना असो सिद्धांत मांडता तो; आत्मो ना असो सिद्धांत मानता तो. (ह्या देशांत जशे आत्मो मानपी आत्मवादी आसात, तशे आत्मो न मानपी अनात्मवादीय आसात.)

**अनाथ** । अनाथ्, सा. रू. -था; भौव. -थ, सा. रू. -थां । [सं. अ + नाथ (स्वामी, धनी)] वि. १. प्रभुहीन; धनी-गोंसाय नाशिल्लो. २. आवय-बापायचें छत्र नासून उबंत पडिल्लो; ज्याका ताजें पालन पोशण करपी कोणच ना तो; बाबडो पोर. (अनाथ भुरग्यांचो सांबाळ करपी संस्थेक ताणें कितलेंशेंच दान केलां.) ३. कोणाचोच आधार, आलाशिरो नाशिल्लो; असहाय. ४. संवसाराचे नदरेन स्वामी आसुनय निराधार आशिल्ली. (द्रौपदिच्या दुःखाचो थांग लागना. उदकांतल्यान भायर काडिल्ल्या नुस्त्यावरी फडफडपी तिगेलें मन द्युताउप्रांत पैलेंवैलेंच दिसता आनी वनपर्वांत ''पांचांची बायल आसुनय हांव अनाथ आसां'' अशें जेन्ना ती श्रीकृष्णाक कळवळून सांगता, तेन्ना काळिज हालता.) ५. दीन; दिन-दुबळो; दुखेस्त (अनाथांचो सारथी वैकुंठिंचो रावु). ६. धनी आसुनय ज्याची उस्तवारी जायना तें; धनी आसुनय जें पाडंग पडलां तें (अनाथ भाट; अनाथ शेत.)
**वा.प्र.: अनाथांचो नाथः** गरिबांचो कैवारी.

**अनाथाश्रम** । अनाथाश्रम, सा.रू. -मा; भौव. -म, सा.रू. -मां । [सं. अनाथ+आश्रमः] पु. जंय अनाथांचो पुरायेन सांबाळ करतात ती संस्था वा आश्रम.

**अनाद** । अनाद्, सा.रू. -दा । [सं. अन्नादि?] न. तणाची एक जात.

**अनादर** । अनादर्, सा.रू. -रा । [सं. अनादरः] पु. १. आदराची उणाय; अवज्ञा. २. तुच्छताय; बेपर्वा; केंडी; कुस्कुटावणी; अप्रतिस्ठा; अपमान; तिरस्कार. (**कचः** देवयानी, ही वनभूंय म्हगेली मातृभूंय जाली. हांगाच म्हाका नवजन्म मेळलो. तिजो अनादर हांव कसो करीन? —बिदाय अभिशाप, बरोः रवींद्रनाथ टागोर. कोंकणी अणकार -पांडुरंग भांगी)

**अनादि** । अनादी । [सं. अनादि] वि. १. आरंभ, उदेव नाशिल्लो; अनारंभी. २. ज्याच्या मुळाचो थांग लागना असो; सैमाचो; निजाचो; नित्य. ३. मूळ, मुळावो.
**—सिद्धः** अनादिकाळाचे परंपरेन सिद्ध जाल्लो; स्वयंसिद्ध.
**विशेशः** शास्त्रकारानीं 'ईश्वर, जीव आनी प्रकृती' ह्या तिनांकच अनादि मानल्यात.

**अनादिकाळ** । अनादिकाळ्, सा.रू. -ळां। [सं. अनादि+कालः] पु. ज्या काळाची गणती, मेज-माप करूंक नज असो काळ; खूप पुर्विल्लो काळ; सासण; सासणमूस्त; कदिमकाळ.

**अनादी** । अनादी । [सं. अन्न+आदि] स्त्री. तांदूळ-गोठो; अन्न-उदक; अन्नादी.

**अनाधसिधा** । अनाधसिधा । [सं. अनादिसिद्ध] वि. अनादिसिद्ध; स्वयंसिद्ध; स्वयंभू. (...अखंडिती दिप्तिची प्रभा, कंति वा स्वरूपाइ, मुग्तिची प्रझळिती, वा दिपपंजी दिवटी, अनाधसिधा देवबापाचें तत्वादिक स्वरूप, ह्या स्वामिया ठाईं आमी भोउतेक पळेवूंचें... वनवाळ्यांचो मळो, ३ पु., पा. ४)

**अनामक** । अनामक्, सा.रू. -का । [सं. अनामक] वि. १. नांव नाशिल्लो; ज्याचें नांव आयकिवांत ना असो; अप्रसिद्ध; २.

नांवाडगो; कुप्रसिद्ध.

**अनामत** । अनामत् । [अर. अमानत] वि. १. भरवंशान दुसऱ्याकडेन पातेल्लो वा दवल्लेलो (अनामत दुडू, अनामत रक्कम). २. धाण. धाणवट दवल्लेलो (अनामत दागिनो). ३. हिस्पांत दाखोंवक नाशिल्लो.

**क्रि.वि.** घोळयनासतना. वापरिनासतना. जशाक तसो दवल्लेलो; अमानीत (तुवें दवल्लेले दुडू म्हजेकडेन अनामत पडून आसात. ते मात्शे घेवन वच.)

**अनामिक** । अनामीक, सा.रू. -का; भौव. -क, सा.रू. -कां । [सं. अ+नामन्+इक] वि. १. नांव, सय नाशिल्लें; निनांवीं (अनामिक पत्र). २. हीन, नीच जन्माचो; आडबिजाचो; अकुळी. ३. ज्याचें नांव कोणाकच खबर ना असो (अजंठ्याचो अनामिक चित्रिक). ४. गुप्त; गूढ; अदृश्य (संवसाराक राखून धरपी अनामिक बळगीं आमचीय राखण करूंत. ऋ.५.४१.५). **पु.** आपलें नांव गुप्त दवरता तो मनीस; आपलें नांव भायर फोडिना तो मनीस.

**अनामिका** । अनामिका, सा.रू. -के । [सं. अनामिका] स्त्री. १. आपलें नांव गुप्त दवरता ती बायल. २. किरंगळीक तेंकून वा किरंगळीपैलीं आसता तें बोट; ज्या बोटाक मुदी घालतात तें बोट; मुदयेचें बोट.

**विशेश**: हाताच्या पांचय बोटांचीं नांवां अशीं आसात : अंगुष्ट (आंगठो, आखांडो, आखाणो), तर्जनी (मजखोंडो), मध्यमा (आंगळी), अनामिका (मुदयेचें बोट) आनी करांगुली (किरंगळी). मुदी सदांच अनामिकेक घालतात. तेच परी धर्मकार्यांत् दुसऱ्याच्या कपलार गंध वा चंदनाचो तिबो अनामिकेन लायतात. श्राद्धाच्या वेळार दर्भाचें केल्लें पवित्र अनामिकेकच घालतात. एका काळार तर्जनेक म्हळ्यार आखांड्याक लागीं आशिल्ल्या बोटाक भांगराची मुदी घालची आनी अनामिकेंत रूप्याची मुदी घालची असो धार्मिक संकेत आशिल्लो. (पळेयात : भा.स.को., खंड १, पा.२५०).

**अनायास** । अनायास् । [सं. अ+आयास] वि. सोंपेपणीं; सहज; कस्टांविणें; कस्ट करिनासतना वा त्राम काडिनासतना. (मनशांक अनायास मेळिल्ले वस्तिचें मोल नासता.)

**अनारंभ** । अनारंभ, सा.रू. -भा । [सं. अ+आरंभ] पु. ज्याक्का आरंभ, सुरवात ना तो; सैम.

**अनारंभी** । अनारंभी । ['अनारंभ' वेल्यान] वि. अनादि; सैमाचो; आरंभ नाशिल्लो.

**अनार्य** । अनार्य, सा.रू. -र्या; भौव. -र्य. सा.रू. -र्यां । [सं. अ+आर्य] पु.आर्य न्हंय तो; शंबर, पुलिंद पणी, द्रविड बी वंशाचो लोक; म्लेंच्छ.

**वि.** १. आर्यां भायलो. २. उणाक; नीच; कामानुस; आचारभ्रस्ट. ३. अधर्मी. (जे अनार्य मार्गान वतात तांचें कल्याण केन्नाच जायना.)

**विशेश**: मनीस उणाक, नीच जाता तो आपल्या आचरणान; जन्मान, जातीन वा वंशान न्हंय. 'अनार्य' ह्या उतराक उणाककायेचीं कसलींच लक्षणां नात. अनार्यांक उणाक, कामानुस, आचारभ्रस्ट अशीं विशेशणां लागलीं, तीं ह्या देशांत घडून गेल्ल्या इतिहासाक लागून.

क्रिस्ति सनाच्या १७०० वा १५०० वर्सां पैलीं उत्तरेकडल्यान जेन्ना आर्यांनी, टोळया टोळयांनी, भारताचेर घुरयो घाल्यो, त्या वेळार पणी, शंबर (दस्यू, कोळ, मुंडारी) आनी दास हांगा नगरां वसोवन आशिल्ले. आर्यांक ह्या देशांत रावितो करून रावपाक, तांचेकडल्यान भूंय जिखून घेंवची पडली. तांचेकडेन झुजचें पडलें.

दासांचो सुदाम ह्या नांवांचो एक मुखेली

आर्यांक भेटी जालो. आर्यांचो सेनापती इंद्र, हाणें शंबरांची नगरां फोडून 'पुरन्दर' म्हळ्यार 'नगरां फोडपी' अशें बिरूद जोडलें.

इंद्रान शंबरांची णव्याण्णोय नगरां उध्वस्त केलीं. शंभराव्या नगरांत वृत्राक आनी नमुचिक जिते मारून उडैले. (ऋ. २.१४.६).

आर्यांनी मेळत थंय अनार्यांक चेंचले. तांचीं नगरां हुलपायलीं. तांकां तरेतरेन पिडापीड दिली.

अनार्य आर्यांइतलेच शूर आशिल्ले. संस्कृतायेंत घडये आर्यांपरसय वरते आशिल्ले. जाल्यारूय, आर्यांकडेन झुजाक तयार केल्ले घोडे आशिल्ले. घोड्यांक लागून झुजाक एक वेग आयलो. ह्या वेगाक लागून अनार्यांक हार खांवची पडली.

जो जिखता, तो सदांच आपल्याक व्हड लेखता. व्हडविकेच्या पाटार बसयता. आपल्याक श्रेस्ठ समजता आनी जिखिल्लयांक सदांच कुस्कुटायता, हिणसायता, उणाक लेखता.

**अनावर** । अनावर् । [सं. अ+आवर:] वि. १. जो आटापाक येना असो; आळाबंदाक हाड्डूंक येना असो; स्वैर; लगाम नाशिल्लो. २. सांवरना असो (अनावर उमाळो).

**अनावरण** । अनावरण्, सा.रू. -णा; भौव. -णां, सा.रू. -णां । [सं. अ+आवरणम्] न. धांपणें, आवरण काडप; उद्‌घाटन; उक्तावण; उपचारिक आरंभ.

**अनावरण-समारंभ** । अनावरण्-समारंभ, सा.रू. -भा; भौव. -रंभ, सा.रू. -भां । [सं. अनावरण+समारंभ] पु. फोटो, पुतळो बी उक्तो करपाचो समारंभ; उद्‌घाटन-समारंभ.
**विशेश:** उपचारिक उक्तावण जांवचे पैलीं, ज्या फोट्याचो बी अनावरण-समारंभ जावपाचो आसता, तो फोटो, पुतळो बी लुगटान धांपून दवरतात. समारंभाच्या वेळार लुगटाचें हें धांपणें काड्टात. देखून, ह्या समारंभाक अनावरण (अ + आवरण) समारंभ (म्हळ्यार आवरण काडपाचो समारंभ) म्हण्टात.

**अनावर्ती** । अनावर्ती । [सं. अनावर्तिन्] वि. पर परत वा भौन भौन न येवपी (अनावर्ती खर्च= Non recurring expenditure)

**अनावश्यक** । अनावश्यक । [सं. अ + आवश्यक] वि. ज्याची आवश्यकता, गरज, जरूराय ना असो; गरज नाशिल्लो. (हे कथेंतलो अनावश्यक भाग काडून उडै).

**अनावृत** । अनावृत् । [सं. अ+आवृत = धांपिल्लें] वि. उक्तें; धांपणें नाशिल्लें; बंद नाशिल्लें. (ला.) जाहीर (पंतप्रधानांक अनावृत पत्र).

**अनावृत्त** । अनावृत्त । [सं. अ+आवृत्त = परतून येवपी] वि. परतून न येवपी; आवृत्ति नासपी.

**अनावृत्ति** । अनावृत्ती, सा.रू. -त्ती । [सं. अनावृत्ति:] स्त्री. १. पुनर्जन्मापासून जाल्ली सुटका; जन्म-मर्णाच्या फेऱ्यांतल्यान मेळिल्ली मुक्ती. २. मोक्ष.

**अनाश्रमी** । अनाश्रमी, सा.रू. -म्या । [सं. अनाश्रमिन्] वि. १.आश्रमभ्रस्ट; आश्रमधर्मा भायरो; जो चारय आश्रमांभायरो जाला तो. २. पतित; भ्रस्ट.

**अनाश्रय** । अनाश्रय्, सा.रू. -या । [सं. अ+आश्रय:] पु. आधाराचो, आश्रयाचो अभाव; आलाशिरो नासप.

**अनाश्रित** । अनाश्रित्, सा.रू. -तो; भौव. -त, सा.रू. -तां । [सं. अ+आश्रित] वि. आधाराविणें, आश्रयाविणें आसपी; निराधार.

**अनासक्त** । अनासक्त्, सा.रू. -क्ता; भौव.

-क्त, सा.रू. -क्तां । [सं. अ+आसक्त] वि. कसलेच गजालिची, विशयाची आसक्ती, मोह नासपी; मोहाविरैत आसपी.

**अनासक्ति** । अनासक्ती, सा.रू. -क्ती । [सं. अ + आसक्तिः] स्त्री. आसक्तीचो अभाव; कित्याचोच मोह वा आसक्ती नासप.

**अनास्था** । अनास्था, सा.रू. -स्थे । [सं. अ+आस्था] स्त्री. आस्थेचो अभाव; आस्था, कळकळ नासप.

**अनाहत** । अनाहत् । [सं. अ+आहत] वि. १. मारूंक नाशिल्लो. २. आपल्या आपुण निर्माण जाल्लो; सैमाचो.

**अनाहत-चक्र** । अनाहत-चक्र, सा.रू. -क्रा; भौव. -क्रां, सा.रू. -क्रां । [सं. अनाहत+चक्रम्] न. योग साधनेंतलें एक उतर; देहांत आशिल्लया स चक्रांतलें चौथें चक्र.

**विशेश:** हें चक्र हड्डयांत आसता. हाजो रंग उज्याभाशेन आसता आनी ताका बारा (१२) पाकळ्यो आसतात. 'क ख ग घ ङ च छ ज झ ञ ट ठ' हीं बारा बीजाक्षरां त्या बारा पाकळ्यांचेर आसतात असो समज आसा. हीं स चक्रां अशीं आसातः १) मूलाधार चक्र (गांड आनी इंद्रिय हांचे मजगतची शिवण); २) स्वाधिष्ठान चक्र (बोंबलेचे सकल आनी इंद्रियाच्या वैर); ३) मणिपूर चक्र (बोंबलेंत); ४) अनाहत चक्र (हड्डयांत); ५) विशुद्ध चक्र (कंठांत) आनी ६) आज्ञाचक्र (भोंवयांमदीं).

**आधारावळः** १. महाराष्ट्र शब्दकोशः खंड १, पा. ७१. २. कुंडलिनी शक्ती आणि परमेश्वर साक्षात्कारः वसंतराव मालपाठक, पा. ३२-३३

**अनाहत-नाद** । अनाहत-नाद, सा.रू. -दा; भौव. -द, सा.रू. -दां । [सं. अनाहत+नादः] पु. 'ओम्' हो ध्वनी; हड्डयांत आशिल्लया अनाहत-चक्राचो योग साधनेन आयकूंक येवपी नाद. हो नाद सगळ्यांत श्रेस्ठ मानतात.

**अनाहूत** । अनाहूत, सा.रू. -ता; भौव. -त, सा.रू. -तां । [सं. अ+आहूत] वि. आमंत्रणाविणें आयिल्लो; आगांतुक आयिल्लो.

**अनिकेत** । अनिकेत्, सा.रू. -ता; भौव. -त, सा.रू. -तां । [सं. अनिकेत] वि. १. घर-दार नाशिल्लो. २. संन्याशी; परिव्राजक. ३. एकाच जाग्यार वा एकेचकडेन न रावपी.

**अनित्य** । अनित्त्य । [सं. अ + नित्य] वि. १. जें नित्य, सदांच उरना तें; आशाश्वत; खिणयाळें. २. ज्याचो नाश जाता तें; नाशाडिक. ३. सैमाचो आसुनय एकसारखो उरना तो; जो बदलत रावता तो. (हो संवसार अनित्य आसा.)

**अनिपुण** । अनिपूण । [सं. अ + निपुण] वि. निपुण, तरबेज नासपी; नवशिको.

**अनिमान** । अनिमान् । [सं. अनामय?] वि. पिडेमुक्त; बलायकेस्त; निरोगी; अनमान.
**वा.प्र.: अनिमान करपः** पिडेमुक्त करप; पिडे-वायटांतलो बरो करप.
**अनिमान जावपः** रोग, पिडा बरी जावप; पेखून, भाजून येवप.

**अनियंत्रित** । अनियन्त्रीत । [सं. अनियन्त्रित] वि. १. ज्याचेर कोणाचोच ताबो ना तो; बंधन, मर्यादा नाशिल्लो; निरंकुश. २. मनाक येत तशें वा मनांत येता तशें करपी.

**अनियमित** । अनियमित । [सं. अ+नियमित] वि. १. नेमाआड, नेमाभायर आशिल्लो, २. निश्चित न्हंय असो. ३. नेम न पाळपी.

**अनिर्णीत** । अनिर्णीत । [सं. अ+निर्णित] वि. ज्याचो निकाल लागूंक ना असो; ज्याचो

निर्णय जांवक ना असो.

**अनिर्बंध** । अनिर्बन्ध । [सं. अनिर्बन्ध] वि. बंधनाविणें आसपी; मुक्त; स्वतंत्र.

**अनिल** । अनील, सा.रू. -ला । [सं. अनिल:] पु.१. हवा; वायु; पवन; वारो; २. वाऱ्याची देवता. ३. अस्ट वसूंतलो पांचवो वसू. ४. शरिराचें एक तत्व. ५. संधिवात. संधी वा सांधे धरचेली पिडा. ६. स्वाती नक्षत्र. ७. विष्णु भगवानाचें एक नांव. ८. मायल. ९. वायेची पिडा.

**अनिवार्य** । अनिवार्य । [सं. अनिवार्य] वि. १. ज्याचें निवारण करूंक येना अशें; अटळ. २. अत्यंत आवश्यक; अत्यंत गरजेचें.

**अनिश्चित** । अनिश्चीत । [सं. अ + निश्चित] वि. १. जें निश्चित न्हंय तें; दुभाविक (जें निश्चित आसा तें सोडून, जें अनिश्चित आसा ताज्या फाटल्यान जो धांवता, तो समूळनिशीं फटवता.) २. अनमनावस्थेंत आशिल्लो. ३. अमर्याद (अनिश्चित काळमेरेन तूं वाट पळेतलो?) ४. न थारायल्लो; न कळिल्लो. (मरण निश्चित आसता, वेळच अनिश्चित आसता.) ५. डळमळीत. (तागेलें कांयच निश्चित जांवक ना. सगळेंच अनिश्चित आसा.) ६. जें थीर ना तें; जें बदलता तें; अथीर. (अनिश्चित हवामान.)

**अनिश्चितताय** । अनिश्चित्ताय्, सा.रू. -ये [सं. अ + निश्चित + ता] स्त्री. मनाची जाल्ली दोंशीं अवस्था; डळमळितपण; अथीर वृत्ती.

**अनिस्ट** । अनीस्ट्, सा.रू. -स्टा; भौव. -स्ट, सा.रू. -स्टां । [सं. अनिष्ट] वि. १. जें इस्ट न्हंय तें; अप्रिय; नापसंत. २. वांकडी, पाडी, नस्टी (अनिस्ट प्रथा). ३. अभद्र; अमंगळ; अशुभ. (अनिस्ट वेळ). **न**. संकट.

**अनिस्टग्रह** । अनिस्टग्रह, सा.रू. -हां । [सं. अनिष्ट+ग्रह:] पु. भौव. हानी करपी ग्रह; अशुभ ग्रह. (सध्या म्हजे राशीक अनिस्टग्रह आयल्यात.)

**अनीत** । अनीत । सा.रू. -ती । [सं. अनीति; हिं. अनीत ] स्त्री. १. पाडें, वांकडें आचरण; २. अनाचार; अन्याय; अधर्म (कायदे चड थंय अनीत चड). ३. शिंदळकी. **म्हण** १. कायदे चड थयं अनीत चड. २. सत्याक एक वाट, अनितीक बारा वाटो.

**अनीति** । अनीती, सा.रू. -ती । [सं. अ + नीति] स्त्री. पळेयात 'अनीत'.

**अनीळ** । अनीळ । [सं. अ+नील] वि. जो निळो न्हंय तो.

**अनीश्वरवाद** । अनीश्वरवाद्, सा.रू. -दा । [सं. अनीश्वरवाद:] पु. देव ना अशें सांगिल्लें मत; देव म्हणून कोण ना अशें मांडिल्लें मत; नास्तिकताय.
**विशेश:** अनीश्वरवाद हें धर्मतत्त्वज्ञानाचे वाटचालींत उदेवाक आयिल्लें एक मत. संवसारांत सगळेकडेन जशे देव मानपी आसात, तेच परी देव न मानपीय आसात.

भारतीय धर्मतत्त्वज्ञानाच्या इतिहासांत चार्वाक मत हें एक अत्यंत मोलाचें मत. ह्या मताचें प्राचीन नांव 'लोकायत' अशें आशिल्लें. भारतीय दर्शनांच्या इतिहासांत बृहस्पतीक चार्वाक मताचो पैलो प्रवर्तक मानला. देव ना अशें बृहस्पतीन म्हळां, आनी चार्वाकान तर 'देव म्हणून कोण ना' म्हणपाचें स्पस्ट सांगलां (न परमेश्वरोऽपि कश्चित् ।)

**अनीश्वरवादी** । अनीश्वरवादी, सा.रू. -द्या;

भौव. -दी, सा.रू. -द्यां। [सं. अनीश्वरवादिन्] वि. देवाचें आसप वा अस्तित्व न मानपी; नास्तिक.

**अनु** ।अंनु । [सं. अनु] मु.कू. हें मुळाकूस असो भावार्थ दाखयता:
१) फाटल्यान वा फाटोफाट. देखीक: अनुयायी
२) फावसो, सोबसो. देखीक: अनुरूप.

**विशेश:** 'अनु' हें मुळाकूस ताज्या मूळ अर्थान 'अभाव' आनी 'न्हंयकार' दाखयना. जाल्यारूय, कोंकणींत अभाव आनी न्हंयकार दाखोवपाक 'अनु' हें मुळाकूस (Prefix) क्वचित उपकरायिल्लें मेळटा. देखीक: अनुभावार्थ (भावार्थाचो अभाव), अनुभावार्थी (भावार्थ, श्रद्धा नाशिल्लो), अनुकृपा (अवकृपा).

कोंकणींत 'अनुभावार्थ', 'अनुभावार्थी' आनी 'अनुकृपा' हांचीं अनुक्रमान 'अनभावार्थ', 'अनभावार्थी' आनी 'अनकृपा' अशींय रूपां मेळटात. सोळाव्या शेंकड्यांत कोंकणीं उतरांक सोंपत्यार 'उ' लावपाची चाल आसली. देखीक: मोरू, परमेस्परू, भक्तु बी. घडये हे चालीक लागून 'अन' चें 'अनु' जालां जावये.

**अनुकंपा** । अनुकम्पा, सा.रू. -पे । [सं. अनुकम्पा] स्त्री. दया; दयाळाय; काकुयट; काकळूत; अनुग्रह. (तांची अनुकंपा दिसून, तांच्या अंतस्कर्णांत हांव थीर जातां आनी ज्ञानाच्या घणघणीत उजवाडान, तांगेलो मोहाचो काळोख ना करतां. — भ.गी. १०-११ शणै गोंयबाब)

**अनुकंभा** । अनुकम्भा, सा.रू. -भे । [सं. अनुकम्पा] स्त्री. पळेयात 'अनुकंपा'.

**अनुकरण** । अनुकरण्, सा.रू. -णा; भौव. -णां, सा.रू. -णां । [सं. अनुकरणम्] न. दुसऱ्याचें बरें दिसून ताज्या सारकेंच आपणें केल्लें आचरण; देखादेख; नक्कल; व्हडांओडी.

**अनुकुलताय** । अनुकुलताय्, सा.रू. -ये । [सं. अनुकूलता] स्त्री. १. कसलीय गजाल साध्य करपाखातीर आशिल्ली साधनांची तांक; आपल्याक जाय तशी, आपल्या हिताक पडसारकी आशिल्ली परिस्थिती. २. धार्जणें.

**अनुकुळाय** । अनुकुळाय् सा.रू. -ये । [सं. अनुकूलता] स्त्री. पळेयात 'अनुकुलताय'.

**अनुकूल** । अंनुकूल । [सं. अनुकूल] वि. १. आदावाचो; हिताचो; फायद्याचो; उपकारी. २. आपलो पाखो घेवपी; आपल्याक धार्जणो. ३. कृपाळ; प्रसन्न. ४. जाय तसो; फाव तसो; मनासारको; योग्य; दिस्त. (अनुकूल वेळ).

**अनुकूळ** । अंनुकूळ । [सं. अनुकूल] वि. पळेयात 'अनुकूल'.

**अनुकृती** । अंनुकृती, सा.रू. -ती । [सं. अनुकृति] स्त्री. समान आचरण; देखादेख; नक्कल; अनुकरण; प्रतिकृती.

**अनुकृपा** । अनुकृपा, सा.रू. -पे । [कों. अनु + सं. कृपा] स्त्री. अवकृपा; अकृपा. (म्हजेर देवाची अनुकृपा जाल्या).

**अनुक्रम** । अनुक्रंम्, सा.रू. -मा । [सं. अनुक्रम:] पु. १. खंच्याय गजालिंच्या सगळ्या घटकांची एके विशिस्ट नदरेन, एका फाटोफाट एक असो क्रम दवरून केल्ली मांडावळ. २. परंपरा; पाथावळ. ३. पद्धत; नेम.

**अनुक्रमणिका** । अनुक्रमणिका, सा.रू. -के। [सं. अनुक्रमणिका] स्त्री. खंच्याय गजालिंच्या सगळ्या घटकांची एके विशिस्ट नदरेन क्रम लावन केल्ली मांडावळ वा मांडणी; वळेरी.

**अनुग्रह** । अनुग्रह्, सा.रू. -हा । [सं. अनुग्रह:] पु. १. दुसऱ्यांचें दुःख पोरो घालपाची इत्सा.

२. कृपा; दया; दयाळाय. ३. अनिस्टाचें निवारण.

**अनुचारिका** । अनुच्यारिका, सा.रू. -के; भौव. -का, सा.रू. -कां । [सं. अनुचारिका] स्त्री. दासी; चाकन्न; सेवेकान्न; सेविका.

**अनुचारी** । अनुच्यारी, सा.रू. -ऱ्या; भौव. -री, सा.रू. -ऱ्यां । [सं. अनुचारकः] पु. फाटल्यान चलत येवपी; दास; सेवक; सेवेकार; चाकर. **(ला.)** शिश्य; गडो; अनुयायी.

**अनुचित** । अनुचीत् । [सं. अनुचित] वि. करूंक फावना अशें; अयोग्य. (तुमीं तुमच्या बापाक रानांत घाला. हें तुमचें काम भोव अनुचित.)

**अनुताप** । अनुताप्, सा.रू. -पा, भौव. -प, सा.रू. -पां । [सं. अनुतापः] पु. पश्चाताप; दुःख; खेद.

**अनुतापी** । अनुतापी, सा.रू. -प्या । [सं. अनुतापिन्] वि. ज्याका आपले करणेचो पश्चाताप, खेद जाला तो.

**अनुत्पन्न** । अनुत्पन्न । [सं. अनुत्पन्न] वि. जो उत्पन्न जांवक ना तो; जो जन्माक येंवक ना तो.

**अनुत्पादक** । अनुत्पादक् । [सं. अ + उत्पादकः] वि. उत्पन्न करूंक असमर्थ जाल्लो; उत्पन्न करूंक पावनासतना तसोच पडून उरिल्लो. (भांडवल धुस्पून पड्टकीर तें अनुत्पादक जाता.)

**अनुदक** । अनुदक्, सा.रू. -का । [सं. अ+उदकम्] वि. १. उदकाविणें आसा तो; सुको सडसडीत. २. साप्प थोडें उदक आशिल्लो.

**अनुदात्त** । अनुदात्त । [सं. अनुदात्तः] वि. १. उदात्ततायेचो अभाव आसपी; ज्यातूंत व्हडविकेचीं लक्षणां नांत अशी (अनुदात्त चाल-चलणूक). २. चडोंवक नाशिल्लो; देंवयल्लया सुरांत म्हणपाचो (अनुदात्त स्वर). **विशेश:** संस्कृत भाशेंत दोन तत्त्वांच्या आधारान स्वरांचें वर्गीकरण केल्लें मेळटा. 'आघात' ह्या तत्त्वाचेर पैलें वर्गीकरण केलां आनी 'अवधि' ह्या तत्त्वाचेर दुसरें वर्गीकरण केलां.

'आघात' म्हळ्यार स्वरांचो 'आरोह' आनी 'अवरोह'. 'आरोह' म्हळ्यार चडयल्लो स्वर आनी 'अवरोह' म्हळ्यार देंवयल्लो स्वर. स्वरांचें चडोवप आनी देंववप ह्या तत्त्वाच्या आधारान उदात्त, स्वरित, आनी अनुदात्त अशें स्वरांचें एक वर्गीकरण केलां. 'अवधि' म्हळ्यार स्वर उच्च्यारपाक लागता तो वेळ. ह्या वेळाच्या तत्त्वाचेर आधारून ऱ्हस्व, दीर्घ आनी प्लुत अशें स्वरांचें दुसरें वर्गीकरण केलां.

वेदिक भास ही आरोह आनी अवरोह हांचेर आधारून आशिल्लयान, उदात्त, स्वरित आनी अनुदात्त हे स्वर संस्कृत भाशेंत खूप घोळटात. उदात्त म्हळ्यार चडयल्लो आनी अनुदात्त म्हळ्यार चडोंवक नाशिल्लो. चडैलो आनी चडोंवक नाशिल्लो हे स्वर एकठांय येवन, उदात्त आनी अनुदात्त हांचे मदीं जो स्वर येता, ताका स्वरित म्हण्टात. (The third or mixed one lying between high and low- समाहारः स्वरितः).

अनुदात्त स्वराची 'नीचैरनुदात्तः' अशी व्याख्या मेळटा. 'नीचैरनुदात्तः' म्हळ्यार देंवोवन म्हणपाचो स्वर तो अनुदात्त. उदात्त नाशिल्लो, चडोंवक नाशिल्लो वा उदात्तापरस मात्सो सकल हाडून म्हणिल्लो स्वर म्हळ्यार अनुदात्त स्वर, असोय ताजो अर्थ जाता. आरोह-अवराहाचो आघात नाशिल्लो असो सर्वसामान्य स्वर, असोय ताजो केन्ना केन्ना अर्थ जाता.

मंद प्रयत्न, सदळ आंग, मेकळो कंठ आनी मंद वायू हाणीं निर्माण जाल्लया ध्वनीची नाजूकसाण वा मोवसाण, म्हळ्यार अनुदात्त

स्वर, अशें ताज्या स्वरूपाचें वर्णन मेळटा.

ज्या अक्षराचो स्वर अनुदात्त जाता, त्या अक्षराचे सकल बरोवपांत एक आडवी रेगटी मारतात. देखीक: समुद्रादर्णवादधि संवत्सरो अजायत । (म्हळ्यार, त्या उदकाच्या समुद्रा उप्रांत संवत्सरादी काळ निर्माण जालो). हे देखींत 'स', 'मु', 'र्ण', आनी 'त्स' ह्या अक्षरांतले स्वर अनुदात्त आसात.

स्वरित उच्च्यार दाखोवपाखातीर ; जें अक्षर ह्या स्वरान युक्त आसता, त्या अक्षराच्या माथ्यार (।) अशी एक उबी रेगटी दितात. वेले देखींत 'द' आनी 'धि' ह्या अक्षरांतले स्वर स्वरित आसात.

उदात्त स्वर दाखोवपाखातीर कसलीच कुरू उपकरायनात. वेले देखींत कसलीच कुरू नाशिल्लीं जीं अक्षरां आसात, तांतूंतले स्वर उदात्त आसात.

**आधारावळ:** १) Sanskrit- English Dictionary, by Prin. V.S. Apte.
२) भाषा विज्ञान कोश: डॉ. भोलानाथ तिवारी.
३) ऋग्वेदीय सार्थ संध्या: संपा. कृ.वि.सोमणशास्त्री.

**अनुदान** । अनुदान्, सा.रू. -ना; भौव. -नां, सा.रू. -नां । [सं. अनुदानम्] न. १. कसल्याय कामाखातीर कांय अटी घालून दिल्लो आर्थिक पालव. चड करून सरकारी मदत. २. आर्थिक मदत.

**अनुदार** । अनुदार् । [सं. अ+उदार] वि. जो उदार न्हंय तो; क्षुद्र बुद्धिचो; कोत्या मनाचो.

**अनुनय** । अनुनय, सा.रू. -या । [सं. अनुनय:] पु. १. ओडमोडावणी; मनवळवणी. २. विनंती; प्रार्थना.

**अनुनासिक** । अनुनासिक्, सा.रू. -का; भौव. -क, सा.रू. -कां । [सं. अनुनासिक: अनुनासिकम्] वि. जो उच्च्यार तोंड आनी नाक हांच्या आधारान जाता तो; नाखयो. **न**. कोंकणी वर्णमाळेंतलीं क्, च्, ट्, त्, प् ह्या पांच वर्गांतलीं ङ्, ञ्, ण्, न्, आनी म् हीं निमाणीं व्यंजनां.

**विशेश:** वर्णांच्या उच्च्याराचे प्रक्रियेंत पुल्मांवांतली (फुप्फुसांतली) हवा तोंडांतल्यान भायर सरतना जे अवयव म्हत्वाचे आसात, तांतूंतलो एक अवयव म्हळ्यार पडजीब.

तोंडांतलो खोंपो (तालु) जंय सोंपता, थंय पडजीब हुमकळटा. ती जिबेवरीच, पुण आकारान ल्हान आसता. उच्च्यारांप्रमाणें तोंडाची पोकळी (Mouth cavity) आनी नाकाची पोकळी (Nasal cavity) धांपपाचें वा उक्तें करपाचें काम ही पडजीब करता.

पुल्मांवांतली हवा सकनळयेंतल्यान जेन्ना वैर सरता, तेन्ना तोंडाची पोकळी धांपून, ती हवा नाकाचे पोकळेंतल्यान भायर सरपाक पडजीब पालव दिता. तेच परी नाकाची पोकळी बंद करून, तोंडाचे पोकळेंतल्यान हवा भायर सरपाकय पडजिबच आदार दिता. जाल्यारूय, कांय वेळा, तोंडाची पोकळी आनी नाकाची पोकळी हांचेमदींच ती हुमकळटा.

अनुनासिकांचो उच्च्यार जातना तोंडाची पोकळी धांपिल्ली उरता आनी पुल्मांवांतली हवा नाकांतल्यान भायर सरता. अशें जातना जिबेचो फाटलो भाग, जीब-खोंपो, जीब-खोंप्यामाथें (मूर्धा), जीब-दांत आनी दोनय ओंठ तोंडांतले हवेक आडमेळीं हाड्टात. ह्या आडमेळ्यांक लागून, तोंडांत आशिल्ले हवेचो नाद निर्माण जाता आनी हो नाद नाकांतल्यान भायर सरता. कोंकणिंतलीं ङ्, ञ्, ण्, न्, आनी म् हीं अनुनासिकां अशे तरेन निर्माण जाल्यांत.

जेन्ना पडजीब तोंडाची पोकळी आनी

नाकाची पोकळी हांचे मदींच हुमकळत रावता, तेन्ना पुल्मांवांतली हवा, तोंडांतल्यान आनी नाकांतल्यान, अशा दोनय वाटांनी भायर सरता. पडजिबेचे हे अवस्थेंत जे उच्च्यार जातात, त्या उच्च्यारांक 'नाखये' (nasalized) उच्च्यार म्हण्टात. देखीक: अंयशीं, आंकडो; ओंकारो, उंवाळप, कांय, खंयच्यान, चींच बी.

अनुनासिकांचीं उच्च्यारस्थानां अशीं दाखोंवक येतात:

| **अनुनासिक** | **उच्च्यारस्थान** |
| --- | --- |
| ङ् | मोव खोंपो |
| ञ् | खोंप्यांचें तोंक |
| ण् | निबर खोंपो |
| न् | वेले दांत |
| म् | ओंठ |

अनुनासिकाचो आस्पाव 'स्पर्श व्यंजनां'त जाला. 'ञ्' हें 'च्' वर्गांतलें अनुनासिक. आर्विल्लें भाशाविज्ञान च्, छ्, ज्, झ् हीं व्यंजनां 'स्पर्श-घर्शक' अशा स्वरूपाचीं मानता. देखून, 'ञ्' ह्या 'च्' वर्गांतल्या अनुनासिकाच्या उच्च्यारणाच्या स्थानासंबंधान वाद आसा.

अनुनासिकाचो उच्च्यार दाखयतना अक्षराच्या माथ्यार (ं) अशी तिकली दितात. हे तिकलेक अनुस्वार म्हण्टात.

**अनुपकारी** । अनुपकारी, सा.रू. -ऱ्या, भौव. -री, सा.रू. -ऱ्यां । [सं. अनुपकारिन्] वि. १. जो उपकार स्मरना तो; कृतघ्न; बेमान; पडमूर. (अनुपकारी पूत). २. उपयोग नासपी; जो उपयोगाक येना तो; निरूपयोगी; कुचकामी; निकामी. (अनुपकारी वस्त). (ला.) जी वावराच्या मानान पिकावळ दिना ती; निसूक (अनुपकारी भूंय).
**पु**. कृतघ्न; खाल्ल्या पानार हागपी मनीस. (हो संवसार अनुपकाऱ्यांनी भल्ला.)

**अनुपम** । अनुपम् । [सं. अनुपम] वि. सर, उपमा ना असो; अत्यंत उत्कृस्ठ; सर्वोत्कृस्ठ.

**अनुपान** । अनुपान्, सा.रू. -ना; भौव. -नां, सा.रू. -नां । [सं. अनुपानम्] न. १. वखदाबराबर वा फाटोफाट घेवपाचें पिवण. २. ज्या पातळ पदार्थांत पिठ्याचें वा गुळयांचें आयुर्वेदिक वखद घोळोवन वा मेटून घेतात तो पदार्थ –भोव करून दूद आनी म्होंव. ३. वखद पारपाखातीर घेवपाचें पथिक खाणजेवण; पथ. ४. निवळण. देखीक: दुत्र्याच्या बियांचेर अनुपानाक कुंवाळ्याचो रोस दितात.

**अनुप्रास** । अनुप्रास, सा.रू. -सा; भोव. -स, सा.रू. -सां । [सं. अनुप्रासः] पु. ज्यातूंत एक अक्षर भौन भौन येवन जो पदाची वा वाक्याची सोबा चड वाढैता असो शब्दालंकार. –रसाची सोबा वाढोवपी व्यंजनाची जंय आवृत्ती जाता, थंय अनुप्रास अलंकार जाता. (इं.) Alliteration
**विशेश:** अनुप्रासाचे पांच प्रकार आसात: छेक, वृत्ति, श्रुति, अन्त्य आनी लाट.
१. छेक: अनेक व्यंजनां एका वळींत भौन भौन येवप. देखीक:
'त्या दिसा वडाकडेन गडद तिनसनां' (त - द- ड - न)
२. वृत्ती: एकूच व्यंजन भौन भौन येवप,
३. श्रुति: कंठ-खोंपयादि (कंठ-तालव्यादि) स्थानांतल्यान खंच्याय एका स्थानाचीं अक्षरां खूप वेळा येवप.
४. लाट: अक्षरासैत अर्थाची आवृत्ती जावप.
५. अन्त्य: फक्त निमाण्या अक्षराची परत आवृत्ती जावप.

**अनुबंध** । अनुबंध्, सा.रू. -धा; भौव. -ध, सा.रू. -धां । [सं. अनुबन्धः] पु. १. बंधन; करार; २. तुटनासतना आशिल्लो क्रम; अखंड परंपरा. ३. आसक्ती; संबंध. ४.

वंशज; परिवार. ५. बरो वा वांकडो परिणाम; फळ. ६. संकल्प; इत्सा; उद्देश; हेतू. ७. अपराध; गुन्यांव. ८. संवसाराचो पाश; प्रपंचाचें आडमेळें. ९. बापायचे वा गुरुचे आज्ञेन पुतान वा शिश्यान धरिल्लो मार्ग (आचरण). १०. मुख्य व्याधिवांगडा उत्पन्न जाल्लो हेर विकार. ११. आरंभ; सुरवात; श्रीगणेशा. १२. **(व्या.)** भाशेचें मुळावें तत्त्व. देखीक: धातू, प्रत्यय, कार्य. १३. **(ग)**. पुर्णांक आनी अपुर्णांक आशिल्ली संख्या. देखीक २³/४ बी.

**अनुभव** । अंनुभव, सा.रू. -भवा; भौव. -भव, सा.रू. -वां । [सं. अनुभवः] पु. पळेयात 'अणभव'.

**अनुभवप** । अनुभवंप्, सा.रू. -पा । [सं. अनु + भू] क्रि.दा.धा.सा.ना. (मूळ धातू: अनुभव (सक.)) प्रत्यय घेवप; अनुभव जोडप; अनुभवान कळप; समजप. २. भोगप.

**अनुभविक** । अंनुभंवीक । ['अनुभव' वेल्यान] वि. पळेयात 'अणभवी'.

**अनुभवी** । अंनुभवी । [सं. 'अनुभव' वेल्यान] वि. पळेयात 'अणभवी'.

**अनुभावार्थ** । अनुभावार्थ, सा.रू. -र्था । [कों. अन + सं. भावार्थः] पु. पळेयात 'अनभावार्थ'.

**अनुभावार्थी** । अंनुभावार्थी, सा.रू. -र्थ्या; भौव. -र्थी, सा.रू. -र्थ्यां । [कों. अनु + सं. भाव + अर्थिन्] वि. श्रद्धा नाशिल्लो; भावार्थ नाशिल्लो. (....अमोलिकु साक्रामेंतु हातीं घेतलो, वा जंय तो शास्त्रद्रुहितु अनुभावार्थी आशिल्लो, थंय आयलो. -सां. अं. अचर्यां, पा. १८).

**अनुभुती** । अंनुभुती, सा.रू. -ती । [सं. अनुभुति] स्त्री. प्रत्यय; प्रचिती; अनुभवान, अनुमानान, तुलनेन आनी वाद-विवादान प्राप्त जाल्लें ज्ञान; प्रत्यक्ष तरेन जाल्लें ज्ञान.

**अनुमती** । अनुमती, सा.रू. -ती । [सं. अनुमतिः] स्त्री. संमती; मान्यताय; परवानगी.

**अनुमती-पत्र** । अंनुमंती-पत्र्, सा.रू. -त्रा; भौव. -त्रां, सा.रू. -त्रां । [सं. अनुमति + पत्रम्] न. संमती दिवपी सरकारी आज्ञापत्र; एका देशांतल्यान दुसऱ्या देशांत वचपाखातीर सरकारान दिल्लो परवानो; पासपोर्ट वा व्हिजा.

**अनुमान** । अनुमान्, सा.रू. -ना; भौव. -नां, सा.रू. -नां । [सं. अनुमानम्] न. १. अणभवान सिद्ध जाल्लें प्रमाण वा अणभवान थारायल्लो सिद्धांत. (उजो आसा थंय धुंवर आसा हें जाण्टेल्यांचें अनुमान कोण लटकें म्हणत?) २. तर्क; अदमास; अंदाज (आज उकइटा ताजेवेल्यान, फाल्यां पावस पडुये अशें म्हजें अनुमान आसा.) ३. मेळिल्ल्या तपशिलाच्या वा पुराव्याच्या आदारान काडिल्लो निर्णय. (लिसेवाचें कार्त काडून थैं स्वतंत्र धंदो करतले लोक म्हळ्यार वैज आनी तांच्या फाटल्यान आदव्होगाद. हाचेवेल्यान एक साधारण अनुमान करूं येता तें हें कि, आमचे गोंयकार हिंदू विद्यार्थी गोंया आसूंत वा गोंयाभायर वचूंत, तांची ह्या शंभर वर्सांतली भौच मळिल्ली वाट म्हण्टात ती, सरकारी वा सावकारी चाकरी धरची, ना जाल्यार वैजकी आनी लेत्रादकी करची. -कोंकणी विद्यार्थ्यांक, बरो: शणै गोंयबाब. पा. १५). ४. वळख, पारख. (करणी पळोवन करतल्याचें अनुमान जाता. -गोमन्तोपनिपत, २रो खंड, बरो: शणै गोंयबाब. पा. २८७).

**अनुमानप** । अनुमानंप्, सा.रू. -पा । [सं. अनु + मा] क्रि. दा. धा. सा. ना. (मूळ धातू: अनुमान् (सक.)). १. तर्क करप;

तर्कान, अदमासान ताडप; अदमास बांधप. २. पारखप. ३. थारावप. (भगतां आपोस्तोलांनी ह्या गाराण्या वा निंदेक उपाउ दिंवच्याक, वा तिचें मूळ हुमळुंच्याक अनुमानिलें. -वनवाळ्यांचो मळो, पा. २२. बरो: Father Miguel de Almeida.)

**अनुमोदक** । अनुमोदक । सा.रू. -का, भौव. -क, सा.रू. -कां. वि. संमती दिवपी; समर्थन करपी; तेंको दिवपी; थारावाक बी अनुकूल मत दिवपी.

**अनुमोदन** । अनुमोदन्, सा.रू. -ना । [सं. अनुमोदनम्] न. समर्थन; तेंको; पसंती; मान्यताय.

**अनुयायी** । अनुयायी । सा.रू. -या; भौव. -यी, सा.रू. -यां । [सं. अनुयायिन्] वि. १. फाटल्यान वचपी; अनुसरण करपी. २. म्हालगड्यांक गुरु मानून ताज्या फाटल्यान वचपी वा तो शिकयता तशें आचरण करपी. पु. (मू. आनी ला.) १. शिश्य; गडो. २. चाकर; सेवेकार.

**अनुयोग** । अनुयोग्, सा.रू. -गा । [सं. अनुयोग] पु. १. प्रश्न; चौकशी; परिक्षा. २. निंदा; ख्यास्त. ३. प्रयत्न; उद्योग. ४. आलोचन; ध्यान. ५. अध्यात्मिक वा योगिक मनन, चिंतन. ६. भाश्य; टिका. ७. विनंती.

**अनुरक्त** । अनुरक्त् । [सं. अनुरक्त] वि. १. प्रेमान, मोगान बांदिल्लो; अनुरागान भरिल्लो. २. आसक्त; रत. ३. प्रसन्न; खोशी; संतुस्ट. ४. भक्त; दास; लीन; निस्ठावंत.

**अनुरक्ती** । अनुरक्ती, सा.रू. -क्ती । [सं. अनुरक्तिः] स्त्री. १. प्रीत; प्रेम; मोग; अनुराग. २. आसक्ती. ३. भक्ती.

**अनुरती** । अनुरती, सा.रू. -ती । [सं. अनुरतिः] स्त्री. मोग; प्रेम; आसक्ती, लीनताय; अनुरक्ती.

**अनुराग** । अनुराग्, सा.रू. -गा । [सं. अनुराग] पु. १. प्रेम; मोग; प्रीत. २. २. भक्तिभाव.

**अनुरागी** । अनुरागी, सा.रू. -ग्या । [सं. अनुरागिन्] वि. प्रेमी; मोगी; आसक्त.

**अनुराधा** । अनुराधा । [सं. अनुराधा] न. चार गिऱ्यांच्या पुंजुल्यान जाल्लें, नक्षत्रावळिंतलें सतरावें नक्षत्र. ह्या नक्षत्राक शुभ मानतात. देखीक: अनुराधाचो पैलो चरण.

**अनुरूप** । अनुरुप । [सं. अनुरूप] वि. फावशें, सोबशें, सोबसारकें, जाय तशें, योग्य. (हें जोडें एकमेकांक अनुरूप आसा.)

**अनुरेखणी** । अनुरेखणी, सा.रू. -णे; भौव. -ण्यो, सा.रू. -ण्यां । [सं. अनुरेखनम्] स्त्री. एकाद्रे आकृतीचेर पातळ फोल दवरून तशीच चिरिल्ली आकृती.

**अनुरोध** । अनुरोध्, सा.रू. -धा । [सं. अनुरोधः अनुरोधम्] पु. १ कल; गती. २. धोरण, रोंख. ३. मान्यताय; मर्जी. ४. प्रेरणा, उत्तेजन. ५. प्रभाव.

**अनुलग्निक** । अनुलग्निक् । [सं. अनुलग्न] वि. कसलेय करणे फाटल्यान ज्याचो संबंध वा ज्याचो हात आसा तो; जापसालदार.

**अनुलोम** । अनुलोम् । [सं. अनु + लोम (केंस)] वि. १ वेल्यान सकल अशा सभाविक क्रमान येवपी. २. योग्य क्रम आसपी.

**अनुलोमज** । अनुलोमज् । [सं. अनुलोमज] वि. वेल्या जातिच्या दादल्याक लागून सकल्ले जातिचे बायलेक जाल्ली संतत.

**अनुलोमविवाह** । अनुलोमविवाह्, सा.रू. -हा; भौव. -ह, सा.रू. -हां । [सं. अनुलोम

+ विवाहः] पु. वेल्या जातिचो दादलो आनी सकले जातिची बायल हांचें लग्न.

**अनुलोमा** । अनुलोमा । सा.रू. -मे । [सं. अनुलोमा] स्त्री. घोवाचे जातिपरस सकले जातिची आशिल्ली बायल.

**अनुवंश** । अनुवंश् सा.रू. -शा । [सं. अनुवंशः] पु. १. वंशवृक्ष, वंशावळ. २. आजची पिळगी.

**अनुवाक** । अनुवाक्, सा.रू. -का । [सं. अनुवाकः] पु. ग्रंथाचो एक भाग, अध्याय वा प्रकरण; ऋचांचो समूह.

**अनुवांटो** । अनुवांटॉ, सा.रू. -ट्या; भोव. -टॅ, सा.रू. -ट्यां । पु. पळेयात 'अनवांटो'.

**अनुवाद** । अनुवाद्, सा.रू. -दा; भौव. -द, सा.रू. -दां । [सं. अनुवादः] पु. १. भाशांतर, अणकार. २. सभेंत आपल्या वा दुसऱ्याच्या भाशणाचो भौन भौन केल्लो पुनरूच्च्यार. ३. गुन्यांवाचें भौन भौन उच्च्यारण करून सांगिल्ली ख्यास्त. ४. पुनर्कथन. ५. वेदांच्या, उपनिषदांच्या, तत्वज्ञानाच्या आशयाचें दुसऱ्या उतरांनी केल्लें यथार्थ कथन. ६. भौन भौन करून दिल्ली याद.

**अनुवादप** । अनुवादप्, सा.रू. -पा । [सं. अनु + वद्] क्रि. दा. धा. सा. ना. (मूळ धातू: अनुवाद् (सक.)) १. भौन भौन सांगप. २. फोडणिशी करप. ३. अणकार, भाशांतर करप.

**अनुवादपी** । अनुवाद्पी. सा.रू. -प्या; भौव. -पी; सा.रू. -प्यां । [सं. अनुवादिन्] वि. १. अनुवाद करपी; भाशांतर करपी. २. समर्थन करपी. ३. फोडणिशी करपी.

**अनुशासक** । अनुशासक्, सा.रू. -का; भौव. -क, सा.रू. -कां । [सं. अनुशासकः] पु. १. आज्ञा, आदेश, हुकूम दिवपी. २. देशाचेर राज्य करपी. ३. कारभारी.

**अनुशासन** । अनुशासन्, सा.रू. -ना; भौव. -न, सा.रू. -नां । [सं. अनुशासनम्] न. १. आज्ञा, आदेश, हुकूम. २. कायदो, कायद्याचो नेम. ३. शिस्त, व्यवस्था. ४. उपदेश, ज्ञान. ५. अनुस्ठाण.

**अनुशासन पर्व** । अनुशासन् पर्व, सा.रू. -र्वा । [सं. अनुशासन + पर्व] न. महाभारताचें १३वें पर्व.

**अनुसरणी** । अनुसरणी, सा.रू. -णे; भौव. -ण्यो; सा.रू. -ण्यां । [सं. अनुसरणम्] स्त्री. अनुसरपाची क्रिया; फाटोफाट वचपाची क्रिया; अनुकरण; दुसऱ्याचें पळोवन ताज्या सारकेंच केल्लें आचरण; घेतिल्ली देख; केल्ली नक्कल.

**अनुसरप** । अनुसरप, सा.रू. -पा । [सं. अनु + सृ] क्रि. दा. धा. सा. ना. (मूळ धातू:) अनुसर (अक.)) १. अनुकरण करप; देखादेखिन दुसऱ्या सारकें आचरण करप. २. अनुकूल जावप. ३. मताचो स्विकार करप, अनुयायी जावप, वश जावप. ४. भजप, स्मरप, अनुरक्त जावप.

**अनुसर्जन** । अनुसर्जन्, सा.रू. -ना । [सं. अनु + सर्जनम्] न. मूळ ग्रंथाचो आधार घेवन केल्ली स्वतंत्र निर्मणी; मूळ ग्रंथाचो गाभो राखून केल्ली स्वतंत्र निर्मणी.

**अनुसूचित** । अनुसूचित् । [सं. अनु + सूचित] वि. ज्याच्या नांवाचो आस्पाव सरकारान केल्ले यादींत वा वळेरेंत जाला तो. (अनुसूचित जात.)

**विशेश :** आर्थिक, शैक्षणिक बी नदरेन ज्यो जाती आनी जमाती आजवेर फाटीं उल्ल्यात तांकां मुखार हाडून, तांची परिस्थिती

सुधारपाखातीर प्रत्येक देशाचो सरकार, आपल्या देशांतल्या अशा जाती-जमातिंच्या नांवांची एक वळेरी तयार करता. शिक्षण, नोकरी, घरांचें वांटप बी गजालींच्या संदर्भांत ह्या जाती जमातींक कांय लाभ वा सवलत दिवप ही सरकाची बसका आसता.

**अनुसूची** । अनुसूची, सा.रू. -चये । [सं. अनु + सूची] स्त्री. क्रमान केल्ली यादी, वळेरी, जंत्री.

**अनुस्टान** । अनुस्टान, सा.रू. -ना । [सं. अनुष्ठानम्] न. पळेयात 'अनुस्ठान'

**अनुस्टुप** । अनुस्टुप् सा.रू. -पा । [सं. अनुष्टुभ्] पु. १. अस्टाक्षरी छंद; दर चरणाक आठ अक्षरां आशिल्लो, जाल्यारूय चरणांत लघु-गुरू क्रम निश्चित नाशिल्लो, चार चरणांचो छंद. हातूंत प्रत्येक चरणांतलें पांचवें अक्षर ऱ्हस्व आनी सवें दीर्घ आसता. दुसऱ्या आनी चौथ्या चरणांतलें सातवें अक्षर दीर्घ आसता. २. सरस्वती. ३. वाणी.

**अनुस्ठान** । अनुस्ठान, सा.रू. -ना, भौव. -नां, सा.रू. -नां । [सं. अनुष्ठानम्] न. १. यथायुक्त केल्लो धार्मिक विधी; नेम-निस्ठेन केल्लें धर्मकृत्य; फळाखातीर केल्ली देवाची आराधना (देखीक: अभिशेक, पूजा, होम-हवन आनी दान धर्माचीं कर्मां) २. साधना, तप. (योग, मंत्र आनी तंत्र हांचीं अनुस्ठानां केल्याबगर रससिद्धी मेळना).

**अनुस्मरण** । अनुस्मरण, सा.रू. -णा । [सं. अनुस्मरणम्] न. भौन भौन काडिल्ली याद. चांटे पावलाक आयिल्ली याद.

**अनुस्मरप** । अनुस्मरप, सा.रू. -पा । [सं. अनु + स्मृ] क्रि. दा. धा. सा. ना. (मूळ धातू: अनुस्मर् (अक्/सक.) भौन भौन याद येवप; चांटे पावलाक याद येवप, याद काडप.

**अनुस्मरणीय** । अनुस्मरणीय । ['अनुस्मरण' वेल्यान] वि. चांटे पावलाक ज्याची याद येता असो; ज्याची याद भौन भौन येता तो.

**अनुस्वार** । अनुस्वार, सा.रू. -रा; भौव. -र, सा.रू. -रां । [सं. अनुस्वार:] पु. देवनागरी लिपयेंत बरयतनां अनुनासिकांचो वा नाखयो उच्च्यार दाखोवपाक अक्षरांच्या माथ्यार दितात ती (ं) तिकली; शीर्शबिंदू.

**विशेश :** 'स्वृ' ह्या संस्कृत धातूचो अर्थ 'ध्वनी करप' असो आसा. ह्या धातूक 'अनु' हें मुळाकूस लागून 'अनु + स्वृ' असो संस्कृत धातू जाता. ह्या धातूवेल्यान 'अनुस्वार' हें नाम घडलां. ह्या नामाचो अर्थ 'स्वराफाटल्यान जावपी ध्वनी' असो जाता.

अनुस्वार हो भाशेंतलो स्वतंत्र वर्ण न्हंय. अनुस्वार हें एक चिन्ह. हें चिन्न अनुनासिकाचो उच्च्यार वा नाखयो उच्च्यार दाखोवपाक उपकरायतात. जेन्ना हें चिन्न अनुनासिकाखातीर उपकरायतात, तेन्ना हाका 'वर्णात्मक अनुस्वार' अशें म्हण्टात. देखीक: पंखो, खंड, अनंत, भूकंप (भुंयकांप) बी उतरांतले अनुस्वार हे अनुक्रमान ङ्, ण्, न्, म् ह्या अनुनासिकांखातीर आयल्यात. अशा वर्णात्मक अनुस्वारांच्यो दोन मात्रा मेजतात.

नाखयो उच्च्यार दाखोवपाखातीर जो अनुस्वार येता, ताका 'ध्वन्यात्मक अनुस्वार' म्हण्टात. देखीक: खंयच्यान, न्हंय, घुंवळ, ओंवळ, तेंको बी ह्या उतरांतलो अनुस्वार हो 'ध्वन्यात्मक' आसा. 'ध्वन्यात्मक' अनुस्वाराची एक मात्रा मेजतात.

अनुनासिक व्यंजनांच्या जाग्यार अनुस्वार आयल्यार, जेन्ना अर्थाचो गोंधळ जावपाची शक्यताय आसता, तेन्ना अनुनासिकाचो उच्च्यार दाखोवपाखातीर अनुनासिकच उपकरायतात.

देखीकः वेदान्त (=ब्रह्मज्ञान) - वेदांत (=वेद ग्रंथांत); सिद्धान्त (=तत्त्व, निर्णय) - सिद्धांत (=सिद्ध मनशांभितर); देहान्त (=मरण) - देहांत (=देहाभितर).

संस्कृत तत्सम उतरांत 'य' पैलीं अनुस्वार आयल्यार त्या 'य्' चो 'य्य्' असो दोट्टी उच्चार जाल्ल्यावरी जाणवता. देखीकः संयम (संय्यम), संयोग (संय्योग). तेचपरी, र्, ल्, व्, श्, स्, आनी ह् हांचेपैलीं अनुस्वार आयल्यार, ताचो उच्चार जातना आगमरूपान 'व्' आयिल्लो जाणवता. देखीकः संरक्षण (संव्रक्षण), संलग्न (संव्लग्न), अंश (अंव्श), कंस (कंव्स), हिंसा (हिंव्सा), संहार (संव्हार).

कोंकणी भाशेंतल्या अनुस्वारांसंबंदान सकल दिल्ल्यो कांय गोस्टी सांगूंक येतातः

१) कोंकणीतले कांय अनुस्वार हे व्युत्पत्तीच्या आधारान आयल्यात. देखीकः हांव (अहम्), गांव (ग्राम), आंवाळो (आमलक), सांवळो (श्यामल), गांठ (ग्रन्थिः), सांज (सन्ध्या), घांट (घण्टा), कांटो (कण्टकः), पांच (पञ्च), शिंपप (सिंञ्चनम्), केंस (केशः), सांसव (सर्षपः), उंट (उष्ट्र), हांसो (हास्यम्), कांसव (कश्यपः), विंचू (वृश्चिकः) बी.

२) कोंकणींतले कांय अनुस्वार व्याकरणी रूपांक लागून येतात. देखीकः

(अ) मोन्या 'अ' न सोंपिल्लया नपुसकलिंगी नामांच्या भौवचनाचेर येवपी. देखीकः रान - रानां, फूल - फुलां, तोंड - तोंडां, घर - घरां, पान - पानां बी.

(आ) विभक्ती दाखोवपी. देखीकः हांवें, तुवें, ताणें, हिणें, जिणें, आपणें (तिसरी विभक्ती - एकवचन); तांणीं, हांणीं, जांणीं (तिसरी विभक्ती - भौवचन); घरांत, बाजारांत, मनांत (सातवी विभक्ती).

(इ) नामांच्या आनी कांय सर्वनामांच्या भौवचनाक विभक्तीचीं कुसां आनी शब्दयोगी अव्ययां लागतना, तांच्या सामान्यरूपांचेर येवपी. देखीकः झाड - झाडांक, चली - चलयांनी, भुरगो - भुरग्यांचो, घर - घरांचेर, तो - तांचेर, मनीस - मनशांकडेन, तो - तांचेवरवीं बी.

३) कोंकणींत अनुस्वाराउप्रान्त 'ड्' आनी 'ब्' हीं मृदु (मोव) व्यंजनां आयल्यार, तांचो उच्चार त्या व्यंजनांच्या वर्गांतल्या अनुनासिकांभशेन, म्हळ्यार अनुक्रमान 'ण्' आनी 'म्' असो जाल्लेवरी दिसता. देखीकः भेंड (भेण), दांडो (दाणो), तोंडाक (तोणाक), फोंड (फोण), लांबाय (लामाय), थेंबो (थेमो), आंबे (आमे) बी.

४) कोंकणींत तद्भव उतरांनी अनुस्वारामुखार 'य्' आयल्यार, ताचो उच्चार 'ञ्' ह्या अनुनासिकाभशेन जाल्लेवरी जाणवता. देखीकः अंयशी (अंञशी), बांय (बांञ), खंय (खंञ).

**अनुज्ञा** । अनुज्ञा, सा.रू. -ज्ञे; भौव. -ज्ञा. सा.रू. -ज्ञां । [सं. अनुज्ञा] स्त्री. आज्ञा; हुकूम; अनुमती; संमती; परवानगी.

**अनूं** । अनूं । [फा. आइन्दा] क्रि.वि. अंदू; ह्या वर्सा; चालंत वर्सा (अनूं पावस जाय तसो पडिल्ल्यान शेतां तरतरून पोसवलीं).

**अनूंचो-ची-चें** । अनुंचॉ-ची-चँ, सा.रू. -च्या,-च्ये,-च्या । ['अनूं' वेल्यान] वि. अंदूंचो, ह्या वर्साचो; चालंत वर्साचो.

**अनूदक** । अनूदक्, सा.रू. -का । [सं. अनूदकम्] न १. उदक नासून पडिल्लो दुकोळ. २. उदकाचो लवलेश नाशिल्लो जागो; सडो.

**अनृत** । अनृत्, सा.रू. -ता । [सं. अनृतम्] न. ऋताचो लोप; नितिक मळावेलो अधःपात; समाजांतल्या देखदेण्या अशा नितिक आनी उदात्त मोलांचो जाल्लो लोप; स्वार्थ, दुस्वास, नाडकाय, सर्त आनी भेदाभेद हांचेर आधारून

आशिल्ली सामाजिक व्यवस्था. (आमच्या अनृताचो नाश करून आमकां दिसता तो वरूणाचो भय नासो कर. —ऋ.७.२८.४). २. फट.

**अनेक** । अनेक् । सा.रू. -कां ।[सं. अनेक] वि. एकापरस चड; खूप; भोव.

**अनेकवचन** । अनेकवच्यन् सा.रू. -ना, भौव, -नां, सा.रू. -नां । [सं. अनेकवचनम्] न. १. भौवचन; ज्याचेवेल्यान एकापरस चड गजालिंची (मनीस, प्राणी, वनस्पत, वस्तू, विचार, कल्पना बी) जाण जाता अशें व्याकरणी रूप. २. नाम वा सर्वनामांचें वेगवेगळ्या विभक्तींतलें एकापरस चड असो अर्थ दाखोवपी रूप. ३. पुरुश, काळ आनी अर्थ हांचेकडेन लग्निक जाल्लें क्रियापदांचें भौववचनी रूप.

**अनेकांतवाद** । अनेकान्तवाद्, सा.रू. -दा [सं. अनेकान्तवाद] पु. जैन दर्शनांतली सत्याकडेन पळोवपाची एक नदर वा विचार पद्धत.

**विशेश :** ही पद्धत सांगता कि, सत्याक कितलेशेच पैलू आसतात. आपल्याक दिसता तेंच सत्य आसता अशें न्हंय, तर दुसऱ्यांचे येवजणेंतय सत्यांश आसूं येता वा आसता. सत्याक अंत नासता. देखून, मनशान आपूण सांगतां तेंच सत्य असो आग्रो धरूंक फावना. अशी बसका घेतल्यार मनीस केन्नाच सत्य सोदूंक पावचो ना.

**अनौरस** । अनौरस, सा.रू. -सा । [सं. अनौरस] वि. १. औरस न्हंय तो; लग्नाभायल्या संबंधान जन्माक आयिल्लो-ल्ली-लें. (अनौरस संतत.). २. पोसको-की-कें.

**अंत** । अन्त, सा.रू. -न्ता; भौव. -न्त, सा.रू. -न्तां । [सं. अन्त] पु. १. अखेर; शेवट. (ज्याका आरंभ आसा, ताका अंत आसा.) २. शीम; म्हेर; मीत; पारावार. (कुस्टरोग्यांक बरे करून ते थांबले नात. तांकां प्रतिस्ठेची जीण जगपाक तांणी उबारी दिली. तांच्या ओंठांर हांसो फुलैत, कुस्टरोग्यांचे जीणेंत जेन्ना खऱ्या अर्थान तांणीं आनंदवन फुलैलें, तेन्नाच अंत नाशिल्लें सुख तांणीं अणभवलें.). ३. सोंसणिकायेची तांक, शीम. (म्हजो अंत पळोंव नाका. हांव खुबळल्यार तुका जरबंद लडो घालतलों.). ४. कस; कसाक लावन घेतिल्ली परिक्षा वा केल्ली पारख. (देवी, आनीक कितलो काळ तूं म्हजो अंत पळेतली? म्हाका दर्शन दी, देवी, म्हाका दर्शन दी.). ५. परिणाम; फळ. (बऱ्या करण्यांचो अंत बरोच जाता). ६. मरण. (ताका काळजाची पिडा भोगताली. तातूंतच ताजो अंत जालो.) ७. नाश. (देवकन्ये, हांव अमकेच पिरायेर मरन म्हणपाचो वेळ म्हाका खबर ना. तो मरणाचो काळ लिपिल्लो आसा. देखून, जुवानपणांतच श्रमणधर्म घेवन हांव दुःखाचो अंत करीन.). ८. **(व्या.)** कूस, प्रत्यय. (कोंकणींत मोनें अ, अीं, आनी अूंन सोंपिल्लया नपुंसकलिंगी नामांचे भौवचन ह्या अंता बदला अनुक्रमान आं, अयां वा अियां आनी अवां वा अुवां हे अंत लावन जाता. —कों.व्या.बां., बरो: शणै गोंयबाब. पा. २८-२९)

**वा.प्र.: अंत करपः** नाश करप (दुःखाचो अंत करप)

**अंत जावपः** मरण येवप.

**अंत पळोवपः** १. सोंसणिकायेची शीम, तांक पळोवप. २. कसाक लावप; कसाक लावन परिक्षा घेवप वा पारख करप.

**अंतःपूर** । अन्तःपूर, सा.रू. -रा; भौव. -रां, सा.रू. -रां । [सं. अंतःपुरम्] न. जंय बायलो वा राणयो रावतात तो घराचो वा राजवाड्याचो भितल्लो भाग; जनानखानो.

**अंतक** । अन्तक्, सा.रू. -का; भौव. -क,

सा.रू. -कां । [सं. अन्तकः] पु. १. यमराज; कळि-काळ. २. न्यायालयान ज्याका फांशिची ख्यास्त फर्मायल्या, ताका फांशी दिवपाचें काम करपी सरकारी चाकर. ३. प्रलय (संवसार-बुट्टी) धाडून सगळ्यांचो संव्हार करपी ईश्वर. ४. शिव; परमेश्वर.

**अंतकाळ** । अन्तकाळ्, सा.रू. -ळा; भौव. -ळ, सा.रू. -ळां । [सं. अन्तकालः] पु. अखेरचो काळ; मरण काळ; जीणेची अखेरची घटका. ('अंतकाळार म्हजोच उगडास करून जो कोण कळिंवर सोडून वता, तो म्हज्या रूपाक येवन मेळटा हातूंत दुभाव ना' अशें भगवंतान म्हळां.- गोमन्तोपनिषत, खंड १लो, बरो: शणै गोंयबाब. पा. १३)
**म्हण:** अंतकाळापरस माध्यानकाळ कठीण. (मर्णापरस भुकेचो वेळ कठीण आसता.)

**अंतपार** । अन्तपार्, सा.रू. -रा; भौव. -र, सा.रू. -रां । [सं. अन्त+पारः] पु. मेज-माप; थांग; ठाव. (ह्या ब्रम्हांडाचो अंतपार कोणाक लागना.)

**अंतर** । अन्तर, सा.रू. -रा; भौव. -रां, सा.रू. -रां । [सं. अन्तरम्] न. १. भेद; फरक; वेगळीक; वेगळिकाय. (मूळ नाटकांतल्यो येवरोपी चाली आनी हिंदू चाली हातूंत अंतर आशिल्लयान, हांवे 'She stoops to conquer' ह्या इंग्लेज नाटकाचें कोंकणी रूपान्तर केलें ना.) २. दोग मनीस, दोन वस्त्यो वा दोन गांव हांच्या मदलो जागो. ३. दोन खीण, दोन राजवटी वा दोन घटितां हांच्या मदलो काळ. ४. समाजाच्या घटकांभितर आशिल्लो पांवडो. ५. खंड (ताजे सेवेंत अंतर पडलें ना). ६. नपड; पैसावल्ली माया; उणी जाल्ली ओड; तुटिल्ली वा तोडिल्ली इश्टागत. ७. काळीज; मन. (अंतरांतले साद). ८. मान; भोमान; आब. (तो समाजांत भोंवतना आपलें अंतर राखून भोंवता.). ९. **(अं.ग.)** बाकी, शेश.
**वि.** दुसरो; वेगळो. —ह्या अर्थान देशांतर, वेशांतर, पाठांतर, मतांतर, भाशांतर बी उतरां घडटात.।
**वा.प्र.:अंतर आसप:** भेद, फरक आसप.
**अंतर पडप:** खंड पडप; फरक पडप.
**अंतर येवप:** पैसावप; नपड येवप; माया, इश्टकाय तुटप वा तोडप.

**अंतरंग** । अन्तरङ्ग, सा.रू. -गा; भौव. -गां, सा.रू. -गां । [सं. अन्तरङ्गम्] न. १. मन; अंतस्कर्ण. २. भितल्लें रूप वा घटना.

**अंतरप** । अन्तरप, सा.रू. -पा । ['अंतर' वेल्यान] क्रि.दा.धा.सा.ना. (मूळ धातू: अंतर् (अक.)) १. पैसावप. २. वगडावप. ३. भायर पडप, मरप. (तो ह्या संवसाराक अंतरलो.)

**अंतरपाट** । अन्तर्पाट्, सा.रू. -टा; भौव. -ट, सा.रू. -टां । [सं. अन्तर+पटः] पु. १. लग्नविधींत मंगलास्टकां म्हणून लग्न लायतना, होंकल आनी न्हवरो हांचे मदीं, पडयावरी धरतात तें हळदिंत काडिल्लें वस्त्र. (ह्या वस्त्रार दोंशीं वटेन स्वस्तिक काडिल्लें आसता. अंतरपाट दक्षिण-उत्तर धरतात; आनी काडटना उत्तरेवटेन काडटात.) २. मुजिच्या वेळार मुंजो आनी तागेले आवय-बापूय हांचे मदीं, स्वस्तिक काडिल्लो धरतात तो वस्त्राचो पाट.

**अंतरबळ** । अन्तर्बळ्, सा.रू. -ळा; भौव. -ळां, सा.रू. -ळां । [सं. अन्तर+बलम्] न. भितल्ली शक्ती; भितल्लें बळ, चैतन्य.

**अंतरमाळ** । अन्तर्माळ्, सा.रू. -ळे; भोव. -ळो, सा.रू. -ळां । [सं. अन्तर+माला] स्त्री. आंतकडी.
**वा.प्र: अंतरमाळो उडप:** भयान आवरो

उडप.

**अंतरमाळो परतप:** कळवळ्याचो उमाळो येवप; भयान काळजांत रगताचो गुळो आयिल्ल्यावरी जावप.

**अंतरमाळो भायर काडप:** जिवानिशिं मारप.

**अंतरयाम** । अन्तर्याम, सा.रू. -मा; भौव. -मां, सा.रू. -मां । [सं. अन्तर्याम] पु. काळीज; मन; अंतस्कर्ण.

**वा.प्र.: अंतरयामांतली खूण:** गुमानित; गुपीत. —'मन जाणा पाप आनी आवय जाणा भुरग्यांचो बाप' अशी एक म्हण आसा, देखून, भुरग्याचो बापूय कोण म्हणपाची अंतरयामांतली खूण, भुरग्यांचे आवयकच खबर आसता.

**अंतरयामी** । अन्तर्यामी, सा.रू. -म्या; भौव. -मी, सा.रू. -म्यां । [सं. अन्तर्यामिन्] वि. १. दुसऱ्याच्या मनांत वा काळजांत कसले विचार आनी भावना घोळटात हें जाणा जाता तो. २. अंतस्कर्णांत थीर रावन जो प्रेरणा दिता तो. ३. आपल्या मनांतल्या विकारांचेर जैत जोडटा तो.

पु. ईश्वर; परमेश्वर; देव; परमात्मो; चैतन्य.

**अंतरवळ** । अन्तर्वळ्, सा.रू. -ळी; भौव. -ळी, सा.रू. -ळीं । [सं. अन्तर+कों. वळ] स्त्री. दोन वळींमदलो जागो; बरयल्लया दोन वळीं मजगतीं घाल्लो आनीक मजकूर.

**अंतरात्मो** । अन्तरात्मॉ, सा.रू. -त्म्या; भौव. -त्मे, सा.रू. -त्म्यां । [सं. अन्तरात्मा] पु. १. जीवात्मो; जीव. २. आत्मो; प्राण. ३. मन; अंतस्कर्ण.

**अंतराळ** । अन्तराळ्, सा.रू. -ळा । [सं. अन्तरालम्] न. भूंय आनी मळब हांचे मदलो जागो; अंत्राळ.

**—यान:** अंतराळाचो सोद घेवपाखातीर, अंतराळांत भ्रमण करित रावसारकें घडयल्लें वाहन.

**—यूग:** पृथ्वीवेल्यान उपग्रह सोडून, अंतराळाच्या संशोधनाक ज्या दिसाच्यान आरंभ जाला, त्या दिसाच्यान सुरू जाल्लें यूग वा काळ.

**—वीर:** अंतराळयानांतल्यान अंतराळाच्या संशोधनाखातीर अंतराळांत गेल्लो वीर.

**विशेश:** 'स्पुटनिक' नांवांचो पैलो उपग्रह, ४ अक्टोबर १९५७ दिसा, अंतराळांत धाडपाक रशियेन यश जोडलें. त्या दिसाच्यान अंतराळ युगाचो आरंभ जालो.

१२ आब्रील (एप्रील) १९६१ दिसा, रशियेचोच यूरी गागारीन हो अंतराळांत वचून आयलो. पृथ्वीभोंवतणी प्रदक्षणा काडपाक ताका यश आयलें. देखून, पैलोवैलो अंतराळवीर जावपाचो मान ताणें जोडलो.

अंतराळयुगाचो आरंभ जाल्याउप्रांत, चंद्राचेर वचप हें अंतराळ संशोधनाचें मुखावेलें पावल आशिल्लें. ह्या मळाचेर रशिया आनी अमेरिका हांचे मदगतींच सर्त लागिल्ली आनी चंद्राचेर पैलें पावल घालपी मनीस अमेरिकेचो आसचो, ह्याखातीर तिजो यत्न चलिल्लो.

अमेरिकेन पैलीं 'मर्क्युरी' येवजण आंखली. ५ मे १९६१ दिसा अमेरिकेचो ॲलन शेपर्ड हो अंतराळांत वचून, कसल्याय प्रयासांविणें, पृथ्वीचेर आशिल्लो तसो आयलो. २० फेब्रुवारी १९६२ दिसा जॉन ग्लेन हाणें पृथ्वीभोंवतणी तीन प्रदक्षणा काडपाक यश जोडलें. मे १९६३ धरून अमेरिकेन सगळीं मेळून स 'मर्क्युरी' यानां अंतराळांत धाडलीं. त्याउप्रांत १९६४ ते १९६६ ह्या काळांत, अमेरिकेन 'जेमिनी' येवजण आंखली, आनी अंतराळांत वचपाची उड्डाणां चालूच दवल्लीं. हे येवजणे सकल सगळीं मेळून बारा यानां अमेरिकेन अंतराळांत धाडलीं. मनीस अंतराळांत सोंपेपणी जियोंवक पावता, तेन परी ताज्यान कामय

करूंक येता म्हणपाचें 'मर्क्युरी' येवजणेन सिद्ध केलें; तर मनशाक अंतराळांत बरेच दिस रावपाक जमता. यानाची दिशा ताज्यान बदलूंक येता, दोन यानां एकठांय हाडून जोडूंक येतात, तशींच तीं वेगळींय करूंक येतात म्हणपाचें 'जेमिनी' येवजणेन सिद्ध केलें.

ही सिद्धि मेळल्याउप्रांत, ११ अक्टोबर १९६८ दिसा, अमेरिकेन 'अपोलो ७' हें यान मनशासैत अंतराळांत धाडपाक यश जोडलें. ह्या यानान पृथ्वीभोंवतणी १६३ प्रदक्षणा घाल्यो. त्याउप्रांत, २१ डिसेंबर १९६८ दिसा, 'अपोलो ८' हें यान तीन अंतराळविरांसैत चंद्राभोंवतणी धा भोंवताडे काडून पृथ्वीचेर सुखरूप देंवलें.

चंद्रयानाचे चांचणेखातीर, अनुक्रमान, ३ मार्च आनी १८ मे १९६९ दिसा 'अपोलो ९' हीं यानां चंद्रयानासैत अमेरिकेन धाडून पळेलीं. सगळी तयारी पूर्ण जाल्याउप्रांत 'अपोलो ११' हें यान चंद्रयानासैत अंतराळांत धाडपाची मोहिम अमेरिकेन आंखली. हे मोहिमेचो सूत्रधार नील आर्मस्ट्रॉंग आशिल्लो. एअर फोर्स कर्नल मायकेल कॉलिन्स हो कमांड मोड्युलचो वैमानिक आशिल्लो, आनी एअर फोर्स कर्नल एडविन ई. आल्ड्रिन हो चंद्रयानाचो वैमानिक आशिल्लो.

'अपोलो ११' हें यान चंद्रयानासैत, अमेरिकेन १६ जुलै १९६९ ह्या दिसा, अंतराळांत सोडलें. १९ जुलैक ह्या यानान चंद्राचे कक्षेंत प्रवेश केलो. २१ जुलै १९६९ दिसा 'ईगल' हें यान चंद्रभुयेंचेर देंवलें. त्याच दिसा भारतांतल्या वेळेप्रमाणें सकाळच्या आठ वरां पंद्रा मिनटांचेर , नील आर्मस्ट्रॉंगान 'ईगल' ह्या चंद्रयानाचें दार उक्तें केलें. यानाचे निसणीवेल्यान देंवून, चंद्राचे जमनिचो ताणें अदमास घेतलो, आनी आपलो दावो पाय चंद्राचेर पैलोवैलो दवल्लो.

चंद्राउप्रांत मंगळाचें संशोधन करपाचे आंखणेक रशिया आनी अमेरिका लागल्या. चंद्राचोच उपयोग करून मंगळाचेर यान धाडपाचे तजविजेक हीं राष्ट्रां आतां लागल्यांत. 'व्हॉएजर २' हें यान नेपच्यून ग्रहाचे फोटे १३ कोटी ४० लाख किलोमिटरांवेल्यान पृथ्वीचेर धाडूंक लागलां. अशे तरेन मनीस अंतराळ व्यापीत चल्ला. आपली बुद्ध पाजोवन, ब्रह्मांडाचो सोद घेतल्याबगर तो रांवचो ना म्हणपाची नाट, ४ अक्टोबर १९५७ दिसाच्यान सुरू जाल्ल्या ह्या अंतराळ युगांतल्यान मेळटा.

**अंतरिक्ष** । अन्तरीक्ष, सा.रू. -क्षा । [सं अन्तरिक्षम्] न. १. पृथ्वी आनी स्वर्गलोक हांचे मदलें स्थान. २. मळब. ३. (अं.ग.) 'शून्य' (०) हो आंकडो.

**अंतरीक** । अन्तरीक, सा.रू. -के; भौव -क्ो, सा.रू. -कां । ['अन्तर' वेल्यान] स्त्री. १. अडचण; आडखळ. २. नपड.
**वा.प्र.: अन्तरीक जावप**: अडचण, आडखळ जावप.
**अन्तरीक येवप**: १. अडचण, आडखळ येवप. २. नपड येवप.

**अंतर्गत** । अन्तर्गत् । [सं. अन्तर्गत] वि. भितल्लो; आपसांतलो. (तांच्या अंतर्गत वेव्हारांत हांव पडना.)

**अन्तर्गळ** । अन्तर्गळ्, सा.रू. -ळा; भौव. -ळां, सा.रू. -ळां । [सं. अन्तर्गल:] न. निजाचे वा अपघातान जाल्ले खांचिंतल्यान आंतकडेचो वा एपीप्लुनचो (Epiploon) भाग देंवून निर्माण जाता तो मांसाचो मोव गुळो वा ट्युमर; शीर ओडप.
**विशेश:** जांगडाक तेंकून आशिल्लया कमराच्या भागाकडेन अंतर्गळ जाता. अंतर्गळ बोंबलेकडेन जाता, आनी तें आंडाच्या पोतयेंतय जाता.

कस्टांच्या वावराक लागून, व्हायलंट व्यायामाक लागून, आलेंटींक लागून (भुरग्यांक) आनी खांकीक लागून (जाण्ट्यांक) अंतर्गळ

जाता. कारणां कसलींय आसूं, अंतर्गळ म्हळ्यार आंतकडेचो भाग सकल देंविल्ल्यान निर्माण जाल्लो मांसाचो गुळो वा ट्युमर. हो गुळो मोव आसता. कांय वेळा ह्या गुळ्याचे त्रास जायनात. चेपल्यार वा दामल्यार हो गुळो भितर वता. अंतर्गळाखातीर खासा तयार केल्ले पटे मेळटात. ह्या पट्यानीं अंतर्गळाच्या त्रासांचें निवारण जायना जाल्यार शस्त्रक्रिया होच ताजेवेलो अखेरचो उपाय आसता.

**अंतर्दशा** । अन्तर्दशा, सा.रू. -शे; भौव. -शा, सा.रू. -शां । [सं. अन्तर्दशा] स्त्री. फलज्योतिशाप्रमाणें आपले जीणेंत भोगपाचें आसता तें ग्रहांचें बरें-वाकडें फळ; ग्रहांचो फळ दिवपाचो काळ.

**अंतर्दृस्टि** । अन्तर्दृस्टी, सा.रू. -स्टी; भौव. -स्टी, सा.रू. -स्टीं । [सं. अन्तर्दृष्टिः] स्त्री. १. दिव्य नदर. २. योगसाधनेन प्राप्त जाल्ली अंतर्ज्ञानाची तांक.

**अंतर्धान** । अन्तर्धान्, सा.रू. -ना । [सं. अन्तर्धान्] वि. अदृश्य; गुप्त.
**वा.प्र.: अंर्तधान पावप:** अदृश्य जावप; गुप्त जावप; नासो जावप.

**अंतर्माळ** । अन्तर्माळ्, सा.रू. -ना । [सं. अंतर+माला] स्त्री. पळेयात 'अंतरमाळ'.

**अंतर्मुख** । अन्तर्मूख, सा.रू. -खा; भौव. -ख, सा.रू. -खां । [सं अन्तर्मुख] वि. १. आत्मचिंतन करपी. २. विचारी; चिंतन करपी. ३. (अध्यात्म) प्रपंचांतलें ध्यान काडून, आपल्या अंतरांतल्यान आपलोच सोद घेता तो; भायल्या व्यापांतलें मन काडून जो आपल्या आत्म्याचो सोद घेता तो.

**अंतर्मुखताय** । अन्तर्मुखताय्, सा.रू. -ये; भौव. -यो, सा.रू. -यां । ['अंतर्मुख' वेल्यान] स्त्री. अंतर्मुख आसतल्याची स्थिती, वा अंतर्मुख आसपाची वृत्ती.

**अंतर्वस्त्र** । अन्तर्वस्त्र, सा.रू. -स्त्रा; भौव. -स्त्रां, सा.रू. -स्त्रां । [सं. अन्तर्वस्त्रम्] न. वेल्या वस्त्राभितर घालचेलो कपडो वा वस्त्र.

**अंतर्वेदी** । अन्तर्वेदी, सा.रू. -द्ये; भौव. -द्यो, सा.रू. -द्यां । [सं अन्तर्वेदिः] स्त्री. यज्ञभुयेंकडेन लग्निक आशिल्लो भितल्लो जागो; यज्ञाचो माटोव; यज्ञ-मंटप (सोमयागाच्या दिसा अभिषेक जावपाचो आशिल्लो. ब्राह्मण आनी राजा अंतर्वेदींत एकठांय जाल्ले. —महाभारत, खंड १, बरो: रवीन्द्र केळेकार, पा. १२५).

**अंतर्वेदी** । अन्तर्वेदी, सा.रू. -द्ये; भौव. -द्यो, सा.रू. -द्यां । [सं. अन्तर्वेदिः] स्त्री. ज्याका पवित्र मानतात तो गंगा यमुना न्हंयांमदलो जागो (दोआब); ज्याका शशस्थली आनी ब्रम्हावर्त म्हण्टात तो प्रयाग ते हरिद्वार मेरेनचो प्रदेश.

**अंतस्कर्ण** । अन्तस्कर्ण्, सा.रू. -र्णा; भौव. -र्णीं, सा.रू. -र्णीं । [सं. अंतःकरण] न. ज्याचे संकल्प, विकल्प, निश्चय आनी स्मरण बी विशय जातात, आनी ज्याका लागून मनीस सुखदुःखाचो अनुभव घेता तें भितल्लें इंद्रिय. –ह्या इंद्रियाचे चार भाग आसात: अ) मन. –हाका लागून मनीस संकल्प करता आनी हाका लागून विकल्पय निर्माण जाता. ब) बुद्द. –हिका लागून मनीस विवेक आनी निश्चय करता. क) चित्त. –हाका लागून मनशाक स्मरण जाता. ड) अहंकार. —हाका लागून मनीस संवसारांतल्या वस्तूंकडेन नातें जोड्टा. २. मन; काळीज. (नदरेक नदर लागली जेन्ना। एक जालीं अन्तस्कर्णीं। दिलें उतर घेतलो भार। आयलें सोडून घरदार॥ —सड्यावेलीं फुलां, कवी: बयाभाव, पा. ३५) ३. चित्त; बुद्द. ४. विवेक (दुसऱ्याक

नागोवन आपूण मोठो जांवचो हें म्हज्या अंतस्करणाक पटना.)

**अंतस्कन्न** । अंतस्कन्न्, सा.रू. -न्ना । [सं. अंत:करण; कों. अंतस्कर्ण] दाट इश्टकाय; नातें आसुनय नात्यांत आशिल्लो दाट संबंध. (तुजें आनी ताजें नातें हांव जाणां. जाल्यारूय तुजें आनी ताजें अंतस्कन्न आसा तेंय हांव जाणां.)

**वा.प्र.** : अंतस्कन्न आसप: ओड आसप; नात्यापरस इश्टकायेचो संबंध दाट आसप.

**अंतस्कनांतलो, ली, लें** । अन्तस्कनांतलों,ली,लँ, सा. रू.-ल्या,-ले,-ल्या; भौव. -ले (लॅ),-ल्यो,-लीं, सा.रू. -ल्यां । ['अंतस्कर्ण' वेल्यान] वि. नात्यापात्याभितल्लो, ली. लें; नात्यांतलो, ली, लें; चड घसट आसा अशा नात्यांतली वा इश्ट-मित्रांतली. (चली आमगेल्या अंतस्कनांतलीच रे। —रायबाऱ्याची व्हाड्डीक, बरो: रामचंद्र शंकर नायक, पा. १६).

**अंतस्ताप** । अन्तस्तॉप्, सा.रू. -पा; भौव. -पां, सा.रू. -पां । [सं. अन्तस्ताप:] पु. मानसिक व्यथा; भितल्लें दु:ख; मनस्ताप.

**अंतर्ज्ञान** । अन्तर्ज्ञान, सा.रू. -ना, भौव. -नां, सा.रू. -नां । [सं. अन्तर्ज्ञानम्] न. दिव्य दृस्टीन प्राप्त जाल्लें ज्ञान.

**अंतर्ज्ञानी** । अन्तर्ज्ञानी, सा.रू. -न्या; भौव. -नी, सा.रू. -न्यां । [सं. अन्तर्ज्ञानी] वि. दिव्य दृस्टिक लागून ज्याका लागशिल्लें, पैसूल्लें, फाटलें-फुडलें ज्ञान जाता तो, वा ज्याका लागशिल्लें, पैसुल्लें, फाटलें-फुडलें कळटा तो.

**अंतवंत** । अन्तवन्त, सा.रू. -ता; भौव. -वंतां, सा.रू. -वंतां । [सं.- अन्तवन्त:] वि. अंत, अखेर आशिल्लो; मरणधर्मी; विनाशी.

**अंतवरी** । अन्तव्री, सा.रू. -रे; भौव. -ऱ्यो, सा.रू. -ऱ्यां । [सं. अंत:पुरीय] स्त्री. घोवाचेर भक्ती आशिल्ली बायल, अस्तुरी, स्त्री. (क्रुटणाची अंतवरी येकी व्रंद म्हळळी आसा. तिचें पान हाड्या. —कृष्णदास शामा).

**अंतस्थ** । अन्तस्थ । [सं. अन्तस्थ] वि. भितल्लो. (अंतस्थ हेतू). २. दोनांमजगति आसपी (अंतस्थ व्यंजनां).

**—व्यंजनां:** (व्या.) य्, र्, ल्, आनी व् हीं व्यंजनां. स्पर्श व्यंजनां (क्, च्, ट्, त् आनी प् वर्गांतली व्यंजनां) आनी उष्म व्यंजनां (श्, ष्, आनी स्) हांचे मजगति य्, र्, ल्, व् हीं व्यंजनां येतात, म्हणून तांका 'अंतस्थ व्यंजनां' अशें म्हण्टात.

**अंतस्फूर्त** । अन्तस्फूर्त, सा.रू. -र्ती । [सं. अन्तस्फूर्त] स्त्री. भितल्लयान मेळिल्ली प्रेरणा. **वि**. भितल्ले प्रेरणेन वा उमाळ्यान आयल्लो.

**अंतिम** । अन्तीम । [सं. अन्तिम] वि. अखेरचो; निमाणो. (अंतिम संस्कार).

**—यात्रा:** महायात्रा; अखेरची यात्रा; मरणयात्रा.

**अंतिमांक** । अन्तिमाङ्क्, सा.रू. -का । [सं. अन्तिमाङ्क] पु. णव (९) हो आंकडो.

**अंतीं** । अन्तीं । ['अंत' वेल्यान] क्रि.वि. १. अखेरेक; निमाणें (...आणी अंतीं ताजेलागीं अखंडित मुग्ति स्वर्गीं भोगुंच्याक —दौत्रिन क्रिस्तां, पाद्री तोमस स्टिफन्स, पा. ५., संपादक: अ.का.प्रियोळकर.) २. निमाण्या वेळार; मरण वेळार. (ताची भगती सेवा तुमीं जरी सर्वमानशीं करिशात, तरी ताच्या पुण्यान, तुमकां परमेस्परू बरें मरण दीत, आनी अंतीं आपुलें महाउतम दरुशन दाखैत. —सां.अ.अ., बरो: Fr. Antonio de Saldanha, s.j. Edited by A. K.

Priolkar.पा. २७)

**अंतींचो, ची, चें** । अन्तींचॉ,ची,चँ, सा.रू. -च्या, -चे, -च्या; भौव. -चे, -च्यो, -चीं, सा.रू. -च्यां । ['अन्त' वेल्यान] वि. १. अखेरचो; अखेरच्या काळावेल्यो; मरण काळावेलो. (...ताची भग्ती सेवा बरवे प्रमाणीं तुमीं जरी करिशात, तरी ताच्या पुण्यान परमेस्परू अंतींच्यो वस्तू तुमकां उगडाप्यो करित, वा ताचें ज्ञान तुमकां दीत. —सां.अ.अ., बरो: Fr. Antonio de Saldanha, s.j., पा. ६-७. Edited by: A.K.Priolkar.)२. पापाचें प्रायश्चित म्हणून, मेल्याउप्रांत नरकांत भोगचेलो त्रास, कस्ट. (परमेस्परा लागीं म्हजे खातीर मीनती करूनु म्हाका सांभाळि. अंतींच्या कस्टांक हांव भोव भितां. तांचो उगडास म्हाका जातचि, म्हजो जीव कांपता: परमेस्परालागीं सदांकाळ हांव एक मागतां, जे कस्ट अंतीं पुर्गातोरींतु पातकांचे पुरें प्राचीत हांगा न केल्लया प्रसंगीं भोगुचें आसति, ते होव ताचे सारिके हांगा म्हाका भोगशे करूंक मागतां. जैशें स्वाम्याक मना येत, तैसें हांगा म्हाका कस्टउं सांग; सां.अं.अं., पा. ५६).

**अंतेवासी** । अन्तेवासी, सा.रू. -श्या; भौव. -सी, सा.रू. -श्यां । [सं. अन्तेवासी] पु. १. 'मूज' आनी 'आचार्यकरण' विधी जाल्या-उप्रांत ब्रम्हचर्यव्रतान गुरूच्या म्हऱ्यांत रावन विद्या शिकपी विद्यार्थी. २. गांवांभायर रावपी चांडाळ, अस्पृश्य.

**विशेश:** पुर्विल्लया काळार विद्यार्थ्यांचे दोन प्रकार आसताले. एक 'दण्डमाणव' आनी दुसरो 'अन्तेवासी'. दण्डमाणव वा माणव हो वयान साप्प ल्हान आसतालो आनी ताज्या हातांत पळसाचो (Butea Frondosa) दांडो आसतालो. देखून, ताका 'दंडमाणव' म्हण्टाले. ताजी मूज जाल्ली नासताली. ताका लागून वेद शिकपाक ताका अपात्र धरताले. अशा विद्यार्थीसंघाक 'माणव्य' म्हण्टाले. उप्रांत तांची मूज आनी आचार्यकरण विधी जावन त्या विद्यार्थ्यांक आचार्याच्या स्वाधीन करतकीर ते विद्यार्थी 'अन्तेवासी' जाताले. हे अन्तेवासी शिश्य ब्रह्मचर्यव्रतान गुरूच्या म्हऱ्यांत रावताले. तांकां न्हेसपाक खाशेलें अशें एकेच तरेचें वस्त्र आसतालें. मृगाजिनाचेर ते बसताले आनी दर एकल्याच्या हातांत कमंडलू आसतालो. बऱ्या कुळांतल्या गृहस्थाश्रमी लोकांकडल्यान तांकां अन्न मेळटालें. अशा विद्यार्थ्यांच्या वांगड्याक 'सब्रह्मचारी' म्हण्टाले.

**आधारावळ:** १. India as known to Panini, by V.S.Agarwal, pages ८१-८२. २. पाणिनी व पाणिनीय व्याकरण संप्रदाय, लेखक: प्रा. म.दा.साठे, पा. ७५.

**अंतेस्टी** । अन्तेस्टी, सा.रू. -स्टे; भौव. -स्ट्यो, सा.रू. -स्ट्यां । [सं. अन्त्येष्टि:] स्त्री. प्रेताचें दहन केल्याउप्रांत बाराव्या मेरेन पिंडदान बी दिवन करतात ते धार्मिक संस्कार वा विधि.

**अंत्य** । अन्त्य् । [सं. अन्त्य] वि. अखेरचो; निमाणो. (अंत्य संस्कार)

**अंत्य** । अन्त्य् । [सं. अन्त्य:] पु. सामकी निमाण्या पांवड्यार आसा ती जात. २. नक्षत्रांतलें निमाणें नक्षत्र 'रेवती'. ३. हिंदू वर्साचो निमाणो म्हैनो 'फाल्गुन'. हाजें सामान्य रूप घोळटेंत आशिल्लें दिसना.

**अंत्य** । अन्त्य्, सा.रू. -न्त्य [सं. अन्त्यम्] स्त्री. एकाचेर पंधरा शुन्यां दिवन जाता ती संख्या (१०००,०००,०००,०००,०००,); क्रमाप्रमाणें मेजतना जलधी हे संख्येउप्रांत रोखडीच येता ती संख्या. २. राशिंतली निमाणी रास 'मीन'.

**अंत्र** । अन्त्र्, सा.रू. -त्रा; भौव. -त्रां, सा.रू. -त्रां । [सं. अन्त्रम्] न. आंतकडी; आंत.

**अंत्रपेशी** । अन्त्रपेशी, सा.रू. -शीं । [सं. अन्त्र + पेशी] स्त्री. भौव. आंतकड्यांच्या वेगवेगळ्या भागांक निजाचे अवस्थेंत दवरतात त्यो पचकट्याच्यो घडयो.

**अंत्रवेस्टन** । अन्त्रवेस्टन्, सा.रू. -ना: भौव. -नां, सा.रू. -नां । [सं. अन्त्रवेष्टनम्] न. पोटाचे धोलीक भितल्ल्यान वेस्टून आसता तो पचकटो.

**अंत्रासो** । अन्त्रासॉ, सा.रू. -श्या । [सं. अन्तर+कों. तास ?] पु. तिसरे खेपो केल्ली नांगरण.

**अंत्राळ** । अन्त्राळ, सा.रू. -ळा । [सं. अन्तरालम्] न. मळब. (सवणीं अंत्राळांत उड्टात.)
**म्हण:** अंत्राळी पळोवन चलता, तो पड्टा.

**अंत्रो** । अन्त्रॉ, सा.रू. -त्र्या । ['अंतर' वेल्यान] पु. दोन दिसांचो काळ.

**अंत्र्या-पैऱ्यान** । अन्त्र्या-पय्ऱ्यान् । [सं. अन्तरेण + पर्यायेण ?] क्रि. वि. दर दोन दिसां उप्रांत; मदीं मदीं; केन्ना केन्नाय; आंत्र्या-पैऱ्यान. (तो अंत्र्या-पैऱ्यान घरा येता).

**अंद** । अन्द् । [सं. अन्द्] वि. गच्च; घट्ट. (ही खोमशी बाबुल्याक अंद जाता).
**वा.प्र.: अंद जावप:** घट्ट, गच्च जावप.

**अंदजप** । अन्दजप्, सा.रू. -पा । [फा. अंदाज़ा] क्रि.दा.धा.सा.ना. (मूळ धातू: अंदज् (अक.)) न भिवप; धीर जावप; भय न दिसप. (तो काळखांत वचूंक अंदजता, कों.व्या.बांदावळ; बरो: शणै गोंयबाब, पा १८१).

**अंदप** । अन्दप्, सा.रू. -पा । [सं. अन्द्] क्रि.दा.धा.सा.ना. (मूळ धातू: अंद् (सक.)) १. आंवळप; आंखूड, अशीर जावप; गच्च जावप. २. आफरावप (मूत भितर अंदलां, ताका लागून तागेलो जीव फुगार जाला.) ३. (ला.) घुस्मटप. (अंदल्यात मंत्र जिवीं। ते फाल्यां उलैतले॥ —बाकीबाब बोरकार).

**अंदल्लो,ल्ली,ल्लें** । अन्दलॉ,ल्ली,ल्लॅं, सा.रू. -ल्लया. -ल्ले, -ल्लया; भौव. -ल्ले, -ल्लयो, -ल्लीं, सा.रू. -ल्लयां । ['अंदप' वेल्यान] वि. घुस्मटलेलो; चिड्डल्लो.

**अंदाज** । अन्दाज्, सा.रू. -जा; भौव. -ज, सा.रू. -जां । [फा. अंदाज़] पु. १. अदमास; कल्पना, २. तर्क; अनुमान.
**—पत्रक:** मुखावेल्या वर्साच्या जमा-खर्चाचो मांडिल्लो अदमासी खड्डो.

**अंदाजा** । अन्दाजा । [फा. अंदाज़ा] स्त्री. १. भय. (रातिच्या केद्याय पारार भोंवपाक ताका कसलीच अंदाजा दिसना.) २. काळीज; धीर. (उलौप चल्लां आसतना एकलोय मनीस उबगून वा विट्टून साल सोडून भयर वचनासलो. हाचेवेल्यान, म्हगेले कोंकणी भाशेचीं उतरां, उच्च्यार आनी अर्थ तांकां कळनासले अशें म्हणूंक कोणाकच अंदाजा जांवची ना. —कों.भा.जैत, बरो: शणै गोंयबाब, पा.३७). ३. तांक; बळ; सामर्थ्य. (सह्याद्री हो कोंकण आनी महाराष्ट्र हांकां वेगळावपी नीस. हो नीस निखळवपाक कोणाक तेदी अंदाजा आसा ?). हाजें सामान्य रूप घोळटेंत आशिल्लें दिसना.

**अंदाजो** । अन्दाजॉ, सा.रू. -ज्या; भौव. -जे, सा.रू. -ज्यां । [फा. 'अंदाज' वेल्यान] पु. अदमासान केल्लो ज़मा-खर्चाचो खड्डो.

**अंदुवप** । अंन्दुवंप्, सा.रू. -पा । [सं. अन्द्] क्रि.दा.धा.सा.ना. (मूळ धातूः अंदय् (अक.)) १. नेटान तरांटून वा चरांटून बांदप; अर्णप. २. घुस्मटावप.

**अंदूं** । अंदूं । [फा. आइन्दा] क्रि.वि. अनूं ह्या वर्सा; चालंत वर्सा.

**अंदूंचो,ची,चें** । अंदूंचॉ,ची,चॅं, सा.रू. -च्या, -चे, -च्या; भौव. -चे, -च्यो, -च्यां, सा.रू. -च्यां । ['अंदूं' वेल्यान] वि. १. अनूंचो; ह्या वर्साचो; चालंत वर्साचो (अंदूंचो पावस; अंदूंची गजाल; अंदूंचे वत.). २. चालंत (आतां अंदूंच्या वर्सा आमकां लिपून रावपाचें आसा.- महाभारत, खंड १, बरोः रवीन्द्र केळेकार, पा. २६७.)

**अंदो** । अन्दॉ, सा.रू. -द्या; भौव. -दे, सा.रू. -द्यां । ['अंदप' वेल्यान] पु. होड्याचे बाणयेंत घालून, ज्या उपकरणांतल्यान होलो तांडतात तें लाकडाचें वा धातूचें उपकरण; दोणें.

**विशेशः** धातुचो अंदो हो लोखणाचो वा पितुळचो आसता. ताका मदीं बाणयेंत केल्लया बुराकांत घालपाखातीर दांडो आसता, आनी दांड्यावैर ताका लोखणाचेच वा पितुळचे दोन आंकडे आसतात. ह्या आंकड्यांत होलो थारता. लाकडाचो अंदो म्हळ्यार दोन वेंत उबारेची एक खुंटी आसता. हें खुंटयेक कांय अंतरार ९० अंशाचो कोन जायसारकें खांप घालतात. ह्या कोनांत सुमाचे दोरयेन होलो बांदतात. हे दोरयेक 'बांदडी' म्हण्टात.

**अंध** । अन्ध्, सा.रू. -धा; भौव. -ध, सा.रू. -धां । [सं. अन्ध] वि. १. ज्याका दोळ्यांनीं दिसना तो; ज्याच्या दोळ्यांत नदरेची मातय वात पेटना तो; ज्याच्या दोळ्यांची नदर गेला तो; कुड्डो; आंधळो; अंधकी. २. **(ला.)** अज्ञानी; अविवेकी; मूर्ख. ३. उल्ल; पिसो. (तो मोगाक लागून अंध जाला).

**अंधकपण** । अन्धकंपण्, सा.रू. -णा; भौव. -णां, सा.रू. -णां । [सं. अन्धक+कों. पण] न. अंधकाय; आंधळेपण; कुड्डेपण.

**अंधकाय** । अन्धकाय्, सा.रू. -ये; भौव. -यो, सा.रू. -यां । [सं. 'अन्धक' वेल्यान] स्त्री. १. अंध, आंधळो, कुड्डो आशिल्लयाची स्थिती; कुड्डेपण. २. **(ला.)** अविद्या; अविवेक; मायेचें कुड्डेपण.

**अंधकार** । अन्धकार्, सा.रू. -रा; भौव. -र, सा.रू. -रां । [सं. अन्धकारः] पु. उजवाडाचो अभाव; काळोख. **(ला.)** अविद्या.

**अंधकी** । अंन्धंकी, सा.रू. -क्या; भौव. -की, सा.रू. -क्यां । [सं. अन्धक] वि. १. अंध; आंधळो; कुड्डो. २. **(ला.)** बुद्धिभ्रस्ट; विवेकशून्य. ३. भ्रमिस्ट.

**अंधतामिस्त्र** । अन्धतामिस्त्र, सा.रू. -स्त्रा । [सं. अन्धतामिस्त्रः] पु. १. गुपाट काळोख (अध्यात्मिक). २. तीव्र स्वरूपान आशिल्लीं अध्यात्मिक अजाणकाय.

**अंधतामिस्त्र** । अन्धतामिस्त्र, सा.रू. -स्त्रा । [सं. अन्धतामिस्त्रः, स्त्रम्] पु. चड खर अशे जे २१ नरक आसात तातूंतलो दुसरो नरक. (...कावळे आनी गीद तुजें माथें आनी दोळे तोंचून खातले आनी मागीर तुका दुसऱ्या तेरेकतरा चौद्यायशीं लक्ष नर्कांत धुकलतले. तातूंत काळोख, काळोख-गुपाट (अंधतामिस्त्र), सुण्या-होळम, मर्णा-दोरी, म्हार कावळो, घाणी-माती, तिख्या-रांपो, तळचें-सतेल, कांटेरी सांवर, तरवारी-रान, लोखणा-वाळो अशे तरेचे सुमार एकवीस चड खर नर्क आसत; तितल्यांतूय तुका हजारांनी वर्सां वळवळायतले.- गोमन्तोपनिषत, पैलें खंड, बरोः शणै गोंयबाब, पा. ९१.)

**विशेशः** १. शणै गोंयबाब हाणीं आपल्या गोमन्तपोनिषताच्या पैल्या खंडाच्या ९१ व्या पानावेले टिपेंत, पुराणांतल्या खर २१ नरकांतल्या अकरा वा इकरा नर्कांची मूळ संस्कृत नांवांसैत कोंकणी भाशांतरां अशीं दिल्यांत: १) काळोख=तामिस्त्र, २) काळोख-गुपाट = अंधतामिस्त्र, ३) सुण्या-होळम = रौरव, ४) मर्णा-दोरी = कालसूत्र, ५) म्हारकावळो = काकोल, ६) घाणी-माती = पूतिमृत्तिका, ७) तिख्या-रांपो = लोहशंकू, ८) तळचें सतेल = ऋचीष, ९) कांटेरी सांवर = कंटक शाल्मलि, १०) तरवारी-रान = असिपत्रवन, ११) लोखणा-वाळो = लोहचारक.

२. जो दुसऱ्यांच्या बायलांक भुलोवन तांचो भोग घेता तोय ह्या नर्कांत पडटा. भवभूतीच्या मतान जे आत्महत्या करतात, म्हळ्यार जीव दितात, तेय ह्याच नरकांत पडटात. —(Sanskrit-English Dictionary, by, V. S. Apte, page 128).

**अंधबुद्धि** । अन्धबुद्धी, सा.रू. -द्धया; भौव. -ध्दी, सा.रू. -द्धयां । [सं. अन्धबुद्धि] वि. उरफाटे बुद्धिचो; मूर्ख; विचारशून्य; अविवेकी.

**अंधविश्वास** । अन्धविश्वास्, सा.रू. -सा । [सं. अन्धविश्वासः] पु. पूर्ण परिचयाबगर कोणाचेरूय दवल्लेलो विश्वास, निमगणें; विवेकशून्य विश्वास; कुड्डी पातेणी.

**अंधश्रद्धा** । अन्धश्रद्धा, सा.रू. -द्धे । [सं. अंधश्रद्धा] स्त्री. विवेकाविणें, विचाराविणें दवल्लेली श्रद्धा; धर्मकोल्ल; कुड्डी श्रद्धा.

**अंधाधुंद** । अन्धाधुन्द् । [हिं. अंधाधुंद] वि. बेशिस्त (अंधाधुंद कारभार).

**अंधाधुंदी** । अन्धाधुंदी, सा.रू. -दे; भौव. -द्यो, सा.रू. -द्यां । [हिं. अंधाधुंद] स्त्री. जंय व्यवस्थितपणाचो लवलेश ना अशी स्थिती; अंदाधुंदी; धुमाळी.

**अंधार** । अन्धार्, सा.रू. -रा । [सं. अन्धकार, प्रा. अंधआर] पु. १ उजवाडाचो अभाव; काळोख (उमाशेचो अंधार) **(ला.)**१. अविद्या. २. अत्यंत दुःख (ताजो फुडार भंगून गेल्लयान ताज्या काळजांत अंधारच अंधार दाटिल्लो.) ३. आत्यंतिक अभाव. (ताज्या घरांत बुद्धि, पैसो, मनीसबळ असो सगळ्याचोच अंधार आसा. उपाय कसलो करचो म्हण्टा तेंच कळना.)

**अंधारप** । अन्धार॑प्, सा.रू. -पा । ['अंधार' वेल्यान] क्रि.दा.धा.सा.ना. (मूळ धातू: अंधार् (अक.)) १. दीस धारेक वचून उजवाड मंद मंद जायत वचप; रातवप; काळखप. (आमी घरा पावचेंपैलीं अंधारलें.) २. काळोख करप; आनारप. ३. दोळ्यांमुखार काळोख येवप; दिपप. (खर उजवाडान दोळे अंधारतात.)

**अंधाररूपीं** । अन्धार्रूपीं । [कों. अंधार+रूपीं] क्रि.वि. १. लिपचोरयां; जागमाग करिनासतना; मोन्यांनीं (अंधाररूपीं आपल्या शेजाऱ्याच्या घरांत रिगून, थंयचें सगळें रुपावत आनी भांगरावत ताणें फारायलें.) २. नाडानाडीन; चिकानान. (अंधाररुपीं ताणें म्हजें भाट खालें.)

**अंधारी** । अन्धारी, सा.रू. -रे । [प्रा. अंधार + ई (ता.कू.)] स्त्री. १. वताक लागून वा खर उजवाडाक लागून दोळ्यांमुखार आयिल्लो काळोख. २. दोळ्यांमुखार काळोख येवन आयिल्ली धुंवळ, चिनारी. ३. दमळ जावन वा पावश्या दिसांनी मळबांत पावसाचीं कुपां मांडिल्लयान, उजवाड मंद जावन, जाल्ली काळखी.

**अंधुकाय** । अ॑न्धुकाय्, सा.रू. -ये; भौव.

-यो, सा.रू. -यां । [सं. 'अन्धक' वेल्यान] स्त्री. दुसऱ्याचें सुख, वैभव, आनंद वा हेर बऱ्याची गजाल पळेतकीर, हायेसैत निर्माण जाल्ल्या दुस्वासाक लागून, जीवाक भोगता तो असंतोशाचो हुलोप; कोणाचेंय सूख, आनंद वा बरें जाल्लें पळोवन, पोटांतल्यान जाळ मारून निर्माण जाता तो दुस्वास; दोळेफुटकेपण; कुण्णटकाय; नेडेकुचर. (अंधुकायेसारको व्हडलो अवगुण दुसरो ना.)

**अंधुको, की, कें** । अंधुकॉ,की,कँ, सा.रू. -क्या, -के, -क्या; भौव. -के,-क्यो,-कीं; सा.रू. -क्यां । [सं. 'अन्धक' वेल्यान] वि. दुसऱ्याचें बरें जाल्लें पळेतकीर ज्याचे दोळे कसकसून येतात तो; दुस्वासाखातीर दुस्वास करता तो; दोळेफुटको; नेडेकुचरी; दुस्वासी. (त्या सोबीत मंदिराची दशा सामकीच होगडावल्ल्यावरी जाल्या. म्हज्या रूपेस्त माणकाक दिस्ट जांवची न्हंय म्हणून कोणेंय बळयांच हें द्वेसाचें भूत थंय हाडून सोडूंक ना मू? ना जाल्यार कोणाय अंधुक्याचे दोळे ह्या मज्या सोनुल्याक लागूंक नात मू?. —न.गों, १लें वर्स, ३रो आंक, ज्यानेर १९३५, संपा: का.श्री.नायक, पा.१०१.)
**म्हण:** अंधुक्याक दोन दुखां. एक आपल्याकडेन ना ताजें आनी दुसरें दुसऱ्याकडेन आसा ताजें.

**अंधेर** । अन्धेर, सा.रू. -रा । [हिं. अंधेर] पु. १. काळोख. २. **(ला.)** अन्याय, आगळिक, जुलूम. ३. उपद्रव; गडबड; धुमाळी; अनर्थ.

**अंधेरनगरी** । अन्धेरनगरी, सा.रू. -रे; भौव. -ऱ्यो, सा.रू. -ऱ्यां । [हिं. अंधेर + सं.नगरी] स्त्री. १. जंय न्याय. नीत ना अशी नगरी वा अशें राज्य. २. जंय स्वस्थसाण नासून फक्त धुमाळीच चलता असो जागो.
**विशेश:** अंधेर, अंधेरनगरी हीं उतरां कोंकणींत हालिंच्या चाळीस पन्नास वर्सांत आयल्यांत. चड करून गोंयांत हीं उतरां हिंदी सिनेमाक लागून पावल्यांत जावये.

**अन्न** । अन्न, सा.रू. -न्ना; भौव. -न्नां, सा.रू. -न्नां । [सं. अन्नम् —मूळ धातू: अद् = खावप] न. १. प्राणाची पिंड पोसणूक करता तें; आपल्या सत्वान, जीव आशिल्ले जिवावळिक जियेवपाचें बळ दिता तें खाण. २. रांदिल्लें जेवण. (अन्नाचो निवेद्य). ३. नित्याच्या आहारांतलें मुखेल मुळावें खाण. (तांदूळ हे कोंकण आनी केरळांतल्या लोकांचे अन्न). ४. **(ला.)** बुद्धिच्या विकासाक जितलेंय उपकारिक जाता तें. (वाचन, मनन आनी अनुभवाची समृद्धि हें विचारवंतांचें, कलावंतांचें, कवींचें, लेखकांचें अन्न.)
**वा.प्र: अन्न अन्न करप:** अन्नाक वळवळप. (तो अन्न अन्न करून मेलो).
**अन्न आंगाक लागप:** पचप. **अन्न उदक तोडप:** पोटार पाय दिवप; भिकेक लावप. **अन्न तुटप:** अन्नावेली वासना वचप; जेवणाची रूच नासप; भूक उणी जावप. **अन्न वस्त्राक मरण नासप:** खाणा-जेवणाची, न्हेसपा पांगुरपाची चिंता, हुस्को नासप; खाण-जेवण, न्हेसण पांगरूण जाय तितलें आसप. **अन्न सोडप:** जेवण खाण सोडप; उपाशीं रावप; अन्नत्याग करप. **अन्नाआड येवप:** अन्ना भायरो करप; पोटाआड येवप; उदर्गती आड येवप; वयर सरतल्याक आडमेळीं हाडप. **अन्नाफाटल्यान आसप:** खाणा जेवणाचेर चित्त दवरून आसप. **अन्नाफाटल्यान लागप:** पोटा पाणयाचे तजविजेक लागप; काम धंदो पळोवपा फाटल्यान आसप. **अन्नाफाटल्यान वचप:** पोट भरपाखातीर, उदर निर्वाहाखातीर घरा साकून पैस वचप. **अन्नाक जागप:** ज्या घराचें अन्न खालां, त्या घराचे उपकार

स्मरून, त्या घरच्या लोकांक उपकरा पडप. **अन्नाक म्हारग जावप:** अत्यंत गरिबी येवप. **अन्नाक लागप:** पोटापाणयाची व्यवस्था जावप; जोडिक लागप; चाकरेक लागप. **अन्नाक लावप:** काम धंदयाक लावप; चाकरेक लावप. **अन्नांत माती कालवप:** एकाद्रया मनशाच्या पोटाआड येवप; एकाद्रयाचें सुख इभाडप. **अन्नांत मूस पडप:** पूर्ण जायत आयिल्लया कामांत अकस्मात आडमेळीं येवप वा नाका आशिल्लयो गजाली घडून कार्यनाश जावप. **अन्नार वाढप:** दुसऱ्याच्या आधारार, आलाशिऱ्यार वाढप.

**म्हणी:** १. अन्नाक काळ, भुंयेक भार.

२. अन्नाक काळ, धरणीक भार.

३. अन्न आनी खोशी वर्तता मनशाची बलायकी

४. ज्याचे खाता अन्न, ताका घाल आशीर्वचन.

५. अन्न तारी, अन्न मारी, अन्ना सारको ना वैरी.

हे म्हणिचीं आनीक दोन वेगळीं रूपां मेळटात:

१. अन्न तारी, अन्न मारी, अन्न कांदळां पेंदळां करी.

२. अन्न तारी, अन्न मारी, अन्न कोनाळें करी.

**विशेश:** अन्नच मनशाची पिंडपोसणूक करता. अन्नच सगळे जिवावळिक जियेवपाचें बळ दिता. अन्नाखातिरच मनीस तरेतरेच्यो उचापती करता. हात पाय धोडायता. धाय दिको उस्तिता.

नांगराचो सोद लावन, भूंय नांगरून शेतोड निर्माण करचेपैलीं, सावदां सवण्यांच्या मांसाचेर, झाडांच्या फळांचेर आनी कंद मुळांचेर मनीस जियेतालो. त्या काळार, शेतोड सामकीच पावसाचेर अवलंबून उरताली. पावस पडना जाल्यार शेतां सुकून वतालीं. शेतां सुकून वतकीर जायते खेपो दुश्काळ पड्टालो आनी मनशाक अन्नाखातीर हेवटेन तेवटेन विडविडचें पड्टालें. देखून, आमगेले पुरातन जाण्टेले, अन्नाखातीर केन्ना वरुणाक, केन्ना इंद्राक, केन्ना अग्नीक, केन्ना ब्रह्मणस्पतीक आवाहन करताले. अन्नाची प्राप्ती जावपाखातीर मंत्रगान करताले. उद्‌गिथांच्या हिंकारान सगळो वाटार भरताले. उत् म्हळ्यार प्राण, गी म्हळ्यार वाणी आनी थ म्हळ्यार अन्न. जो उद्‌गीथ गायता ताका अन्नाची प्राप्ती जाता, अशी त्या काळार धारणा आशिल्ली. (छां. उ. १.३.६).

यज्ञ हो वेदिक आर्यांचो अन्नांखातीर करचेलो यात्वीक विधी आशिल्लो. ऋग्वेदांतल्यो ऋचा ह्यो साध्यो प्रार्थना न्हंय. ऋग्वेदांतल्या मंत्राक कामवर्शी ही संज्ञा दिल्या. आपल्यो इत्सा फळादिक जांवच्यो ह्याचखातीर तांचें सामगान आसतालें.

इंद्र हो तांचो अन्नदातो (वाजद) आशिल्लो. उशा अन्न उत्पन्न करपी (वाजप्रसूत) आशिल्लयो. अग्नि अन्नाची वृद्धि करपी (अन्नवृद्ध) आशिल्लो. तसोच तो अन्नाचो स्वामीय (अर्कीन) आशिल्लो. तांच्या सांगाताक येवन खासा तांचे पंगतीक तो जेवतालो. देखून, अग्नीक तांणीं आपलो ईस्ट आनी सांगाती मानलो.

वेदिक ऋषी अन्नाक पितुदेवा म्हणून उलो मारतात. भारावन पितुसूक्त रचतात. अन्नान आपलेकडेन फाट करूं नये, अन्नान आपली राखण करची म्हणून ते अन्नाचो जयजयकार करतात. (ऋ. १.१८७.११)

उपनिशदांच्या काळार ते जेन्ना ब्रह्माचो सोद घेवपाक लागले, तेन्ना तांकां ब्रह्माची पैलीवैली वळख मेळली ती पसून अन्नरूपान (अन्नं ब्रह्मेति व्यजानात्। अन्नाद्धेव खल्विमानि भूतानि जायन्ते। अन्नेन जातानि जिवन्ति। अन्नं प्रयन्त्यभिसंविशन्तीति। —तै. उपनिषद Chapter III, अनुवाक २ ). तांकां जाणवलें कि, अन्नांतल्यान हो संवसार जन्माक आयला. अन्नाचेरच तो पोसता. अखेरेक अन्नांतच वचून विर्जता.

अन्नच तारता आनी अन्नच मारता. अन्न खातल्याक अन्नच खावन उडयता. देखून, अन्न तारतम्यान घेंवक जाय. तें चकचयाळ मेळटा म्हणून, कशाकशेंय भकल्यार, अन्नच मनशाचो

दुस्मान जाता. आंगांत तेरेतरेचे दोश निर्माण करता. मनशांची तेरेतरेचीं खेतबागडीं करता. तेरेतरेन ताका नाचयता. वीख जावन बळटा.

अन्नाचो मद येंवक फावना. तेच परी अन्नाक लागून कोणें वळवळूंकय फावना. अन्नाक केंडुया नाका. तें सगळ्यांक सुखा समाधानान मेळूं अशें मागुया. कोणाचेंच अपहरण करिनासतना, ज्याका ताका आपल्या घामाकस्टाचो दिसपट्टो ग्रास मेळूं. जिणेक व्हडविकाय आनी प्रतिस्ठा हाडपाखातीर दर एकल्याच्या काळजांत, हें अन्नच व्हडविकेचो हावेस रूजवाणाक हाडूं.

**अन्नउदक** । अन्नउदॅक्, सा.रू. -का । [सं. अन्नम्+उदकम्] न. पिंडपोसणुकेचें मुख्य साधन —खावप आनी पिवप.
**वा.प्र: अन्न उदकाक मरण नासप:** खावपा पिवपाक भरपूर प्रमाणान आसप; उपजीविकेचीं साधनां चकचयाळ आसप.

**अन्नकोश** । अन्नकोश्, सा.रू. -शा । [सं. अन्नकोशः] पु. जड देह; शरिर.

**अन्नदातो** । अन्नदातॉ, सा.रू. -त्या; भौव. -ते (तॅ), सा.रू. -त्यां । [सं. अन्नदाता] पु. १. अन्नाचें दान करपी; खांवक जेंवक घालपी; जेवण खाण दिवन पोसपी. २. कामाधंदयाक चाकरेक लावपी; अन्नाक लावपी. ३. यजमान.
**विशेश:** आदल्या काळार, खंचोय अतिथी (पावणो) कोणागेरय जेवणाक उल्ल्यार वा जेवणावेळार पावल्यार ताजो आदरान सत्कार जातालो. तो जेवण सोंपोवन, पाटावेल्यान समाधानान उठचेपैलीं, घरच्या यजमानाक 'अन्नदाता सुखी भव' म्हळ्यार 'अन्नदात्याचें कल्याण जांव', असो आशिर्वाद दिवन उठ्ठालो. त्या काळावेली ती एक चाल आशिल्ली. ही चाल एके सामाजिक जाणविकायेची प्रतीक आशिल्ली

**अन्नदान** । अन्नदान्, सा.रू. -ना; भौव. -नां, सा.रू. -नां । [सं. अन्नम्+दानम्] न. १. गरजेवंताक, भुकेल्लयांक केल्लें अन्नाचें दान; गरजेवंतांक, भुकेल्लयांक दिल्लें जेवण; दुबळ्या-दाट्यांक दिल्लें जेवण. २. अन्नशांत.
**विशेश:** अन्नाक लागून सगळे प्राणी जन्माक येतात. अन्नाक लागूनच सगळ्यांक समाधान भोगता. अन्नाक लागुनच बळाळिकेचें निवारण जाता. ह्याचखातीर अन्नाक अमृत म्हण्टात. भूंयलोक, मळब आनी स्वर्ग हे पासून अन्नांतच एकठावल्ले आसात. पोटाक जाय तितलें अन्न मेळना जाल्यार, शरिरांतल्या पंचधातूंचो क्षय जाता आनी अन्नाक वळवळल्यार बळिस्टाचें पासून बळ ना जाता. तिनय लोकांत धर्म आनी अर्थ हे अन्नाधिनच आसात. अन्नाच्या दानान अन्न दितल्याक आनी अन्न घेतल्याक असो दोगांकय आनंद मेळटा. जो प्राण्यांक अन्न दिता, तो तांकां जियेवपाचें बळ दिता. देखून, अन्नदानाइतलें श्रेस्ठ दान दुसरें ना. (महाभारत —अनुशासन पर्व-अ.६३)

**अन्नदेवता** । अन्नदॅवता, सा.रू. -देवते; भोव. -दॅवता, सा.रू. -तां । [सं. अन्नदेवता] स्त्री. १. अन्नाची राखणायत देवता; भूंय पिकाळ, फळादिक जांवची म्हणून जिची पूजा करतात ती, त्या त्या थळांतली भूंयदेवता. २. देवते समान मानिल्लें अन्नधान्य.

**अन्नधान्यां** । अन्नधान्यां, सा.रू. -न्यां । [सं. अन्नम्+धान्यम्) न. भौव. खाणाजेवणाचे पदार्थ तयार करपाक उपकरायतात तीं धान्यां.

**अन्नपचन** । अन्नपचॅन्, सा.रू. -ना । [सं. अन्नम्+पच्] न. अन्न जिरपाची वा पचपाची क्रिया; अन्नाची जिरवण; अन्न कोठ्यांत पावतकीर, ताजेर वेगवेगळ्यो प्रक्रिया जावन ताजें रुपांतर धवसार द्रवांत जावंन, तें रग्ताक मेळसर जाता ती क्रिया.

**विशेश:** अन्न कोठ्यांत पावसर यंत्र कशो तीन क्रिया जातात. अन्नाची उंडी तोंडांत घालप, मागीर ती चाबप आनी उप्रांत गिळप. अन्न तोंडांतल्यान अन्ननळयेंत वता. थंच्यान तें कोठ्यांत वता. थंय पित्त आनी स्वादुपिंडातलो स्राव हांकां लागून अन्नाचें रुपांतर धवसार द्रवांत म्हळ्यार 'किलूंत' (ग्रीकः Khylos) जाता. हो द्रव आंतकड्यो ओडून घेतात. अन्नाचो जो चोंथो उरता तो व्हडले आंतकडेंत वता. थंय ताजी विस्टा (गू) जाता.

अन्नच प्राणाचें रक्षण करता. देखून, आमगेले पुर्विल्ले जाण्टेले, जेवल्याउप्रांत, "अन्नाचें पचन जांवचें म्हणून हांव अगस्ति, कुंभकर्ण, शनी, वडवानल (अग्नि) आनी वृकोदर (भीम) हांचें स्मरण करतां" (अगस्तिं कुम्भकर्णंच शनिं च वडवानलम्। आहार परिपाकाय स्मरामि च वृकोदरम्॥ —भा.ध.व्य.को. पृ ४/५) असो मंत्र म्हणित, आपल्या पोटावेल्यान ल्हवू ल्हवू करून हात भोंवडायताले. ही पद्धत आतां प्रचारांत ना.

**अन्नपूर्णा** । अन्नपूर्णा, सा.रू. -र्णे । [सं. अन्नपूर्णा] स्त्री. जिका संवसाराक पोसणी, संवसाराची आवय मानल्या, ती हिमवताची धूव पार्वती; सांतेरी; अंबा; दुर्गा. **(ला.)** १. रांदून वाढपी बायल; रांदपीण. २. जिच्या हातचें रांदप केन्नाच उणें पडना अशी बायल. ३. खाणावळ. **(उरफाट्यांनी) :** भीक मागचेली कट्टी.

**अन्नप्राशन** । अन्नप्राशन्, सा.रू. -ना । [सं. अन्नप्राशनम्] न. ल्हान भुरग्यांक पैलेंवैलें जेवण लावपाचो संस्कार; अन्नाचें उस्टावण. —आठव्या म्हयनार चल्या भुरग्याक आनी पांचव्या वा सातव्या म्हयन्यार चलये भुरग्याक अन्न उस्टावक दिंवचें अशें 'स्मृति' सांगता.

**अन्नमद (ध)** । अन्नमद् (ध्),सा.रू. -दा। [सं. अन्न+मदः] पु. १. आयतें खांवक जेंवक मेळिल्ल्यान, अन्नाची आयिल्ली वा मारिल्ली मस्ती. २. जिबेक माठी बशिल्ल्यान खाणाचो मारिल्लो मद/मध.

**अन्नमय** । अन्नमय् । [सं. अन्नमय] वि. अन्नान तयार जाल्लो; अन्नाचेर अवलंबून आशिल्लो. (प्राण, देह, इंद्रियां).

**अन्नमय प्राण, प्राणमय पराक्रम** =अन्न मेळल्यार प्राण उरता आनी प्राण उल्लयार पराक्रम शक्य जाता.

**अन्नमयकोश** । अन्नमय्कोश्, सा.रू. -शा। [सं. अन्नमयकोशः] पु. प्राणाचें धांपणें जाल्लो वा प्राणाचें कवच जाल्लो पंचकोशांतलो पैलो कोश; स्थूल देह.

**विशेश:** देहाचे पांच कोश मानल्यात. हे कोश म्हळ्यार जिवाचीं सुक्षमांतलीं सूक्षम शरिरां. एके तरेन हे कोश म्हळ्यार, जिवाचे राखणेखातीर आशिल्लीं पांच चिलखतां. ह्या कोशांची नांवां अशीं: अन्नमय, प्राणमय, मनोमय, विज्ञानमय आनी आनंदमय.

अन्नमय कोश हो भितल्लया जिवाचें पैलें दार. हातूंत देह आनी ताजीं इंद्रियां रावतात. हो देह अन्नाचेर पोसता. अन्नाक लागून जिवो उरता. प्राणमय कोश हो जिवाचें दुसरें दार. हांगा प्राण वा चैतन्य आसता. हाका लागून शरिराक गती मेळटा. हाका लागून देहांत अग्नी वावुरता. हाजेभितर मनोमय कोश आसता. मनाच्या अधिस्थानार हो कोश आशिल्ल्यान संकल्प-विकल्पांचें तो घर आसता. मनोमय कोशाभितर विज्ञानमय कोश आसता. हातूंत बुद्धिचें घर आसता. हे बुद्धिक लागून द्वैतभाव निर्माण जाता. हाजेभितर आनंदमय कोश आसता. ज्याका आत्मो वा ब्रह्म म्हण्टात तो जिवात्मो हांगा रावता. हो जिवात्मो आनंदमय आसता. निरपेक्ष आसता, सर्वज्ञ आसता, तेच परी द्रस्टोय आसता. जिवात्म्याचो सोद घेत ताज्या म्हऱ्यांत पावप हेंच जिवाचें

लक्ष्य आसता. (भारतीय दर्शन, लेखकः वाचस्पति गैरोला, पा ४४-४५.)

**अन्नमार्ग** । अन्नमार्ग्, सा.रू. -र्गा । [सं. अन्नमार्गः] पु. जिका लागून गिळिल्लें अन्न कोठ्यामेरेन वता ती नळी. —ही नळी स्नायूंची आसून ती अदमासान णव इंच लांब आसता.

**अन्नविकार** । अन्नविकार्, सा.रू. -रा; भौव. -र, सा.रू. -रां । [सं. अन्नविकारः] पु. १. अन्नाचें पचन न जाल्ल्यान आंगांत निर्माण जातात ते दोश; अन्नाची जिरवण न जाल्ल्यान लागिल्ली पिडा; पोटखाणें. २. अन्नाचें रूपांतर.

**अन्नशांत** । अन्नशान्त्, सा.रू. -ती; भौव. -ती, सा.रू. -तीं । [सं. अन्नशान्तिः] स्त्री. १. गरजेवंतांक, भुकेल्ल्यांक केल्लें अन्नाचें दान. २. ग्रहशांत करून (ग्रहांक थंडावपाखातीर) भटाब्राह्मणांक घाल्लें जेवण.

**अन्नशुद्धी** । अन्नशुद्धी, सा.रू. -द्धी । [सं. अन्नशुद्धिः] स्त्री. १. समराद्नेंत, देवकाऱ्यांत वाढिल्ल्या पानांचेर तुळशिच्या पानान तूप वाढपाचो केल्लो विधी. २. अन्नशुद्धिखातीर वेगळें दवल्लेलें तूप.

**अन्नसंतर्पण** । अन्नसन्तर्पण्, सा.रू. -णा । [सं. अन्नसंतपर्णम्] न. अन्नदानांत, अन्नशांतींत, समराद्नेंत वा देवकाऱ्यांत पानां वाढल्याउप्रांत अन्नशुद्धिखातीर करचेलो विधी.
**विशेशः** अन्नसंतर्पण हो अन्नदानांत, अन्नशांती, समराद्नेंत वा देवकाऱ्यांत वाढिल्ल्या पानांचेर अन्नशुद्धिखातीर करचेलो विधी. हो विधी पानां वाढून जाल्याउप्रांत करतात. अन्नशुद्धिखातीर वाढिल्ल्या पानांचेर तुळशीपानान उदक फापुडटात. मागीर यजमान हातांत फुलां, गंध अक्षता, तुळशीपानां घेवन पुर्वेकडेन तोंड करून रावता आनी हातार उदक घेवन, तें तुळशीपानासैत सोडटा. यजमानान हो विधी केल्याउप्रांत जेवणाक सुरवात जाता.

**अन्नसत्र** । अन्नसत्र्, सा.रू. -त्रा; भौव. -त्रां, सा.रू. -त्रां । [सं. अन्नसत्रम्] न. १. अखंड चलिल्लें अन्नदान. २. जंय आयिल्ल्या-गेल्ल्याक, भायल्या-भितल्ल्याक जेवणाचें मुक्तद्वार आसता तो जागो.
**म्हणीः** १. अन्नसत्रांत जेवप आनी धर्मशाळेंत न्हिदप.
२. अन्नसत्रांत जेवप आनी मिरयांपूड मागप.
३. अन्नसत्रांत जेवप आनी मिशांक तूप लावून भोंवप.
४. अन्नसत्रांत जेविल्ल्याच्या मनाक समाधान नासता.
५. अन्नसत्रांतलें जेवण आनी रांडेचें रूप कोणेंय भोगचें.
**विशेशः** हालिंच्या काळांत अन्नसत्रांत जेवल्यार आपली प्रतिष्ठा उणी जाता, अशें जायत्या जाणांक दिसता. ताका लागून अन्नसत्रांत जेवपाक कोणाक मानना, आनी पैलिंभाशेन अन्नसत्रां चलोवपाकय आतां कोणाक जमना.
पैलिंच्याय काळांत चडशा लोकांक अन्नसत्रांत जेवपाक माननाशिल्लें. अन्नसत्रांत जेवल्यार आपलें पुण्य अन्नसत्र चलयतल्याक वता, असो कांय लोकांचो समज आशिल्लो आनी अजुनय आसा. देखून, अन्नसत्रांत जेविल्ल्या मनशाचें मन सदांच ताका खायत रावता.
'पाणपोय' ही पासून अन्नसत्राचेंच एक रूप. गोंयांत एका काळार पाणपोयो आशिल्ल्यो. आज गांवागांवांनी रस्ते जाल्ल्यान पाणपोयांची गरज उरूंक ना. जाल्यारूय गोयांभायल्या कांय गावांनीं, कांय धर्मांच्या मनशानीं (हिंदू, पारशी, मुसलमान बी) पाणपोयो चलयल्ल्यो मेळटात.

**अन्नाठी** । अन्नाठी, सा.रू. -ठे, भौव. -ठ्यो,

सा.रू. -ठ्यां । [सं. अर्ध+कों. नाठी] स्त्री. अर्द नाकटी; अण्णाठी; पाव पड; पावपडिचें माप; पायलेचो सोळावो भाग.

**अन्नाडिपण** । अन्नाडिपण्, सा.रू. -णा; भौव. -णां, सा.रू. -णां । ['अन्नाडी' वेल्यान] न. १. अडाणी मनशाची स्थिती, वृत्ती; २. हटपण.

**अन्नाडी** । अन्नाडी, सा.रू. -ड्या; भौव. -डी, सा.रू. -ड्यां । [दे. अणड, अणाड; हिं. गु. अनाडी] वि. १. जो बरपाक्षरी न्हंय तो; ज्याचेर शिक्षणाचे संस्कार जांवक ना तो; रानवटी; चार-चौगांत भोंवून येंवक नाशिल्लो; अडाणी (गांवकारालो घुसपागदळ पळवन त्या मनशान पारखिलें. गांवकार अन्नाडी दिसता. —सुरबूस काणयो, बरो: महाबळेश्वर सरदेसाय, पा. ६). २. हट्टी.

**अन्नादी** । अन्नादी, सा.रू. -दीं । [सं. अन्न+आदि] स्त्री. तांदूळ-गोठो; अन्नधान्य; अन्न-उदक.
**विशेश:** हें उतर भौवचनांतच उपकारायतात.

**अन्नान्नदशा** । अन्नान्नदशा, सा.रू. -शे । [सं. अन्न+अन्न+दशा] स्त्री. अन्नाखातीर दारा दारार वचून भीक मागपाची जाल्ली स्थिती, दशा; अत्यंत दळिद्री अवस्था.
**वा.प्र: अन्नान्नदशा जावप:** अत्यंत दळिद्री अवस्था जावप.
**अन्नान्नदशा येवप:** पराकास्टेचें दळिद्र येवप.

**अन्नाभायरो** । अन्नाभायरों, सा.रू. -ऱ्या; भौव. -रे, सा.रू. -ऱ्यां । [सं अन्न+बहि:] वि. १. ज्याचें अन्न तुटलां तो; ज्याका अन्न मेळना तो. २. ज्याचें अन्न तोडलां तो. ३. जो आपल्या पोटांत अन्न घालीना तो. ४. ज्याच्या पोटांत अन्नाचो कण धरना तो.

**अन्नार्थी** । अन्नार्थी, सा.रू. -र्थ्या; भौव. -र्थी, सा.रू. -र्थ्यां । [सं. अन्न+अर्थिन्] वि. १. ज्याका अन्नाची गरज आसा तो. २. जो अन्नाक हापापला तो; जो अन्नाफाटल्यान आसा तो. ३. जगपाखातीर ज्यो अत्यंत गरजेच्यो वस्तू जाय, त्या वस्तूंच्या सोदांत आशिल्लो; जियेवपाखातीर ज्यो वस्तू जाय पडटात, त्या वस्तूंफाटल्यान आशिल्लो.

**अन्नाशय** । अन्नाशय्, सा.रू. -या; भौव. -य, सा.रू. -यां । [सं अन्न+आशय] पु. कोठो; पोट.

**अन्य** । अन्य, सा.रू. -न्या; भौव. -न्य, सा.रू. -न्यां । [सं. अन्य] वि. दुसरो; वेगळो; हेर; परकी.

**अन्यत्र** । अन्यत्र् ।[सं. अन्यत्र] क्रि.वि. हेरकडेन; दुसरेकडेन; खंयिंय

**अन्यथा** । अन्यथा । [सं. अन्यथा] वि. १. आगळें-उणें; विप्रीत. २. असत्य, यथार्थ न्हंय अशें. (अन्यथा ज्ञान).

**अन्यथा** । अन्यथा । [सं. अन्यथा] क्रि.वि. १. ना जाल्यार. (तूं वेळार यो. अन्यथा आमची भेट जांवची ना). २. हेर प्रकारान; वेगळे तरेन.

**अन्यदा** । अन्यदा । [सं. अन्यदा] क्रि.वि. १. दुसऱ्या वेळार; दुसऱ्या प्रसंगार. २. एका दिसा; एका वेळार. ३. खंचे एके मुस्तींत; खंच्या एका काळार. ४. केन्नाकेन्ना.

**अन्याय** । अन्याय्, सा.रू. -या; भौव. -य, सा.रू. -यां । [सं. अन्याय:] पु. १. न्यायाआड, धर्माआड केल्ली वर्तणूक; कायद्याची मोड. २. गुन्यांव; अपराध; चूक. ३. पक्षपाती निर्णय; दुसऱ्यांच्या हक्काचें केल्लें अपहरण; आगळिक; जुलूम. ४. बगलांट;

किचांट; आळ.
**वा.प्र.: अन्याय करपः** गुन्यांव, अपराध, दुश्कृत्य करप; न्याय न दिवप.
**अन्याय घडपः** गुन्यांव, अपराध, चूक घडप.
**अन्याय घालपः** बंगलांट, किचांट, आळ घालप.
**अन्याय जावपः** न्याय न मेळप.
**अन्यायाक कुन्यायः** जशाक तशें.
**म्हणीः** १. अन्यायाक बळ, आतां कवडी धांपून पळ.
२. न्यायाक बळ नितीचें, अन्यायाक दुडवांचें.

**अन्यायाचो,ची,चें** । अन्यायाचॉ,ची,चँ; सा.रू. -च्या,-चे,-च्या; भौव. -चे,-च्यो,-चीं; सा.रू. -च्यां । ['अन्याय' वेल्यान] वि. जो न्यायाक धरून ना तो; कायद्याआड वचून केल्लो; नितीक धरून नाशिल्लो; अन्याय्य.

**अन्यायी** । अन्यायी । [सं. अन्यायिन्] वि. अन्याय करपी; कायद्याभायर वचून आचरण करपी; आगळिको, जुलमी, अधर्मी, अपहारी.

**अन्याय्य** । अन्याय्य् । [सं. अन्याय्य] वि. १. जें कायद्याक, नितीक धरून ना तें. (अन्याय्य चाल-चलणूक). २. अयोग्य. (अन्याय दंड).

**अन्याव** । अन्याव्, सा.रू. -वा । [सं. अन्यायः] पु. १. अन्याय; धर्माभायलें, नितीभायलें आचरण. २. गुन्यांव; अपराध; चूक. (तीं तुजे वाटेतिटेक वचनासतना तुवें तांका दाटून धोंगसून झुजाक उबीं केल्यांत आनी कामागर्जेबगर अन्याव नाशिल्लया सात्विक मनशांचें जायतें रगत तुवें व्हांवैलां. —गोमन्तोपनिषत्, पैलें खण्ड, बरोः शणै गोंयबाब, पा. ९३). ३. अपहार; आगळिक; जुलूम. ४. बगलांट; किचांट; आळ.

**अन्याविर्शी** । अन्याविर्शी । [सं. अन्याय › अन्याव+अ. सिवा ?] क्रि.वि. गुन्यांव नासतना; कारणाविणें; विनाकारण (अन्याविर्शी कोणांकच मारचो न्हंय.)

**अन्योक्ति** । अन्योक्ती, सा.रू. -ती । [सं. अन्य+उक्ति] स्त्री. १. हेरांक उद्देशून केल्लें उलोवप. २. अप्रस्तुत तोखणाय.३. ज्याच्या संबंधान उलोवपाचें आसता, ताज्यासंबंधान उलैनासतना, दुसऱ्या कोणासंबंधान उलोवन, जेन्ना उलोवपी आपल्या मनांतलो अर्थ ज्याका समजूंक जाय ताका सुचैता, तेन्ना अन्योक्ति हो अर्थालंकार घडटा; धुवेक उद्देशून सुनेक लागसारकें उलोवप. अन्योक्तिचीं आंगां: १. कार्यावेल्यान कारणाचें. २. कारणावेल्यान कार्याचें. ३. सामान्यावेल्यान विशेशाचें वा विशेशावेल्यान सामान्याचें केल्लें वर्णन.

**अन्वय** । अन्वय्, सा.रू. -या । [सं. अन्वयः] पु. १. संबंध; संयोग; मेळ. २. व्याकरणांच्या नेमांक धरून पद्यांतल्या उतरांची अर्थाप्रमाणे केल्ली गद्यावरी मांडावळ. ३. तर्कपद्धतीक धरून केल्ली रचना. ४. कुळ; कुळी; वंश; घराणें. ५. कारण आनी परिणाम हांचो तर्कपद्धतीन जोडिल्लो संबंध. ६. अर्थ; फोडणिशी. ७. **(व्या.)** वाक्यांतल्या अनेक उतरांचो परस्परांकडेन आशिल्लो योग्य संबंध.
**वा.प्र.: अन्वय लावपः** अर्थ लावप; संबंद जोडप.

**अन्वर्थ, अन्वर्थक** । अन्वर्थ, अन्वर्थक्, सा.रू. -र्थे । का; भौव. -र्थ / -र्थक, सा.रू. -र्था / -र्थकां । [सं. अन्वर्थ] वि. १. स्पस्ट अर्थ आशिल्लो; ज्याचो अर्थ निरूक्तावेल्यान सहज लांवक येता असो. २. यथार्थ; सार्थ; अर्थयुक्त; अर्थान भरिल्लो.

**अन्वाख्यान** । अन्वाख्व्यान्, सा.रू. -ना;

भौव. -नां, सा.रू. -नां । [सं. अन्वाख्यानम्] न. १. पूर्वकथनाची केल्ली फोडणिशी. २. अध्याय; खंड; पर्व; अवेस्वर.

**अन्वारोहण** । अन्वारोहॅण्, सा.रू. -णा । [सं. अन्वारोहणम्] न. घोवाचें प्रेत सर्णार दवल्ल्याउप्रांत बायलेन त्याच सर्णार चडून केल्लें सहगमन; सती वचप.

**अन्वेशण** । अन्वेशॅण, सा.रू. -णा; भौव -णां, सा.रू. -णां । [सं. अन्वेषणम्] न. १. सोद; तपास. (इं.) Investigation २. संशोधन (इं.) Research.

**अप** । अप् [सं. अप:] न. १. उदक; जल; २. ज्या पंचद्रव्यांक लागून संवसाराची निर्मणी जाल्या अशें मानतात, तातूंतलें पैलें द्रव्य. उदकाक संवसाराचे निर्मणेचें पैलें द्रव्य मानलां (अप एव ससर्जादौ तासु बीजमवासृजत्. —म. स्मृ. १.८). जाल्यारूय, मनुस्मृतिच्या १.७८ श्लोकांत मनस, आकाश, वायु आनी ज्योतिस्, वा तेजस् (अग्नि) उप्रांत उदक निर्माण जालां अशें म्हळां. (ज्योतिषश्च विकुर्वाणादापो रसगुणा: स्मृत:॥ अद्भ्यो गन्धगुणा भूमिरित्येषा सृष्टिरादित:॥ ७८ ॥.) ३. चित्रा नक्षत्र.

**विशेश:** उदकाक वेदांत 'आपोदेवी:' म्हळ्यार पवित्र देवता अशें म्हळां. लौकिक संस्कृतांत अप् हें आपा:, अप: अशें सदांच भौवचनांत उपकरायिल्लें मेळटा. अप हें इंडो-युरोपियन काळावेलें उतर. कांय इंडो-युरोपियन भासानीं 'अप' ह्या उतराकडेन सारकाय दाखोवपी उतरां मेळटात: लॅटिन 'Aqua'; ग्रीक 'Appos'; लिथुआनियन 'Uppe'; गोथिक 'Ahva'; पर्शियन 'आब'; झेंद 'Ap'; पोन्नी जर्मन 'Aha'.

**आधारावळ :** Sanskrit-English Dictionary by Prin. V. S. Apte.

**अप** । [सं अप] मु.कू. (prefix). हें मुळाकूस कांय उतरांक लागून अशे अर्थ दाखयता: १. कमीपण, हीणपण. देखीक: अपकीर्त, अपपाठ. २. उणाय, अभाव. देखीक: अपेस (अपयश), अपमान. ३. उरफाटेपण, विरोध. देखीक: अपसव्य. ४. वांकडो, पाडो. देखीक: अपशकून, अपकर्म.

**अप** । अप् । [कों. अप] ता. कू. धातूंक लागपी एक ताळाकूस. हें ताळाकूस धातूंक लागून धातुसाधित नामां घडटात. हीं नामां भाववाचक आसतात. धातूंवेल्यान हीं नामां घडिल्लीं आशिल्ल्यान 'क्रिये'चो अर्थ उक्तो करपाची एक सया तातूंत आसता.देखून, तांकां 'क्रिया दाखोवपी धातुसाधित नामां' अशेंय म्हणटात.

**विशेश:** १. जेन्ना धातू व्यंजनान सोंपता, तेन्ना ताज्या निमाण्या व्यंजनांत ह्या कुसाचे सुरवातेचो 'अ' हो स्वर मेळटा, आनी त्या व्यंजनाचो पूर्ण उच्च्यार जाता. देखीक:

आस् + अप = आसप
वांट् + अप = वांटप
कर् + अप = करप
पड् + अप = पडप

२. जेन्ना धातू स्वरान सोंपता, आनी तातूंतल्या स्वरामुखार जेन्ना ह्या कुसांतलो सुरवातिचो 'अ' स्वर येता, तेन्ना त्या 'अ'चो 'व' जाता. देखीक:

खा + अप = खावप
घे + अप = घेवप
दी + अप = दिवप
धू + अप = धुवप

'अप' हें ताळाकूस ज्या धातूंक लागता, तो धातू 'ई' आनी 'ऊ' अशा दीर्घ स्वरान सोंपपी आसल्यार, त्या 'ई' आनी 'ऊ' चें 'इ' आनी 'उ' अशें ऱ्हस्व रूप जाता.

३. जे धातू 'य्' ह्या अर्धस्वरान सोंपतात तांकां हें ताळाकूस लागतकीर, त्या धातूंतल्या

निमाण्या 'य्'चें 'व्' जाता. उप्रांत ह्या कुसांतलो 'अ' त्या धातूक मेळटा. देखीक:

बडय् + अप = बडवप
बरय् + अप = बरवप
उलय् + अप = उलवप
आपय् + अप = आपवप

**अपकर्म** । अपकर्म, सा.रू. -मा; भौव. -र्मां, सा.रू. -र्मां । [सं. अपकर्म] न. पाडें, वांकडें, दुस्ट कर्म; कुकर्म; पापकर्म.

**अपकर्मी** । अपकर्मी, सा.रू. -र्म्या; भौव. -र्मी, सा.रू. -र्म्यां । [सं. अपकर्मन्] पाडें, दुस्ट कर्म करपी; भ्रस्टाचार करपी.

**अपकार** । अपकार, सा.रू. -रा; भौव. -र; सा.रू. -रां । [सं. अपकार:] पु. १. अनुपकार; उपद्रव; त्रास; पिडापीड. २. गुन्यांव; अपराध. ३. पाड घालपाखातीर केल्ली करणी. ४. अपमान. ५. आगळिक; पाडो वेव्हार.

**अपकारिक** । अपकारिक् । [सं. अपकार + इक] वि. दुखसारकें. अपमान जाय सारकें (अपकारिक उतर).

**अपकारी** । अपकारी, सा.रू. -ऱ्या; भौव. -री, सा.रू. -ऱ्यां । [सं. अपकारक:, अपकारिन्] वि. दुस्ट, पाडो; घातमारो; दुस्मान.

**अपकीर्त** । अपकीर्त, सा.रू. -र्ती । [सं. अप + कीर्ति:] स्त्री. वायट लौकिक; अकीर्त; निंदा; दुश्कीर्त; आराटी.

**अपकृत्य** । अपकृत्य, सा.रू. -त्या; भौव. -त्यां, सा.रू. -त्यां । [सं अपकृत्यम्] न. १. वांकडें, पाडें, नस्टें कृत्य वा करणी; दुश्कृत्य. २. कायद्याच्या नेमाआड वचून केल्लें कृत्य; गुन्यांव.

**अपक्रम** । अपक्रम्, सा.रू. -मा; भौव. -म, सा.रू. -मां । [सं. अपक्रम:] पु. १. उरफाटो, नेमाक धरून नाशिल्लो, चुकीचो क्रम; क्रमभंग. २. वेळ काडप.

**अपक्रमण** । अपक्रमण्, सा.रू. -णां, भौव. -णां, सा.रू. -णां । [सं. अपक्रमणम्] न. पळेयात 'अपक्रम'.

**अपक्रिया** । अपक्रिया, सा.रू. -ये; भौव. -या, सा.रू. -यां । [सं. अपक्रिया] स्त्री. १. पाडी करणी; दुश्कर्म. २. पाड्या हेतून, दुसऱ्याची हानी जायसारकी केल्ली करणी.

**अपक्व** । अपक्व् । [सं. अपक्व] वि. १. पिकूंक नाशिल्लो; तन्नो (अपक्व आंबो) २. शिजूंक नाशिल्लो; अर्दकुटो शिजिल्लो. ३. **(ला.)** अन-अणभवी, अजाण.

**अपघात** । अपघात्, सा.रू. -ता; भौव. -त, सा.रू. -तां । [सं. अपघात:] पु. १. चड करून दुखेस्त अशें, ध्यानामनांत नासतना, अकस्मात घडिल्लें घटित; दुखेस्त जावये वा न जावये अशें घाळयेपणान वा धंग नासून घडिल्लें घटित. २. अरिस्ट; संकट; आपत्त. (कूड झिरझिरी जावन तिका पोंग पडसर तिची कारस घेंवची पडटा. ती मोडूंक पावल्यार तिका भौन भौन धिगी लावन सरी करची; इतली जतनाय घेता आसतनाय ती केन्ना कोसळत म्हणपाचें खेरेपण ना. तिजे फाटिक हजारांनी पिडा-रोग लागल्यात. तिजेर अपघात जायते येतात. —गोमन्तोपनिषत्, २ रें खंड, बरो: शणै गोंयबाब, पा. ३३४.) ३. ज्याचें कारण कळना अशें सहज घडिल्लें घटित; योगायोग. (तो मेळटलोच म्हणपाची खात्री नाशिल्ली. अपघातान मेळलो).

**अपघाती** । अपघाती । ['अपघात' वेल्यान] वि. अपघातान वा योगायोगान प्राप्त जावपी;

अपघातान घडपी (अपघाती मरण).

**अपंगूल** । अंपंगूल, सा.रू. -गुला; भौव. -गुलां, सा.रू. -गुलां । [सं. अ (=भोव) + पंगुल] वि. १. गात्रांत वा इंद्रियांत दोश आसपी; अचकूल; पांगळो. २. दुर्बळ; अशक्त.

**अपचन** । अपचन्, सा.रू. -ना । [सं. अ+पचन] न. खाल्लें न पचप; खाल्ल्या अन्नाची जिरवण न जावप; अजीर्ण; जिरवण न जाल्ल्यान पोट डब जावन जाता तो त्रास; अन्न न पचिल्ल्यान जाता तो विकार.

**अपच्छाया** । अपच्छाया, सा.रू. -ये; भौव. -यो, सा.रू. -यां । [सं. अपच्छाया] स्त्री. १. अशुभ सावळी; भुता-प्रेताची, वारेसुत्राची सावळी; अशुभ भास; २. साळमें; भूत-पिशाच्य.

**अपजय** । अपजंय, सा.रू. -या; भौव. -य; सा.रू. -या । [सं. अपजय:] पु. पराभव; पराजय; हार.

**अपटुडेट** । अप्टुडेट् । [इं. Up-to-date] वि./क्रि.वि. १. आजमेरेन उजवाडाक आयिल्ल्या ज्ञानाप्रमाणें आशिल्लो; अद्यावत्. २. अतिशय आधुनिक; आजच्या दिसा चालू आशिल्ली फॅशन करपी.

**अपंडित** । अपण्डीत, सा.रू. -डिता । [सं. अपण्डित] वि. १. जो पंडित, विद्वान न्हंय तो; अविद्वान; अशिक्षित. २. मूर्ख; पिसांट. ३. ज्याका कित्याचीच घटी ना तो.

**अपतागिरी** । अप्तागिरी, सा.रू. -री । 'अपतागीर' वेल्यान] वि./स्त्री. अपतागीर धरतल्याक थारायल्लो मुशारो वा थारायल्ली बिदागी.

**अपतागिरो** । अप्तागिरॉ, सा.रू. -ऱ्या; भौव. -रे, सा.रू. -ऱ्यां । ['अपतागीर' वेल्यान] पु. अपतागीर धरपी सेवेकार.

**अपतागीर** । अप्तागीर्, सा.रू. -गिरा; भौव. -गिरां, सा.रू. -गिरां । [फा. आफताब-गीर] न. १. उत्सवाच्या वेळार व्हडा धबाज्यान काडिल्ले मिरवणुकेंत देवाच्या, राजा-म्हाराजांच्या, सरदारांच्या माथ्यार, वताचो त्रास जांव नये म्हणून धरतात तें छत्र; सूर्यपान. २. रथाच्या माथ्यार, पिंपळापानाच्या आकाराचें, सोबेक लायतात तें पान. हें लाकडाचें केल्लें आसता.

**अपत्य** । अपत्य, सा.रू. -त्या; भौव. -त्यां, सा.रू. -त्यां । [सं. अपत्यम्] न. भुरगें; संतान (चलो वा चली); संतत.

**अपथ** । अपथ्, सा.रू. -था; भौव. -थ, सा.रू. -थां । [सं. अपथ] पु. १. ज्या मार्गान वचूंक फावना असो मार्ग; आचरणांत हाडूंक फावना असो मार्ग; न्याय-नितीक सोडून केल्लें आचरण. २. कुमार्ग; कुपथ. ३. मार्गाचो अभाव. ४. योनि; अपत्य-मार्ग. ५. खंच्याय प्रचलित मताक वा सिद्धांताक निर्धारान केल्लो विरोध; वैचारिक पाखंड.

**अपथ्य** । अपत्थ्य, सा.रू. -थ्या; भौव. -थ्यां, सा.रू. -थ्यां । [सं. अपथ्य] न. १. वायटेकाराक वर्ज्य केल्लें खाण. २. प्रकृतीक मानना तें खाण-जेवण; ज्याका लागून आरोग्याक अपाय जाता अशें नस्टें, पाडें, वांकडें खाण. (ला.) १. अहित; अकल्याण. २. आयब; पात्सो.

**वा.प्र.: अपथ्य जावप:** प्रकृतीक अपाय जावप.

**अपंत** । अपन्त् । [सं. अ (चड)+पनित

(तोखणाय केल्लो); का. अप्पंत = शिस्ट, सभ्य] वि. जो दिल्लें उतर केन्नाच फाटीं घेना तो; जो आपले लागणुकेक फाटीं सरना तो; अत्यंत आदरणीय; पत आसपी.

**अपदा** । अपदा, सा.रू. -दे; भौव. -दा, सा.रू. -दां । [सं. अपदा] स्त्री. त्रास; वळवळो; व्यथा (....म्हणजे क्रिस्तु आमचो स्वामि मनुशपणीं अपदा कस्ट सोंसून, मेलोसो उच्च्यारतांव. —दो क्रि., पा. २३).

**अपभ्रंश** । अपभ्रंश, सा.रू. -शा; भौव. -भ्रंश, सा.रू. -शां । [सं. अपभ्रंशः] पु. १. मुळच्या शुद्ध रूपाचें जाल्लें म्हेळें रूप. देखीकः 'घर' हें उतर संस्कृत 'गृह' ह्या उतराचो अपभ्रंश. २. मूळ भाशेंतल्या उतराचें, तिजेवेल्यान घडिल्ले भाशेंत वतना, कांय बदल जावन घडिल्लें रूप. देखीकः सं. अहकम् › अप. हऊं › कों. हांव; सं. सुग्रीष्मक › प्रा. सुगिम्हओ › कों. शिगमो. ३. अहिरांची, आभिरांची भास. ४. संस्कृतावेल्यान जन्माक आयिल्ल्यो आर्विल्ल्यो भासो आनी तांचें प्राकृत हांचे मदले स्थितींतली वा अवस्थेंतली भास; आर्विल्ल्यो भासो आनी तांचें प्राकृत हांकां जोडपी दुवो जाल्ली भास. ५. परकी भाशेंतल्या उतराचें आपले भाशेंत येतना जाल्लें रूप. (प्रत्येक भास दुसरे भाशेंतलें उतर घेतना, आपले जिवणेक मानवता तेंच उतर घेता, आनी त्या उतराक आपल्या उच्च्याराच्या पेण्यांत बसयता. देखीकः पुर्तु. Entrudo — कों. 'इंत्रूज', पुर्तुः Chave— कों. चावी; इं. Chowel कों. शवाळें.)

**विशेशः** संस्कृतावेल्यान जन्माक आयिल्ल्यो आर्विल्ल्यो भासो आनी तांचे प्राकृत हांचे मदले अवस्तेंतली भास वा तांकां दुवो जाल्ली भास म्हळ्यार अपभ्रंश. ही धर्मिक आनी साहित्याची भास म्हणून दिगंबर जैनांनी उपकारायली. युरोपांतले ह्याकोबी (Jacobi) आनी अलस्डॉर्फ (Alsdorf) आनी भारतांतले डॉ. प. ल. वैद्य, जैन आनी उपाध्ये ह्या पंडितांक लागून, अपभ्रंश भाशेंतलें कितलेंशेंच साहित्य उजवाडाक आयलां. ज्योयुंदूचें 'परमप्पयास' (क्रि.स.६६०) हें गूढ अशें अध्यात्मिक पुस्तक हें अपभ्रंश भाशेच्या सुरवातिच्या काळांतलें पुस्तक.

अपभ्रंश हें उतर सगळ्यांत पैलीं पतंजलीच्या (क्रिस्ताआदीं सुमार १५०-२००) 'महाभाष्यां'त मेळटा, थंय हाजो अर्थ 'पंडितांक मान्य आशिल्ले संस्कृत भाशेंतल्या उतरांचें विकृत वा भस्ट जाल्लें रूप' असो आसा. पतंजली जिका अपभ्रंश म्हण्टा, तिका भरताच्या 'नाट्यशास्त्रां'त (क्रिस्ती सन तिसरो शेंकडो) प्राकृत वा विभ्रस्ट अशें म्हळां. त्याउप्रांत भामह (क्रि. स. सुमार सवो शेंकडो) ह्या लेखकाच्या 'काव्यालंकारां'त अपभ्रंशाचो उल्लेख मेळटा. जाल्यारूय, हो उल्लेख अपभ्रंश ह्या उतराच्या आवांठाचेर चड उजवाड घालिना. अपभ्रंश ह्या उतराचेर दण्डी (क्रि. स. सुमार सातवो शेंकडो) ह्या बरोवप्याच्या 'काव्यादर्शं' ह्या ग्रंथांत दिस्त जाय तसो उजवाड घाल्लो मेळटा. संस्कृत भाशेचो अभिमान धरपी वैयाकरणी आनी आलंकारिकांचीय मतां ताणें सांगल्यांत आनी अपभ्रंश ह्या नांवान रूढ आशिल्ले भाशेचोय ताणें उल्लेख केला. शास्त्राचे नदेरेन संस्कृतापरस वेगळी आशिल्ली भास आनी काव्यांत उपकरायिल्ली आभीर बी लोकांची भास, अशे अपभ्रंशाचे दोन अर्थ ताणें दिल्यात. ह्याउप्रांत रूद्रटाच्या (क्रि.स. सुमार णवो शेंकडो) 'काव्यालंकार' ह्या ग्रंथांत अपभ्रंशाचो उल्लेख मेळटा. ताज्या मतान प्रत्येक देशांत रूढ आशिल्ली भास म्हळ्यार अपभ्रंश. वाग्भटाच्या (क्रि. स. सुमार बारावो शेंकडो) 'काव्यालंकार' ह्या ग्रंथांत उक्तें केल्लें मत हें दण्डी आनी रूद्रट हांच्या मतांच्या मजगतचें आसा. तो दण्डीवरी आभिरादींचे भाशेकच अपभ्रंश म्हणना.

ताज्या मतान जी देशी भास साहित्याखातीर उपकरावपाइतली शुद्ध स्वरूपाक पाविल्ली, तिकाच अपभ्रंश म्हणप; हेर भासांक न्हंय.

अपभ्रंश भाशेचेर अशीं वेगळीं वेगळीं मतां आसात. सामान्यतायेन, हेमचंद्राच्या (क्रि. स. बारावो शेंकडो) 'सिद्ध-हेम-शब्दानुशासना'च्या आठव्या अध्यायांत जे भाशेचो अभ्यास केला, ती भास म्हळ्यार अपभ्रंश, अशें म्हणूंक येता. 'काव्यमीमांसा' कार राजशेखर (क्रि.स. धावो शेंकडो) आनी 'सरस्वतीकण्ठाभरण' कार भोजदेव (क्रि.स. अकरावो शेंकडो) हांणीं जे अपभ्रंश भाशेचो उल्लेख केला, तीय हीच भास. हे भाशेंतच भारतांतल्या संस्कृतावेल्यान आयिल्लया आर्विल्लया भासांची मुळां आसात, आनी मारवाडी, राजस्थानी, गुजराती, पंजाबी, सिंधी, बिहारी, बंगाली, उडिया, आसामी, मराठी, कोंकणी बी भासो तातूंतल्यान उदेवाक आयल्यात, अशें एक मत आसा.

कांय विद्वानांचे मत ह्यापरस वेगळें आसा. तांच्या मतान आर्विल्लया भासांचें मूळ म्हळ्यार त्या त्या देशांतल्यो अपभ्रंश भासो आनी त्या अपभ्रंश भासांचें आदलें रूप म्हळ्यार, त्या त्या देशांतल्यो प्राकृत भासो. प्रो. पीशल (Pischel), ग्रीयर्सन (Grierson), होर्न्ले (Hoe-rnle) ह्या विद्वानांच्या मतान अपभ्रंश ही एकच भास नाशिल्ली, तर शौरसेनी अपभ्रंश, ब्राचड अपभ्रंश, खस अपभ्रंश, अशो कितल्योशोच अपभ्रंश भासो आशिल्लयो. डॉ.. सुनीतिकुमार चतर्जी हांणीय बंगाली भाशेचें मूळ आनी तिजो विकास ह्यासंबंधान बरयतना, अशेंच मत उक्तें केलां.

अपभ्रंश भाशेचेर आपले विचार मांड्टना, डॉ. झ्यूल ब्लोक (Dr.Jules Bloch) म्हण्टात: ''अपभ्रंश हें नांव प्रदेशवाचक न्हंय. प्राकृत आनी संस्कृत ह्या दोन नांवांवरीच तेंय गुणवाचक आसून, ह्या दोन भाशिक अवस्तांकडेन तें विरोध दाखैता. सगळ्यांत पैलीं तें वाटचुकिल्लेंपण दाखैता. पतंजली हें नांव मध्ययुगांतल्या आर्यभासांच्या कांय रूपांक लायता. हीं रूपां ताज्या काळावेल्या संस्कृतांत रूढ आशिल्लीं. मध्यकाळावेल्या आर्यभासांचेर संस्कार घडोवन, जेन्ना तांकां नेमांत बांदल्यो, तेन्ना ज्यांकां साहित्यांत जागो मेळलो ना, अशा उत्क्रांत रूपांक अपभ्रंश हें नांव पडलें. जाल्यारूय, एक काळ असो उदेलो की, अपभ्रंश भाशेचीं कांय रूपां प्राकृतांत पाविल्लीं. इतलेंच न्हंय, तर ती भास, प्राकृत भाशेवांगडाच साहित्याची भास म्हणून मान्यतायेक पाविल्ली.''

डॉ. हजारीप्रसाद द्विवेदी अपभ्रंश भाशेसंबंधान आपलें मत उक्तें करतना म्हण्टात: ''सुरवातीक अपभ्रंश भाशेक आभीरांची भास म्हण्टाले. ही खासा तांची भास आशिल्ली वा ते जंयच्यान आयले, थंयच्यान ही भास ते आपलेवांगडा घेवन आयिल्ले, असो हाजो अर्थ जायना. खरें सांगप म्हळ्यार, आभीर जंय जंय गेले, थंय थंय तांणीं थंयची थळावी प्राकृत भास आपणायली आनी आपल्या निजाच्या उच्च्यारांच्या पेण्यांत तिका बसयली. हाका लागून थंयच्या प्राकृत भासांनी बदल घडून आयलो. उप्रांत असो बदल घडून आयिल्ली भास, जेन्ना फोंपेवन आयली, तेन्ना तिका अपभ्रंश हें नांव लागलें.''

अपभ्रंश भाशेचे भेद कितले आशिल्ले जावये, ह्या संबंधान विद्वानांचीं मतां एकमेकांकडेन जुळनात. रूद्रटाचो टिकाकार नमिसाधू हाणें अपभ्रंशाचे उपनागर, आभीर आनी गांवगारी अशे तीन भेद केल्यात. 'प्राकृत-सर्वस्व' कार मार्कण्डेय हाणेय तिनच भेद मानल्यात. पुण तो तांचीं नांवां नागर, उपनागर आनी ब्राचड अशीं दिता. ताज्या मतान ब्राचड ही सिंध देशांतली अपभ्रंश भास, नागर ही गुजरातेंतली आनी उपनागर ही त्या दोन देशांमदगतची भास आशिल्ली. थंळा आनी उलोवपाची मोड

हांच्या आधारान अपभ्रंश भाशेचे सत्तावीस भेद मानपी कांय लोक त्या काळांत आशिल्ले म्हणपाचें मार्कण्डेयाच्या ग्रंथावेल्यान कळटा. 'प्राकृतानुशासना'चो बरोवपी पुरुषोत्तमदेव हाणेंय वैदर्भी, लाटी, ओडी, कैकेयी, गौडी, आनी ब्राचड बी अपभ्रंशाच्या भेदांचो उल्लेख केला.

आर्विल्लया काळांत अपभ्रंशाचेर चर्चा करपी पैले विद्वान म्हळ्यार डॉ. झ्याकोबी (Jacobi). 'सनत्कुमार चरिउ' ह्या ग्रंथाचे प्रस्तावनेंत तांणी ह्या प्रश्नाची चर्चा केल्या आनी थळां, विभाग हांचो आधार घेवन पूर्वेकडली, पश्चिमेकडली, दक्षिणेकडली, आनी उत्तरेकडली अशे अपभ्रंशाचे चार भेद मानल्यात. 'हिस्टॉरिकल ग्रामर ऑफ अपभ्रंश' हो ग्रंथ बरोवपी डॉ. तगारे हाणीं ह्या चार भेदांतलो 'उत्तरेकडची' हो भेद मानूंक ना. पुर्वेकडली, पश्चिमेकडली आनी दक्षिणेकडली अशे तिनच भेद तांणी मानल्यात. 'हिंदीके विकासमे अपभ्रंशका योग' ह्या ग्रंथाचे लेखक डॉ. नामवरसिंह हांणी पुर्वेकडली आनी पश्चिमेकडली अशे दोनच भेद मानल्यात. 'भाषाविज्ञान कोश' कार डॉ. भोलानाथ तिवारी हांच्या मतान ''अपभ्रंश साहित्याची निर्मणी जे भाशेंत जाल्या, ती प्रमाण भास आशिल्ल्यान तातूंत चड भेद ना. जाल्यारूय, त्या काळांत सिंध, बंगाल, पंजाब, महाराष्ट्र ह्या प्रांतांनी एकच भास उलोवपांत आशिल्ली, असो हाजो अर्थ जायना. संस्कृत भाशेच्या निमाण्या काळांत आर्य भासांच्या थळाव्या रूपांचो विकास जायत आशिल्लो. हींच रूपां प्राकृत भासांनी आनी मागीर अपभ्रंश भासांनी घोळटेंत आयलीं. उप्रांत ह्याच रूपांतल्यान आर्विल्लयो भारतीय भासो उदेवाक आयल्यो. देखून, अपभ्रंश साहित्याची जी भास आसा, तिजे भेद दोन, तीन वा चार अशे कितलेय आसूं; पूण जी अपभ्रंश भास उलोवपांत आशिल्ली, तिजे भेद मात हाचेपरस चड आशिल्ले आसतले.''

ह्याखातीर तांणीं शौरसेनी, पैशाची, ब्राचड, खस, महाराष्ट्री, अर्धमागधी आनी मागधी अशे अपभ्रंशाचे सात भेद मानल्यात.

अपभ्रंश भाशेंतलें जें साहित्य आज मेळटा, तें अपभ्रंश ही साहित्याची भास म्हणून प्रतिस्ठा पाविल्ली, त्याउप्रांतचें आसा. संस्कृत आनी प्राकृत हांच्या वांगडाच अपभ्रंश भाशेकय मान्यताय मेळिल्ली म्हणपाचो पैलो उल्लेख धरसेनाच्या (क्रि.स. सवो शेंकडो) पाशाणा-बरपांत मेळटा. त्या पाशाणा-बरपावेल्यान कळटा की, वल्लभीराज गुहसेन हो संस्कृत, प्राकृत आनी अपभ्रंश अशा तिनय भासांनी ग्रंथ बरोवपाइतलो निपुण आशिल्लो. 'कुवलयमाला' बरोवपी उद्योतन (क्रि.स. आठवो शेंकडो) हाणें देशी भाशांतल्यान अपभ्रंश भाशेक वेगळी काडल्या आनी संस्कृत, प्राकृतायपरस तिजी तोखणाय चड केल्या. राजशेखरानय (क्रिस्ती सन धावो शेंकडो) आपल्या 'बाल रामायणांत अपभ्रंश भाशेची 'सुभव्य' म्हणून तोखणाय गायल्या. क्रिस्ती सनाच्या धाव्या शेंकडांतल्या पुष्पदन्तानय आपल्या 'महापुराणांत' संस्कृत आनी प्राकृत हांच्या वांगडाच अपभ्रंश भाशेचोय उल्लेख केला.

अपभ्रंश भाशेंतल्या साहित्याचे दोन वांटे करूंक येतात. जैन धर्माच्या लोकांनी बरैल्लें साहित्य आनी हेर धर्मांच्या म्हळ्यार बुद्ध धर्माच्या आनी इस्लाम धर्माच्या लोकांनी बरैल्लें साहित्य. हेर धर्माच्या लोकांनी जरी अपभ्रंश भाशेंत रचना केल्ली आसली, तरी अपभ्रंश भाशेंत साहित्याची रचना आनी तिजी राखण जैनधर्मी लोकांनीच चड प्रमाणान केली. सर्वार्थान जैनांनीच तिजो चड ताथोमाथो केलो. अपभ्रंश भाशेचो काळ क्रिस्ती सन ५०० ते १००० वर्सां मानतात. जाल्यारूय, ते भाशेंतलें साहित्य आठव्या शेंकड्यासाकून मेळटा. पंद्राव्या-सोळाव्या शेंकड्यामेरेन अपभ्रंश

भाशेंत साहित्य निर्माण जातालें, हें खरें आसलें, तरी णवो शेंकडो धरून तेराव्या शेंकड्यामेरेनचो काळ हो अपभ्रंश भाशेचो समृद्धिचो काळ आशिल्लो. ह्याच काळांत पुष्पदन्त, धवल, धनपाल, नयनंदी, कनकामर, धाहिल, स्वयंभू, रइधू, हेमचंद्र, बी नामनेचे बरोवपी हे भाशेंत जाले. ह्या सगळ्यांत पुष्पदन्त हो कवी म्हणून श्रेस्ठ आसा. जैन धर्मांतल्या बरोवप्यांनी बरयल्ले चरित्रग्रंथ (चतुर्मुख स्वयंभूचें 'पउमचरिय', पुष्पदन्ताचें 'जसहरचरिउ' आनी 'णयकुमारचरिउ'); पुराण ग्रंथ (चतुर्मुख स्वयंभूचें 'हरिवंशपुराण', पुष्पदन्ताचें 'महापुराण'); स्तोत्रां (अभयदेवसूरीचें 'जयतिहुयण स्तोत्र', 'ऋषभ-जिनस्तोत्र); काव्यग्रंथ (विद्यापतीची 'कीर्तिलता', उद्योतनाची 'कुवलयमाला'); इस्लामी कवी अब्दुर रहमानचो 'संदेशरासक' हो रासग्रंथ; बुद्ध धर्माच्या बरोवप्यांनीं बरयल्ले दोहाग्रंथ (सरहाचो 'दोहाकोश', रामसिंहाचो 'पाहुडदोहा', योगेन्द्राचो 'सावय धम्मदोहा') अशा कितलेशाच ग्रंथांनीं अपभ्रंश भाशेक व्हडविकेक चडयल्या.

अपभ्रंश भाशेंतल्या साहित्यांत मुख्यतायेन शृंगार, वीर आनी शांत हे तिनच रस घसघशीत दिसतात. सुंदरकायेच्या वर्णनांत शृंगाररस, झुजावर्णनांत वीररस आनी जंय संवसाराच्या खिणयाळ्यापणाचें वर्णन केलां, थंय शांतरस अशें सामान्यतायेन ताजें स्वरूप आसा.

अपभ्रंश भाशेची संस्कृत भाशेकडेन सर केल्यार, व्याकरणाचे नदरेन, तिजी कांय खाशेलेपणां सांगूंक येतात तीं अशी:

१) संस्कृतांत जशीं व्यंजनान सोंपपी नामां आसात (देखीक: वाच्, प्रावृष्, मरूत्, राजन्, अप्सरस् बी) तशीं अपभ्रंशांत नात. संस्कृतांतल्या व्यंजनान्त नामांतलें व्यंजन उडोवन वा तातूंत 'अ' हो स्वर घालून अपभ्रंशांत तीं स्वरान्त केल्लीं मेळटात. देखीक: मनस्-मण, जगत्-जग, आत्मन्-अप्प, आयुष्-आउस, युवन्-जुवाण.

२) विभक्तिचे नदरेन पळेल्यार अपभ्रंशांत पयले आनी दुसरे विभक्तिच्या रूपांत व्हडलेंशें अंतर जाणवना. दुसरे आनी तिसरे विभक्तींत कांय वेळा भेद नाशिल्लेवरी दिसता. केन्ना केन्ना पांचवे आनी सवे विभक्तिचीं एकवचनाचीं रूपां सारकींच दिसतात. तेच परी तिसरे आनी सातवे विभक्तिच्या एकवचनाचीं आनी भौवचनाचीं रुपां कितलेशाच प्रमाणान सारकीं दिसतात.

३) अपभ्रंशांत वर्तमानकाळ आनी भविश्यकाळ अशे दोनच काळ आसात. भूतकाळाचें काम कर्मणी भूतकाळवाचक धातुसाधितावेल्यान जाता. अपभ्रंशांत आज्ञार्थ आनी विध्यर्थ अशे दोनच अर्थ आसात. संकेतार्थ ना.

४) अपभ्रंश भाशेंत उतरांचें लिंग जायते खेपो नेमाविरैत आशिल्लें जाणवता: देखून, हेमचंद्राच्या प्राकृत व्याकरणांत अपभ्रंशांतल्या लिंगविचाराक 'अतन्त्र' अशें म्हळां: (संदर्भ: सिद्ध-हेम -शब्दानुशासन -८.४:४४५). 'कुंभ' हें संस्कृत भाशेंतलें पुल्लिंगी उतर अपभ्रंशांत नपुसकलिंगी आसा; 'अभ्रम्' हें नपुसकलिंगी उतर 'अब्भ' अशा रूपांत पुल्लिंगी, 'अन्त्रम्' हें नपुसकलिंगी उतर 'अन्त्रडी' अशें स्त्रीलिंगी, जाल्यार 'शाखा' हें स्त्रीलिंगी उतर 'डालइं' अशा रूपांत नपुसकलिंगी म्हणून अपभ्रशांत मेळटा.

५) अपभ्रंश भाशेंत उतराच्या मदल्या आनी निमाण्या जाग्यार जोड व्यंजनां येतात. पुण उतराचे सुरवातीक मात तीं चडशीं नदरेक पडनात. संस्कृत उतरांतल्या सुरवातिच्या जोड व्यंजनाचें अपभ्रंशांत एकोडें व्यंजन जाल्लें दिसता. देखीक: ज्योतिषिन्-जोइसिउ, व्यापार-वावरउ, क्रीडा-कील, ज्वालयति-जालइ, द्वीप-दीव, स्कंध-खंद बी.

६) संस्कृत उतरांतल्या त्, थ्, द्, ध्,

न् ह्या दांतया (दन्त्य) व्यंजनांच्या जाग्यार, अपभ्रंशांत जायते खेपो ड्, ठ्, ढ्, ण्, अशीं माथयीं (मूर्धन्य) व्यंजनां येतात. देखीकः पतित - पडिउ, पताका - पडाय, ग्रंथिपाल - गंठिताल, दहति - डहइ, दोलयते - डोलइ, द्वयर्ध - दिवड्ढ, विदग्ध - वियड्ठ, निर्गत - णिग्गऊ, शकुनीनाम् - सउणिउं बी.

७) संस्कृत उतरांतल्या सुरवातीक नासपी अशा क्, ख्, त्, थ्, फ्, हांच्या जाग्यार अनुक्रमान ग्, घ्, द्, ध्, ब्, भ्, हीं व्यंजनां येतात. देखीकः विक्षोभकर - विच्छोहगरू, सुखेन - सुघिं, कथितम् - कधिदु, शपथम् - सबधु, सफलम् - सभलउं बी.

८) अपभ्रंशांत संस्कृत उतरांतल्या 'ट' चो 'ड' जाता. (देखीकः तट-तड, कपट-कवड); 'ड' चो 'ल' जाता. (देखीकः तडाग-तलाउ, क्रीड-कील, षोडस-सोलस); 'द' चो 'र' जाता. (देखीकः एकादश-एयारह, द्वादश-बारह); 'द' चो 'ल' जाता. (देखीकः मृदितम्-मलिउ, प्रदिप्त-पलित्त); तेच परी अनुस्वार आशिल्ल्या स्वराउपरांतच्या 'ह' चो 'घ' जाता. (देखीकः सिंह-सिंघ).

९) अपभ्रंशांत संस्कृत उतरांतल्या ऱ्हस्व स्वराचो दीर्घ स्वर जाता (देखीकः कस्य-कासु, दुहितृ-धूय, विंशती-वीस, बी), तेच परी दीर्घ स्वराचो ऱ्हस्व स्वर जाता (देखीकः उत्खात - उख्खय, गृहीत - गहिय, दीयते - दिज्जइ, फाल्गुन - फग्गुण, तैल - तेल्ल, बी).

१०) संस्कृत भाशेंतल्या इदम्, किम्, यद्, तद्, एतद् ह्या सर्वनामांक लागपी 'अत्' कुसाच्या जाग्यार अपभ्रंशांत 'एत्तुल' असो आदेश जाता. देखीकः इयत्-एत्तुलो, कियत्-केत्तुलो, यावत्-जेत्तुलो, तावत्-तेत्तुलो, एतावत्-एत्तुलो.

११) संस्कृतांतलल्या अनुनासिक वर्णाच्या जाग्यार अपभ्रंशांत केन्ना केन्ना अनुस्वार येता. देखीकः दयितेन - दइएं, अग्निना - अग्गिएं, धरामि - धरऊं, भ्रमर - भवंरू, बी.

१२) संस्कृत उतरांतल्या 'अ'काराच्या जाग्यार अपभ्रंशांत केन्ना केन्ना इ, उ, ए अशे स्वर येतात. देखीकः कृपण - किविण, चरम - चरिम, पक्व - पिक्क, मनुष्य - मुणीस, ध्वनि - झुणि, सुजनस्य - सुअणस्सु; वल्ली - वेल्लि, अधस्तात् - हेठ्ठा, कथम् - केम, बी.

१३) संस्कृत उतरांतल्या 'अ'च्या जाग्यार 'उ' आनी 'उ'च्या जाग्यार 'अ' अशे आदेश कांय कडेन जाल्ले दिस्टी पड्टात. देखीकः मुख - मुहु, निर्गतः - णिग्गउ, मुकुट - मऊउ, गुरूक - गुरूअ, सुकुमार - सउमार, बी.

१४) संस्कृत उतरांतल्या मूळ स्वरांच्या जाग्यार अपभ्रंश भाशेंत चड करून हेर स्वर येतात. देखीकः क्वचित्-कच्चु, वेणी-वीण, बाहु-बाह/ बाहा, तृणम्-तण/ तिणु.

आधारावळः १) Prakrit Languages and Their Contributions To Indian Culture, by S.M.Katre.

२) अपभ्रंश पाठावली, संपादकः मधुसुदन चिमनलाल मोदी

३) हेमचंद्रकृत अपभ्रंश-व्याकरण, संपादकः के. वा. आपटे.

४) भारतीय संस्कृति कोश (खंड पैलो), संपाः पं. महादेवशास्त्री जोशी.

५) भाषाविज्ञान कोश, डॉ. भोलानाथ तिवारी.

**अपभ्रस्ट** । अपभ्रॅस्ट् । [सं. अपभ्रष्ट] वि. १. अशुद्ध; विकृत (भाशेचें अपभ्रस्ट रूप). २. अधोगतिक पाविल्लो (अपभ्रस्ट मनीस)

**अपमान** । अपमान्, सा.रू. -ना; भौव. -न, सा.रू. -नां । [सं. अपमानः] पु.

अनादर; मानभंग; कुस्कुटावणी; हिणसावणी.
**वा.प्र.: अपमान करप:** अनादर, मानभंग करप.
**अपमान गिळप:** अपमान सोंसप, अपमानाचें दुःख पचोवप.
**म्हण:** ताजे हात गेल्यात म्हज्या पोटांत, कसो करूं ताजो अपमान?

**अपमानप** । अपमानप्, सा.रू. -पा । [सं. अपमान्] क्रि.दा.धा.सा.ना. (मूळ धातू: अपमान् (अक.)) अपमान, अनादर, मानभंग करप; हिणसावप; कुस्कुटावप.

**अपमानिक** । अपमानिक् । [सं. 'अपमान' वेल्यान] वि. अपमान करपी; उर्मट (अपमानिक करणी; अपमानिक उतरां)

**अपमृत्यू** । अपमृत्यू, सा.रू.-त्यू; भौव. -त्यू, सा.रू. -त्यूं । [सं. अपमृत्युः] पु. १. पिराय जांवचेपैलीं आयिल्लें मरण; अपघातान आयिल्लें मरण; अवेळें मरण; आड-मरण. २. जिवावेलें संकट; गडांतर.
**वा.प्र.: अपमृत्यू टळप:** आडमर्णांतल्यान वाटावप; आडमर्णाचें निवारण जावप.
**म्हण:** अपमृत्यू एक एकदां महामृत्यू.

**अपयश** । अपयश्, सा.रू. -शा; भौव. -शां; सा.रू. -शां । [सं. अपयशस्] न. १. अपकीर्त; दुश्कीर्त २. पराभव; येस न मेळप; अपेस.

**अपर** । अपर् । [सं. अपर] वि. १. दुसरो; अन्य. २. अधिक; अधिकतराचो (Additional) (अपर न्यायाधिश; अपर सचिव). ३. पश्चिमेकडलो; पश्चिम दिशेचो; **(ला.)** ज्याका सर ना असो, पैल्या विड्याचो; श्रेस्ठ.

**अपरंपार** । अपरंपार् । [सं. अ+पर+पार (देग, तड)] वि. १. पारावार नासपी; सर्त-शीम नासपी; अमर्याद. (परमेश्वराची अपरंपार हुकमत) २. अगणित; अतोनात (अपरंपार दुड्डू).

**अपरमिताय** । अपरमिताय्, सा.रू. -ये । [सं. 'अपरिमित' वेल्यान] स्त्री. अगणिताय; अमर्यादपण.

**अपरमीत** । अपर्मीत । [सं. अपरिमित] वि. १. गणती, मेज-माप नाशिल्लो. २. अतोनात. (सामाजीक कामांत ताणीं अपरमीत वावr केला. ताजें मेजमाप नाशिल्ले पुरावे तांगेल्या ह्या पुरुशार्थाची गवाय दितात. —आबे फारीय, प्रस्तावना, बरो: पंडिता प्रोपेर्सियाबाय फिगरेद, पा. ३९. —अणकारपी: शणै गोंयबाब.) ३. धोग्यांचो; शिळाधार (अपरमीत पावस पड्टा आसतना, येकूय थेंबो त्या चेडवाच्या आंगार पडलो ना. – (सां.आं. अचर्यां, पा. ६२). ४. अपरंपार, अमर्याद. (एके वाटेन अपरमीत सूख जाल्यार, दुसरे वाटेन शिमेभायर दुःख.)

**अपररात** । अपररात्, सा.रू. -ती; भौव. -ती, सा.रू. -तीं । [सं. अपर + रात्र] स्त्री. १. रातिचो अखेरचो भाग वा प्रहर; मध्यान रातीउप्रांतचो वेळ; मध्यान रात आनी फांतोड्ड हांचे मदलो वेळ वा काळ.

**अपरलोक** । अपरलोक्, सा.रू. -का । [सं. अपरलोकः] पु. परलोक; स्वर्गलोक.

**अपरा** । अपरा । [सं. अपरा] स्त्री. १. अध्यात्म वा ब्रम्हविद्येभायली हेर विद्या; लौकिक विद्या. २. जेस्ठ म्हैन्याच्या कृष्णपक्षांतली एकादस.

**अपरा** । अपरा । [सं. अपरा] वि. कनिस्ट; सकल्ल्या पांवड्याची; उणाक; नीच.

**अपराग्नि** । अपराग्नि, सा.रू. -ग्नी । [सं. अपर+अग्निः] पु. १. दक्षिण आनी गार्हपत्य अग्नि. २. प्रेताचें दहन करपाखातीर सरणाक

पेटयल्लो उजो.

**अपराजित** । अपराजित्, सा.रू. -ता; भौव. -जितां, सा.रू. -तां । [सं. अपराजित] वि. ज्याचो केन्नाच पराजय वा पराभव जांवक ना वा जायना तो; ज्याचेर कोणेंच हार घालूंक ना तो; अजिंक्य.

**अपराजिता** । अपराजिता, सा.रू. -ते । [सं. अपराजिता] स्त्री.१. दुर्गेचें एक नांव. २. दुर्वा. ३. ईशान्यदिशा.

**अपरात** । अपरात्, सा.रू. -ती । [सं. अपर + रात्र] स्त्री. व्हड रात; मध्यान रात धरून फांतोड्डेमेरेनचो काळ.

**अपराध** । अपराध्, सा.रू. -धा; भौव. -ध, सा.रू. -धां । [सं अपराधः] पु. १. गुन्यांव; अन्याय. २. दोश; चूक. (देवान ताका बाबड्याक बुद्द दिलीना. हातूंत ताजो कसलो अपराध?). ३. पाप; पातक. (पच्छातापान जळत, अपराधातल्यान मुक्त जांवक, तो दिसरात देवामुखार नाक घांसतालो). ४. **(का.शा.)** कायद्यान जिका ख्यास्त फर्मायल्ली आसा अशी कायद्याआड वचून केल्ली करणी. ५. **(स.शा.)** समाजाचे स्वस्तसाणेखातीर आनी राखणेखातीर सरकार जिका ख्यास्त दिता, अशी समाजाच्या वा व्यक्तीच्या हक्कांआड वा हिताआड केल्ली आगळिक.

**वा.प्र.: अपराध पोटांत घालपः** भक्सप; क्षमा करप.

**म्हणः** अपराधाच्यो वळी कपलार दिसनात. (एकाद्रयाच्या तोंडावेल्यान एकाद्रयान अपराध केला वा ना हें कळना.)

**अपराधशास्त्र** । अपराध्शास्त्र्, सा.रू. -स्त्रा। [सं. अपराध + शास्त्र] न. गुन्यांव-शास्त्र; तेरतेरेचे गुन्यांवकार आनी तांकां मेळिल्ली ख्यास्त हांचो विज्ञानिक नदरेन अभ्यास करपी शास्त्र; मनीस गुन्यांव करपाक कित्याक प्रवृत्त जाता आनी भोंवतणच्या वातावरणाचो ताजेर कितलोसो परिणाम जाता, हाजो शास्त्रिक नदरेन अभ्यास करपाची एक पद्धत. —पुर्तुः Criminologia; इं. Criminology.

**विशेशः** गुन्यांवशास्त्र मनीस आनी समाज हांच्या हिताआड आयिल्ल्या संघर्शाचोच न्हंय, तर मनशा मनशा मदगतीं एकमेकांच्या हिताआड आयिल्लया संघर्शाचोय विचार करता. ह्या अभ्यासाखातीर गुन्यांवशास्त्र्याक वा अपराधशास्त्र्याक वेगवेगळ्या शास्त्रांचो आधार घेंवचो पडटाः हवामानाचो आनी ऋतुमानाचो मनशाचेर घडून येता त्या परिणामाच्या अभ्यासाखातीर हवामानशास्त्राचो; अर्थकारणाक लागून जीण जगोवपाक मनशाक जो दिसपट्टो संग्राम करचो पडटा, ताजो सोद घेवपाखातीर अर्थशास्त्राचो; सामाजिक आनी रांजकर्णी परिस्थितीआड उदेंवाक येता त्या विद्रोहाच्या कारणांखातीर समाजशास्त्राचो; वेगवेगळे लोकसमूह, तांचो वर्ग कलह, ताका लागून घडिल्ले अपराध हांची कारणां सोदपाखातीर 'देमोग्राफिचो'; कस्ट करपाची तांक शरिरांत आसा काय ना हें तपासपाखातीर शरिरशास्त्राचो; मनांत उप्रासून येता त्या वैचारिक गोंधळाखातीर मानसशास्त्राचो; घरवडिचे बडिखातीर जीवशास्त्राचो; गुन्यांवांची आनी तांकां फर्मायल्ल्या ख्यास्तिंची तुलना करपाखातीर कायदो आनी कायद्याशास्त्राचो; दया, करूणा आनी क्षमा हांचो परिणाम पारखुपाखातीर धर्माचो; मुळांतच बरे संस्कार कशे करचे आनी पुनर्शिक्षण दिंवचें पडल्यार, तें कशें तरेचें आसचें, हे आंखणेखातीर शिक्षणशास्त्राचो.

गुन्यांवकाराक खर ख्यास्त दिवन ताका बंदखणिंत कुसोवच्या परस, ताका ल्हान ख्यास्त दिवन, थंय ताजेर शिक्षणाचे बरे संस्कार करून ताजें मनिसपण जागोवचें आनी ख्यास्त भोगून तो बंदखणिंतल्यान भायर सरतकीर, ताका समाजाचो एक घटक म्हणून सन्मानान

जियोंवक मेळचें अशें मत आजचें अपराधशास्त्र मांडता.

**अपराधशास्त्री** । अपराधशास्त्री, सा.रू. -स्त्र्या, भौव. -स्त्री, सा.रू. -स्त्र्यां । [सं. अपराध + शास्त्रिन्] पु. अपराधशास्त्रांत वा गुन्यांवशास्त्रांत अत्यंत पारंगत मनीस; गुन्यांवशास्त्रांतलो तज्ञ, अधिकारी मनीस.

**अपराधी** । अपराधी, सा.रू. -ध्या; भौव. -धी, सा.रू. -ध्यां । [सं. अपराधिन्] वि. १. गुन्यांवकार. २. दोशी. ३. पापी; पातकी. **पु.**गुन्यांव, अपराध करपी मनीस. (अपराध्यांक ख्यास्त मेळुंकच जाय).

**अपरान्त** । अपरान्त्, सा.रू. -न्ता । [सं. अपरान्त] पु. १. पश्चिम देग वा पश्चिम देगेची शीम; २. सह्य पर्वताक तेंकून आशिल्लो पश्चिम देगेवेलो प्रदेश वा त्या प्रदेशांत रावपी लोक. ३. उत्तर कोंकण.

**विशेश**: 'अपरान्त' म्हळ्यार सह्य पर्वताक तेंकून आशिल्लो पश्चिम देगेवेलो प्रदेश वा त्या प्रदेशांत रावपी लोक. क्रिस्ती सनाच्या सव्या शेंकड्यांत वराहमिहिर ज्योतिशान बरयल्ल्या बृहत्संहितेच्या चौदाव्या अध्यायांत हिंदुस्तानातल्या जनपदांचीं जीं नांवां दिल्यांत, तातूंत 'अपरान्त' ह्या जनपदाचोय उल्लेख आसा. तेच परी बृहत्संहितेंत (१४.१४.२०) अपरान्ताक पश्चिम देश म्हळा. वात्सायनाच्या कामसुत्राच्या टिकाकाराच्या मतान 'अपरान्त' म्हळ्यार पश्चिम समुद्राची देग. इतिहासकारांनीं हे देगेचो मेळ कोंकणाकडेन घाला. गोकर्णासाकून दमणगंगामेरेन वा चिके त्याय पेल्यान उत्तरेक तापी न्हंयमेरेन आजच्या कोंकणाक अपरान्त देशाचो मेळ जमता. महाभारताच्या आदिपर्वांत अर्जुनाचे तीर्थयात्रेकडेन ह्या थळाची नाट मेळटा.

महाभारत हें निखटें महाकाव्य न्हंय. तातूंत इतिहासय आसा. देखून, इतिहासीक नदरेन, गोयांसैत अपरान्ताचो पैलोवैलो उल्लेख महाभारताच्या भीष्मपर्वांत मेळटा. भीष्मपर्वाच्या णव्या अध्यायांत संजयान धृतराष्ट्राक भरतखंडांतल्या न्हंयांची आनी देशांचीं वर्णनां करतासतना सांगलां: "अपरान्तः परान्ताश्च पंचालाश्चर्ममण्डलाः ॥ ४७ ॥ भीष्म. अ.९". हरिवंशांत आनी विष्णुपुराणांतय अपरान्ताचो उल्लेख आसा.

अपरान्ताक शुर्पारक देश वा शुर्पारक क्षेत्र अशेंय म्हण्टाले. शुर्पारक वा शुरूपक्क हें अपरान्ताचें राजपाटण आशिल्लें, तेच परी तें अत्यंत नामनेचें बंदर आशिल्लें. राजपाटणावेल्यान वा मुखेल शारावेल्यान देशाक वळखुपाची चाल, पैलिंच्या काळांत चलताली. रघुवंशाच्या ४थ्या सर्गाच्या ५३व्या श्लोकांतल्या 'अपरान्त' ह्या उतराची फोडणिशी करतासतना, मल्लिनाथ टिकाकार यादव कोशांतलें एक वाक्य दिता. तें वाक्य अशें: 'अपरान्तास्तु पाश्चात्यास्तेच शुर्पारकादयः'. हाजेवेल्यान शुर्पारक हें अपरान्तांतलें मुखेल शार वा अपरान्ताचें राजपाटण आसून, हीं दोनय उतरां एकाच अर्थान घोळटालीं हातूंत दुभाव ना.

शुर्पारकाक शुरूपक्क अशेंय म्हण्टाले. शुर्पारक म्हळ्यार सुपाच्या आकाराचें असो ताजो अर्थ जाता. ह्या अर्थांत व्हडलेंशें तथ्य ना. शुर्पारकाचो अर्थ संस्कृत भाशेपरस सुमेरियन वा सुमेरी भाशेंतल्यान भोव बरो मेळटा. सुमेरी भाशेंत शुर्पारक म्हळ्यार 'सुर्यास्ताचो दर्यावेलो दरवटो'. हो अर्थ मुदयेर थीक कसो बसता आनी 'अपरान्त' ह्या उतराकडेनय तो जुळटा.

क्रिस्ताआदल्या तिसऱ्या शेंकड्यामदगतीं, भारतांतल्या मुखेल जाग्यानीं, सम्राट अशोकान पाली भाशेंत धम्मलिपयो कोंत्रांवक लायिल्ल्यो. तातूंतले पांचवे धम्मलिपयेंत ताणें बुद्ध धर्माचो उपदेश करूंक खंय खंय थेर (उपदेसक) धाडल्यात म्हणपाची खबर दिल्या. तातूंत 'योन - कंबोज- गंधारानं रिस्टिक पेतेणिकानं

ये वा पि अंजे अपरंत' अशीं उतरां घाल्यांत. हातूंत रिस्टिक म्हळ्यार मराठणांतलो लोक, पेतेनिक म्हळ्यार गोदावरी न्हंयेच्या धडेवेल्या पैठणांतलो लोक आनी अपरांत म्हळ्यार उत्तर कोंकणांतलो लोक, अशें सर रामकृष्णशणै भांडारकरांचें मत आसा. अशोकान कोंत्रांवक लायिल्ली आठवी धम्मलिपी क्रिस्तीसनाच्या १८८२त पंडित भगवानलाल इंद्रजी हांकां मेळ्ळी. तांच्या मताप्रमाणें तुर्ताच्या ठाणें जिल्ह्यांतलें सुपारें हें अपरान्तांतलें मुखेल शार आशिल्लें आनी थंय बुद्ध धर्म चलतालो.

खासा बुद्ध भगवानाच्या पवित्र पावलांनी शुर्पारक देश पावन जाल्लो म्हणपाची खबर मेळटा. बुद्धाचो शिष्य पूर्ण वा पूण्ण हो सुनापरान्तांतलो (गोंयचो) आशिल्लो. पूर्णाच्या आमंत्रणाक मान दिवन बुद्ध भांगराचे पालखेंत बसून ५०० भिक्खुंसैत सुनापरान्तांतल्या मुलु आरामांत बांदिल्ल्या चंदन-मंडल नांवांच्या विहारांत आयलो. थंय तो जायते दीस उल्लो आनी ताणें लोकांक धर्माचो उपदेश केलो. उप्रांत पूर्णाचे विनंतीक मान दिवन तो सुप्पारक (शुर्पारक) शारांत गेलो. थंय जायते व्यापारी आसले. तांकांय ताणें उपदेश केलो, अशी कथा क्रिस्ताच्या पैल्या शेंकड्यांत बरयल्ल्या, लंखेंतल्या 'अमावतुर' ह्या सिंहली पुस्तकांत मेळटा.

महावंश नांवांचें एक वीर काव्य क्रिस्ताच्या पांचव्या शेंकड्याचे अखेरेक पाली भाशेंत रचलां. तातूंत बुद्ध धर्माची खबर सांगतासतना म्हळां की, अशोकाचे राजवटिच्या सतराव्या वर्सा मोग्गलि बामणाचो पूत थेर तिस्स हाणें बुद्ध धर्म पातळावपाखातीर अपरान्ताक योन धम्मरक्खित आनी महारट्ठाक महाधम्मरक्खित हे थेर धाडले. क्रिस्ताच्या तिसऱ्या शेंकड्याचे अखेरेक बरयल्ल्या दीपवंसांतूय अपरान्ताचो उल्लेख आसा. नाशकाक मेळिल्ल्या फातरपट्यांतय ताजो उल्लेख मेळटा.

आतांचें महाभारत, क्रिस्ताआदल्या पांचशीं वर्सांच्या सुमाराक बरयलां खंय. त्याय आदीं म्हळ्यार क्रिस्ताआदल्या पांचव्या हजारकांत, शुर्पारक नंदते-गाजतें आशिल्लें म्हणपाची नाट मेळटा.

सुमेर (सुमेरिया) जितलें प्राचीन, तितलेंच शुर्पारकय प्राचीन. शुर्पारकासाकून, सायलाचें लाकूड, काळें लाकूड, तांबें, भांगराचो पिठो आनी इंद्रनीळ रत्नां सुमेराक वतालीं. सुमेरा उप्रांत ह्यो वस्तू बाबिलोनाक वचपाक लागल्यो. ह्या वस्तूंभायर बाबिलोनाक तेरतेरेचे आवाज काडून नाचूंक शिकयल्ल्या म्होरांची निर्यात जातालीं. (**संदर्भ :** सिद्धार्थ जातकांतलें 'बावेरू जातक', खंड ३, लेखिकाः दुर्गा भागवत, पा. १०३-१०४.) शुर्पारक, शुरूपक वा सुप्पारक म्हळ्यार आतांचें सुपारें. हो गांव मुंबैचे उत्तरेक ३७ मैलांचेर आसून, वसैच्या उत्तरेक सुमार पांच मैलांचेर आसा. क्रिस्ताआदल्या काळांत ह्या बंदरांतलो व्यापार-उद्योग तरतरतालो. बिब्लांत (बायबलांत) ताका 'ओफिर' अशें म्हळां. सुमार तीन हजार वर्सांफाटीं, इस्रायलचो राजा सालोमांव आनी तिराचो राजा हिराम हांचीं तारवां शुर्पारकाक येवन, थंयच्यान भांगर, रत्नां आनी सायलाचें लाकूड व्हरतालीं. हे भाशेन, त्या काळांत शुर्पारकाचो वेव्हार, सुमेर, बाबिलोन, इजिप्त आनी पालेस्तीन मेरेन चलतालो.

अगस्तीचें नांव जशें भारताच्या पूर्व देगेकडेन जोडिल्लें आसा, तशेंच परशुरामाचें नांव पश्चिम देगेकडेन जोडिल्लें आसा. परशुराम हो जमदग्नी आनी रेणुका हांचो पूत; ताणें आपल्या अस्त्रांच्या बळार दर्याक फाटीं सरूंक लायलो. दर्या फाटीं सरून जी भूंय निर्माण जाली, ती भूंय म्हळ्यार अपरान्त. (महाभारत, शान्तिपर्व, अ. ४९).

**आधारावळः** १. कोंकणी भाशेचें जैत, बरोः

शणै गोंयबाब.
२. गोंयकारांची गोंयांभायली वसणूक, बरो; शणै गोंयबाब.
३. काहीं मराठी लेख, बरो: शणै गोंयबाब.
४. महाभारत, आदिपर्व, मराठी भाशांतर, विष्णु वामन बापटशास्त्री.
५. Indian Antiquary (reprint) vol VII, 1878, page 259.
६. सिंधु संस्कृती व कल्याण, लेखक: विवेकानन्द गोडबोले.

**अपराविद्या** । अपराविद्या, सा.रू. -द्ये; भौव. -द्या, सा.रू. -द्यां । [सं. अपराविद्या] स्त्री. कनिस्ट, सकल्या पांवड्याची विद्या, अर्थ नाशिल्ली, निरर्थक विद्या.
**विशेश:** ब्रह्मविद्या ही चड करून क्षत्रियांची विद्या आशिल्ली. ब्राह्मणांनी याग कशीं करून राखिल्लीं होम, यज्ञयागाचीं कर्मकांडां तांकां निर्फळ दिसलीं. त्यो विधी तांकां सोडून दिंवच्योशो दिसल्यो. देखून, ऋक्, यजुः, सामविद्या ताणीं अपराविद्या कशो लेखल्यो. —'इतिहास', ले: रवींद्रनाथ टागोर.

**अपरिग्रह** । अपरिग्रह्, सा.रू. -हा । [सं. अपीरग्रहः] पु. १. दान न घेवप; दानत्याग. २. प्राणरक्षणेकपासून जितलें अन्न वा धन लागता, ताज्यापरस चड मेळिल्ल्या अन्नाचो वा धनाचो केल्लो त्याग. ३. योगास्त्रांतलो पांचवो यम —अहिंसा, सत्य, अस्त्येय, ब्रह्मचर्य आनी अपरिग्रह. पार्श्वमुनीन सांगिल्ल्या चार यामांतलो चौथो याम. ह्या चार यामांच्या वा तपश्चर्येच्या योगान पूर्वजन्मांत केल्या पापांचें निवारण करून मोक्ष जोडचो अशें जैनधर्म सांगता. ४. जैनशास्त्राच्या मतान मोहाचो त्याग. ५. वाण; दळिद्र; गरिबी.
**विशेश:** पराकास्टेच्या कस्टांत आसतनापासून कोणाकडल्यानय दान न घेवप हाका 'अपरिग्रह' म्हण्टात. दुसऱ्याकडल्यान कितेंय घेतकीर मनशाचें मन आनी काळीज अपवित्र जाता. तो हीन जाता. तो आपली स्वतंत्रताय वगडावन बसता. तो पांगतो आनी आसक्त जाता. देखून, राजयोगी मनीस अहिंसा, सत्य, अस्तेय, ब्रम्हचर्य आनी अपरिग्रह ह्या यमान आपली चित्तशुद्धी साधता. (पळेयात: राजयोग, स्वामी विवेकानंद).
अन्नसत्रांत जेवूं नये, अशी जी भावना पैलींच्या समाजांत आशिल्ली तिजेंय मूळ ह्या अपरिग्रहाचेच संकल्पनेंत आसा.

**अपरिग्रही** । अपरिग्रही, सा.रू. -ह्या; भौव. -ही, सा.रू. -ह्यां । [सं. अपरिग्रहिन्] वि. १. जो धनदौलतीविणें, घरादाराविणें, परिवाराविणें आसा तो; जो बायलेविणें आसा तो. २. जो दुसऱ्यांकडल्यान कांयच घेना तो; जो संचय करिना तो.

**अपरिचय** । अपरिचय्, सा.रू. -या । [सं. अपरिचय] पु. परिचय नासप वा परिचयाचो आशिल्लो अभाव; वळख-देख नासप.

**अपरिचित** । अपरिचित्, सा.रू. -ता; भौव. -त, सा.रू. -तां । [सं अपरिचित] वि. १. ज्याचो परिचय ना असो; २. अनवळखी; वळख-देख नाशिल्लो. (अपरिचित मनशाक पातेंव नये.)

**अपरिहार्य** । अपरिहार्य । [सं. अपरिहार्य] वि. जें चुकोंवक येना अशें; परिहार करूंक न मेळपी; अटळ.

**अपरुखीं** । अपूरुखीं, अप्रुखीं । सं. अपरोक्ष] वि. समक्ष; दोळ्यांमुखार; दोळ्यांहुजीर. **क्रि.वि..** १. विणें; बगर, अभावाक लागून. (गवाये अपरुखीं गुन्यांवकाराक सोडचो पडलो.) २. अस्वडीं; दोळ्यांआड, फाटल्यान. (म्हण: अपरुखीं राय रांडेचो, हुजरीं धनी म्हजो)

**विशेश:** परोक्ष आनी अपरोक्ष हीं संस्कृत भाशेंतलीं दोन उतरां. संस्कृतावेल्यान आयिल्लया सगळ्या भासांनीं हीं उतरां गेल्यांत. कोंकणींत 'परोक्ष' हें उतर तितलेंशें घोळना. अपरोक्ष ह्या उतराचें 'अपरुखीं' हें तद्भव रूप कोंकणींत घोळटा. ह्या दोनय संस्कृत उतरांच्या अर्थाचो गोंधळ जाला. 'अपरोक्ष' म्हळ्यार 'दोळ्यांमुखार' आनी 'परोक्ष' म्हळ्यार 'फाटल्यान वा दोळ्यांआड' हो ह्या उतरांचो खेरेलो अर्थ. जाल्यारूय, हो अर्थ फाटीं पडुन दिस्त उरफाटो अर्थ हांकां दसलो आनी तो रूढय जालो. संस्कृत भाशेंत 'दोळ्यामुखार' ह्या अर्थान 'प्रत्यक्ष' हेंय उतर येता. त्या उतराकडेन सारकेंपण दिशिल्ल्यान 'परोक्ष' ह्या उतराकय 'दोळ्यामुखार' हो अर्थ घडये मेळला जावये. 'परोक्ष' आनी 'प्रत्यक्ष' हीं दोनूय उतरां तांच्या खेरेल्या अर्थान उपकारावपी एक सुभाशित आसा तें अशें:

परोक्षे कार्यहन्तारं प्रत्यक्षे प्रियवादिनम्।
वर्जयेत्तादृशं मित्रं विषकुम्भं पयोमुखम्॥

ह्या सुभाशिताचो अर्थ असो: तोंडार गोड उलोवन फाटल्यान सर्वनाश करपी इश्ट, हो वैर (तोंडार) दुधान भरिल्ल्या पूण पोंदा वीखख आशिल्ले मडकेवरी आसता. देखून, ताजो त्याग करचो.

**म्हण:** अपरुखीं राय रांडेचो, हुजरीं धनी म्हजो.

**अपरुपाचो-ची-चें ।** अंप्रुपाचॉ-ची-चँ, सा.रू. -च्या, -च्ये, -च्या; भौव. -चे, -च्यो, -चीं, सा.रू. -च्यां । [सं. 'अपरूप' वेल्यान] वि. १. अमोलिक; मोलादिक; दुर्लभ. २. अपुर्बायेचो; लक्तुबायेचो; तोखेवपासारको; तूस्त, तोखणाय, कौतुक करिसारको.

**अपरुपावळ ।** अंप्रुपावळ्, सा.रू. -ळी; भौव. -ळी, सा.रू. -ळीं. । [सं. अपरूप+आलय] स्त्री. जी शिक्षणाखातीर, अभ्यासाखातीर वा निर्भेळ आनंदाखातीर, विज्ञानिक आनी सांस्कृतिक दायजाच्या मोलादिक वस्तूंचो संग्रह करून राखता आनी तो इतिहासिक क्रमान मांडून दवरता ती सासणादिक अशी सार्वजनिक संस्था; मुझेव, म्युझियम.

**विशेश:** अपरुपावळिची कल्पना युरोपांत १५ व्या शेंकड्यांत उदेवाक आयली. जाल्यारूय, इजिप्ताच्या राजवाड्यानीं आनी तांच्या थडग्यांनीं आशिल्लयो कलेच्यो वस्तू पळेतकीर, क्रिस्ती सनापैलींच हे कल्पनेची बी किल्लून येताली म्हणपाची नाट मेळटा. बाबिलोनचो राजा दुसरो नाबोकोदोनिझोर हाजो राजवाडोय त्या काळावेल्या अपरूप वस्तूंनीं भरिल्लो आशिल्लो आनी ग्रेसियेंतल्या (ग्रीस) देल्फांतलीं आनी ऑलिंपियांतलीं देवळां एका अर्थान अपरुपावळ कशींच आशिल्लीं. अजिंठ्याच्या लेण्यांचोय अपरुपावळिंतच आस्पाव जाता.

अपरुपावळ म्हळ्यार 'जंय कलेच्यो पुराणवस्तू सांबाळून दवल्लेल्यो आसतात तो जागो' अशी अपरुपावळिंची पैलिंची व्याख्या आशिल्ली. आज अपरुपावळ वा म्युझियमाचे कल्पनेंत बदल जाला. इतलेंच न्हंय, तर म्युझियमाचे स्थापत्यांतपासून बदल जाला. वास्तुशिल्पी फ्रँक लॉयड न्हायट हाज्या प्लॅना प्रमाणें बांधिल्लो न्युयॉर्काचो 'गगनहेम म्युझियम' (Guggenheim Museum) ह्या बदलाची गवाय दिता.

आजच्या काळाच्या व्याख्येप्रमाणें अपरुपावळ म्हळ्यार, शिक्षणाखातीर, अभ्यासाखातीर वा निर्भेळ आनंदाखातीर, विज्ञानिक आनी सांस्कृतिक दायजाच्या मोलादिक वस्तूंचो संग्रह जंय सांबाळून राखिल्लो आसता आनी तो इतिहासिक क्रमान मांडून दवल्लेलो आसता अशी सासणादिक सार्वजनिक संस्था. लोकांक उपकरा पडपी अशे तरेचे सार्वजनिक संस्थेक, आंतरराष्ट्रिय म्युझियम मंडळ (International Council of Museums),

आपली मान्यताय दिता. ह्यो संस्था लोकांनीं पळोवपाखातीर सदांच उक्त्यो आसच्यो पड्टात.

अपरुपावळिचे वेले व्याख्येंत १) सार्वजनिक वाचनमंदिरांत आशिल्ल्या गॅलरिंचो आनी पुराभिलेखांचो २) इतिहासिक यादस्तिकां वा तांचो भाग; देवळांनीं, इगर्जांनीं, कातेद्रालानीं आनी मठांनीं आशिल्लया अमोलिक वस्तुंचो; इतिहासिक थळांचो; पुरातन खात्यान उस्तून काडिल्ल्या प्राचीन नगरांच्या मोडावळिंचो; प्राचीन लेण्यांचो; प्राचीन मंदिरांवेल्या शिल्पांचो ३) वनस्पतिंच्या बागांचो (Botanical Gardens), जीव-जिवाण्यांच्या पोरसांचो (Zoological Gardens), नुस्त्यांलयांचो (Aquariums), अभयारण्यांचो (Wild Life Sanctuaries), सूक्षम जीव-जंतू राखून दवरपी संस्थांचो आनी निसर्गांतल्या झऱ्यांचो, धोग्यांचो (धबधब्यांचो), तळीं आनी तळ्यांचोय आस्पाव जाता. संग्रहांच्या प्रकारांप्रमाणें अपरुपावळिंचें वा म्युझियमांचे वेगवेगळे प्रकार आसात: कलेचो, लोकवेदाचो (Folkloric), विज्ञानाचो, पोरणावळ शास्त्राचो (Archaeology), मनिसजातिच्या वर्णनांचो (Ethonography), मनिसजातिच्या विज्ञानाचो (Ethonology), आनी वेगवेगळ्या थळांनीं आशिल्ल्या थंयच्या खाशेल्या तंत्रांचो.

कांय विश्वविद्यालयांचो खासा तांचो असो म्युझियम आसता. भुरग्यांखातिरय वेगळे म्युझियम आसतात. तांच्या वर्गांप्रमाणें सरकारी, नगरपालिकांचे, खाजगत (एका मनशान उबे केल्ले. देखीक: राजा केळकर म्युझियम, पुणें) आनी फांवडेशनांचे अशे म्युझियम आसतात. प्रत्येक म्युझियम हो तातूंत आशिल्ल्या संग्रहावेल्यान, ताचे मांडणेवेल्यान, ताचे विशेश अशे विशिस्टतायेवेल्यान, मनशावरीच स्वतंत्र व्यक्तिमत्वाचो आसता. ज्यो संस्था वेगवेगळ्या विशयांचेर संशोधन करतात आनी त्या संशोधनाचो वा प्रयोगांचो दस्तऐवज साबांळून दवरून ताजो प्रसार करतात, त्यो संस्थाय अपरुपावळिंतच मोड्टात. जे परी म्युझियमांनीं प्राक इतिहास धरून आजमेरेनचें मनिसजातिचें विज्ञानिक आनी सांस्कृतिक दायज राखून आनी सांबांळून दवरूंक जाय, तेच परी तांणीं मनशाक कलेचीं आनी विज्ञानाचीं नवीं अज्ञात क्षेत्रां सोदपाक प्रेरणाय दिवपाक जाय.

**आधारावळ:** Verbo Enciclopedia Luso-Brazileiro de Cultura- Vol 13., pages 1582-1590.

**अपरूप** । अपॅरूप् । [सं. अपरूप] वि. कुरूप; विद्रूप.

**अपरूप** । अंप्रूप्, सा.रू. -रुपा; भौव. -रुपां, सा.रू. -पां । [सं. अपूर्व] न. १. अजापाची भावना निर्माण करपी गजाल; असामान्य गजाल. २. अजाप; अद्भूत; नवल. ३. तोखणाय; कौतूक, लक्तुबाय; अपुर्बाय. (कोणाचोच आधार घेनासतना तो भुरगो आपल्या कस्टानीं वैर सल्ला. देखून म्हाका ताजें अपरूप दिसता.) ४. अलौकिक कलेचो साक्षात्कार घडोवपी अप्रतिम वस्त वा वास्तुशिल्प.

**विशेश:** संवसारांत मानिल्लीं सात अपरूपां: १. कारेयाच्या राजाचें थडें (क्रिस्ताआदीं ३७७ ते ३५३). २. इजिप्तांतले पिरामिड्स. ३. आलेक्झाड्रियांतलो दिव्या-खांबो (Light House) ४. रोदिशाचो अजस्र पुतळो. ५. बाबिलोनच्यो अधांत्रीं बागो. ६. ग्रिसाच्या ओलिंपिया शारांतलो ज्युपिटरचो पुतळो. ७. आनातोलियेंतलें आर्तेमिजचें देवूळ.

**अपरूप** । अंप्रूप् । [सं. अपरूपम्] वि. १. दुर्मीळ; दुर्लभ. २. अमोलिक; मोलादिक; पवित्र (क्रिस्तस्वाम्याचें अपरूप रगत). ३. विलक्षण सुंदर; पराकास्टेचें मोहक (अपरूप मुखें). ४. अत्यंत सुकुमार; असामान्य कोटींतलें.

(ही संन्याशीण नखरे करित येता. हिजें अपरूप लावण्य म्हळ्यार दोळ्यांक अमृत). ५. मनापासून जाय आशिल्लो; जीव कीं प्राण असो; अत्यंत आवडिचो; अत्यंत प्रिय. (जे भुंयेवेल्यो फातुल्ल्यो, रेंव आनी झाडकांचो सुको पालो लेगीत अपरूप वस्तींवरी हांव लेखतां, ते भुयेंची आवै-भास खरेपणानशींच मराठी आशिल्ली जाल्यार तिका हांव धिस्पटावन उडैन अशें केन्नाच जातलें आसलें? —कोंकणी भाशेचें जैत, बरोः शणै गोंयबाब, पा. ३०) ६. भोव सुरबूस; अत्यंत सुवादिक वा रुचीक (आजचें हुमण सामकें जिबेर उल्लें, इतलें तें अपरूप जालां.) ७. लाखा मोलाची (अपरूप बुद्ध).

**अपर्णा** । अपर्णा, सा.रू. -र्णे । [सं. अपर्णा] स्त्री. पार्वतीचें आनी दुर्गेचें एक नांव.

**अपर्तु** । अपर्तु । [संः अप + ऋतु] वि. १. अवेळें; अकाळें. २. जिचें भस्टें बंद जालां वा गेलां अशी (बायल).

**अपलक्षण** । अपलक्षण्, सा.रू. -णा, भौव. -णां, सा.रू. -णां । [सं. अपलक्षणम्] न. पाडें लक्षण, वांकडें, वायट चिन्न; दोश.

**अपलाप** । अपलाप्, सा.रू. -पा; भौव. -प, सा.रू. -पां । [सं. अपलापः] पु. १. ज्ञान लिपोवप वा सांगुंक न्हंयकार दिवप. २. सत्य, विचार, भावना लिपोवप. ३. विपर्यास.

**अपवचन** । अपवचन्, सा.रू. -ना; भौव. -नां, सा.रू. -नां । [सं. अपवचनम्] न. अपशब्द; गाळ.

**अपवाद** । अपवाद्, सा.रू. -दा; भौव. -द, सा.रू. -दां । [सं अपवादः] पु. १. दोश. २. निंदा; अपकीर्त. ३. नेमाआड आशिल्ली गजाल; आडवाद. ४. विरोध; प्रतिवाद; खंडण.

**म्हणीः** १. अपवादाबगर नेम ना.
२. नेम आसा थंय अपवाद आसा.

**अपवित्र** । अपवित्र् । [सं. अपवित्रम्] वि. १. जें पवित्र न्हंय तें, अमंगळ. २. म्हेळें; भस्टल्लें; अशुद्ध; दोश आशिल्लें.

**अपविद्या** । अपविद्या, सा.रू. -द्ये । [सं. अपविद्या] स्त्री. १. अज्ञान. २. माया; अविद्या.

**अपव्यय** । अपव्यय्, सा.रू. -या; भौव. -व्यय, सा.रू.- यां । [सं. अपव्ययः] पु. धर-बंध नाशिल्लो खर्च; विद्वाटो खर्च; उधळपट्टी.

**अपव्ययी** । अपव्ययी । [सं. अपव्ययिन्] वि. जो दुडू कशाकसोय खर्चिता तो; जो दुडवांची वाट लायता तो; जो दुडू उदक कसो मोडटा तो; विद्वाटो.

**अपशकुनी** । अपशकुनी, सा.रू. -न्या; भौव. -शकुनी, सा.रू. -न्यां । ['अपशकून' वेल्यान] वि. अपशकून करपी; अवलक्षणी.

**अपशकून** । अपशकून, सा.रू. -ना; भौव. -शकून, सा.रू. -नां । [सं. अपशकुनम्] पु. १. मुखावेल्या संकटाची सुलूस दिवपी चिन्न वा लक्षण; अशुभाची मेळिल्ली सुचोवणी वा सुलूस; अशुभाची जोगलावणी; नकलामी. २. अवलक्षण.

**वा.प्रः अपशकून करपः** नकलामी करप.
**अपशकून जावपः** अशुभाची सुलूस, सुचोवणी मेळप; नकलामी जावप.
**म्हणः** आपलें नाक कापून दुसऱ्यांक अपशकून.
**विशेशः** अपशकुनाचेर विस्वास दवरपी ह्या संवसारांत खूप जाण आसात. आजच्या विज्ञानयुगांतय अपशकुनांवेलो विश्वास पुरायेन वचूंक ना.

प्रवासाक वतना मांजर आडवें गेल्यार अपशकून मानतात. उठल्याबरोबर बोडकी

बायल दिसल्यार अपशकून मानतात, तेच परी रिती घागर वा रितो कोळसो दिसल्यारय अपशकून मानतात.

तेलगू लोकांत भुरगें सुपाचेर वा हुंबऱ्यार शिंकलें जाल्यार अपशकून मानतात.

गुजराथेंत, तेच परी गोंय धरून कोंकणांत मनीस घराभायर सरतासतना, कोणय शिंकलो जाल्यार अपशकून मानतात. इराणांतय असोच समज चलता. शिंकेचेर थंय कांय मंत्र म्हण्टात.

**अपशब्द** । अपशब्द्, सा.रू. -ब्दा; भौव. -शब्द, सा.रू. -ब्दां । [सं. अपशब्दः] पु. १. वांकडें वा अव्याकरणी उतर; रूप वा अर्थाचे नदरेन अशुद्ध उतर. २. गांवढळ, पोजडें, बुरशें उतर. ३. दुसऱ्याचो अपमान जायसारकें उतर; वर्मां-कर्मां वैर काडून घाल्ली गाळ.

**विशेश:** अपशब्द म्हळ्यार वांकडें उतर, गाळ, वा दुसऱ्याचो अपमान जायसारकें उतर. अशें उतर देशावेल्यान, जातीवेल्यान वा कुळावेल्यान वर्मां- कर्मां काडून दिल्लें आसूं येता. देखून, पैलिंच्या काळांत हाजे 'देशाक्रोश', 'जात्याक्रोश' आनी 'कुळाक्रोश' अशे तीन प्रकार मानताले.

गाळ संवप हो अपराध मानताले. देखून, ह्या अपराधाक दंड म्हळ्यार ख्यास्त आसताली. जितली गाळ खर, तितली ख्यास्त खर आसताली. ह्याखातीर, अपशब्दाचे तीन भेद केल्यातः निस्ठूर, पोजडो (अश्लील) आनी तीव्र.

निस्ठूर अपशब्दः फटिंग, चोर, नागवणो बी.
पोजडो अपशब्दः आवय वेल्यान आनी भयणी वेल्यान घाल्ली बुरशी गाळ
तीव्र अपशब्दः थोंटो, काणो, पोंगो, बी.
**संदर्भ:** महाराष्ट्र ज्ञानकोश, पा. २९२-२९३.

**अपसर्जन** । अपसर्जन्, सा.रू. -ना. । [सं. अपसर्जनम्] न. १. विसर्जन, त्याग. २. दान. ३. मोक्ष.

**अपसव्य** । अपसव्य् । [सं. अपसव्य] वि. दावो न्हंय तो; उजवो.

**वा.प्र.: सव्यापसव्य (सव्य अपसव्य) करप:** मेल्ल्याच्या दिसांचे क्रियेवेळार वा श्राद्ध चलैतासतना, मेल्ल्याच्या दिसांची क्रिया करतल्या वा श्राद्ध चलयतल्या दादल्याक, आपलें जानवें दाव्या खांद्यावेल्यान उजव्या खांद्यार हाडचें पडटा. ह्यो विधी सोंपसर ताका जानवें दाव्या खांद्यावेल्यान उजव्या खांद्यार आनी उजव्या खांद्यावेल्यान दाव्या खांद्यार व्हरचेली क्रिया करची पडटा. ही क्रिया मात्शी त्रासांची जाता. हे क्रियेवेल्यान 'सव्यापसव्य करप' असो एक वाक्प्रचार घोळटेंत आयलो. 'नाका आशिल्लयो उचापती करप' असो ह्या वाक्प्रचाराचो अर्थ जाता.

**अपसारण** । अपसारण्, सा.रू. -णा। [सं. अप+सृ] न. पैस करप; पेल्यान काडप.

**अपसारणचिन्न** । अपसारणचिन्न्, सा.रू. -न्ना। [सं. अपसारण + चिन्ह] न. बरोवपांत उपकारावपाचें एक विरामचिन्न.

**विशेश:** बरोवपांत अपसारणचिन्न (—) अशें दाखैतात. फुडें दाखयल्ले परिस्थितींत हें चिन्न उपकारायतात.

१) उलयतां उलयतां विचाराची माळ तुटली जाल्यार. देखीकः हांव थंय गेल्लों, पूण —
२) फोडणिशी करपाची आसली जाल्यार. देखीकः तो भुरगो — जो बोर्डांत पैलो आयला — आमचे बिल्डिंगेंत रावता.
३) विवक्षित अर्थाकडेन लग्निक नाशिल्ली अशी एकाद्री गजाल वाक्यांत सांगपाची आसली जाल्यार. देखीकः म्हजें मत अशें आसा कीं — पूण तें वेगळें कित्याक सांगूंक जाय — मनशान सदांच प्रामाणिकपणान चलचें.

**अपस्नान** । अपस्नॉन्, सा.रू. -ना । [सं. अपस्नानम्] न. दहन क्रियेउप्रांत मसंडेंतल्यान घरा येतकीर केल्लें स्नान.

**अपस्मार** । अपॅस्मार्, सा.रू. -रा । [सं. अपस्मारः] पु. १. परिणामाचो फाटलो-फुडलो विचार करिनासतना बेधडक केल्लें धाडस वा साहस. २. (वैजकी) मोल्लुकें, मोडणें मारून येवपाची पिडा.
**वि.** अतोनात; अपरंपार (दर्यांत अपस्मार नुस्तें आसा.)

**अपस्मारपण** । अपस्मार्पण्, सा.रू. -णा। [सं. 'अपस्मार' वेल्यान] न. परिणामाचो फाटलो-फुडलो विचार करिनासतना बेधडक साहस वा धाडस करचेली वृत्ती.

**अपस्मारी** । अपॅस्मारी, सा.रू. -ऱ्या; भौव. -री, सा.रू. -ऱ्यां । [सं. अपस्मारिन्] वि. १. जो परिणामाचो विचार करिनासतना बेधडक साहस करता तो. २. (वैजकी) ज्याका मोडणें मारून येता तो.

**अपहरण** । अपहॅरण्, सा.रू. -णा; भौव. -णां, सा.रू. -णां । [सं. अपहरणम्] न. १. आगळिक; लूट; नागौण. २. नाश. ३. घेवन वचप; व्हरप. (रावणान सीतेचें अपहरण केलें.)

**अपहार** । अपहॅार्, सा.रू. -रा; भौव. -र, सा.रू. -रां । [सं. अपहारः] पु. दुसऱ्याच्या हक्काची वस्त आगळिकेन, अन्यायान हातासपाची क्रिया; अन्यायान वा नाडानाडीन दुसऱ्याची वस्त, द्रव्य, भाट-बेंस, घर-दार गिळंकृत करचेली करणी. (कोंकण्यांक दुसऱ्यालो अपहार करची वान्सा ना. तो सात्वीक आनी प्रामाणीक —येवकार अध्यक्षालें उलवपः ऐन वेळार, बरोः शणै गोंयबाब, पा. १०१.)

**अपहारप** । अपहारॅप्, सा.रू. -पा । [सं. अप् + हृ] क्रि.दा.धा.सा.ना. (मूळ धातूः अपहार् (सक).) अपहार करप; हातासप.

**अपहारी** । अपहॅारी, सा.रू. -ऱ्या; भौव. -री, सा.रू. -ऱ्यां । [सं. अपहारिन्] वि. जो दुसऱ्यांचें धन, भाट-बेंस, घर दार वा कसलीय वस्त आगळिकेन, अन्यायान हातासता तो वा अन्यायान गिळंकृत करता तो, बळयादपी; लुटार; नागोवणो. (वाल्मिकीन रामायण रचून गुणेस्त आनी सगळ्या संवसाराक देखवंत अशीं मनशां जल्मा घालीं, तशींच आमी घालूंक जायत. चोर, शिंदळ, रांडये, जुगाड्डे, सुरांडे, खुनमारे, नागोवणे, नाड, तड्की, ढोंगी, अपहारी, आंगार-पडे, बगलांठे, बिर्मते, फटकिरे असल्यांचो नश्ट्यो आनी पातक्यो करण्यो तोखेवन आनी फुलोवन सांगून, तसलीं मनशां आमी निर्मूंक जायनात. —येवकार अध्यक्षालें उलोवपः ऐन वेळार, बरोः शणै गोंयबाब, पा. ११०).

**अपक्ष** । अपॅक्ष् । [सं. अपक्ष] वि.१. ज्याका पांखां नात तो. २. ज्याका उडपाची तांक ना तो. ३. जो कोणाचेच वटेन वा कोणाच्याच पक्षांत ना तो; जो खंच्याय पक्षाच्या पाख्याखाला ना तो; स्वतंत्र मताचो. (पुर्तु. Independente; इं. Independent).

**अपक्षपात** । अपॅक्ष्पात् । [सं. अपक्षपातः] पु. कोणाचोच पाखो, कैवार न घेवप. (पुर्तु. Imparcialidade; इं. Impartiality).

**अपक्षपाती** । अपॅक्ष्पाती । [सं. अपक्षपातिन्] वि. कोणाचो पाखो, कैवार न घेवपी; आपले विचार प्रमाण मानून चलपी; स्वतंत्र विचारांचो; लोकांची भीड न धरपी; सत्यान आनी न्यायान चलपी.

**अपांक्त** । अपांक्त् । [सं. अपांक्त्य] वि.

ज्याका पंग्तिभायर दवल्ला वा घाला तो; ज्याका जातीभायर घाला तो; ज्याचेर बहिश्कार घाला तो; ज्याचेर भस्टकार घाला तो.

**अपांग** । अपांग्, सा.रू. -गि । [सं. अ+पंगु?] स्त्री. १. पांगिचो अभाव. २. अनुपकारिपण; कृतघ्नताय; पडमुराय; बेमानपण.

**अपांगी** । अपांगी, सा.रू. -ग्या; भौव. -गी, सा.रू. -ग्यां । [सं. अ+पङ्गु?] वि. १. पांगींत नासपी; जो पांगतो न्हंय तो. २. अनुपकारी; कृतघ्न; बेमान; पडमूर.

**अपात्र** । अपात्र् । [सं. अपात्रम्] वि. पात्रताय, योग्यताय नाशिल्लो; लायकी नाशिल्लो; नालायक; अयोग्य.

**अपादान** । अपादान्, सा.रू. -ना । [सं. अपादानम्] न. १. **(व्याक.)** पांचवे विभक्तिचो अर्थ. २. पैस करप; वियोग.

**अपान** । अपान्, सा.रू. -ना । [सं. अपानः] पु. १. कुडिंतल्या पांच प्राणांतलो (प्राण, अपान, व्यान, उदान आनी समान) दुसरो. हो नाडींत आसता. २. उश्वास. ३. नाड; जंयच्यान परसाकडचें जाता तें इंद्रिय; गांड.
**—वायः** पु. पाद.

**अपाय** । अपाय्, सा.रू. -या; भौव. -य, सा.रू. -यां । [सं. अपायः] पु. १. नाश; लुस्काण; विध्वंस. २. आपत्ती; संकट; विघ्न.

**अपार** । अपार् । [सं. अपार] वि. १. तड, देग नाशिल्लो. २. म्हेर, शीम ना असो; अमर्याद. ३. अतोनात; अगणित; असंख्य. ४. खूप व्हडलो.

**अपार्थिव** । अपार्थिव् । [सं. अपार्थिव] वि. जो पृथ्वीकडेन लग्निक ना तो; जो मातयेंतल्यान जन्माक येंवक ना तो; अभौतिक.

**अपाळक** । अपाळॅक्, सा.रू. -का; भौव. -क, सा.रू. -कां । [सं. अ+पालक] वि. जो आज्ञा पाळिना तो; ज्याका आज्ञेचो भंग करपाची संवंय आसा तो. (संवसारांतु तूं व्हडिवे नंदनिके ठाईं चडूं नाकासि, कित्या तूं तुज्या ठाईं, अपाळक होउनु वर्तलोसि. —वनवाळ्यांचो मळो, बरोः फा. मिग्येल द आल्मैद, संपा. डॉ. वि. बा. प्रभुदेसाई, पा. ३३)

**अपाळकु** । अपाळकु । [सं. अ+पालक] वि. पळेयात 'अपाळक'.

**अपाळो** । अपाळॉ, सा.रू. -ळ्या; भौव. -ळे, सा.रू. -ळ्यां । [सं. अ+पालन] पु. आज्ञा न पाळप; सांगिल्लें न आयकप; आज्ञाभंग. (अपाळो हो भुरग्यांचो सगळ्यांत व्हडलो अवगुण.)

**अपील** । अपील्, सा.रू. -ला; भौव. -लां, सा.रू. -लां । [इं. Appeal] न. १. निवेदन; विनंती अर्ज; अर्दास. २. सकल्लया न्यायालयान दिल्लया निकालाचो परत विचार करपाखातीर, ताज्या वेल्या न्यायालयाकडेन केल्ली विनंती. ३. तक्रार-अर्ज; एकाद्रया अधिकाऱ्यान दिल्लया निकालान, आपल्याचेर अन्याय जाला हे भावनेन, ताज्या वेल्या अधिकाऱ्याकडेन केल्लो तक्रार-अर्ज. ४. आवाहन.
**वा.प्र.: अपील करपः** आवाहन करप; निर्णय मागप.
**अपील जावपः** मनाक भावप.

**अपुरो** । अपुरॉ । [सं. अ+पूर्ण; अप. अपूरअ] वि. अर्दुकुटो; पूर्ण जांवक नाशिल्लो.

**अपुर्ताय** । अपुर्ताय्, सा.रू. -ये; भौव. -यो, सा.रू. -यां । [सं. अपूर्तिः] स्त्री. १. जाय तितलें वा गरज भागता इतलें नासप; साधनांची उणाय. २. **(ला.)** फाव तितलें

नाशिल्लें कर्तुत्व; जाय तितली नाशिल्ली हिकमत. (काम जातलें आशिल्लें. जाल्यारूय, ताजी अपुर्ताय आड आयली).

**अपुर्तो-र्ती-र्ते** । अंपुर्तॉ-र्ती-र्तॅं, सा.रू. -र्त्या, -र्ते, -र्त्या । ['अपुर्ताय' वेल्यान] वि. जो पुरो जायना वा पावना तो; जो गरजेपरस थोडो, उणो जाता तो. (अपुर्तो आहार). **(ला.)**१. जाय तितलें कर्तुत्व वा जाय तितली हिकमत नाशिल्लो. २. पोंच, शाणेपण नाशिल्लो; अर्दुकुटो.

**अपुर्बाय** । अंपुर्बाय, सा.रू. -ये; भौव. -यो, सा.रू. -यां । [सं. अपूर्व+कों.ता.कू.आय] स्त्री. १. अर्थ; आळ्ळ; माया; मोग. (भुरगी म्हळ्यार फुलां. तांची अपुर्बाय करून तांकां वैर काडपाक जाय.) २. तोखणाय; कौतुक. (जो भुरगो आपल्या घराण्याचें नांव व्हडविकेक चडयता, त्या भुरग्याची कोणाकय अपुर्बाय दिसता.) ३. माथावणी; ताथोमाथो. (गोंयचे पुर्तुगेज सरकार हालीं कोंकणी भाशेची अपुर्बाय करता हें पळोवन, आमगेल्या कांय विरोध्यांल्या पोटांत चाबूंक लागलां. —ये.अ.अु., बरो: शणै गोंयबाब., पा. ५१.) ४. नवलाय. (सदांचीच गजाल ती. जाल्यारूय, ताणें ती केन्नाच पळोंवक नाशिल्लयान, ताका ते गजालिची अपुर्बाय दिसता.)

**म्हण:** अपुर्बायेन वाढैलो, भंगस्तळाक पावैलो.

**अपुर्बायेचो-ची-चें** । अंपुर्बायेचॉ-ची-चँ, सा.रू. -च्या, -चे, -च्या; भौव. -चे, -च्यो, -चीं, सा.रू. -च्यां । ['अपुर्बाय' वेल्यान] वि. १. मोगाचो; माये-मोगाचो; जिवाचो; काळजाचो गोंडो कसो; ज्याचेर अत्यंत माया आसा असो; अत्यंत लाडको. (अपुर्बायेचो पूत). २. तोखणायेचो; तोखणाय करिसारको; ज्याची तोखणाय करूंक फावता असो. ३. भार घेवन केल्लें; नजाकतिचें; नकसूद. (अपुर्बायेचें काम). ४. नाजूक; शिरवंत; रुचीक (अपुर्बायेचो तोंडा दिवो). ५. अप्रतिम; मोलादिक. (अपुर्बायेचें चित्र). ६. गोड; मधूर; म्होंवो; लाल्लूक. (अपुर्बायेचो ताळो). ७. नवलायेची (अपुर्बायेची गजाल).

**अपुर्बुद्द** । अंपुर्बुद्द, सा.रू. -द्दि । [सं. अपूर्ण+बुद्धिः] स्त्री. १. अपुर्ती, उणी बुद्द; पिसाय. (ते आपणाक 'पुर्तुगेज' म्हणैतात ही तांगेली अपुर्बुद्द आनी हे आपणाक 'मराठी' म्हणैतात ही तांगेली शाणेली बुद्द.- ये.अ.अु अैन वेळार, बरो: शणै गोंयबाब, पा.९३). २. दोश; बोल; दुशण; गुन्यांव (हे दिस म्हळ्यार धडधड्यांचे. ह्या वेळार, हेरां लोकां भाशेन आमगेलेय लोक वाट मेळत थंय धांवतात. पुण तांची अपुर्बुद्द कोण करीत? —ये.अ.अु., बरो: शणै गोंयबाब, पा.७५). ३. फजेत; हांशे. (..देखून, सरकारान वाट पळोंवची आनी भायल्या लोकांक गोंयची जमीन वसौंक दिंवची न्हंय. दिल्यार संवसारांत ताजी अपुर्बुद्द जावन, लोक ताका पिशेपण लायतले. —न. गोंय, ४ थो आंक, आब्रील १९३६, संपा: का.श्री.नायक, पा.१६२).

**वा.प्र.: अपुर्बुद्द करप:** दोश, बोल लावप; दुशण दिवप; गुन्यांव करप.

**अपुर्बुद्द जावप:** फजेत, हांशें जावप.

**अपुर्बुद्दपण** । अंपुर्बुद्दपण्, सा.रू. -णा । ['अपुर्बुद्द' वेल्यान] न. पिशेपण; भुरगेपण; अविचार (...तरी सुमार पस्तीस वर्सां फाटीं चिके अपुर्बुद्दपणान, हांवें तांगेले चाली आड कडकडीत मजकूर बरैलो. —ये.अ.अु- अैन वेळार, बरो: शणै गोंयबाब, पा. १०६.)

**अपूर्ण** । अंपूर्ण । [सं. अपूर्ण] वि. १. पूर्ण, पुराय जांवक ना तो; अर्दुकुट्यार उरिल्लो. (अपूर्ण वाव्र). २. दोश, किल्मिश, उणेंपण आशिल्लो.

**—काळ:** पु. **(व्याक.)** क्रिया पूर्ण जांवक ना, नाशिल्ली वा नासतली म्हणपाचें जीं क्रियापदां दाखयतात, त्या क्रियापदांनी परगटायल्लो काळ. देखीक: १) तो बरयत आसा. २) हांव आयलों, तेन्ना तो बरयत आशिल्लो. ३) धा वरांचेर येंव नाका; तेन्ना हांव बरयत आसतलों.
**—विराम:** पु. **(व्याक.)** बरोवपांत उपकरायतात त्या विराम चिन्नांतलें एक चिन्न. हें चिन्न (:) अशें बरयतात. कांय वेळार तें (:-) अशेंय बरयल्लें मेळटा.

वाक्याचे अखेरेक जेन्ना कांय तपशील दिवपाचो आसता, तेन्ना हें चिन्न उपकरायतात. देखीक: मुखार दिल्लया क्रमांकाचीं भुरगीं परिक्षेंत पास जाल्यांत: १, २, ४, ७, ८, १०.

अपूर्णविरामाक 'उपपूर्णविराम' अशेंय म्हण्टात.

**अपूर्णताय** । अंपूर्णताय्, सा.रू. -ये । [सं. 'अपूर्णता' वेल्यान] स्त्री. १. अपूर्ण आसपाची स्थिति वा अवस्ता; अर्दुकुटी अवस्ता. २. दोश; किल्मिश; उणाय.

**अपूर्णांक** । अंपुर्णाङ्क, सा.रू. -ङ्का; भौव. -ङ्क, सा.रू. -ङ्कां । [सं. अपूर्ण+अङ्क:] पु. १. पूर्ण नाशिल्लो आंकडो. २. पूर्ण अंकाचो वांटो, भाग वा अंश दाखोवपी संख्या. देखीक: एक-चतुर्थांश; पांच-अस्टमांश; पाव; अर्दो; पाऊण बी.
**विशेश:** अपूर्णांकांतलीं अर्द (१/२), त्रिपाद (३/४) हीं उतरां ऋग्वेदांत मेळटात. 'मैत्रायणी संहितें'त कलम (१/१६), कुष्ठ (१/१२), शफ (१/८), पाद (१/४) हांचो उल्लेख आसा. 'शुल्बसूत्रां'त अपूर्णांक उपकरावन उदाहरणां सोडयल्लीं मेळटात. त्र्यष्ट (३/८) अशासारके अपूर्णांक क्रिस्ताआदल्या ३०० वर्साच्या सुमाराक घोळटेंत आशिल्ले.

अपूर्णांकांच्यो जाती वा गट मानपाची पद्धत आशिल्ली. अपूर्णांकांखातीर 'भाग' वा 'अंश' हींय उतरां उपकरायताले.

आजचे वरीच अपूर्णांक बरयतना वेव्हारी पद्धतीन वैर सकल अशे आंकडे बरोवन दाखोवपाची रीत आशिल्ली. पुण अपूर्णांक बरयतासतना मदली (—) रेग दिनासतना बरयताले.

आंकड्यांनीं बरोवपाची पद्धत सुरू जांवचे पैलीं, जशे आंकडे उतरानींच बरैताले, तशेच अपूर्णांकय उतरांनींच बरैताले.
**आधारावळ:** 'गणितशास्त्र': प्राचीन भारतीय भौतिक विज्ञान, बरो: श्री. भि. वेलणकर. पा. ६८-६९.

**अपूर्व** । अंपूर्व । [सं. अपूर्व] वि. १. पैलेंवैलेंच; ह्या पैलीं अणभवाक येंवक नाशिल्लें. २. अप्रतिम; अप्रूप; अप्रूब. ३. क्वचित घडसारके; दुर्लभ; अमोलिक; मोलादिक. ४. अलोकीक; विलक्षण; असामान्य.

**अपूर्व** । अपूर्व, सा.रू. -वा भौव. -वीं, सा.रू. -वीं । [सं.'अपूर्व'] न.१. सहसा नदरेक पडना अशी अद्‌भूत वस्त; अजापांची, नवलांची वस्त. २. अचर्य; चमत्कार (अभिस्टांचें अपूर्व) ३. परमात्मो; परब्रह्म

**अपूर्वाय** । अपूर्वाय्, सा.रू. -ये । ['अपूर्व' वेल्यान] स्त्री. १. अपूर्वाचें लक्षण वा गुण २. नवलाय; अजापाय.

**अपेशी** । अपेशी, सा.रू. -श्या; भौव. -शी, सा.रू. -श्यां । [कों. अपेस + ता. कू. ई] वि. १. ज्याकां यश मेळूंक ना तो; यश जोडूंक न पावपी. २. ज्याका यश मेळना वा ज्याचें येवजिल्लें साधना असो. ३. ज्याणे हार खाल्या तो; ज्याचो पराजय जाला असो. ४. **(ला.)** अभागी; दुर्भागी; कर्मकट्टो; व्हडविकेची वान्सा नाशिल्लो; भिकमागो (अपेशी अवलाद).

**अपेस** । अपॅस, सा.रू. -सा; भौव. -सां,

सा.रू. -सां । [सं. अपयशस्] न. १. यशाची उणाय; निर्फळ जाल्लो यत्न; आपल्या आड गेल्लो निर्णय, निकाल. २. हार; पराजय. ३. (ला.) दुर्भाग्य; अपकीर्त.
**वा.प्र: अपेसाचो धनी:** निमित्त्याक कोणय तरी जाय म्हणून, ज्याच्या माथ्यार आपल्या अपेसाचो बुडकुलो फोड्टात तो.
**म्हण:** मर्णापरस अपेस खोटें.

**अपेस्टा** । अपेस्टा, सा.रू. -स्टे; भौव. -स्टा; सा.रू. -स्टां । [सं. अप+इष्ट] स्त्री. हाल; अपदा; वळवळो; भोयो. (फिर्ग्यांच्या अपेस्टांची ही खबर सवाईक कळली आनी ताणें ती माशादाक सांगली. —आल्बुकेर्कान गोंय कशें जिखलें, बरो: शणै गोंयबाब, पा. ४५).

**अपेक्षा** । अपेक्षा, सा.रू. -क्षे; भौव. -क्षे, सा.रू. -क्षां । [सं. अपेक्षा] स्त्री. १. इत्सा; आस. (ह्या संवसारांत प्रत्येकाक धनाची अपेक्षा आसता). २. गरज; जरूरी. (संन्याशाक घरादाराची अपेक्षा नासता). ३. भरवंसो; आशा (दुसरे आपलें काम करतले म्हणपाची जो अपेक्षा धरता, तो समुळनिशीं बुड्टा).
**वा.प्र.: अपेक्षा करप:** इच्छिल्ल्याप्रमाणें मेळटलें अशी आशा धरप वा मनासारकें घड्टलें म्हणून वाट पळेत रावप.
**अपेक्षा धरप:** भरवंसो धरप; आशेर रावप.

**अपेक्षादिक** । अपेक्षादिक् । [सं. अपेक्षा + कों. आदिक] वि. १. जितल्याचीय अपेक्षा करूं येता तें. २. जितलेंय इत्सुपासारकें आसा तें. ३. काम्य.

**अपेक्षित** । अपेक्षीत् । [सं. अपेक्षित] वि. १. ज्याची अपेक्षा केल्या वा ज्याची अपेक्षा आसता तें; इच्छिल्लें; आशेल्लें. २. ज्याची वाट पळेतात अशें. ३. गरजेचें. ४. ज्याची कल्पना आशिल्ली अशें; जें घडूंक पावता अशें.

**अपौरुश** । अपौरूश् । [सं. अपौरुष] वि. १. दादलेपण नाशिल्लो; शंढ; खोजो. २. भिजूड.

**अपौरुशेय** । अपौरुशेय् । [सं. अपौरुषेय] वि. १. मनाचे तांकीभायलें; ईश्वरी; दैवी (वेद हे अपौरुशेय आसात अशें मानताले). २. ज्याचें सृजन, निर्मणी कोणाकडल्यान जाल्या तें कळना अशें (लोकवेद हो अपौरुशेय आसा).

**अप्तागिरी** । अप्तागिरी, सा.रू. -री । ['अप्तागीर' वेल्यान] स्त्री. पळेयात 'अपतागिरी'.

**अप्तागिरो** । अप्तागिरो, सा.रू. -ऱ्या; भौव. -रे, सा.रू. -ऱ्यां । ['अप्तागीर' वेल्यान] पु. पळेयात 'अपतागिरो'.

**अप्तागीर** । अप्तागीर्, सा.रू. -गिरा; भौव. -गिरां, सा.रू. -गिरां । [फा. आफ़ताब-गीर] न. पळेयात 'अपतागीर'.

**अप्रकट** । अप्रकॅट् । [सं. अप्रकट] वि. १. न दाखयल्लें; उक्तें न जाल्लें; अव्यक्त; अप्रसिद्ध. २. अस्पस्ट; स्पस्ट जांवक नाशिल्लें.

**अप्रकाशित** । अप्रकाशीत् । [सं. अप्रकाशित] वि. १. जो काळखांत आसा तो. २. प्रकट जांवक नाशिल्लो. ३. जो छापून उजवाडाक येंवक ना तो. (अप्रकाशित ग्रंथ).

**अप्रखर** । अप्रखॅर । [सं. अप्रखर] वि. १. जो खर न्हंय असो. २. मोव; कोमल.

**अप्रगल्भ** । अप्रगॅल्भ् । [सं. अप्रगल्भ] वि. १. भिडेस्त; जो खांकुड्टा वा लजेता तो. २. भित्रो; भिजूड.

**अप्रचलित** । अप्रचलीत् । [सं.अप्रचलित] वि. घोळटेंत नाशिल्लो; प्रचलित नाशिल्लो.

**अप्रतिम** । अंप्रतीम । [सं. अप्रतिम] वि. १. ज्याका सर, पार ना असो; अजोड. २. अद्वितीय. ३. अत्यंत उत्कृस्ट; अप्रूप (अप्रतिम शिल्प) ४. भौच नकसूद; अत्यंत बरे आयटिकेन केल्लो (अप्रतिम दागिनो). ५. भौच सुरबूस; जिबेर उरसारको (अप्रतिम हालवो).

**अप्रतिस्टा** । अप्रतिस्टा, सा.रू. -स्टे; भौव. -स्टा, सा.रू. स्टां । [सं. अप्रतिष्ठा] स्त्री. १. अपमान; मानखंडन. २. अपकीर्त; विटंबना; विटणूक. ३. फजेत.

**अप्रतिस्ठा** । अप्रतिस्ठा, सा.रू. -स्ठे; भौव. -स्ठा, सा.रू. -स्ठां । [सं.अप्रतिस्ठा] स्त्री. पळेयात 'अप्रतिस्टा'.

**अप्रत्यक्ष** । अप्रत्यक्ष् । [सं. अप्रत्यक्ष] वि. १. अदृश्य; परोक्ष; दोळ्यांआड आशिल्लो; जो सामुखार ना तो. २. दोळ्यांआड घडिल्लो; जाणापरींत नाशिल्लो. ३. हाजिर वा हजर नाशिल्लो.
**—कर**: (अर्थशा.) प्रत्यक्ष वसूल करिनासतना आडहातयां वसूल केल्लो कर. देखीकः कस्टमाचो आयात म्हालावेलो कर; व्रिकी कर.
**—पुरावो**: परिस्थितीवेल्यान वा अनुमानावेल्यान काडिल्लो वा मेळिल्लो पुरावो.

**अप्रबुद्द** । अंप्रंबुद् । [सं. अ+प्रबुद्ध] वि. १. अजाण; मत, गिन्यान नाशिल्लो. २. अपुर्तो; अबुद्दी; भुरगेबुद्धिचो. ३. अन-अणभवी.

**अप्रमाण** । अप्रमाण् । [सं. अप्रमाण] वि. १. अमर्याद. २. असत्य; फट. ३. जें प्रमाण मानूंक येना अशें; जें मान्य करूंक येना अशें.

**अप्रमित** । अंप्रंमित् । [सं. अपरिमित] वि. पळेयात 'अपरमीत'.

**अप्रवीण** । अंप्रवीण । [सं. अप्रवीण] वि. जो प्रविण न्हंय तो; घटी मेळूंक नाशिल्लो; वळसूंक नाशिल्लो.

**अप्रशस्त** । अप्रशस्त् । [सं. अप्रशस्त] वि. जें प्रशस्त न्हंय तें; गैर; रितिभायलें; चार-चौगांत वा मदलशेंत सोबना अशें.

**अप्रसन्न** । अप्रसन्न । [सं. अप्रसन्न] वि. १. जो प्रसन्न, खुशालभरित न्हंय तो; असंतुस्ट; असमाधानी; नाखूश. २. खिन्न; उदास.

**अप्रसिद्ध** । अंप्रंसिद्ध । [सं. अप्रसिद्ध] वि. १. जो प्रसिद्ध, नांवाजतो न्हंय तो; ज्याचो लोकिक, नामना जांवक ना तो; बाबत; किरकोळ. (अप्रसिद्ध लेखक). २. गोत्राचो, कुळाचो थांगपत्तो नाशिल्लो (अप्रसिद्ध वंश). ३. उद्भवकाळाक, उर्जितावस्तेक येंवक नाशिल्लो (अप्रसिद्ध गांव). ४. आडकुचो; खांचि-गोंयड्यांतलो; खांचोटांतलो (अप्रसिद्ध जागो). ५. उजवाडाक येंवक नाशिल्लो; छापून भायर सरूंक नाशिल्लो. (अप्रसिद्ध ग्रंथ). **क्रि.वि.** जाग-माग लायनासतना; अज्ञातरूपान (प्रजा सुखी आसा काय ना हें पळोवपाक राजा अप्रसिद्ध भोंवतालो).

**अप्रस्तुत** । अंप्रस्तूत । [सं. अप्रस्तुत] वि. विशय, काळ वा प्रसंग हांचेकडेन संदर्भ नाशिल्लो वा हांचेकडेन संबंध नाशिल्लो; अयोग्य; अनुचित; अनाठांय.

**अप्राप्त** । अप्राप्त । [सं. अप्राप्त] वि. जें मेळूंक ना तें; जें प्राप्त जांवक ना तें.

**अप्राप्य** । अप्राप्य । [सं. अप्राप्य] वि. जें मेळूंक शक्य ना तें; अलभ्य.

**अप्रामाणिक** । अप्रामाणीक, सा.रू. -क; भौव. -क, सा.रू. -कां । [सं. अप्रामाणिक] वि. १. जो प्रामाणिक न्हंय तो; ज्याचेर पातयेंवक नज असो. २. फटकिरो; सिंतारी.

**अप्रिय** । अप्रीय । [सं. अप्रिय] वि. जें आवडना, मानना, रूचना तें. (सत्य सदांच अप्रिय आसता).

**अप्रुपांचो-ची-चें** । अप्रुपांचो- ची- चँ; सा.रू. -च्या,-चे,-च्या; भौव. -चे,-च्यो,-चीं; सा.रू. -च्यां । ['अपरूप' वेल्यान] वि. १. अजापाचो; अभिस्टांचो; नवलांचो. २. अपुर्बायेचो; लक्तुबायेचो. ३. शीण वचसारको; सुश्रांत (चल अलर्का, खंय वाट चुकल्या पळे आमचे भोंवडीकार वांगडी, हाड तांकां हांगां, आसासर थोडो उसव घेंवदी तांकां ह्या शितळ पूर्ण कुंजांत अप्रुपांचो विसव. —वासवदत्ता, मूळ बरो: श्री अरविंद, कोंकणी रूपकार: बा.भ. बोरकार, पा. १५.)

**अप्रुपावळ** । अप्रुपावळ्, सा.रू. -ळी; भौव. -ळी, सा.रू. -ळीं । [सं. अपरूपम् + आलय] स्त्री. पळेयात 'अपरुपावळ'.

**अप्रूप** । अप्रूप्, सा.रू. -पा; भौव. -पां, सा.रू. -पां । [सं. अपूर्व] न. पळेयात 'अपरूप'.

**अप्रूब** । अप्रूब्, सा.रू. -बा; भौव. -बां, सा.रू. -बां । [सं. अपूर्व] न. पळेयात 'अपरूप'.

**अप्सरण** । अप्सरण्, सा.रू. -णां; भौव. -णां, सा.रू. -णां । [सं. अपसरणः] न. १. विनाकारण आयिल्लो आळ; कारणाविणें लागिल्लो बोल, दोश वा दुशण. २. आंगार आयिल्लें नस्तें किचांट वा लचांड.

**अप्सरा** । अप्सरा, सा.रू. -रे; भौव. -रा, सा.रू. -रां । [सं. अप्सरस्, अप्सरा] स्त्री. १. उदकाच्यो राखणायत देवता; वेदकाळापैल्यो लोकमाता वा मातृदेवता. २. क्षीरसागराच्या मंथनांतल्यान जन्माक आयिल्ल्यो स्वर्गलोकांत रावपी विलक्षण सुंदर बायलो. ३. नाचून आनी गावन देवांचें रंजन करपी देवलोकांतली कलंवतां. ४. गंधर्वांच्यो बायलो. ५. कृष्ण भगवानाचो परिवार जाल्ल्या सोळा हजार बायलांतली दर एक जाण. **(ला.)**. पराकास्टेच्या म्हॉव्या लावण्यान सासणाचीच चंवरून घोंसार आयिल्ली बायल; अत्यंत मोहक बायल; पराकास्टेची सुंदर बायल.

**विशेशः** अप्सरा ह्यो उदकाच्यो राखणायत देवता. 'ऋग्वेदां'त पांचच वेळा अप्सरा हें उतर मेळटा, आनी उर्वशी हे एकेच अप्सरेचें नांव थंय दिस्टी पडटा —

१. देव जें संवसाराचें वस्त्र विणता, ताका पालव दिवपाखातीर, पुर्विल्ल्या पुरातन वशिष्ठ रुशिन उर्वशी अप्सरेच्या कुसव्यांत नवो जन्म घेतलो. (ऋ. ७. ३३. ९).

२. स्वर्गांतल्या तशेंच पृथ्वीवेल्या घटितांचें पूर्ण ज्ञान आशिल्ल्या, धन आनी ज्ञान दिवपी वशिष्ठ रुशे, जन्म-मर्णाच्या ह्या परमेश्वरी चक्रांत उर्वशी अप्सरेक लागून तुमचो जन्म जाला. (ऋ. ७. ३३. १२).

३. दर्यांत रावपी ह्यो अप्सरा, सोमाक सामक्यो लंपट जाल्ल्यान, भौन भौन ताजी रूच घेतात (ऋ. ९. ७८. ३).

४. हांसत्या मुखाच्यो, जोगूल कशो ह्यो अप्सरा, आकाशलोकांत आशिल्ल्या आपल्या मोगयांक (गंधर्वांक) प्रसन्न करून, सुंदर कुपांभितर तांच्या सांगातांत रावतात. (ऋ. १०. १२३. ५)

५. सर्वज्ञानी मुनी, गंधर्व आनी अप्सरा अदृश्य रुपान मळबांतल्यान संचार करतात. (ऋ. १०. १३६. ९).

'अथर्ववेदां'त अप्सरांची मात्शी चड खबर मेळटा आनी धृताची, मेनका, रंभा, उर्वशी, तिलोत्तमा, सुकेशी आनी मंजुघोषा हांचो अत्यंत नांवाजत्यो अप्सरा म्हणून 'अमरकोश' उल्लेख करता.

अथर्ववेदांत अप्सरांक गंधर्वांच्यो बायलो म्हळ्यात. विश्वावसू गंधर्वावांगडा आशिल्ल्या अप्सरांचो नक्षत्रांकडेन संबंध लायला (अ.वे. २.२.४). अप्सरांची कृपा आसल्यार जुगारांत जुगाऱ्यांचें भाग्य फळफळटा म्हणपाची त्या काळावेल्या लोकांची भावना आशिल्ली. देखून, जुगारांत यश जोडपाखातीर, साधुदेविनी अप्सरेक जुगारी आवाहन करताले. (अ.वे. ४.३८. १.४). अप्सरा पराकास्टेच्यो सुंदर आशिल्ल्यो. तांच्या मोहक लावण्याक लागून म्हाल-म्हातारे चळटाले आनी वयावेले भुरगे तांकां पळोवन पिसावताले. ह्याखातीर, मनशांच्या सांगाताक रावनासताना तांणीं न्हंयच्या देगानींच राबितो करचो म्हणून तांकां आवाहन केलां (अ.वे. ४.३७.३.)

'शतपथ ब्राह्मणां'त त्यो नाचपांत आनी गावपांत गुल्ल आसतात अशें म्हळां आनी तांकां जाय तेन्ना, त्यो सवण्यांचीं रूपां घेताल्यो म्हणपाचें सांगलां. अप्सरा वरूणाच्या महालांत रावताल्यो असो उल्लेख वेदाउप्रांतच्या लिखाणांत मेळटा. पुराणांत तांची खातड जाल्या. स्वर्गांत तांचीं भित्र्यांचीं भिरीं दाखयल्यांत. तांकां इंद्रलोकांतलीं कलंवतां कशीं लेखून तांचो पांवडो सकल देंवयला.

अप्सरा स्वर्गलोकांत रावताल्यो. गंधर्वांकडेन लग्न जाताल्यो. जाल्यारूय, मर्णलोकांतल्या कांय भाग्यवंताच्या वांट्यांक त्यो आयल्यात. प्रतिस्ठान देशाचो राजा पुररवस् आनी स्वर्गांतली अप्सरा उर्वशी हांची कथा ऋग्वेदाइतलीच पोन्नी आसा. कांय विद्वानांनी पुरूरवा आनी उर्वशी हांचो अर्थ सूर्य आनी उषा असोय लायला. जायते खेपो, पृथ्वीवेल्या ऋशींच्या खर तपाक लागून, आपल्या इंद्रप्रदाक बाधा येत म्हणून, इंद्रान —देवांच्या ह्या राजान— कितल्या तरी अप्सरांक धतरीचेर धाडल्यात. ताणीं आपल्या लागानीं आनी नखऱ्यानीं ऋशींच्या तपाचें हरण केलां. ते आपल्या तपाक नागवल्यात. विश्वामित्र-मेनकेची कथा आमकां हें सांगता.

धतरीवेल्या धर्मवाद्यानींय ह्या अप्सरांचो भोव बरो लाव घेतला. पाड्या मनशांची चाल-चलणूक निवळपाखातीर, पुण्यकर्म करतल्यांक स्वर्गाचीं दारां ताणीं शेकानशेक पासाक लावन दवल्ल्यांत. तांचे सेवेक अप्सरांची मांडणी केल्या. मेल्याउप्रांत, स्वर्गाचीं सोंपणां चडपी पुण्यवंतांक, अप्सरांचें हांयस ताणीं सासणाचें लावन दवल्लां.

अप्सरा ह्यो जशो उदकाच्यो राखणायत देवता आशिल्ल्यो, तशोच त्यो वेदकाळाआदल्यो मातृदेवताय आशिल्ल्यो. अमृतमंथनांतल्यान वैर सरिल्ली लक्षिमी हीय अप्सराच आशिल्ली. रमा आनी मा हीं लक्षिमीचीं दुसरीं नांवां. 'मा' हें ताळाकूस आवैपणाचोच अर्थ दाखयता. तिका लोकमाता म्हण्टाले, हें 'अमरकोश' सांगता.

अप्सरा ह्यो मातृदेवता आशिल्ल्यान तांकां आर्यांनीं, आपले पितृप्रधान संस्कृतायेंत ओडपाचो यत्न केला. लक्षिमी ही कुबेराची सांगातीण. जाल्यारूय विष्णु भगवानाच्या गळ्यांत तिका लग्नाची माळ घालपाक लायल्या. क्षत्रियांचो कांय राजकुळयो शकुंतला, घृताची आनी अलंबुषा ह्या अप्सरांक व्हरून तेकैल्यात. अखंड वंशावळ दाखोवपाक तांकां लग्नाच्या बंधनान बांदून घाल्यात.

अप्सरांक पितृप्रधान संस्कृतायेंत ओडपाचो जरी यत्न केलो, तरी आपली मातृप्रधान आचार-परंपरा ताणीं केन्नाच सोडली ना. मातृदेवता ह्यो आपशकमी कर्तुत्वाच्यो आसतात. पुरुशतत्वाक आपल्याक जाय तेन्नाच त्यो येवकारतात. लग्नाच्या बंधनान एकाच दादल्याक त्यो केन्नाच बांदून रावनात. देखुनच, रंभेक पळोवन, तिका पोटलून धरपाची आस जेन्ना रावणाच्या मनांत निर्माण जाली, तेन्ना आगळिकेन तिजो ताणें भोग घेतलो. आपले हे करणेची ताका निखालस लज वा खंत दिसली ना. वेल्यान अप्सरांक केन्ना घोव नासता, अशीं मस्तेपणाचीं उतरां तो उलयलो.

अप्सरांचे चौदा गण सांगल्यात. महाभारत

सांगता की, देवर्शी काश्यपाक लागून म्हा-भाग्येस्त प्राधेच्या कुसव्यांत पवित्र लक्षणांच्यो अलंबुषा, तिलोत्तमा, रंभा, मनोरमा, बी ज्यो धुवो जन्माक आयल्यो, त्याच सुलक्षणी धुवांक लागून अप्सरांच्या गणांचो विस्तार जालो.

अप्सरा ह्यो सुलक्षणी आशिल्ल्यो. त्यो व्हडविकेच्या लक्षणांच्योय आशिल्ल्यो. उर्वशी ह्या अप्सरेक लागून ब्राह्मणांचीं दोन गोत्रां, वशिष्ठ आनी अगस्त्य, जन्माक आयल्यांत.

अप्सरा ह्यो उदकांतच न्हंय तर मळबांतय संचार करताल्यो. रुमड, वड, आनी पिंपळ ह्या रुखांर तांचो राबितो आसतालो. देखून, तांकां 'वृक्षिका' अशें म्हण्टाले. न्हवऱ्या-होंकलेचें लग्न लावन, होंकलपावणी घरा हाइटा आसतना, वाटेर अप्सरांची सासाय आशिल्लो रूख लागल्यार, न्हवऱ्या-होंकलेक थंय थांबोवन, तांचो संसार सुखा-समाधानाचो करचो, म्हणून अप्सरांक गाराणें घालताले.

ऋशींच्या गुरूकुलांनी शिकपी बरपा-अक्षरी भुरगे (स्नातक) अप्सरांचें तर्पण करून तांकां दिसपट्टीं अर्गीं दिताले. अप्सरांच्या आंगाचो पर्मळ जसो धाय दिको फांकारता, तेच परी तांचेय विद्येचो घमघम धाय दिकांक फांकचो, म्हणून ते तांकां होरायताले.

'अप्+सरस्' म्हळ्यार उदकांत क्रीडा करतात त्यो अप्सरा, अशें निरूक्त सायणाचार्यान दाखयलां. जाल्यारूय, संस्कृत भाशेंत हें उतर दुसऱ्या खंयचेय भाशेंतल्यान आयलां जांवक जाय. अप्सरा अनार्य आशिल्ल्यो. उर्वशी अप्सरेक लागून जन्माक आयिल्ल्या अगस्त्य ऋशीन दोनय वर्ण व्हडविकेक पावैले अशें म्हळां (ऋ. १. १७६. ६). आर्य आनी अनार्य हे ते दोन वर्ण. अप्सरा ह्यो क्षीरसागराच्या मंथनांतल्यान वैर सल्ल्यात अशें पुराणां सांगतात, आनी गोड्या उदकाच्या दर्याक सुमेरियन भाशेंत 'अप्सू' म्हण्टात.

आधारावळः १. ऋग्वेद, मराठी भाशांतर —विद्यानिधी सिद्धेश्वरशास्त्री चित्राव;
२. अथर्ववेद, मराठी भाशांतर —विद्यानिधी सिद्धेश्वरशास्त्री चित्राव;
३. महाभारत (आदिपर्व आनी संभवपर्व).
४. Myth and Reality, by D.D. Kossambi;
५. Vedic Mythology by A. A. Macdonell;
६. The Essays throwing new light on the Gandharwas, the Apsaras, the Yakshas and the Kinnars by N. G. Tavarar.
७. The Epic of Gilgamesh (Glossary): N. K. Sandars.

**अफरातफर** । अफरातफर्, सा.रू. -री; भौव. -री, सा.रू. -रीं। [अर. इफ़रात्- ओ-तफ़रीत्] स्त्री. १. गोंधळ; घुस्पागोंधळ; गडबड. २. सट करून ध्यानांत येना अशें मोठें चतुरायेन आनी नाडानाडीन केल्लें दुडवांचें अपहरण.

**अफल,ळ** । अफल्,ळ् । [सं. अफल] वि. १. ज्याका फळ लागना तो; जो फळाविणें आसा तो. (अफल रूख). २. निर्फळ; व्यर्थ. ३. शंढ; वांझ.

**अफवा** । अफवा, सा.रू. -वे; भौव. -वो, सा.रू. -वां । [अर. अफ़वाह] स्त्री. १. खरेपणाचो लवलेश नाशिल्ली वार्ता. २. उड्टी खबर; वाऱ्यावेली वार्ता; हवाय; वदंता.

**अफाट** । अफाट् । [सं. अ (अतिशय) + स्फार (विस्तीर्ण) ] वि.१. खूप मोठो विस्तार आशिल्लो; आशाळ-विशाळ (अफाट दर्या). २. अचाट; अपरंपार. (देवाचें अफाट बळगें). ३. अतिशय; अतोनात. (अफाट संपत्ती).

**अफिण** । अफिण, सा.रू. -णी. । [अर. अफ़यून] स्त्री. अफू आनी खसखस दिवपी

Papaver Somniferum ह्या लॅटिन नावांची एक वर्सुकी वनस्पत; अफू.

**विशेश:** ग्रीक लिखाणांत अफिणिचो उल्लेख एक सोबीत उद्यान-वनस्पत म्हणून केल्लो मेळटा. अफिण ही एक वर्सुकी वनस्पत. हिका कसलेंय हवामान चलता. जाल्यारूय, अत्यंत कडक थंडी अशिल्ल्या, दमळ जाल्ल्या वा पावशा हवामानाचो हे वनस्पतिचेर परिणाम जाता. ह्या हवामानांत ही वनस्पत गरगरीत वाडूंक पावना. कऱ्यांचो पावस पडल्यार, तो अफिणिच्या बोंडांक बाधता; कऱ्यांक लागून बोंडां दुखावतात.

अफिणीक कसलीय जमीन चलता. रेंवट जमनींत ही भोव बरी फोंपेता. अक्टोबर-नोव्हेंबर म्हैन्यांत हिजें बीं शेतांत रोयतात. अडेज ते तीन म्हैन्यांभितर ही वनस्पत १ ते १.३ मिटर उंच वाढटा आनी तिका फुलां येवन बोंडां धरूंक लागतात. जानेवारी - फेब्रुवारी म्हैन्यांत बोंडांचो भार जाता.

अफिणिचीं पानां खरवतकांठी आनी कांडाक तेंकून आसतात. कळे लांबट आसतात. फुलां मोठीं, रंगान धवीं आनी सोबीत आसतात. तांबसार जांभळीं फुलां फुलपी अफिणिचो एक वेगळो भेद आसा. हे अफिणिच्या बोडांत अफूपरस खसखस चड आसतात.

भारतांत अफिणिची लागोड १६व्या शेंकड्याचे सुरवातीपासून जाताली. मोंगलांच्या काळांत अफिणीची लागोड सर्रास जाताली. त्या काळांत कैफाखातीर वा नशेखातीर, बाजारांत अफू जाय तितली मेळटाली आनी अफूची निर्यात, चड करून, चिनाक जाताली.

अफू आनी खसखसांखातीर अफिणिची लागोड जाता. अफूच्या घातकी परिणामांक लागून, भारतांत आजच्या काळांत हे वनस्पतिची लागोड मेकळेपणान करूंक मेळना. अफूचीं झाडां लावपाक सरकारी हुकूम वा परवानो लागता. परवानो दिल्ल्या शेतकारांकच आफिणी रोवपाक मेळटात. भारतांत अफिणिंची लागोड उत्तर प्रदेश, मध्य प्रदेश आनी राजस्थान ह्या तिनच राज्यांत करूंक मेळटा. ह्या राज्यांनी अफूचे १२ विभाग केल्ले आसात आनी सुमार ५०,००० हेक्टर जमनींत अफिणिंची लागोड जाता.

अफिणिक भयंकर आनी विखारी वनस्पत मानतात. जाल्यारूय, शेतांत आनी कारखान्यांनी काम करपी बायलांक ही वनस्पत म्हळ्यार एक वरदान कशी दिसता. हीं कामेऱ्यां आपल्या ल्हान भुरग्यांक दुधावांगडा अफूची इल्लिशी मात्रा दिवन, तांकां पाळण्यांत न्हिदोवन कामाक वतात. आपलें काम सोंपोवन, तीं सांजचीं घरा पावसर तांगेलीं धाकटुलीं पाळण्यांत सूस्त न्हिदिल्लीं आसतात.

**अफिणिचीं हेर उत्पादनां: खसखस, खसखसांचें तेल आनी पेंड:** अफिणिंची लागोड खसखसांखातिरय जाता. ज्या बोंडांचेर अफूखातीर कात्रे घालिनात, त्या बोंडांनी तेलाखातीर उत्तम बियो मेळटात. खसखसांत आनी तांच्या तेलांत अफूचे मादकसाणेचो लवलेश नासता. खसखस पोस्टिक आसतात. ते खाणांच्या पदार्थांत उपकरायतात. खसखसांत प्रोथिन (२२.०३ ते २४.०४ %) आनी तेल (सुमाराक ५०%) आसता. खसखसांचे तेल रुचीक, गोड आनी बदामांवरी लागता आनी सोनेरी रंगाची झांक ताजेर मारता. हें तेल खावपाक उपकरायतात. चित्रिकांचे रंग तयार करपाक, तेचपरी शाबू तयार करपाकय ह्या तेलाचो उपयोग जाता. हें तेल संग्रहणीचेर, आमांशाचेर, आंगाच्या भाजिल्ल्या भागाचेरय उपकारायतात. खसखसांची पेंड गोड तशीच पोस्टिक आसता. चड करून गरिब लोक ती पेंड खातात. गोरवांकय ही पेंड घालतात. जाल्यारूय, पाडकांक आनी वाढिल्ल्या वयाच्या गोरवांक ही पेंड खावपाक दिंव नये म्हणून सांगतात.

**अफिणिचीं बोंडां:** अफूंत आशिल्ले घटक अल्प प्रमाणान अफूच्या बोंडांतय मेळटात.

कात्रे घाल्लया आनी क़ात्रे घालूंक नाशिल्लया बोंडांत, अनुक्रमान, ०.४- ०.६% वा ०.१५- ०.२२% आल्कालॉयद मेळटात. वेगवेगळ्या देशांतल्या अफिणिच्या बोंडांतल्या मोर्फिनचें प्रमाण (०.१८ ते ०.९०%) आसता. दुखता ते सुजीचेर, कान फोड्टा ताजेर बोंडांचो अर्क उपकारायतात. खांकेचो त्रास जावपाक लागल्यार, निद्रानाशाचेर उपाय म्हणून बोंडांचें सरबत पियेतात. भारतांत अफूचीं बोंडां आनी गॉड उदकांत शिजोवन अमली द्रव्य तयार करतात.

**अफिणिचीं पानां, फुलां आनी पाकळ्यो:** अल्प प्रमाणान जायना, अफिणिच्या पानांनी मोर्फिन, कोदेइन, नार्कोटिन आनी पापाव्हेरीन हे आल्कालॉयद आसतात. अफिणिच्या तन्न्या रोंप्याची भाजी करून खातात. अफू पेटयांनीं बंद करतना, वेल्यान अफिणिचीं पानां आनी फुलांच्यो पाकळ्यो घालतात. तांबडीं फुलां सरबताखातीर उपकारायतात.

अफिणिचीं फुलां अत्यंत सुंदर आनी रंगीत आशिल्ल्यान, शेले पॉपी (पॅप्व्हर न्हीआस) ही अफिणिची जात, फक्त फुलांखातीर, बागानीं लायतात.

ग्रीक 'ऑपिओन' (Opion) आनी लॅटिन (Opiu) 'ओपियु' ह्या उतरांच्या अपभ्रंशान 'अफ़यून' हें उतर जालें. हाजेवेल्यान 'अफिण' आनी 'अफू' हीं उतरां घडल्यांत जावये. संस्कृतांत अफिणिक आनी अफूक 'अहिफेन' म्हण्टात. जाल्यारूय, हें उतर अर्विल्ल्या काळांत घडलां आसुये.

**म्हण:** अफिणींतलो किडो साकरेंत वांचना.

**अफिणो** । अफिणॉ, सा.रू. -ण्या; भौव. -णे (णॅ), सा.रू. -ण्यां । [अर. अफ़यून वेल्यान] वि. अफूचें व्यसन लागिल्लो; अफूक संवकल्लो; अफ़ूच्या व्यसनांत बुडिल्लो.

**अफू** । अफू, सा.रू. -फू । [अर. अफ़यून; लॅ. 'Opiu' (ओपियु)] स्त्री. अफिणिच्या तन्न्या बोंडांचेर घाल्लया कात्र्यांतल्यान पाथेवन आयिल्लो आनी सुकून घट्ट जाल्लो कैफ (नशा) हाडपी दिख. **(ला.)** मनशाक बुद्धिभ्रस्ट करून, ताजी मोनजातीपास्ट अवस्ता करपी, आनी ताजें नैतिक अध:पतन करपी वस्त.

**विशेश:** अफू मुळची पश्चिम आशियेंतली. अफूपासून वखदां तयार करपाचें म्हत्व ग्रिकांपैलीं अरबांक कळ्ळें. तांचेचकडल्यान ती सगळ्या पुर्वेकडल्या देशांनी, चीनमेरेन पावली. प्लिनीच्या लिखाणावेल्यान ईजिप्तांत ती वखदाखातीर उपकारायताले जावये म्हणपाचें कळटा. क्रिस्ताआदल्या तिसऱ्या शेंकड्या उप्रांत, अफूचो प्रसार चड प्रमाणान जांवक लागलो. आर्य भारतांत भितर सरचेपैलींच अफू भारतांत पाविल्ली आसुये. जाल्यारूय, त्या वेळार ती ईजिप्तांत आनी पॅलेस्टिनांत पाविल्लयाचो पुरावो मेळना.

**वनस्पतिशास्त्र:** अफिणिच्या (Papaver Somniferum) तन्न्या बोंडांचेर घाल्लया कात्र्यांतल्यान पाथेवन आयिल्लो आनी सुकून घट्ट जाल्लो कैफ हाडपी दिख म्हळ्यार अफू. ही कैफ हाड्टा, तेच परी मनशाच्या आंगांत वीखब जावन बळटा. वैजकेचे नदरेन, तातूंत अशिल्लया आल्कालॉयदांखातीर अफूक मोल आसा. आल्कालॉयदांचे मुख्य गट तीन: पैलो पापाव्हेरिनचो, दुसरो मोर्फिनचो आनी तिसरो नार्कोतिनचो. अफूचे आल्कालॉयद चोविसांपरसय चड आसात. अफूचे मुख्य आल्कालॉयद हे: मोर्फिन, कोदेईन, नार्सेइन, नार्कोतीन आनी पापाव्हेरीन.

तुर्कस्तान, इराण, रशिया, चीन, ब्रम्हदेश, थायलंड, लाओस आनी भारत ह्या देशांतच अफूची लागोड जाता. भारतांत अफिणिंची लागोड उत्तर प्रदेश, मध्य प्रदेश आनी राजस्थान ह्या तीन राज्यांतच जाता. उत्तर प्रदेशांतले अफूक 'बनारसी अफू', तर राजस्थान आनी मध्य प्रदेशांतले अफूक 'माळवा अफू' म्हण्टात.

**फार्माकोपेय्य आनी वैजकी:** अफूच्या व्यापारांत, तिजे तीन प्रकार मेळटात. अशुद्ध अफू, तयार केल्ली अफू आनी वखदी अफू.

अशुद्ध अफू म्हळ्यार, अफूच्या बोंडांचेर कात्रे घाल्याउप्रांत, त्या कात्र्यांतल्यान पाथे पाथेवन सुकून घट्ट जाता तो दिख. अफिणिंची लागोड केल्याउप्रांत अडेज ते तीन म्हैन्यांनी, ही वनस्पत १ ते १.३ मीटर उंच जाता, आनी तिका फुलां येवन बोंडां धरूंक लागतात. बोंडांवेल्या फुलांच्यो पाकळ्यो झडल्याउप्रांत कांय दिसांनी, म्हळ्यार तीं जून जांवचे पैलीं, सांजचे वा सूर्य अस्तमतेक वच्चेल्या वेळार, 'नश्तर' नांवाचे चार पातीं (केन्ना केन्ना स पातीं) आशिल्ले कानवेतीन, तांचेर सकल्ल्यान वैर वा आडवे तीन कात्रे घालतात. ह्या कात्र्यांतल्यान धवो, दुधाळ असो दिख रातभर पाथेत रावता आनी थंयचे थंयच सुकून घट्ट जावन, ताजेर काळसर रंग चड्टा. हो घट्ट जाल्लो दिख सकाळचो 'सेत्वा' नांवाच्या कुल्येरासारक्या आवतान खरवडून काड्टात. बोंडांचेर कात्रे घालपाचें काम ३-४ वेळा, तातूंतल्यान दिख मेळसर करतात. हो एकठांय केल्लो दिख, ताजेर दाटिल्ली 'पसेवा' ही काळसर साय काडपाखातीर, धातूच्या वा मातयेच्या आयदनांत दवरतात. उप्रांत 'पसेवा' काडिल्ली अशुद्ध अफू वतांत सुकयतात.

अफू मनशाची चित्तवृत्ती प्रसन्न करता आनी ती कामोत्तेजक आसा, असो समज आशिल्ल्यान ही अशुद्ध अफू खातात वा तिजो काडो पितात. अफू खावपाचें व्यसन लागिल्ल्याक, दिसानदिस अफूचें प्रमाण वाढोंवचें पड्टा. तशें करिना जाल्यार, अफूचे मात्रेचो कैफ देवल्याउप्रांत, ताका आळसाय येता आनी जीव मोडावल्ल्यावरी जाता.

अशुद्ध अफूचेर प्रक्रिया केल्ले अफूक, तयार केल्ली अफू म्हण्टात. वेगवेगळ्यो प्रक्रिया करून ही अफू तयार करतात. केन्ना लोखणाची गराद कशी आशिल्ल्या आयदनार ती भाजतात; केन्ना शिजोवन, केन्ना खतखतावन धुलो काडून ही अफू तयार करतात. ही तयार केल्ली अफू पातळ आनी पांखट आसता. तेच परी रंगान काळी आसता. अफूचो हो अर्क-काडो पुर्वेकडल्या देशांनी ओड्टात.

भारतांत जी अफू ओड्टात, तिजे 'मादक' आनी 'चंदू' अशे दोन प्रकार आसात. 'मादक' हो प्रकार चड घोळटेंत आसा. ही अफू उदकांत घालून धुलो योसर खतखतायतात. उप्रांत ती गाळटात. गाळण्यांत जी अफू उरता, तातूंत बाभळिच्या पानांची, आंवाळेच्या वा पेरिच्या पानांची हुलपावन केल्ली पूड घालतात. ते अफूंत ही पूड मेटून, तिज्यो चार सेंटिमिटर व्यासाच्यो गुळयो करतात. मादक अफू म्हण्टात ती ही गुळी. 'चंदू' हो प्रकार हाजेपरसय खर आसता. ही अफू उदकांत शिजोवन आटयतात. अशे तरेन अफूचो अर्क-काडो तयार जाता. हो अर्क-काडो मातयेच्या आयदनांत घालून, ताका लाकडाची नळी लावन ओड्टात. कांय जाण पायपान ओड्टात. अफू जे नळयेन वा पायपान ओड्टात, ते नळयेंत वा पायपांत अफूचो जो अंश सांठून उरता, ताका 'ड्रॉस' म्हण्टात. ह्या ड्रॉसांत 'मोर्फिन' आशिल्ल्यान तो विखारी आसता. च्यांत आनी काफयेंत घालुनय अफू घेतात. पुर्वेकडल्या देशांनी अफूचें व्यसन इतलें अतिरेकाक पावलें की, पैलिंच्या राष्ट्रां-भौसाक (Sociedade das Nacoes) आनी आंतरराष्ट्रीय श्रम कार्यालयाक (Bureau International du Traveil, Genebra, १९३५), तें आळाबदांक हाडपाखातीर पावलां घालचीं पडलीं.

कांय जाण, आपल्या शरिरांत, अफू सुवयेन तोपून घेतात. चड करून, युरोप आनी अमेरिकेंत 'मोर्फीन' आनी 'हेरोईन' शरिरांत इंजेक्शनान घेतात. 'हेरोईन' हें मोर्फिनचेर रसायणी प्रक्रिया करून तयार केल्लें कार्बनी संयुग. हें चड विखारी आनी घातकी आसता. जाल्यारूय,

हें वेदना थांबोवपाक उपकरायतात.

भारतांत अफूचेर प्रक्रिया करपाखातीर उत्तर प्रदेशांतल्या गाझीपूर हांगा एक कारखानो आसा. मध्य प्रदेशांतल्या निमूच हांगाय एक कारखानो आशिल्लो. अफूचेर प्रक्रिया करपाचें काम आतां थंय ज़ायना. अफूचो सांठो करपाक, गुदांव कसो तो उपकरायतात.

वखदी अफू म्हळ्यार, वेगवेगळ्या द्रव्यांनी घालून, वैजकी उपचारांक उपकरा पडसारकी तयार केल्ली अफू. कांय नामनेच्या वखदांनीं अफूचो आस्पाव जाता. देखीकः लावदनु द् सिडनेहम (Laudano de Sydeneham),लावदनु द् रूसो (Laudano de Rousseau), ब्रिटिश काळ्या थेंब्यांत, डोवराच्या पिठ्यांत (Pos de Dower).कांय 'येलिशिरांत' (Elixirs) आनी शारोपांत अफूचो आस्पाव केल्लो मेळटा.

अफूचे चोवीसां वैर आल्कालॉयद मेळटात. रसायणशास्त्राचे नदरेन तांचे दोन प्रकार आसात. एक अपाय करपी (Toxic) आनी दुसरो सौम्य. अपाय करपी आल्कालॉयद हेः मोर्फीन, कोदेईन, तेबाईन, कोदामीन, लावदानीन आनी लावदानिदीन. सौम्य आल्कालॉयद अशे आसातः पापाव्हेरीन, मेकोनिदीन, नार्कोतीन आनी नार्सेईन.

इकुणिसाव्या शेंकड्याच्या पैल्या धाक्यांत (१८०३-१८०५), एका जर्मन रसायणशास्त्र्याक अफूंतलो 'मोर्फीन' हो आल्कालॉयद वेगळो काडूंक यश आयलें. तेन्नाच्यान अफूच्या इतिहासांत एक नवें पर्व सुरू जालें. मोर्फिनचे जायते दुश्परिणाम जाणवपाक लागले, तेंच परी वखदांखातिरय ताजें मोल कळपाक लागलें. १८३२ वर्सा 'कोदेईन' हो आल्कालॉयद वेगळो काडलो. त्याउप्रांत अफूच्या कितलेशाच आल्कालॉयदांची वळख मेळून, ते वेगळे काडूक यश आयलें.

१८५३ वर्सा 'इपोदेर्मीक' सुवयेचो (Hypodermic needle) सोद लागलो. ह्या सोदान, वखद तोंडांतल्यान दिंवचे परस, तें सरळ देहांत तोपून घालपाक मेळलें. तोंडांत घेतिल्लया गुळ्यापरस, इंजेसांवांचो परिणाम रोखडो जाणवतालो. ताका लागून, मोर्फीन घालून तयार केल्लीं कांय इंजेक्शनां, सोंसूंक नज अशो दुखिच्यो कळा थांबोवपाखातीर वा उण्यो करपाखातीर उपयोगाक आयलीं.

अफूपासून वेगळे काडिल्ले मोर्फीन, पापाव्हेरीन, नार्कोतीन हे आल्कालॉयद गुंगी, न्हीद हाडपाक, दुखिच्यो कळा उण्यो करपाक वा थांबोवपाक वखदांनी उपकरायतात. हालिंच्या काळांत अफूचे आल्कालॉयद आनी तांचीं लवणां उपकरायतात. कापूर घालून तयार केल्लें अफूचें आसव खांकिचेर, तेच परी संग्रहणीचेर गुणावाक येता. अफिणिच्या गांठीवेल्यान तयार केल्लें मलम बिकांचेर उपकरायतात. अफूचो उपयोग पूर्वापार चलत आयला. अफूच्या दुश्परिणामांक लागून, अफू आशिल्लीं वखदां दोतोरान फर्मायल्लया प्रमाणांत घेतात.

**अफूचे दुश्परिणाम:** अफू खंचेय पद्धतीन घेतली जाल्यार, ती मनशाक मारकच जाता. मनशाची ती नाश करता. अफू भूक मंदायता; पचनशक्तिचो इभाड करता; न्हिद ना करता; मज्जातंतू दुर्बळ करून सोडटा, आनी मनशाक सामकोच नपुसक करता. अफूक लागून मानसिक विकृती उद्भवतात. एकाद्रेवेळा मनशांक पिशें लागपाचो संभव आसता. हीं सगळीं लक्षणां अफूक लागून जातात. देखून, ह्या लक्षणांक 'मॉर्फीनिझम' वा 'मोर्फीनोमॅनिआ' म्हण्टात. हाका लागून मनीस धवो धवो जायत वता. एकाद्रेवेळा ताका मरण येता. अफूच्या ह्या घातकी परिणामांक लागून, तिजेर प्रत्येक देशाचें, तेच परी आंतरराष्ट्रीय नियंत्रण आसा.

आधारावळः१.Grande Enciclopedia Portuguesa Brasileira, Vol. 19, Paginas 516-517.

२.Verbo Enciclopedia Luso-Brasileira de Cultura, Vol. 14, Paginas 650-651.

३. मराठी विश्वकोश, खंड १, पानां ३०६-३०९.

**अफूबाज** । अफूबाज, सा.रू. -जा; भौव. -ज; सा.रू. -जां । [अ. अफ़्यून+फा. बाज] वि. अफूचें व्यसन लागिल्लो.

**अबकाय** । अब्काय्, सा.रू. -ये । [सं. अ+भुक्तिः; गु. अब (भ) खो, अबोखा] स्त्री. १. ओंकारो येवन जेवणा-खाणाची दिसता ती वीट वा अळशीक. २. ओंकारो आयिल्ल्यावरी दिसता अशी अवस्ता. ३. प्रवासांत बोट, मोटार वा विमान लागून पोटांत ढवळलेल्यावरी वा तकली गिरगिरलेल्यावरी जावन जाता तो त्रास. ४. बायलांक दुवाळो लागतना जीव घुंवळलेल्यावरी वा ओंकारो चाळवलेल्यावरी जावन भोगता ती व्यथा.

**अबकारी** । अब्कारी, सा.रू. -री । [फा. आब-कारी, आबकारी] स्त्री. १. सोऱ्याचो धंदो; सोरो काडून तो विकपाचो धंदो, आनी ताका लागून ह्या उद्योगाचेर बसयल्लो कर. —ब्रिटिशांच्या काळांत हिंदुस्थानांतल्या प्रांतांच्या दर एक तालुक्यांत, सरकार कोणाय एकल्याक सोरो काडपाची खोती दितालो. उप्रांत तो, आपलेपरी, सोऱ्याची किरकोळ विक्री करपाची मांडणी करतालो. हे पद्धतीक अबकारी पद्धत म्हण्टात. २. मादक पदार्थांचें उत्पादन आनी विक्री हांचेर देखरेक दवरून, तांचेवेलो कर वसूल करपी खातें. (इं.) Excise.

विशेश: १८७८ वर्साच्या देझेंब्राचे २६ तारखेक अबकारी संबंधान इंग्लेज आनी पुर्तुगेज सरकार हांचे मदगतीं एक करार जालो. तेन्नाच्यान 'अबकारी' हें उतर गोयांत घोळपाक लागलें. करार सोंपल्याउप्रांत ही पद्धत, थोड्या-भोव फरकान, चलत रावली.

१९०० वर्सा दामांवच्या एका कवीन, पुर्तुगेज भाशेंत एक कवन बरयलां. ताजो भावार्थ असो:

"पाड पडिल्ली पाड पडिल्ली ही अबकारी
अंतरली आमकां आमची खजुरी."

हिंदुस्थानांतलो प्रत्येक जाण म्हण्टा की, अबकारीक लागून ह्या देशांतलो लोक सोरो चड प्रमाणान पियोंवक लागलो. सोऱ्याचें व्यसन वाढलां हें खरें. जाल्यारूय, बंगालचे खांची-गोंयडे जाणा आशिल्ल्या एका मनशान म्हळां की, १७२९सांत सोरो जितलो खपतालो, तितलोच सोरो १८६०तय खपता.

अबकारीक लागून, हिंदुस्थानांतलो लोक सोरो चड पियोंवक लागलो म्हणपाची खबर अतितायेची दिसता. हिंदुस्थानांतल्या लोकांक सोरो नविदाद न्हंय म्हणपाची नाट संस्कृत वाङ्मयांतच मेळटा. (संदर्भ: Spirituas drinks in Ancient India, by Rajendralala Mitra, Indo- Aryans.)

**आधारावळ:** १ Glossario Luso-Asiatico, por Monsenhor Sebastiao Rodolfo Dalgado, Vol. I, पा. ४-५.
२. Hobson-Jobson, by Col. Jule and Burnell, page 2.

**अबकप** । अब्कंप्, सा.रू. -पा । ['अबको' वेल्यान] क्रि.दा.धा.सा.ना. (मूळ धातू: अबक् (अक.)). ओंकारो येवप; अळशिकप; विटप; किळस येवप.

**अबकेणी** । अब्केणी, सा.रू. -क्या; भौव. -ण्यो, सा.रू. -ण्यां । ['अबको' वेल्यान] स्त्री. पाडे, अधर्मी करणेची येता ती किळस, वीट.

**अबको** । अब्कॉ, सा.रू. -क्या; भौव. -के (कॅ), सा.रू. -क्यां । [सं. अ+भुक्तिः? गु. अब (भ) खो] पु. १. ज्याची तिडक येता वा ज्याका पळेल्यार वीट, ओंकारो येता असो मनीस; ज्याचेर वक्रदृस्टी वा अवकृपा जाल्या असो मनीस. (....राजाच्या राणयांकडेन, तांगेल्या अंत:पुरांतल्या

बायलांकडेन आनी राजाक जांचो अबको वा दुस्वास असल्यांकडेन कसलोच संबंध दवरप ना. —महाभारत, खण्ड १, बरो: रवीन्द्र केळेकार, पा, २६८). २. मत्सर; दुस्वास.

**अबड** । अबड् । वि. पळेयात 'अरबट'.

**अबडचबड** । अबड्चबड् । वि. पळेयात 'अरबटचरबट'.

**अबर्गत** । अबर्गत, सा.रू. -ती; भौव. -ती, सा.रू. -तीं । [सं. अर्भः+गति; अर्भकवत्] वि. १. अवसान, धैर्य नाशिल्लो; भुरग्यांवरी वा भुरग्यांपास्ट गत आशिल्लो. २. भिजूड; गर्भगळित; बेंबूळ; धंदर.

**अबला** । अबला, सा.रू. -ले; भौव. -ला; सा.रू. -लां । [सं. अबला] स्त्री. बायल मनीस; अस्तुरी; स्त्री; नारी; बाय.

**अबलावणी** । अबलावृणी, सा.रू. -णे; भौव. -ण्यो, सा.रू. -ण्यां । [सं. 'अ + बल' वेल्यान?] स्त्री. १. प्रजेन राजाआड वा सरकाराआड केल्लें बंड वा उठाव; राजभंग. २. दानाधिस्पट करप; बळाचेर धपको घालप. ३. पिडापीड दिवप; उपद्रव करप; दग्ध करप.

**अबळ** । अबळ्, सा.रू. -ळा । [सं. अबल] न. १. बळाचो, तांकिचो अभाव; दुबळेपण; दुर्बळकाय. (आमचें अबळ पळोवन, तो आमच्या पोटार मारता.) २. अशक्ताय; किरमेपण; विळविळताय.

**अबळवंत** । अबळवंन्त, सा.रू. -ता । [सं. अ+बलवन्त] वि. ताकद; शक्त नाशिल्लो; अबळी.

**अबळाय** । अबळाय्, सा.रू. -ये । [सं. 'अबळ' वेल्यान] स्त्री. अशक्ताय; किर्मेपण; अबळ; मंदाय.

**अबळी** । अबळी । [सं. अ+बलिन्] वि. अशक्त; अशक्तिक; ताकद नासपी; निस्तेज; किर्मी; मंद. **(ला.)** दुबळो; अनाथ. – अबळीचें स्त्रीलिंग 'अबळीण' अशें जाता.

**अबिस्ट** । अबिस्ट, सा.रू. -स्टा; भौव. -स्टां, सा.रू. -स्टां । [सं. अभीष्ट] न. कल्याण; हीत.

**वि.** अद्भूत; विलक्षण; अपूर्व. (....हे खबरेन त्या नगरांतु जितको लोक आसलो, इतुलेंय हें नवल पळोंवक आयलो. थंय पावतकी परमेश्वराचे अपरंपार प्राप्ती हुकमेन तांचें मत पालटलें. ती स्वाम्याची अबिस्ट करणी देखून सदैव भक्तु सांत अंतोन तांचे लागीं ऐसो उलोंवक लागलो. —सां अं. अचर्या. पा.१९].

**अबिस्ट** । अबिस्ट, सा.रू. -स्टा; भौव. -स्टां, सा.रू. -स्टां । [सं. अप+इष्ट?) न. उत्पात; अपशकून; मुखावेल्या अरिस्टाची सुचोवणी दिवपी चित्र वा लक्षण. (ह्या अबिस्टाक लागून हांव घाताक पडुये.)

**अबिस्टगुर्णी** । अबिस्टगुणीं । [सं. अभीष्ट + गुणिन्] क्रि.वि. मायेमोगान; कल्याण जांवचें ह्या हेतून; अरिस्टांचें निवारण करून. (ते हुकमेन, आपुली भक्ती सेवा करतल्याचें कार्य हातीं धरून, नाना प्रमाणीं तांचो आधार करित, अबिस्टगुणीं तांचो सांबाळ करून तांकां राखत. —सां. अं. अचर्या, पा. ५७).

**अबिस्टांचो,ची,चें** । अबिस्टांचॉ,ची,चॅं, सा.रू. -च्या,-चे,-च्या; भौव. -चे (चॅं), -च्यो,-चीं; सा.रू. -च्या । ['अबिस्ट' वेल्यान] वि. अजापान थक्क जायसारको, की, कें; अद्भूत; विलक्षण; अपूर्व. (अबिस्टांची करणी.)

**अबिस्ताय** । अबिस्ताय्, सा.रू. -ये; भौव. -यो, सा.रू. -यां । ['अबिस्ट' वेल्यान] स्त्री. १. कल्याण; हीत. २. अजाप; नवल.

**अबुद्द** । अबुद्द । [सं. अबुद्ध] वि. १. समजुपाची वा कळपाची तांक नाशिल्लो. २. ज्याका समज ना वा ज्याका कळना तो; अज्ञानी; अजाण.

**अबुद्द** । अंबुद्द, सा.रू. -द्दी । [सं. अ+बुद्धिः] स्त्री. १. बुद्दिची, शाणेपणाची, समजिकायेची उणाय. २. अज्ञान; नेणारपण; अजाणपण.

**अबुद्दिपण** । अंबुद्दिपण्, सा.रू. -णा । ['अबुद्दी' वेल्यान] न. १. अज्ञानपण; अजाणपण; नेणारपण. २. नेण्टेपण; भंडाय.

**अबुद्दी** । अंबुद्दी, सा.रू. -द्दी । [सं. अबुद्धि] स्त्री. अविद्या; माया; अज्ञान.

**अबुद्दी** । अंबुद्दी, सा.रू. -दया । [सं. अ + बुद्धिः] वि. १. बुद्द नाशिल्लो; समज, शाणेपण नाशिल्लो; नेणार; मूर्ख. २. नेण्टो; भंड.

**अबुद्ध्या** । अंबुद्ध्या । [सं. अ+बुद्ध्या] क्रि.वि. न कळटां, नकळून; नेणून; चुकून.

**अबोध** । अबोध्, सा.रू. -धा । [सं. अबोधः] पु. ज्ञानाचो अभाव; अज्ञान; आकलन करपाचे तांकिचो अभाव; मुर्खपण.
**वि.** १. अज्ञान; अजाण; मूर्ख; मूढ; ढड्डो; बोंबो. २. गोंधळलेलो; पेंचांत पडिल्लो; बोध न जाल्लो. ३. सुप्त.
**—मनः** (मा. शा.) सुप्त मन; सुशुप्तिचे अवस्तेंत आशिल्लें मन. (इं.) Unconscious mind.

**अब्ज** । अब्ज । सा.रू. -ब्जा, भौव. -ब्ज, सा.रू. -ब्जां, [सं. अब्जः, अब्जम्] पु. १. शंख. २. चंद्र. ३. कापूर. ४. धन्वंतरी (हो अमृतमंथनांतल्यान वैर सल्ला). **न.** कमळ; साळिक. **वि.** १. उदकांत जन्मल्लो वा उदकांतल्यान उत्पन्न जाल्लो. २. शंभर कोटी; धाव्या स्थानावेली संख्या (१,००,००,००,०००).

**अब्धि** । अंब्धी, सा.रू. -ब्धी । [सं. अब्धिः] पु. १. महासागर; दर्या. २. तळें ३. (ग.) केन्ना चार वा केन्ना सात ही संख्या.

**अब्बा** । अब्बा! । [का. अब्ब] उ.उ. अजापाची भावना दाखोवपी वा उक्ती करपी उद्गार. (अब्बा! कसलो तर पणस हो! हाची तोखणाय कितली म्हणून करतलो! सगळ्या गोंयां पैलेंवैले दाबण तें हाका. —बाबूमामालो पणस, (गोमन्तोपनिषत्, पैलें खंड, बरो: शणै गोंयबाब, पा.१४).

**अब्राहिम** । अब्राहिम, सा.रू. -मा; भौव. -म, सा.रू. -मां । [अर. इब्राहिम] पु. गोंय फिर्ग्यांनी जिखून घेतलां तेन्ना, बा त्याय पैलीं, गोंयांत घोळटेंत आशिल्लें ४२० रैस मोलाचें परकी देशांतलें एक नाणें.
**विशेशः** १५५४. "व्हेनेझियान, सुल्तानी आनी अब्राहिम हांचें मोल सात तांगां म्हळ्यार ४२० रैस आसा." – Antonio Nunes, Livro dos pesos, pag. 32. (Glossario Luso Asiatico, Vol. I, pag. 6).

**अब्रू** । अंब्रू, सा.र. -ब्रू । [फा. आब-रू] स्त्री. लौकिक; कीर्त; प्रतिस्ठा; आब; मान; भोमान; इजत.
**वा.प्र.: अब्रू काडपः** इजत, लज काडप; वर्मीं-कर्मीं वैर काडून लज करप.
**अब्रू वचपः** लौकिक, प्रतिस्ठा उणी जावप; चार-चौगांत नाक वचप; माना-भौमानांतलो देंवप; अपमान जावप.
**अब्रू-नुकसानी करपः** बेअब्रू करप; कोणाय एकल्याच्या लौकिकाक वा नामनेक दाग वा खत लावपाखातीर, दुसऱ्या एका मनशान ताजीं वर्मीं-कर्मीं वैर काडून, लोकांक तोंड दाखोवपाक ताका लज दिसची, अशे तरेचे

ताजेर जाहीर आरोप करून, ताजी अप्रतिस्ठा करप.

**अब्रूचो,ची,चें** । अ'ब्रूचॉ,ची,चँ, सा.रू. -च्या,-चे, -च्या; भौव. -चे (चॅ),-च्यो,-चीं सा.रू. -च्यां । ['अब्रू' वेल्यान] वि. अब्रून जियेवपी; अब्रूची चाड आसपी; अब्रूदार.

**अब्रूदार** । अ'ब्रूदार्, सा.रू. -रा; भौव. -र, सा.रू. -रां । [फा. आबरूदार] वि. नांव-लौकिक सांबाळून जियेवपी; माना-भौमानान जियेवपी; अब्रूचो; प्रतिस्थित.

**अभक्त** । अभक्त, सा.रू. -क्त; भौव. -क्त, सा.रू. -क्तां । [सं. अभक्त] वि. जो भक्त न्हंय तो; भक्ती, श्रद्धा नाशिल्लो.

**अभक्ती** । अ'भक्ती, सा.रू. -क्ती । [सं. अभक्तिः] स्त्री. १. भक्तिचो, श्रद्धेचो अभाव; अनभावार्थ; अविश्वास.

**अभंग** । अभंग् । [सं. अ+भङ्ग] न. मळब (अभंग फुटलें तर कोण कपी मारित?)
**म्हणी:** १. अभंग फुटल्यारि ताका कपी लांवक जायत वे?
२. अभंग फुटलें तर कोण कपी मारित?
**वि:** जें भंगना, फुटना, मोडना, तुटना तें; अखंड; अक्षय; सासणादिक. (अभंग परंपरा)

**अभंग** । अ'भं'ग्, सा.रू. -गा; भौव. -ग, सा.रू. -गां । [सं. अ+भङ्ग] पु. एक मात्रावृत्त; मराठी भाशेचो खाशेलो तिजो असो लौकिक छंद.
**विशेश: अ)** अभंगाचे मुख्य प्रकार दोन. एक चार चरणांचो अभंग आनी दुसरो दोन चरणांचो अभंग.

चार चरणांच्या अभंगांत चार चरणांच्या एका कुडक्याक 'चौक' म्हण्टात. अशे स चौक मेळून एक व्हडलो अभंग जाता.

चार चरणी अभंगांत पैल्या तीन चरणांची ६/६ (स, स) अक्षरां आसतात. चौथ्याल चरणांत पैल्या तीन चरणांपरस संख्येन उणीं अक्षरां येतात. देखून. ह्या प्रकाराच्या अभंगाक 'साडेतीन चरणी अभंग' अशेंय म्हण्टात.

ह्या प्रकाराच्या अभंगांत कांय वेळा दुसऱ्या आनी तिसऱ्या चरणांचे अखेरेक यमक येता. देखीक:

भूतांची दया हें। भांडवल संतां।
आपुल्या ममता। नाहीं देहीं ॥

जाल्यारूय, कांय वेळा पैल्या, दुसऱ्या आनी तिसऱ्या चरणांचे अखेरेक यमक येता. देखीक:

तूं मज येकला। वडील धाकुला
तूं मज आपुला। सोयरा रे ॥

चार चरणांच्या कांय अभंगांत प्रत्येक चरणाच्या अक्षरांचे संख्येंत बदल जाल्लोय नदरेक पडटा. एकाच अभंगांतल्या वेगवेगळ्या चरणांत ६(स), ७(सात), ८(आठ) अशीं वेगळ्या वेगळ्या संख्येचीं अक्षरां आयिल्लीं मेळटात. देखीक:

अहो रखुमाबाई। विठोबासि सांगा।
भ्रतारासि कां गा। वेडें केलें ॥१॥
चवदा मनुष्यें। आहेत माझे घरीं।
हिंडती दारोदारीं। अन्नासाठीं ॥२॥

अभंगाचो दुसरो प्रकार म्हळ्यार दोन चरणांचो अभंग. हातूंत अभंगाच्या प्रत्येक चरणांत ८/८ (आठ, आठ) अक्षरां आसतात आनी चरणांचे अखेरेक यमक येता. देखीक:

कन्या सासुरासि जाये। मागे परतोनि पाहे ॥१॥
तैसे जाले माझे जीवा। कधी भेटसी केशवा ॥२॥

कांय वेळा, ह्या दोन चरणांतल्या पैल्या चरणांत ८(आठ) अक्षरां आनी दुसऱ्या चरणांत ७(सात) अक्षरां येतात. पैल्या चरणाचे अखेरेक आनी दुसऱ्याच्या अर्दांत यमक येता. देखीक:

वाट तरी पाहू किती। काकुळती येऊन॥१॥

भेट कधी पांडुरंगा। जिवलगा जीवीच्या॥२॥

**आ)** मराठी प्राचीन कविता ओवी आनी अभंग ह्याच दोन छंदांत आसा. ओंवयेंतल्यान अभंग उत्क्रांत जाला. यादवकाळावेले मराठींत आनी तातूंतय महानुभाव गद्यांत तो ग्रंथकर्तुत्व ह्या अर्थान येता. 'अभंग देणे' वा 'अभंग घालणें' असो वाक्रप्रचार आसा. आनी ग्रंथाचे अखेरेक बरयतल्यान आपल्या नांवांची मुद्रिका घालप असो ताजो अर्थ जाता. जाल्यारूय, हाजेवेल्यान ह्या छंदाक 'अभंग' हें नांव पडलाशें दिसना.

मराठी भाशेंत अभंगाची एक परंपरा आसा. ज्ञानेश्वर धरून तुकाराममेरेनच्या सगळ्या संतांनी ह्या छंदांत अमाप रचना केल्या. अभंग ह्या उतराखातीर कानडी आनी मराठी संत कवींनी जें कितें म्हळां, तें ध्यानांत घेंवक जाय. तेराव्या शेंकड्यांतलो कानडी कवी चौंडरस हो विठ्ठलाक 'अभंग विठ्ठल' म्हण्टा. एकनाथ आनी हेर मराठी संतांनीय 'अभंग विठ्ठल' ह्याच उतरांनी विठ्ठलाचें वर्णन केलां:

अभंग विठ्ठल परी । मना सांडी विषय खोडी

सिंधु तो अभंग विठ्ठल.

हाजे वेल्यान अशें म्हणूंक येता की, विठ्ठलाकडेन लग्निक आशिल्ल्या ह्या छंदाक 'अभंग' हें नांव पडलां आसुये. विठ्ठलाच्या अभंग ह्या विशेशणाफाटल्यान एक गुमानित आसा. वृंदावनांतल्या कृष्णावरी तो त्रिभंग उबो नासून समचरणांचेर अभंग स्थितींत उबो आसा. 'समचरणी अभंग' हीं उतरांच समचरणांचेर उबो आशिल्ल्या विठ्ठलाकडेन ह्या छंदाचें नातें दाखयतात. विठ्ठल भक्तिपरंपरेंत व्हडविकेक पाविल्ल्या ह्या लौकिक छंदाचें नांवय अशे तरेन विठ्ठलाकडेन लग्निक जाल्लें आसा.

मराठी संतानीं आपलो परमार्थिक अनुभव अभंगांतल्यान सांगला. अभंग हो तांच्या उचंबळून आयिल्ल्या भक्तिच्या उमाळ्यांतल्यान आयला. ज्ञानेश्वरींतल्या ओंवयांतल्यान ज्ञानेश्वराचे प्रतिभेचो विलास पानांपानांतल्यान जाणवता आनी तुकाराम आपल्या अभंगांतल्यान 'अणुरणीयां थोकडा । तुका आकाशा एवढा' हो साक्षात्कार दिता.

**आधारावळ:** १. वृत्तें व अलंकार, ले. डॉ. वि.म.कुलकर्णी.

२. भारतीय संस्कृती कोश, खंड १.लो, संपादक: पं. महादेवशास्त्री जोशी.

३.यादवकालीन मराठी, ले. शं.गो.तुळपुळे.

**अभंगीं** । अभंगीं । [सं. आत्म+अंग] क्रि.वि. आपुण जावन; आपल्या आपुण (उज्याच्यान आपले अभंगी पेटूंक जमना.)

**विशेश:** आत्मांगीं › आपांगीं › अपंगीं › अभंगीं अशे तरेन हें उतर घडलां जावये.

**अभंगु** । अभंगु । [सं. अ+भङ्ग] पु. अखेर; शेवट. (कथेचो अभंगु केलो).

**अभद्र** । अभद्र । [सं. अभद्र] वि.१. अमंगळ; अपवित्र; अशुभ; अपशकुनी २. पाडें; अळशिकावणें; घाणयारें.

**अभय** । अभय्, सा.रू. -या । [सं. अभयम्] न.१. भयाचो अभाव; निर्भयताय. २. भयापासून वा संकटापासून केल्लें संरक्षण वा दिल्ली राखण.

**वा.प्र.: अभय दिवप:** भयामेकळो करप; निर्भय करप; भयापासून वा संकटापासून राखण दिवपाचें उतर दिवप.

**—दान:** न. भयापासून राखण करपाचें दिल्लें आश्वासन वा उतर. सगळ्या दानांत अभयदान श्रेस्ठ मानतात. सगळ्या भूतांक अभय दिवप हाज्यासारकें श्रेस्ठ दान आनीक दुसरें ना.

**—पत्र:** न. राखणेचें वा सुरक्षितपणाचें आश्वासन दिवपी राजपत्र वा अभिलेख. **—पद:** न. निर्भयपद; मोक्ष; मुक्ती. **—मुद्रा:** स्त्री. १. अभयाचें आश्वासन दिवपी मुद्रा. हो एक संकेत. कोंपराकडल्यान हात उबारून तळवो सरळ दाखोवप हें अभयमुद्रेचें लक्षण. २.

एक तांत्रिक मुद्रा. **—याचनाः** स्त्री. भय वा संकटापासून राखण करपाखातीर केल्ली विनंती, प्रार्थना; अभयाची मागिल्ली भीक. **—वचनः** न. भयापासून राखण दिवपाचें दिल्लें आश्वासन वा उतर. **—हस्तः** अभयाचें आश्वासन दिलां म्हणून दाखोवपी देवतेची वा राजाची हस्तमुद्रा वा हात.

**अभयंकर** । अभयङ्कर् । [सं. अ + भयङ्कर] वि. भयंकर, उग्र न्हंय असो; सौम्य.

**अभयारण्य** । अभयारण्य, सा.रू. -ण्या; भौव. -ण्यां, सा.रू. -ण्यां । [सं. अभयम् + अरण्यम्] न. जंय रानांतल्या सावदां-सवण्यांक आनी जीव-जिवांण्यांक भयाविरयत जियेंवक मेळटा असो अरण्याचो राखिल्लो भाग.

**विशेशः** आमगेले पुर्विल्ले पुरातन ऋशी-मुनी रानांतच आश्रम बांधून जियेताले. रानांतल्या झाडां-पेडांचेर, सावदां-सवण्यांचेर ते अतोनात माया करताले. आजय रानांत जियेवपी आदिवासी रानांतल्या रुखांक, सावदां-सवण्यांक आपल्या नात्या-पात्यांतल्या मनशांवरीच लेखतात.

मनशान वेगवेगळे सोद लावन, जेन्ना यंत्रावळ घडोवन कारखाने उबाल्ले, दळणवळणांची अत्यंत वेगान धांवपी तेच परी मळबांतल्यान वचपी वाहनां सोदून काडलीं, त्या वेळार आपलो फोंड आपुणच खण्टा म्हणपाची जाणविकाय ताका आयली ना. नवे नवे गांव वसोवपाखातीर, नवीं नवीं शहरां निर्माण करपाखातीर, आशिल्लीं शहरां वाडोवपाखातीर, शेतोड आनी कारखान्यांखातीर मनीस रानांचो संव्हार करीत रावलो. मौज वा एक खेळ म्हणून तो सावदां-सवण्यांची शिकार करूंक लागलो. कारखाने सोडटात त्या धुंवराक लागून, आज मनशाक शुद्ध हवा मेळना. कारखान्यांनी न्हंयांत सोडिल्ल्या विखारी उदकाक लागून, मदीं मदीं नुस्तें मरूंक लागलां. रानां मेकळीं केल्लयान न्हंयो उथळ जाल्यात. सावदां-सवणीं, जीव-जिवाणीं नस्ट जावपाचे वाटेर पावल्यांत.

झाडां नस्ट करून दोंगर बोडके जाल्ल्यान पावस सारको पडना. ताका लागून जाय तितलें उदक मेळना. जसो मनीस निसर्गाचो एक भाग आसा, तेच परी झाडां-पेडां, सावदां-सवणीं आनी जीव-जिवाणीं पासून निसर्गाचोच भाग आसात. हातूंतलो एक भाग नस्ट केल्यार, निसर्गाचो तोल इभाडटा म्हणपाचें ध्यानांत येवपाक विसाव्या शेंकड्याचो अखेर उदेंवचो पडलो.

१९६० चे सुरवातीक राचेल कार्सनान (Rachel Carson) आपल्या 'Silent Spring' ह्या पुस्तकांतल्यान घाल्लया एकोड्या सादान, आनी स्टेवर्ट उदाल (Steward Udal) हाज्या 'निस्तब्ध संकट' (Quiet Crises) ह्या पुस्तकांतल्यान दिल्ले शिटकावणेन, कांय विचारवंतांची मनां जागीं जालीं. झाडां हीं मनशाचे जीणेचो प्राण आसात, हें तांणी आड्डून सांगलें. मनशाक स्वास घेंवक शुद्ध हवा मेळपाक जाय जाल्यार, ताज्या भोंवतणचो वाटार झाडां-पेडांनी भरिल्लो आसूंक जाय म्हणपाची खोल जाणविकाय ह्या पुस्तकांनी निर्माण केली. 'चिपको' चळवळिच्या रूपानय भारतांत झाडांचे मोल कळपाक लागलें. १९७० त संवसारांतल्या दरएक देशान रानांक, तेच परी तांतूंतल्या सावदां-सवण्यांक आनी जीव-जिवाण्यांक राखण दिवपाची आंखणी केली.

पर्यावरणाचें विज्ञान (The Science of Ecology) मनशाक, ताज्या फुडाराची वाट दाखयता आनी ताका सांगता की,

१) ह्या अंत आशिल्लया संवसारांत मनीस जात वाढत रांवची ना;

२) ह्या अंत आशिल्लया संवसारांत आर्थिक वाढ जायत रांवची ना;

३) प्रदूशण वाढत रावल्यार, आमच्या

भोंवतणच्या वाटाराचो सडो जातलो. जीणेच्या अस्तित्वाकच बाधा येतली. एकाद्रेवेळा मनीस जातच नस्ट जातली.

देखून, मनीस जियेंवक पावतलो जाल्यार, ताणें निसर्गाचेर आगळीक करूंक फावना. जीण समृद्ध करपाक निसर्गाची ताणें राखण करपाक जाय. आपल्या अन्नाची व्यवस्था करतासतना मनशान नुस्त्याचेर आनी हेर प्राण्यांचेर हावळ हाडूंक फावना. पशुसंवर्धनाखातीर ताणें रानांचेंय संवर्धन करपाक जाय. तेच परी रानांतल्या सावदां-सवण्यांक, जीव-जिवाण्यांक ताणें अभय दिवपाक जाय.

ह्या विचारांतल्यान अभयारण्यांची कल्पना उदेवाक आयली. संवसारांतल्या दर एक देशांत आज अभयारण्यां आसात. भारतांतल्या राज्यांनी अभयारण्यां आसात. गोंयांतच तीन अभयारण्यां आसात : बोंडला अभयारण्य, भगवान महावीर अभयारण्य (ह्या अभयारण्यान २४० चौखणे किलोमिटर व्यापल्यात) आनी खोतिगांव अभयारण्य (ह्या अभयारण्यान १०५ चौखण्या किलोमिटरांचो आवांठ व्यापला).

अभयारण्यांत वेगळे वेगळे जातिचे रूख आसतात. तरे तरेच्यो वखदी वनस्पती आसतात. थंयच्या सावदां-सवण्यांक, जीव-जिवाण्यांक तांचे निजाचे अवस्तेंत पळोंवक मेळटात. तांकां पळोवपाक मेळपाखातीर अभयारण्यांनी रस्ते केल्ले आसतात. प्राण्यांचें निरिक्षण करपाखातीर निरिक्षण-मनोरे उबाल्लेले आसतात. अभयारण्यांच्या ह्या आदावाक लागून तांचो आस्पाव अपरुपावळींत जाता.

प्राण्यांच्या निरिक्षणाखातीर जे अभयारण्यांत वतात तांचेखातीर, तेच परी अभयारण्यांतले प्राणी पळोवपाक वचपी देशी आनी विदेशी पर्यटकांखातीर, थंय घरां बांधिल्लीं आसतात.

अभयारण्यांत रावपी, तेच परी अभयारण्याच्या भोंवतणी १० किलोमिटर मेरेनच्या आवाठांत रावपी लोकांनी आपल्या आर्मांची नोंद सरकारांत करपाक जाय. १९७२ तल्या 'वन्य प्राणी रक्षण कायद्या' खाला, थंयच्या प्राण्यांक माल्लयार तो गुन्यांव जाता. ह्या गुन्यांवांक दोन वर्सांची बंदखण वा दोन हजार रूपये दंड अशी ख्यास्त पडूं येता.

**आधारावळः** १. A Manual of Wild life Conservation Edited by Richard D.Teague, Published by Wild Life Society.

२. Information on "Bhagawan Mahavir Wild Life Santuary and Cotigao Wild Life Santuary", Published by the Department of Information, Government of Goa, Daman and Diu.

**अभरवंसो** । अभरवंसॉ, सा.रू. -शा; भौव. -शे, सा.रू. -शां । [सं. अ+हिं. भरोसा] पु. भरवंसो नासप; विश्वासाची उणाय; पातेणेचो अभाव.

**अभक्ष** । अभक्ष । [सं. अभक्ष्यम्] वि. १. खावपाक अयोग्य अशें; अपथ्य; खांवक आडवारलेलें. २. धर्मशास्त्रान खावपाक निशिद्ध, भस्ट मानिल्लें.

**अभागी** । अभागी । [सं. अभागिन्] वि. १. भाग्यहीन; नशिब-फुटको; निर्भागी; दुर्भागी. २. अपेशी. ३. सूख नाशिल्लो.

**अभाग्य** । अभाग्य, सा. रू.- ग्या । [सं. अ + भाग्यम्] न. फुटकें नशिब; निर्भाग्य; दुर्भाग्य. २. अपेस.

**अभाग्यें** । अभाग्यें, [सं. अ+भाग्यम्] न. पळेयात 'अभाग्य'. –हाजें सामान्यरूप घोळटेंत ना.

**अभारी** । अ-भारी । [सं. अ+भारिन्] वि. ज्याका भार, जडसाण ना तें; ल्होव; ल्होवपीक.

**अभाव** । अभाव्, सा.रू. -वा; भौव. -व,

सा.रू. -वां। [सं. अभावः] पु. १. अस्तित्वाची उणाय; मुदलचेंच नासप. २. उणाय.

**अभावार्थ** । अभावार्थ्, सा.रू. -र्था; भौव. -र्थ, सा.रू. -र्थां । [सं. अ+भावार्थः] पु. १. देवा-धर्माचेर वा कित्याचेरच भावार्थ नासप; अविश्वास; अश्रद्धा; अनभक्ती. २. वांकडें, अधर्मी आचरण. (अगणित अभावार्थी शास्त्रद्रुहीत, हें नवल पळोंवक जे थंय मेळलेले, ते असलें अभिस्टांचें अचर्य देखतचि चेतवले, आनी भोवतेकांनी आपलो अभावार्थ सांडून, क्रिस्तांवपणाचो भावार्थ आधारलो. —सां. अ. अचर्यां, पा. १८).

**अभावार्थी** । अभावार्थी, सा.रू. -र्थ्या; भौव. -र्थी, सा.रू. -र्थ्यां । [सं. अ + भावार्थिन्] वि. १. ज्याचो देवा-धर्माचेर भावार्थ वा श्रद्धा ना तो; अनभक्तिवंत. २. पातकी; अधर्मी.

**अभाविक** । अभावीक् सा.रू. -का; भौव. -वीक, सा.रू. -विकां । [सं. अभाविक] वि. १. ज्याची देवाचेर निस्ठा, श्रद्धा ना तो; अभावार्थी; अनभक्तिवंत. २. माया, कळवळो नाशिल्लो. ३. अर्थहीन; बास्कळ (अभाविक उलवणें). ४. कळा, तेज, प्राण नाशिल्लो.

**अभावित** । अभावीत् । [सं. अभावित] वि./क्रि.वि. अकस्मात; अकल्पित; कळैनासतना; सांगनासतना. (तो अभावित आयलो).

**अभाळ** । अभाळ्, सा.रू. -ळा । [सं. अभ्र + आलय] न. १. मळब; आकाश. २. चितूंक नाशिल्लें संकट; अकस्मात आयिल्लें संकट. (म्हजेर अभाळ येवन पडलें).

**अभि** । अभि । [सं. अभि] मु. कू. उपसर्ग आनी अव्यय अशा दोन अर्थांनी येवपी हें मुळाकूस, उतरांक पैलीं लागून तांकां कांय विशेश अर्थ दिता.

देखीकः १. सारकाय, साम्यः अभिरूप, अभिराम.

२. लागशिलेपण, सान्निध्यः अभिमुख (सामुखार).

३. ऊंच, वेल्या पांवड्याचोः अभिजात.

४. भौन भौन, परतु परतूनः अभ्यास.

५. सगळेकडेन, सगळेवटेनः अभिसरण

६. तीव्र, अतीः अभिताप; अभिलाशा.

७. वयरः अभ्युदय.

**विशेशः** संस्कृत भाशेंतलीं जीं तत्सम उतरां कोंकणींत आयल्यांत, त्याच उतरांनी हें मुळाकूस दिस्टी पड्टा. स्वतंत्र रुपान घडिल्लया कोंकणी उतरांनी हें मेळना.

**अभिधार** । अभिधार्, सा.रू. -रा; भौव. -रो, सा.रू. -रां । [सं. अभिधारः] पु १. तूप. २. यज्ञांत हवनाच्या वा होमांत घाल्लया द्रव्यांचेर सोडिल्ली तुपाची आहुती; धार्मिक कार्यांच्या जेवणांत वाढिल्लया पानांचेर तुळशीपानान केल्लें तुपाचें प्रक्षोण; अन्नशुद्धि.

**अभिचार** । अभिचार्, सा.रू. -रा; भौव. -र, सा.रू. -रां । [सं. अभिचारः] पु. १. अथर्ववेदांतले मंत्र म्हणत कोणाकय पिडापीड दिवपाखातीर केल्लो अमंगळ जादू; कोणाचेंय पाड जांवचें ह्या हेतून ताजेर करून घाल्ली करणी, फितिस. २. हिंसा; वध.

**विशेशः** भारतांतल्या अभिचाराचे मुळावण अथर्ववेदांत मेळटा. अभिचार हो अथर्ववेद काळापासूनच न्हय, तर त्याय पैल्या काळापासून चलत आयिल्लो आसूंक जाय. अथर्ववेदांतली 'आंगिरस' संज्ञा ही दुसऱ्याचें अमंगळ, पाड करप ह्या अर्थान येता. आंगिरस म्हळ्यार, दुस्मानकायेक लागून एकाद्याक पिडापीड दिवपाखातीर वा ताका ना करपाखातीर म्हणपाचे, अभिचार मंत्र वा अंमगळ जादू.

अथर्ववेदांतल्या ह्या अभिचाराक 'घोर अभिचार' म्हण्टात. दुस्मानाच्या विनाशाखातीर मांत्रिक यातुदेवतांक अभिचार-मंत्रानी जागृत करताले. ह्या मंत्रांनी ज्याका पिडापीड दिवपाक जाय, त्या मनशाच्या नांवांखातीर जागो कोरो दवल्लेलो आसा. 'अमक्या गोत्रांतल्या अमक्याच्या पुताक तुज्या पाशांनी तूं चरांटून बांध' असो संकल्प ह्या मंत्रांनी मेळटा. (अ. व. ४.१६.९)

वेदिक परंपरेकडेन आशिल्लो अभिचाराचो धागो तुटून गेल्यार शेंकड्यांनीं वर्सां जातलीं. भारतांतल्या वेगळ्या वेगळ्या आंवांठांत अभिचाराच्यो ज्यो थळाव्यो परंपरा आशिल्ल्यो, तांचें एकठावण जावन सर्वसाधारण अीभचाराची एक भारतीय परंपरा निर्माण जाल्या. घडये, वेदिक आर्य भारतांत येंवचे पैलीं, तेन्नाच्या थळाव्या लोकांत आशिल्ल्यो अभिचाराच्यो लौकिक परंपरा वेदिक अभिचारांत गेल्यो जीतल्यो आनी ही जादूविद्या आशिल्ली तशी वेदिक परंपरांतल्यान लौकिक परंपरेंत आयल्या जातली.

अभिचार दोन तरांचो आसा. सात्विक आनी तामस वा शुक्ल आनी कृष्ण वा तारक आनी मारक. ह्या दोनय तरांनी एक हेतू आसता. हेतू फाटल्यान क्रिया येता. क्रियेक नेम, क्रम, तर्कशास्त्र आनी साधनां लागतात. जादूविद्येंत तांदूळ, सांसवां, हुडिद, लिंबू, कुकुम वा गुलाल, कणेरिंचीं वा दसणिचीं फुलां, बिबो आनी काजळ बी सामोग्री अत्यंत गरजेची आसता. जादू करपी मांत्रिक कोणाच्याय आड करणी करतासतना त्या मनशाच्या जाग्यार फातोर दवरतात. तो फातोर हें ताजें प्रतीक मानतात. कांय वेळा त्या मनशाचें प्रतीक म्हणून आंगशाच्या बावल्यांचोय उपयोग करतात. जेन्ना त्या मनशाचें प्रतीक म्हणून बावली उपकरायतात, तेन्ना जो छळ बावलेचो जाता, तोच छळ त्या मनशाचोय जाता. हाका लागून, बावल्यांच्या आंगांत अजापांची अशी एक अद्‌भुत शक्ती आसता असो समज आसा. इतलेंच न्हंय, तर कितलेशाच काणयांनी बावल्यांनी अद्‌भुत कामां केल्लीं मेळटात.

अभिचारांत गोंदून घेवपाचे क्रियेक एक वेगळेंच मोल आसा. ह्या कामांत ओझा गोंड बायलो आदी वैदू प्रवीण आसतात. तांकां ही विद्या हेलाडबाईकडल्यान मेळल्या खैं. तिणें ही विद्या आपुल्या अपुर्बायेच्या धुवांक पांचव्या जीवदेण्या रंगांत करपाक शिकैली. गोंदून घेतकीर आंगांतल्यो किरी वतात आनी अरिस्टां येंवक पावनांत म्हणपाचो समज आसा. गोंयांत ही प्रथा शबर लोकांनी हाडली. सगळ्या जातींतल्यो बायलो गोंदून घेताल्यो. आज ही प्रथा गोयांत दिसना. जाल्यारूय, साठ-सत्तर वर्सांपैलीं ती आशिल्ली. गोंदून घेतलेंना जाल्यार 'जंवरो संवकता' अशें जाण्टे म्हण्टाले.

मंत्र नासतना जादूविद्या ना. मंत्र हो अभिचाराचो कणो. मंत्र कुवाड्यांचे भाशेंत आसतात. आनाळ्या-गुनाळ्यांनी उलोवप हें तांचें रूप आसता. ते म्हण्टना तातूंत एक वेगळेंच बळगें आशिल्ल्यावरी दिसता. जे मंत्र मारक आसतात, तातूंतलीं दैवतां असुर कुळयेंतलीं आसतात. तारक मंत्रांनीं राम आनी कृष्ण ह्या दैवतांचीं नांवां येतात. लक्षिमण हो सदांच गर्भाची राखण करता. दैत्य हे सदांच तांच्या आड येतात.

मंत्र तरेतरेचे आसात. दादल्यांक तेच परी बायलांक वश करून घेवपाखातीर म्हणपाचे मोहिनी मंत्र आसात; बायलो गुरवार जावपाखातीर म्हणपाचे मंत्र आसात; रोग निर्माण करपी मंत्र आसात, तेच परी रोगांचें निवारण करपीय मंत्र आसात. पीक बरें येवपाखातीर मंत्र आसात. जंगली जनावरांचो आनी जिवाण्यांचो त्रास न जावपाखातिरय

मंत्र आसात.

देवाच्या रागण्याक लागून रोग जांवक येता, तेच परी कोणेंय करून घाल्ले करणेक लागून जांव येता, असो समज आदिवासी लोकांचोच न्हंय, तर भारतांतल्या बहुसंख्य लोकांचोय आसा. रोग कित्याक लागून जाला, हाजें निदान गुणिया, भगत वा घाडी करता. करणेक लागूनच रोग जाल्लो आसत, तर भगत ज्याणें करणी करून घाल्या, ताजेरच ती करणी परतिता. देवाच्या वा पितरांच्या रागण्याक लागून रोग जाल्लो आसत, तर आपल्या मंत्रांच्या बळग्यार तांकां तो शांत करता आनी आशिल्लें तशें सगळें जाग्यार घालता.

रोगांच्यो देवता दोन तरांच्यो आसात. भूंयदेवता आनी उदकदेवता. धर्तरी आनी तिजेकडेन लग्निक आशिल्ल्यो सगळ्यो देवता हांकां भूंयदेवता म्हण्टात. भूंय मेल्ल्यांक आपल्या पोटांत जागो दिता. ताका लागून भुयेंकडेन एक मायिक बळगें आसा. हें बळगें वा शक्ती विनाश करपी आशिल्ल्यान, ती केन्ना जागृत जायत म्हणपाचो नेम नासता. हे तामसी शक्तिची खूण म्हळ्यार मनशांक भोगतात त्यो तरेतरेच्यो पीडा.

गोंड हे आदिवासी जमातींत संवसार-निर्मणेची एक कथा आसा. हे कथेंत एकवीस तरांच्यो मातयो आसात अशें म्हळां. ह्या एकवीस तरांच्या मातयांक तांणीं भूंयदेवता म्हळ्यात. ह्या देवतांक भैणी म्हणपाची प्रथा आसा. एकवीस भूंयभैणी, एकवीस लोखंडभैणी वा लोखणाच्यो एकवीस तरा, एकवीस धान्यभैणी वा धान्याच्यो एकवीस तरा आसात, अशेंय ते कथेंत म्हळां. म्हादेवान हीं बियां आनी जीव -जंतूंचीं बियां घेतलीं. तीं व्हरून दर्यापोंदा आशिल्ले मातयेंत व्हरून रोयलीं. उप्रांत निंधन गुरुच्या आलाशिऱ्यान आनी मंत्रांच्या बळग्यान रूख आनी वनस्पतींसैत, तेच परी जीव-जंतूसैत ताणें पृथ्वी निर्माण केली. पृथ्वींतच मनशांक पोसणूक दिवपाची शक्ती आसा, तेच परी मनशाचो नाशय करपाची शक्ती आसा. पृथ्वीच दिता, पृथ्वीच काडून घेता. पृथ्वीच पोसता आनी तीच मारता. पृथ्वीचीं प्रतिकां म्हळ्यार गांवां गांवां कणकणीं आशिल्ल्यो ग्रामदेवता. ह्या सगळ्या भैणींत 'सात भैणी' अत्यंत नांवाजत्यो आसात. ह्या सात भैणिंची प्रतिस्ठा ह्या ना त्या रूपान भारतभर आसा. रोग हाडपी देवता म्हणून त्यो प्रसिद्ध आसात. हातूंतल्यो ज्यो देवता तामसी आसात त्यो उदकाकडेन लग्निक आशिल्ले रोग निर्माण करतात, असो समज आसा.

अभिचारांत सामुदायिक म्हळ्यार भौशिक आनी खाजगत अशे आनिक दोन प्रकार आसात. पावस पडपाखातीर करपाच्यो भौशिक विधी, सुखा-समाधानान जियेंवक मेळचें म्हणून गोयांत कांय कडेन करतात ती जोगोवणी, पौश म्हैन्यांत भुतां-पिशाच्च्यां उचंबळ जांव नये म्हरून गावां गावांतल्या मांडां मांडांनीं खेळटात त्यो धालो, ह्यो सगळ्यो भौशिक अभिचाराच्यो प्रथा. हो भौशिक अभिचार सदांच सात्विक आसता. समस्तांच्या कल्याणाखातीर आसता. खाजगत अभिचार हो सात्विक तसोच तामसी आसूं येता. कोणाकय पिडापीड दिवपाखातीर वा मारून उडोवपाखातीर केल्ली करणी ही तामसी अभिचारांत मोडटा.

आदिवासी लोकांत तेच परी कांय जातींनीं खासा तांचो असो एक मांत्रिक आसता. मध्य प्रदेशांतल्या पूर्वभागांत ताका बैगा, गुणिया वा पंडा म्हण्टात. कोरकू वा मध्यप्रांताच्या आग्नेय भागांतल्या गोंडांत ताका भुमिया वा भूमक म्हण्टात. नागपूर वा वऱ्हाडांत ताका पठारी, पुजाडी वा पुजारी म्हण्टात. छींदवाड्यांतले भारिया ताका भट म्हण्टात.

कमार तांकां झांकर म्हण्टात, मारिया ताका पेरमा म्हण्टात. गोंयांत ताका सोको, भगत, घाडी म्हण्टात. कांय मुसलमान जादूविद्येंत प्रवीण आसतात.

**आधारावळ:** १. अथर्ववेद, मराठी भाशांतर, म.म. सिद्धेश्वरशास्त्री चित्राव. २. धर्म आणि लोकसाहित्य, ले: दुर्गा भागवत. ३. गोमन्तकाची प्रतिमा, खंड पहिला: लेख, गोमन्तकाच्या वसाहतीची रूपरेषा, ले: अनंत रामकृष्ण शेणवी धुमे.

**अभिचारिण** । अभिचारिण्, सा.रू. -णी; भौव. -णी, सा.रू. -णीं । [सं. अभिचारिणी] वि. करणी, फितिस, जादू करपी.
**स्त्री**. चेटकीण; बंट.

**अभिचारी** । अभिचारी, सा.रू. -ऱ्या; भौव. -री, सा.रू. -ऱ्यां । [सं. अभिचारिन्] वि. करणी, फितिस, जादू करपी.
**पु**. घाडी, सोको; भगत.

**अभिजन** । अभिजन्, सा.रू. -ना; भौव. -न, सा.रू. -नां । [सं. अभिजनः] पु. १. कुळ; वंश. २. उच्च कुळ; सत्कुल. ३. जन्मभूंय; मातृभूंय; वाड-वडिलांचें घर; जंय आपलो बापूय, आजो-पणजो जन्मला तें स्थान. ४. परिवार. ५. घरांतलो श्रेष्ठ मनीस; कुळांतलो म्हालगडो. ६. ख्याती; कीर्त. ७. नात्या-पात्यांतलो लोक.

**अभिजात** । अभिजात् । [सं. अभिजात] वि. १. जो उच्च कुळांत, वंशांत जन्मला तो; कुलीन. २. पूज्य; प्रतिस्थित. ३. सुंदर. ४. सुसंस्कृत. ५. विदग्ध (इं.) Classical.

**अभिजित** । अभिजित् । [सं. अभिजित्] वि.१. जिखपी; ज्याणें जैत जोडलां तो. २. जो अभिजित नक्षत्राचेर जन्माक आयला तो.

**अभिजित** । अभिजित्, सा.रू. -ता । [सं. अभिजित्] न. एका नक्षत्राचें नांव. उत्तरा आशाढा नक्षत्राचो निमाणो भाग वा श्रवण नक्षत्राचो १५ वो अंश, ह्या काळाक अभिजित नक्षत्र म्हण्टात.
**पु**. १. दिसाचो आठवो म्हुर्त; दनपारचीं बारा वरां जांवचे पैलिंची एक घटका आनी त्या उप्रांतची एक घटका मेळून जाता तो काळ; दनपारचीं १२ ते साडेबारामेरेनचो काळ. हो काळ श्राद्धाक अत्यंत बरो मानतात. २. विष्णु. ३. एक यज्ञ.

**अभिताप** । अभिताप्, सा. रू. -पा; भौव. -प, सा.रू. -पां । [सं. अभितापः] पु. १. अत्यंत उस्णताय. २. अत्यंत दुःख. ३. मनाची व्यथा; मानसिक व्यथा.

**अभिधा** । अभिधा, सा.रू. -धे । [सं. अभिधा] स्त्री. १. उतराचो मुळावो अर्थ; वाच्यार्थ. २. उतराचो मुळावो अर्थ उक्तावपी एक शब्दतांक.

**अभिधान** । अभिधान्, सा.रू. -ना; भौव. -नां, सा.रू. -नां । [सं. अभिधानम्] न. १. नांव; पदवी. २. उतर.

**अभिनंदन** । अभिनन्दन्, सा.रू. -ना । [सं. अभिनन्दनम्] न. व्हडविकेच्या कर्तुत्वाखातीर वा बऱ्या घटिताखातीर उक्ती केल्ली खोस वा उक्तो केल्लो आनंद; केल्लें कौतुक वा केल्ली तोखणाय; दिल्लें परबें.
**वा.प्र.: अभिनंदन करप**: एकाद्रया मनशाचे जिणेंतले आनंददेणे खबरेखातीर वा ताज्या बऱ्या कर्तुत्वाखातीर ताका परबीं दिवप वा खोस उक्ती करप.

**अभिनय** । अभिनय्, सा.रू. -या; भौव. -नय, सा.रू. -यां । [सं. अभिनयः] पु. १. मुद्रेन वा हावभावान उक्ती करून दाखयल्ली मनांतली भावना. २.(**नाट्य**) नाटककारान

निर्माण केल्लें पात्र आपुणच आसां अशें समजून ताजें हुबेहूब रंगयल्लें संवंग; भेस, संवाद आनी हावभाव हांच्या आधारान घसघशीत उबें केल्लें दुसऱ्याचें रूप. आपुण दुसरो आसां असो निर्माण केल्लो भास. ३. **(नृत्य)** हातापांयांचे आनी दोळ्यांचे हालचालीन प्रगट केल्लो रस आनी भाव. ४. हावभाव.

**अभिनव** । अभिनव् । [सं. अभिनव] वि. १. नवें. २. अजाप जायसारकें; अपूर्व; विलक्षण. (तें महाथोर अभिनव अचर्य देखतचि, जो आनंद, उच्चेव, संतोस भावार्थ्यांक भोगलो त्या संतोसाक मिती ना जाली. —(सां.अं. अचर्यां, पा. १८).
**न.** नवल; अजाप; अचर्य (एक अभिनव वर्तलें).

**अभिन्न** । अभिन्न । [सं. अभिन्न] वि. फोडूंक नाशिल्लो; वेगळो नासपी; भेद नासपी.

**अभिप्राय** । अभिप्राय्, सा.रू. -या; भौव. -य, सा.रू.- यां । [सं. अभिप्रायः] पु. १. उद्देश; हेतू; अर्थ; भाव. (सात्विक मुक्तिपदाक वतात, राजस इंद्रपदाक आनी तामस नरकाक वतात, हो धर्मवाद्यांचे सांगणेचो अभिप्राय आसा.) २. मत; मत्त. (ह्या नाजूक विशयाचेर हांव कसलो अभिप्राय दिंव?) ३. इत्सा; म्हणणी; हुकूम; आज्ञा. (खाशांचो अभिप्राय रैतान मान्य करपाक जाय). ४. मागणें; विनंती; अर्दास. (प्रजेचो अभिप्राय राजामेरेन पावलो ना.) ५. अहवाल; रिपोर्ट. ६. विष्णु भगवानांचें एक नांव.

**अभिप्रेत** । अभिप्रेत् । [सं. अभिप्रेत] वि. १. इच्छिल्लो; आंवडेल्लो. २. प्रिय. ३. मान्य केल्लो.

**अभिमंत्रण्** । अभिमंत्रण्, सा.रू. -णा । [सं. अभिमन्त्रणम] न. १. मंत्रांनीं केल्लो संस्कार. २. मंत्रानीं केल्लें आवाहन. ३. मंत्र म्हणून पवित्र करप.

**अभिमर्दन** । अभिमर्दन्, सा.रू. -ना । [सं. अभिमर्दनम्] न. १. माडून, घांसून केल्लो पिठो, चुरो. २. शत्रूदेशाचो केल्लो विध्वंस, नाश. ३. झूज; लढाय.

**अभिमान** । अभिमान्, सा.रू. -ना; भौव. -न, सा.रू. -नां । [सं. अभिमानः] पु. १. उच्च कर्तुत्वदशेंतल्यान जन्माक आयिल्ली व्हडविकेची भावना; कर्तुत्वदशेची आशिल्ली योग्य जाणविकाय; योग्य, फावसो, सोबसो ताठो. (मनशाक अभिमान आसचो. गर्व आसचो न्हंय).
**विशेशः** अभिमान म्हळ्यार गर्व न्हंय. अती अभिमानान अहंकाराची बाधा जाता आनी अहंकारांतल्यान गर्व येता.
अभिमानांत व्हडविकेचीं लक्षणां आसतात. आपले कर्तुत्वदशेची योग्य जाणविकाय आसता. गर्वांत मद आसता. अहंकाराची दर्बटान आसता.
**वा.प्र.: अभिमानाचो पोटलोः** अती अभिमानी; गर्विस्ट; अहंकारी.
**अभिमानान पेटपः** ईर्शेक, बिर्याक लागून कामाक फुडें सरप.
**अभिमानान मरपः** अभिमानाखातीर जीव संकटांत घालप.

**अभिमानशून्य** । अभिमानशून्य् । [सं. अभिमान + शून्य] वि. १. अभिमान नाशिल्लो. २. निर्लज्ज्य; 'रांड बीण म्हणात, पुण पोटभर वाढात' अशे अकलेचो.

**अभिमानिनी** । अभिमानिनी । [सं. अभिमानिनी] वि. जिका आपलो अभिमान आसा ती; स्वाभिमानी. (हाय अभिमानिनी नारी! सत्य आयकून कसलें सूख मेळपाचें आसा? —बिदाय-अभिशाप, ले. रवींद्रनाथ टागोर. —कोंकणी भाशांतर, पांडुरंग भांगी).

**अभिमानी** । अभिमानी । [सं. अभिमानिन्]

वि. ज्याका आपलो अभिमान आसा तो; स्वाभिमानी.

**अभिमुख** । अभिमूख् । [सं. अभिमुख] वि. सामुखार; सामखार.

**अभियान** । अभियान्, सा.रू. -ना; भौव. -नां, सा.रू. -नां । [सं. अभियान] न. १. लार्गी वचप. २. प्रयाण करप. ३. घुरी; झूज.

**अभियुक्त** । अभियुक्त् । [सं. अभियुक्त] वि. १. ज्याचेर आरोप केला तो; ज्याचेर आळ, दोश घाला तो वा ज्याचेर आळ, दोश दवल्ला तो; आरोपी; प्रतिवादी. २. पूज्य; ज्याका पवित्र मानला तो; अधिकारी; तज्ञ. ३. निश्णात; विद्वान. ४. अभिजात.

**अभियोक्ता** । अभियोक्ता, सा.रू. -क्त्या; भौव. -क्ते, सा.रू. -क्त्यां । [सं. अभियोक्ता] वि. १. ज्याणें आरोप केला तो; वादी; फिर्यादी. (इं.) Litigant or Prosecutor. २. आक्रमक; घुरी घालपी.

**अभियोग** । अभियोग्, सा.रू. -गा; भौव. -ग, सा.रू. -गां । [सं. अभियोगः] पु. १. कोणेंय केल्लया अन्यायाक लागून न्यायालयांत ताज्या आड दाखल केल्ली तक्रार, फिर्याद. (इं) Indictment. २. वाद; झगडें; बाचाबाची. ३. आक्रमण; घुरी; हल्लो. ४. उद्योग. ५. मनन; अभ्यास; चिकाटी.

**अभिरक्षक** । अभिरक्षक्, सा.रू, -का; भौव. -क, सा.रू, -कां । [सं. अभिरक्षकः] पु. सगळी जतनाय, काळजी घेवपी; पूर्णतायेन राखण करपी.

**अभिरुची** । अभिरुची, सा.रू. -ची; भौव. -चो, सा.रू. -च्यां । [सं. अभिरुचिः] स्त्री. १. रूच; सुवाद; चव; आवड; पसंती; गोडी. २. आनंद.

**अभिरूप** । अभिरूप्, सा.रू. -रुपा; भौव. -रुपां, सा.रू. -रुपां । [सं. अभिरूप] वि. १. समरूप; अनुरूप; सोबसो; फावसो. २. दर्शनसंतोश; शिरवंत; सुंदर; देखणो; सुकुमार. ३. फटाफटिंचें; लटकें (अभिरूप न्यायालय). पु. १. शिव. २.विष्णु. ३. कामदेव. ४. चंद्र.

**अभिलाशा** । अभिलाशा, सा.रू. -शे; भौव. -शा, सा.रू. -शां । [सं. अभिलाषा] स्त्री. १. इत्सा; अभ्रेकणी; उमळशीक; आस. २. मोगयाक लागिल्ली प्रियेची ओड, उत्कंठा; माया; प्रेम. ३. मेळत ताजो आशिल्लो स्वार्थ; दुसऱ्याच्या द्रव्याची, वस्तिंचीं अपहार करचेली इत्सा. ४. एकाद्रे बायलेसंबंधान मनांत निर्माण जाल्ली पापाची वासना; ताळणी; मोह.

**अभिलाशी** । अभिलाशी, सा.रू. -श्या; भौव. -शी, सा.रू. -श्यां । [सं. अभिलाषिन्] वि. १. ज्याका अभ्रेकणी, उत्कंठा लागल्या तो. २. स्वार्थी; हावरो; सुग्रती. ३. जो दुसऱ्याचें धन आपल्याक असुदाय खांवक मेळचें अशी इत्सा धरता तो.

**अभिलेख** । अभिलेख्, सा.रू. -खा; भौव. -ख, सा.रू. -खां । [सं. अभिलेखः] पु. लेख; पाशाणार वा तांब्यापट्यार कोंत्रायल्लो लेख.

**अभिलेखागार** । अभिलेखागार, सा.रू. -रा; भौव. -रां, सा.रू. -रां । [सं. अभिलेख + आगारम्] पु. जंय पैलिंच्या काळांतलीं कागदपत्रां, तांब्या-पटे बी सांबाळून दवल्लेले आसतात अशी संस्था वा सरकारी ऑफिस. (इं.) Archives.

**अभिवचन** । अभिवच्यन्, सा.रू. -ना; भौव. -नां, सा.रू. -नां । [सं. अभिवचनम्] न. सोपूत घेवन दिल्लें उतर; हमी; प्रतिज्ञा.

**अभिवादन** । अभिवादन्, सा.रू. -ना; भौव. -नां, सा.रू. -नां । [सं. अभिवादनम्] न. १. भोमानान केल्लो नमस्कार. २. धालगड्यान म्हालगड्याक वा शिश्यान गुरूक केल्लो नमस्कार. ३. शारिरीक क्रियेन वा उतरांनी उक्तो केल्लो आदर.

**अभिवृद्धि** । अभिवृद्धि, सा.रू. -द्धी; भौव. -द्धयो, सा.रू. -द्धयां । [सं. अभिवृद्धिः] स्त्री. उदर्गत; समृद्धी; तरतर; भरभराट. (विज्ञानाच्या आधारान मनशाची भौतिक अभिवृद्धि जांव येता. जाल्यारूय, ताज्या मनाचो विकास जाताच असो ना.)

**अभिशाप** । अभिशाप, सा.रू. -पा; भौव. -प, सा.रू. -पां । [सं. अभिशापः] पु. १. श्राप. २. गंभीर आरोप. ३. लटको आळ.

**अभिशेक** । अभिशेक्, सा.रू. -का; भौव. -क, सा.रू. -कां । [सं. अभिषेकः] पु. १. देवाचे म्हुर्तीचेर माथ्यावेल्यान घाल्लो उदकाचो विधियुक्त शिंवर. २. युवराजाक ताज्या राज्यारोहणावेळार मंत्र म्हणत घाल्लें न्हाण; दुसऱ्या कोणाकय राज्यार बसयतासतना मंत्र म्हणत ताका घाल्लें न्हाण. ३. धर्मकार्यांत यजमानाचेर केल्लें उदकाचें प्रोक्षण. ४. शिंवर; पांजण.

**विशेशः** मनीस हो निसर्गाचोच एक भाग जाल्ल्यान, ताजो सगळ्यो भावना निसर्गाकडेन जोडिल्ल्यो आसात. निसर्गाचें रुद्ररूप पळेतकीर तो भयभीत जालो आनी आपल्या कल्याणाखातीर निसर्गांतल्या शक्तींक तो आवाहन करपाक लागलो. कांय हजार वर्सांच्या निरिक्षणान निसर्गांतल्या घटितांच्यो कांय कल्पना ताणें बांधल्यो. ह्यो कल्पना बांधतासतना, निसर्गांतल्या शक्तींचो अंश आपल्यांतय आसा म्हणपाचें ताका जाणवलें. मंत्रांच्या विधियुक्त केल्ले क्रियेच्या आधारान, आपलें यात्विक बळगें वाढोवन, निसर्गाचेर सत्ता जोडूंक येता अशी श्रद्धा ताज्यांत उदेली. हे श्रद्धेंतल्यान तागेलें दिसपट्टें कर्मकांड जन्माक आयलें.

मनशाचे इतिहासीक वाटचालींत ताजे भौशिक जीणेचो अंत जालो, तेन्ना एक नवो बदल ताजे जीणेंत घडलो. भौसांतल्यान एकोडो पडिल्ल्या मनशाक, आपली दुर्बळाय जाणवपाक लागली. हे दुर्बळायेंतल्यान तागेले यात्विक श्रद्धेचें, देवाचेर आधारलेले धर्मश्रद्धेंत रूपांतर जालें. जाल्यारूय, तागेल्या पैलिंचे अवस्तेंतल्यो कांय यातुविधी उल्ल्यो.

आपले भौशिक जीणेच्या वेळार, पावसाखातीर तो पर्जन्यनाच करतालो. आजुनय पावस पडपाखातीर, नागडे अवस्तेंत वा ओल्या वस्त्रार पांचवीं पानां आनी वाली आंगांभोंवतणी रेवडावन आनी माथ्यार उदकान भरिल्ले कुंभ घेवन, मिरवणूक काडपाची प्रथा भारतांतल्या कांय दुश्काळी भागांत आसा. हेच प्रथेंतल्यान अभिशेकाचो उदेव जाला. देवाच्या माथ्यार अभिशेक करप, हो पसून पावस पडपाखातीर करपाचो एक यातुविधीच आसा.

**अभिशेकपात्र** । अभिशेकपात्र्, सा.रू. -त्रा; भौव. -त्रां, सा.रू. -त्रां । [सं. अभिषेकः+पात्रम्] न. ज्या आयदनांतल्यान देवाचेर अभिशेक करतात, तें पोंदाक बोंथ्या बोंथ्याची जाळी आशिल्लें गंगाळाच्या आकाराचें आयदन. हें चड करून तांब्याचें आसता.

**अभिषेक** । अभिषेक, सा.रू. -का; भौव. -क, सा.रू, -कां । [सं. अभिषेकः] पु. पळेयात 'अभिशेक'. (इतलें म्हणून त्याच खिणाक ताणे कर्णाक भांगरा-शिंवासनार बसयलो आनी पुरयतांक आपोवन ताका अभिषेक केलो. —महाभारत, खण्ड १., ले. रवीन्द्र केळेकार. पा. ६४.).

**अभिषेकपात्र** । अभिषेकपात्र्, सा.रू. -त्रा; भौव. -त्रां, सा.रू. -त्रां । [सं. अभिषेकः

+ पात्रम्] न. पळेयात 'अभिशेकपात्र'.

**अभिसरण** । अभिसरण्, सा.रू. -णां । [सं. अभिसरणम्] न. हेवटेन तेवटेन भोंवप; सगळेकडेन फिरप; सगळेकडेन पावप. (रगताचें अभिसरण).

**अभिसार** । अभिसार, सा.रू. -रा; भौव. -र, सा.रू. -रां । [सं. अभिसारः] पु. १. मोगयांनीं चोरून एकामेकांक मेळूंक वचप; थारायल्ल्या संकेताच्या जाग्यार वचून मोगयांनीं एकामेकांक मेळप. २. आक्रमण; घुरी; हल्लो. ३. लढाय; झूज. ४. सांगाती; वांगडी. ५. सामर्थ्य; बळ. ६. साधन.

**अभिसारिका** । अभिसारिका, सा.रू. -के; भौव. -को, सा.रू. -कां । [सं. अभिसारिका] स्त्री. १. अस्ट नायिकांतली एक नांवाजती नायिका; संकेत थारावन मोगयासरीं वता ती बायल; उचंबळ जावन जिचें आंग मदनाच्या जोरान पेटून आयलां आनी कायेचेर रोमांचांचो कांटो फुलून आयला अशे अवस्तेंत, फाट-फुडा पळेनासतना, मोगयाक बेधडक मेळूंक वता ती बायल; जी आपुण जावन मोगयाक मेळूंक वता वा मोगयाक आपल्याक मेळूंक आपयता ती बायल.

**विशेश:** संस्कृत साहित्यांत ज्या अस्टनायिकांचें चित्रण येता, त्यो अस्टनायिका अशो आसात: १. वासकसज्जा. २. विरहोत्कंठिता. ३. स्वाधीनभर्तृका ४. कलहांतरिता. ५. खंडिता. ६. विप्रलब्धा. ७. प्रोषितभर्तृका आनी ८. अभिसारिका.

अभिसारिकेचे दोन भेद आसात. शुक्लाभिसारिका (ज्यो चांदन्यांत मेळूंक वतात त्यो) आनी कृष्णाभिसारिका (ज्यो काळखांत मेळूंक वतात त्यो). दिवाभिसारिका (ज्यो दिसाच्यो मेळूंक वतात त्यो) असोय एक तिसरो भेद मानतात. संस्कृत साहित्यशास्त्रांत अभिसाराखातीर आठ स्थानां मानल्यांत: १. शेत, २. उपवन वा बाग, ३. मोडिल्लें देवूळ, ४. निरोप घेवन येवपी सखीचें वा दुतीचें घर, ५. रान, ६. तीर्थस्थान, ७. मसंड आनी ८. न्हंयची देग वा वाटार.

'गाथासप्तशती'च्या काळार संकेत म्हणून न्हंयची देग वा वाटार हो चड प्रिय आशिल्लो दिसता. त्या फाटल्यान कोंड्यांची वनां आनी भाताचीं शेतां संकेतस्थानां म्हणून प्रिय आशिल्लीं दिसतात. तळ्यांची देग आनी मोडिल्लीं देवळां हांचोय संकेतस्थानां म्हणून 'गाथासप्तशतीं'त उल्लेख केल्लो मेळटा.

**अभिस्ट** । अभिस्ट, सा.रू. -स्टा; भौव. -स्टां, सा.रू. -स्टां । [सं. अभिष्ट] न. पळेयात 'अबिस्ट'.

**अभिस्टगुणीं** । अभिस्टगुणीं । [सं. अभीष्ट+गुणिन्] क्रि.वि. पळेयात 'अबिस्टगुणीं'.

**अभिस्टांचो,ची,चें** । अभिस्टांचो,ची,चँ । ['अभीष्ट' वेल्यान] वि. पळेयात 'अबिस्टांचो,ची,चें.'

**अभिज्ञ** । अभिज्ञ्, सा.रू. -ज्ञा । [सं. अभिज्ञ] वि.१. जाणकार. २. निपुण; तिजिल्लो; वळसल्लो; पारंगत; खांपो; तरबेज.

**अभिज्ञान** । अभिज्ञान्, सा.रू. -नां; भौव. -नां, सा.रू. -नां । [सं. अभिज्ञानम्] न. १. पूर्ण वा खोल ज्ञान, गिन्यान; संपूर्ण माहिती, खबर. २. खूण; कुरू. ३. वळख मेळपाखातीर करपाची वा दिवपाची आसता ती वस्त वा उतर.

**अभिज्ञानपत्र** । अभिज्ञानपत्र्, सा.रू. -त्रा; भौव. -त्रां, सा.रू. -त्रां । [सं. अभिज्ञानपत्रम्] न. परिचय-पत्र; शिफारस करून दिल्लें पत्र वा चीट.

**अभिस्ट** । अभीस्ट, सा.रू. -स्टा । [सं. अभीष्ट] वि. १. इच्छिल्लें; आंवडेल्लें. २.

मोगाचें; आवडिचें; प्रिय. ३. अद्‌भूत; अप्रूप; विलक्षण; अपूर्व.

**—देवता:** स्त्री. प्रिय देवता.

**—लाभ:** पु. आंवडेल्ले वस्तिचो जाल्लो लाभ वा जाल्ली प्राप्ती.

**—सिद्धि:** स्त्री. पूर्ण जाल्ली आंवडेली इत्सा.

**अभीस्ट** । अभीस्ट, सा.रू. -स्टा; भौव. -स्टां, सा.रू. -स्टां । [सं. अभीष्टम्] न.१. कल्याण; हीत; शुभकामना; अबिस्ट. २. नवल; अजाप.

**—चिंतक:** पु. जो दुसऱ्याचें बरें जांवचें अशें येवजिता तो.

**—चिंतन:** न. कोणाचेंय कल्याण जांवचें अशें केल्लें मागणें; दुसऱ्याचें बरें जांवचें अशी केल्ली प्रार्थना, अर्दास.

**अभीस्टा** । अभीस्टा, सा.रू. -स्टे; भौव. -स्ट्यो, सा.रू. -स्ट्यां । [सं. अभीष्टा] स्त्री. १. लाडकी बायल. २. गृहस्वामिनी; घरची घरकान्न. ३. (ला.). दवल्लेली बायल. आंगोस्तर.

**अभुक्त** । अभुक्त । [सं. अभुक्त] वि. १. खांवक नाशिल्लो; न खाल्लो. २. न भोगिल्लो. ३. जो उपयोगांत हाडिनासतना आसा तो. ४. जेंवक नाशिल्लो; उपाशीं आशिल्लो. ५. ज्याणें संभोग घेंवक ना तो.

**—मूळ:** न. जेष्ठा नक्षत्राच्यो निमाण्यो चार घटका आनी मूळ नक्षत्राच्यो पैल्यो चार घटका, असो आठ घटकांचो काळ.

**अभूक** । अभूक्, सा.रू. -के; भौव. -को, सा.रू. -कां । [सं.अभुक्तिः] स्त्री. १. भूक नासप. २. तृप्ती.

**अभूत** । अभूत् । [सं. अभूत] वि. १. जो अस्तित्वांत ना तो; जो जांवक ना तो. २. असत्य; लटिक. ३. अपूर्व; विलक्षण.

**—पूर्व:** वि. अपूर्व; विलक्षण; पैलीं केन्नाच जांवक ना असो. (अभूतपूर्व सुवाळो).

**अभेद** । अभेद् । सा.रू. -दा; भौव. -द, सा.रू. -दां । [सं. अभेदः] पु. १. भेदाचो अभाव; भेद-भाव नासप; पंक्तिप्रपंच नासप. २. समभाव; सारकाय. ३. दुकलेपण नाशिल्ली स्थिती; अद्वैत.

**—भाव:** पु. विश्व आनी ब्रह्म वा जीव आनी शीव हे एकच आसात अशें मत; अद्वैतमत; अद्वैतभाव.

**अभेदवादी** । अभेद्‌वादी, सा.रू. -द्या; भौव. -द्यां, सा.रू. -द्यां । [सं. अभेदवादिन्] वि. जो जीवात्म्यांत आनी परमात्म्यांत भेद मानिना तो; अद्वैतवादी.

**अभेद्य** । अभेद्य् । [सं. अभेद्य] वि. १. न फुटपी; न मोडपी; फोडपाक, भेदपाक अशक्य अशें. २. ज्यातूंत कसोच रीग करूंक मेळना वा रीग जायना तें. (अभेद्य कोट). **न.** वज्र.

**अभोग** । अभोग्, सा.रू. -गा; भौव. -ग; सा.रू. -गां । [सं. अभोगः] पु. भोगाचो अभाव; भोग न घेवप.

**अभोगी** । अभोगी । सा.रू. -ग्या; भौव. -गी, सा.रू. -ग्यां । [सं. अभोगिन्] वि. जो भोग घेना तो; ज्याका इंद्रियांच्या सुखाची निखालस आवड ना तो; विरक्त.

**अभोग्य** । अभोग्य । [सं. अभोग्य] वि. जें भोगूंक अयोग्य तें; जें उपयोगाक पडना तें.

**अभौतिक** । अभौतिक, सा.रू. -का; भौव. -क, सा.रू. -कां । [सं. अभौतिक] वि. १. जो पंचमहाभूतांक लागून घडूंक ना तो; जो पृथ्वी, अप्, तेजस्, वायु आनी आकाश ह्या पंचमहाभूतांक लागून उत्पन्न जांवक ना तो; अपार्थिव. २. अगोचर.

**अभ्यंग** । अभ्यंग्, सा.रू. -गा; भौव. -गां, सा.रू. -गां । [सं.अभ्यङ्गः] न. तेलाचें, तुपाचें, अत्तराचें वा उटण्याचें आंगाक केल्लें मर्दन वा रगडप.

**अभ्यंगस्नान** । अभ्यंगस्नान्, सा.रू. -ना; भौव. -नां, सा.रू. -नां। [सं. अभ्यङ्गस्नानम्] न. आंगाक तेल लावन वा तेल रगडून केल्लें स्नान (न्हाण).
**(क्रि.ध.)**: परमेश्वराचे कृपेखातीर आनी पापांच्या भगसण्याखातीर सांत इगर्जेचो साक्रामेंत घेतना अभिमंत्रून पवित्र केल्लें ऑलिव्ह तेल आंगाक लावन, उप्रांत उदकाची धार सोडपाचो केल्लो विधी.

**अभ्यंतर** । अभ्यन्तर्, सा.रू. -रा; भौव. -रां, सा.रू. -रां । [सं. अभ्यन्तरम्] न. १. भितल्लो भाग; अंतर्भाग; गाभो; मदलो भाग. २. मन; अंतरंग; काळीज; अंतस्कर्ण; अंतस्करण. ३. घराचो फाटलो भाग. ४. काळजांतली भावना, हेतू.

**अभ्यर्थना** । अभ्यर्थना, सा.रू. -ने; भौव. -ना, सा.रू. -नां । [सं. अभ्यर्थनम्] न. प्रार्थना; याचना; विनंती; अर्दास.

**अभ्यर्थी** । अभ्यर्थी, सा.रू. -र्थ्या; भौव. -र्थी, सा.रू. -र्थ्यां । [सं. अभ्यर्थिन्] पु. जो कसलेंय पद मेळपाक यत्न करता तो; इत्सा करपी; प्रार्थना करपी. **(ला.)** अर्ज करपी.

**अभ्यागत** । अभ्यागत्, सा.रू. -ता; भौव. -त, सा.रू. -तां । [सं. अभ्यागत] पु. १. अतिथी; पाहुणो; पावणो. (अभ्यागताची सेवा हो गृहस्थाचो धर्म). २. तिर्थयात्रिक.

**अभ्यांतर** । अभ्यान्तर्, सा.रू. -रा; भौव. -रां, सा.रू. -रां । [सं. अभ्यन्तरम्] न. मन; अंतरंग; काळीज; अंतस्कर्ण (बाळकु जेजू भाइल्यान उलैना, पण ताचें उलवणें अभ्यांतरीं, अंतस्करणीं भेदता. —अनवाळ्यांचो मळो, पा. १२.)

**अभ्यास** । अब्भ्यास्, सा.रू. -सा; भौव. -स, सा.रू. -सां । [सं. अभ्यासः] पु. १. भौन भौन केल्लें काम; पुर्णताय वा घटी मेळपाखातीर भौन भौन केल्ली एकच क्रिया. २. विद्येची उपासना; विद्येच्या मळावेल्या खंचेय खांदयेचें ज्ञान जोडूंक केल्लो व्यासंग; शास्त्रिक मळावेल्या तशेंच उदरगतिच्या वावरांत ज्यो अडचणी उप्रासून येतात, त्यो निस्तारूंक तकालस घेवन सोदून काडिल्ले उपाय. ३. संवय; सराव. (अभ्यासान सगळें आंगवळणी पडटा.) ४. कसलेय आंखणेची, येवजणेची पूर्वतयारी वा पैलिवैली मांडावळ. (कोंकण रेल्वे केन्नाच्यान जायत तें कळना. जाल्यारूय, तुर्ताक तिजो अभ्यास चल्ला). ५. विद्येचे खंचेय खांदयेचेर चलिल्लें संशोधन. (अणुचो अभ्यास). ६. शाळेंत शिकयल्लें लक्षांत उरपाखातीर भुरग्यांक घराकडेन घोळोंवक दिल्लें शिकपाचें वा बरोवपाचें काम. (तूं शिकूंक बशिल्लो दिसना. आज मास्तरान कांयच अभ्यास दिंवक ना?) ७. शिकपाखातीर वा समजून घेवपाखातीर मन, ध्यान लावप.
**वा.प्र.: अभ्यास करप**: मन लावन शिकप; समजून घेवप; संवय, सराव करप.

**अभ्यासक** । अब्भ्यासक्, सा.रू. -का; भौव. -क, सा.रू. -कां । ['अभ्यास' वेल्यान] पु. विद्येच्या मळावेल्या खंचेय खांदयेचो खोल अभ्यास करपी; व्यासंगी.

**अभ्यासक्रम** । अब्भ्यासक्रम्, सा.रू. -मा; भौव. -क्रम, सा.रू. -मां। [सं. अभ्यासक्रमः] पु. अभ्यासाचे नदरेन, शिकपी भुरग्याचें वय आनी तांचें बुद्धिची तांक ध्यानांत घेवन त्या त्या विशयांच्या घटकांची विशिस्ट हेतून केल्ली मांडणी वा व्यवस्था.

**अभ्यासप** । अब्भ्यासप्, सा.रू. -पा । [सं. अभि+आस्] क्रि.दा.धा.सा.ना. (मूळ धातू: अभ्यास् (सक.)) अभ्यास करप; घटी मेळपाक सराव करप; विद्येची उपासना करप; कसलेय आंखणेची, येवजणेची पूर्वतयारी करप; सवंय करप.

**अभ्यासू** । अब्भ्यासू । ['अभ्यास' वेल्यान] वि. अभ्यास करपी; सराव करपी; शिकपाची इत्सा आनी आवड आसपी.

**अभ्युदय** । अभ्युदय्, सा.रू. -या । [सं. अभि + उदय] पु. १. उदेव. –चड करून मळबांतले गिरे आनी नक्षत्रां हांचो. २. उत्कर्ष; भरभराट; तरतर; गडगड; चइटी कळा; उद्भवकाळ.

**अभ्र** । अभ्र, सा.रू. -भ्रा; भौव. -भ्रां, सा.रू. -भ्रां । [सं. अभ्रम्] न. १. ज्याका लागून पावस पड्टा असो मळबांत उफेत आशिल्लो वाफेचो दाट थर; पावशें कूप. २. मळब; आकाश; अंतरिक्ष ३. **(ला.)** १. दोळ्यांर आयिल्ली साय; म्हेळसाण. २. सावट; स्वस्तसाणेआड वा सरळ गजाली आड आयिल्लें आडमेळें; अस्कड.

**अभ्रक** । अभ्रक् । सा.रू. अभ्रका; भौव. अभ्रक, सा.रू. -कां । [सं. अभ्रकम्] पु. फिलोसिलिकात गटांतलें फातरांनी मेळपी एक खनीज द्रव्य. हाजीं गुळगुळीत आनी चकचकीत अशीं पातळ पातीं करूक मेळटात.

**विशेश:** अभ्रकांत दोन पोटगट मेळटात: मोस्कोव्हीत आनी दुसरो बिओतीत. मोस्कोव्हीत अभ्रक निरंगी आसता. तातूंत पोतास आसता. पुण लोखंड नासता. बिओतीत ह्या पोटगटाचो अभ्रक रंगान काळो आसता. ह्या अभ्रकांत माग्रेज आनी लोखंड भरपूर प्रमाणांत मेळटा. ब्युटॅनग्यॅनब्यॅच (Buttengenbach) हाणें अभ्रकाची वर्गवारी अशी केल्या:

**I आल्कालिन अभ्रक:** (शुभ्र अभ्रक) —Biaxes:

१. पोतास्सीकश् (Potassicas): मोस्कोव्हीत (Moscovita)

२. लीतिकश् (Liticas): लेपोदोलित (Lepidolita)

३. पोतास्सीकश् आनी लीतिकश: झिंव्हालदित (Zinvaldita)

**II माग्नेजियान अभ्रक:** (काळो अभ्रक) —Uniaxes

१. भरपूर प्रमाणांत लोखंड आशिल्लो: बिओतीत (Biotita)

२. कमी प्रमाणांत लोखंड आशिल्लो: फ्लोगोपीत (Flogopita)

अभ्रकाचीं पातीं जाय तशीं बागवतात. तेच परी तीं चिवटय आसतात. तोंक नाशिल्लो खिळो अभ्रकाचे पातयेर मोठ्यान माल्ल्यार, स आरे आशिल्ली नक्षत्रासारकी आकृताय उदेता. तोच खिळो आनीक मात्सो मोठ्यान दामल्यार बारा आरे आशिल्ली आकृताय उदेता.

अभ्रकाचें उत्पादन करपी देश: अमेरिकेचीं संयुक्त संस्थानां (USA), रशिया, भारत आनी ब्राझिल.

शुभ्र अभ्रकांचें उत्पादन भारत आनी ब्राझिल ह्या देशांतच चड प्रमाणान जाता. भारतांत सुमार ८०% उत्पादन जाता.

फ्लोगोपीत वा फ्लोगोपाइट अभ्रकांचें उत्पादन चड करून, कॅनडा आनी मादागाश्कारांत जाता.

भारतांतलो शुभ्र अभ्रक आर्कीयन खडपानीं मेळटा. ह्या अभ्रकाचे सांठे बिहारांतल्या हजारीबाग, गया हांगा, आंध्रांतल्या नेलोर जिल्ह्यांत, राजस्थानांतल्या अजमीर आनी मेवाड हांच्या लागशिल्लया आंवाठांत आसात. ह्या धव्या अभ्रकाभायर बिहारांत रुबी ह्या नावांचो एक तांबसार अभ्रक मेळटा.

फ्लोगोपीत (फ्लोगोपाइट) अभ्रक पुडिच्या

रंगाचो आसता.

भारतांतलो अभ्रक अमेरिका, ब्रिटन, जपान, रशिया, इटाली आनी फ्रांस ह्या देशानीं निर्यात जाता.

उद्योगधंद्याचे नदरेन मोस्कोव्हीत आनी फ्लोगोपीत ह्याच तरेच्या अभ्रकाक अत्यंत मोल आसा. अभ्रकाच्यो ह्यो दोन तरा वा दोन प्रकार विजेच्या आनी इलेक्ट्रॉनीक उपकरणांत चड प्रमाणान उपकरायतात.

बिओतीत हो काळो अभ्रक व्यापारी नदरेन चडसो महत्वाचो न्हंय. भारतांत हाजो उपयोग अभ्रकभस्माखातीर खूप पैलीं पासून जाता.

अभ्रकाकडेन लग्निक आशिल्ली एक आख्यायिका आसा. पार्वतीच्या भस्त्याच्या स्त्रावाक (रजःस्त्राव) लागून अभ्रक उत्पन्न जाला असो समज चलता.

**आधारावळ:** १. Verbo Enciclopedia Luso- Brasiliera de Cultura, Vol 13.

२. Decinario Enclopedico Luso-Braziliero Vol II.

३. मराठी विश्वकोश. खंड १.

**अभ्रकभस्म** । अभ्रकभस्म, सा.रू. -स्मा; भौव. -स्मां; सा.रू. -स्मां । [सं. अभ्रकम् + भस्मम्] न. काळ्या अभ्रकापासून तयार केल्लें एक आयुर्वेदिक भस्म. ह्या भस्माचो कितलेशाच रोगांचेर उपयोग जाता.

**अमको,की,कें** । अमकॉ,की,कँ, सा.रू. -क्या,-के,-क्या; भौव. -के (कॅ),-क्यो,-कीं, सा.रू. -क्यां । [सं. अमुक] वि. १. कोण तरी एक मनीस; कोण तरी एकाद्रो. २. कोण तरी निश्चित एकलो. (हें काम कोणेंय तरी करचें म्हणून तूं सांगता. जाल्यारूय, तें अमक्यानच करचें म्हणून सांग). ३. निश्चित अशी (तुका अमकीच वस्त जाय म्हणून सांग.)

**अमको - तमको, अमकी - तमकी, अमकें-तमकें** । [सं. अमुक द्वि.] वि. पळेयात 'अमको,की,कें'.

**अमंगळ** । अमङ्गळ । सा.रू. -ळा । [सं. अमङ्गल] वि. १. बुरसो; पोजडो; अळशिकावणो; ज्याचो ओंकारो येता असो (अमंगळ मनीस). २. अपशकुनी; आचारव्राणें; अशुभ; अभद्र (अमंगळ वाचा). ३. पाडी, पाडंग; निकस; भड्डी (अमंगळ जमीन). ४. भस्टिल्ली; अपवित्र.

**वा.प्र.: अमंगळ करप:** आगळिकेन भस्टुवप; आगळिकेन पोटलून धरप; आगळिकेन भोग घेवप. (अधर्मी राजान अमंगळ केल्ल्या बायलांक भौमानान जियेवपाची संध कृष्ण भगवानान दिली.)

**अमंगळ** । अमङ्गळ, सा.रू. -ळा । [सं. अमङ्गलम्] न. दुर्भाग्य; अभाग्य.

**अमतो,ती,तें** । अमतॉ,ती,तँ, सा.रू. -त्या, -ते, -त्या । [सं. अवमस्तम्, प्रा. उम्मत्थ, दे. उम्मत्थं] वि. तकली सकल घाल्लो; तोंड सकल आनी पोंद वैर अशे अवस्तेंत दवल्लेलो वा आशिल्लो; उमथो, थी, थें. (..... आनी हुमेचे लोट गळोवन केल्लो इतलो सगट वावर अमत्या कळशार उदक जावन वेता. —मन वोडटा वोडना, बरो: ओलिव्हीन गोमिश, पा. ३१)

**म्हण:** १. अमत्या कळशार उदक.

२. अमत्या कळशार पाणी तशी भेऱ्याक काणी.

**अमंतर** । अमन्तर् । [सं. 'अमन्त्रित' वेल्यान?] वि. १. दुभावामेकळें; सणसणीत; स्पस्ट. (परंत ह्या अन्यावाखातिर रोकडेंच फुडल्या आयतारा, मुंबैचे इगर्जेंत 'सेर्माव' सांगता आसतना रेव्हरंड रिचर्ड कॉबे हाणे बुनाक अमंतर दुशण लावन 'नस्ट्या-दुस्टांक ख्यास्त

भोगल्याबगर रांवची ना, (The wicked shall not go unpunished) म्हणपाची सणसणीत सुलूस दितकूच, बुनाचें पित्त चाळवलें. —पु.रा.का. बरोः शणै गोंयबाब, पा. ७३.) २. धल्ल्यार सणसणीत लागता, ना जाल्यार ना अशें. ३. गुळमुळीत (असो अमंतर उलोंव नाका. स्पस्ट सांग.)

**अमर** । अमर् । [सं. अमर] वि. १. जो मरण तरून गेला तो; ज्याका मरण ना तो; निर्जरी; अक्षय; अविनाशी, सासणादिक (अमर आत्मो); मनिसजातिचे यादस्तिकेंत सासणाचो उरता तो; अमर्तिक; अज्रंवर (कालिदास हो संस्कृत वाङ्मयांतलो अमर कवी आनी नाटककार.)

**अमर** । अमर्, सा.रू. -रां । [सं. अमर] पु. भौव. स्वर्गलोकांतले देव.

**अमरकोश** । अमर्कोश्, सा.रू. -शा । [सं. अमरकोशः] पु. अमरसिंहान रचिल्लो संस्कृत भाशेचो एक पुर्विल्लो शब्दकोश.
**विशेशः** संस्कृत भाशेचे आजमेरेन जे कोश मेळटात, तांतूंतलो 'अमरकोश' होच चड पुर्विल्लो कोश. अमरसिंहान हो कोश रचला. ताजे जीणेची विश्वास दवरपासारकी खबर मेळना. कांय विद्वान तो क्रिस्ती सनाच्या पांचव्या शेंकड्यांत जन्माक आयला अशें मानतात, तर थोडे तो सव्या आनी आठव्या शेंकड्याचे मदगतीं जन्माक आयला अशें मानतात.

अमरसिंह हो बुद्ध धर्माच्या मतान चलतालो अशें म्हणटात. भारतांत बुद्ध धर्माआड जी चळवळ जाली, तातूंत अमरकोश सोडून हेर ग्रंथ नस्ट जाले, अशी एक आख्यायिका आसा. जाल्यारूय हो कोश ब्राह्मणानीं, बौद्धांनीं, आनी जैनांनी मोलादिक मानलो. संस्कृत भाशेचो अभ्यास करतल्याक अमरकोशाचें मोल जाणवता.

एकाच शब्दाचे समान अर्थ सोंपेपणी दिवपाखातीर अमरकोश अनुस्टूप छंदांत आसून, तातूंत सुमार १५०० श्लोक आसात. हे श्लोक वेगळ्या वेगळ्या पदार्थांच्या वर्गांप्रमाणें तीन कांडांत वांटल्यात. देखून, ह्या कोशाक क्वचित 'त्रिकांड' वा 'त्रिकांडी' ह्या नांवानय वळखतात. ह्या कांडांनी प्रत्येक वर्गाचे वेगळे अध्याय आसात.

पैल्या कांडाचें नांव 'स्वरादिकाण्डम्' अशें आसा. ह्या कांडांत स्वर्ग, मळब, दिको, काल, बुद्धि, शब्द, नाट्य, पाताळ, नरक आनी उदक ह्या वर्गांकडेन लग्निक आशिल्लीं उतरां आसात.

दुसऱ्या कांडाक 'भुम्यादिकाण्डम्' अशें नांव आसा. ह्या कांडांत भूमि, नगरां, पर्वत (शैल), वखदी वनस्पती, सिंहादी प्राणी, मनीस जात (ब्राह्मण, खेत्री, वाणी आनी सुदीर) ह्या वर्गांकडेन लग्निक आशिल्लीं उतरां आसात.

तिसऱ्या कांडाचें नांव 'सामान्यकांड' अशें आसा. ह्या कांडांत 'विशेष्यनिघ्न', 'संकीर्ण', 'नानार्थ', 'अव्यय', आनी 'लिंगादिसंग्रह' ह्या वर्गांकडेन लग्निक आशिल्लीं उतरां आयल्यांत.

अमरकोशाच्या आरंभाक मंगलाचरण केल्या उप्रांत, कोशाची परिभाशा स्पस्ट केल्या. उतरांच्या अर्थावांगडाच तांच्या लिंगाची माहिती दिल्याकारणान हाका 'नाम-लिङ्गाऽनुशासनम्' अशेंय म्हण्टात.

ह्या कोशाचेर सुमार पन्नास टिका बरयल्यात. तांतुतल्यो क्षीरस्वामीची 'अमरकोशोद्‌घाटन' (इकरावो शेंकडो), बृहस्पतीराय मुकुटमणीची 'अमरकोशपंचिकापदचंद्रिका' (१४३१), भानुजी दीक्षितांची 'व्याख्यासुधा' वा 'रामाश्रमी' (सतरावो शेंकडो), तेच परी महामहोपाध्याय महेश्वरभट्ट सुखटणकार हाणीं बरयल्ली टिका, ह्यो प्रसिद्ध आसात.

**म्हणी:** १. अ आ येना ताका अमर (अमरकोश) कित्याक?
२. अमर वाचल्यारि पंडितु जायना.

**अमरताय** । अमर्तांय्, सा.रू. -ये । [सं. अमरता] स्त्री. १. देवांचो गुण. २. मरण ना अशी स्थिती; सासणाची जीण; अज्रंवरताय.

**अमरपटो** । अमर्पटो, सा.रू. -ट्या; भौव. -टे, सा.रू. -ट्यां । [सं. अमर + पट्टः] पु. मर्णापासून सुटका केल्याची दिल्ली आज्ञा वा दिल्लो तांब्यापटो; मरण येनासतना अमर्तिक उरतलो म्हणपाचें मेळिल्लें आश्वासन. (ज्याणें पाळणें देखलें, ताका मसंड पळोंवचीच पडटा. कोणच अमरपटो घेवन जन्माक येना.)

**अमरपद** । अमर्पद्, सा.रू. -दा । [सं. अमर + पदम्] न. देवपद; मोक्ष; मुक्ती.

**अमरपिंत** । अमर्पिन्त, सा. रू. -ता । [सं. अम्लपित्तम्?] न. नाकांतल्यान गळटा ती रगताची धार. (पुर्तु.), (इं.) Epistaxis.

**अमररूख** । अमर्रूख्, सा.रू. -खा; भौव. -ख, सा.रू. -खां । [सं. अमर + वृक्ष] पु. कल्पवृक्ष; देवांचो रुख; देवदार.

**अमरलोक** । अमर्लोक्, सा.रू. -का । [सं. अमर+लोकः] पु. इंद्रपुरी; देवलोक; स्वर्ग.

**अमराय** । अमरॉय्, सा.रू. -ये । [सं. अमरता] स्त्री. अमर आसपाची स्थिती; मनीस जातीचे यादस्तिकेंत सासणाची उरिल्ली कोणाचीय जीण; अज्रंवरताय.

**अमरावती** । अमरावती, सा.रू. -ती । [सं. अमरावती] स्त्री. इन्द्रपुरी; इन्द्रनगर. —मेरू पर्वतावेली अमरावती ही देवांची नगरी आनी त्या सकल आशिल्ली इरावती ही असुरांची नगरी असो उल्लेख सायणाचार्यान आपल्या ऋग्वेदभाश्यांत केला.

**अमरावती** । अमरावती, सा.रू. -ती । [?] स्त्री. १. कायदो मोडून केल्ली करणी; कायद्यामोड; आगळीक; अत्याचार; २. नागोवण; लुटालूट.

**विशेश:** भौ. सुर्याजी आनंदराव देशपांडे हाणीं आपल्या मराठी-पुर्तुगेज कोशांत 'अमरावती' ह्या उतराचो 'कायदो मोडून केल्ली करणी' असो अर्थ दाखयला. 'नागोवण आनी लुटालूट' असोय 'अमरावती' ह्या उतराचो आनीक एक अर्थ आसा.

'इंद्रपुरी' ह्या अर्थान अमरावती हें उतर ताणीं दाखयलां आनी 'कायद्यामोड' ह्या अर्थान 'अमरावती' हें उतर वेगळें दाखयलां. ह्या उतराचें निरूक्त ताणीं दिंवक ना.

इंद्र हो आर्यांचो सेनापती. ह्या इंद्रान अनार्यांक तरेतरेन पिडापीड भोगयल्या. तांचेर अत्याचार, आगळिको केल्यात. तांची लुटालूट करून तांकां नागयल्यात. यतींक सुण्याचे भकीक घाल्यात. तांचो अपमान केला. इतलेंच न्हंय, तर कृष्णाकडेन झुजतना मेळिल्ल्या अपेसाक लागून, कृष्णाच्या देसांतल्या कांय गुरवार बायलांक जिवानिशीं मारून आनी असलेच तरेचे अत्याचार करून इंद्र फाटीं सल्ला. इंद्राच्या ह्या करण्यांची गवाय ऋग्वेदांत मेळटा. देखून, ही अमरावतीपासून इंद्रपुरीच आसूंक जाय. 'कायद्यामोड', 'आगळिक', 'नागोवण' बी अर्थ, इंद्राच्या ह्या करण्यांक लागून, 'अमरावती' ह्या उतराक लाक्षणीक अर्थान लागले आसूंक जाय.

ऋग्वेदांतली चडांतचड सुक्तां इंद्राचे तोखणायेन भल्लयांत. ऋग्वेदांतल्या एका सुक्तांत "पायांक धरून आपटून खासा आपल्याच बापायचो जीव घेवपी आनी आपले आवयक रांड करपी इंद्रा, तूं न्हिदिल्लो आसतनाच न्हंय, तर भोंवता धुंवता आसतनाय तुका मारपाचो यत्न जायत्या जाणानीं केला.

जाल्यारूय, कोणाकच बाडगानासतना तूं संवसाराक सुख-देणो जालो'', अशी ताजी तोखणाय गायल्या. (ऋ ४.१८.१२).

कौषितकी उपनिषदांत इंद्राच्या स्वभावाची आनिकय सुलूस मेळटा. दिवोदासाचो पूत प्रतर्दन झुजांत पराक्रम गाजोवन जेन्ना इंद्राक मेळूंक गेलो, तेन्ना इंद्रान ताका म्हळें, ''प्रतर्दना, तुका हांव वर दितां''. प्रतर्दनान सांगलें, ''समस्तांचें कल्याण जायत असो वर दी.'' इंद्र म्हण्टा, ''वर केन्ना दुसऱ्याखातीर घेनात. तुज्याखातीर तूं मागून घे.'' प्रतर्दनान सांगलें, ''खासा म्हज्याखातीर म्हाका वर नाका.'' तेन्ना इंद्रान ताका खरी गजाल सांगली, ''इंद्र हो सदांच सत्य आसता, देखून म्हाका जाणून घे. जो म्हाका जाणा जावन घेता, ताजें कल्याणच जाता; अहित जायना. हांवें त्वस्टाच्या पुताक —त्रिशीर्षाक (विश्वरूपाक)— जिवानिशीं माल्लो. अरुमर्ग नावांच्या यतीक सुण्याचे भकीक घालो. दिल्लीं उतरां हावें सदांच बासल्यांत. म्हाका जाय तेन्ना म्हजें उतर हांवें मोडलां. अशे तरेन दिव्य लोकांत प्रल्हादाच्या गड्यांक, मळबांत पौलोमांक आनी भुयेंचेर कालकाश्यांक हांवें जिते मारून उडैले. जाल्यारूय, म्हज्या आंगाची ल्हंवपासून गेली ना. जो म्हाका वळखता, ताका आवयचे हत्येचें, बापायचे हत्येचें, भुरग्यांचे हत्येचें केन्नाच पातक लागचें ना. ताचेर चोरयेचो आळ येंवचो ना. तो आगळीक करूंक बाडगुंचो ना. ताज्या तोंडाची नुरा पासून हालची ना.''

इंद्राचें हें सत्यरूप. रक्तखेवान आनी अधर्मान भरिल्लें. ज्याणें हें रूप पारखिलें, ताका 'अमरावती'क वेले अर्थ कित्याक लागले, हाजी वेगळी फोडणिशी करपाची गरज ना. जाल्यारूय, 'कायद्यामोड', 'नागोवण', 'लुटालूट', 'आगळिक' हे अर्थ 'अमरावती'क केन्ना लागले जावये, हाजो सरांव घेंवक जाय. 'ब्राह्मणां'च्या काळार हे अर्थ 'अमरावती'क लागल्यात जांवक जाय.

ऐतेरेय ब्राह्मणाच्या पस्तिसाव्या अध्यायाच्या दुसऱ्या खंडांत देवांनी इंद्राचेर विश्वरूपाक मारिल्ल्याचो, यतीक सुण्यांचे भकीक घाल्ल्याचो, अरुमर्गाक जिवानिशीं मारिल्ल्याचो आनी बृहस्पतीचेर परतो प्रहार केल्ल्याचो, अशे पांच गुन्यांव थापटिल्यात म्हणपाची कथा आसा. ह्या काळांत 'अमरावती'क वेले अर्थ लागले जावये आनी त्या काळावेले जे आर्य कोंकण वसोवपाक पावले, ताणीं हे अर्थ गोयांत हाडले जावये. आज हे अर्थ घोळटेंत नात.

**आधारावळ:** १) मराठी-पुर्तुगेज कोश; संपादक: सुर्याजी आनंदराव देशपांडे.
२) ऋग्वेद.
३) हिन्दी संस्कृति आणि अहिंसा, लेखक: धर्मानंद कोसंबी.

**अमर्तिक** । अमर्तीक्, सा.रू. -का; भौव. -क, सा.रू. -कां । [सं. अ+मर्त: (=मर्ण)+क] वि. ज्याका मरण ना तो; ज्याका मरण येना तो; जो मरना तो.

**अमर्याद** । अमर्याद् । [सं. अमर्याद] वि. मर्यादा नासपी; सूड्ड; पारपोळ. २. सर्त-शीम, म्हेर नाशिल्लो; अपरंपार; अमीत. (देवाची अमर्याद सत्ता). ३. अतोनात; कल्पनेभायर; प्रमाणाभायर. (अमर्याद दुडू मनशाक भस्ट करता).

**अमर्यादा** । अमर्यादा, सा.रू. -दे; भौव. -दा, सा.रू. -दां । [सं. अमर्यादा] स्त्री. १. मर्यादेचें उल्लंघन; अप्रतिष्ठा. २. अनादर; उद्धटपण; पारपोळपण.

**अमल** । अमल् । [सं. अमल] वि. १. निर्मळ; झळझळीत; स्वच्छ. २. निर्दोश; पापशून्य; पवित्र. ३. लकलकीत; चकचकीत.

**अमली** । अमली । [अर. अमली] वि. कैफ, नशा, उन्माद हाडपी; कैफाळ.

—**पदार्थ**: पु. ज्याका लागून कैफ, मस्ती, उन्माद, नशा चड्टा असो पदार्थ: सोरो, अफू, गांजा, चरस, हशीश, कोकेन, ब्रावन शुगर बी.

**अमावास्या** । अमावास्या, सा.रू. -स्ये । [सं. अमा (एकठांय) + वस् (जियेवप)] स्त्री. दर म्हैन्याच्या कृष्णपक्षांतली निमाणी तीथ वा कृष्णपक्षांतलो निमाणो दीस; उमास; अमास. – ह्या दिसा सूर्य आनी चंद्र एके राशीर वा लागीं येतात. देखून, त्या दिसा जोरगत आसता आनी जोरगतीक लागून भरते -सुकतेच्या उदकाक चड नेट आसता.

**अमात्य** । अमात्य्, सा.रू. -त्या; भौव. -त्य, सा.रू. -त्यां । [सं. अमात्यः] पु. १. श्रेष्ठ अधिकारी. २. प्रधान; सल्लो दिवपी. ३. शेजारी; एकाच कुटुंबांतलो वा एकाच घरांत रावपी मनीस.

**अमानत** । अमानत्, सा.रू. -ती; भौव. -ती, सा.रू. -तीं । [अर. अमानत] स्त्री. अनामत; विश्वासान पातेल्ली गांठ वा वस्त.

**अमानुश** । अमानुश् । [सं. अमानुष] वि. १. मनीसपण नाशिल्लो; अतिशय दुस्ट. २. भयांकृत.

**अमान्य** । अमान्य् । [सं. अ + मान्य] वि. मान्य वा पसंत नाशिल्लें; जें मान्य करूंक फावना वा मान्य करूंक नज अशें.

**अमान्यताय** । अमान्यताय्, सा.रू. -ये । ['अमान्य' वेल्यान] स्त्री. मान्यताय नासप; नापसंती; नापसंताय. (ताणें आपली अमान्यताय दाखोंवक, त्या दिसाचे तपशील-पटयेचेर सय केली ना. —पुण्यात्मो राम कामती, बरोः शणै गोंयबाब, पा. ३९.)

**अमाप** । अमाप् । [सं. अ + मापनम्] वि. जें मापूंक, मेजूंक येना तें; असंख्य; विपुल; अपरिमित.

**अमार्ग** । अमार्ग, सा.रू. -र्गा; भौव. -र्ग, सा.रू. -र्गां । [सं. अ + मार्गः] पु. १. आडमार्ग; चुकिचो मार्ग. २. कुमार्ग; वांकडें आचरण; वांकडी चाल-चलणूक; शिंदळकी.

**अमांश** । अमांव्श्, सा.रू. -शा । [सं. आम + अंश] पु. आंव; खाण-जेवण पचना जावन वा अजिर्णांक लागून जाता तो आंतकडेचो विकार. हो विकार जातकीर परसाकडेंत कुथण येवन झर्मां पड्टात.

**अमास** । अमास्, सा.रू. -शे । [सं. अमावास्या] स्त्री. उमास; अमावास्या.
**म्हणी**: १. अमास येतकीर पुनंव रावना.
२. धुवेक तेल अमाशे पुनवेक, सुनेक दिवाळेचे दिवाळेक.
३. अमास येतना पुनव येंवची रावता?

**अमित** । अमित् । [सं. अ + मित] वि. १. ज्याका मेज-माप वा मीत ना तें; अपरिमित; अमाप; अपार. २. खूप; अधिक.

**अमित्र** । अमीत्र्, सा.रू. -त्रा; भौव. -त्र, सा.रू. -त्रां । [सं. अ + मित्र] पु./वि. १. जो मित्र, इश्ट न्हंय तो; दुस्मान; वैरी; शत्रू. २. जो इश्टाविणें आसा तो; ज्याका कोणच इश्ट, मित्र, दोस्त ना तो.

**अमिराय** । अमिराय्, सा.रू. -ये; भौव. -यो, सा.रू. -यां । [अर. अमीरी] स्त्री. १. सरदारकी. २. अमिराक फावशी, सोबशी गिरेस्तकाय.

**अमीर** । अमीर्, सा.रू. -रा; भौव. -र; सा.रू. -रां । [अर. अमीर] पु. व्हड घराण्यांतलो मनीस; कुळवंत; सरदार.

**— उमरावः** पु. प्रतिस्ठित लोक; सरदार मंडळी.

**अमुक** । अ॑मूक, सा.रू. -का । [सं. अमुक] वि. १. कोण तरी एकाद्रो. २. कोण तरी निश्चित एकलो. ३. निश्चित अशी (अमुक वस्त).

**अमुक्त** । अमुक्त । [सं. अमुक्त] वि. १. जो बंधनामेकळो जांवक ना तो; जो बांदून उल्ला तो. २. जो जन्म-मर्णाच्या फेऱ्यांतल्यान सुटूंक ना तो; ज्याणें मोक्ष जोडूंक ना तो.

**अमुक्त** । अमुक्त, सा.रू. -क्ता; भौव. -क्तां, सा.रू. -क्तां । [सं. अमुक्तम्] न. जें मुठींत धरून उपकरायतात तें शस्त्र, अस्त्र वा आयुध. देखीकः सुरी, खंजीर, तरसाद, तलवार, गदा बी.

**अमुरकाळो, ळी, ळें** । अ॑मुरकाळॉ,ळी,ळँ, सा.रू. -ळ्या,-ळे,-ळ्या । [कों. आमोरी + काळो,ळी,ळें वेल्यान ?] वि. सांज रातींत इल्ली इल्ली करून विरघळटा, त्या काळावेल्या रंगाची; तिनसांजची कातर आनी रात जावपाचो वेळ हांच्या संधिकाळावेल्या रंगाची. (आमोरेच्या अमुरकाळ्या नकलामी तिनसनां... 'दर्या गाजोता' ह्या कवितांच्या संग्रहांतलीं 'पिकलीं पानां' ही कविता, कवीः र.वि. पंडित, पा. ३४.)

**अमुरपिकेपण** । अ॑मुरपिक्यॅपण्, सा.रू. -णा। ['अमुरपिको' वेल्यान] न. जून जावन पूर्ण पिकचेपैलीं आसता ती फळाची अवस्ता; अंबुरको, अंबुरपिको आसपाची स्थिती.

**अमुरपिको, की, कें** । अ॑मुरपिकॉ,की,कँ, सा.रू. -क्या,-के,-क्या; भौव. -के, -क्यो,-कीं; सा.रू. -क्यां । [सं. अम्ल + पक्व; अमूर्त + पक्व?] वि. पूर्ण; पिकूंक नाशिल्लो; अर्द पिकिल्लो; आंबट-गोड; अंबुरको; अंबुरपिको; अंबुरपिके अवस्तेंत आशिल्लो. (अमुरपिको आंबो). – फळ जून जावन पिकूंक लागतकीर, पूर्ण पिकसर अमुरपिकेंच आसता. हे अवस्तेंत फळाची रूच सदांच आंबट गोड आसता.

**—हांसोः** पु. मुमुरखो हांसो; ओठांतल्या ओठांतलो हांसो (पुर्तु.) Sorriso.

**अमूर्त** । अमूर्त्, सा.रू. -र्ता । [सं. अमूर्त] वि. १. ज्याका आकार, रूप ना तें; निराकार. २. अशरिरी; अकुडी; दैवी. ३. ज्याचें रूप कल्पनेंतल्यानच जाणून घेंव येता तें; ज्याची अनुभूती वा संवेदना वास्तवाच्या आधाराविणें कल्पनेंतल्यानच जाणवता तें.

**अमृत** । अमृत्, सा.रू. -ता । [सं. अमृत] वि. १. जो मरूंक ना तो. २. जो मरणधर्मी न्हंय तो. ३. अज्रंवर; अविनाशी; सासणादिक. ४. प्रिय; अभिस्ट; सुंदर. ५. म्होंवाळ; रसाळ (संताची अमृत वाणी). ६. कृपेस्त; दयेस्त. (तो अमृत दिस्टीं तुमकां पोळेत, तावेळीं तुमी पुत्रांक पावशात. —आदिपर्व, बरोः कृष्णदास शामा.)

**अमृत** । अमृत्, सा.रू. -ता । [सं. अमृतः] पु. १. देव; कोणय अमर्तिक; देवता. २. धन्वंतरी. ३. इंद्राचें, सुर्याचें, प्रजापतीचें एक नांव; विष्णु; शीव.

**अमृत** । अ॑मृत, सा.रू. -ता । [सं. अमृतम्] न. १. जें पियेल्यार मरण तरून वता तें पिवण; स्वर्गलोकांतल्या देवांचें पिवण; पुराणाप्रमाणें अमृतमंथनांतल्यान जीं चौदा रत्नां वैर सल्ल्यांत तांतूंतलें निमाणें रत्न. २. जन्म मर्णाच्या फेऱ्यांतल्यान सुटका जावन मेळिल्लो मोक्ष. ३. संवसारांतलो प्राणझोत. ४. सोमरस. ५. तूप. ६. यज्ञ सोंपल्याउप्रांत उरता ती सामोग्री. ७. उदक. ८. अन्न. ९. शीत. १०. विखाचेर आशिल्लें निवळण. ११ आचमन

आनी आपोस्णी. १२. वखद. १३. भांगर. १४. वीख. १५. वत्सनाभ नांवांचें वीख. १६. दूद. १७. ब्रह्मन्. १८. जिबेर उरता अशें अत्यंत सुवादिक पिवण, खाण वा फळ. (हो आंबो म्हळ्यार कितें सांगूं? बद्द अमृत!) १९. परम सूख (ब्रह्मज्ञानी पुरुशाक शोक आनी मोह हातूंतल्यान मुक्त जाल्यारच अमृत मेळटा). २०. तीर्थस्थान. २१. मीठ (उमाणें: अर अरतलें, पाणी परतलें, देंटाविणें अमृत पिकलें.) २२. सुखदेणी गजाल; जीवाक प्रिय अशी गजाल. (अमृतं शिशिरे वन्हिरमृतं प्रियदर्शनम्। अमृतं राजसंमानममृतं क्षीरभोजनम्॥ **अर्थ:** थंडेच्या दिसांनी उजो (उज्याचो धग) हो अमृत आसता, मोगाच्या मनशाचें दर्शन हें अमृतच आसता, राजान केल्लो सन्मान हो अमृतासारको आसता, तेच परी खीर आशिल्लें जेवण हेंय अमृतच आसता.) २३. देवाचें तीर्थ.

**म्हणी:** १. अमृत दितल्याक जीब दी म्हणून सांगूंक जाय?

२. अमृत पिवपाक बरो दीस पळोंवचो पडना.

३. अमृतान (दुदान) वाडप आनी मुतान आंवोवप.

**विशेश:** जें पिवण पियेल्यार मनीस मरण तरून वता, तें पिवण म्हळ्यार अमृत. अमृत हें एक रसायण. अमृतमंथनांतल्यान तें वैर सल्लां म्हणपाची कथा पुराणांत मेळटा.

ज्या खिणाक मनशांक आपल्याक मरण आसा म्हणपाचें जाणवलें, त्याच खिणाक तांकां अमरायेचो ध्यास लागलो. तेन्नाच्यान ते अमृताच्या सोदाक लागले.

अमृताक सोमरस म्हळा. सोमाची वाल वांटून हो रोस ते काडटाले. सोमरस पियेतकीर तांकां तरतरी येताली. एक वेगळोच कैफ चडटालो. देखून, सोमरसाक ताणीं अमृताच्या पाटार बसयलो. सोमरस देंवांचें पिवण जालो.

वेदिकांचे देव निसर्गाकडेन लग्गिक आशिल्ले. तांकां भाविल्लीं तीं निसर्गाचींच रुपां आशिल्लीं. अग्नीक ताणीं अमर्तिक मानलो. 'बळिस्ट आनी तेजिस्ट अग्ने, आमकां अमर करपाखातीर तुजें रूप तूं आमकां दी,' अशें आवाहन ताणीं अग्नीक केलें. (ऋ.८.१९.२९).

देवांवरी आपुणय अमर जांवचे, ह्या ध्यासांतल्यान, आमगेल्या पुर्विल्ल्या, पुरातन जाण्टेल्यांची 'असतो मा सद्गमय । तमसो मा ज्योतिर्गमय । मृत्योर्मा अमृतं गमय ॥' ही प्रार्थना जाली. (बृहदारण्यक १-३-२८).

अमर जावप हो प्रत्येक मर्तिकाचो ध्यास. क्रिस्तिसनापैल्या तिसऱ्या हजारकांत वा चिके त्याय पैलीं, सुमेरियन महाकाव्याचो नायक गिलगमेश, होच ध्यास घेवन अमृताच्या सोदाक गेलो. साहसांचेर साहसां करून जोडिल्ली अमृताची वाल, एका धाळ खिणार ताणें वगडायली आनी तागेलें साहस व्यर्थ जालें.

भारताच्या मध्ययुगांत तंत्रसाधनेंतल्यान कायासाधनेचो जन्म जालो. हे साधनेन देह अमर करपाचे प्रयोग सुरू जाले. वज्रयानी बौद्धपंथांतल्यान जो सहजवैस्णव पंथ बंगालांत उदेवाक आयलो, ताजो आनी नाथपंथियांचो काया-योगाचेर चड भर आशिल्लो. अमरायेचो सोद म्हळ्यार काया अमर्तिक करपाचो सोद असो अर्थ घेवन तांत्रिक सहजयोग्यानीं आनी हटयोगी नाथपंथियांनी देह अमर्तिक करपाखातीर पारद विद्येचो अभ्यास सुरू केलो. जाल्यारूय, ही कायासाधना कामाचारांत बुडून गेली.

ज्याका आरंभ आसा, ताका अखेर आसा. ज्याका जन्म आसा, ताका मरण आसा. एका अर्थान मर्णाचो प्रश्न हो पासून जीणेचोच प्रश्न आसा. मरण आसा म्हणून जीणेक मोल आसा. मरण आसा तशीच जीणय आसा. जीण आसा थंय प्राणाचो अखंड व्हाळ आसा. प्राण आसा

थंय अमृत आसा.

**अमृतकळा** । अ॑मृत्कळा, सा.रू. -ळे; भौव. -ळा, सा.रू. -ळां । [सं. अमृत + कला] स्त्री. १. पोलो. २. भिंडां (Tonsils). ३. अमृताचो शिंवर करपी चंद्राची सतरावी कळा. ४. मायेची शितळ ऊब. (कांसविणिच्या दोळ्यांत अमृतकळा आसता अशें म्हण्टात).

**अमृतगर्भ** । अ॑मृत्गर्भ, सा.रू. -र्भा । [सं. अमृतगर्भ] पु. १. ब्रह्म, ईश्वर. २. जिवात्मो.

**अमृतत्व** । अमृतत्व, सा.रू. -त्वा । [सं. अ + मृतत्व] न. १. (अध्यात्मशास्त्र / तत्त्वज्ञान) मर्णाचो अभाव; अजरंवरताय. २. कर्मबंधांतल्यान सुटून पार केल्लें मरण; मोक्ष. ३. सासणाचें सूख —आत्मज्ञानान वा ब्रह्मज्ञानान अमृतत्व मेळटा म्हणपाचें पुर्विल्लीं सगळीं उपनिषदां सांगतात. कांय उपनिषदां (केन आनी ऐतेरेय) हें सूख मेल्याउप्रांत मेळटा अशें सांगतात, तर कांय उपनिषदां ह्याच जन्मांत हें सूख मेळटा म्हणून सांगतात.

**अमृतपड** । अ॑मृतपंड, सा.रू. -डी; भौव. -डी, सा.रू. -डीं । [सं. अमृत + का. पडि] स्त्री. निवेद्याखातीर तांदूळ आनी नाल्ल दवरून देवळांनी देवाक दिल्लो शिदो. ह्या शिद्यांत रांदवायेचे हेर जिनसय आसतात.

**अमृतफळ** । अमृत्फ॑ळ्, सा.रू. -ळा; भौव. -ळां, सा.रू. -ळां । [सं. अमृत + फलम्] न. १. जें फळ खाल्यार मरण येना, अशें मनशाचे कल्पनेंतलें फळ. २. नाल्ल; आवांळो; द्राक्ष वा दाख; आंबो; पेर.

**अमृथमंथन** । अ॑मृत्मन्थन्, सा.रू. -ना । [सं. अमृतमन्थनम्] न. अमृताखातीर देव आनी दानव हाणीं केल्लें क्षीरसागराचें मंथन; समुद्रमंथन (ला.) अती जंजाळाचें आनी कस्टांचें काम.

**विशेशः** अमृतमंथन ही पुराणांतली एक मोलादिक कथा. वेदिक साहित्यांत ही कथा मेळना. रामायण, महाभारत आनी पुराणां हातूंत ही कथा वेगळे वेगळे तरेन आयल्या. खंचेच कथेंत, अमृतमंथनांतल्यान जीं चौदा रत्नां वैर सल्ल्यांत म्हणपाचो जो समज रूढ आसा, त्या चौदाय रत्नांचीं नांवां मेळनात.

कांय पुराणांत फक्त पांचच रत्नांचो उल्लेख आसाः कालकूट (वीख), अप्सरा, पारिजातक, सुरभी (कामधेनू) आनी ऐरावत.

रामायणांत स रत्नांचो उल्लेख येताः धन्वंतरी, अप्सरा, सुरा, उच्चैःश्रवा, कौस्तुभ आनी अमृत.

महाभारतांत सात रत्नांचो उल्लेख मेळटाः चंद्र, श्री वा लक्ष्मी, सुरा, उच्चैःश्रवा, कौस्तुभ, धन्वंतरी आनी अमृत.

श्रीमद्भागवतांतय सात रत्नांचो उल्लेख मेळटाः उच्चैःश्रवा, ऐरावत, कौस्तुभ, पारिजातक, अप्सरा, लक्ष्मी आनी सुरादेवी.

रामायण, महाभारत आनी श्रीमद्भागवत हातूंत विखाचो उल्लेख ना.

क्रिस्तीसनाउप्रांत केन्ना तरी एक एक करून ह्या रत्नांत भर पडत गेल्या जातली. आतां जीं चौदा रत्नां मेळटात तीं अशीं: १. लक्षिमी, २. कौस्तुभ, ३. पारिजातक, ४. सुरा, ५. धन्वंतरी, ६. चंद्रमा, ७. कामधेनू, ८. ऐरावत, ९. देवांगना वा रंभा, १०. उच्चैःश्रवा, ११. वीख, १२. हरिधनू, १३. शंख आनी १४. अमृत. (पळेयात: A India Portuguesa, por A. Lopes Mendes, Vol II pag. 70-71).

अमृथमंथनाची कथा अशी आसा:

एकदां इंद्र हो हत्तीर बसून वतालो. ताका वतना दुर्वास ऋशीन पळेलो. दुर्वास इंद्राचेर प्रसन्न जालो आनी ताणें आपल्या गळ्यांतली दिव्य फुलांची माळ इंद्राक दिली. इंद्रान ती माळ हत्तीच्या मस्तकार दवल्ली. ती माळ

हत्तीच्या मस्तकावेल्यान सकल पडली आनी ताज्या पायापोंदा चिड्डली. माळ चिड्डून गेल्ली पळेतकीर दुर्वास ऋशी रागान तांबडो गूंज जालो आनी ताणें 'तुजें राज्य आनी वैभव ना जातलें' म्हणपाचो इंद्राक श्राप दिलो. ह्या श्रापान इंद्र आनी सगळे देव निर्बळ जाले. तांची तांक नस्ट जाली. उप्रांत देव आनी दानवांचें झूज पेटलें. ह्या झुजांत देवांक अपेस येवपाक लागलें. ते दुबळे जाल्ल्यान मरूंक लागले. जे दानव मरताले, ते शुक्राचार्याल्या संजीवनी विद्येक लागून परते जिते जाताले. हें पळेतकीर देव चिंतेस्त जाले आनी विष्णु भगवानाक शरण गेले. विष्णु भगवानान तांकां उपदेश केलो की, "तुमी दानवांकडेन तह करात. तांचो आधार घेवन क्षीरसागराचें मंथन करून अमृत जोडात. ह्या कामाक तुमकां म्हजो तेंको आसा. अमृत तुमकां मेळपाची आनी दानवांक न मेळपाची मांडणी हांव करतां."

त्या वेळार बळी हो दानवांचो राजा आशिल्लो. इंद्र बळीक मेळूंक गेलो. अमृत प्राप्त करून घेवपाची कल्पना ताणें बळीराजाक सांगली. बळीन ती कल्पना मान्य केली. ताणीं मागीर मंदार पर्वत उखलून हाडून समुद्रांत उबो केलो. समुद्र घुसळपाखातीर वासुकी नागाक घुसळपाची दोरी जावपाची ताणीं विनंती केली. तो मुस्तायक जालो. वासुकीची दोरी मंदार पर्वताभोंवतणी गुठलावन देवानीं वासुकीची शेंपडी धल्ली. दानवानीं ताचें तोंड धल्लें. उप्रांत दोगांनीय मंथनाक सुरवात केली. पर्वताक सकल आधार नाशिल्लयान तो समुद्रांत बुडपाक लागलो. तेन्ना विष्णु भगवानान कासवाचें रूप घेवन सकल्लयान आधार दिलो. एका हातान पर्वताचें माथेंय घट्ट धरून दवल्लें. मंदार पर्वताचेर तरेतरेच्यो अशो असंख्य वनस्पती आनी तेच परी सावदां सवणींय आशिल्लीं. समुद्राची घुसळण सुरू जातकीर तीं सगळीं समुद्रांत पडलीं. तांकां लागून समुद्रमंथनांतल्यान वारुणी वैर सल्ली. तिजें प्राशन करतकीर समुद्रमंथन करपाक देवांक आनी दानवांक नेट चडलो. वासुकीच्या तोंडांतल्यान विखारी वायू भायर सरपाक लागलो. विखाराच्या दाहान दानव हुलपूंक लागले. विष्णु भगवानान त्या वायुचें कुपांत रुपांतर केलें आनी देवांचेर पावसाचो शिंवर घालो.

मंथनाक लागून समुद्रांतले सगळे प्राणी खुबळले. त्या क्षोभांतल्यान वीख वैर सल्लें. ह्या विखाक 'हलाहल' अशें नांव मेळलें. ताज्या तीव्र दाहाक लागून देव आनी दानवांच्या आंगाक हुलोप पेटलो. ते सगळे जाण शंकराक शरण गेले. तांचेर प्रसन्न जावन, शंकरान तें हलाहल आपल्या कंठांत धारण केलें. ताका लागून ताजो कंठ निळोच जालो. देखून, 'नीळकंठ' हेंय शंकराचें एक नांव जालें.

त्याउप्रांत मंथनाचें काम परत सुरू जालें. आपल्या शितळ किर्णानीं धतरेचेर चांदन्याचो शिंवर घालपी चंद्र ह्या मंथनांतल्यान वैर सल्लो; उप्रांत सगळ्यो इत्सा भागैणी कामधेनू वैर सल्ली, ती ऋशिंनी आपल्याक घेतली; चंद्रावरी कान्तीन लकलकपी उच्चैःश्रवा घोडो ह्या मंथनांतल्यान वैर आयलो, तो बळीराजान आपल्याक घेतलो; देवांचे अपुर्बायेचो, चार धवे-फूल्ल दांत आशिल्लो ऐरावत हत्ती ह्या मंथनांतल्यानच वैर सल्लो, तो इंद्रान आपल्याक घेतलो; ह्या मंथनांतल्यान दिव्य कौस्तुभमणी उत्पन्न जालो, तो विष्णु भगवानान आपल्या गळ्यांत धारण केलो; स्वर्गलोकाचें भुशण जाल्ल्या पारजताचो लाभ ह्या मंथनांतल्यान जालो; आपल्या लावण्यान ज्यो सगळ्यांक

पिशें लावन सोड्टाल्यो त्यो सुकुमार अप्सराय ह्या मंथनांतल्यान वैर सल्ल्यो; देव तशेच दानव आनी मर्णलोकांतले मर्तिकय जिची दिसपट्टी आस धरतात ती लक्षिमीय ह्याच मंथनांतल्यान वैर सल्ली; जिका दानवांनी येवकार दिलो ते साळकांच्या दोळ्यांचे, नित्यजुवान आनी कवकवीत अशे सुरादेवीची प्राप्ती ह्याच मंथनांतल्यान जाली; निमाणें ज्याच्या आंगार तेरेतरेचे दिव्य अलंकार आशिल्ले, जो पितांबर न्हेशिल्लो आनी खासा विष्णु भगवान कसो दिसतालो तो धन्वंतरी ह्या मंथनांतल्यान वैर सल्लो. धन्वंतऱ्याच्या हातांत अमृताचो कुंभ आशिल्लो. तो कुंभ दानवानीं झोंपै मारून घेतलो.

दानवानीं अमृताचो कुंभ झोंपै मारून घेतकीर देव हताश जाले. तांकां कितें करचें तेंच कळना जालें. ते निर्णल्ल्यावरी जाले. तांची ही स्थिती पळोवन विष्णु भगवानान तांकां धीर दिलो.

उप्रांत अमृताखातीर देव आनी दानवांत झगडें पेटलें. प्रत्येक जाण "म्हाका पैलीं, म्हाका पैलीं" अशें म्हणत आड्डूंक लागलो. त्यावेळार विष्णु भगवानान पराकास्टेचें मोहक अशें मोहिनी रूप घेतलें. दानवां मुखार मोहिनी प्रगट जाली. तिज्या म्हींव्या लावण्यान दानव पिशे जाले. ताणीं अमृताचो कुंभ तिज्या हातांत दिलो आनी सगळ्यांक अमृत वांटून दिवपाक तिका विनयली. देवांची एक पंगत आनी दानवांची दुसरी पंगत तिणें केली. पंगृती करून जातकीर मोहिनीन आपल्या नखऱ्यानीं आनी लागानीं दानवांक झुलैत दवल्ले आनी सगळें अमृत देवांक वांटलें.

दानवांक अमृताचो एक थेंबोपासून मेळ्ळो ना. ते खुबळले आनी झुजाक पेटले. दोगांचेंय एकामेकाभितर सामकें नाखीर येवन झूज जालें. दानवांनी आपलें सगळें बळ पणाक लायलें. देव अमृतान अमर जाल्ले, तरी दैत्यांच्या बळामुखार तांचें बळ बावकें जालें. तें पळोवन विष्णु भगवान तांच्या आधाराक गेलो. दानवांची ताणें दैना करून सोडली. देवांक जैत जोडून दिलें.

लग्नाच्या वेळार, न्हवऱ्या-होंकलेचें कल्याण जांवचें आनी तांची जीण सुखासमाधानान भरून वची, ह्या हेतून

लक्ष्मीः कौस्तुभ पारिजातक सुरा धन्वंतरिश्चन्द्रमा।
गावाः कामदुधा सुरेश्वर गजो रम्भादि देवाङ्गना॥
अश्व सप्तमुखो विषं हरिधनुः शङ्खोऽमृतंचाम्बुधे।
रत्नानीह चतुर्दश प्रतिदिनं कुर्वन्तु वो मङ्गलम्॥

हो श्लोक म्हणून, अमृतमंथनांतल्यान वैर सरिल्ल्या ह्या चौदाय रत्नांक आवाहन करतात.

'कुर्वन्तु वो' च्या जाग्यार 'कुर्युः सदा' अशींय उतरां मेळटात. जाल्यारूय, हो श्लोक कोणें रचला म्हणपाचें कळना. तेच परी हातूंत सांगिल्लीं हरिधनु आनी शंख हीं रत्नां अमृतमंथनांतल्यान वैर सल्ल्यांत म्हणपाचोय उल्लेख मेळना.

अमृतमंथन ही वैस्णवांची कथा. हातूंत विष्णु भगवानाची व्हडविक गायल्या. हे कथेंत शिवाक स्थान उप्रांत मेळ्ळां आसुंक जाय. विष्णु आनी शिव वा हरी आनी हर हांचें भयांकृत झूज, म्हळ्यार तांगेल्या भक्तांचे नश्टे वाद आनी झगडीं मदीं मदीं उप्रासून येतालीं जांवक जाय. तेन्ना तांकां थंडावपाखातीर कोणेंय बुदवंत आनी शाण्या ऋशीन हे कथेंत शिवाचोय आस्पाव केला जावये. चालुक्य राजा मंगलीश हाणें क्रिस्तीसनाच्या सव्या शेंकड्यांत बदामींत केल्ले होंवरेंत हरिहराचें म्हूर्त आसा आनी तातूंत विष्णु आनी शिव

हांचो मेळ जाल्लेवरी दाखयला. हाजो अर्थ असो की, त्या वेळार आनी ताचे आदीं जायते शेंकडे, विष्णुभक्तांची आनी शिवभक्तांचीं झगडीं थांबून, तांच्यांत एकचार जावन, ते हरी आनी हर हांकां भजूंक लागले. विष्णुक आनी शिवाक एकाच बसकारार बसोवन, दोगांकय ते व्हड लेखूंक लागले.

आधारावळः १. भारतीय संस्कृतिकोश, संपा.: पं. महादेवशास्त्री जोशी.
२. महाभारत, आदिपर्वः मराठी भाशांतर, विष्णु वामन बापटशास्त्री.
३. 'ऐन वेळार' हो निबंध, बरो. शणै गोंयबाब.
४. Vaisnavism, Saivism, by Dr. R.G. Bhandarkar

**अमृतमय** । अमृतमय् । [सं. अमृतमय] वि. अमृतान भरिल्लो; अमृतासारको; जो अमृताचो शिंवर घालता तो. (अमृतमय चंद्र).

**अमृतलोक** । अमृत्लोक्, सा.रू. -का । [सं. अमृतलोकः] पु. स्वर्गलोक; अमरलोक.

**अमृतवाल** । अमृत्वाल्, सा.रू. -ली; भौव. -ली, सा.रू. -लीं । [सं. अमृत + वल्ली] स्त्री. Menispermaceae घराण्यांतली Tinospora Cordifolia हें शास्त्रिक नांव आशिल्ली वखदी वाल.

**विशेशः** ही वाल कोंकणांत आंब्याचेर वा हेर रुखांचेर चडिल्ली मेळटा. पानां काळजाच्या आकाराचीं आनी मदीं मदीं खांच अशिल्लीं आसतात. हे वालिक फुलां फुलतात. दादलेफुलां गोंडानीं येतात. मादीफूल एकोडेंच येता. फळां वाटाण्यासारकीं आसतात. पाळां कार्बन शोशून घेतात.

अमृतवालिंत बेर्बेरीन Berberine नावांचें कोडू द्रव्य मेळटा. वालिच्या काणांत Giloin आनी Giloinin मेळटा.

अमृतवालिंचें सत्व पोस्टिक आसता. हें सत्व सांधे धरतात ते दुखिचेर, तेच परी कामणीचेर गुणावक येता, अशें म्हण्टात. ल्हान भुरग्याच्या मुताक चड वास मारित जाल्यार, अमृतवाल धोडावन तिजो रोस पियोंवक दितात. ज्याका धात पड्टा, ताकाय अमृतवाल गुणावाक येता अशें म्हण्टात.

**अमृतवेळ** । अमृत्वेळ्, सा.रू. -ळा । [सं. अमृतवेला] पु. अत्यंत शुभ वेळ.

**अमृतसिद्धियोग** । अमृत्सिद्धियोग्, सा.रू. -गा। [सं. अमृतसिद्धियोगः] पु. फलज्योतिशांतलो एक शुभ फळ दिवपी योग.

**विशेशः** अमृतसिद्धियोग म्हळ्यार आयतारा हस्त, सोमारा श्रवण वा मृग, मंगळारा आश्विनी, बुधवारा अनुराधा, बिरेस्तारा पुष्य, शुक्रारा रेवती, शनवारा रोहिणी हे तरेन वार आनी नक्षत्र हांचो आयिल्लो योग. हो कसल्याय कार्याक शुभ मानतात. तेच परी आयतारा वा मंगळारा आयिल्ली सस्ट आनी एकादस ही तीथ; सोमारा आनी शुक्रारा आयिल्ली बी, सप्तम आनी द्वादस; बुधवारा आयिल्ली तय, अस्टम आनी तेरोदस; बिरेस्तारा आयिल्ली चवथ, अस्टम आनी चतुर्दस; शनवारा आयिल्ली पंचम, दसम आनी पुनंव हे तरेन वार आनी तीथ हांच्या आयिल्ल्या योगाकय 'अमृतसिद्धियोग' म्हण्टात.

अमृतसिद्धियोगाकडेन लग्निक आशिल्लो एक श्लोक मेळटा तो असोः
आदित्य हस्ते गुरूपुष्ययोगे
बुधानुराधा शनि रोहिणीच ।
सोमेच श्रवणं भृगु रेवतीच
भौमाश्विनीचामृतसिद्धियोगः ॥

**अमृता ।** अमृता, सा.रू. -ते । [सं. अमृता] स्त्री. १. आंवाळो. २. तुळस. ३. पिंपळ. ४. गुळवेळ (वाळची भाजी). ५. सोरो (मदिरा). ६. देहांतली एक नाडी. ७. सूर्याच्या किर्णाचें एक नांव.

**अमृती ।** अमृती, सा.रू. -ती; भौव. -त्यो, सा.रू. -त्यां । [सं.अमृती] स्त्री. तीर्थ घालपाची गिंडी.

**अमृत्यु ।** अमृत्यू, सा.रू. -त्यू; भौव. -त्यू, सा.रू. -त्यूं । [सं. अमृत्यु] वि. अमर; अज्रंवर.

**अमृत्यु ।** अमृत्यू, सा.रू. -त्यू । [सं. अमृत्युः] पु. १. मर्णाचो अभाव; अमराय; अज्रंवरताय. २.विष्णु भगवानाचे एक नांव.

**अमोलिक ।** अमोलिक्, सा.रू. -का; भौव. -क, सा.रू. कां । [सं. अमूल्य + इक] वि. १. ज्याचे मोल करूंक नज अशें; भौच मोलादिक. २. दुर्मीळ (अमोलिक रत्न). ३. पवित्र; अत्यंत पूज्य (अमोलिक साक्रामेंत). ४. सोबीत; सुंदर; मोहक (अमोलिक काया).

**अमोलिकाय ।** अमोलिकाय्, सा.रू.- ये । ['अमोलिक' वेल्यान] स्त्री. अमोलिक आसपाचो गुण; दुर्मिळताय; पवित्रताय; सुंदरताय; मोहकताय.

**अंबर ।** अम्बर, सा.रू. -रा । [सं. अम्बरम्] न. १. वारो. २. मळब (धाय दिशांवरवून बाण येतातित. अंबर बाणांनी व्यापलें). ३. वस्त्र; न्हेसण. (देखीक: पितांबर = हळडुवें वस्त्र)

**अंबस्ठ ।** अम्बस्ठ, सा.रू. -स्ठा; भोव. -स्ठ, सा.रू. -स्ठां । [सं. अम्बष्ठः] पु. ब्राह्मणाक लागून वैश्य बायलेक जाल्ली संतत.

**अंबा ।** अम्बा, सा.रू. -बे । [सं. अम्बा] स्त्री. १. आदिमाता; संवसाराची आवय, संवसाराक पोसणी अन्नपुर्णा; हिमवताची धुव पार्वती; गौरी; दुर्गा. २. बा; आवय; जननी; अम्मा.

**विशेश:** आदिशक्ती पार्वतीच्या मातृरूपाक 'अंबा' वा 'भवानी' म्हळां. अंबेक महाकाली, महालक्षिमी वा महासरस्वती ह्या रूपांनी त्रिविध वा त्रिगुणी मानल्या.

अंबा, अंबिका आनी अंबालिका ह्या तिनय उतरांचो 'आवय' असो एकच अर्थ जाता. अंबू आनी अंभस ह्या संस्कृत उतरांवेल्यान त्यो उदकाकडेन लग्निक आसात अशें दिसता. त्यो न्हंयदेवता वा उदकदेवता आसूंक जाय म्हणपाचें अनुमान करूं येता. एलिफंटाक गंगेक त्रिमूर्तीच्या रूपान दाखयल्या ताजेवेल्यान तांकां गंगेचीच रूपां कशीं मानूं येतात. अश्वमेधाच्या वेळार तांकां वांगडाच आवाहन करताले. देखून, तांच्या नांवाची ख्याती कळून येता. (शतपथ ब्राह्मण, १३.२८.३) - पळेयात, Myth & Reality, by D. D. Kosambi, पा. ६०.

**अंबाबाय ।** अम्बाबाय्, सा.रू. -ये । [सं. अम्बा + कों बाय] स्त्री. १. कोल्हापूरची महालक्षिमी वा म्हालक्षिमी; तुळजापुरची भवानी. २. **(ला.)** लांब-रूंद, हडम-धडम आनी होळमो कशी बायल.

**—चो उदेव :** पु. अंबाबायेची म्हूर्त घेवन काकाडो पेटोवन गोंधळी वा भुते (अंबाबायेचे भक्त) करतात तो धर्मनाच.

**अंबारी ।** अम्बारी, सा.रू. -रे, भौव. -र्‍यो, सा.रू. -र्‍यां । [अर. अमारी] स्त्री. पैलींच्या काळार राजा म्हाराजांक मिरवणुकेच्या वेळार बसपाखातीर हत्तीचे फाटीक बांदताले ती घुमटी.

**अंबालिका** । अम्बालिका, सा.रू. -के । [सं. अम्बालिका] स्त्री. १. मातृदेवता; आदिमाता; उदकदेवता वा न्हंयदेवता. २. बा; आवय.

**अंबिका** । अम्बिका, सा.रू. -के । [सं. अम्बिका] स्त्री. १. मातृदेवता; न्हंयदेवता. २. दुर्गा; भगवती; पार्वती. ३. बा; आवय.
**विशेश:** अंबिका ही एक प्राचीन मातृदेवता. अंबेवरीच तीय आदिमाता पृथ्वी. अंबा आनी अंबालिकेवरीच तीय उदकदेवता वा न्हंयदेवता आशिल्ल्यान, तळी बांदपाक बुन्याद खणचे पैलीं तिजी पूजा करपाची प्रथा आसा.

शुक्ल यजुर्वेदांत अंबिकेक रुद्राची भैण मानल्या. सिंधु-संस्कृतिंतल्या शिवावरी दिसपी देवाक, शिवाचें मूळ रूप मानून, जेन्ना अनार्य शिवाचें मिलन वेदिक रुद्राकडेन जालें, त्याच वेळार वेदिकांनी सिंधु-संस्कृतिंतले मातृदेवतेचो अंबिकेकडेन सांगड घालो. हो सांगड घाल्याउप्रांत अंबिकेचें रुद्राकडेन आशिल्लें भैणिचें नातें तोडून, तिका ताणीं रुद्राची बायल मानली.

अंबिका ही पूर्वजन्मांत, दक्षाची सोळावी कन्या 'सती' आशिल्ली. त्या वेळार तिजें नांव 'उमा' आशिल्लें. ती मसुंडेंत रावपी जोगड्याकडेन, भगवान शंकराकडेन लग्न जाल्ल्यान, दक्षान तिजेकडलें नातें तोडलें.

दक्षान एका यज्ञाक आरंभ केला, अशें नारदाकडल्यान तिका समजतकीर, बापूय आपल्याक आमंत्रण करपाक विसल्ला आसुये अशा समजान आनी आवय-बापायचेर आशिल्ले मायेक लागून ती यज्ञाक गेली. तिजो थंय अपमान जालो. ह्या अपमानाक लागून तिणें यज्ञकुंडांत घालून घेतलें. थंयच्या थंयच ती हुलपून मेली. उप्रांत हिमवताची बायल मेना हिज्या कुसव्यांत तिणें जन्म घेतलो आनी पूर्वजन्मांतली उमा, पार्वती म्हणून जन्माक आयली. मुखार ती म्हादेवाची बायल जाली. याज्ञवल्क्यान तिका विनायकाची आवय मानल्या.

**अंबी** । अम्बी, सा.रू. -ब्या; भौव. -बी, सा.रू. -ब्यां । [सं. 'अम्बिः', 'अम्बु' = 'उदक' वेल्यान?] पु. नुस्तें मारपी जातींतलो मनीस; नुस्तेकार; नुस्तेकारांची एक जात; आंबी.
**विशेश:** भौमानेस्त Cunha Rivara, हाणीं १८६८ वर्सा उजवाडाक हाडिल्ल्या एका इतालियान पाद्रिच्या 'पुर्तुगेज-कोंकणी' शब्दकोशांत, नुस्तेकारांच्यो वा मासळेकारांच्यो पांच जाती दाखयल्यात: १. खारवी, २. गाबीत, ३. अंबी वा आंबी, ४. भोय आनी ५. दर्जी (हे धर्मान मुसलमान आसात.)

जेन्ना गोयांत प्रवास बैलगाडयांनी आनी माचुलांनी करताले, त्या वेळार भोय आनी दर्जी ह्या दोन जातींतले मनीस, नुस्तें मारपाचें काम करूनय, माचुलाचे भोय म्हणुनय काम करताले.

आज गोयांत नुस्तेकारांच्या वा मासळेकारांच्यो 'अंबी', 'भोय' आनी 'दर्जी' ह्यो जाती दिसनात. खारवी आनी गाबीत आजुनय आसात, आनी आजुनय ते नुस्तें मारपाचोच व्यवसाय करतात.

**अंबु** । अम्बु, सा.रू. -बू । [सं. अम्बु] न. १. उदक. २. रगुताचें मुळावें अशें उदक-द्रव्य. ३. कुंडलिंतल्या बारा स्थानांतलें वा घरांतलें चौथें स्थान वा घर.
**विशेश:** उदकाक मातृरूपी मानलां. उदक सृजन घडयता. देखून, स्त्रीतत्त्वाचें ताका प्रतीक मानलां. सोमाच्या म्हळ्यार उदकाच्या गर्भांतल्यान हो संवसार निर्माण जाला. ह्या सृजन घडोवपी उदकाक 'अंबु' म्हळां.

**अंबुरकेवप** । अंबुरकॅव्प्, सा.रू. -पा । ['अंबुरको' वेल्यान] क्रि.दा.धा.सा.ना. (मूळ

धातू: अंबुरके (अक.)) जून जावन पिकूंक लागप.

**अंबुरको** । अंबुंरकॉ, सा.रू. -क्या; भौव. -के, सा.रू. -क्यां । [सं. अम्ल + पक्व] वि. पळेयात 'अंबुरपिको'.

**अंबुरपिको,की,कें** । अंबुरपिकॉ,की,कॅं, सा.रू. -क्या,-के,-क्या; भौव. -के (कॅ),-क्यो,-कीं; सा.रू. -क्या. । [सं. अम्ल + पक्व] वि. जून जावन पिकूंक लागिल्लो; पूर्ण पिकूंक नाशिल्लयान आंबट-गोड अवस्तेंत आशिल्लो; अमुरपिको. (अंबुरपिको आंबो; अंबुरपिकी आंबली; अंबूरपिकें बोर).

**अंबुवाची** । अम्बुवाची, सा.रू. -ची । [सं. अम्बुवाची] स्त्री. मिर्गाचो अखेर आनी आरद्रा नक्षत्राचो आरंभ ह्या काळांतले जे तीन दीस संवसाराची आदिमाता पृथ्वी ऋतुमती (भस्टी) जाता अशें मानतात, तो काळ; पृथ्वीचे हे भस्टे अवस्तेकडेन लग्रिक आशिल्लें व्रत.

**विशेश:** 'अंबुवाची' म्हळ्यार पृथ्वीची भस्टी अवस्ता आनी ते अवस्तेकडेन लग्रिक आशिल्लें एक व्रत. "In Sanskrit Ambu is water and Vachli may mean to express or to blossom" अशी हे संज्ञेची भौ. जोगेशदास ह्या आसामी अभ्यासकान फोडणिशी केल्या. हे संज्ञेतलें पैलें पद हें 'अंबु'. उदकाक मातृरूपी मानलां. निर्मणेची तांक आशिल्ल्या उदकाक (Procreative water) 'अंबु' म्हळां. उदकाची निर्मणेची तांक प्रगट जाता, ती अवस्ता म्हळ्यार 'अंबुवाची'.

कृषी संस्कृतिंत, तेच परी भारतांतल्या कृषी शास्त्रावेल्या ग्रंथानी 'अंबुवाची' हे संज्ञेक अत्यंत मोल आसा.

मीर्गाचो अखेर आनी आरद्रा नक्षत्राचो आरंभ ह्या काळांतले तीन दीस धर्तरी भस्टी जाता, अशें मानतात. हे अवस्तेक 'अंबुवाची' म्हण्टात. ह्या तीन दिसांत भुंयकार भुंयेक नांगरान वरो घालिना. ह्या दिसांनी भुंयेक वरो घालप हें पाप मानतात.

मनशाचो गर्भ धारण करपी बायल आनी धन-धान्याचो गर्भ धारण करपी पृथ्वी हांची सारकाय मानतात. बायल भस्टी आसतना, जशी तिका दादल्यान आफडूंक फावना, तेच परी पृथ्वीय भस्टी आसतना तिका नांगराचो स्पर्श जांवक फावना.

आसामाच्या कामरूप जिल्ह्यांतलें कामाख्या पीठ, हें भारतांतलें प्रख्यात शक्ति-पिठांतलें एक पीठ. हांगा सतीची योनी गळून पडल्या, अशी कथा ह्या पिठाचे निर्मणेफाटल्यान आसा. हांगासल्ली देवी ही योनीरुपी देवी. देखून, 'अंबुवाची' व्रताक कामरूप जिल्ह्यांत एक वेगळें मोल आसा.

'अंबुवाची' हो खऱ्या अर्थान उत्सव न्हंय. 'अंबुवाची' हें एक व्रत. कडक उपास करून करचेलो तो एक धर्मविधी (Ritual of austerity). अंबुवाचीच्या दिसांनी पृथ्वी भस्टी जाल्लयान, तीन दिस ती अशुद्ध आसता, अशें मानतात. आशाढ शुद्ध सस्टीक सूर्य जेन्ना मिथुनेक वता, त्याच वेळार पृथ्वी भस्टी जाता (भवेत् पृथ्वी रजस्वला). हो काळ सुमार ८४ वरांचो आसता.

अंबुवाचीच्या काळांत घरांनी तशीच देवळांनी देवाची पूजा जायना. विधवा आनी भस्ट्यो बायलो ह्या दिसांत उपास करतात. त्यो हांतुणावेल्यान पासून उठनात. तांचो स्पर्श भुंयेक जांवक फावना. ह्या दिसांत जे उपास करतात, ते रांदिल्लें जेवण जेविनात. फळां आनी दूद होच तांचो आहार आसता. अंबुवाचीच्या काळांत जो दुदाचेर रावता, ताका सोरोप चाबूंक पावना म्हणपाची, लोकांची एक धारणा आसा. अंबुवाचीच्या काळाउप्रांत (३ दीस आनी १ रात) कामरूप जिल्ह्यांतलें एकान एक घर धुवन निवळ करतात आनी

भस्त्यो बायलो न्हावन शुद्ध जातात.

कामरूप जिल्ह्यांत 'अंबुवाची'क 'अमती' म्हण्टात. 'अमती' हें अंबुवाचीचेंच म्हेळें रूप. सामान्यतायेन हें व्रत आशाढ शुद्ध सप्तमीक सुरू जाल्ल्यान ताका 'सात' म्हण्टात जावये. आशाढांतल्या ह्याच दिसांनी पूर्वेकडल्या प्रदेशांत घोग्यांचो पावस पड्टा. जायतेकडेन हुंवार येवन जमीन बुडून उरता. ह्या काळांत आसामांतल्या कांय जाग्यांनी मातयेच्या घटांत उदक घालून बिंयां रुजवणाक घालतात. 'अंबुवाची' जातकीर, कोंबेवन आयिल्ल्या धान्यासैत तो घट न्हंयत सोड्टात.

'अंबुवाची' हें एक व्रत जालें, तरी कामाख्येच्या देवळांत ताका उत्सवाचें रूप येता. थंय जात्रा भरिल्ले भाशेन भरता. थंय तरेतरेचे मांड पड्टात. बिहारांतले आनी बंगालांतले आंबे ह्या दिसांनी थंय वतात. तरेतरेच्या फुलांनी भरिल्लीं दुकानां थंय पड्टात. ज्या दिसा देवूळ उक्तें जाता, त्या दिसा ह्या फुलांची थंय गरज आसता. त्याच दिसा तर्ण-धाकट्यो आंकवारी, ताटां घेवन, देवीच्या भक्तांम्हऱ्यांत वतात. प्रत्येक भक्तान तांच्या ताटांत दुडवांची नाणीं उडोंवकच जाय म्हणपाची प्रथा आसा. कुमारी पूजा हो कामाख्येच्या देवळांतलो एक म्हत्वाचो विधी आसता.

अंबुवाचीच्या काळांत तीन दीसमेरेन भक्तांक कामाख्येचें दर्शन घेवपाक बंदी आशिल्ल्यान, देवळाचीं दारां पूर्ण धांपिल्लीं आसतात. चौथ्या दिसा देवळांचे दार उक्तें करतात आनी देवीक न्हाणोवन, तिजी पूजा बी उपचार केल्याउप्रांत, भक्तांक तिजें दर्शन घेंवक मेळटा. ह्या वेळार सगळ्या भक्तांक रगतान भरिल्ल्या वस्त्राचो इल्लो इल्लो कुडको प्रसाद म्हणून वांट्टात. रक्तवस्त्र देवीच्या भस्त्याक लागून तांबडें जाल्लें वस्त्र मानतात. ह्या वस्त्रप्रसादाचो लाभ जाल्यार, मनांतल्यो इत्सा फळादिक जातात, अशी भक्तांची अत्यंत श्रद्धा आसा.

हेच तरेचें एक व्रत 'राज्ञीस्नापन' ह्या नांवान काश्मिरांत जाता. ह्या व्रताच्या काळांत पैले तीन दीस काश्मिरांतली भूंय भस्टी जाता आनी चौथ्या दिसा ती शुद्ध जाता अशें मानतात.

केरळांतय अशे तरेचें एक व्रत आसा. ताका 'उछारल' म्हण्टात. आसाम आनी बंगालांतल्या 'अंबुवाची' वरीच ओरिसांतय 'रजपरब' मनैतात. ओरिसांतल्या अत्यंत लोकप्रिय उत्सवांतलो हो एक उत्सव मानतात. हो उत्सव तीन दीस चलता. रजस्वलअवस्थेच्या पैल्या दिसाक 'पहली रज', दुसऱ्या दिसाक 'भुइँनअण', तिसऱ्या आनी निमाण्या दिसाक 'ठाकुराणी गाधुआँ' अशीं नांवां आसात. ह्या तिनी दिसांतल्या उत्सवाक 'रजपरब' अशी संज्ञा आसा. ह्या तीन दिसांत ओरिसांतले लोक नांगर चलयनात, बीं ओंपिनात, भूंय खणिनात. इतलेंच न्हंय, तर घरांतपासून धान्य कांडिनात. ह्यो क्रिया ते पूर्ण वर्ज्य मानतात.

रजोद्रव्याक सृजनाची तांक आसा. देखून, संवसाराची निर्मणी करपी उदकाक, विश्वसृजनाचो गर्भ धारण करपाची तांक येवपाखातीर, तें पैलीं चिखलान भरिल्लें (Muddy) जाता. पावसांत हुंवाराच्या तांबड्या उदकान फुलून आयिल्ले न्हंयेक आमी भरिल्ल्या आंगाची, म्हळ्यार गुरवार मानतांत. अंबुवाचिंतलो विधी विश्वसृजनाकडेन लग्निक आशिल्ल्यान, ऋग्वेदांतल्या अस्यस्वामीय सूक्तांतय (ऋ. १.१६४.८) विश्वमातृत्वाचे हे अवस्तेचें अत्यंत व्हडविकेचे भावनेन वर्णन केलां. पृथ्वी 'गर्भरसा' जावपाखातीर 'बिभत्स' म्हळ्यार भस्टी जाता. बिभत्स जातकीर, संवसाराक पोसपाखातीर, ती वनस्पतींचो, फुलां-फळांचो, धन-धान्याचो गर्भ धारण करून

साक्षात अन्नपूर्णा जाता.

**आधारावळ:** १. लज्जागौरी, ले. रा.चिं. ढेरे.

२. Sanskrit-English Dictionery, by. V.S. Apte.

३. Foklore of Assam, by Joguesh Das.

**अम्मल** । अम्मल्, सा.रू. -ला । [अर. अमल] पु. १. सत्ता; अधिकार. २. कारकीर्द.

**अम्मलदार** । अम्मलदार्, सा.रू. -रा; भौव. -र, सा.रू. -रां । [अर. अमल् + फा. दार] पु. अधिकारी; व्हड मानाच्या जाग्यार आशिल्लो सरकारी अधिकारी; व्हड अधिकार आशिल्लो सरकारी चाकर.

**अम्मा** । अम्मा, सा.रू. -म्मा; भौव. -म्मा, सा.रू. -म्मां । [सं. अम्बा; प्रा. अम्मया, अम्मा; ता. अम्मा] स्त्री. १. आवय; बा. २. जाण्टी बायल.

**म्हणी:** १. अम्मा भयणी मावशी, ती म्हाका पावशी; आन्ना भयणी आक्का, ती म्हाका नाका.

२. अम्मान मेल्यारि अमास रावना, आन्नान मेल्यारी पुनव रावना.

३. अम्मा सवाशिणी, आनु ब्राह्मण.

**अय** । अय् । [सं. अय] ता. कू. धातूंक लागून तांचे प्रयोजक रूप घडोवपी एक ताळाकूस (Suffix).

**विशेश:** 'अय' हें ताळाकूस धातूंक लागून, तांची प्रयोजक रूपां घड्टा.

जे धातू व्यंजनान सोंपतात, तांकां 'अय' हें ताळाकूस लागतना, ह्या ताळाकुसाचो सुरवातेचो 'अ' हो स्वर, त्या धातूंतल्या निमाण्या व्यंजनांत मेळटकीर, ताजें पूर्ण अक्षर जाता. देखीक: माग् + अय = मागय, धांव् + अय = धांवय, न्हेस् + अय = न्हेसय, जेव् + अय = जेवय.

जे धातू स्वरान सोंपतात, तांकां 'अय' हें ताळाकूस लागतना, त्या कुसांतल्या सुरवातिच्या 'अ' चो'व' जाता. देखीक: खा + अय = खावय, पी + अय = पिवय, धू + अय = धुवय.

जेन्ना दीर्घ 'इ' आनी 'उ' ह्या स्वरान सोंपपी धातूंक, 'अय' हें ताळाकूस लागता, तेन्ना 'ई' आनी 'ऊ' ह्या दीर्घ स्वरांची 'इ' आनी 'उ' अशीं न्हस्व रुपां जातात. देखीक: पी + अय = पिवय, धू + अय = धुवय.

जे धातू मुळांतच 'य्' ह्या अर्दस्वरान सोंपतात (देखीक: आपय्, बडय्, रोय्, बी), तांचीं प्रयोजक रूपां जातना, तांकां 'अय' हें ताळाकूस लागना. ताज्या बदला 'उंक' हें कूस लावन घडिल्लया त्या धातूच्या कृदन्ताक 'लाय्' ह्या पालवी धातूचें रूप जोडून प्रयोजकाचो अर्थ उक्तो करतात. 'उंक' हें कूस लागतना कांय बदल जातात ते अशे: (१) मूळ धातूंतलो निमाणो 'य्' गळून पड्टा. (२) 'उंक' कुसांतल्या सुरवातिच्या 'उं' चो 'व' जाता. (३) तशें जातना 'उं' ह्या अक्षरांतलो 'उ' वेलो अनुस्वार आदल्या अक्षराचेर पड्टा, आनी (४) 'य्' गळून पडल्या उप्रांत मूळ धातूचें जें रूप उरता, तातूंत जर निमाणें 'अ' हो स्वर आसत, तर ह्या 'अ' च्या बदला 'ओ' येता. देखीक:

आपय् + उंक = आपोंवक + लाय्
उलय् + उंक = उलोंवक + लाय्
कालय् + उंक = कालोंवक + लाय्
बडय् + उंक = बडोंवक + लाय्
रोय् + उंक = रोंवक + लाय्
बरय् + उंक = बरोंवक + लाय्.

**अयंगळ** । अयंगळ् । [सुमेरियन 'आयंगळू'] वि. वैजकेचो वेवसाय करपी.

**विशेश:** 'अयंगळ' हें उतर गोंयच्या नांवजत्या दादा वैद्याच्या घराण्यांतल्या पुर्विल्ल्या जाण्टेल्यानीं बिरूद कशें उपकरायलां. देखीक: मादे भट्ट वैद्य अयंगळ; पांडुरंग भट्ट वैद्य अयंगळ; नारायण भट्ट वैद्य अयंगळ. (पळेयात: 'दादा वैद्य स्मृतिग्रंथ')

'अयंगळ' हें उतर सुमेरियन भाशेंतल्या 'आयंगळू' ह्या उतराचें तद्भव रूप. सुमेरियन भाशेंत 'आयंगळू' म्हळ्यार 'वैजकेचो वेवसाय करपी मनीस.

**आधारावळ:** गोंयचे नामनेचे इतिहास-सोदपी, भौ. अनंत रामकृष्ण शेणवी धुमे हांणी दिल्ली तोंडी माहिती.

**अयणी** । अ॑यूणी, ऐणी । [सं. अलवण] वि. अळणी; निखालस मीठ नाशिल्लो. (अयणी रोस).

**अयणुटो,टी,टें** । अयूणुटॉ,टी,टँ, सा.रू. -ट्या,-टे,-ट्या । ['अयणी' वेल्यान] वि. मात्सो अळणी आशिल्लो; जाय त्या प्रमाणान मीठ नाशिल्लो; अळणुटो,टी,टें.

**अयत्न** । अ॑यत्न, सा.रू. -त्ना । [सं. अयत्नः] पु. यत्नाचो, श्रमाचो वा कस्टाचो अभाव.

**अयत्न** । अ॑यत्न् । [सं. अयत्न] वि. ज्याका यत्नाची, कस्टाची, श्रमाची गरज पडना असो.

**अयन** । अ॑यन्, सा.रू. -ना; भौव. -नां, सा.रू. -नां । [सं. अयन] न. १. वचप; गती; भोंवडी; भ्रमणकाळ. २. रस्तो; मार्ग. ३. स्थान; जागो. (ज्यो.) सूर्याचो भ्रमणकाळ. —उत्तरायन आनी दक्षिणायन अशो सूर्याच्यो दोन भोंवड्यो आसतात. दर भोंवडी स म्हैन्यांची आसता. उत्तरायनांत सूर्य उत्तर दिशेच्यान दक्षिण दिशेक भोंवता. उत्तरायनाक आरंभ जातकीर दीस व्हड जायत वतात आनी राती ल्हान जायत येतात. मकर संक्रात धरून कर्क संक्रातमेरेनचो काळ हो उत्तरायनाचो काळ. हो काळ जानेवारी १३ ते १४ तारकेच्यान सुरू जाता. दक्षिणायनांत हाज्या उरफाटें जाता. सूर्य दक्षिणेकडल्यान उत्तरेकडेन वता. दक्षिणायनाक आरंभ जातकीर दीस ल्हान जायत वतात आनी राती व्हड जातात.

**अयश** । अ॑यश्, सा.रू. -शा; भौव. -शां, सा.रू. -शां । [सं. अयशस्] न. अपेस; अपकीर्त.

**अयस** । अ॑यस्, सा.रू. -सा; [सं. अयस्] न. लोखण; लोखंड.

**अयाचित** । अयाचीत । [सं. अयाचित] वि. जें याचना करिनासतना, मागनासतना मेळटा तें; आयतें मेळटा तें. **क्रि.वि.** आयतें; आपाप; सायासाविणें; अनायास.

**अयाव** । अ॑याव्, सा.रू. -वे; भौव. -वो, सा.रू. -वां । [सं. अविधवा] वि. आयाव; जिचो घोव जितो आसा अशी; घोवकान्न; सवायशीण.

**अयावपण** । अयाव्पण्, सा.रू. -णा । ['अयाव' वेल्यान] न. सौभाग्य; सवायशिणपण.

**अयुत** । अयूत, सा.रू. -ता । [सं. अयुत] वि. धा हजार (१०,०००).

**अयोग्य** । अयोग्य । [सं. अयोग्य] वि. १. योग्य न्हंय असो; निरुपयोगी; खवंस (खांवक अयोग्य असो तांदूळ सध्या पसऱ्यांनी मेळटा.) २. सोबनाशिल्ली; फावनाशिल्ली; रितीभायली; नश्टी. (अयोग्य चलणूक.) ३. नालायक; पात्रता नाशिल्लो (अयोग्य मनीस).

**अयोनि** । अयोनी । [सं. अयोनि] वि. १. जो जन्मूंक ना तो; अजन्मो; सासणाचो. २. जो गर्भाशयांतल्यान जन्माक येंवक ना

तो; जो धर्मान वा कायद्यान मानिल्ले रितीन जन्माक येंवक ना तो. ३. अज्ञात कुळाचो.

**अयोनिज** । अयोनीज, सा.रू. -जा; भौव. -ज, सा.रू. -जां । [सं. अयोनिज] वि. १. जो घराभायर जन्माक आयला तो. २. जो योनींतल्यान जन्माक येवंक ना तो; प्राणी जे प्रक्रियेंतल्यान जन्माक येतात, ते प्रक्रियेन जन्माक येंवक ना तो.

**विशेश:** 'अयोनिज' ह्या उतराफाटल्यान एके पुरातन पुर्विल्ले चालीचो सरांव मेळटा. स्त्री-योनीक लागून जें भुरगें जन्माक येंवक ना तें म्हळ्यार 'अयोनिज' असो ताजो अर्थ जाता. जे अर्थीं स्त्री-योनीबगर प्रजा जन्माक येणेंच अशक्य, ते अर्थीं हो अर्थ खरो न्हंय. मुळांत 'योनि' ह्या शब्दाचो अर्थ 'घर' असो आसा. आरण्यकांत ह्या अर्थान तो उपकरायिल्लो मेळटा. 'तैत्तिरीय आरण्यकां' त 'आरोहंतु जनयो योनि अग्रे' अशें एक वाक्य आसा. (प्रपाठक ६, अनुवाक १). बायलो पैलीं घरांत सरूत, असो ह्या वाक्याचो अर्थ जाता. योनिज म्हळ्यार घरांत जन्माक आयिल्लें. अयोनिज म्हळ्यार घराभायर जन्माक आयिल्लें. घराभायर म्हळ्यार खंय? तर यज्ञाच्या माटवांत जन्माक आयिल्लें. ऋशी वामदेव्यव्रतां करताले. हीं व्रतां यज्ञभुंयेर करतना, एकाद्रे बायलेन संभोगाची इत्सा दाखयल्यार, ती इत्सा थंयच्या थंयच भागैताले. असल्या व्रताच्या काळार जें भुरगें जन्माक घालताले, त्या भुरग्याक अयोनिज भुरगें म्हण्टाले. महाभारत सांगता की, यज्ञभुंयेर लोकांहुजीर उक्त्यार संभोग घेवपाची चाल ह्या देशांत चलताली. आज ही चाल रानवटी दिसता. जाल्यारूय, एका काळार ही चाल चलताली हातूंत दुभाव ना. देखून, महाभारताच्या शांतिपर्वाच्या १९३ व्या अध्यायांत आनी हेर स्मृतिग्रंथांतल्यान मैथुन एकांतांत करचें, असो निर्बंध घालचो पडलो.

**आधारावळ:** भारतीय विवाह संस्थेचा इतिहास, बरो; इतिहासाचार्य राजवाडे, पा. ३८.

**अयोनिजा** । अयोनिजा, सा.रू. -जे । [सं. अयोनिजा] स्त्री. जनक राजाची धूव सीता. ही शेतांत घाल्लया नांगराच्या तासांतल्यान जन्माक आयल्या, असो समज आसा.

**अंयशावो,वी,वें** । अंय्शावॉ,वी,वँ; सा.रू. -व्या,-वे,-व्या; भौव. -वे (वॅ),-व्यो,-वीं; सा.रू. -व्यां । ['अंयशीं' वेल्यान] वि. क्रमाप्रमाणें मेजतना युकण्यांयशाव्याउप्रांत रोखडोच येता तो, रोखडीच येता तीं वा रोखडेंच येता तें. (परिक्षेंत बशिल्लया ४०० भुरग्यांत तो अंयशावो आयलो.)

**अंयशीं** । अंय्शीं, सा.रू. -श्यां । [सं. अशीति; प्रा. असीइ] वि. क्रमान मेजतना युकण्यांयशीं उप्रांत रोखडीच येता ती संख्या; आठांक धानीं गुणून येता ती संख्या. ही संख्या आंकड्यांनी बरैतनां (८०) अशी बरैतात.

**म्हणी:** १) अंयशाचो आदाव, चौऱ्यायशांचो खर्च.

२) अंयशीं, जीव जालो दोंशीं, फोंडा सरशीं.

**अरणी** । अर्णी, सा.रू. -णे; भौव. -ण्यो, सा.रू. -ण्यां । [सं. अरणि] स्त्री. यज्ञांत मंत्र म्हणत ज्याच्या मंथनान उजो पेटयतात तें शमीचें वा अश्वत्थाचें (पिंपळाचें) सुकिल्लें कास्ट.

**अरण्य** । अरण्ण्य, सा.रू. -ण्या; भौव. -ण्यां, सा.रू. -ण्यां । [सं. अरण्यम्] न. १. रान; जंगल; वन; घैण, दाट रुखावळ आशिल्लो जागो. २. निर्जन, रखरखित जागो. ३. (ला.) १. प्रपंच; संवसार; प्रपंचाचो मांडारो. २. जंय आपले वळखि-देखिचो, नात्या-पात्याचो वा इस्ट-मित्र असो कोण ना तो गांव वा प्रदेश. **—पंडित** : वि. कुड्यांत काणो राजा तसो अडाण्यांत शाणो;

मूर्ख; ज्याचें शाणेपण वेव्हाराक निखालस उपकरा पडना असो विद्वान. **—वास:** पु. ज्या जाग्यार मनशाचे वसणुकेची कसलीच खूण ना अशा जाग्यार केल्लो राबितो; रानांत केल्लो राबितो.

**वा.प्र.: अरण्यांत हुयेल:** निरर्थक केल्ले कस्ट वा श्रम.

**अरतप ।** अर्तप्, सा.रू. -पा । [सं. अर + तस्?] क्रि.दा.धा.सा.ना. (मूळ धातू: अरत् (अक.)) आलतडीन येवप; आपले वटेन येवप. (उमाणें: अर अरतलें, पाणी परतलें; देंटाविणें अमृत पिकलें.)

**अरब ।** अरॅब्, सा.रू. -बा; भौव. -ब, सा.रू. -बां. । [फा. अराब (a'rab), अराबी (a'rabi)] पु. ज्याची निजाची भास अरबी आसा तो; अरबस्थानचो थळावो मनीस; अरबस्थानचो रहिवासी वा नागरिक.

**विशेश:** वंशशास्त्राचे नदरेन अरब हे सेमित वंशाचे लोक. कांय शेंकड्यांपैलीं तांच्या राष्ट्रवादाच्यो तिस्त्यो जाल्लयो. ल्हान ल्हान राष्ट्रांच्या कुडक्या कुडक्यांनी ते वांटून गेले.

पैल्या म्हा-झुजाआदीं सुमार तिनशीं वर्सां ते तुर्कांचे सत्तेखाल खर्शेताले. म्हा-झुजाउप्रांत थोडी-भोव स्वतंत्रताय तांकां भोगूंक मेळली. आज तांच्यांत एक नवी जागृताय जाल्या. आपले संस्कृतायेचो तांकां अभिमान दिसपाक लागला. परतून तांच्यांत नव्या राष्ट्रवादाचो उदेव जाला. आपले प्रश्न सोडोवपाखातीर, तांचेकडेन आशिल्लया पेत्रोलाच्या अस्त्राचो, ते आज भोव बरो लाव घेवपाक लागल्यात.

क्रिस्ती सना आदल्या तीन हजारकांमेरेन सेमित वंशाचो हेर लोक आनी अरब हांचो इतिहास वेगळो काडूंक मेळना. क्रिस्ती सनाच्या सातव्या शेंकड्याच्या मध्याक जेन्ना राजकर्णी आनी धार्मिक मळाचेर, इस्लामाचो उदेव जालो, तेन्ना अरब इस्लामाच्या गोपांत गेले. इतलेंच न्हंय, तर मध्यम बांध्याच्या ह्या शूर आनी शिरपूट लोकांनी इस्लामाचो बावटो आशिया आनी आफ्रिकेंतच न्हंय, तर येवरोपांतल्या स्पेन आनी पुर्तुगाल ह्या देशांतय उबैलो.

भटकंती ही अरबांची परंपरा. अरब ह्या उतराचो अर्थच मुळांत फिरस्तो वा भटको. हे भटकंतेनच वेगळ्या वेगळ्या देशांमेरेन तांकां पावयले. हे भटकंतेक लागुनच तांच्यांत साहसाची वृत्ती आयली, आनी भुंयवर्णनेक (Geography) ते नवीं नवीं चंवरां हाडूंक पावले.

बोकडां, मेंढरां आनी करीं हांचो प्रतिपाळ करून, फिरस्त्यांची जीण ते जियेताले. ह्या हिंडाच्या चरवाखातीर, घर फाटीर मारून रेंवट थळांतल्यान आज हांगा जाल्यार फाल्यां थंय अशे ते भोंवत आसताले. आर्य जशे गोरवां-राखणे अवस्तेंत तंबू आनी माटोव घालून जियेताले, तेच परी अरबय तंबू उबारून रावताले. तंबू, ऊंट आनी खाजराचें झाड ही तांची निशाणी.

अरब हे कबिलो (जोमो वा वांगड) करून रावताले. दर कबिल्याचो एक मुखेली आसतालो. ताका 'शेख' म्हण्टाले. कबिल्यांतल्या सगळ्यांक समान हक्क आनी समान लागणूक लागू जाताली. देखून, ते सन्मथ्थान आनी भावबंदायेन जियेंवक पावले.

फिरंग्यांच्या तारवांपैलीं, अरबांचीं तारवां आफ्रिकेंतल्या आनी आशियेंतल्या बंदरांनी भोंवतालीं. देशां देशां मदगतचो व्यापार तांच्याच हातांत आशिल्लो.

व्यापाराच्या निमित्त्यान सातव्या शेंकड्यांतच अरबांचो संबंध भारताकडेन आयलो. आनी हो संबंध कोंकणांतल्यान आयलो. ताका लागून गोंय धरून सौराष्ट्रमेरेनची देग तांणी व्यापली. कर्नाटक, आंध्र, केरळ आनी तामिळनाडू मेरेन ते पावले. अशे तरेन, हिंदुस्थानच्या व्यापाराची चावी तांच्या हातांत आयली.

अरबस्थान आनी इराण हांगासल्लयान ते मोतयां आनी घोडे भारतांत हाड्टाले.

भारतांतल्यान कापूर, चंदन, लंवगां, तिखी, हळद, तांबें, नाल्ल आनी कोंडे ते भायल्या देशांक व्हरताले.

अरब व्यापारांत लापीट आशिल्ले, तेच परी झुजामळारय तरवार गाजोंवक खांपे आशिल्ले. पवित्र खलिफाच्या काळांतच अरबांनी भारताचेर घुरी घाली. महमद बीन कासीमान क्रिस्ती सनाच्या ७१२ वर्सा सिंध जिखून घेतलो. त्या वेळार उत्तरेंत ल्हान व्हड अशीं बरींच राज्यां आशिल्लीं आनी रजपुतांचो उदेव जातालो. दक्षिणेंत चालुक्यांची राजवट चलताली.

एके वटेन ते हिंदुस्थान पादाक्रांत करपाक पावलां उखलताले, तर दुसरे वटेन व्यापार चलयता आसतनाच दक्षिणेंतल्या राजवटिंत, मोठे चतुरायेन, रीग करताले. क्रिस्ती सन १०५३ नांत सढन म्हळ्ळ्या एका अरबी व्यापाऱ्यान पैल्या जयकेशी कदंबाचे प्रधानकेचो मान जोडलो

अरबांनी ह्या देशांत मिजगिती बांदल्यो. तांचो खर्च चलोवपाक, मोठ्या शाणेपणान, त्या काळावेल्या कांय राजांकडल्यान तांणीं उत्पन्नाची मांडणी करून घेतल्या. खासा सढनान व्हडल्या गोंयां एक मशिद बांदिल्ली. तिजो खर्च चलोवपाक थंयच्या बंदरांत येवपी वेगवेगळ्या थळांतल्या तारवांचेर जयकेशीन पटी बसयल्ली. (पळेयात: 'वलिपत्तनाचो सोद', बरो: शणै गोंयबाब, पा. ४).

मध्ययुगामेरेन, त्या काळार होलमलां तितलेंय गिन्यान अरबांनींच सगळ्या संवसाराक दिलां. ग्रीक तत्वगिन्यानी आरिस्टॉटेल, हाज्या तत्वगिन्यानाची वळख संवसाराक ताणींच पैली वैली करून दिल्या. वैजकी आनी गणित हांचीय वळख तांणींच येवरोपाक करून दिल्या. क्रिस्ताआदल्या ३०० वर्सा साकून हिंदुस्थानांत घोळटेंत आशिल्ले आंकडे (१, २, ३, ४, ५, ६, ७, ८, ९, आनी ०), क्रिस्ती सनाच्या सव्या शेंकड्याच्या सुमाराक, तांणींच येवरोपाक व्हेल्यात म्हणपाची खबर नानेघांट हांगा मेळिल्लया एका फातरपट्यावेल्यान कळटा. ह्याच गिन्यानाचे बुन्यादिचेर येवरोपान नवे विज्ञानी संस्कृतायेची बांदावळ उबाल्लया.

ऋग्वेदांत घोड्याक अर्व, अर्वा म्हळा. अर्वदेश हो घडये अरबस्थान जावये.

अरबांक गोंयांत 'ताजिक' ह्या नांवान वळखताले.

**आधारावळ** : १. Purnell's New English Encyclopedia, Vol.I, no.11, 2nd Edition, Page 308.
२. Nafta in Maharashtra, by D.V.Chauvan -Annals of the Bhandarkar Oriental Research Institute, Vol. LVII, Parts I-IV-1976, page 150.
३. वलिपत्तनाचो सोद, बरो: शणै गोंयबाब.

**अरबट** । अर्बट्, सा.रू. -टा; भौव. -ट, सा.रू. -टां । [सं. आरभट: = धिरिस्ट] वि. १. हडम - धडम; धोमडो. २. कोणाकच बाडगना असो उर्मट; रानवटी; जंगली.

**अरबट** । अर्बट् । [सं. अर्बटम् = गोबोर] वि. नि:सत्व; पचपचित; निखटें पोटाभरीचें (अरबट खाण).

**अरबट-चरबट** । अर्बट्-चर्बट् । [सं. अर्बटम् (=गोबोर) + फा. चर्ब (= तेलकट, तुपकट)] वि. अबडचबड; तेलकट, तुपकट, नि:सत्व; पोटाभरिचें (अरबट - चरबट खाण).
**वा.प्र: अरबट-चरबट खावप:** तेलकट, चरबी आशिल्लें नि:सत्व खाण खावप; पोटाभरीक माती गोबोर खावप.

**अरबटपण** । अर्बट्पण्, सा.रू. -णा; भौव. -ण, सा.रू. -णां । ['अरबट' वेल्यान] न. उर्मटपण, उर्मटाय, रानवटपण; आडांगपण, आडांगाय.

**अरबी** । अर्बी (अर्बी), सा.रू. -बी । [फा. अराबी] स्त्री. अरबांची भास.

वि.१. अरबस्थानाचो (अरबी घोडो) २. अरबांचो, अरबांकडेन लग्निक आशिल्लो (अरबी प्रश्न.) ३. अरबांनी घडयल्ली; अरबांनी निर्माण केल्ली. (अरबी संस्कृताय).

**विशेश: (भास):** अरबी ही सेमित भासांतली एक मुखेल भास. अरबी अक्षरावळिंतली अठ्ठाविसय अक्षरां, एकान एक व्यंजनां आसात. अ, ई आनी ऊ ह्या स्वरांचे उच्च्यार दाखोवपाक वेगळ्यो कुरवो आसात.

संस्कृत आनी लातीं ह्या म्हत्वाच्या आनी नामनेच्या भासांइतलीच अरबीय म्हत्वाची आनी नामनेची आसा. क्रिस्ती सनाचो आठवो शेंकडो धरून तेराव्या शेंकड्यामेरेन संवसारभर विद्येचो प्रसार अरबी भाशेनच केला. त्या वेळार होलमलां तितलेंय ज्ञान अरबांनींच शिकून घेतलां. हेर संस्कृतायांचो ताणीं परिचय करून घेतला आनी खासा आपली एक वेगळी संस्कृताय संवसाराक दिल्या.

अरबी भाशेंत संस्कृत भाशेंतल्यान घेतिल्लीं कांय उतरां आसात. ईब्न बातूत (Ibna Batuta) ज्या बतेल्यान चिनाक गेल्लो, त्या अरबी बतेल्याचें नांव 'जागर' आशिल्लें. 'जागृती' ह्या संस्कृत उतराचें तें म्हेळें रूप. आनिकय कांय उतरां आसात. देखीक: दुनिज-ल्हान होडें (सं. द्रोणिका), नावती-होड्याचो तांडेल (सं. नावपती).

अरबांचे राजकर्ण आनी व्यापार हांकां लागून भारतांतल्या आर्विल्लया भासांचेरच न्हय, तर येवरोपांतल्या स्पॅनिश आनी पुर्तुगेज भासांचेरय अरबी भाशेचो घसघशीत परिणाम दिसून येता.

भूंयवर्णना, इतिहास, व्याकरण, वैजकी, तत्त्वज्ञान आनी निरुक्त ह्या विशयांचेर बरयल्लया ग्रंथांक लागून अरबी समृद्ध जाल्या. चौदावो शेंकडो धरून जरी अरबांक आनी अरबी भाशेक पड आयली, तरी १९ वो शेंकडो धरून अरबीचें पुनर-उबारेचें काम चल्लां. आज कायरो आनी दामास्क अरबी भाशेचीं आनी अरबी संस्कृतायेचीं मुखेल केद्रां जाल्यांत.

इस्लामाचें पवित्र कुराण अरबी भाशेंतच आसा. कुराणाची भास म्हळ्यार काव्यान न्हाल्लें गद्य. ह्या गद्यान अरबी भाशेक एक पर्जळीत कान्त दिल्या.

अरबी भाशेक दिसाळ्याची पैलीवैली वळख नापोलियानाक लागून जाली. ज्या वेळार बोनापार्तीन येजिप्त व्यापलें (क्रिस्ती सन १७९९-१८०१), त्या वेळार ताणें थंय वर्तमान पत्र व्हेलें. पन्नास वर्सांउप्रांत (क्रि. स. १८५४) अरबी भाशेंत पैलें दिसाळें उजवाडाक आयलें.

**चित्रकला आनी वास्तुकला:** चलते-धुंवते जिवावळिचें, तेच परी मनीस आनी मनिस जातिचे उमाळे चितारपाक, घडये धर्माचीं बंधनां आशिल्लीं म्हणून जावये, वा तांच्या दोळ्यां मुखावेली दिगन्त रेंवेचीं अरण्यां आशिल्लीं म्हणून जावये, अरबी चित्रकला फोंपेंवक पावली ना. झाडां, वाली आनी हेर कंगरखीस हातुंतच अरबी चित्रकलेन समाधान मानलें. जाल्यारूय, वास्तुकलेंत अरबांच्यो कल्पना मेकळेपणान वावुरल्यात.

वास्तुकलेंत ताणीं निजाचें कसब दाखयलां. घुमट आनी आर्कां आशिल्लयो मशिदी ताणी बांदल्यात. कोर्दोबाच्या, कायरोच्या आनी कोंश्तांतिनॉप्लाच्या मशिंदींच्या रुपान, एक अप्रतिम दायज ताणीं वास्तुकलेक दिलां.

**प्राणिशास्त्र:** अरबी घोडो हो अस्सल जातोडेचो अत्यंत देखणो आनी तेजवन्त प्राणी. ह्या घोड्यांच्या व्यापाराक सदांच तेजी आसताली. इतलेंच न्हंय, तर ह्या घोड्यांक 'तेजी' ह्याच नांवांन वळखताले.

आधारावळ: १. Purnell's New English Encyclopedia, vol.I, no.11, 2nd Edition, page 308.

२. Nafta in Maharashtra by D.V.Chauvan-Annals of the Bhandarkar Oriental Research Institute, Vol.LVII, Parts I-IV-1976, page 150.

**अरमान** ।अर्मान्, सा.रू. -ना; भौव. -नां, सा.रू. -नां । [का. अरमने] न. राजवाडो; राजभवन.

**वा.प्र.: अरमानांतलो आळशीः** आंगांत कसलेंच कर्तुत्व नाशिल्लयान जो राजवाड्यांतल्या अन्नार आयतो पोसता तो.

**अरवळ** । अर्‌वॅळ्, अर्वळ्, सा.रू. -ळा; भौव. -ळ, सा.रू. -ळां । [का. अरिविलि] वि. १. ज्याचेर पिशाची सया, झांक मारता तो; पिसायेची सावळी आशिल्लो; होंदो. २. अत्यंत भोळो. ३. **(ला.)** १. दांगानी वाडुनय कोणाचे वाटेक वच, कोणाक तिडाय अशीं भुरगेपणां आंगांत आशिल्लो; अचगळी. २. अती लाडान इबाडलेलो (अरवळ भुरगो). ३. कानांत वारें भरिल्लो (अरवळ पाडो).

**अरवळपण** । अर्‌वळ्‌पॅण्, अर्वळ्‌पण्, सा.रू. -णा; भौव. -णां, सा.रू. -णां । ['अरवळ' वेल्यान] न. अरवळाच्या आंगांतलो गुण. **(ला.)** अचगळाय.

**अरविंद** । अंर्‌विन्द्, सा.रू. -न्दा; भौव. -न्दां, सा.रू. -न्दां । [सं. अरविन्दम्] न. साळिक; कमळ.

**अरसिक** । अरसीक्, सा.रू. -का; भौव. -क, सा.रू. -कां । [सं. अरसिक] वि. १. रसिकता नाशिल्लो. २. ज्याका सुंदरकायेची, गोडसाणेची, अप्रुपाची अनुभूती घेवपाची तांक ना तो; ज्याका जीणेंतल्या, कलेंतल्या, साहित्यांतल्या सौंदर्यान वा सुंदरकायेन आनंदाचो उमाळो येना तो. ३. रूच नाशिल्लो.

**अरहंत** । अरहॅन्त्, सा.रू. -ता; भौव. -त, सा.रू. -तां । [सं. अर्हन्तः, पा. अरहत्त] पु. जो निर्वाण जोड्टा तो बौद्ध भिक्षू वा भिक्कू.

**विशेशः** मनशान मायेस्त आनी करुणेन उपाट भरिल्लो, तेच परी विरक्त आसुनय हांसत्या मुखाचो असो देखदेणो मनीस जांवचो, हें बुद्धाचें आनी ताज्या धर्माचें मुख्य उद्दिस्ट आशिल्लें. अशा मनशाक अर्हत वा अरहंत म्हण्टात. अरहंताक निर्वाणाची म्हळ्यार मोक्षाची जोड जाता.

**अरळ** । अरॅळ् । [का. अरल(ळु)] वि. १. जें फांकता तें; जें मोव जावन रूंद जांवक पावता तें. (पापडांची पिठी धोडायता तितली अरळ जाता). २. रसरशीत; कवकवीत (अरळ चली). ३. घमघमीत (अरळ पर्मळ). ४. लवचिक; जाय तशी बागोंवक मेळपी (अरळ भास).

**वा.प्र.: अरळ जावपः** १. फुलप; फांकप. २. श्रद्धेन, भावार्थान वा भक्तिभावान भारावन वचप. (उपकाराच्या भारान अरळ जावन तिनसांजचें घरा परतुचें —पैगंबर, भाशांतरः बाकीबाब बोरकार, पा.१०)

**म्हणः** पापडांची पिठी आनी बायलांची फाट धोडायता तितली अरळ आनी मोवाळ जाता.

**अराजक** । अराजक्, सा.रू. -का; भौव. -कां, सा.रू. -कां । [सं. अराजकम्] न. १.राजसत्तेचो, सरकारी शासनाचो अभाव. २. धुमाळी; गोंधळ; बंडाय; बेबंदशाही.

**अराजकताय** । अराजक्‌तॅाय्, सा.रू. -ये; भौव. -यो, सा.रू. -यां । ['अराजक' वेल्यान] स्त्री. बंडायेची स्थिती; गोंधळाची अवस्ता; धुमाळी; बेबंदशाही.

**अराज्यवाद** । अराज्यवाद्, सा.रू. -दा; भौव. -द, सा.रू. -दां । [सं. अ+राज्य + वादः] पु. मनशांच्या विचारांक पूर्ण मेकळीक दिवन, तांणीं एकमेकांकडेन न्यायान आनी सन्मथ्थान चलपाची समाजव्यवस्था, राजसंस्थेविणें निर्माण करूंक येता, अशें सांगपी राजकर्णी मळार उदेवाक आयिल्लें एक मत.

**विशेशः** अराज्यवाद हो इंग्लेज anarchism

वा पुर्तुगेज anarquismo ह्या उतराचो प्रतिशब्द. Anarquismo हें उतर a (न्हंयकार दाखोवपी ग्रीक मुळाकूस) +arkhe (म्हळ्यार सत्ता.) हाजेवेल्यान घडलां. अराज्यवाद म्हळ्यार बेबंदशाही, धुमाळी वा अराजकताय न्हंय.

राजसंस्थेविणें समाजाच्यान व्यवस्थित जगूं येता, हेंच अराज्यवाद सांगता. अराज्यवादांत झुजाक, चोरयेक, लुटालुटीक, नाडपणांक जागो ना. मनशान स्वतंत्र आसचें. ताणें कोणाचोच बंदो जांव नये, तेच परी दुसऱ्याकय आपलो बंदो करूं नये. मनशान दुसऱ्याचेर अधिकार गाजोंव नये, ताणें दुसऱ्याचेर आगळिक करूं नये, आपले विचार दुसऱ्याचेर बळयादूं नये; अशें मत अराज्यवाद मांडता. अराज्यवाद फुडें सांगता की, मनशान मेकळेपणान जियेंवचें. मेकळेपणान जियेतना मनशान मनशाक आडमेळीं हाडूं नये. आपल्या स्वातंत्र्याक दुसऱ्याच्या स्वातंत्र्याची म्हेर आसता, हें ध्यानांत धरचें. आपल्याक हक्क आसा, तसो दुसऱ्याकय हक्क आसा, हें ताणें जाणा जावन घेंवचें. मनशान एकमेकांकडेन सन्मथ्यान, सराबरीन आनी भावबंदायेन चलचें. दुसऱ्यांच्या आंगार पडनासतना, मनिसपणान चलत, एकमेकांकडेन थंडायेन चलचें. कोणेंच एकमेकांकडेन आशिल्लें आपले लागणुकेक विसरचें न्हंय. थोड्या भितर सांगप म्हळ्यार, देशांतल्या दरएक नागरिकान समजिकायेन जियेत, जीणेचो सारकोच आनंद घेत, पूर्ण स्वराज्य भोगचें.

राजकर्णी मळाचेर इकुणिसाव्या शेंकड्याच्या दुसऱ्या अर्दांत अराज्यवादाचें मत फुडें सल्लें. फ्रेंच तत्वज्ञानी प्रुदाँ, रशियन शांतिवादी आनी म्हान साहित्यिक टॉलस्टॉय आनी रशियन शास्त्रज्ञ आनी नांवाजतो क्रांतिकारी पीटर क्रोपॉटकिन हांणीं ह्या मताच्या प्रसाराक आपली जीण खर्चिली.

भारतांतल्या आर्यांक हें मत परकी आशिल्लें अशें दिसना. महाभारताच्या 'शांतिपर्वां'त

"नैन राज्यं न राजाऽसीत् । न दण्डो नच दण्डिकाः।
स्वधर्मेण प्रजास्तावत् । रक्षन्ति स्म परस्परम्॥.

(तेन्ना राज्य नाशिल्लें आनी राजाय नाशिल्लो. दण्ड आनी दण्डधारीय नाशिल्ले. प्रजा स्वधर्मान चलून परस्परांची राखण करताली.) अशा धर्मान चलपी वेदिक आर्यांचे अत्यंत पुरातन वस्तीचें एक वर्णन आसा.

अराज्यवादांत मांडिल्लया मतान खंचोच देश चलूंक ना. सगळे देश अशे तरेन फुडाराक चलतले म्हणपाचीय आदवसाण ना. अराज्यवादांत एक उदात्त कल्पना आसा. मनशान मनिसपणान चलचें, अशी शिकोवण अराज्यवाद दिता.

**आधारावळः** १. Dicionario Enciclopedico Luso-Brasileiro, Vol.I

२. अराज्यवाद, लेखकः तर्कतीर्थ लक्ष्मणशास्त्री जोशी.

**अराटि** । अराटि, सा.रू.- टे । [सं. अरति] स्त्री. अपकीर्त; दुश्कीर्त; बेअब्रू. (पेल्याची अराटि, निंदा करूं नये. दौत्रिन क्रिस्तां, पा.३४)

**अराणिक** । अराणीक्, सा.रू. -के । [सं. अ + रम्?] स्त्री. विश्रांती; आराम.

**अराष्ट्रीय** । अराष्ट्रीय । [सं. अ + राष्ट्रीय] वि. राष्ट्राच्या हिताआड आसपी; आपल्या राष्ट्राचो अभिमान नासपी; राष्ट्रघातकी.

**अरिश्ट** । अ'रिश्ट, सा.रू. -श्टा; भौव. -श्टां। [सं. अरिष्टम्] न. संकट; आपत्त; अरिस्ट. (पांडवांनी मानून घेतलें. ते रोखडेच उठून खांडवप्रस्थाक गेले. श्रीकृष्णा सांगातान ते थंय सगळेकडेन भोंवले. राजधानये खातीर तांणी एक सुवात वेंचून काडली. अरिश्टां परतून लावपाक शान्ती केली. —महाभारत, खण्ड १, बरोवपीः रवीन्द्र केळेकार, पा.१०१.)

**अरिस्ट** । अ॑रिस्ट, सा.रू. -स्टा; भौव. -स्टां, सा.रू. -स्टां । [सं. अरिष्टम्] न. १. एकाच वांगडा खूप लोकांचेर येता ती नैसर्गिक आपत्ती वा संकट; आकांताचें विघ्न. (बुट्टी, तुफान, भुंयकांप, वशाची धाम आनी झूज हीं अरिस्टां संवसारांतल्यान ना जांवक जाय). २. अवदांडो; आपत्त; काळयोग. ३. **(आयुर्वेद)** आसव; अर्क; सोरो. ४. **(ला.)** १. भयांकृत प्राणी. २. नवलांचें, अजापांचें घटित.

**अरिस्टांचो, ची, चें** । अ॑रिस्टांचॉ, ची, चँ; सा.रू. -च्या, -चे, -च्या; भौव. -चॅ, -च्यो, -चीं; सा.रू. -च्यां । ['अरिस्ट' वेल्यान] वि. १. भयांकृत; आवरो उडसारको; भयान हाता-पायांक थरथरो सुटसारको (अरिस्टांचो प्रसंग). २. अत्यंत अवघड; महत् प्रयासान साध्य जाय सारकें (अरिस्टांचें काम). ३. जिवावेलें (अरिस्टांचें दुखणें).

**अरी** । अ॑री, सा.रू. -रये; भौव. -रयो, सा.रू. -रयां । [सं. आर:] स्त्री. आरी; चांभारालें तोपण.

**अरुण** । अ॑रूण, सा.रू. -णा । [सं. अरुण] वि. तांबडो हळडुवसार वा तांबसार हळडुवो.

**अरुण** । अ॑रुण, सा.रू. -णा । [सं. अरुण:] पु. सूर्याचो सारथी ह्या नात्यान मनिसरुपान आकाराक हाडिल्लें फांटोइडेचें रूप; फांटोइड; फालें; झिळमिटें. २. सूर्याचो सारथी. ३. मार्तण्ड (सूर्य). – अदितीन आपल्या आपशकमी तेजान आठ पुतांक जन्म दिलो. सातांक घेवन ती देवांकडेन गेली. आठव्या मार्तण्डाक वैर मोखून माल्लो आनी परतो मळबांत धारण केलो. घडये होच अरुण आसुये. (ऋ. १०.७२.८).

**अरुणउदेव** । अ॑रुणउदेव्, सा.रू. -वा । [सं. अरुणोदय] पु. सूर्य उदेंवचे पैलीं पूर्व दिशेर फांकता ती तांबशी; फांतोइडेवेलो तांबसार रंग.

**अरुंदाय** । अरुंन्दाय्, सा.रू. -ये । ['अरुंद' वेल्यान] स्त्री. अरूंद आसपाची स्थिती; अशिराय; आंखुडाय.

**अरुंधती** । अ॑रुन्धती, सा.रू. -ती । [सं. अरून्धती] स्त्री. १. वशिस्ठ ऋशिची बायल. **(पुराण)** देवहुतीक कर्दम प्रजापतीक लागून ठाव धुवो जाल्ल्यो. तातूंतली अरुंधती ही एक. अरुंधतीचो आपल्या घोवाचेर –वशिस्ठाचेर– खूप जीव आशिल्लो. घोवाचेर बायलेची माया कशी आसची हें सांगपाखातीर अरुंधतीची देख दितात. २. **(ज्योतिशशास्त्र)** सप्तर्शी ह्या सात गिन्यांच्या पुंजुल्यांतलो एक गिरो. हो वशिस्ठाच्या लागसार आसा. ज्याका हो गिरो पैलीं दिसतालो, ताका उप्रांत तो दिसना जायत जाल्यार, त्या मनशाचें आयुश्य फक्त एकच वर्स उल्लां अशें मानतात. (पळेयात: महाभारत, शांतिपर्व).

**अरूच** । अ॑रूच, सा.रू. -ची । [सं. अरुचि:] स्त्री. १. नावड; वीट; घृणा. २. भूक आसुनय जेवणाची रूच ना जाता अशी अवस्ता.

**अरूंद** । अ॑रून्द । [सं. अ + रुन्द्र (=विपुल); सं. अ+दे. रुंदो]. रुंदायेन उणो; रूंद न्हंय तो; रुंदाय, रुंदसाण नासपी; आंखूड; अशीर; अवरूंद (अरूंद मार्ग; अरूंद पाळण).

**अरूप** । अ॑रूप् । [सं. अरूप] वि. १. आकार नाशिल्लें; अमूर्त; निराकार. २. भैरूप; विद्रूप; कुरूप; अपंगूल. ३. भिन्न; वेगळो.

**अरूप** । अ॑रूप, सा.रू. -पा । [सं. अरूपम्] न. १. विद्रूप बावलें वा वस्त. २. सांख्यांचें प्रधान आनी वेदांत्यांचें ब्रह्म.

**अरेक** । अरेक् । [सं. 'अरे' वेल्यान?] वि. १. जो अनादर, अपमान, उपमर्द करता तो; उद्धट (अरेक भुरगो). २. ज्याणें अपमान जाता अशें (अरेक उतर).

**अरेकाय** । अरेकाय, सा.रू. -ये । ['अरेक' वेल्यान] स्त्री. १. अनादर; अपमान; उपमर्द. २. उद्धट, मग्रुरिचें वर्तन.

**अरेराव** । अरेराव्, सा.रू. -वा; भौव. -व, सा.रू. -वां । [सं. अरे + कों. राव] वि. मदान्ध; मस्तो; आढ्यता, मिजास आशिल्लो; ज्याच्या मस्तकाक अधिकार चडला वा चडटा असो; जळोवणो (अरेराव अधिकारी).

**अरेरावी** । अरेरावी, सा.रू. -वी । ['अरेराव' वेल्यान] स्त्री. मदान्धकाय; मस्ती; मिजास; पात्रास; जळोवणी.

**अरोगंद** । अरोगन्द् । [सं. अरोगिन्] वि. ज्याचें आरोग्य सणसणीत आसा तो; आरोग्यान सुखी; आनंदी.

**अरोगी,गें** । अरोगी,गँ, सा.रू. -ग्या; भौव. -गी,-गीं, सा.रू. -ग्यां । [सं. अरोगिन्] वि. निरोगी; घटमूट; बलायकेस्त.

**अर्क** । अर्क्, सा.रू. -र्का; भौव. -र्क, सा.रू. -र्कां । [सं. अर्कः] न. १. उजवाडाचें कीर्ण; जोगूल. २. सूर्य; अग्नि; उदक; अन्न. ३. रूय, रुयेचें झाड (Asclepias Gigantea वा Calatropis Gigantea). ४. प्राण; पुरुष (आदितत्व); चैतन्य. ५. काडो, ६. सत्व.
**विशेशः** 'अर्च्' ह्या धातूवेल्यान 'अर्क' हें उतर घडलां. अर्च् म्हळ्यार पुजप, पूजा करप. मूळाक ह्या धातूचो अर्थ 'तापप', 'जळप', 'लकलकप' असो आशिल्लो. ह्याच अर्थान अथर्ववेदांत हो धातू उपकरायिल्लो मेळटा. ह्या धातूवेल्यान घडिल्लया 'अर्चि' ह्या उतराचो 'जोत', 'उजवाडाचें कीर्ण', 'अग्नि' असो अर्थ जाता. होच अर्थ उत्क्रांत जावन 'अर्का'चो 'प्राण', 'पुरुष (आदितत्व)', 'चैतन्य' अशे आनीक अर्थ घोळटांत आयले. (पळेयात: The Vedic Etymology by Fatah Singh.)

**अर्क** । अर्क्, सा.रू. -र्का; भौव. -र्क, सा.रू. -र्कां [अर. अरक्; सं. अर्कः] पु १. प्राणतत्व वा गाभो. २. ऐन सार; आपरोस; सत्व. ३. वखद, सोरो आनी अत्तर तयार करपाक झाडापाल्याचें, पाळां-मुळांचें आनी फुलां-फळांचें भाटयेक लावन काडिल्लें ऐन द्रव्य. ४.(**ला.**) म्हालगडो; शिरोमणी; अट्टल; पटायत. (चोरांचो अर्क).

**अर्कविवाह** । अर्कविवाह्, सा.रू. -हा; भौव. -ह, सा.रू. -हां । [सं. अर्क (रूय) + विवाह] पु. तिसरेपणाक लग्न जातना रुयेच्या झाडाकडेन लग्न जावन केल्ली खुमा.
**विशेशः** जो दादलो आपल्यो दोगी बायल्यो मेल्याउप्रांत तिसरेपणाक लग्न जाता, ताका तिसरे बायलेच्या गळ्यांत माळ घालचे पैलीं रुयेकडेन लग्न जाल्लयावरी खुमा करची पड्टा. रुयेची ताळी घराकडेन हाडून, थंय लग्नाक घालतात तसो होम घालतात आनी लग्नाचो विधी जाल्लयाभाशेन करतात. ही खुमा केल्याउप्रांत, तिसरेपणाचे बायलेच्या गळ्यांत माळ घालतात. तिसरी बायल ही भाग्याची न्हंय म्हण्टात. ती बेगीन मरता, असो समज आशिल्लयान ही खुमा करतात.
वयावेलो मुंजो ब्रह्मचर्य अवस्तेंत भायर पडिल्लो आसल्यार, ताजी बाधा तागेल्या घरच्या मनशांक जांवची न्हंय म्हणून, रुयेची ताळी हाडून, तिजेकडेन ताजें लग्न जाल्लेभाशेन विधी करतात.

**अर्कुलें** । अर्कुलँ, सा.रू. -ल्या; भौव. -लीं,

सा.रू. -ल्यां । [सं. अर्कः ?] न. रकार वा 'र' चो अर्दो उच्च्यार दाखोवपाक अक्षराच्या माथ्यार ( ॒ ) अशी दितात ती कुरू. देखीक: अर्क; अर्द, २. इ आनी उ ह्या स्वरांचो दीर्घ उच्च्यार दाखोवपाक उपकरायतात ती कुरू, देखीकः ई, ऊ.

**अर्खण** । अर्खण्, सा.रू. -णा । [सं. अर्ध + खंडनम्] न. धान्य कांडतना ताजे दाणे मोडून जाल्ली कणी वा कुडके. (गिरणीर भात कांड्तना, तांदूळ मोडून सगळें अर्खण आयलें).

**अर्खणो** । अर्खणॉ, सा.रू. -ण्या । [सं. अर्ध+खण्डित] वि. कांडतना मोडिल्लो; कुडके जावन कणी जाल्लो (अर्खणो तांदूळ).

**अर्गळ** । अर्गळ्, सा.रू. -ळा; भौव. -ळां, सा.रू. -ळां । [सं. अर्गलः] न. दार धांपल्याउप्रांत तें उक्तें जांव नये म्हणून वा तें उक्तें करूंक मेळूं नये म्हणून भितल्ले वटेन लावचेली लाकडाची आडी; आडसर; खिळी.

**अर्ग** । अर्ग्, सा.रू. -गा; भौव. -र्गां, सा.रू. -र्गां । [सं. अर्घः] न. आभार, उपकार (भक्तिभावान मानिल्लो) —(ह्या भक्ताच्या उतरान, तो पातकी मनुश्यु, ह्या स्वाम्याचो क्रुपे निमती परमेस्पराक उधंड अर्गां दिलीं. सांतु आंतोनिची अचर्यां, पा.४.)

**वा.प्र. : अर्गां दिवपः** उपकार मानप.

**अर्गेपाद** । अर्‌गॅपाद्, सा.रू. -दा; भौव. -द, सा.रू. -दां । [सं. अर्ध्यम् + पादः] पु. भौमानिक मनशाच्या पायांक आनी उप्रांत ताज्या मस्तकाक हात लावन आदरान केल्लो नमस्कार. (आमीं सिंव्हासनालागीं बसून राजाक अर्गेपाद केलो.)

**वा.प्र.: अर्गेपाद करपः** नमस्कार करप.

**अर्गें** । अर्‌गॅं, सा.रू. -र्ग्या; भौव. -अर्गीं, सा.रू. -र्ग्यां । [सं. अर्घ्यम्] न. १. पूजेच्या वेळार पोशांत वा पंचपात्रांत उदक, गंध, फुलां आनी अक्षता घेवन, देवाक वा ब्राम्हणाक भौमानान केल्ली ओंपणी. २. संध्या करतना पोशांतल्यान उदक सोडून सुर्याची आनी वरुणाची केल्ली होरावणी.

**वा.प्र. : अर्गीं दिवपः** १. भौमानान ओंपप. २. होरावप.

**अर्घ्य** । अर्घ्य्, सा.रू. -र्घ्या; भौव. -र्घ्यां, सा.रू. -र्घ्यां । [सं. अर्घ्यम्] न. पळेयात 'अर्गें'. (आनी हो अस्तमतेचो समुद्र पळेयात कसो रात-दीस ताजे पांय धुता आनी ताका अर्घ्यां दिता! —येवकार अध्यक्षालें उलोवप, बरोः शणै गोंयबाब, पा.४).

**विशेशः** अर्घ्य म्हळ्यार पुजेच्या वेळार उदकांत गंध, अक्षता, फुलां बी घालून देवाक वा ब्राह्मणाक दितात तें. हें हात-पाय धुवपाखातीर दितात.

संध्येचो विधी करतना सुर्याक आनी वरुणाक अर्घ्य दितात. अर्घ्यां अशीं दितातः सकाळच्या वेळार पूर्वेकडेन तोंड करून आनी सांजच्या वेळार अस्तमतेकडेन तोंड करून उबो रावतात. पोशांत उदक घेवन, सकाळच्या वेळार 'ॐ भूः भुवः स्वः तत्सवितुर्वरेण्यं भर्गो देवस्य धीमही धियो यो नः प्रचोदयात् श्री सूर्याय इदं अर्घ्यं दत्तं न मम' अशें म्हणत सुर्याक अर्घ्य दितात. तेच परी सांजच्या वेळार 'ॐ भूः भुवः स्वः तत्सवितुर्वरेण्यं भर्गो देवस्य धीमही धियो यो नः प्रचोदयात् श्री वरुणाय इदं अर्घ्यं दत्तं न मम' अशें म्हणत वरुणाक अर्घ्य दितात. अर्घ्य दिवचेल्या वेळार दोनय हातांचे आंगठे आनी तर्जन्यो हांचो एकमेकांकडेन स्पर्श न जायसारके तरेन पोशांतले उदक पडग्यांत सोड्टात. अशीं तीन अर्घ्यां दिल्याउप्रांत, आपले भोंवतणी एक प्रदक्षणा काड्टात.

ज्या उदकान अर्घ्य दितात, तें उदक गुणकारी आसता, असो समज भासा. देखून तें पितात. सुर्याक अर्घ्य दिल्यार, सुर्याचें तेज आपल्या आंगांत येवन, आपली ग्रहणशक्ती आनी धारणशक्ती वाढ्टा; तेच परी अग्निमांद्याचो विकार ना जाता, अशें मानतात. (पळेयात: भारतीय धर्म व्यवहार कोश, पा.२.)

**अर्चन** । अंर्चन्, सा.रू. -ना; भौव. -नां, सा.रू. -नां । [सं. अर्चनम्] न. भक्तिभावान केल्ली देवाची पूजा.
**विशेश:** पुजेचे चार भाग आसात: १. पुजेक बसचे पैलीं न्हावन-धुवन भायर भितल्लयान निर्मळ जावप, हें अर्चन. २. देवाक हात जोडून नमस्कार करप वा सास्टांग नमस्कार घालप, हें वंदन. ३. अभिशेक करप, दिवो, वात पेटोवप आनी धूप घालप, हें पूजन. ४. निमाणें देवाची व्हडवीक गायत ताका आरत दाखवप, हें स्तवन.

**अर्चा** । अर्चा, सा.रू. -चे; भौव. -र्चा, सा.रू. -र्चां । [सं. अर्चा] स्त्री. १. पूजा; अर्चन; उपासना. २. म्हुर्तिची केल्ली स्थापना.
**—शुद्धि:** स्त्री. दैवाचे मुर्तिची स्थापना करतासतना वा स्थापना केल्लया जाग्यार, कसलोय भस्टकार जाल्लो आसल्यार करतात तो शुद्धतायेचो विधी.

**अर्ज** । अंर्ज, सा.रू. -र्जा; भौव. -अर्ज, सा.रू. -र्जां । [अर. अर्झ़] पु. कायदेशीर पद्धतीन केल्लें लेखी मागणें, विनंती; रेक्रिमेंत.

**अर्जकार** । अर्जकार्, सा.रू. -रा; भौव. -र, सा.रू. -रां । ['अर्ज' वेल्यान] पु. १. जो अर्ज करता वा ज्याणें अर्ज केला तो मनीस. २. उमेदवार.

**अर्जदार** । अर्जदार, सा.रू. -र; भौव. -र, सा.रू. -रां । [अर. अर्झ़ + फा.दार] पु. पळेयात 'अर्जकार'.

**अर्जुन** । अंर्जून्, सा.रू. -ना । [सं. अर्जुन:] पु. धवश्या आंगाचो एक रूख.
**विशेश :** वनस्पत शास्त्रांत हाका 'Terminalia Arjuna' म्हण्टात. अर्जुनाची फुलां धवीं फूल्ल आसतात आनी ताज्यो साली चामड्याक रांप दिंवक उपकरायतात. अर्जुनाचे सालींत आनी दिखांत वखदी गुण आसात अशें सांगतात.

**अर्ण** । अर्ण् । [का. 'आर् , आरू (धा.) = सुकप' वेल्यान?] वि. गच्च; घट्ट. (हे मोचे म्हज्या पायांक अर्ण जातात.)

**अर्णप** । अर्णप्, सा.रू. -पा । [का. आर् , आरू] क्रि.दा.धा.सा.ना. (मूळ धातू: अर्ण्(सक.)) अंदून, आंवळून, चरांटून बांदप; दामून-चेपून बांदप.

**अर्णव** । अर्णव्, सा.रू. -वा; भौव. -व, सा.रू. -वां । [सं. अरण्य?] पु. १. दाट झाडी; रान; २. विसोळ, विसोळें.

**अर्तांग** । अर्तांग्, सा.रू. -गा; भौव. -गां, सा.रू. -गां । [सं. अर्ध + टंक] न. अर्दें तांग; दोन पैशे आनी दोन पयो मोलाचें एक तांब्याचें पुर्विल्लें नाणें.

**अर्थ** । अंर्थ, सा.रू. -र्थी; भौव. -र्थी, सा.रू. -र्थी । [का. अर्ति] स्त्री. १. आवड; ओड; इत्सा (अर्थीन जायना तें सर्तीन जाता.). २. उमेद (रतनबेन ती म्हगेली। रंभा म्हाका दिसूं लागली। नांवांय तिका संस्कृतांतलीं। दवरून अर्थ म्हजी भागैली।. —गोंयकारांचो मुंबैकार, बरो. शणै गोंयबाब, पा.११). ३. माया; अपुर्बाय; अळी; लाड. (भुरग्यांची चड अर्थ करूंक फावना. तीं रोखडींच माथ्यार बसतात.) ४. कौतुक; तोखणाय (मांयक सदांच जांवयाची अर्थ.)
**म्हणी:** १) मांवांक अर्थ सुनेची, मांयक अर्थ जांवयाची.

२) अर्थीन जायना तें सर्तीन जाता.

**अर्थ** । अर्थु, सा.रू. -र्था; भौव. -र्थ, सा.रू. -र्थां । [सं. अर्थ:] पु. १. कळटा, समजता वा कळोवपाचो आसता तो मनांतलो हेतू, अभिप्राय; कळटा, समजता वा जाणवता तो मतलब, रोंख. २. नीब; प्रस्ताय; कारण. (करणेफाटलो अर्थ). ३. उतराफाटल्यान आसता ती वेगळी वेगळी सया, भाव; भावनेचो रुपकार. (खंच्या अर्थान खंचें उतर घालां, हें कळना जायत जाल्यार, अर्थाचो अनर्थ जाता.) ४. तथ्य. (अर्थ नाशिल्लो कारभार). ५. गूम. (हें येदें व्हडलें रामायण जें तुज्या मुखार गायलें, तें कित्याखातीर गायलें, हाजो अर्थ तुका आजून कळूंक ना.) ६. फोडणिशी. (पाँसियु पिलाताखाल अपदा कस्ट सोसिले, क्रुसावरी जोडिलो, मेलो आनी निखेपिलो, हाजो अर्थु सांग. —दौ. क्रिस्तां, पा.२२). ७. तात्पर्य; सार; मर्म. (...देखून, ह्या सांगपाचो अर्थ इतलोच की, तांगेली विद्या, तांगेलें कसब, तांगेली हिकमत आमी आपलिशी केल्याबगर, तांचेकडेन आमी पौठो घांसूंक पांवचे नात). ८. उद्देश; ध्येय. (जो जिणेक एक अर्थ दिता, तोच व्हडविकेन जियेता). ९. हिंदुधर्मांत जे चार पुरुशार्थ सांगल्यात तांतूंतलो दुसरो; म्हळ्यार कीर्त, सत्ता वा संपत्ती हांकां लागून मेळपी सूख. (चार पुरुशार्थ अशे आसात: धर्म, अर्थ, काम आनी मोक्ष.). १०. आदाव, आदाय, हाशिल (ह्या भाटांत आतां अर्थ उरूंक ना.) ११. आस्पत; संपत्ती; दुडू; द्रव्य. १२. तरा, प्रकार. (खंच्याय अर्थान जायना, धा जाणांचें कल्याण जातकीर जालें). १३. लोकांचो योग क्षेम. १४. **(व्याकरण)** कर्त्याचो क्रियेकडेन लग्निक आशिल्लो हेतू. देखीक: स्वार्थ, आज्ञार्थ, विध्यर्थ, संकेतार्थ.

भाशेंतल्या कांय उतरांक 'अर्थ' ह्या उतराची जोड मेळून आनीक कांय उतरां घडटात; देखीक: सुवार्थ, भावार्थ, द्रव्यार्थ बी.

**वा.प्र. : अर्थ लावप:** १.भावार्थ समजून घेवप (तद्भव उतरांचो सोद केल्यार, कोंकणी भाशेच्या पालवान, वेदांतल्या कांय कठीण उतरांचो अर्थ लांवक सोंपें पडत अशें दिसता. —ये. अ. अु., बरो: शणै गोंयबाब, पा.३९). २. मूळ अर्थापरस वेगळोच असो विप्रीत अर्थ लावप; अर्थाचो अनर्थ करप. (म्हजे सांगणेचो अर्थ असो जायना. हो अर्थ तुंवें लायला).

**अर्थ सांगप:** १. एकेच भाशेंतल्या उतराचो अर्थ सांगपाक तेच भाशेंतलें समान अर्थी उतर सांगप. २. फोडणिशी, निरुपण करप. (हरदासान ज्ञानेश्वरीचो अर्थ बरे तरेन सांगलो.)

**म्हणी:** १. अर्थाविणें पोल गाणें.
२. रूच नाशिल्लें खाण, अर्थ नाशिल्लें गान.
३. अर्थय ना आनी स्वार्थय ना.

**विशेश:** अर्थाचे तीन प्रकार मानल्यात: वाच्यार्थ (expressed), लक्ष्यार्थ (indicated) आनी व्यंगार्थ (suggested). (अर्थ: वाच्यश्च लक्ष्यश्च व्यङ्ग्यश्चेति त्रिधा मत:।)

**अर्थ-अपुर्बाय** । अर्थ-अपुबार्य, सा.रू. -ये; भौव. -यो, सा.रू. -यां । [का. अर्ति+कों. अपुर्बाय] स्त्री. १. माया; माया-मोग; तोखणाय (भवानी शास्त्र्यांनी ते पाठशाळेंत अखेरेमेरेन पोटतिडकेन संस्कृत विद्या शिकौन, श्री गोकुळनाथ महाराजांची अर्थ-अपुर्बाय जोडली. —नवें गोंय, १लें वर्स, ३रो आंक, ज्यानेर १९३५, पा.१२५). २. मान; भोमान; आदर. (विद्यावंतांची आमी अर्थ-अपुर्बाय करूंक जाय.)

**वा.प्र.: अर्थ-अपुर्बाय करप:** १. मान, भोमान, आदर करप. २. तोखणाय करप; माया-मोग करप.

**अर्थ-अपुर्बाय जोडप:** माया, माया-मोग, तोखणाय जोडप.

**अर्थ-अपुर्बायेक तानेवप:** अपुर्बायेक, मायेक

आंवडेवप.

**अर्थकारण** । अर्थकारॅण्, सा.रू. -णा । [सं. अर्थकारण] न. अर्थव्यवस्थेचें धोरण. (खंच्याय देशाची आर्थिक स्थिती, त्या देशाच्या अर्थकारणाचेर अवलंबून आसता.)

**अर्थनीत** । अर्थनीत्, सा.रू. -ती । [सं. अर्थनीति] स्त्री. आर्थिक प्रस्नांकडेन लग्रिक आशिल्ली विचारसरणी. (राजनीत आनी अर्थनीत ह्या मळार तो शुक्राचार्य आनी बृहस्पती हांच्या पांवड्याचो जाला. —महाभारत, खण्ड १, बरो: रवीन्द्र केळेकार, पा.२८.)

**अर्थप** । अर्थप्, सा.रू. -पा । [सं. अर्थ्] क्रि. दा. धा. सा. ना. (मूळ धातू: अर्थ् (सक.)) १. सांगप; फर्मावप. (सांत इग्रेजेन अर्थिल्या प्रमाणीं सांभाळूचो, म्हणजे आइतारा सांता वावरू दंद करू नये आणी त्या दिवसी सगळें मीस आयकुचें —दौत्रिन क्रिस्तां, बरो: फादर स्टिफन्स, पा.३२). २. इत्सुवप.

**अर्थपूर्ण** । अर्थपूर्ण । [सं. अर्थपूर्ण] वि. अर्थान भरिल्लें; अर्थयुक्त; अर्थाळ.

**अर्थबोध** । अर्थबोध्, सा.रू. -धा । [सं. अर्थबोध:] पु. अर्थाची योग्य, वास्तविक जाण.

**अर्थभेद** । अर्थभेद्, सा.रू. -दा । [सं. अर्थभेद:] पु. अर्थांतलो भेद, फरक.

**अर्थमंत्री** । अर्थमन्त्री, सा.रू. -न्त्र्या । [सं. अर्थमन्त्रिन्] पु. देशाचे वा राज्याचें अर्थव्यवस्थेची जापसालदारकी ज्याचेर आसा तो मंत्री; अर्थखातें सांबाळटा वा अर्थखात्याची व्यवस्था पळेता तो मंत्री.

**अर्थमीमांसा** । अर्थमीमांव्सा, सा.रू. -शे। [सं. अर्थमीमांसा] स्त्री. वेगवेगळ्या संदर्भांत उतरांच्या अर्थाची सया कशी वेगळी जाता हाजी केल्ली फोडणिशी.

**अर्थयुक्त** । अर्थयुक्त । [सं. अर्थयुक्त] वि. अर्थपूर्ण; अर्थाळ.

**अर्थलाभ** । अर्थलाभ्, सा.रू. -भा; भौव. -भ, सा.रू. -भां । [सं. अर्थलाभ:] पु. धनाची, द्रव्याची प्राप्ती वा लाभ; दुडवांचो लाभ.

**अर्थलोभ** । अर्थलोभ्, सा.रू. -भा । [सं. अर्थलोभ:] पु. दुडवांचो लोभ, स्वार्थ, हांव.

**अर्थव्यवस्था** । अर्थव्यवस्था, सा.रू. -स्थे। [सं. अर्थव्यवस्था] स्त्री. सरकारान आपले येणावळिंतल्यान, प्रशासन आनी प्रजेच्या कल्याणाच्या कामांखातीर पैसो कसो खर्च करचो हाजी केल्ली आंखणी आनी थारायल्ली कार्यपद्धत; राजकारभार आनी ताजी आय-व्ययाची पद्धत. (इं.) Finance.

**विशेश:** अर्थव्यवस्था ही अर्थशास्त्राची एक खांदी. अर्थरचनेचो जेन्ना शास्त्रीय नदरेन अभ्यास जांवक लागलो आनी सामाजिक गरजो वाढून, मनशाचे उदर्गतिखातीर द्रव्याची आंखणी करची पडली, तेन्ना अर्थशास्त्राची ही खांदी अर्थशास्त्रापासून वेगळी काडची पडली.

जियेतना मनशाच्यो वेगवेगळ्यो गरजो निर्माण जातात. ह्यो गरजो भागोवपाक तो कांय साधनां निर्माण करता. हीं साधनां ताजी संपत्ती जातात. सामाजिक हिताचे नदरेन मनशाच्यो गरजो भागोवपाच्या उद्देशार अर्थकारणाची संकल्पना उबी आसा. ह्यो गरजो दोन तरांच्यो आसात: खाजगत आनी सार्वजनिक. सार्वजनिक गरजोय कांय लोकसमुहांपुरत्यो, तेच परी समस्त लोकांखातीर आसतात. लोकसमुहांच्या गरजांचे प्रश्न त्या त्या समुहांतल्या म्हालगड्यांनी एकठांय येवन सोडोंवक जातात. शासनानय ते सोडोंवक जातात. लोकसमुहाच्यो गरजो कशो भागोंवच्यो हाजी आंखणी अर्थशास्त्र करता. समस्त प्रजेच्यो

गरजो भागोवपाची आंखणी अर्थव्यवस्थेच्या शास्त्रांत येता.

अर्थव्यवस्था ही गडखळिची, घुस्पागोंधळाची! एका अर्थान ती 'काँप्लेक्स'. जाल्यारूय, अर्थव्यवस्थेची व्याख्या अशी करूं येता: सरकारान आपले येणावळिंतल्यान, प्रशासनाखातीर आनी प्रजेच्या कल्याणाच्या कामांखातीर पैसो कसो खर्च करचो हाजी केल्ली आंखणी आनी थारायल्ली कार्यपद्धत. अर्थव्यवस्थेचे घटक तीन: आर्थिक घटक (करांची वसुली), राजकर्णी घटक (सरकारी सत्ता) आनी कायदेशीर घटक (करांची योग्य आकारणी.)

करांची आकारणी पुर्विल्लो काळ धरून चलत आयल्या. माळी जसो आपल्या मळ्यांतल्या झाडांचीं जाय तितलींच फळां आनी फुलां घेवन, तांची जतनाय घेता, तेच परी राजान आपले प्रजेचें हित ध्यानांत घेवन करांची आकारणी करची अशें महाभारताच्या 'अनुशासन पर्वा'त म्हळां. कौटिल्याचें अर्थशास्त्रय राजान पृथ्वीचेर राज्य कशें करचें हाजो परामर्श घेता. हाकाच 'दंडनिती' म्हण्टात. दंडनितींत गुन्यांवकारांक ख्यास्त फर्मायल्ली आसता, तर अर्थशास्त्रांत राज्यशासनाचे नेम येतात. नितीशास्त्राचोय आस्पाव हातूंत जाता. देखून, महाभारतांतलो राजधर्म आनी कौटिल्याच्या अर्थशास्त्रांतलो राजधर्म नितीचे बुन्यादिचेर उबो आसा, कायदयाचे बुन्यादिचेर न्हंय. ताका लागून, खूप वेळा, अधर्मी राजांनी आपल्या मनांत येत तशी करांची आकारणी केल्या. जायते खेपो प्रजेक लुटल्या, आनी गरज पडल्यार देवळांतलें द्रव्यय बुचाटून व्हेलां. कर आकारणेंत न्यायाची भावना नाशिल्लयान हें घडलां. करांचे आकारणेंत ही न्यायाची भावना, कायदेशीर घटकाच्या रूपान, आर्विल्लया काळार आयल्या.

सार्वजनिक खर्चाचो अभ्यास, सार्वजनिक उत्पन्नाचो अभ्यास, सरकारान दिल्लीं वा घेतिल्लीं रिणां, आनी उत्पन्नाचो, तेच परी खर्चाचो व्यवस्थित दवल्लेलो हिशोब, हांचोय आस्पाव अर्थव्यवस्थेंत जाता.

जे तरेन दर एका मनशान आपलें उत्पन्न पळोवन खर्च करूंक जाय, तेच परी राष्ट्रानय आपलें उत्पन्न पळोवनच खर्चाची आंखणी करपाक जाय. सार्वजनिक खर्च दोन तरांचो जांव येता: सामान्य (ordinary) आनी असामान्य (extraordinary), अपेक्षित आनी अनपेक्षित.

राजकारभार चलोवपाखातीर जीं वेगवेगळीं सरकारी खातीं आसात, तीं खातीं आनी तांचे चाकरमाने हांच्याखातीर सरकाराक खर्च करचो पडटा. वेगवेगळ्या कल्याणकारी संस्थांक सरकार अनुदानां दिता. प्रजेचें शिक्षण आनी संस्कृति हांच्याखातीर सरकाराक पैसो लागता. सार्वजनिक आरोग्य आनी खेळ हांच्याखातीर सरकाराक दुडवांची गरज लागता. धरणांच्या रूपान, रस्त्यांच्या आनी पुलांच्या रूपान लोकांच्यो गरजो भागोवपाक सरकाराक पैसो लागता. शेत-कामत आनी उद्योग-धंदे हांच्या विकासाची मांडणी करपाखातीर सरकाराक पैसो लागता. विज्ञानिक मळावेल्या संशोधनाखातिरय सरकाराक पैशांची पुर्वण करची पडटा. प्रजेच्या अत्यंत हिताच्या कामांखातीर सरकाराक एकाद्रेवेळा रिणय काडचे पडटा.

सरकार आपलें उत्पन्नय तरे तरेन निर्माण करता. सगळ्यांत चड उत्पन्न ताका करांच्या रूपान मेळटा: आयात आनी निर्यात हांचेर बसयल्ली कस्टम ड्युटी, देशांत तयार जाल्ल्या म्हालाचेर आशिल्ली एक्साइज ड्युटी, अबकारी कर, विक्री कर, प्राप्ती आनी संपत्ती कर, वाहनांचेर बसयल्लो कर बी. सार्वजनिक कारखान्याच्या उत्पादनाच्या विक्रेंतल्यान जाल्लो लाभ, दिल्लया रिणांचें कळंतर सरकारी भांडारात भर घालता. कर्जरोख्यांच्या रूपानय सरकार

भांडवल उबें करता. रेल्वे, तेच परी टपाल, टेलिफोन आनी तार खातें सरकारी उत्पन्नांत भर घालतात.

अर्थसंकल्प कसो मांडचो हें अर्थव्यवस्थेचेंच शास्त्र शिकयता. खंच्याय देशाची अर्थव्यवस्था, देश आर्थिक नदरेन बळिस्ट करून, नागरिकांक सुखा-समाधानान आनी प्रतिस्ठेन जियेवपाच्यो सुविधा निर्माण करपाची तांक आशिल्ली आसली, तरच त्या देशाची उदर्गत जाता.

**आधारावळ**: १. Decionário Enciclopédico Luco-Brasileiro, 1st & 2nd Vol.
२. Finanças.

**अर्थशास्त्र** । अर्थशास्त्र, सा.रू. -स्त्रा । [सं. अर्थशास्त्रम्] न. आस्पतिचें उत्पादन, वांटणी आनी खर्च कसो करचो हाजें विवेचन ज्यातूंत केलां तें शास्त्र; येणावळिची प्राप्ती, राखण आनी वृद्धि कशी करची हाजें विवेचन करपी शास्त्र; वित्तशास्त्र; आस्पतशास्त्र.

**अर्थशास्त्री** । अर्थशास्त्री, सा.रू. -स्त्र्या; भौव. -स्त्री, सा.रू. -स्त्र्यां । [सं.अर्थशास्त्रिन्] पु. अर्थशास्त्रांतलो तज्ञ, पारंगत मनीस; आर्थिक प्रश्नाची केळोवण करपी मनीस.

**अर्थसंकल्प** । अर्थसंकल्प, सा.रू. -पा; भौव. -कल्प, सा.रू. -ल्पां । [सं. अर्थसंकल्पः] पु. मुखार येवपी आपल्या हिस्पी वर्सांतल्या उत्पन्नाचो आनी खर्चाचो सरकार मांडटा तो अदमासी खइडो; सरकारी आदा-खर्चाचो अदमासी खइडो; अंदाजो. —सरकार तेच परी काम्रय (म्युनिसिपालिटी) आपलो आदाखर्च मांड्टा.

**विशेश**: अर्थसंकल्प म्हळ्यार सरकार आपल्या हिस्पी वर्सांतल्या उत्पन्नाचो आनी खर्चाचो मांड्टा तो अदमासी खइडो. भारत सरकाराचें हिस्पी वर्स १ आब्रील धरून फुडल्या वर्साच्या ३१ मार्स पर्यंतचें आसता. कांय देश, कॅलेंडर वर्स, हेंच आपलें हिस्पी वर्स धरतात. हिस्पी वर्साच्या काळांत सरकाराक आपल्या उत्पन्नाच्या साधनांतल्यान कितली येणावळ मेळटली, आनी ते येणावळिंतल्यान वेगवेगळ्या बाबींचेर कसो आनी कितलो खर्च करूंक मेळटलो, हाजो अदमास अर्थसंकल्पाच्या खइड्यांत मांडिल्लो आसता. अदमासी येणावळिपरस जर अदमासी खर्च चड जायत, तर अर्थसंकल्प नुपुर्वणेचो म्हळ्यार तुटिचो जाता. जर हो खर्च येणावळिपरस उणो जायत, तर अर्थसंकल्प शिलकी जाता. उत्पन्न आनी खर्च समसमान आसत, तर अर्थसंकल्प समतोल जाता.

अर्थसंकल्प तुटिचो आसत, तर ही तूट थोडिभाव भरून काडपाक, सरकार कांय नवे कर आपल्या अर्थसंकल्पात मांड्टा. कांय पैलिंचे कर वाढयता. हे मांडणेन, जी एकूण तूट येतली आशिल्ली, तातूंतली कांयशी तूट भरून येता. उरील्ली तूट, 'भरून न काडिल्ली तूट' (Uncovered deficit) म्हणून दाखयतात. एकएकदां ही तूट अदमासापरस देडयेन वा दुपेटिन वाड्टा. तूट अशीच वाढत रावल्यार दुडवांचें मोल उणें जायत वता. म्हारगाय वाढत रावता. सरकाराक नव्यो नोटी छापून ही तूट भरून काडची पड्टा.

अर्थसंकल्पाचे भाग दोनः महसुली अर्थसंकल्प आनी भांडवली अर्थसंकल्प. महसुली अर्थसंकल्प म्हळ्यार, ज्या अर्थसंकल्पांत सरकारी महसुली उत्पन्नाची आनी महसुली खर्चाची मांडणी केल्ली आसता तो अर्थसंकल्प. वेगवेगळ्या प्रत्यक्ष आनी अप्रत्यक्ष करांक लागून, तेच परी हेर साधनांक लागून मेळिल्लो पैसो (तस्कऱ्यांक केल्लो दंड बी) महसूल उत्पन्नांत मोड्टा. सरकाराक आपले यंत्रणेचें गाडें चलोवपाक जो खर्च लागता, तो महसुली खर्चांत येता. सरकारचीं वेगवेगळीं खातीं चलोवपाक आनी कांय सेवेच्या कार्यांक महसुली उत्पन्नांतल्यान मेळिल्लया दुडवांची गरज

लागता.

महसुली उत्पन्नाचो चड वांटो, आयात-निर्यातिवेल्या करान, अबकारी करान, प्राप्तिकरान, संपत्तिकरान, कंपन्यांवेल्या करान आनी देणगेवेल्या करान (Gift tax) मेळटा.

प्रजेच्यो गरजो भागोवपाक वेगवेगळ्या खात्यांच्या रूपान सरकार लोकांक जी सेवा दिता, त्या खात्यांचो आनी तांच्या कर्मचाऱ्यांचो खर्च, पेन्शन, संरक्षण खर्च, शेत-कामताखातीर केल्लो खर्च, आनी मनिसजातिचे उदर्गतिखातीर ज्यो संस्था काम करतात, तांकां दिल्ल्या अनुदानांचो खर्च बी महसूल खर्चांत मोड्टा.

भांडवली अर्थसंकल्पांत, सरकारची भांडवली येणावळ आनी भांडवली खर्च हांची अदमासी मांडणी केल्ली आसता. सरकारान देशांत आनी परदेशांत रिणां घेवन उबाल्लेलो पैसो; अल्पबचतिच्या रूपान उबाल्लेलो पैसो, प्रोव्हिडंटफंडाचो पैसो; उद्योगांक दिल्ल्या सरकारी रिणांची वसुली जावन मेळिल्लो पैसो, परकी देशान पालवाच्या रूपान दिल्लो पैसो; आर्युविम्यासारक्या वित्तसंस्थांकडल्यान तांच्या नफ्यांतल्यान मेळिल्लो पैसो ह्या सगळ्या पैशाचो आस्पाव सरकारचे भांडवली येणावळींत जाता. सरकारान जी पैलीं घेतिल्लीं रिणां आसतात, त्या रिणांची फारिक करपाची खिस्त, हे भांडवली येणावळिंतल्यान काड्टात. ही रक्कम वजा केल्याउप्रांत सरकारची भांडवली येणावळ कितली जावये, हाजो अदमास थारायतात.

भांडवली खर्च हो उत्पादनाखातीर केल्लो खर्च. उत्पादन करपाखातीर ज्यो गरजेच्यो वस्तू लागतात, तांची केल्ली खरेदी ह्या खर्चांत येता. ह्यो गरजेच्यो वस्तू म्हळ्यार यंत्र-सामोग्री, तेच परी उब्यो केल्ल्यो इमारती आनी बांदिल्लीं धरणां. आर्थिक स्वरूपाचे सेवेखातीर दिल्लीं रिणां, उद्योगांच्या विकासांखातीर दिल्लीं रिणां, समाजविकासाच्या कार्यांखातीर दिल्लीं रिणां आनी परकी सरकाराक दिल्लीं रिणां, ह्या सगळ्यांचो आस्पाव भांडवली खर्चांत जाता.

महसूल अर्थसंकल्पांतल्या खर्चावरीच भांडवली अर्थसंकल्पांतय वेगवेगळ्या कामांखातीर खर्च येता. हो खर्च लागता तो असो: १. सर्वसामान्य सेवेच्या कामांखातीर (हातूंत संरक्षण सेवांवेल्या उत्पादनांचोय खर्च येता). २. समाजविकासाच्या कामांखातीर (हातूंत उत्पादन आनी विकास ह्याखातीर केल्लो खर्च येता.) ३. शेत-कामत तरतरावपाखातीर, वीज आनी उदक पैस पैस जाग्यांनी पावोवपाखातीर, तेच परी रेल्वे, टपाल, टेलिफोन आनी तार खातें हांच्या विकासाखातीर करपाचो खर्च येता.

भांडवली खर्चाचे अदमासी रकमेपरस, भांडवली येणावळिची रक्कम जर उणी जायत, तर भांडवली अर्थसंकल्प तुटिचो जाता. जर खर्च उणो जावन येणावळ चड जायत, तर अर्थसंकल्प शिलकी जाता.

अर्थसंकल्पाची एकूण तूट थारावपाक, दोनय अर्थसंकल्पांतल्या (महसुली आनी भांडवली) तुटिंची बेरिज करतात. हाजेवेल्यान एकूण तूट वा शिल्लक कितली जावये हाजो सरांव मेळटा. शिल्लक आसल्यार ती सरकारांत जमा जाता. तूट आयल्यार, नव्या करांचे आकारणेन आनी फाटले कर थोडेशे वाढोवन, ती थोडिभाव भरून काड्टात. उरिल्ली तूट तशीच, भरून काडपाक न मेळिल्ली तूट (Uncovered Deficit) म्हणून सोडून दितात.

अर्थसंकल्प शिलकी आसल्यार राष्ट्र तरतरता. अर्थसंकल्प जर वर्सान वर्स नुपुर्वणेचोच जावपाक लागलो, तर राष्ट्र दिवाळ्याकडेन पावपाक वेळ लागना. ह्याखातीर राष्ट्रानय कांय पथां सांबाळपाक जाय. सरकारी पैसो हो लोकांचोच पैसो. देखून, ह्या पैशाची कशाकशीय उधळपट्टी जांवक फावना.

आनिकय कांय पथां आसात. तीं पथां अशीं: १) म्हारगाय आळाबंदा हाडपाक

वस्तूंच्या मोलाचेर नियंत्रण दवरप; २) अनुदानां 'सबसिडिज' उण्यो करप; ३) सार्वजनिक उद्योगांचो कारभार सुधारून, तांचें उत्पन्न वाढोवप; ४) अर्थसंकल्पांतली तूट उणी करप; ५) ही तूट भरून काडपाक नोटी छापिनासतना रावप; ६) सरकारी मध्यवर्ती बँकेक चड स्वातंत्र्य आनी अधिकार दिवन ने बँकेमार्फत आर्थिक शिस्त हाडपाची येवजण' आंखप.

**आधारावळ :** १. Decionário Enciclopédico Luso-Brarileiro, 1st & 2nd Vol.
२. Finanças.

**अर्थसहाय्य** । अर्थसहाय्य्, सा.रू. -य्या । [सं. अर्थसहाय्यम्] न. दुडवांच्या रूपान दिल्लो पालव वा आधार.

**अर्थहीण** । अर्थहीण्, सा.रू. -णा; भौव. -ण, सा.रू. -णां । [सं. अर्थहीन] वि. १. निर्धन; उखाशी; ज्याचेकडेन द्रव्य, धन ना तो. २. अर्थ, तथ्य नाशिल्लो; निरर्थक.

**अर्थविवर** । अर्थविवर्, सा.रू. -रा । [सं. अर्थविवरणम्] पु. अर्थाची केल्ली फोडणिशी.

**अर्थाअर्थीं** । अर्थाअर्थीं । [सं. 'अर्थ' वेल्यान] क्रि.वि. खरें पळेल्यार; कसलेच तरेचो; निखालस. (ते थंय झगडूंत वा मरूंत. तुका थंय मदीं वचपाची गरज ना. तुजो तांचेकडेन अर्थाअर्थीं संबंध ना).

**अर्थांत** । अर्थांत् । [सं. अर्थात्] क्रि.वि. सभाविक; साहजिक; दुभाव नासतना; दुभावाविरैत.

**अर्थाभायरो** । अर्थाभायरॉ, सा.रू. -ऱ्या; भौव. -रे (रें), सा.रू. -ऱ्यां । [सं. अर्थ+कों. भायरो] वि. अर्थ, तथ्य नाशिल्लो; निरूपयोगी.

**अर्थालंकार** । अर्थालंकार्, सा.रू. -रा; भौव. -र, सा.रू. -रां । [सं. अर्थालंकारः] पु. काव्याक चड सोबा येत अशे तरेन अर्थ सांगपाची पद्धत. देखीक: उपमा, रूपक, उत्प्रेक्षा, अनन्वय बी.

**विशेश** : (साहित्यशास्त्र/काव्यशास्त्र): अलंकार मनशाक सोबा दितात, ताजे सुंदरकायेक एक वेगळीच कान्त दितात. तेच परी, एकाद्री गजाल साद्या उतरांनी सांगच्यापरस, ती मात्शी वेगळे तरेन, तिका मीठ मिरसांग लावन खुलोवन सांगली जाल्यार, भाशेकय एक सोबा येता. ताका लागून, गजाल वा काणी बरयतल्याक आनी वाचतल्याक, सांगतल्याक आनी आयकतल्याक चड खोस भोगता; एक वेगळोच आनंद मेळटा.

उतरांचे एके विशिस्ट रचनेक लागून वा अर्थाच्या रुपांतल्या विशिस्ट मांडावळीक लागून, भाशेकय एक कान्त मारता, एक चड्टी सोबा येता. भाशेक सोबा हाडपी ह्या धर्माक अलंकार म्हण्टात.

अलंकार दोन तरेचे आसात: शब्दालंकार आनी अर्थालंकार. उतरांचे वा अक्षरांचे विशिस्ट रचनेक लागून, जेन्ना भाशेक सोबा येता, तेन्ना शब्दालंकार जातात. शब्द, शब्दांतले वर्ण, शब्दांची मांडणी हांचेरच शब्दालंकार आधारिल्ले आसतात. शब्दालंकाराचे प्रकार चार: अनुप्रास, यमक, श्लेश आनी चित्र.

अर्थ खुलोवन सांगपाचे पद्धतीक लागून, जेन्ना भाशेक सोबा येता, तेन्ना अर्थालंकार जातात. अर्थालंकाराक लागून वाक्यांतल्या अर्थाक सोबा येता, अर्थ फुलावरी फुलून येता. अर्थालंकाराचे कितलेशेच प्रकार आसात: उपमा, उत्प्रेक्षा, रूपक, दृस्टांत, अपन्हुति, अर्थांतरन्यास, अतिशोक्ती ह्यो अर्थालंकाराच्यो कांय देखी.

**अर्थाळ** । अर्थाळ् । [सं.'अर्थ' वेल्यान] वि. अर्थान भरिल्लो; अर्थयुक्त; अर्थपूर्ण.

**अर्थी** । अर्थी, सा.रू. -र्थी । [का. अर्ति] स्त्री. अपुर्बाय; अर्थ-अपुर्बाय; मोग; माया;

लाड.

**अर्थी** । अर्थी । [सं. अर्थिन्; प्रा. अप. अर्थी] वि. इत्सा करपी; इत्सुपी; आंवडेवपी. देखीकः सुवार्थी, द्रव्यार्थी.

**अर्थीं** । अर्थीं । [सं. 'अर्थ' वेल्यान] क्रि.वि. वरवीं; कारणाक लागून; पक्षीं; पक्षाक लागून (जे अर्थीं तुजें काम म्हज्या कामापरस चड गरजेचें आसा, ते अर्थीं तें पैलीं जांवक जाय.)

**अर्थीक** । अर्थीक । [सं.अर्थ = संपत्ती+कों. ईक] वि. अर्थशास्त्राकडेन लग्निक आशिल्लो; दुडवांकडेन लग्निक आसपी.

**अर्द** । अर्द, सा.रू. -र्दां; भौव. -र्दां, सा.रू. -र्दां । [सं. अर्ध] न. १. वांटे करूंक येतात अशे अखणे वस्तुच्या केल्ल्या जथापथ वा दिस्तादिस्त भागांतलो खंचोय एक वांटो; अखणे वस्तुच्या केल्ल्या दोन अनवांट्यांतलो खंचोय एक अनवांटो. २. अर्द जायसारको भाग. (ताज्या आयुश्याचें अर्द धके-चपाट्यांत आनी विवंचनेतच गेलें.) ३. वट; बाजू; कूस; सायट. (तूं चय लेगीत नाका त्या अर्दान. —कार्मेलिन, बरोः दामोदर मावजो, पा. १९२.)

**वि.** १. काळाची, प्रमाणाची, मापाची दिस्त अर्दाय दाखयता तो; काळाच्या, प्रमाणाच्या, मापाच्या दिस्त अर्दायेन आशिल्लो. (अर्द वर; अर्द शेर; अर्द पड बी). २. मोघम; गुळमुळित. (तो धड कांयच सांगना. खोदु खोदून विचाल्ल्यारच अर्द उतरां सांगता). ३. पुराय, पूर्ण न्हंय असो; अपुर्तो; अर्दकुटो; अपूर्ण (अर्द सत्य; अर्द वात्र).

**क्रि.वि.** थोड्या प्रमाणान, कांय अंशान; मात्शें (आजमेरेन जें हांव सांगतालो तें ताका खरें दिसनाशिल्लें; आतां ताका अर्द अर्द पटूंक लागलां.)

**वा.प्र. अर्दान आसपः** वटेन आसप; पक्षांत आसप. (लोक आयज पांडवां अर्दान आसात, हे हांव जाणां. —महाभारत, खण्ड १, बरोः रवीन्द्र केळेकार, पा. ७०).

**अर्दान नासपः** पैलीं आशिल्ल्या जायासाच्या, आंगलोटाच्या अर्दायेन नासप.

**म्हणीः** १. अर्द गांव भोंवप आनी गांवभरची खबर सांगप.

२. अर्द घडये दुवादस.

३. अर्द तांगाच्या खोमसाक देडा तांगाचें रेंद.

४. अर्द तांगाच्या बैलाक तांगाच्यो गोणी.

५. अर्द शेर घेतां, फैतिसेर जातां.

६. अर्द हांव जाणां, अर्द शेजारचो रवळू जाणा.

७. बांगडे घेतालो अर्द तांगाचे आनी शेंवटो उडै म्हण्टालो तांगाचो.

**अर्दकुडो** । अर्दकुडॉ, सा.रू. -ड्या । [सं. 'अर्द' वेल्यान] वि. पूर्ण न्हंय असो; अर्दकुरो; अर्दकुटो; अर्दकुडो.

**म्हणः** अर्दकुडो कळसो हायसुळटा.

**अर्दकुरो** । अर्दकुरॉ, सा.रू. -ऱ्या । ['अर्द' वेल्यान] वि. अर्दकुडो; अर्दकुटो पूर्ण न्हंय असो; अपुर्तो.

**अर्दनारी-नटेश्वर** । अर्दनारी-नटेश्वर्, सा.रू. -रा । [सं. अर्ध+नारी+नटेश्वर] पु. अर्दांगान शंकर आनी अर्दांगान पार्वती अशें शिव-पार्वतीचें अभेद दाखोवपी रूप; अर्दांगान शंकर आनी अर्दांगान पार्वती अशें हर-गौरीचें अभेदांग रूप.

**अर्दपड** । अर्दपड्, सा.रू. -डी; भौव. -डी; सा.रू. -डीं । [सं. अर्ध + का. पडि] स्त्री. दोन अन्नाठ्यो; पडिच्या अर्दान आशिल्लें माप; पायलेचो आठवो भाग.

**अर्दपिको** । अर्दपिकॉ, सा.रू. -क्या; भौव. -कॅ; सा.रू. -क्यां । [सं. अर्ध+पक्व] वि. पूर्ण पिकूंक नाशिल्लो; अर्दसो पिकिल्लो.

**अर्दपोटार** । अर्दपॉटार । [सं. अर्ध + कों. पोटार] क्रि.वि. पुराय जेविनासतना; पोटभर जेविनासतना; पोटाभुकेर. (....भटणीन ताका उरिल्लो शीत-रोस वाडच्चो. सण्ण सण्ण करून दाय वाजौची. ताणें तपल्यांत पळौचें. थोडें आसा तें दिसून, 'नाका, नाका' करचें. अर्दपोटारच उठचें. —असली बाये कसली, बरो: गोम पै. —न. गोंय, ३रें वर्स, ३रो आंक, ज्यानेर १९३७, प्र ८६).

**अर्दभाग** । अर्दभाग्, सा.रू. -गा; भौव. -ग; सा.रू. -गां । [सं. अर्ध + भाग:] पु. येणावळिच्या वा पिकावळिच्या केल्ल्या दोन जथापथ भागांतलो खंचोय एक भाग; सारिभाग.

**अर्दमर्द** । अर्दमर्द् । [सं. अर्ध द्वि.] वि. घडये अर्द जावये वा न जावये इतलो; आगळो-उणो अर्द जायसारको; अर्द भरसारको (अर्दमर्द वाव्र; अर्दमर्द काम.)

**विशेश:** जेन्ना स्वरान सुरू जाल्लें एक उतर फाटोफाट परतें येता, तेन्ना ताजे मदीं 'म्' शिरकता. देखीक: एक्कमेक्कम्; अङ्गमङ्गम्. (पळेयात: Prakrit Grammar of Hemchandra, revised edition, Edited by Dr. P.L. Vaidya, पान ३/ सूत्र १: पा. ६४७). हेच तरेन 'अर्दमर्द' हें उतर घडलां.

**अर्दमागधी** । अर्दमाग्धी, सा.रू. -धी । [सं. अर्ध + मागधी] स्त्री. एक प्राकृत भास.

**विशेश:** अर्दमागधी ही एक प्राकृत भास. शौरसेनी आनी मागधी ह्यो दोन भासो ज्या प्रदेशांत चलताल्यो, ताजे मदगतीं अर्दमागधीचो प्रदेश आशिल्लो. हालींचो अयोध्या प्रांत आनी ताज्या दक्षिणेकडचो प्रदेश हातूंत अर्दमागधी चलताली. म्हळ्यार पैलिंच्या कोशल प्रांताच्या भोंवतणचो वाटार हो अर्दमागधीचो प्रदेश.

पाली भास जशी बुद्ध धर्मातल्या हिनयान पंथाकडेन लग्निक आसा, तशीच अर्दमागधी जैन धर्मातल्या श्वेतांबर संप्रदायाकडेन लग्निक आसा. जैन धर्माचीं मोलादिक अशीं मुळावीं जैनसूत्रां हेच भाशेंत बरयल्यांत. खासा महावीरान हेच भाशेंत आपल्या धर्माचो उपदेश केल्लो, अशें सांगतात.

अर्दमागधी ह्या उतराचो अर्थ दोन तरांनी लांवक येता: १) जे भाशेंत मागधी भाशेचीं सगळीं लक्षणां नात, तरी कांय लक्षणां आसात ती भास. २) जे भाशेन मगध देशाचो अस्तमतेकडलो अर्दो भाग व्यापला ती भास.

हिंदू व्याकरणांनी जैनसूत्रांचे हे पोन्ने भाशेक 'आर्ष भास' म्हळ्यार 'ऋशिंची भास' म्हळ्या. हेमचंद्र, त्रिविक्रम ह्या व्याकरणकारांनी आनी दंडी, रूद्रट सारक्या साहित्यशास्त्रकारांनी आर्ष भाशेचो उल्लेख आपल्या ग्रंथांत केला. 'आर्षी भाषा', 'आदि भाषा' अशा नांवांनीय अर्दभागधी भाशेचो उल्लेख केल्लो मेळटा. मागधी ही मुळावी भास आसा; तिजेवेल्यान हेर भासो उप्रासल्यात अशें बुद्धधर्मातल्या पंडितांक दिसता. अर्दमागधी ही मुळावी भास आसून, तिजेवेल्यान हेर सगळ्यो भासो जन्माक आयल्यात, अशें जैन पंडितांचें मत आसा.

अर्दमागधी भाशेक दीर्घ परंपरा आसा. हेर प्राकृत भासांपरस ती चड संपन्न आसा. हे भाशेचे जे ग्रंथ हालीं मेळूंक लागल्यात, ताजेवेल्यान ही नाट मेळटा. चड करून जैनांच्या साहित्यांत अर्दमागधी उपकरायिल्ली मेळटा. गद्य आनी पद्य अशें दोनय प्रकारचें साहित्य हे भाशेंत बरयल्लें मेळटा. नाटकांतय ती उपकरायल्या. अश्वघोष (अदमासान क्रिस्ती

सन १००) हाज्या नाटकांत ती सगळ्यांत पैलीं उपकरायिल्ली मेळटा. अशोकाच्या अभिलेखांची भासय अर्दमागधीच आशिल्ली आनी उप्रांत तिजें रूपांतर थळावे बोलयेंत केलां जावयें, अशें कांय विद्वानांचें मत आसा. भरतान आपल्या 'नाट्यशास्त्रां'त अर्दमागधीक स्वतंत्र भास म्हळ्या. 'साहित्यदर्पण'कार विश्वनाथान तिका गुप्तचर, राजपुत्र आनी सावकार हांची भास म्हळ्या. भासाचें 'कर्णभार' आनी शूद्रकाचें 'मृच्छकटिक' ह्या नाटकांतय अर्दमागधी उपकरायल्या.

अर्दमागधी भाशेंतल्या साहित्यांत श्वेतांबर जैनांच्या पंचेचाळीस आगम ग्रंथांचो आस्पाव जाता. तातूंतले बारा अंग-ग्रंथ महावीराच्या गणधरांनी रचल्यात. उरिल्ले आगम-ग्रंथ स्थविरांनी बरयल्यात. आज जरी फक्त पंचेचाळीस आगम-ग्रंथ मेळटात, तरी मुळांत ते अठ्ठ्यात्तर आशिल्ले म्हणपाची खबर 'नंदीसूत्रां'त मेळटा. आज जे पंचेचाळीस आगम-ग्रंथ मेळटात, तातूंत इकरा अंग-ग्रंथ, बारा उपांग-ग्रंथ, धा प्रकीर्णकां, स छेदसूत्रां, चार मूलसूत्रां आनी दोन वर्गनांव नाशिल्ले ग्रंथ हांचो आस्पाव जाता. हे आगम-ग्रंथ वेगवेगळ्या काळांत बरयल्यात आनी तांची रचणूक वेगळ्या वेगळ्या मनशानीं केल्या. तांतूंतले कांय ग्रंथ गद्य स्वरूपाचे आसात. जैन धर्मांतले आचार्य, साधू आनी साध्व्यो हांचो आचारधर्म सांगपाचेर ह्या ग्रंथाचो भर आसा. कांय ग्रंथांत वेगवेगळ्या लेखांचें एकवठण (संकलन) आसा; कांय ग्रंथांत ल्हान ल्हान विधानां आसात; कांय ग्रंथांनी काणयांच्या रुपान सांप्रदायिक गजालिंचें निरूपण केल्लें आसा.

कांय ग्रंथांत साधू-साध्वींच्या आचारा-संबंधान उपदेश, नवी दिक्षा घेवपी साधूंक मार्गदर्शन, श्रावकांच्या धर्माचें निरुपण, संवसार सोडिल्ल्या कितल्याशाच धर्मशीळ साधूंची जीण, आपल्या कर्मांची शुभ-अशुभ फळां बी विशय आयल्यात. 'उपांग ग्रंथांत' देव म्हणून जन्म, नरकवासी म्हणून जन्म, खूप जन्मांउप्रांत मेळपी मोक्ष, आत्मो, जीव-अजीवांतले भेद, जैतमताप्रमाण भू-गोलाचें वर्णन, सूर्य-चंद्र-नक्षत्रां हांच्या गतीचें वर्णन, सागर-द्विपांचें वर्णन, अशे कितलेशेच विशय आयल्यात. 'प्रकीर्णकां'ची रचणूक श्रमणांनी तीर्थंकरांच्या उपदेशाच्या आधारान केल्या. भक्तांचो त्याग, अंतकाळावेली मुनींची चलणूक, बालमरण आनी पंडितमरण, गुरू-शिष्य गुण आनी नम्रतायेचें स्वरूप, ज्योतिशासंबंधान तेच परी शरिरासंबंधान माहिती बी अशे विशय आयल्यात. 'छेदसूत्रां'त जैन साधू आनी साध्व्यो हांच्या आचार-भंगाचे प्रायश्चित्त आनी शासन हांचे संबंधान विवेचन आयलां. 'मूलसूत्रां'त महावीराचीं वचनां आसात. साधूंचे जीणेच्या मुळाव्या नेमांचो उपदेश तातूंत आसा, देखून तांकां 'मूलसूत्रां' म्हळ्यांत. वर्गनांव नाशिल्ल्या सूत्रांत 'नंदीसूत्र' आनी 'अणुओगदार सूत्र' हीं दोन मोलादिक सूत्रां येतात. गद्य-पद्य स्वरूपाच्या 'नंदीसूत्रां'त आगम-ग्रंथ, जैनांचे नदरेन ज्ञानाचें स्वरूप आनी भेदप्रभेद, जैन धर्माकडेन लग्गिक आशिल्ली इतिहासिक खबर अशे विशय आयल्यात. 'अणुओगदार सूत्र' गद्य स्वरूपाचें आसा. जैन धर्मी लोकांक अत्यंत मोलाची अशी धर्मिक आनी हेर विशयांवेली माहिती ह्या ग्रंथांत आसा.

व्याकरणाचे नदरेन संस्कृतापरस अर्दमागधींत थोडी वेगळिकाय जाणवता. देखीक: १) अर्दमागधींत द्विवचन ना. द्विवचनाच्या जाग्यार भौववचन उपकरायतात. २) हे भाशेंत संस्कृतांतली चौथी विभक्ति ना. तिज्या जाग्यार सवी विभक्ति उपकरायतात. ३) संस्कृत भाशेंत क्रियापदांची जी विविधताय आनी क्लिस्टताय आसा, ती अर्दमागधींत ना.

अर्दमागधींतली चंडशी उतरावळ संस्कृता-वेल्यान आयल्या. थोडीं उतरां देशी म्हळ्यार आर्यांचे भाशेपरस वेगळ्यो आशिल्ल्या भासांतल्यान आयल्यांत.

संस्कृत भाशेकडेन तिजी सर केल्यार भास विज्ञानाचे नदरेन तिजें खाशेलेपण जाणवता तें अशें:

१) संस्कृत उतरांतल्या 'क' च्या जाग्यार अर्दमागधींत कांय वेळा 'ग' येता. देखीक: अशोक - असोग, श्रावक - सावग, ग्रामयक - गामेल्लग, एकोनत्रिंशत - एगूणतीस, चिकित्सिपुत्र - तेगिच्छिपुत्र, प्राकार - पागार, तीर्थंकर - तित्थगर.

२) संस्कृत उतरांतल्या 'च' वर्णाबदला क्वचित 'त' हो वर्ण येता. देखीक: चिकित्सा - तिगिच्छा, चिकित्सिन् - तेगिच्छि.

३) संस्कृत उतरांतल्या दांतया (दन्त्य) व्यंजनांच्या जाग्यार अर्दमागधींत कांय वेळा माथयें (मूर्धन्य) व्यंजन येता. देखीक: मृत्तिका - मट्टिया, शातित - साडिय, अस्थि - अट्ठि, स्थानीय - ठाणिज्ज, आद्रिय - आढा, सहवर्धित - सहवड्डियअ, अनिष्ट - अणिट्ठ, मनुष्य - मणुस्स.

४) संस्कृत उतरांतल्या 'श' आनी 'ष' ह्या वर्णांबदला अर्धमागधींत सामान्यतायेन 'स' हो वर्ण येता. देखीक: शशक - ससय, शुष्क - सुक्क, शोभन - सोभण, द्रव्यशुद्ध - दव्वसुद्ध. दशम - दसम; पुरुष - पुरिस, वेष - वेस, प्रावृष् - पाउस, षोडशन् - सोलस.

५) संस्कृत उतरांतल्या दोन स्वरांमदगतींच्या स्पर्शव्यंजनाचो लोप जावन, अर्दमागधींत कांय वेळा, ताज्या जाग्यार 'य' येता. देखीक: सागर - सायर, गुलिका - गुलिया, वदन - वयण, गीत - गीय, आतङ्क - आयङ्क.

६) संस्कृत उतरांतल्या त्वान्त आनी ल्यबन्त कुसांच्या जाग्यार, अर्दमागधींत 'इतु' अशें कूस लागता. देखीक: श्रुत्वा - सुणित्तु, ज्ञात्वा - जाणित्तु, कृत्वा - किट्टु, अपहृत्य - अवहिट्टु.

अर्दमागधींत गद्य आनी पद्य हातूंत संधिनेम, विभक्ति आनी उतरावळ अशा तीन गजालींत चड फरक आसा म्हणपाचें घसघशीत दिसता. अर्दमागधीचें खाशेलेपण तें हें.

मागधी भाशेकडेन सर केल्यार अर्दमागधीचीं कांय वेगळीं खाशेलेपणां जाणवतात. अर्दमागधींत जंय 'र्' आनी 'स्' हीं व्यंजनां येतात, थंय मागधींत तांच्या बदला 'ल्' आनी 'श' हे वर्ण येतात. देखीक: से - शे, तारिसे - तालिशे, दुःखसहे - दुःखशहे. दुसरें खाशेलेपण म्हळ्यार, अर्दमागधींत प्रथमेचें एकवचन मागधीवरी एकारान्त जाता. देखीक: भदन्ते, सावके. त्याभायर जायते खेपो अर्दमागधींत प्रथमेच्या एकवचनाचीं ओकारान्त रुपांय मेळटात. देखीक: समणो, लूसियपुव्वो, पडिसेवमाणो, गामो, नाओ, पुठ्ठो बी.

**आधारावळ**: १. महाराष्ट्रीय ज्ञानकोश, संपा: डॉ. श्री.व्यं. केतकर.
२. भारतीय संस्कृतिकोश, पं. महादेवशास्त्री जोशी.
३. भाषा-विज्ञान कोश, डॉ. भोलानाथ तिवारी.
४. मराठी विश्वकोश, संपा. तर्कतीर्थ लक्ष्मणशास्त्री जोशी.
५. विवागसुयं, संपा. डॉ. पी. एल्. वैद्य.

**अर्दमेलो** । अर्दमॅलॉ, सा.रू. -ल्या । [सं. अर्ध + कों. मेलो] वि. १. जो मरूंक पाविल्लयावरी वा मरूंक तेंकिल्लयावरी जाला तो. २. ज्याका श्वास धेंवकपासून त्राण ना इतलो गळित जाला तो; अत्यंत कासाविस; जर्जर; व्याकूळ.

**वा.प्र.: अर्दमेलो करप**: मारून मारून जर्जर करप.

**अर्दमेलो जावप**: अत्यंत कासाविस जावप.

**अर्दवर** । अर्दवॅर्, सा.रू. -रा; भौव. -रां, सा.रू. -रा । [सं. अर्ध + ग्रि./पुर्तु Hora] न. वराचो अर्दो भाग; तिस मिनटांचो काळ.

**अर्दवळणो** । अर्दवळ्णॉ, सा.रू. -ण्या । [सं. अर्ध+कों. वळणो] वि. मात्सो-सो जीव आशिल्लो; फुकफुको प्राण आशिल्लो (अर्दवळणो गाभ).

**अर्दविराम** । अर्दविराम्, सा.रू. -मा; भौव. -म, सा.रू. -मां । [सं. अर्ध+विराम] पु. १. अर्द घडयेचें पेणें वा थांबणें. २. एक विरामचिन्ह; ज्या जाग्यार अर्द खिण थांबूंक जाय, तो जागो दाखोवपी बरोवपांतली कुरू. ही कुरू (;) अशी बरयतात.

**अर्दविरामचिन्ह** । अर्दविरामचिन्ह, सा.रू. -न्हा; भौव. -न्हां, सा.रू. -न्हां । [सं. अर्धविराम + चिन्ह] न. विराम चिन्हांतलें एक चिन्ह. हें चिन्ह (;) अशें बरैतात.

**विशेश**: वाक्यांत जंय सामकें थोडें थांबपाचें आसता, थंय स्वल्पविराम दितात. अर्दविराम हो स्वल्पविरामापरस मात्सो दीर्घ आसता. एकाद्रया व्हडल्या संकीर्ण वाक्यांत एक विधान मुख्य आसून, हेर विधानां ताज्यो देखी म्हणून वा त्याच अर्थाची सया वेगळ्या उतरानीं परती सांगपाखातीर वा त्या विधानाची आनीक फोडणिशी करपाखातीर येतात. तेन्ना तीं वाक्यां मुख्य विधानापासून आनी एक दुसऱ्यापासून अर्दविराम उपकरावन वेगळीं दाखयतात. देखीक: "बाबडे अजाण लोक देवा-धर्माचें नांव घेतकूच फटवतात आनी सर्ग-लोक जोडच्या वसवसान अपहारी राजांक चुकून आनी नेणून पालव दितात; देखून, झूज हें उतरच मुदलाक देवा-धर्माभायरें करून तांतूंत मरतल्याक सर्ग केन्नाच मेळना जांवची मांडणी करतकूच, मनीसजात आतांचे भाशेन झुज मारूंक शिंवशिंवची ना; झुजपी लोक मेळनातशे पळौन, अपहारी राजा शेजाऱ्याक वोगीच तिडांवचे नात; आनी हे भाशेन धतरीर थंडाय आनी सस्तताय जांवक पावतली."
—गोमन्तोपनिपत्, पैलें खंड, बरो: शणै गोंयबाब, पा. ११२.

**अर्दशिशी** । अर्दशिशी, सा.रू. -शये । [सं. अर्ध+शीर्षम्] स्त्री. एक शिसल; एक शिसलाची दुख; मस्तकाच्या वा तकलेच्या एकेच वाटेन लागता ती फोडाफोड वा भोगता ती दुख. (इं.) Hemicrania.

**अर्दस** । अंर्दस्, सा.रू. -शे । [सं. अर्धशेप] अर्दाचो उपकरायनासतना दवल्लेलो वा उरिल्लो भाग.

**अर्दसो, शी, शें** । अर्दसॉ, शी, शँ । [सं. अर्धसदृश] वि. १. अर्द दिसमारको; अर्द जावये इतलो. (अर्दसो वात्र जाला, अर्दसो उल्ला). २. पुराय न्हंय असो; अपूर्ण.

**क्रि.वि.** थोड्या प्रमाणान; कांय अंशान. (भुरग्यांनी साप्प सूइड जांवक फावना. जाण्ट्यांची सांगणी अर्दशी तरी आयकूंक जाय.)

**अर्दस्वर** । अर्दस्वॅर, सा.रू. -रा; भौव. -स्वर, सा.रू. -रां । [सं. अर्ध+स्वर:] पु. स्वर आनी व्यंजन हांचे मदले अवस्तेंत आशिल्लो वर्ण.

**विशेश**: ध्वनीची जेन्ना निर्मणी जाता, तेन्ना फुफ्फुसांतली हवा सकनळयेचे वाटेन तोंडांतल्यान भायर सरत आसता. ही हवा भायर सरत आसतना जेन्ना तिका तोंडांतल्या वेगवेगळ्या जाग्यार आडखळ निर्माण जाता, तेन्ना वेगवेगळीं व्यंजनां निर्माण जातात. जेन्ना हे हवेक भायर सरतासतना तोंडांत कसलीच आडखळ जायना, तेन्ना स्वरांची निर्मणी जाता.

कांय वर्ण स्वर आनी व्यंजनां हांचे मदले अवस्तेंत आशिल्ले जाणवतात. अशा वर्णाक अर्दस्वर म्हण्टात. देखीक, 'य्' आनी 'व्'. हांच्या उच्च्याराची सुरवात स्वरांच्या

उच्च्यारावरीच जाता. जाल्यारूय उप्रांत, व्यंजनाचे निर्मणेच्या वेळार जाता तशीच आडखळ भायर सरतले हवेक जाता. 'य्'च्या उच्च्याराची सुरवात 'इ' ह्या स्वरावरीच जाता. पुण उप्रांत ताळवेच्या जाग्यार हवेक आडखळ जाता. हे आडखळिक लागून 'इ' चो उच्च्यार 'य्' जाता. 'य्' च्या उच्च्यारावेळार ताळवेच्या दोनय वाटांचेर जिबेच्या कडांचें चेपण पड्टा. जिबेच्या कडांचें हें चेपण मात्शें धील जावन, हवा भायर सरपाचो मार्ग मात्सो व्हडलो जाता, तेन्ना 'इ' हो स्वर निर्माण जाता.

'व्'च्या उच्च्याराची सुरवात 'उ' ह्या स्वरावरीच जाता. जाल्यारूय उप्रांत, ओंठाच्या जाग्यार हवेक आडखळ जाता. हे आडखळिक लागून 'उ' चो उच्च्यार 'व्' असो जाता. 'व्'च्या उच्च्यारावेळार दोनय ओठांचो आकार वाटकुळो जावन, ते मात्शे फुडें सरतात. ओंठांचो हो वाटकुळो आकार तसोच उरून, ते चड फुडें आयले जाल्यार 'उ' हो स्वर निर्माण जाता.

'य्' आनी 'व्' हांचे उच्च्यार जातना, तोंडातले हवेक जी आडखळ जाता, ती सामकी थोडी जाता. देखून, तांची गणना स्वरांत करची, अशें एक मत आसा. जाल्यारूय, स्वर हे मुखर आसतात आनी तांच्या उच्च्याराचो काळ चड-उणो करूंक मेळटा. स्वरांचे तुलनेंत 'य्' आनी 'व्' हांची मुखरताय उणी आसा. तांच्या उच्च्याराचो काळय चड-उणो करूंक मेळना. देखून, तांचो आस्पाव स्वरांत करूंक मेळना.

व्यंजनांक जेन्ना स्वरांचो पालव वा आधार मेळटा, तेन्ना व्यंजनांचो पूर्ण उच्च्यार जाता. देखून, व्यंजनाचो पूर्ण उच्च्यार जावपाक पालव दिवप हें स्वरांचें भाशेंतलें म्हाल-मुखेल काम. भाशेचे बांदणेंत (structure) 'य्' आनी 'व्' हांचेकडल्यान हें काम जायना, व्यंजनांक 'य्' आनी 'व्' जोडल्यारय, तांचें पूर्ण अक्षर जायनासतना जोड व्यंजनच जाता. देखीक: क् + य् + क्य्, न् + व् = न्व्. ह्या जोड व्यंजनांचो पूर्ण उच्च्यार जावपाखातीर स्वराचो आधार घेंवचो पडटा. देखीक: क्य् + अ = क्य, न्व् + ई = न्वी. ह्या कारणाक लागून य् आनी व् हांचो आस्पाव स्वरांत करूंक मेळना.

जीं व्याकरणां परंपरेप्रमाणें बरयल्यांत, त्या व्याकरणांनी 'य्' आनी 'व्' वरीच 'र्' आनी 'ल्' हांचोय आस्पाव अर्दस्वरांत केला. कित्याक म्हळ्यार 'र्' आनी 'ल्' हांच्या उच्च्यारावेळार स्पर्शस्थानांत मात्शी धिलसाण निर्माण जाल्यार 'ऋ' आनी 'ऌ' हे स्वर मेळटात. आर्विल्लें भासविज्ञान फक्त 'य्' आनी 'व्' हे दोनच अर्दस्वर मानता. 'र्' आनी 'ल्' हे आर्विल्ल्या भासविज्ञानाचे नदरेन द्रववर्ण (Liquids) आसात.

**अर्दाअर्द** । अर्दाअर्द् । [सं. अर्धार्धः] क्रि.वि. अर्द अर्द करून. (पणस अर्दाअर्द भायर उडयलो.)

**अर्दांग** । अर्दांग्, सा.रू. -गा । [सं. अर्धाङ्गम्] न. अर्दें आंग; देहाचो, कुडिचो अर्दो भाग. **(ला.)** घोवा-बायलेच्या जोड्यांतलो दर एक जाण.

**विशेश:** बायल ही घोवाची सर्वश्रेस्ठ सांगातिण. धर्म, अर्थ आनी काम ह्या पुरुशार्थाचें मूळ तीच. संवसार तरून वचपाखातीर घोवाचें मुखेल साधनय तीच. "अर्धं भार्या मनुष्यस्य भार्या श्रेष्ठतमः सखा । भार्या मूलं त्रिवर्गस्य भार्या मूलं तरिष्यतः ॥". तेच परी आपलें अधिस्ठान दीत बायलेक पाकळे पाकळेन फुलैता तो घोवच. घोवच तिका समृद्ध करता. घोवच तिका पुर्णतायेक पावैता.

एकामेकांक आधार दीत, दोगांनीय आपलो संवसार फुलोवन पूर्ण करपाचो आसता. देखून, बायल ही जितली घोवाचें अर्दांग, तितलोच

घोवय बायलेचें अर्दांग.
**आधारावळ**: महाभारत, आदिपर्व (संभवपर्व ७), अध्याय ६७.

**अर्दांग** । अर्दाङ्ग, सा.रू. -गा । [सं. अर्धाङ्गम्] न. जिका लागून देहाचो अर्दो भाग धरून पड्टा अशी पिडा; आर; आरेची पिडा.

**अर्दांगी** । अर्दाङ्गी, सा.रू. -ङ्गे; भौव. -ङ्ग्यो; सा.र. -ङ्ग्यां । [सं. अर्धांगी] स्त्री. अर्दे आंग जावन आशिल्ली; अस्तुरी; बायल; अर्धांगी; अंतवरी.

**अर्दाय** । सा.रू. -ये । ['अर्द' वेल्यान] स्त्री. अर्दान आसपाची स्थिती वा अवस्ता.

**अर्दार, अर्द्यार** । अर्दार्, अर्द्यार । ['अर्द' वेल्यान] क्रि.वि. १. मदींच (तो अर्दार उठून गेलो). २. मध्यार; मध्यभागार; दोन तोंकाच्या सम अंतरार. (तो रावता तो जागो दोनी मार्गांच्या अर्दार आसा). ३. पूर्ण, पुराय करिनासतना. (तें काम ताणें अर्द्यारच सोडलें). ४. अर्द वाटेर (ताणें म्हाका अर्द्यार पावैलो.)

**अर्दास** । अर्दास्, सा.रू. -शे; भौव. -सो; सा.रू. -सां । [सं. अर्द् = मागप] स्त्री. १. मागणें; विनंती; प्रार्थना (... आणियेकां ओरासावां वा अर्दासो केलेल्या निमतीं आइकत म्हाणु जरि सत्य मानित, तरि ह्या इतुल्या ठाईं पापी आपणपेंचि नाडवत. —वनवाळ्यांचो मळो, बरो: पाद्री मिगेल द् आल्मैद, पा. ४२). २. अर्ज; अर्जी.

**अर्दी** । अर्दी, सा.रू. -र्दे; भौव. -र्द्यो, सा.रू. -र्द्यां । [सं. अर्धम्] स्त्री. अर्द असुर्पी. —हिजें मोल तीन आणे आनी चार पयो आशिल्लें. **(ला)** धन, संपत्ती.
**म्हण**: मर्दी ताका अर्दी.

**अर्दी** । अर्दी, सा.रू. -र्दी । ['अर्द' वेल्यान] स्त्री. अर्देल; अर्द अर्द अशी समासम भागी.
**वा.प्र.: अर्दी वा अर्देक करप**: अर्देलेक करप; सारिभागाक करप; अर्दभागाच्या खंडाचे बोलयेन जमीन उठावळीक हाडप वा रोवपाक घेवप.

**अर्दुकडो, डी, डें** । अर्दुकडॉ, डी, डँ; सा.रू. -ड्या, -डे, -ड्या; भौव. -डे (डॅ), -ड्यो, -ड्यां; सा.रू. -ड्यां । [सं. अर्धक] वि. पूर्ण न्हंय असो; अपूर्ण; अर्दकुरो; अर्दकुटो (मोटवो स्वर उच्चारूंक जितलो वेळ लागता ताज्या अर्दान वेळ अर्दुकडो नाद उच्चारूंक लागना. —कोंकणी नादशास्त्र, बरो: शणै गोंयबाब, पा. १).
**क्रि.वि.** १. पूर्ण जायनासतना. (कांय नाद निजाचेच अर्दुकडे जातात. —कोंकणी नादशास्त्र, बरो: शणै गोंयबाब, पा. १). २. पूर्ण करिनासतना. (वेरूळच्या दशावतार देवळांतल्या अर्दुकडें सांडिल्लया पाशाणा-बरपांत दंतिदुर्गाच्या पणज्याचो बापूय आनी आजो हांचीं नावां अनुक्रमान इंद्रराज आनी दंतिवर्मा अशीं आयल्यांत. —गों. गों. वसणूक, बरो: शणै गोंयबाब, पा. ३२.)

**अर्दुकुटो, टी, टें** । अर्दुकुटो, टी, टँ; सा.रू. -ट्या, -टे, -ट्या; भौव. -टे (टॅ), -ट्यो, -टीं; सा.रू. -ट्यां । [सं. अर्धक] वि. १. पुराय, पूर्ण जांवक ना तो; अपूर्ण (अर्दुकुटो वाव्र; अर्दुकुटी कथा). २. अर्दो भरिल्लो (अर्दुकुटो कळसो). ३. **(ला.)** जो धड न्हंय तो; अपुर्तो; शाणेपणाची पोंच नाशिल्लो; अणवो. (अर्दुकुटो मनीस.)
**म्हण**: अर्दुकुटो कळसो कचकचता.

**अर्देल** । अर्देल्, सा.रू. -ले । [सं. अर्ध] स्त्री. १. अर्द भागाची पद्धत; एका भागाची

दोगांभितर समासम वांटणी करपाची पद्धत; उठावळिच्या कसल्याय कामांत वा वेव्हारांत आशिल्ली समासम भागी. २. धनी आनी रैत ह्या दोगांनीय, जमनिचें येता तें उत्पन्न, आपल्याभितर समसमान वांटून घेवपाची केल्ली लेखी वा तोंडी कबलात. ३. कबलातिन बांदिल्ल्या दोगां वांगड्यांनी लाभा-लुस्काणाचीय आपल्याभितर केल्ली समसमान वांटणी वा भागी.

**वा.प्र.: अर्देलेक करप:** सारिभागाक करप; अर्द भागाचे कबलातिन कस्टावळ वा उठावळ करून जमीन वसणूकेक वा पिकावळिक हाडप; पिकेचो अर्द भाग खंड म्हणून दिवपाचे कबलातिन शेत रोवपाक घेवप वा जमीन वसवप.

**विशेश:** अर्देलेची पद्धत शबरांनी (कोल जमातिन) गोयांत हाडली. धनयान आपली जमीन रैताक पिकावळिक दिल्यार खंडाची पद्धत अशी: धनयान बीं दिल्यार उत्पन्नाचोत अर्दो भाग धनयाक; बीं न दिल्यार उत्पन्नाचो तिसरो भाग धनयाक. (संदर्भ: गोमन्तकाची प्रतिमा, खंड पहिला. लेख: गोमंतकाच्या वसाहतीची रूप-रेषा. लेखक: अनंत रामकृष्ण शेणवी धुमे, पा. १३).

**अर्देली** । अर्‌देली, सा.रू. -ल्या; भौव. -ली, सा.रू. -ल्यां । ['अर्देल' वेल्यान] पु; वि. अर्दभागाचो भागेली, वांटेली; जो अर्दभागाचे बोलयेन वेव्हार करता तो.

**अर्दो, र्दी, र्दें** । अर्‌दॉ,दी,दँ; सा.रू. -र्‌द्‌या, -र्‌दे, -र्‌द्‌या; भौव. -र्‌द्यॅ, -र्‌द्‌यो, -र्‌दीं; सा.रू. -र्‌द्‌यां । [सं. अर्धः] वि. १. दिस्त अर्दयेन आशिल्लो; जथापथ अर्द जाता तो. २. अर्दुकुटो; अपूर्ण. ३. **(ला.)** गळीत; कासाविस; जर्जर.

**वा.प्र.: जीव अर्दो करप:** अत्यंत कस्ट करून जीव कासाविस करप वा जीव पुरो करून घेवप; जीव झरोवप.

**जीव अर्दो जावप:** जीव गळीत, जर्जर जावप; अत्यंत थकावट येवप; आंगांत त्राण नासप.

**अर्द्या माडार चडून हात सोडप:** मुरू केल्लें काम कसलेय अडचणेक लागून मदींच सोडून दिवप.

**म्हणी:** १. कस्टांनीं जोडिल्लें अर्दें उरना, नागोवणेन जोडिल्लें तगना.

२. कस्टांनीं जोडिल्लें अर्दें उरना, नागोवन जोडिल्लें उरतलें कशें?

३. भल्लेलो कळसो उरत, अर्दो कळसो फुटत.

४. कांय केल्यार कांय मेळता, न्याय केल्यार अर्दें मेळता.

५. अद्‌र्या माडार चडून हात सोडचे न्हंय.

**अर्दोअदिक, अर्दिअदिक, अर्देंअदिक** । अर्‌दॉअदिक्, अर्‌दीअदिक्, अर्‌दँअदिक् । [सं. अर्ध + अधिक] वि. अर्द्यापरस चड; अर्द्यापरस मात्शें चड. (अर्दोअदिक वात्र सोंपत आयलो. अर्दिअदिक जमीन कसून जाली. अर्देंअदिक काम जायत आयलें.)

**अर्दोसो** । अर्‌दॉसॉ । ['अर्द' वेल्यान] वि. पळेयात 'अर्दसो'.

**अर्धांगी** । अर्धाङ्‌गी, सा.रू. -गे; भौव. -ग्यो, सा.रू. -ग्यां । [सं. अर्धांगिनी] स्त्री. बायल; अस्तुरी; स्त्री.

**विशेश:** बायल ही घोवाचे पुण्यायेची अर्दी हक्कदान आसता. देखून, तिका अर्धांगी म्हण्टात.

**अर्पण** । अर्‌पण्, सा.रू. -णा । [सं. अर्पणम्] न. १. पवित्र भावनेन, भक्तिभावान वा श्रद्धेन केल्ली ओंपणी वा दिल्लें दान. २. माना-भौमानाची, आदराची वा माये-मोगाची खूण म्हणून, पुस्तकाची वा कलेचे कलाकृतीची कोणाकय केल्ली ओंपणी वा दिल्ली भेट. ३. श्रद्धेस्त अंतस्करणान केल्ली सेवा. **—पत्रिका:**

स्त्री. पुस्तकाच्या, ग्रंथाच्या ज्या पानार, तें पुस्तक वा तो ग्रंथ कोणाक अर्पण केला म्हणपाचें बरैलें आसता, तें पान.

**अर्पप** । अर्‌पप्, सा.रू. -पा । [सं. ऋ (=वचप) चें प्रयोजक] क्रि. दा. धा. सा. ना. (मूळ धातू: अर्प् (सक.)) १. पवित्र भावनेन वा भक्तिभावान ओंपप वा दिवप. २. माना-भौमानाची, आदराची, माये-मोगाची खूण म्हणून, ग्रंथ वा हेर कलाकृती कोणाकय ओंपप. ३. श्रद्धेस्त अंतस्कर्णान कसल्याय कार्याक ओंपून घेवप वा वावुरप.

**अर्बुद** । अरबुद् । [सं. अर्बुदम्] वि. धा कोटी. (१००००००००).

**अर्भक** । अर्‌भक्, सा.रू. -का; भौव. -कां, सा.रू. -कां । [सं. अर्भकः] न. ल्हान बाळक वा ल्हान भुरगें.

**अर्र** । अर्र । उ. उ. तिडक वा राग दाखोवपी उमाळ्या उतर. (आवत करूं नाका? अर्र तूं! पळेतां कशें आसा तें.)

**अर्रबुर्र** । अर्रबुर्र, सा.रू. -र्रा । [हिं. अर्रबर्र] न. १. अर्थ, तथ्य नाशिल्ली गजाल. २. एक सांगल्यार दुसरोच केल्लो समज.

**अर्रभर्र** । अर्रभर्र, सा.रू. -र्रा । [हिं. अर्रबर्र] न. अर्रबुर्र; अर्थ, तथ्य नाशिल्ली गजाल. २. एक सांगल्यार नस्तेंच दुसरें सांगप. वि./क्रि.वि. अर्थ, तथ्य नाशिल्लें; कायच्या काय. (देवान तोंड दिलां म्हणून कितेंय अर्रभर्र उलोंव नाका).

**वा.प्र.: अर्रभर्र करप:** एक सांगल्यार नस्तेंच फणफण करून उलवप.

**अर्र म्हळ्यार भर्र म्हणप:** एक म्हळ्यार नस्तेंच दुसरें म्हणप.

**म्हण:** अर्र म्हळ्यार भर्र म्हण्टा.

**अर्रभर्रपण** । अर्रभर्रपण्, सा.रू. -णा; भौव. -णां, सा.रू. -णां । ['अर्रभर्र' वेल्यान] न. एक म्हळ्यार नस्तेंच दुसरें सांगपाची वृत्ती.

**अर्रा** । अर्रा, उ. उ. अजापाची तेच परी रागाची भावना दाखोवपी उमाळ्या उतर. (अर्रा! म्हाका अर्थ लागचो ना म्हण्टल्याची जीब तोडीन. भाशेचें कसलेंय खतखतें म्हज्या पानार वाढात. हांव तांतूत बुचकळी मारून वैर सरतलोंच.)

**अर्वाचीन** । अर्वाचीन्, सा.रू. -ना; भौव. -न, सा.रू. -ना । [सं. अर्वाचीन] वि. आतांचो; हालिचों; आर्विल्लो. (अर्वाचीन इतिहास).

**अर्वाच्य** । अर्वाच्च्य् । [सं. अवाच्य] वि. १. आचारवाणें; नितीभायरें; अशुभ; अभद्र; अमंगळ (अर्वाच्य उलोवणें). २. अळशिकावणो; बुरसो; पोजडो; हलकट (अर्वाच्य मनीस).

**अर्सप** । अर्सप्, सा.रू. -पा । [?] क्रि.दा.धा.सा.ना. (मूळ धातू: अर्स् (सक.)) आंगाक जिरप; आंगार सुकप. (आरे! केदोळ न्हाता. आंगाक उदक अर्सचें ना?)

**अर्हत** । अर्हत्, सा.रू. -ता; भौव. -त, सा.रू. -तां । [सं. अर्हत्] पु. बौद्ध साधू, संत; अरहंत. (थैं दीस-रात एकसारख्या रडण्या सुकण्यांचो त्रास जावन तो पर्थून आपल्या धाकट्या भावासरीं मुलु-आरामां वचून रावलो आनी थैं तो अर्हत जालो. —गों. गों. वसणूक, बरो: शणै गोंयबाब, पा.१०).

**अलगट** । अल्‌गट्, सा.रू. -टा; भौव. -ट, सा.रू. -टां । [सं. अ + लग्?] वि.१. अवजाळी; आडांगी; आडनाड; आडगुंड; मस्त;

भंड. २. विलक्षण सुंदर. (पुण धनयां, असली तस्बीर म्हाका दाखोवन कितें उपेग? एखाद्रे अलगट बायलेन ही पळेल्ली जाल्यार ती जीव उंवाळून उडयतली आशिल्ली ताजेवेल्यान. —संशयकल्लोळ, कोंकणी भाशांतर, भाशांतर करपी: बाकीबाब बोरकार, पा.३१).

**अलगटाय** । अलग्टाय, सा.रू. -ये; भौव. -यो, सा.रू. -यां । ['अलगट' वेल्यान] स्त्री. आडगुंडाय; भंडाय; मस्ती.

**अलगर्जी** । अल्गंजूरी, सा.रू. -जूऱ्या । [अर. अहल-ए-गरद] वि. जो दुसऱ्यांची खुशामत करून आपलो स्वार्थ साधता तो; जो उणाक, नीच, हलकट करण्यांनी आपलो स्वार्थ साधता तो; आप-स्वार्थी. (...म्हज्या भांगरांच्या म्होरांचो घांस भरून स्वर्गावेल्या म्हादेवाचें लेगीत तोंड म्हज्यान धांपूं येतालें. मागीर अलगर्जी आनी वसवशा मनशांची बिशाद कसली? —गोमन्तोपनिषत्, दुसरे खंड, बरो: शणै गोंयबाब, पा.१७८).

**अलंकार** । अलंकार्, सा.रू. -रा; भौव. -र, सा.रू. -रां । [सं. अलंकारः] पु. १. सोबा दिता ती वस्त; चित्त ओडून घेता ती वस्त; दाग-दागिनो; रत्न-माणकांची वस्त बी. २. व्हडवीक, भूशण दिता तो गुण. (क्षमा, शांती आनी अहिंसा हे बळिस्टांचे अलंकार). ३. गांवांचें, समाजाचें, देशाचें भूशण जाता ती व्यक्ती. (गांधी म्हात्म्यांसारको मनीस, खंच्याय देशाचो अलंकार आसता.) ४.**(सा.शा.)** वाणयेची गिरेस्तकाय; विचारांक उठाव दिवपी शैलीचो धर्म; भाशेची मन-भुलैणी रचणूक.

**अलंकारिक** । अलंकारीक् । ['अलंकार' वेल्यान] वि. १. अलंकारांनी भरिल्लो; सोबीत. २. ओडलायणे शैलीन भरिल्लें (अलंकारिक लिखाण).

**अलंगुल, ली** । अलङ्गुल्, ली, सा.रू. -ले । [सं. अङ्गुलः] वि. बोटायेदो; आंगळायेदो; अरूंद; आंखूड; अशीर (...तिची ती मोनजति आपुलो स्वामिसो मानुनु, ताका मानु, हुर्मति दिता, कित्या हिये अलंगुली सुआते येकु बैलु, वा येक वेंसर गाडव, जीं आसिलीं, तीं आपुलो खोडु सांडुनु, डिंबिओ घाल्नु, ताची भजना करूं लागल्यांति. —वनवाळ्यांचो मळो, बरो: पाद्री मिगेल-द-आल्मैद, संपादकः डॉ. वि.बा.प्रभुदेसाई, पा.२).

**अलंगुलप** । अलङ्गुलप्, सा.रू. -पा । ['अलंगुल' वेल्यान] क्रि.दा.धा.सा.ना. (मूळ धातू: अलंगुल् (अक.)) अशीर, अरूंद, आंखूड जावप.

**अलंगुलावप** । अलङ्गुलाव्प्, सा.रू. -पा। ['अलंगुल' वेल्यान] क्रि.दा.धा.सा.ना. (मूळ धातू: अलंगुलाय् (सक.)) अरूंद, अशीर, आंखूड करप; आंवळून, आक्रासून हाडप.

**अलबत** । अलबत् । [अर. अलबत्तः, फा. अल-बत्त] क्रि. वि. खात्रीन; जरूर; दुभावाविरैत; दुभावाविणें.

**अलभ्य** । अलब्भ्य । [सं. अलभ्य] वि. जें मेळूंक दुरापास्त, कठीण, अशक्य अशें; भौच कस्टांनी मेळसारकें; दुर्लभ; जूग. **—लाभ:** पु. नशिबान मेळिल्लो वा जाल्लो दुर्लभ लाभ; अनपेक्षित लाभ; अचळय मेळिल्लें घपशेल; उडून मेळिल्लें शेवाळ.

**अलर्क** । अलर्क्, सा.रू. -र्का; भौव. -र्क, सा.रू. -र्कां । [सं. अलर्कः] पु. १. पिसावल्लो सुणो. २. पिसावल्लया सुण्याचें वीख बाधून जाता ती पिडा.

**अलर्की** । अलर्की । ['अलर्क' वेल्यान]

वि. ज्याका पिसावल्लया सुण्याचें वीख बाधलां तो.

**अलक्ष** । अलॅक्ष । [सं. अलक्ष्य] वि. १. असंख्य; अगणित; मेजूंक न येवपी. (आवय म्हणजे माती। मळबान आपल्या अलक्ष हातांनी। आतां तिका जिखून घेतल्या, । गच्च वेंगायल्या। —जोगलांचें झाड, कवीः शंकर रामाणी, पा.५६.) २. अलौकिक. (कित्याक हिशोब जोडि-मोडिचो। घडये एकच धाकें। जायन धनी अलक्षाचो। – पांडुरंग भांगी. ३. अदृश्य. पु. ईश्वर, ब्रह्म.

**अलक्षिमी** । अलॅक्षिमी, सा.रू. -मी । [सं. अलक्ष्मी] स्त्री. १. अवदिशेची, दळिद्राची, विपत्तेची देवता; लोकसंस्कृतायेंतली एक मातृदेवता. २. अवदिसा; विपत्त; पराकास्टेचें दळिद्र वा आयिल्ली अन्नान्नदशा. ३. अशुभ लक्षणांची बायल.

**विशेश:** लक्षिमी (लक्ष्मी) आनी अलक्षिमी (अलक्ष्मी) ह्यो दोगिय भैणी भैणी. एक गोरी तर दुसरी काळी. दोगीय अमृतमंथनांतल्यान वैर सल्ल्यात. लक्षिमी पैलीं अलक्षिमी वैर सल्ल्या. देखून, तिका 'जेस्ठा' अशेंय म्हण्टात.

अमृतमंशनांतल्यान लक्षिमी वैर सरतकीर, तिजेकडेन लग्न जावपाक देवांनी विष्णुची प्रार्थना केली. व्हडलेचे पैलीं धाकलेचें लग्न योग्य न्हंय अशें लक्षिमीन सांगतकीर, विष्णुन अलक्षिमी उद्दालक मुनीक दिली. 'पद्मपुराण'च्या उत्तरखंडांत ही कथा मेळटा.

अलक्षिमीचें तोंड काळें आशिल्लें. दोळे तांबडे आशिल्ले. केंस खरखरीत आनी पिंगशे आशिल्ले. तिज्या आंगाक मिरयो पडिल्ल्यो. तिजी काया म्हातारेची आशिल्ली. विष्णुचे सांगणेन हे विद्रूप बायलेचो उद्दालक मुनीन स्वीकार केलो. तिका घेवन तो आपल्या आश्रमांत आयलो. आश्रमांतलो वेदांचो ध्वनी आनी थंचें पवित्र वातावरण अलक्षिमीक मानलें ना. तिणें बोंचो मुडिइलो आनी आपली विप्रीत रूच उद्दालकाक सांगली. तिजी ही विप्रीत रूच आयकून उद्दालक थंयच्या थंयच शेळेलो. उप्रांत तिका घेवन तो आश्रमांतल्यान भायर सल्लो. बरीच वाट चल्लयाउप्रांत एक पिंपळ तांका दिसलो. थंय उद्दालकान तिका सांगलें. "तूं ह्या पिंपळासकल मात्शी थांब. तुका फावसो जागो सोदून हांव परतो येतां." हें सांगून उद्दालक जो गेलो, तो आनी परतो थंय आयलो ना.

घोवान सोडिल्ले हे अवदिशेची अशीच कथा 'भर्तृनामभेद लिंगपुराणां'तय मेळटा. अमृतमंथनांतल्यान कालकूट विखाउप्रांत अलक्षिमी वैर सरतकीर, दुःसह नांवांचो ऋशी तिजेकडेन लग्न जालो. दुःसह तिका घेवन वतना वाटेर वेदघोश आनी हरिहर संकीर्तन चलतालें. वाटेर चलतालो तो वेदघोश आनी हरिहर संकीर्तन तिज्यान आयकुपाक नज जालें. तिणे आपले कान धांपले. हें पळेतकीर दुःसह रानांत वचून तपाक बसलो. तेंय तिका सोंसलें ना. तिगेले हे गुण पळोवन दुःसहाक त्रास जाले. तो अशे अवस्तेंत आसतना, ताजी आनी मार्कंडेय ऋशीची भेट जाली. मार्कंडेयान अलक्षिमीक योग्य अशा जाग्याची कल्पना दुःसहाक दिली. जंय शुभ आसा, थंय अलक्षिमी नंदना. जंय अशुभ आसा, थंय अद्रूण ती राबितो करून रावता. मार्कंडेय ऋशीन ताका हे सांगतकीर दुःसहान अलक्षिमीक चकयली. तडागांतल्या बिळांतल्यान तो रसातळाक गेलो आनी परत तिजेसरीं तो आयलो ना.

अनाथ जाल्ले हे अलक्षिमीक समजावपा-खातीर, लक्षिमीसैत विष्णु तिजेसरीं आयलो आनी ताणें तिज्या योगक्षेमाची व्यवस्था केली. अधार्मिक, दुराचारी, अमंगळ अशा मनशांचेच वाटेक वचून तांच्या धनाचें आनी समाधानाचें अपहरण करपाची तिका अनुज्ञा दिली.

मध्ययुगांत अख्ख्या दक्षिण भारतांत हिजी उपासना चलताली. ताका लागून दक्षिणेंत तिज्यो म्हुर्ती विपूल प्रमाणांत मेळटात. तिजी म्हुर्त दोन भुजांची, बाबऱ्या ओंठाची, हुमकळपी मोम्यांची, धोंदया पोटाची, उजवो हात अभयमुद्रेंत आनी दावो हात मांडयेर दवल्लेलो, दोनी पांय बसकेसकल सोडून भुयेंक तेंकैल्ले, उजवेवटेन एक वृशमुखी दादलो आनी दावे वटेन एक बायलेची म्हूर्त अशे तरेन घडैल्ली मेळटा.

प्राचीन तामीळ निघंटूंत तिका मुगडी, तोवै, कळडी, भूदेवी, काकध्वजा, खरारूढा, केट्टाई अशीं नावां दिल्यांत. सान्न हें तिजें आयुध. तिजीं सगळीं नावां अशुभ सुचौणींच आसात.

अलक्षिमी ही लोकसंस्कृतायेंतली एक मातृदेवता वा यक्षरूपी देवता. मातृदेवता जशो सात्विक आसतात, तशो पाड्योय आसतात. जशो राखपी आसतात, तशो मारपीय आसतात. महाराष्ट्रांत हिका 'अक्काबाई' म्हणून वळखतात. वेदांतली 'निऋती' हें हिजेंज रूप.

खासा अलक्षिमीच आपुण अपशकुनी, काली, घोर चंडी आसा अशें सांगता. तेचपरी आपुण आचारान अनभावार्थी, पाडी, कलह लावपी, हिमटी, दूस्ट आनी दुस्वासी आसां अशेंय सांगता. ज्या जाग्यार ती रिगता, थंय पराकास्टेचें दळिद्र येता. अन्नान्नदशा प्राप्त जाता. देखून जंय जंय ती भितोडी सोदता, थंय थंय तिका कोणच आश्रमो दिनात. तिज्या वाऱ्याकपासून कोणच उबे रांवक सोदिनात.

दिवाळेंतली उमाशेची रात ही 'सुखरात' म्हणून नांवांजती आसा. हे रातीं लक्षिमीक येवकार दिवपाचो आनी अलक्षिमीक निरोप दिवपाचो विधी भारतांतल्या कांय थळांनी जाता. अलक्षिमीची म्हूर्त घडोवन, कृष्णफुलांनी तिजी पूजा केल्याउप्रांत, तिका प्रार्थितात:

"हे अलक्षिमी, तूं विद्रूप आसा. अमंगळ जाग्यांनींच तूं रावता. 'सुखराती'च्या वेळार हांवें केल्ली तुजी शाश्वत पूजा मानून घे. दळिद्र आनी कलह प्रिय आशिल्ले, तेच परी धनाचो नाश करपी देवते, तूं दुस्मानाच्या घरा वचून थंय सासणाचीच राव. महाभागे, तूं जर खऱ्यानींच म्हजेर प्रसन्न जाल्ली आसा जाल्यार, म्हगेले पूत, भाव, आनी म्हज्या नात्यापात्यांतल्या मनशांम्हऱ्यांत केन्नाच वचूं नाका. म्हगेले अशुभ घेवन तूं दुस्मानाच्या घरा वच आनी म्हजो आश्रय सोडून थंयच सासणाची राव."

**आधारावळ:** १. 'संस्कृति-सुगंध' ह्या पुस्तकांतलो 'जेष्ठा आनी जेष्ठराज' हो लेख. लेखक: रा.चिं ढेरे.
२. सिद्धार्थ-जातक, खण्ड ३रो, पा. २०९. मराठी भाशांतर, श्रीमती दुर्गा भागवत.

**अलक्षीम** । अलक्षीम, सा.रू. -मे । [सं. अलक्ष्मी] स्त्री. पळेयात 'अलक्षिमी'.

**अलाट** । अलाट् । [सं. अलात:, अलातम् = अर्दें जळिल्लें लाकूड] वि. अमंगळ; विद्रूप; कुरूप. (अलाट रूप).

**अलाय-बलाय** । अलाय्-बलाय्, सा.रू. -ये; भौव. -यो, सा.रू. -यां । [अर. बला. द्वि.] स्त्री. १. नड; नड-झड; अरिस्ट; संकट. २. नडिचो, अरिस्टाचो, वारेसुन्नाचो बाधिकार. (बाय, कितेंय धर्म करात; तुमची अलाय-बलाय हांव घेवन वतां).

**अलिप्त** । अलिप्त । [सं. अलिप्त] वि. १. ज्याका कसलोच लेप, लेपोड वा वसो लागूंक ना तो; निर्मळ; शुद्ध. २. जो कित्यांतच वांटो, भाग घेनासतना कुशीक रावता तो; जो आपल्याक कित्याकच बांधून घेना तो; जो आपलोसोच रावता तो; जो तिरायत

कसो रावता तो.
**म्हण:** करणी करून अलिप्त.

**अलोट** । अलोट्‌ । [सं. अ+लुट्‌] वि. १. जो फाटल्यान सरना वा परतना तो. २. थीर (अलोट उतर). ३. अतोनात; अपरंपार; आकांत. (अलोट गर्दी).

**अलौकिक** । अलौकीक्‌ । सा.रू. -का, [सं. अलौकिक] वि. संवसाराभायलो; अपूर्व; अद्‌भूत; विलक्षण.
**पु.** अपकीर्त; दुश्कीर्त; उणो लौकिक.

**अल्प** । अल्प्‌ । [सं. अल्प] वि. १. थोडो; उणो; इल्लो; कमी. (आजचे सभेक अल्प लोक आशिल्लो.) २. क्षूद्र; किरकोळ; ल्हान. ३. अत्यंत मंद; झिळमिटो (अल्प उजवाड.) ४. जितल्याक तितलो; काटकसरिचो. (अल्प खर्च.) ५. दुर्मिळ. (आजच्या काळांत प्रामाणिक मनीस अल्प जाल्यात.)
**म्हणी:** १. अल्प करणी बोवाळ चड.
२. अल्पाभितर भोव संतोश.

**अल्पकाळ** । अल्पकाळ्‌, सा.रू. -ळा । [सं. अल्पकालः] पु. थोडो काळ; थोडो वेळ.

**अल्पप्राण** । अल्पप्राण्‌, सा.रू. -णा । [सं. अल्पप्राणः] पु. (व्याक.) ज्याचो उच्च्यार प्राणवायुच्या अल्प वेव्हारान जाता तो वर्ण; ज्याच्या उच्च्यारांत महाप्राण ना तो वर्ण.
**विशेश:** भाशेंतल्या व्यंजनाचे अल्पप्राण आनी महाप्राण अशे दोन भाग वा वांटे जातात. 'प्राण' म्हळ्यार तोंडांतल्यान भायर सरपी हवेचो लोट वा उश्वास. ज्या उच्च्यारांत हवेचो लोट मिसळना वा साप्प थोड्या प्रमाणान मिसळटा, तांकां 'अल्पप्राण व्यंजनां' म्हण्टात.

क्‌ ग्‌ ङ्‌
च्‌ ज्‌ ञ्‌
ट्‌ ड्‌ ण्‌
त्‌ द्‌ न्‌
प्‌ ब्‌ म्‌
य्‌ र्‌ ल्‌ व्‌ ळ्‌

अशीं मेळून वीस अल्पप्राण व्यंजनां मानतात.

**अल्पबचत** । अल्पबचत्‌, सा.रू. -ती । [सं. अल्प + हिं. बचत] स्त्री. नेमान इल्लेइल्ले रकमेची केल्ली बचत; काटकसर करून ल्हान ल्हान रकमेची नेमान दवल्लेली शिल्लक. (इं.) Small savings.

**अल्पबुद्द** । अल्पबुद्द्‌, सा.रू. -द्दी, भौव. -द्दी, सा.रू. -द्दीं । [सं. अल्प+बुद्धिः] स्त्री. थोडी, ल्हान बुद्द; उणी अक्कल.

**अल्पबुद्दि** । अल्पबुद्दी, सा.रू. -द्दी; भौव. -द्दी, सा.रू. -द्दीं । [सं. अल्प+बुद्धिः] वि. थोडी, उणी बुद्द आसपी; उणी अक्कल आसपी.

**अल्पमत** । अल्पमत्‌, सा.रू. -ती; भौव. -ती, सा.रू. -तीं । [सं. अल्प+मतिः] स्त्री. इल्लिशी, थोडिशी मत वा बुद्द. (हो मोठ्या व्हडल्या समुद्रासारको म्हा-कोंकणाचो वंश खैं आनी म्हगेली अल्पमत खैं? पलतड मारूंक कठीण असलो हो समुद्र इल्ल्याशा पनेळांत बसून हांव उपूंक सोदतां, ही पिसाय न्हंय? —ये.अ.उ.: शणै गोंयबाब, पा. ४९.)

**अल्पमत** । अल्पमत्‌, सा.रू. -ता; भौव. -तां, सा.रू. -तां । [सं. अल्प + मतम्‌] न. थोड्याच लोकांचो आशिल्लो आधार वा नाडो; भोवमताची उणाय.
**वा.प्र.: अल्पमतांत येवप:** संस्थांचो कारभार सांबाळपी मंडळांत वा राजकर्णी मळाचेर ग्रामपंचायतींत, जिल्हापरिशदेंत, विधानसभेंत, लोकसभेंत बी, एकाद्रया पांवड्यार भोवमत वगडायल्ल्यान वा नाशिल्ल्यान, तीं मंडळां,

कमिट्यो वा सरकारां विसर्जित करपाचे अवस्तेक पावप वा अधिकारावेल्यान वचपाचे परिस्थितीक येवप.

**अल्पमति** । अल्पमती । [सं. अल्प+मतिः] वि. थोडी मत आसपी; बुद्दीन उणो; अल्पबुद्दि.

**अल्पसंख्य** । अल्पसङ्ख्य । [सं. अल्पसंख्य] वि. एकूण लोकांभितर उणे संख्येन आशिल्लया वर्गांतलो; उणे संख्येन आसपी. (अल्पसंख्य जमात)

**अल्पसंतुंस्ट,** । अल्पसंतूस्ट, सा.रू. -स्टा; भौव. -स्ट, सा.रू. -स्टां । [सं. अल्प + संतुष्ट] वि. जो थोड्यान संतुस्ट, समाधानी आसता तो, जो थोड्याभितर खोशी जाता तो. (जो अल्पसंतुस्ट आसता ताजी गण-- मुक्तांत जाता, अशें महाभारत सांगता.)
**म्हण:** अल्पसंतुस्ट सदा सुखी.

**अल्पसल्प** । अल्पसल्प् । [सं. अल्प + स्वल्प] वि. थोडो, थोडोसो, थोडो-भोव. (अल्पसल्प वात्र जाला.)

**अल्पायुशी** । अल्पायुशी । [सं. अल्पायुपिन्] वि. १. ज्याच्या वांट्याक थोडें आयुश्य आयलां तो. २. अकाळ्या मर्णाक लागून जो थोडेच दीस वा थोडींच वर्सां जियेंवक पावला तो.

**अल्पविद्यो** । अल्पविद्यो, सा.रू. -दया । [सं. अल्पविद्य] वि. खूप थोडी विद्या आशिल्लो; वैल्यावैर ज्ञान आशिल्लो; कित्यांचेंच पूर्ण ज्ञान नाशिल्लो.
**म्हण:** अल्पविद्यो महागर्वी.

**अल्ला** । अल्ला । सा.रू. -ल्ला । [अर. अल्इलाह; आर्मेनायक: अल्लाहा] पु. इस्लाम धर्माच्या मतान ज्यांणें हो सगळो संवसार रचला तो उपाट बळिस्ट, सर्वगिन्यानी आनी सर्व हुकुमदार असो एकलोच एक परमेश्वर; खुदा.
**विशेश:** इस्लामाच्या मतान 'रहीम' म्हळ्यार दयेस्त आनी 'करीम' म्हळ्यार काकुळतेस्त. हीं परमेश्वराचीं नांवां न्हंय. हीं ताजीं विशेशणां. इस्लामाचो उदेव जांवचे पैलींपासून अरब 'अल्ला' ह्याच नांवांन देवाक साद घालताले.

**अल्ला, अल्ला रे बल्ला, अल्ला गे बाय।** उ. उ. अजापाची भावना वा केन्ना खोशेचो भुरकुटो उक्तो करून दाखोवपी उमाळ्या उतरां. (म्हालखूम: (खोसयेन) अल्ला गे बाय! म्हजो घरकार रजिदोर! घरांतल्या घरांत रजिदोर! आतां त्या बाकिच्या रजिदोरांच्या तोंडांतसून सुटलीं सायबिणी! —मोगाचें लग्न, बरो: शणै गोंयबाब, पा.६५.)

**अव** । अव् । [सं. अव] मु.कू. कांय नामांक आनी विशेशणांक लागपी एक मुळा कूस. हें मुळा कूस सकल दिल्लया अर्थाच्यो सया दाखैता:
१. दुर्दशा, ऱ्हास, उणेपण, अभाव – देखीक: अवकळा; अवरुंदाय.
२. वायट, अशुभ – देखीक: अवदिसा, अवकरणी, अवचिन्न.
३. अनादर – देखीक: अवमान, अवगणा.
४. आधार – देखीक: अवलंब.
५. सकल देंवप – देखीक: अवतार
६. अयोग्य – देखीक: अवकाळो

**अवकरणी** । अव्कर्णी, सा.रू -णे; भौव. -ण्यो, सा.रू. -ण्यां । [सं. अव + कृ] स्त्री. पाडी, वांकडी करणी; दुश्कर्म; अकर्म; कुकर्म.

**अवकळा** । अव्कळा, सा.रू. -ळे; भौव. -ळा, सा.रू. -ळां । [सं. अव + कला] स्त्री. १. सत्वहीण, निस्तेज कळा. (राजान तरेतरेची पिडापीड दिवन आपले प्रजेचेर

अवकळा हाडली.) २. काळबाण (लजेस्त करणेक लागून ताज्या तोंडार अवकळा आयली.) ३. दुर्दशा; अन्नान्नदशा; पड; देंवती, दुखेस्त, अनाथ कळा. (नशिबाचे पाशे परते पडूंक लागतकीर, एक एक करून त्या घरांतले कर्ते-सवर्ते दादले भायर पडले. उप्रांत घरांतली लक्षिमी गेली आनी त्या घरार अवकळा आयली.)

**वा.प्र.: अवकळा येवप:** १. रया वचप. २. काळबाण ओतप. ३. दुर्दशा, अन्नान्नदशा जावप; पड येवप.

**अवकळा हाडप:** दुर्दशा हाडप; निःसत्व करप; निस्तेज कळा हाडप.

**अवकाश** । अव्काश्, सा.रू. -शा । [सं. अवकाशः] पु. १. अवधी; वेळ; समय. २. फुरसत; सवड. ३. रितो, पोकोळ जागो; मळब. **—यान:** न. विमान; अंतराळांतल्यान वचपी यान.

**अवकास** । अव्कास्, सा.रू. -शा । [सं. अवकाशः] पळेयात 'अवकाश'.

**अवकाळ** । अव्काळ्, सा.रू. -ळा [सं. अवकालः] पु. १. अवेळ; नस्तो वेळ. २. पाडो, वांकडो, वायट वेळ. ३. तुफान, वादळ, मोड (मॉड).

**अवकाळो,ळी,ळें** । अव्काळॉ,ळी,ळँ; सा.रू. -ळ्या,-ळे,-ळ्या । ['अवकाळ' वेल्यान] वि. अवेळो; आडवेळो; आडोळो; न्हंय त्या वेळार आयिल्लो (अवकाळो पावस.)

**अवकिरी** । अव्किरी, सा.रू. -रये; भौव. -रयो, सा.रू. -रयां । [सं. अव + कृ?] स्त्री. जिवाक बरें दिसना जावन येता ती आळसाय; कडामोड; मात्शेंशें जाल्लें अनारोग्य.

**अवकुळयेचो,ची,चें** । अव्कुळ्येचॉ,ची,चँ; सा.रू. -च्या,-चे,-च्या । ['अवकुळी' वेल्यान] वि. हीन जातीचो वा हीन कुळयेचो.

**अवकुळी** । अव्कुळी, सा.रू. -ळये; भौव. -ळयो, सा.रू. -ळयां । [सं. अव + कुलम्] स्त्री. हीन जात वा कुळी.

**अवकृपा** । अव्कृपा, सा.रू. -पे । [सं. अवकृपा] स्त्री. १. गैरमर्जी. २. क्रोध; राग; रागणें (देवाची अवकृपा).

**अवगणा** । अव्गणा, सा.रू. -णे । [सं. अवगणनम्] स्त्री. उवेखणी; अनादर; अपमान. (ताणें ताजी चार-चौगांत अवगणा केली).

**अवगणी** । अव्गणी, सा.रू. -णे; भौव. -ण्यो, सा.रू. -ण्यां । [सं. अव + गम्] स्त्री. सवंग; रूप.

**अवगत** । अव्गत् । [सं. अवगत] वि. ज्ञात; जाणा जाल्लें; खबर आशिल्लें; समजल्लें.

**वा.प्र.: अवगत आसप:** जाणा जावप; खबर आसप.

**अवगत** । अव्गत्, सा.रू. -ती; भौव. -ती, सा.रू. -तीं । [सं. अवगति] स्त्री. १. अधोगती; नीच गत. २. त्रास; कस्ट; दगदग. ३. समंध; भुतावळ. (झिलबाचे मानेर भायली भयांकृत अवगत बसल्या. —झिलबा राणो, बरो: शणै गोंयबाब, पा.२५.)

**अवगति** । अव्गती, सा.रू. -ती; भौव. -ती, सा.रू. -तीं । [सं. अवगति] स्त्री. १. अधोगती; नीच गती (आपल्या पातकांक लागून तो अवगतीक पावलो.) २. त्रास; कस्ट; दगदग; वळवळो. (तो अवगतीक पडलो).

**वा.प्र.: अवगतींत पडप:** कस्टा दगदगांत. त्रासा वळवळ्यांत पडप.

**अवगतीक पावप:** अधोगतीक, नीच गतीक पावप; नरकांत वचप.

**अवगप** । अव़्गॅप, सा.रू. -पा । [सं. अव+गम्] क्रि.दा.धा.सा.ना. (मूळ धातू: अवग् (सक.)) सवंग घेवप; रूप धारण करप. (हांव एकाच दिसा भोडवो, देंवचार, राजा, भिकारी अवगलों).

**अवगुण** । अंव़्गूण्, सा.रू. -णा; भौव. -ण, सा.रू. -णां । [सं. अव+गुण] पु. १. पाडो, वांकडो, वायट गुण; दुर्गुण; दोश. (आपले सर्व अवगुण पोरो घालून, सर्व मानसीं सत्यवंत स्वाम्याची सेवा करूं लागलो. —सां. अं. अचर्यां, पा.८) २. वायट परिणाम; बादिकार; विखार -कसल्याय वखदाक लागून वा कसल्याय कर्माक लागून जाल्लो. ३. पाडो नाद; नस्टो छंद; नस्टें व्यसन.
**म्हणी:** १. खंती सारखी पिडा ना, अवगुणासारखें वायट ना.
२. गुणांक पूजा, अवगुणांक इजा.
३. भुरग्याक म्हातारो करता अवगुण, म्हाताऱ्याक तन्नो करता सगुण.

**अवगुणाय** । अव़्गुणाय्, सा.रू. -ये; भौव. -यो, सा.रू. -यां । ['अवगुण' वेल्यान] स्त्री. दुसऱ्याचें वायट करपाची वा पाड घालपाची वृत्ती; दुसऱ्याच्या घरार सुणें चडोवपाची वृत्ती; दुस्टपण; निळखेळपण.

**अवगुणी** । अंव़्गुणी, सा.रू. -ण्या; भौव. -णी, सा.रू. -ण्यां । [सं. अवगुणी] वि. १. पाड्या, वांकड्या आचरणाचो; दुर्गुणी. २. वायट गुणधर्म आशिल्लो. ३. अवलक्षणी. ४. आडांगी.

**अवघड** । अव़्घॅड् । [सं. अव+घट्] वि. १. समजूंक वा करूंक कठीण अशें; कस्टप्राय. २. अडचणेचो; अस्कडो (अवघड मार्ग).
**म्हण:** शिकचेपैलीं अवघड, शिकतकीर सोपें.

**अवघडप** । अव़्घडॅप्, सा.रू. -पा । [सं. अव + घट्] क्रि.दा.धा.सा.ना. (मूळ धातू: अवघड् (अक.)) १. अडचप; अडप; अडचणेंत, संकटांत पडप. २. कुचमप; खांकुडप (तो खरें सांगूंक अवघड्टा).

**अवघो** । अव़्घॉ, सा.रू. -घ्या । [सं. अग्र (= जोमो) +वत्] वि. अक्खो; सगळो; एकान एक.

**अवचित** । अंव़्चीत् । [सं. अवचित्त] वि. अकाळें; अनपेक्षित; ध्यानामनांत नाशिल्लें. (अवचित मरण). **क्रि.वि.** १. ध्यानामनांत नासतना; अचकित; अकस्मात. (दक्षिण दिशेचो परतलो वारो। अवचित चंदन परमळलो। -शिगम्याच्या गीतांतलें एक कडवें). २. चुकून केन्नाय; क्वचित. (तो आमगेर अवचित येता.)

**अवचितवाडो** । अंव़्चित्वाडॉ, सा.रू. -ड्या; भौव. -डे, सा.रू. -ड्यां । [सं. अवचिन्ह + कों. वाडो?] पु. जंय वेश्या वा चेडयो आपल्या देहाचो धंदो चलयतात तें घर वा ठिकाण; जंय वेश्या भोगद्रव्य घेवन खंच्याय दादल्याक आपलो संभोग घेंवक दितात तें घर; वेश्यागृह; चेडयांचें घर. (सर्गार ह्या चेडयांचे अवचितवाडे जायते आसूंक जायत. थैं तांचीं भिरींच भिरीं पडल्यांत आसतलीं. —येवकार अध्यक्षांलें उलोवप, बरो: शणै गोंयबाब, पा.१०७).
**विशेश:** पुरातन काळापासून अवचितवाडे आशिल्ले. चेडयांचो धंदो हो सगळ्यांत पोन्यांतलो पोन्नो धंदो म्हणून समाजशास्त्री सांगतात. ह्या धंद्यांत देहाबगर दुसरें कसलेंच भांडवल लागना. खंच्याय जाग्यार आनी खंयींय हो धंदो करूंक मेळटा.

ऋग्वेदांत वेश्येचो उल्लेख मेळटा. (ऋ. १.१६७.४). लिपचोरयां गर्भ होळोवपी

शिंदळेचो उल्लेख आसा (ऋ. २.२९.१). घोवाक फटोवन शिंदळकेक संवकल्ले दूस्ट बायलेचो उल्लेख आसा (ऋ. ४.५.५) आनी भावाचो आधार नाशिल्लयान प्राणरक्षणेखातीर आंकवारी आपलो देह भाड्याक दिताल्यो म्हणपाचोय उल्लेख आसा (ऋ. ४.५.५). वेदिक समाजांत चेडयांक प्रतिस्ठा ना. समाजांत धनिक आनीक सुसंस्कृत वर्ग निर्माण जातकिरच गणिकांचो प्रतिस्ठित वर्ग निर्माण जाला. महाभारतांत चेडयांच्या रंगढवळ्यांची वर्णनां मेळटात. बौद्ध काळार आनी त्या काळावेल्या वाङ्मयांत वेश्यांक प्रतिस्ठा प्राप्त जाल्ली मेळटा. जातकांत वाराणशिचे सुलसा हे गणिकेक 'नगराक सोबादेणी' (नगरशोभना) म्हळ्या. बौद्ध वाङ्मयांत अवचितवाड्यांचो 'वेसियाघर' असो उल्लेख मेळटा. त्या वेळार चेडयांचे दोन वर्ग आशिल्ले. गणिका आनी वेश्या. गणिका ह्यो श्रीमंतांखातीर आनी वेश्या सामान्य लोकांखातीर! कौटिल्लयाच्या अर्थशास्त्रांत वेश्या-नियंत्रणाचेर एक प्रकरण आसा. त्या वेळार कांय गणिकांक राजाश्रय आशिल्लो. अवचितवाड्यांक लागून सरकाराक उत्पन्न मेळटालें. दर म्हैन्याक वेश्यांनी आपली दोन दिसांची जोड सरकारांत कर म्हणून भरची असो कायदो आशिल्लो. वात्स्यायनान आपल्या 'कामसूत्रां'त वेश्यां-संबंधान खूप विवेचन केलां. 'मृच्छकटिक' ह्या नाटकाची नायिका 'वसंतसेना' ही गणिका आशिल्ली. तिका संस्कृत साहित्याचें भूशण मानल्या. दामोदर गुप्तान 'कुट्टनीमतम्' आनी क्षेमेंद्रान 'समयमातृका' हे ग्रंथ कुट्टनी आनी वेश्या हांचेरच बरैल्यात. संस्कृत आनी प्राकृत वाङ्मयाची निर्मणी जाताली, त्या वेळार वेश्यांचो पांवडो देंविल्लो दिसना. वेश्यांसंबंधान जो तिरस्कार निर्माण जाल्लो दिसता तो हालिंचो.

इकुणिसाव्या आनी ह्या विसाव्या शेंकड्यांत कांय समाज-निवळावप्यांनी समाजाची नीत आनी आरोग्यताय भंगूं नये म्हणून अवचितवाडे बंद करपाचे यत्न केले. युरोपाच्या मध्ययुगांत कांय कडेन वेश्यांचो धंदो क्रूर उपायांनी बंद केलो. कांय कडेन निरुपायान चलूंक दिलो. शहराच्यां ठरावीक भागांत अवचितवाडे चालू दवरपाची मेकळिक दिली. आनी दर एक अवचितवाड्याचेर तांबडो दिवो पेटैत दवरपाचें बंधन कायद्यान तांचेर घालें. तेन्नाच्यान जंय अवचितवाडे आसतात, त्या भागाक 'रेड लायट एरिया' हें नांव घोळटेंत आयलें.

इकुणिसावो शेंकडो धरून चेडयांच्या धंद्याआड प्रचार जावपाक लागलो. ह्या विसाव्या शेंकड्याच्या अर्द्यार श्रीमती मार्था रिचर्ड हे फ्रेंच वैमानिक बायलेचे चळवळिक लागून, दुसऱ्या म्हा-झुजाउप्रांत अवचितवाड्यांचेर फ्रांसान कायद्यान बंदी घाली. बाकीच्या देशांनी कायदे करून अवचितवाड्यांचेर बंदी हाडली. तरी आजुनय कांय कडेन अवचितवाड्यांक मान्यताय आसा. हॉलंड आनी तुर्की देशांत, तेच परी जर्मनिच्या हांबुर्ग शहरांत तांकां मान्यताय आसा. पुर्तुगालाक नवे अवचितवाडे उक्ते करूंक मेळनात. अमेरिकेच्या संयुक्त संस्थानांत, नेव्हाडाचें संस्थान सोडलें जाल्यार, बाकीच्या संस्थानांनी ह्या धंद्याक मान्यताय ना. भारतांतय कर्नाटक राज्य सोडलें जाल्यार वेश्याव्यवसायाक कायद्याची मेकळीक ना.

शिंदळकी हो समाजशास्त्रांतलो अत्यंत गडखळिचो प्रश्न. शिंदळकेचेर बंदी हाडून शिंदळकी मना जायना. ती दुसऱ्या रुपान वावुरता. ती लिपचोरयां जाता. खंचोय धंदो लिपचोरयां जातकीर ताजी अधोगती जाता. समाजांत एक नितीक पड येता.

ज्या वेळार फ्रांसांत अवचितवाडे उक्तेपणान चलताले, तेन्ना फ्रांसांत समसंभोग आनी लैंगिक गुन्यांव दिसनाशिल्ले. हेर देशांपरस फ्रांसांत न्युरॉसिस खूप उणी आशिल्ली. सायको-ॲनेलिस्टांची प्रॅक्टिस फ्रांसांत

अमेरिकेसारकी चलनाशिल्ली.

अवचितवाडे बंद जातकीर फ्रांसांत लैंगिक नितीची अधोगती जाली. खासा मार्था रिचर्ड हिकाय आपली चूक दिसून आयली. आपल्या 'ल आपेल दे सेक्स' ह्या नव्या पुस्तकांत ती म्हण्टाः "आतां परिस्थिती हाताभायर गेल्या. परतून अवचितवाडे सुरू करपाची गरज आसा."

हेर देशांतय कांयशी अशीच परिस्थिती आसुये. समाजशास्त्र्यांक, समाज-सुधारकांक आनी राजकर्ण्यांक आपली चूक मान्य करपाचें धाडस नासुये.

वेश्या ह्योय देशाच्यो नागरिक आसात. सामाजिक नीत आनी आरोग्यताय निवळ उरपाखातीर, वेश्यांकय सामाजिक प्रतिस्ठा आनी कायद्याची राखण मेळूंक जाय. हातूंतच समाजाचें हीत आसा.

**आधारावळः** १. ऋग्वेद.

2. The Penthouse Sexindex, Complied by Lynn Barber.

३. गाथासप्तशती, प्रस्तावना, लेः स. आ. जोगळेकर.

४. कौटिलीय अर्थशास्त्र, कै. ब. रा. हिवरगावकर यांनी केलेल्या मराठी भाषान्तराचें पुनर्लेखनः -ह. अ. भावे.

५. डूब (लेखसंग्रह) लेः दुर्गा भागवत -'पॅरिसच्या वेश्यागृहांवरची विलापिका' हो लेख.

**अवचिन्न** । अंव्‌चिन्न, सा.रू. -न्ना; भौव. -न्ना, सा.रू. -न्नां । [सं. अव+चिन्हम्] न. दुश्चिन; अमंगळ; अभद्र; अशुभ चिन्न वा लक्षण.

**वि.** १. दुश्चिन्नाचो; अपशकून, नकलामी करपी, पाड्या, वांकड्या लक्षणांचो. २. खर मस्ती आंगांत आशिल्लो. (अवचिन्न पोर.)

**अवचिन्नपण** । अंव्‌चिन्नपण्, सा.रू. -णा; भौव. -णां, सा.रू. -णां । ['अवचिन्न' वेल्यान] न. अवचिन्नाळ्याचो गुण; अवचिन्न, अमंगळ, अभद्र कर्म वा करणी.

**अवचिन्नाचो, ची, चें** । अंव्‌चिन्नाचॉ, ची, चँ; सा.रू. -च्या, -चे, -च्या; भौव. -चे (चॅ), -च्यो, -चीं; सा.रू. -च्यां । ['अवचिन्न' वेल्यान] वि. अवचिन्न करणी करपी, दुश्चिन्नाचो; पाडो. (अवचिन्नाचो पोर).

**अवचिन्नाळो, ळी, ळें** । अंव्‌चिन्नाळॉ, ळी, ळँ; सा.रू. -ळ्या, -ळे, -ळ्या; भौव. -ळे (ळॅ), -ळ्यो, ळीं; सा.रू. -ळ्यां । ['अवचिन्न' वेल्यान] वि. दुश्चिन्नाचो; अवचिन्नपण आंगांत आशिल्लो.

**अवजड** । अंव्‌जंड् । [सं. अव+जड] वि. अती जडसाण आशिल्लो; भारी; अवाढव्य; सुमाराभायर जड वा मोठो आशिल्लो.

**अवजार** । अव्‌जार्, सा.रू. -रा; भौव. -रां, सा.रू. -रां । [अर. औजार] न. १. हत्यार. २. साधन; आवत. (शेताचीं अवजारां).

**अवजाळी** । अव्‌जाळी । [सं. अव+ज्वल्] वि. भौच मस्तो; अती आडांगी (अवजाळी हो पोर बाये भौच मस्तेखोर —'पांयजणां', कवीः बाकीबाब बोरकार.)

**अवठाण** । अव्‌ठाण्, सा.रू. -णे; भौव. -णी, सा.रू. -णीं । [सं. अवस्थान] स्त्री. तीव्र प्रवृत्ती. (त्यो अवठाणी तिनी, म्हणजे वस्तिए, विचाराचो स्वार्थु, मनाची हांक्रुती वा धेधातुची वासना. —क्रिस्तांवाचे दौक्त्रिनिचो अर्थु, बरोः पाद्री दियोगु रिबैरू. -सतराव्या शतकांतील गोमंतकी बोली -ले. डॉ.वि.बा.प्रभुदेसाई, पा.१९८).

**अवडंबर** । अव्‌डम्बर्, सा.रू. -रा; भौव. -रां, सा.रू. -रां । [सं. आडम्बरः] न.

१. गर्व २. डौल; डोलारो; बडेजाव. ३. राग; आवेश; तवंक.

**अवतरण** । अव्‌तरण्, सा.रू. -णा; भौव. -णां, सा.रू. -णां । [सं. अवतरणम्] न. १. सकल देंवून येंवचेली क्रिया. २. देवांनी मर्णलोकांत घेतिल्लो जन्म; अवतार. ३. आपल्या मताक तेंको, आधार दिवपाखातीर नांवाजत्या बरप्याचें घेतिल्लें वाक्य; उतारो.

**अवतरणचिन्ह** । अव्‌तरण्‌चिन्ह, सा.रू. -न्हा; भौव. -न्हां, सा.रू. -न्हां । [सं. अवतरणम् + चिह्नम्] न. विरामचिन्हांतलें एक चिन्ह.
**विशेश:** विरामचिन्हांतलें एक चिन्ह. बरयतासतना (१) दुसऱ्याच्या तोंडांतलीं उतरां दाखोवपाखातीर, (२) आपल्या मताक आधार दिवपाक घेतिल्ली दुसऱ्याच्या लिखाणांतलीं वाक्यां दाखोवपाखातीर वा (३) एकाद्रया उतराचें म्हत्व चड आसा हें दाखोवपाखातीर हें चिन्ह उपकरायतात.

हें चिन्ह एकोडें तेच परी दोट्टीय आसता. जेन्ना दुसऱ्याच्या तोंडांतलीं उतरां वा लिखाणांतलीं वाक्यां दाखोवपाचीं आसतात, तेन्ना (“——”) अशें दोट्टी अवतरणचिन्ह उपकरायतात.

जेन्ना लिखाणांत एकाद्रया उतराचेर भर दिवपाचो आसता, तेन्ना (‘——’) अशें एकोडें अवतरणचिन्ह उपकरायतात. देखीक: भाशेंतल्या मुळाव्या ध्वनींक ‘वर्ण’ म्हण्टात.

लिखाणांत एकाद्रया पुस्तकाच्या, लेखाच्या, कवितेच्या बी नांवांचो उल्लेख करपाचो आसता, तेन्नाय एकोडेंच अवतरणचिन्ह उपकरायतात. देखीक: ‘पांयजणां’ ही बाकीबाबाले कवितेंतली एक भौच नांवांजती कविता.

एकाद्रया उतराच्या मूळ अर्थाची न्हंयकारी सया (negative shade) दाखोवपाची आसता, तेन्नाय तें उतर एकोड्या अवतरणचिन्हान दाखयतात. देखीक: “हांवें काल ताका कळंगुटे ताजे ‘बायले’ वांगडा पळेल्लो.” ह्या वाक्यांत ‘बायल’ हें उतर अवतरणचिन्हान दाखयलां. देखून, ती ताजी बायल नासून दुसरी कोणय तरी आशिल्ली असो अर्थ त्या उतरांतल्यान उक्तो जाता.

**अवतरप** । अव्‌तरप्, सा.रू. -पा । [सं. अव + तृ] क्रि.दा.धा.सा.ना. (मूळ धातू: अवतर् (अक.)) १. अवतार घेवप; मनिसरुपान येवप; देह धारण करप. (विष्णु भगवान राम जावन अवतरलो). २. प्रगट जावप. (हिरण्यकश्यपाचें पारिपत्य करपाक नरसिंव खांब्यांतल्यान अवतरलो).

**अवतार** । अव्‌तार्, सा.रू. -रा; भौव. -र, सा.रू. -रां । [सं. अवतार:] पु. १. संवसाराची घडी विस्कटून वतकीर, सृस्टीचेर जें संकट येता, त्या संकटाचें निवारण करून, संवसाराची नवी घडी घालपाक परमेश्वरान पृथ्वीचेर घेतिल्लो मनशाचो वा हेर प्राण्याचो जन्म; मनशांक अशक्य अशें सत्कार्य पूर्ण करून, तांकां संकटमुक्त करपाक परमेश्वरान देह धारण करून पृथ्वीचेर घेतिल्लो जन्म. (ज्या ज्या वेळार धर्म मोडावता आनी अधर्म मातून येता, त्या त्या वेळार विष्णु भगवान अवतार घेता.) २. अवसर; भार. (आतां पावस अवतार आयिल्लया भाशेन ओतून मुलखांचो मुलूख बुडैता दिसता!) ३. अवस्ता; स्थिती; परिस्थिती; गत; बदल; कळा. (मनशाचो जन्म धरून तो सर्णार चडमेंरेन, ताजे कशे कशे अवतार जायत म्हणून सांगूं नज.) ४. जीण; आयुश्य. (रेंजू रेंजून ताजो अवतार काल सोंपलो). ५. **(ला.)** रूप; ध्यान; काया. (पळेयात ताजो अवतार. बद्द काळभैरांव!)

‘अवतार’ हें उतर कांय विशेशनामांक लागून कांय सामासिक उतरां घडिल्लीं दिसतात: १. कर्णावतार: पु. पराकास्टेचो दान-धर्मी असो उदार मनीस.

२. धर्मावतार: पु. न्यायान चलपी असो अत्यंत धर्मेस्त आनी सात्विक मनीस.
३. रामावतार: पु. दिल्लें उतर नेमान पाळपी असो सत्यधर्मी मनीस.
४. कृष्णावतार: पु. दिसपट्टो गौळणकालो खेळपी असो छंदी मनीस; कारस्थानी, पाताळयंत्री मनीस.
५. बुद्धावतार: पु. दुसऱ्याची कळाकूळ करपी आनी करूणेचो सागर कसो शांत मनीस.
६. रूद्रावतार: पु. रागान तांबडो-गूंज जावपी वा जाल्लो मनीस.
७. वामनावतार: पु. वामनावरी गिड्डो, मोटवो मनीस.
**वा.प्र.: अवतार जावप**: आयुश्य सोंपसर तेरे तेरेचो भोग भोगचो पडप; आयुश्य सोंपसर बरे वायट अवस्तेंतल्यान वचप.
**अवतार घेवप:** १. संवसारांत मनिसरुपान येवप. २. खुबळप; अच्छेव मांडप वा कांडप.
**अवतार निवळप:** आयिल्लो भार, अवसर, खुबळो देंवून शांत जावप.
**अवतार सोंपप**: भायर पडप; मरण येवप.
**विशेश**: अवतारांची कल्पना बुद्ध आनी जैन धर्मपंथांतल्यान वैस्णवांनी घेतल्या जावये. कांय अवतारांच्या मुळाक अवेदिक लोकवेदांतलीय कल्पना आसुये.

''जेन्ना जेन्ना धर्म मोडावता आनी अधर्म मातून येता, तेन्ना तेन्ना हांव अवतार घेतां'', अशें खासा भगवंतान गीतेंत सांगलां. (भ.गी.४.७). धर्म मोडावप आनी अधर्म मातप म्हळ्यार समाजाची जीण सोंसणिकायेपेली जावप; जीणेची अधोगती जावन तिका कुसट्टाणी मारप. अक्ख्या समाजाचे जीणेक जेन्ना कुसट्टाणी येतात, तेन्ना त्या समाजाचो अंत जाता. प्रत्येक युगाचो अंत प्रलयान म्हळ्यार संवसार-बुट्टेन जाता, अशी हिंदूंची धारणा आसा.

संवसार-बुट्टी वेदांत ना. संवसार-बुट्टी पैलिवैलीच गिलगमेशाच्या महाकाव्यांत मेळटा. 'गिलगमेश' हें सुमेरियन महाकाव्य. संवसार-बुट्टेची ही सुमेरियन कल्पना बाबिलोनिया वा आसिरियेकडल्यान वेदिक आर्यांक मेळल्या जातली. तांचे प्रतिभेन हे कल्पनेक नवे फागूर फोडलो जावये वा स्वतंत्र तेरेन वेदिक आर्यांक ही कल्पना सुचली आसुये.

अवतारांफाटल्यान संवसार-बुट्टेची कल्पना आसा. अधोगतीक पाविल्लया संवसाराचो अंत करून नव्या युगाची निर्मणी करप ही अवतारां फाटली कल्पना.

एका युगाचो अंत जावप म्हळ्यार संवसाराची घडी विस्कटून वचप. घडी विस्कटून वचप म्हळ्यार तेरतेरेचीं संकटां येवप. ह्या संकटांचें निवारण करून संवसाराची नवी घडी घालपाक विष्णु अवतार घेता. जशें संकट तसो अवतार.

अवतार म्हळ्यार वेल्यान सकल येवप. विष्णूच संवसाराची राखण करता. विष्णूच संवसाराची पोसणूक करता. जेन्ना जेन्ना धर्म मोडावता आनी अधर्म मातून येता, तेन्ना मनिसजातीक धर्ममार्गाचेर हाडपाक विष्णूक अवतार घेंवचो पड्टा. आपलें अवतारकार्य सोंपतकीर, जो देह ताणें घेतिल्लो आसता, तो देह पृथ्वीचेरच ताका विसर्जीत करचो पड्टा. ताका सदेह वैकुंठाक वचूंक मेळना. जाल्यारूय, अवतार मनिसरुपी वा प्राणीरुपी आसुनय ताका परमात्मास्वरुपीच मानतात. कशेंय जांव. विष्णुचे मुख्य अवतार धा: मत्स्य, कूर्म, वराह, नरसिंव, वामन, परशुराम, राम, कृष्ण, बुद्ध आनी कल्की. हातूंतलो णवो अवतार चलता. धावो आजून येवपाचो आसा.

अवतारांफाटल्यान जशी संवसार-बुट्टेची कल्पना दिसता, तेच परी जीवांचे उत्क्रांतीचेंय तत्व आशिल्लें दिसता.

पुराणां विष्णूचे चोवीस अवतार मानतात.

वळेरेंत तांचो क्रम फाटीं-फुडें आसा. जाल्यारूय, ते अशे: ब्रह्मा, वराह, नारद, नरनारायण, कपिल, दत्तात्रय, यज्ञ, ऋशभ, पृथु, मत्स्य, कूर्म, धन्वंतरी, मोहिनी, नरसिंव, वामन, परशुराम, वेदव्यास, राम, बलराम, कृष्ण, बुद्ध, कल्की, हंस आनी हयग्रीव.

ह्या भायर आनिकय एक अवतार आसा. तो म्हळ्यार पंढरपूरचो विठ्ठल, कर्नाटकांलो हो लोकदेव बाराव्या शेंकड्यापैलींच महाराष्ट्रांत आदिदैवताच्या पांवड्यार चडिल्लो. ज्ञानेश्वर धरून तुकाराम मेरेनच्या सगळ्या मराठी संतांनी ह्या विठ्ठलाकडेन, तो दादलो आसुनय आवैचें नातें जोडलां. जी आवै, कसलोच भेद-भाव धरिनासतना, आपल्या सगळ्या भुरग्यांक मायेच्या कळवळ्यान वेंगेंत काड्टा, अशे आवैच्या रुपान पुजला. विठ्ठलाक ताणीं वेगळो असो पंचविसावो अवतार मानला. (पळेयात: महाराष्ट्राचा देव्हारा, ले: रा.चिं. ढेरे, पा. ९२-९३).

**अवतारकार्य** । अव्तार्कार्य्, सा.रू. -र्या; भौव. -कार्यां, सा.रू. -र्यां । [सं. अवतारकार्यम्] न. १. ज्या संकटाचें निवारण करपाक देवान अवतार घेतला, त्या संकटाच्या निवारणाखातीर केल्लें कार्य. २. ध्येयाचे सिद्धीखातीर अखंड केल्लें कार्य; ध्येयाची दिक्षा घेवन व्रत कशें कल्लें कार्य. (रामान अनार्यांक मायेन जिखून घेतले. शेतोडेर आधारलेले संस्कृतायेचो आनी भक्तीचेर आधारलेल्या भक्तिपंथांचो दक्षिणेंत ताणें प्रसार केलो. रामच उत्तर आनी दक्षिण हांचे मदलो सांकोव जालो. हेंच रामाचें अवतारकार्य.)

**अवतारांचो, ची, चें** । अव्तारांचॉ, ची, चँ, सा.रू. -च्या, -चे, -च्या; भौव. -चे (चॅ), -च्यो, -चीं; सा.रू. -च्यां । ['अवतार' वेल्यान] वि. १. विप्रीत करणी करपी; सुमाराभायर आडांगी. (अवतारांचो पोर). २. उटंगाराचो; शिळाधार कसो; भार, अवसर आयिल्लयावरी असो. (अवतारांचो पावस).

**अवतारी** । अव्तारी । [सं. अवतारिन्] वि. १. पृथ्वीचेर मनशाची वा प्राण्याची कूड धारण केल्लो; अवतारकार्य करूंक आयिल्लो. २. आंगांत देवाचो अंश आशिल्लो; पराकास्टेचो पराक्रमी (अवतारी पुरुस).

**अवतारू** । अव्तारू । ['अवतार' वेल्यान] वि. धा ही संख्या. (अवतारू सुब्रे).
**विशेश:** दुसऱ्यांच्या ध्यानांत सट करून येंव नये म्हणून, व्यापारी वर्गान आपले भितर घडयल्लें एक संकेतिक उतर. मुख्य अवतार धा मानल्यात. देखून, हें उतर धा ही संख्या दाखयता.

**अवतिकाय** । अव्तिकाय्, सा.रू. -ये; भौव. -यो, सा.रू. -यां । [सं. अवगतिका] स्त्री. प्रतिकूल वा वायट अवस्ता, स्थिती, गत, दशा; आवतिकाय. (मनांतल्या त्या विचाराकडेन झगडत ताणें तकलेंत गांठ घाली. कितेंय जाल्यार लेगीत जिवाची ही अशी अवतिकाय जावपाक दिवप ना. —कार्मेलिन, बरो: दामोदर मावजो, पा. ८०).

**अवद** । अवद्, सा.रू. -दी, भौव. -दी, सा.रू. -दीं । [सं. अवदृ=खणप] स्त्री. शेताची उबारी उणी करपाक चिखोल काडून मदीं केल्ली ताजी रास. हे राशीर भाजी, केळी बी रोयतात.

**अवदसा** । अव्दसा, सा.रू. -शे । [सं. अवदशा] स्त्री. पाडी, वांकडी दशा; अभाग्य; निर्भाग्य; दुर्दैव; कर्मगत.

**अवदांडो** । अव्दांडॉ, सा.रू. -ड्या; भौव. -डे(डॅ), सा.रू. -ड्यां । [सं. अव+दण्ड] पु. १. संकट; मॉड; तुफान; दुस्मानांची

वा टोळांची धाड; आकांत; अरिस्ट. २. अवसर; भार; मस्ती. (होळो कशें नाचता पळे! अवदांडो आयला ताजेर.)
**वि.** आडांगी; मस्तो; पारपोळ.
**वा.प्र.: अवदांडो येवपः** १. अरिस्ट; आकांत येवप. २. मस्ती मारप.

**अवदिसा** । अंवृदिसा, सा.रू. -शे; भौव. -सो, सा.रू. -सां । [सं. अवदशा] स्त्री. १. पाडी, वांकडी, अहिताची, अकल्याणाची बुद्द; दुर्बुद्द. (खंची अवदिसा म्हाका येवजली म्हणून कोण जाणा! म्हज्या हातानच म्हज्या पांयांर हावें फातोर घालून घेतलो.) २. वायट दशा, स्थिती वा गत; कर्मगत; दळिद्र; विपत्त. (येवजिल्लें साधे, तर अवदिसा कित्याक बाधे?) ३. **(ला.)** १. कर्कशा; लांवसट; जगांट; झगडाळ. २. अशुभ; पाड्या गुणांचो वा दुर्भाग्य हाडपी मनीस. (ना जाल्यार अवदिसा आमची । धंग ना तिका संवसाराची । —गोंयकाराचो मुंबैकार, बरो: शणै गोंयबाब, पा. १२).
**वा.प्र.: अवदिसा येवजपः** पाडी, वांकडी बुद्द येवजप
**अवदिसा येवपः** बुद्धिभ्रस्ट जावप.
**अवदिसा लागपः** पाडें, वांकडें, भस्ट आचरण करपाची वृत्ती जावप; अधर्म आडावप.
**म्हणीः** १. चिंतिल्लें साधे, तर अवदिसा कित्याक भेटे?
२. अवदिसा भेटे, कापसार कपल फुटे.
३. येवजिल्लें साधत जाल्यार, अवदिसा कित्याक बाधत?

**अवदिशेचो,ची,चें** । अंवदिशेचो,ची,चँ; सा.रू. -च्या,-च्ये,-च्या; भौव. -चे(चॅ),-च्यो,-च्या; सा.रू. -च्यां । ['अवदिसा' वेल्यान] वि. १. ज्याचेर अवदिसा आयल्या तो; ज्याका अवदिसा येवजल्या तो. २. अपशकुनी; दुर्भाग्य हाडपी; अशुभ पायसोराचो.

**अवधान** । अव्धॉन्, सा.रू. -ना; भौव. -नां, सा.रू. -नां । [सं. अवधानम्] न. ध्यान; चित्त; लक्ष; भान.

**अवधानी** । अवधानी । [सं. अवधानिन्] वि. जो ध्यान दिता तो; जो लक्ष दिता तो.

**अवधी** । अंव्धी, सा.रू. -धी; भौव. -धी, सा.रू. -धीं । [सं. अवधि] पु. १. कसल्याय कामाखातीर थारावन दिल्लो काळ वा कसल्याय कामाक लागता तो काळ; मुदत. २. अवसर; वेळ. (नाटक सुरू जांवक आतां थोडो अवधी आसा.)

**अवधूत** । अव्धूत्, सा.रू. -ता; भौव. -त, सा.रू. -तां । [सं. अवधूतः] पु. १. वैराग्य प्राप्त जाल्लो मनीस; ज्याणें सगळे विकार धुवन उडैल्यात असो सिद्ध मनीस; विरक्तावस्थेंत भोंवपी गोंसाय, साधू, संन्याशी. 'अवधूत' ही व्हडविकेची पदवी, देखून ती नाथपंथांतल्या गोरखनाथांक लायिल्ली मेळटा. २. जात-पात वा जात-गोत मोखून मारिल्लो मनीस. ३. दत्तात्रयाचें एक नांव.
**वि.** विरक्त; विरागी.
**—पंथः** पु. नाथपंथाचो एक संप्रदाय.
विशेशः नाथपंथांतल्या योग्यांक 'नाथ', 'सिद्ध', 'जोगी' तेच परी 'अवधूत' अशीय एक संज्ञा आसा. ह्या अवधूतांचें जें मत, तें अवधूत मत, अवधूत मार्ग वा अवधूत पंथ. महानुभावांच्या 'लीळाचरित्रां'त अवधूतांचो उल्लेख केला. मीरेच्या अभंगांतय अवधूतांचो उल्लेख आसा. ह्या संप्रदायांतल्या देवतांत 'दत्तात्रया'क म्हाल-मुखेल स्थान आसा. ह्या संप्रदायांतलो लोक जात-पात मानिना. आंगार जितलीं उण्यांत उणीं वस्त्रां घालूंक येतात, तितलीं उणीं वस्त्रां घालतात. उक्त्या आंगाक माती लायतात आनी जटा वाडूंक दितात. गोरखनाथांक ते आपलो गुरू मानतात.

**अवनती** । अव्नंती, सा.रू. -ती । [सं. अवनती] स्त्री. १. विपत्तेची दशा; पड; देंवती. २. दुर्दशा; अवकळा; हीन दशा; अधोगती.

**अवमान** । अव्मान्, सा.रू. -ना । [सं. अवमानः] पु. अपमान; अनादर; उपमर्द; तुच्छ लेखून केल्ली उवेखणी. (.... हो दुर्योधनाक फुलयत रावता आनी दुर्योधन पांडवांचो अवमान करीत वेता. —महाभारत, खण्ड १, बरोः रवीन्द्र केळेकार, पा. ३२५.)

**अवमानप** । अव्मानप्, सा.रू. -पा । [सं. अवमन्] क्रि.दा.धा.सा.ना. (मूळ धातूः अवमान् (अक./ सक.)) १. अपमान करप; दुसऱ्याक उणो, तुच्छ लेखप; दुसऱ्याक कुस्कुटासमान लेखप. २. न आयकप; अव्हेर करप. (ताज्या हिताचीच बुद्द ताका हांवें दिल्ली. जाल्यारूय, ताणें ती अवमानली.)

**अवमूल्यन** । अव्मूल्यन्, सा.रू. -ना । [सं. अवमूल्यनम्] न. १. मोल उणें जावप. २. नाण्याचें उणें जाल्लें मोल. (इं.) Devaluation. ३. (अ.शा.) घट; घसारो. (इं.) Depreciation.

**अवयव** । अव्यंव्, सा.रू. -यवा; भौव. -यव, सा.रू. -यवां । [सं. अवयवः] पु. १. ज्याका लागून हालचाल करूंक मेळटा असो देहाचो वा शरिराचो भागः हात आनी पांय. २. जी वस्त मोडून घडोंवक मेळटा, तिजो दरएक मेकळो भाग. ३. घटक भाग.

**अंवर** । अंवर् । [कों. 'अज्रंवर' वेल्यान] वि. अज्रंवर; अमर.

**अंवरपण** । अंवरपण्, सा.रू. -णा; भौव. -णां, सा.रू. -णां । [कों. 'अज्रंवर' वेल्यान] न. अज्रंवरताय; अमराय.

**अवरात** । अवरात्, सा.रू. -ती; भौव. -ती, सा.रू. -तीं । [सं. अपर + रात्र] स्त्री. १. रातीचो निमाणो प्रहर वा पार; रातीचो निमाणो भाग. २. सबंध रात; अक्खी रात. (तूं अवरात न्हिदूं नाका. जागोच राव.)

**अवरुंदाय** । अव्रुंदाय्, सा.रू. -ये; भौव. -यो, सा.रू. -यां । ['अवरूंद' वेल्यान] स्त्री. अरूंद आसपाची स्थिती; अरुंदाय; अलंगुलाय; अशिराय.

**अवरूंद** । अव्रूंद् । [सं. अव+दे. रूंदो] वि. रुंदायेन उणो; रुंदी वा रुंदाय उणी आशिल्लो; रुंदाय नासपी; अशीर; अलंगूल. (अवरूंद मार्ग).

**अवरोह** । अव्रोह, सा.रू. -हा । [सं. अवरोहः] पु. १. देंवती; सकल देंवप. २. (संगीत) देंवयत हाडिल्लो सूर; निशादाकडल्यान सकल हाडिल्लो सूर.

**अवर्ण** । अवर्ण । [सं. अवर्ण] वि. १. दुसऱ्या जातचो; हेर वर्णाचो. २. चातुर्वणाभायलो.

**अवर्शण** । अवर्शण्, सा.रू. -णां; भौव. -णां, सा.रू. -णां । [सं. अवर्षणम्] न. सुको गेल्लो पावसाळो; पावसाविणें दीर्घ काळ पडिल्ली ताप; दुकोळ; आवर्शण.

**अवल** । अवल् । [सं. अवर=ल्हान वयाचो] वि. तन्नो (अवल नाल्ल). – तन्न्या नाल्लाचे सोयेचो रोस काडून 'आवेल' करतात.

**अवल** । अवल् । [अर. अव्वल] वि. १. जेस्ठ; मुखेल. (अवल कारकून). २. पूर्ण जून जाल्लो (अवल नाल्ल).

**अवलंब** । अव्लम्ब्, सा.रू. -बा । [सं. अवलम्बः] पु. आधार; आलाशिरो.

**अवलंबप** । अव्‌लम्बप्, सा.रू. -पा । [सं. अवलम्ब्] क्रि.दा.धा.सा.ना. (मूळ धातू: अवलंब् (सक.)) आधार वा आलाशिरो घेवप; आधारार वा आलाशिऱ्यार रावप.

**अवलक्षण** । अव्‌लक्षण्, सा.रू. -णा; भौव. -णां, सा.रू. -णां । [सं. अवलक्षणम्] न. पाडें, अशुभ लक्षण; दुश्चिन्न; अपशकून.
**म्हण:** नाक कापून अवलक्षण जावप.

**अवलक्षणी** । अव्‌लक्षणी । [सं. अवलक्षणिन्] वि. १. अशुभ लक्षणांचो; अपशकुनी; पाडें. (.... क्रि. स. १५६५त तालिकोटाचें अवलक्षणी झुज जायमेरेन सुमार सवायदोनशीं वर्सां विजयनगरच्या रायानीं मुसलमानांची मस्ती भोव बरी जिरैली आनी हिंदुंची आनी तांच्या धर्माची लज राखली. —गों. गों.वसणूक, बरो: शणै गोंयबाब, पा. ९०). २. अवगुणी; दुर्गुणी; पाड्यागठ्ठणाचो; काळमुखो.

**अवलाद** । अव्‌लाद्, सा.रू. -दी । [अर. औलाद] स्त्री. संतत; प्रजा; संचत. (जल्म घेवन फुकट। कूस दुखैली आवैची। वाऱ्यार घाली भास, भूंय। अवलाद ही अपेशी। —'सड्यावेलीं फुलां', कवी: बयाभाव, पा. २५).

**अवलिया** । अव्‌लिया, सा.रू. -या; भौव. -या, सा.रू. -यां । [अर. औलिया] पु. साधू; संत पुरुश; प्रेशित.
**वि.** नादयो; कोल्ली; सदांच खांके वरशे आशिल्लो.

**अवलुप्त** । अव्‌लुप्त् । [सं. अव + लुप्त] वि. गिळिंल्लीं; लिपिल्लीं. (त्या वेळार वाडवल्ले। नगरींतले सगळे दिवे। तशींच धांपिल्लीं सगळीं दारां। मध्यान रातीर श्रावण मळबांत। नक्षत्रांय कुपांत अवलुप्त ॥ —अभिसारिका, कवी: रवींद्रनाथ टागोर. —कोंकणी भाशांतर: पांडुरंग भांगी.)

**अवलोकन** । अव्‌लोकन्, सा.रू. -ना । [सं. अवलोकनम्] न. पळोवप; बारिकसाणेन केल्लें निरिक्षण; चिंतन.

**अवशिस्ट** । अव्‌शिस्ट् । [सं. अवशिष्ट] वि. बाकी, शिल्लक उरिल्लो.

**अवशेश** । अव्‌शेश्, सा.रू. -शा; भौव. -श; सा.रू. -शां । [सं. अवशेषः] पु. १. अखणे वस्तुचो, शाराचो वा नगराचो मोडून गेल्याउप्रांत वा मोडून उडयल्याउप्रांत उरता तो भाग वा अंश; मोडावळिचो अंश. (विजयनगरचे अवशेश). २. नाट; खूण. (दामबाब म्हळ्यार केदें प्रस्थ! इंद्राच्या वैभवाकडेन ताजी सर! त्या वैभवाक देंवती लागली आनी आतां चुकून केन्नाय, तागेल्या घरच्या देवकार्यांत त्या वैभवाचो अवशेश दिसता.) ३. बाकी; शिल्लक.

**अवश्य** । अवश्श्य । [सं. अवश्यम्] क्रि.वि. १. जरूर; अगत्यान. २. खात्रीन; दुभावाविरैत.

**अवस** । अवस; सा.रू. -शे; भौव. -सो, सा.रू. -सां । [सं. अमावसी, अमावस्या] स्त्री. अमास; उमास.
**वा.प्र: अवशे-पुनवेंक येवप:** चुकून माकून केन्नाय येवप.

**अवसडी** । अव्‌सडी, सा.रू. -डे; भौव. -ड्यो, सा.रू. -ड्यां । ['अवसर' वेल्यान] स्त्री. गांवकारेची वा गांवकारांचे सभेची बसका; अवसराय. पळेयात: 'अवसरी'.

**अवसर** । अवसर, सा.रू. -रा; भौव. -र, सा.रू. -रां । [सं. अवसरः] पु. १. फुर्सत; उसर्पत. २. उशीर; वेळ; कळाव. ३. गडबड; ताकतीक. (हांव आतां अवसरांत आसां. तूं मागीर यो). ४. भार (ताजेर म्हारवाचो अवसर येता).

म्हण: खांदार तरंग तंवर अवसराक देवपण.

**अवसराय** । अव्सराय्, सा.रू. -ये; भौव. -यो, सा.रू. -यां । ['अवसर' वेल्यान] स्त्री. गांवकारेची बसका; अवसडी. पळेयात: 'अवसरी'.

**अवसरी** । अंव्संरी, सा.रू. -रे; भौव. -ऱ्यो, सा.रू. -ऱ्यां । ['अवसर' वेल्यान] स्त्री. १. गांवकारेची वा गांवच्या गांवकारांची बसका. २. गांवकारेचे बसकेंत थारायल्ल्या नेमांक पाळो दिवपाक दिल्ली मुदत.

**विशेश:** गोंयच्या पुराभिलेख संग्रहालयांत (Historical Archives) कुढ्ठाळचे गांवकारेच्यो बसकांची टिपणां (पुर्तु. Actas, इं. Minutes) आसात. तीं एकठावन तांचें पुस्तक केल्लें आसा. त्या टिपणांतलो मजकूर हाती बरपांत आनी पुर्तुगेज भाशेंत आसा. त्या पुस्तकाच्या -पा. १६, दुसरी वाट -(HAG: MS 10227 Fl. 16 V) ह्या पानार अवसरेचें एक टिपण आसा तें अशें: "Declaro que depois de feito este assento acima de Avasary veio Amaro Giralte gauncar que tambem assistiu no dito Avasary e se assinou e os ditos gauncares comigo escrivao Filipe Vas".ह्या टिपणाचें भाशांतर उतराक उतर घालून केल्यार, तें विद्रूप जातलें. ह्या टिपणाचें भाशांतर अशें जाता: "वैले अवसरेचें हें टिपण बरैल्याउप्रांत कळीत करता की, Amaro Giralte हो गांवकार जो वैर उल्लेख केल्ले अवसरेक हाजीर आसलो, तोय आयलो आनी ताणें आनी हाजीर आशिल्लया गांवकारांनीं, ज्यांचीं नांवां वैर दिल्यांत, तितल्यानींय आप आपल्यो निशाण्यो केल्यो. त्या उप्रांत हांवेंय 'फिलिप व्हाजा'न, कुळकर्णी ह्या नात्यान म्हजी निशाणी केली".

ह्या पुराभिलेखांत 'अवसरी' हें उतर दोन खेपो आयलां आनी त्या लेखावेल्यान 'अवसरी' म्हळ्यार गांवकारेची वा गांवच्या गांवकारांची बसका असोच अर्थ जाता. अवसरेंत गांवचे गांवकार, गांवांचो कारभार सुसंगीत चलपाखातीर नेम थारायताले. त्या थारायल्ल्या नेमांक पाळो दिवपाक मुदत दिंवची पडटाली. देखून, 'गांवकारेंत थारायल्लया नेमांक पाळो दिवपाक दिल्ली मुदत', असोय अवसरेचो आनीक एक अर्थ जाता.

'अवसरी' ह्या उतराचें 'अवसडी' अशें एक रूप मेळटा. उलोवपांत कांय वेळा 'र' चें 'ड' जाता. ताका लागून 'अवसरी'चें 'अवसडी' हें रूप जालां जांवक जाय. त्या भायर 'अवसरी'चें 'अवसराय' अशेंय आनीक एक रूप मेळटा.

**अवसरी** । अंव्संरी, सा.रू. -ऱ्या; भौव. -रे(रें), सा.रू. -ऱ्यां । ['अवसर' वेल्यान] पु. ज्याचेर खंच्याय दैवताचो अवसर वा भार येता तो मनीस. (कांसाराक मारतकीर तो समंद जावन गांवाक पिडूंक लागलो. ताजी बाधा जांवची न्हंय म्हणून, ताका थंडावन जाग्यार बसोवपाचे उपाय करतासतना, तो सात माळ्याचें घर मागता, अशें अवसरी सांगूंक लागलो.)

**अवसान** । अव्सान्, सा.रू. -ना; भौव. -नां, सा.रू. -नां । [सं. अवसानम्] न. १. अखेर; अंत; शेवट (देहावसान). २. धीर; आवेश (उस्णें अवसान). ३. ऐन वेळ; ऐन प्रसंग. ४. नेट; जल. (बळिस्ट म्हणैतल्या राष्ट्रांच्यान, तोंडाचे बेस्टे धपकावणेपेल्यान आपले इल्ले ल्हंवेकय हात लांव नज जालो, अशें पळौन, जर्मनीक नवें अवसान आनी फुरफुरो चडला. – न. गो., २रें वर्स, ४थो आंक, आब्रील १९३६, पा. १६७).

**वा.प्र.: अवसान चडप:** नेट, जल चडप.
**अवसान सुटप:** धीर सुटप; धीर सुटून गात्रगळीत

जावप.

**अवसान सोडप:** धीर सोडप.

**अवसान हाडप:** उस्णो वा अडेचो नेट हाडप.

**अवसानगळीत** । अव्सान्गळीत । [सं. अवसानम् + गलित] वि. ज्याचें **अवसान** गळलां तो; भिजूड; भित्रो; भेंकरो; धीर सुटिल्लो वा सोडिल्लो.

**अवसानघात** । अव्सान्घात्, सा.रू. -ता; भौव. -त, सा.रू. -तां । [सं. अवसानम् + घातः] पु. ऐन वेळार केल्लो घात; ऐन गरजेच्या प्रसंगार केल्लो वा मारिल्लो घात.

**अवसानघातकी** । अव्सान्घातकी, सा.रू. -क्या; भौव. -की, सा.रू. -क्यां । [सं. अवसानम्+घातकी] वि. ऐन वेळार घात मारपी; ऐन वेळार गर्भगळीत जावन निर्शेणी करपी; ऐन गरजेच्या वेळार ल्हवूच नळी काडपी.

**अवसुळो** । अंव्सुळॉ, सा.रू. -ळ्या; भौव. -ळे, सा.रू. -ळ्यां । [सं. अव + का. सुळि = अनुकूळ जागो)] वि. जो सदांचो, संवकळेचो न्हंय तो; परकी (अवसुळ्या जाग्यार न्हिद पडना.)

**अवसो** । अव्सॉ, सा.रू. -शा; भौव. -शे, सा.रू. -श्यां । [सं. अव+सस्यम्?] पु. तणाचोच केल्लो वेंटो; तांदळांची मुडी बी बांदपाखातीर तणाचीच केल्ली दोरी, वेंटो.

**अवस्ता** । अवस्ता, सा.रू. -स्ते; भौव. -स्ता, सा.रू. -स्तां । [सं. अवस्था] स्त्री. १. स्थिती; दशा; गत; हालत. (पोरूंचे दिवाळेक ताणीं ते आड्याकडले म्हजे भैणिची अशीच वाट लायिल्ली. तिची ती अवस्ता पळोवन म्हजें काळीज सामकें कळवळलें. —गोमन्तोपनिषत्, १लें खंड, बरोः शणै गोंयबाब, पा.११). २. काळ; कळा. (भुरगेपणाची अवस्ता). ३. परिस्थिती; प्रसंग. (हांव अशें अवस्तेंत सांपडलों की, गेल्लेकडेन त्रासांनी आनी वळवळ्यांनी म्हाका दीस काडचे पडले.) ४. वृत्ती. (कोणाची सात्विक, कोणाची तामस आनी कोणाची राजस अशी अवस्ता आसता.) ५.**(ला.)** अनर्थांचें वायट (ताजे खबरेक हांव पावलों ना. फाटल्या दिसांनी ताजी अवस्ता जाली म्हणून आयकल्ली. आयुश्याची दोरी घट्ट आशिल्ली म्हणून तो बरे तडिक पावलो.)

**विशेश:** मनशाचे जिणेच्योय चार अवस्ता वा कळा जाताताः भुरगेपण (बाल्य), तर्णधाकटेपण (कौमार्य), जुवानपण (यौवन) आनी म्हातारपण (वार्धक्य).

वेदान्तदर्शनाप्रमाणें मनशाच्यो तीन अवस्ता आसतातः जागृताय, सप्न आनी सुषुप्ति (गाढ न्हीद).

मनशाच्या स्वभावाच्यो सात्विक, राजस आनी तामस अशो तीन अवस्ता मानतात.

जिणेच्या धबाडग्यांत कांय वेळा मनशाच्या आयुश्याची सुखेस्त आनी दुखेस्त अशीय अवस्ता जाता.

**अवस्था** । अवस्था, सा.रू. -स्थे; भौव. -स्था, सा.रू. -स्थां । [सं. अवस्था] स्त्री. पळेयात 'अवस्ता'.

**अवस्पर** । अवॅस्पर, सा.रू. -रा । [सं. अवसरः] पु. १. अध्याय; खंड; प्रकरण. २. वेळ (रातीचो अवस्पर).

**अवस्वर** । अवॅस्वर, सा.रू. -रा । [सं. अवसरः] पु. पुस्तकाचो वा ग्रंथाचो मुख्य भाग; अध्याय; प्रकरण; विभाग; खंड; अवस्पर.

**अवहेलना** । अवहेल्ना, सा.रू. -ने; भौव. -ना, सा.रू. -नां । [सं. अवहेलना] स्त्री. बकच्छाय वा ब्रच्छना; अप्रतिस्ठा; अनादर;

उवेखणी; अवहेळण; केंडणी.

**अवहेळण** । अवहेळण्, सा.रू. -ळे; भौव. -णा; सा.रू. -णां । [सं. अवहेलनम्] न. पळेयात 'अवहेलना'.

**अवाढव्य** । अवाढव्य् । [सं. अ + (वोढव्य = ओडून व्हरूंक येता अशें)] वि. १. आशाळ-विशाळ; खूप व्हडलें (अवाढव्य घर). २. आकांताचें; भयंकर (अवाढव्य ल्हार). ३. अतोनात; हिस्पाभायलो. (अवाढव्य खर्च).

**अवांतर** । अवान्तर् । [सं. अवान्तर] वि. १. हेर; आलायतो. २. किरकोळ; लागशिल्लो संबंध नाशिल्लें.
**—खर्च:** पु. आंखिल्ल्या खर्चांत वा नित्याच्या खर्चांत मर्दींच उप्रासून येता तो आडखर्च.
**—गजाल:** स्त्री. मुद्दो वा मुख्य विशय कुशीक दवरून सांगिल्ली वा केल्ली हेर गजाल.
**—प्राप्ति:** स्त्री. मुख्य जोडिभायर जाता ती आलायती प्राप्ती वा जोड.

**अवारू** । अवारू । [सं. अपर?/का. यारडु?] वि. दोन (अवारू सुब्रे).

**अवास्तव** । अवास्तव् । [सं. अवास्तव] वि. १. घडूंक शकना अशें. २. प्रमाणाभायर; फाजील. (अवास्तव मागणें).

**अवाक्षर** । अवाक्षर्, सा.रू. -रा; भौव. -रां, सा.रू. -रां । [सं. अव+अक्षर] न. १ बरोवपांत, उलोवपांत वा वाचता आसतना चुकून आयिल्लें नस्तेंच अक्षर. २. चकार शब्द; ब्र. (कांय जाण अशे बेलकी आसले की, सखारामबाबाच्या सेलादं फोलीचेर ताजेकडल्यान अर्जी बरोवन घेताले, तागेर भुसकें मारताले आनी भायर सरच्या वेळार वाफोराक पैशेय ताचेकडल्यान मागून व्हरताले. पूण तो सभागी केन्नाच तोंडांतल्यान अवाक्षर काडिनाशिल्लो. —सखारामबाब, बरो: लक्ष्मणराव सरदेसाय —साद, पैलो आंक, पैलें वर्स, देझेंब्र १९५२, पा. ३६.)

**अविकारी** । अविकारी । [सं. अविकारी] वि. फरक वा बदल न जावपी. (व्याक.) लिंग, वचन, विभक्ति बी लागनासतना जशाक तशें उरता अशें; अव्यय.

**अ-विखारी** । अ-विखारी । [सं. अ+कों. विखारी] वि. जें विखारी न्हंय तें; विखार नासपी.

**अविघ्न** । अविघ्न् । [सं. अविघ्नम्] वि. अडचणेमेकळो; विघ्नामेकळो; संकटमुक्त. (ह्या देशांतल्या कांय भागांनी दिसपट्टी हिंसा जायत आसा. ज्या दिसा ही हिंसा थांबून पूर्ण थंडाय नंदतली, त्याच दिसा आमी अविघ्न जातले).
**वा.प्र.: अविघ्न जावप:** अडचणेमेकळो जावप; संकटमुक्त जावप.

**अविचार** । अविचार, सा.रू. -रा; भौव. -र, सा.रू. -रां । [सं. अविचारः] पु. १. सारासार जाण, विवेक नाशिल्लो विचार; सुज्ञपणा नाशिल्लो विचार; अविवेक. २. हुतहुतेपण; अबुद्दिपण.

**अविचारी** । अविचारी । [सं. अविचारिन्] वि. १. सुज्ञपणान विचार न करपी; धंग घेनासतना वा फाटल्या-फुडल्या परिणामांचेर ध्यान दिनासतना चलपी; अविवेकी. २. उखल्ली जीब लायली ताळ्याक अशे तरेन चलपी; हुतहुतो; अबुद्दि.

**अविद्या** । अविद्द्या, सा.रू. -द्ये; भौव. -द्या, सा.रू. -द्यां । [सं. अविद्या] स्त्री. १. नेणारपण; मिथ्या, लटकें ज्ञान वा गिन्यान; मोह; ताळणी. (अविद्येक लागून तो प्रपंचांत

घुस्पलो). २. बुद्धिभ्रम; माया. (बुद्धिचेर मांडिल्लीं अविद्येचीं आबळां जेन्ना उबून वतात, तेन्नाच गिन्यानाचो घणघणीत दिवो पेट्टा.)
**—मार्ग:** पु. मोग; प्रेम; ज्या मार्गान ह्या संवसारांतलो लोक ओडीन प्रपंचांत पड्टात तो मार्ग.

**अविद्यावंत** । अविद्यावंत । [सं. अ + विद्यावंत] वि. ज्याणें विद्येकडेन फाट केल्या तो; अक्षरशत्रू; मूर्ख.

**अविद्वान** । अविद्वान्, सा.रू. -ना; भौव. -न, सा.रू. -नां । [सं. अविद्वान] वि. ज्याचेकडेन विद्वत्तेचो अभाव आसा तो; थोडेंच बरप-अक्षर शिकिल्लो. (तांच्या हिस्पान खूबशें बरप शिकता तोच विद्वान. हो कस लांवक गेल्यार ऋग्वेदाचे मुस्तींतले सगळे मोटे मोटे रुशी अविद्वानांभितर जमा जातले. —कोंकणी विद्यार्थ्यांक, शणै गोंयबाब, पा. ९).

**अविधवा** । अविधूवा, सा.रू. -वे; भौव. -वा, सा.रू. -वां । [सं. अ+विधवा] स्त्री. जिचो घोव जितो आसा अशी बायल; सधवा; सौभाग्यवती; सवायशिण; घोवकान्न.

**अविनाश** । अविनाश्, सा.रू. -शा । [सं. अविनाश:] पु. नाशाचो अभाव; नाश वा मरण नाशिल्ली स्थिती; सासणादिकाय.

**अविनाशी** । अविनाशी । [सं. अविनाशिन्] वि. जें केन्नाच नाश पावना तें; जें केन्नाच नस्ट जायना तें; सासणादिक; शाश्वत; अक्षय; नित्य.

**अविभक्त** । अविभक्त । [सं. अविभक्त] वि. १. एकत्र; वेगळो भाग करूंक नाशिल्लो. २. रासवळ; एके राशीर एकठांय आशिल्लो; वेगळचार जायनासतना आशिल्लो.
**——कुटुंब:** न. वेगळचार जायनासतना एकठांय आशिल्लें कुटुंब; रासवळ कुटुंब; एके राशीर आशिल्लें कुटुंब.

**अविभाज्य** । अविभाज्ज्य् । [सं. अविभाज्य] जें भागूंक मेळना तें; ज्याचे वांटे करूंक येना तें; अखंड.

**अविरोध** । अविरोध्, सा. रू. -धा । [सं. अविरोध:] पु. विरोध नासप, आडखळ नासप; एकमत.
**क्रि.वि.** विरोधाविणें; एकमतान. (संमेलनाचे अध्यक्ष म्हूण तांची वेंचणूक अविरोध जाली.)

**अविवेक** । अविवेक्, सा.रू. -का । [सं. अविवेक:] पु. १. विवेकाचो अभाव; तारतम्य नाशिल्लो विचार; अविचार. २. अज्ञान.

**अविवेकी** । अविवेकी । [सं. अविवेकिन्] वि. १. जो तोलून मापून विचार करिना तो; समंजसपण नाशिल्लो; अज्ञानी. २. मूर्ख; अविचारी.

**अविश्रांत** । अविश्रान्त । [सं. अविश्रान्तम्] क्रि. वि. मातय उसर्पत, विसव घेनासतना; थांबनासतना; अखंड; अथक.

**अविस्वास** । अविस्वास्, सा.रू. -सा; भौव. -स, सा.रू. -सां । [सं. अविश्वास:] पु. १. विस्वासाचो, निमगण्याचो अभाव; दुसऱ्याचेर पातेंव नये वा विस्वासूं नये अशी जाल्ली भावना; विस्वास, भरवंसो नासप; बेभरवंसो. २. दुसऱ्याचे वा आपलेच तांकिचो आपल्याक आशिल्लो दुभाव.
**—थाराव वा प्रस्ताव:** पु. सत्तेर आशिल्ल्या पंगडाच्या कारभाराचेर आपलो विस्वास उरूंक ना, अशें आपलें मत उक्तें करपाखातीर, विरोधी पंगडांतल्या वांगड्यांनी सत्तेर आशिल्ल्या पंगडाआड मांडिल्लो थाराव वा प्रस्ताव. (इं.) No-Confidence Motion.

**अविस्वासू** । अविस्वासू । [सं. अविश्वासिन्]

वि. ज्याचेर पातेंवक फावना असो; विश्वासाक, निमगण्याक पात्र न्हंय तो; बेभरवंशाचो.

**अवीट** । अंवीट् । [सं. अ+विष्ठा] वि. १. विटना असो; पक्को; घट्ट (अवीट रंग). २. ज्याची वीट येना अशें; अप्रूप; रुचीक (अवीट गोडसाण).

**अवेदिक** । अवेदिक्, सा.रू. -का; भौव. -क, सा.रू. -कां । [सं. अवैदिक] वि. १. जो वेदिक न्हंय तो. (अवेदिक लोक). २. जो वेद मानिना वा वेदांआड आसा तो. (लोकायतिक हे अवेदिक आशिल्ले).

**अवेर** । अवेर् । [सं. अपर, अवर?] क्रि.वि. आजचो दीस धरून ताज्या फाटल्या चौथ्या दिसा; पैरच्या पूर्व दिसा. (कुंडैची जात्रा अवेर जाली.).

**विशेश:** आजच्यान फाटल्या पांचव्या दिसामेरेनचो काळ दाखोवपी उतरां आसात तीं अशीं: आज (प्रत्यक्ष दिसा), काल (आजच्या आदल्या दिसा), पैर (कालच्या आदल्या दिसा), अवेर (पैरच्या आदल्या दिसा) आनी चोवेर वा तवेर (अवेरच्या आदल्या दिसा). मागीर मात 'फाटल्या सव्या दिसा, सातव्या दिसा' अशें म्हण्टात.

**अवेरच्यान** । अवेरच्यॅान् । ['अवेर' वेल्यान] क्रि.वि. अवेरसाकून; अवेरपासून; अवेर-थावन. (हो ठवय अवेरच्यान कामाक लागला).

**अवेरां** । अवॅरां । [सं. अ+परेद्युस्] क्रि.वि. आजच्यान दिस्त फुडल्या चौथ्या दिसा; परांच्या फुडल्या वा मुखावेल्या दिसा. (घडये हांव अवेरां मुंबै वचुये).

**विशेश:** आजच्यान फुडल्या पांचव्या दिसा मेरेनचो काळ दाखोवपी उतरां आसात, तीं अशीं: आज (प्रत्यक्ष दिसा), फाल्यां (आजच्या फुडल्या दिसा), परां (फाल्यांच्या फुडल्या वा मुखावेल्या दिसा), अवेरां (परांच्या फुडल्या वा मुखावेल्यां दिसा) आनी चवेरां वा तवेरां (अवेरांच्या फुडल्या दिसा). ह्या उप्रांत 'येता त्या सव्या दिसा वा फुडल्या सव्या दिसा' अशें म्हण्टात.

**अवेरांच्यान** । अवॅरांच्यॅान् । ['अवेरां' वेल्यान] क्रि.वि. अवेरांसाकून, अवेरांथावन. (मुंबैची बोट अवेरांच्यान येवपाक लागतली).

**अवेव** । अवॅव्, सा.रू. -वा; भौव. -व, सा.रू. -वां । [सं. अवयव:] पु. अवयव. (गिरेस्तांचे अवेव कळमेवन चल्ल्यात. – गीता प्रवचनां – विनोबा, कोंकणी भाशांतर, बाकीबाब बोरकार, पा. १७९.)

**अवेव्हार** । अवॅव्हार्, सा.रू. -रा; भौव. -र, सा.रू. -रां । [सं. अ+व्यवहार:] पु. १. वेव्हारांत बसना असली करणी; गैरवेव्हार. २. चोरयेचो, फटिंगपणाचो, नाडानाडिचो वेव्हार; निंद्य वेव्हार.

**अवेव्हारी** । अवेव्हॅारी, सा.रू. -र्‍या; भौव. -री, सा.रू. -र्‍यां । [सं. अ+व्यवहारिन्] वि.. वेव्हाराचें भान नाशिल्लो; वेव्हारशून्य.

**अवेस्पर** । अवेस्पॅर्, सा.रू. -रा; भौव. -स्पर, सा.रू. -रां । [सं. अवसर:] पु. अवस्वर; अध्याय; प्रकरण; अवेश्वर.

**अवेस्वर** । अवेस्वॅर, सा.रू. -रा; भौव. -स्वर, सा.रू. -रां । [सं. अवसर:] पु. अवस्वर; अवेस्पर; अध्याय; प्रकरण.

**अवेळ** । अवेळ्, सा.रू. -वॅळा; भौव. -वेळ (वॅळ), सा.रू. -वॅळां । [सं. अ+वेला] पु. १. न्हंय तो वेळ; नस्तो वेळ; प्रतिकूल वेळ. २. उशीर; कळाव.

**अवैध** । अवॅय्ध् । [सं. अवैध] वि. जें

कायदेशीर न्हंय तें; बेकायदेशीर; शास्त्राचो आधार नाशिल्लें; शास्त्राआड आशिल्लें.

**अव्यक्त** । अव्‌व्यक्त् । [सं. अव्यक्त] वि. १. जें स्पस्ट, उक्तें ना तें; अदृश्य; अगोचर. २. अज्ञात. ३. नदरेक न दिसपी. ४ **(गणित)** अज्ञात (संख्या वा आंकडे).

**विशेश:** पुर्विल्लया काळार हालिंच्या बीजगणिताक (Algebra), तातूंतल्यो संख्या अव्यक्त आसतात देखून, 'अव्यक्त गणित' अशें नांव आशिल्लें. ज्यांचें मोल खबर ना अशा अव्यक्त संख्यांक 'अव्यक्त राशि' अशें म्हण्टाले. इंग्रजी बीजगणितांत अव्यक्त संख्या दाखोवपाक एक्स् (X), वाय् (Y), झेड् (Z) बी अशो कांय संज्ञा उपकरायतात. तेच परी संस्कृत बीजगणितांतय अव्यक्त संख्या दाखोवपाक कांय संज्ञा उपकरायताले. देखीक: कालक, नीलक, पीतक, लोहितक, चित्रक, हरितक, मेचक, श्यामलक, कपिलक, पिंगलक बी.

पुर्विल्ल्या काळावेल्या ह्या बीजगणितांत अव्यक्त गुणन (म्हळ्यार अव्यक्त राशिंचो गुणाकार), अव्यक्त भाजन (म्हळ्यार अव्यक्त राशिंचो भागाकार), अव्यक्त साम्य (अव्यक्त राशिंचें समीकरण) अशो संज्ञा घोळटेंत आशिल्ल्यो. (पळेयात: महाराष्ट्र ज्ञानकोश, खंड १, संपादक: डॉ. श्रीधर व्यंकटेश केतकर, पा. १६४).

**अव्यंग** । अव्‌व्यङ्ग । [सं. अ + व्यङ्ग] वि. १. सगळे अवयव जंयच्या थंय आशिल्लो; सगळ्या अवयवांनी वा घटकांनी परिपूर्ण आसपी. २. जो अपंगूल, अचकूल न्हंय तो; अवयवांक व्यंग, दोश नाशिल्लो.

**अव्यय** । अव्‌व्यॅय्, सा.रू. -या; भौव. -यां, सा.रू. -यां । [सं. अव्यय] वि. सासणादिक; शाश्वत.

न. १. परब्रह्म; शीव; विष्णु. २. **(व्याक.)** ज्याका लिंग, वचन, विभक्ति हांचे प्रत्यय लागनात वा ज्याचें रूप केन्नाच बदलना अशें उतर; अविकारी उतर.

**अव्यवस्था** । अव्‌व्यवस्था, सा.रू. -स्थे; भौव. -स्था, सा.रू. -स्थां । [सं. अ + व्यवस्था] स्त्री. १. व्यवस्थेचो अभाव; शिस्तिची उणाय. २. गोंधळ; घोंटाळो; गडबड.

**अव्यवस्थित** । अव्‌व्यवस्थीत् । [सं. अ + व्यवस्थित] वि. १. यथायुक्त, जथापथ, ठाकठीक न्हंय अशें. (अव्यवस्थित काम). २. बेशिस्त; शिस्त नाशिल्लो. (अव्यवस्थित कारभार). ३. धांदळगो (अव्यवस्थित मनीस) क्रि.वि. अस्ताव्यस्त. (तो सदांच आपलीं पुस्तकां अव्यवस्थित उडैता.)

**अव्वल** । अव्वॅल् । [अर. अव्वल] वि. १. जेस्ठ; मुखेल. (अव्वल कारकून). २. पूर्ण जून जाल्लो. (अव्वल नाल्ल).

**अंश** । अंव्‌श्, सा.रू. -शा; भौव. -श, सा.रू. -शां । [सं. अंश:] पु. १. भाग; वांटो. २. दायजाचो वांटो; दायज; येणावळिचो वांटो. ३. अपुर्णांकांतले वळिचे वैर आशिल्लो आंकडो. ४. विशुववृत्ताकडल्यान प्रत्येक जाग्याचें आशिल्लें अंतर; भुगोलाच्या नकाशार पूर्व-पश्चिम आनी उत्तर-दक्षिण काडिल्ल्यो अंतर दाखोवपी वळी. ५. वर्तुळाच्या, दोंदळ्याच्या वा मंडळाच्या केल्ल्या ३६० भागांतलो दरएक भाग. ६. आदावाचो वा लुटिचो वांटो. ७. (संगीत) रागाचो मुख्य स्वर. ८. आदित्य संघांतलो एक आदित्य. (आदित्य संघांतल्या देवतांचीं नांवां: मित्र, वरूण, धाता, अर्यमा, अंश, भग, विवस्वान, मार्तंड, पूषन, सवितृ, त्वष्टा आनी विष्णु). ९. अवयव. १०. कण; कणी.

विशेशः पृथ्वीच्या विशववृत्ताचे वर्ळाक ३६० भागांनी वांट्टकीर, दर एक वांटिल्लया भागाच्या बिंदुकडल्यान उत्तर-दक्षिण अशो वळी मारतात. हेच तरेन उत्तर-दक्षिण वळींक ३६० भागांनी वांट्टात. ह्या प्रत्येक भागाच्या बिंदुंतल्यान पूर्व-पश्चिम अशो वळी मारतात. ह्या उत्तर-दक्षिण आनी पूर्व-पश्चिम मारिल्ल्या दर एक वळिंतल्या परस्पर अंतराक अंश म्हण्टात.

**अशक्त** । अशॅक्त् । [सं. अशक्त] वि. शक्ती, शक्त, बळ नाशिल्लो; दुर्बळ; अबळी; अशक्तिक. (मनीस कितलोय अशक्त आसलो तरी ताणें मुये भाशेन मस्त्या-नस्त्यांक बुद्द शिकोंवक जाय. —गोमन्तोपनिषत्, २रें खंड, बरोः शणै गोंयबाब, पा. ३०७).

**अशक्ताय** । अशक्ताय्, सा.रू. -ये; भौव. -यो, सा.रू. -यां । ['अशक्त' वेल्यान] स्त्री. शक्तिचो, बळाचो आशिल्लो अभाव; बळाची, चैतन्याची उणाय; दुर्बळाय.

**अशक्तिक** । अशक्तिक् । ['अशक्त' वेल्यान] वि. पळेयात 'अशक्त'.

**अशक्य** । अशॅक्क्य । [सं. अशक्य] वि. शक्य नाशिल्लें; जें करूंक जमपासारकें न्हंय तें; तांकी भायलें.

**अशक्यताय** । अशक्यताय्, सा.रू. -ये; भौव. -यो, सा.रू. -यां । ['अशक्य' वेल्यान] स्त्री. १. शक्यतायेचो, तांकीचो, सामर्थ्याचो आशिल्लो अभाव; बळाची उणाय. (आर्थिक अशक्यताय). २. प्रत्यक्षांत केन्नाच घडून येवपाचो संभव ना अशी गजाल वा घटित. (ताणें सदांच सपूनां रंगोंवचीं आनी अशक्यतायो सपूनांतच भोगच्यो.)

**अशरिरी** । अशरिरी । [सं. अशरीरीन्] वि. १. देहाविणें आशिल्लो; अदेही; अकुडी; निरंग. २. दैवी. (अशरिरी वाणी).

**अशरीर** । अशरीर् । [सं. अशरीर] वि. १. जो शरिराविणें, देहाविणें, कुडिविणें आसा तो; अकुडी; अदेही; निरंग; निरंगकार. २. विरक्त; संन्याशी. **पु.** १. ब्रह्म; परमात्मो. २. कामदेव; अनंग; मदन; कंदर्प.

**अशानर्शी** । अशॅान्र्शीं । [कों. अशांत+अशीं?] क्रि. वि. एकाद्रेवेळा; अशांत; घडये; चुकून माकून. (हालीं ती जात वेपार उद्योगान गिरेस्त जावन मुंबै घरां आनी चाळी बांदूंक लागल्या. तातूंत ती आपल्या हेर दोन पंगडां बादत हेरांक रिगूंक दिना. अशानशीं कोणाकय रीग दिलो जाल्यार तो बामण आसूंक फावना. —न.गों., वर्स १लें, ३रो आंक, ज्यानेर १९३५, पा. १०५).

**अशांत** । अश्यांत् । [सं. ईदृश, अप. अइस] क्रि. वि. एकाद्रेवेळा; तांतल्या तातूंत. (हें तुगेलें काम आज म्हजेकडल्यान कशेंच जाय सारकें ना. अशांत तें हांव फाल्यां करीन.)

**अशान्त** । अशान्त । [सं. अशान्त] वि. १. खुबळलेलो; क्षुब्ध. (अशान्त दर्या). २. तळमळ लागिल्लो; अस्वस्थ. (अशान्त जीव). ३. जो थंड, शान्त न्हंय तो. रागीट; रागीस्ट.

**अशान्तताय** । अशान्तताय्, सा.रू. -ये । [सं. अशान्तता] स्त्री. १. शांतताय नासप; थंडायेचो अभाव. २. खुबळलेली वा क्षुब्ध अवस्ता. ३. समाधान वा स्वस्तसाण नाशिल्ल्यान तळमळलेल्यावरी जाता ती अवस्ता. ४. बोवाळ, गोंधळ.

**अशामी** । अशामी । सा.रू. -मी, भौव. -मी, सा.रू. -मीं, [अर. असामी] पु. १. व्यक्ती; मनीस. २. ज्याचो दरारो, धेंक आसा असो मनीस; मान-मतराब आशिल्लो

मनीस. (ताज्याकडेन उलैतासतना सांबाळून उलोंवक जाय. ती ल्हान-सान अशामी न्हंय.)

**अशाश्वत** । अशाश्वत् । [सं. अशाश्वत] वि. जें सासणादिक न्हंय तें; खिणयाळें; विनाशी; अनित्य. (अशाश्वत ही जीण, गेल्लें जुवानपण येना परतें। दिसासारके दीस नासतात, मनीसच अशे निस्तूर कित्याक जातात? ॥ —गाथा सप्तशती, ३-४७. कों भाशांतरः पां. भांगी.)

**अशास्त्रिक** । अशास्त्रीक् । [सं. अशास्त्रीय] वि. शास्त्राविरूद्ध आशिल्लो; शास्त्राचो नेम सोडून वा शास्त्रिक नेमांचो भंग करून केल्लो; शास्त्राक मान्य नाशिल्लो; शास्त्रांत बसना तो; शास्त्राभायलो.

**अशिक्षित** । अशिक्षीत्, सा.रू. -ता; भौव. -त, सा.रू. -तां । सं. अशिक्षित] वि. ज्याचेर शिक्षणाचे संस्कार जांवक ना तो; अन्नाडी.

**पु.** शिकूंक नाशिल्लो वा ज्याणें कसलेंच शिक्षण घेंवक ना असो मनीस. (संवसारांत शिकिल्ल्यांपरस अशिक्षितांचीच संख्या चड आसा.)

**अशिरकाय** । अशिरकाय्, सा.रू. -ये । ['अशीर' वेल्यान] स्त्री. अवरुंदाय; अरुंदाय; आंखुडाय; अलंगुलाय.

**अशी** । अशी । [सं. ईदृशी; अप. अइसी] वि. १. अशे तरेची; अशा प्रकारची. (अशी गजाल घडत म्हणून कोणाच्याच ध्यानांत नाशिल्लें.) २. किरकोळ; बाबत; उणाक. (तूं चुकता. ती अशी बायल न्हंय).

**क्रि.वि.** हे तरेन. (पणजी अशी बदल्ल्या की, तिज्यो पैलिंच्यो खुणो सोदच्यो पड्टात.)

**अशीतशी** । अशीतशी । [सं. ईदृशी तादृशी, अप. अइसी ताइसी] वि. ल्हान-सान; किरकोळ; म्हत्व नाशिल्ली; बाबत. (तूं तिका उणी लेखूं नाका. ती अशीतशी बायल न्हंय).

**अशीर** । अशीर [सं. अ (=भौव) + चीरम् (=तिस्ती)?] वि. रुंदायेन उणो आशिल्लो; जंय धड रिगूंक, शिरकूंक वा फिरकूंक मेळना असो; अरूंद; अवरूंद; अलंगुलो; आंखूड. (अशीर वाट).

**अशील** । अशील, सा.रू. -ला; भौव. -ल, सा.रू. -लां । [अर. असील्] पु. वकिलाचो पक्षकार वा वकिलाचें कूळ.

**अशुद्ध** । अशुद्ध । [सं. अशुद्ध] वि. १. जें शुद्ध न्हंय तें. २. ज्याच्या शुद्ध रूपांत गरजेपरस चड भरस घालून बदल केलां तें; जें चोख, एकवर्णी न्हंय तें. (अशुद्ध भांगर). ३. म्हेळें; लोळकें; घाणयारें. (अशुद्ध वस्त्र). ४. अपवित्र; भस्टल्लें. (शिवराकाचें आयदन तुवें नुस्त्याक काडलें आनी अशुद्ध करून उडयलें). ५. ज्याच्यांत दोश निर्माण जाला तें; दुशीत. (अशुद्ध रगत; अशुद्ध हवा). ६. व्याकरणाच्या वा शुद्धलेखनाच्या चुकांनी भरिल्लें. (अशुद्ध लिखाण). ७. हेंगाडी; असंस्कृत (अशुद्ध भास). ८. **(ला.)**. १. अनितीक; अधर्मीक; दूस्ट; नीच. (अशुद्ध कर्म). २. उणाक; हीन (अशुद्ध बीज). **— बीजाचो**: वि. अनितीक संबंधांतल्यान जल्माक आयिल्लो, आडबिजाचो.

**अशुद्धताय** । अशुद्धताय्, सा.रू. -ये; । ['अशुद्ध' वेल्यान] स्त्री. १. अपवित्रताय; अमंगळाय; भस्टताय; म्हेळसाण. २. चूक; दोश.

**अशुभ** । अशूभ्, सा.रू. -भा । [सं. अशुभम्] वि. जें शुभ न्हंय तें; अमंगळ; पाडें; अपशकूनी. (अशुभ चिन्न).

**न.** अपशकून. (देवळांत होंट घेवन वतना,

तिज्या हातांतलें ताट निसरून सकल पडलें. हें अशुभ जाल्ल्यावरी तिका दिसलें).
**म्हण:** शुभस्य शीघ्रं अशुभस्य कालहरणम्।

**अशें** । अशँ । [सं. ईदृशम्, अप. अइसं] वि. ह्या प्रकाराचें; हे तरेचें (अशें खाण आमी हालिंच्या वर्सांनी तरी पळोंवक नाशिल्लें!) **क्रि.वि.** हे रितीन; हे भाशेन; हे तरेन. (अशें घडटलें म्हणपाचें हांव पैलींच जाणा आशिल्लों)

**अशोक** । अशोक्, सा.रू. -का; भौव. -क, सा.रू. -कां । [सं. अशोक, प्रा. असोअ.] पु. लेगुमिनोजी (Leguminoseae) कुळयेंतलें 'सराका इंदिक' (Saraca Indica) हें शास्त्रीक नांव आशिल्लें, खूप वर्सां जियेवपी एक झाड.
**विशेश:** अशोकाक 'जास्वंदी' वा 'जसवंत' अशेंय म्हण्टात. देशीनाममालेंत ताका 'अंकेल्लि' म्हळां. कानडींत ताका 'अशुगे', तर इंग्लेजींत ताका 'अशोक ट्री' म्हण्टात.

अशोक बांगलादेश, ब्रह्मदेश, श्रीलंका आनी मलाया हांगा मेळटा. कोंकणांत सह्याद्रीच्या रानांत, कारवारच्या उत्तर आवाठांतल्या रानांत, मध्य आनी पूर्व हिमालयांतल्या रानांत खंयी खंयी मेळटा. हें झाड सोबीत आशिल्ल्यान बागांनी आनी देवळांच्या आवांरांनी लायिल्लें दिसता.

अशोक उंचायेन स ते णव फूट जाता. तो सदांच पानांनी भरिल्लो आसता. ताजो आकार पिरॅमिडावरी (Pyramidal shaped) आनी सावळी दाट आसता. ताज्या पानांक देंट नासता आनी तीं लांबायेन एक फूट आसतात. पानां आपलो रंग बदलतात. पैलीं पिंगसो, उप्रांत तांबसो आनी निमाणें पांचवो असो तांचो रंग जाता. अशोकाक फुलां गोंडांनी फुलतात. तीं पानांचे कुशीक आसतात. डिसेंबर धरून मे मेरेन तो फुलता. अशोकाचीं हीं फुलां पैलीं हळड्नसार, मागीर नारिंगी आनी निमाणें तांबड्या रंगाचीं जातात. ह्या फुलांचीं केंसरां सुतावरी भायर आयिल्लीं आसतात. अशोकाच्यो सांगो चपट्यो आनी गाढ पुडी रंगाच्यो आसतात. सांगांनी चार ते आठ अशो चपट्यो आनी लांबट बियो आसतात.

अशोकाच्या आंगांत वखदी गूण आसात. साल स्तंभक (आंवळून हाडपी) आसता. ती दुदांत शिजोवन घेतल्यार गर्भाशयाच्या विकारांचेर गुणावाक येता. सालिचो काडो मुत्राशयाच्या विकारांचेर बऱ्याक पड्टा. फुलांचें चूर्ण मोडशेचेर, बियो मुताच्या विकारांचेर, सुकिल्ली पानां गोड्या मुताचेर आनी पानां कळो मारतात अशे दुखीचेर गुणावाक येतात.

पुराणकाळापासून अशोकाक एक सुंदर झाड म्हणून वळखतात. दुसऱ्या खंयच्याय झाडाक, अशोकाच्या पानां इतली, देखणीं पांनां नासतात. देखून, सुंदर बायलांच्या हातांक अशोकाच्या पानांची ओपार दितात. (गाथा सप्तशती, ५.४०४).

अशोकाचीं फुलां पळेतकीर बायलांचें मन उल्हासान भरता, अशें 'अशोककल्पां'त म्हळां. अशोकाक बायलांच्या – तांतूतय दुवाळो लागिल्ल्या जुवान बायलांच्या – फांपारांचो दुवाळो लागता. तांच्या फांपारांनी ताका खातखुतल्यो जातात. तो शिरशिरून येता आनी गोंडानीं फुलूंक लागता. संस्कृत वाङ्मयांत आनी गाथा सप्तशतींत ही नाट मेळटा.

अशोकाक वनस्पतसृस्टीचें भूशण मानला. जेन्ना ताज्या फुलांचो भार जाता आनी सकल धरून शेंड्यामेरेन तो फुलून येता, तेन्ना नक्षत्रांच धतरेचेर सकल देंवन आयिल्ल्यावरी भास जाता. अशोकाचें हें मोहक रूप वनस्पतसृस्टींत अद्वितीय आसा म्हणपाचें सर विल्यम जोन्स सांगता.

अशोकाचें फूल शंकराक प्रिय आसता, अशें मानतात. बुद्ध भगवानाचो जन्म

अशोकाच्या झाडामुळा जाला, अशी आख्यायिका आशिल्ल्यान बुद्धधर्मीय ताका पवित्र मानतात. रावणान सीतेक अशोकवनांत व्हरून दवल्लेल्यान, अशोकाक 'सीतेचो अशोक' अशेंय म्हण्टात.

**आधारावळ:** १. महाराष्ट्र ज्ञानकोश, खंड १, पा. ६०२.
२. मराठी विश्वकोश, खंड १, पा. ६२५-६२६.
३. महाराष्ट्रातील दिव्य वनौषधी, ले.: सदाशिव यशवन्त सावंत.
४. गाथा सप्तशती, संपा: स. आ. जोगळेकर.
५. गाथा सप्तशती प्रस्तावना, ले: स. आ. जोगळेकर., पा. ७९-८०.

**अशौच** । अशौच्, सा.रू. -चा; भौव. -चां, सा.रू. -चां । [सं. अशौचम्] न. १. अशुद्धताय; अपवित्रताय. २. हिंदू धर्माच्या शास्त्रपरंपरेन सुवेर, सुतक आनी बायलांच्या भस्ट्याची मानतात ती अपवित्र अवस्ता. ३. कोणाचेय दहनक्रियेक वचून आयल्याउप्रांत, न्हावन निर्मळ जांवचे पैलीं मानतात, ती अपवित्र अवस्ता.

**विशेश:** जन्म ही आनंद दिवपी गजाल. जाल्यारूय, धर्मचालीप्रमाणें सुवेराचेंय अशौच धरतात. ह्या अशौचाक 'जनन अशौच' अशें म्हण्टात. गुरवार बायल बाळंत जाता त्या दिसासाकून इकराव्या दिसा घरांत होम घालून शुद्धाचार करतात. खासा बाळंटिक, तिगेर चलो जाल्यार, चल्याच्या जन्म दिसापासून तीस दीसमेरेन आनी चली जाल्यार, चलयेच्या जन्म दिसाच्यान चाळीस दीसमेरेन अशुद्ध मानतात.

भस्टे बायलेकय तीन दीसमेरेन अशुद्ध मानतात.

मरण सदांच दुखेस्त आसता. देखून, आपल्या घरांतलो वा दायज्यांतलो कोणय भायर पडल्यार धा दिसांचें सुतक धरतात. ह्या अशौचाक 'मरण अशौच' अशें म्हण्टात. कांय कुटुंबानीं, दायज्यांच्यो पिळग्यो उलगतात तशो, हें सुतक तीन दिसांचें वा देडा दिसाचें धरतात. अशें सुतक धरपाक आपल्या धर्मपिठाच्या स्वाम्याचो रायस घेंवचो पड्टा.

आजूनय ह्या देशांतल्या कांय भागांत, म्हाराची सावळीपासून आंगार पडल्यार, तेच परी म्हाराक आफुडल्यार न्हांवचे पैलीं अशौच मानतात.

**अश्टवांकुड** । अश्टवांकुड्, सा.रू. -डा; भौव. -डां, सा.रू. -डां । [सं. **अष्टावक्र**] वि. ज्याका आठकडेन धोंगां-पोंगां आसा असो; आठ कडेन वांक आसपी. (... ताणें पोटांत आसतना 'तुगेलें हें चड जालें. इतलें अध्ययन करिनात' अशें बापायक म्हळें. बापायक तिडक माल्ली ताणें पुताक श्राप दिलो: 'तूं अश्टवांकुड जल्मा येतलो. ह्या निमित्त्यान लोमश मुनी हांगा अश्टवांकुड –अष्टावक्र ऋषीची खबर सांगता. —महाभारत, खण्ड १, बरो: रवीन्द्र केळेकार, पा. २०७).

**अश्म** । अश्म्, सा.रू. -श्मा; भौव. -श्म; सा.रू. -श्मां । [सं. अश्मन्] पु. फातोर; गुंडो; पाशाण.

**अश्मयूग** । अश्मयूग्, सा.रू. -गा; भौव. -गां, सा.रू. -गां । [सं. अश्मन्+युगम्] न. पाशाणाची हत्यारां घडोवन आनी तीं उपकरावन, मनीस आपली वाटचाल करीत फुडें फुडें कसो वचत गेलो, हें दाखोवपी ताज्या प्राक् इतिहास काळावेल्या पांवड्याची सांस्कृतीक अवस्ता; पाशाणयूग.

**विशेश:** जितले फिशालकायेन आनी नजाकतीन मनीस हत्यारां घडोंवक लागलो, ताजेवेल्यान अश्मयुगाचे तीन भाग वा तीन कालखंड मानतात: पैलें अश्मयूग (Paleolithic

period), मदलें अश्मयूग (Mesolithic period) आनी नवें अश्मयूग (Neolithic Period).

पंचवीस लाख ते दोन लाख वर्सांपैलिंचो काळ, हो पैल्या अश्मयुगाचो काळ मानतात. पन्नास हजार ते पंचवीस हजार वर्सांपैलिंचो काळ हो मदल्या अश्मयुगाचो काळ मानतात आनी क्रिस्ता आदल्या धा हजार वर्सांसावून आठ हजार वर्सांमेरेनचो काळ हो नव्या अश्मयुगाचो काळ मानतात. संवसाराचे फाटीर हो काळ एकाच वेळा उदेंवक ना. वेगळ्या वेगळ्या खंडांनी तो वेगळ्या वेगळ्या काळार उदेवाक आयला.

मनशाचें सगळ्यांत पैलें अस्तित्व आफ्रिका खंडाच्या तांझानिया देशांत मेळलें. पोरणावळ शास्त्र्यांक वीस लाख वर्सांपैलिंचीं पाशाणाचीं सगळ्यांत पैलीं हत्यारां थंय मेळलीं. आफ्रिकेच्या भायर हो काळ सात लाख वर्सांपैलिंचो मानतात. हालींच उजवाडाक आयिल्ल्या सोदावेल्यान, चौदा लाख वर्सांपैलीं, भारतांत मनीस आशिल्लो म्हणपाचें अनुमान करूंक येता.

पुण्याच्या डेक्कन कॉलेजांतल्या प्राध्यापकांक, पुण्याक साकून शंभर किलोमिटर पैस आशिल्ल्या 'बोरी' ह्या ल्हानशा गावांत उत्खनन केल्याउप्रांत, ज्वालामुखीच्या उद्रेकाचो घट्ट जाल्लो गोबराचो थर मेळलो. तेच परी थंय कांय पाशाणाचीं हत्यारां मेळलीं. हातूंतलें एक हत्यार देड मिटर लांबायेचें आसा. ह्या गोबराचें 'पोटॅशियम अरगॉन' हे पद्धतीन काडिल्लें वयोमान आसा चौदा लाख वर्सांचें!

'बोरी' गांवांतलें काम आजून सोंपूंक ना. आनिकय वेगवेगळे नदरेन हें संशोधन सिद्ध करचें पड्टलें. ताका बरोच वेळ लागतलो.

'बोरी' हांगां चौदा लाख वर्सांपैलीं मनीस अस्तित्वांत आशिल्लो, अशें सिद्ध जाल्यार, आफ्रिके फाटोफाट भारत हें मनशाचे पोन्ने वसणुकेचें स्थान थारतलें.

भारतांतलें मनशाचें अस्तित्व चौदा लाख वर्सांपैलिंचें थारू वा न थारू, अश्मयुगाची एक नाट आमच्यांत घोळटेंत आशिल्ली दिसता.

जन्माक आयिल्ल्या भुरग्याक, ताज्या बारशा दिसा ताका पाळण्यांत घालतासतना ही नाट नदरेक येता. भुरग्याक पाळण्यांत घालचे पैलीं, पाळण्याचे दोशीं वटेन जाण्ट्यो सवायशिणी उब्यो रावतात आनी वांटपाचो फातोर घेवन पांच खेपो पाळण्या-सकल्ल्यान आनी वेल्यान काडून, तो फातोर पाळण्यांत दवरतात. उप्रांत भुरग्याक पाळण्यांत घालतात. ह्या फातराक कुची वा तोपरें घालतात. ताका भांगराची सरपळी रेवडायतात. ताका काजळ लायतात. कांयकडेन ताका हळद आनी कुकूम लायतात. अशें करतकीर तो फातोर मातृदेवतेचें प्रतीक जाता. हातूंत दोन हेतू आसात. मातृदेवतेचो आशिर्वाद त्या भुरग्याचेर सदांकाळ आसचो हो एक हेतू, आनी भुरगो फातरावरी घट्ट जांवचो हो दुसरो हेतू.

**आधारावळः**
१. Encyclopedia Britannica.

२. महाराष्ट्र टाइम्स– 'मैफल' —लेखः 'भारतांतील मानवी अस्तित्व १४ लाख वर्ष जुने?' बरोः सविता घाटे, रविवार, ११ फेब्रुवारी १९९०, पा. ३.

३. The Culture & Civilization of Ancient India in Historical Outline, by D.D.Kosambi, page 16.

**अश्मो** । अश्मॉ, सा.रू. -श्म्या; भौव, -श्मे, सा.रू. -श्म्यां । [सं. अश्मन्] पु. प्रेत जळून गेल्याउप्रांत, ताका अग्नी दिवपी मनीस, खांदार उदकान भरिल्लो बुडकुलो घेवन, चितेक उरफाटे वटेन म्हळ्यार उजवे वटेन प्रदक्षणा काड्टा आसतना, उदकाची धार ओतपाखातीर

ज्या फातरान भट बुडकुल्याक छिद्र करता तो फातोर.

**विशेश**: प्रेताचें दहन केल्याउप्रांत, मसण्णेंतच ज्यो धर्मविधी करतात, त्या वेळार अश्म्याकय तिलांजली दितात. मेल्ल्याचो आत्मो धा दीस मेरेन अश्म्यांत रावता, असो समज आशिल्ल्यान, तो घरा हाड्टात. धा दीसमेरेन, प्रेतक्रिया करतासतना, अश्मोय थंय दवरतात. ह्या अश्म्याचीय पूजा जाता. मेल्ल्या मनशाच्या आत्म्याच्या नांवान तीळ आनी वस्त्रोदक ताका दितात. मसण्णेंत धाव्या दिसाची क्रिया केल्याउप्रांत, पिंडाबराबर अश्म्याचेंय न्हंयत विसर्जन करतात.

पैलीं अश्मो गोठ्यांत दवरताले आनी थंय ताजी पूजा जाताली. धाव्या दिसा थंयच्यानच तो मसण्णेंत व्हरताले. आज शहरानींच न्हंय, तर खेड्यांनीपासून गोठे क्वचित् दिसतात. देखून, अश्म्याची पूजा आतां घरांतच करतात.

**अश्रद्ध** । अश्रद्ध । [सं. अश्रद्ध] वि. श्रद्धा, भक्तिभाव नाशिल्लो; अश्रद्धेस्त.

**अश्रद्धा** । अश्रद्धा, सा.रू. -द्धे; भौव. -द्धा, सा.रू. -द्धां । [सं. अश्रद्धा] स्त्री. १. श्रद्धेचो अभाव; श्रद्धा, भक्ती नासप. २. पातेणेचो, निमगण्याचो अभाव, अविस्वास.

**अश्रद्धेस्त** । अश्रद्धेस्त्, सा.रू. -ता; भौव. -स्त, सा.रू. -स्तां । ['अश्रद्धा' वेल्यान] वि. १. ज्याचो कित्याचेरच वा कोणाचेरच भावार्थ ना तो; श्रद्धा, भक्ती नाशिल्लो; अनभावार्थी. २. जो कोणाचेरच विस्वासना वा पातेना तो.

**अश्लिलताय** । अश्लिल्ताय्, सा.रू. -ये; भौव. -यो, सा.रू. -यां । [सं. अश्लीलता] स्त्री. सभ्यतेचो आनी विनयाचो भंग करपी करणी वा कर्म.

**अश्लील** । अ॑श्लील् । [सं. अश्लील] वि. १. पोजडो; अळशिकावणो; बुरसो. २. पोजड्या, अळशिकावण्या वा बिभस्त वर्णनांनी भरिल्लो. (अश्लील ग्रंथ).

**अश्व** । अश्व्, सा.रू. -श्वा; भौव. -श्व, सा.रू. -श्वां । [सं. अश्वः] पु. मोमयाळे जातिचें आनी एक्वीदॅवुश् (Equidcos) ह्या वंशांतलें, चार पांयांचें चपळ आनी देखणें जनावर; घोडो.

**विशेश**: जातोडेप्रमाणें घोड्याची उंचाय वेगवेगळी जाता. घोडो रोखडोच माणसाळटा. ताका लागून मनीस ताजेर आरूढ जाता; ताका गाडयेक जोड्टा. घोड्याचें सगळें आंग आंखूड पूण मोव केंसांनीं भरिल्लें आसता. मानेकडेन आनी शेंपडेकडेन ताजे केंस लांब आनी घट्ट आसतात. मानेवेल्या केंसांक आयाळ म्हण्टात. घोड्याक घट्ट खुरासैत एकच बोट आसता. घोड्याचे दांत घट्ट, दळपाचें दातें कशे आसतात. ताका लागून तो चण्यासारकें खाण दांतांनीं पीठ करून खाता. घोडो हो प्राणी शाकाहारी आसता.

इंडो-युरोपियन हे इंडो-आर्यनांचे पुर्वज. ते घोड्यांक शिकोवपाक लापीट आशिल्ले. तांगेले इंडो-युरोपियन भाशेंत घोड्याक ऍक्वॉस (EKWOS) हो शब्द आशिल्लो. ऍक्वॉस ह्या शब्दाक लागून संस्कृतांत 'अश्व' हें उतर घडलें. आवेस्तन भाशेंत 'अस्प' जालें आनी पुर्विल्ले पर्शियन भाशेंत तें 'अस' जालें. बाल्टिक भाशेंत 'अस्व' (ASVA) हें रूप घडून आयलें. ग्रीक भाशेंत (तांगेल्या पैलिंच्या IKKWOS ह्या उतरावेल्यान) HIPPOS हें उतर घडलें. लॅटिन भाशेंत Equus आनी तोक्कारियन भाशेंत Yakwe हीं उतरां घडलीं.

भारतांत पावतकीर आर्यांनी आपलो 'अश्व' हो शब्द सोडून दिवन, हांगासल्लो थळावो 'घोटा' वा 'घोटक' हो शब्द घेतिल्लो पळोवन अजाप जाता. अर्विल्ल्या इंडो-आर्यन भासांनी, थोड्या-भोव फरकान, 'घोडा' (कों. घोडो)

हेंच उतर घोळटा. हाजेवेल्यान, आर्य भारतांत येंवचे पैलीं, भारतांतल्या त्या वेळावेल्या थळाव्या लोकांक घोडो हें जनावर वळखिचेंच न्हंय, तर सामकें संवकळिचें जाल्लें म्हणपाचें आपशींच सिद्ध जाता. संस्कृतांत 'घोटक' हो शब्द प्राकृतांतल्यान गेला. 'घुत्र' वा 'घोत्र' हें ताजें पुर्विल्लें द्रविडी रूप. ह्याच पुर्विल्ल्या द्रविडी रुपावेल्यान तामीळ 'कुदिरै' जालें. कानडींत 'कुदुरे' जालें आनी तेलगूंत 'गुऱ्हमु' (पुर्विल्लें गुद्र-म्) जालें. इंडो-युरोपियन लोकांचे जिणेंत घोड्याक एक सांस्कृतीक स्थान आशिल्लें. भारतांतल्या अनार्य लोकांकय घोडो संवकळीचो आशिल्लो. 'घुत्र' हो पुर्विल्लो द्रविडी शब्द खंच्यान आयलो? तो येजिप्ताचे पुर्विल्ले भाशेंतल्यान आयला म्हणपाचें गृहित धरुं येता. ते भाशेंत h-t-r म्हळ्यार घोडो. घोडो हें इजिप्तांतलें थळावें जनावर न्हंय. तांकां घोड्याची वळख मेसोपोटेमिया आनी सिरियेकडल्यान मेळल्या. आर्विल्ले ग्रीक भाशेंत 'गदायरॉस' (Gadairos) म्हळ्यार गाढव आनी तुर्की भाशेंत 'कतीर' (Katyr) म्हळ्यार खेंचर. पुर्विल्ले द्रविडी भाशेंतल्यान आजचे द्रविड भाशेंतलीं कुदिरै, कुदिरे आनी गुऱ्हमु हीं उतरां घडल्यांत; तेच परी आर्विल्ल्या इंडो-आर्यन भासांतय 'घोडा' हें उतर 'घुत्र' ह्या पुर्विल्ल्या द्रविडी उतराक लागुनच घडलां.

आर्यांकडेन तांचें पुर्विल्लें इंडो-युरोपियन भाशेंतल्यान घडिल्लें 'अश्व' हें उतर आसतना, ताणीं भारतांत येतकीर आपलें निजाचें उतर सोडून 'घोटक' हो भारतांतलो थळावो शब्द कित्याक घेतलो म्हणपाचो प्रश्न, आर्य संस्कृतिचो इतिहासीक वाटचालिचो अभ्यास करतना निर्माण जाता.

**आधारावळ:** Dravidians, by Sunitikumar Chatterji, pages 51-52-53.

**अश्वगंधा** । अश्वगन्धा, सा.रू. -न्धे । [सं. अश्वगन्धा] स्त्री. एक वखदी वनस्पत.

**विशेश:** वनस्पतशास्त्रांत हिका Physalis Flexuosa Lin म्हण्टात. ही वनस्पत दोन फूट मेरेन वाड्टा. हिजें आयुश्यमान चार ते पांच वर्सां आसता.हरभऱ्यावरी हिका तांबड्या रंगाचीं फळां येतात. हिका भौच वखदी वनस्पत मानतात. वीर्यवृद्धीखातीर, गर्भाची बरी पोसवण जावपाखातीर, तेच परी शरीर निरोगी राखपाखातीर हिजो उपयोग जाता. हे वनस्पतिच्या कांदयाक 'आस्कंद' म्हण्टात. ही वनस्पत महाराष्ट्रांत खानदेश, नाशीक, वऱ्हाड आनी घांटार जाता.

**अश्वत्थ** । अश्वत्थ्, सा.रू. -त्था; भौव. -त्थ, सा.रू. -त्थां । [सं. अश्वत्थ:] पु. मोरासियश कुळयेंतलो आनी फीकूश (Ficus) वंशांतलो, ज्याका पवित्र मानतात तो धर्मरूख; संवसाररुपी रुख; पिंपळ.

**विशेश:** अवेदिक काळापासून अश्वत्थाक म्हळ्यार पिंपळाक पवित्र मानला. ऋग्वेदांत अश्वत्थाचेर यम आनी पितर हांचो राबितो आसता अशें म्हळां. घडये ताका लागून, गयेसारक्या तीर्थक्षेत्रार अश्वत्थाच्या मुळा बसून पिंडदान करपाची पद्धत पडली आसुये.

अथर्ववेदांत अश्वत्थाचो उल्लेख आसा. खंच्याय रुखाच्या खांदयेचे खांचींत हाजें बीं किल्लता. बीं किल्लून येतकीर हो इल्लो इल्लो करून मातता आनी ज्या रुखाचे खांचींत हो किल्लून येता, ताजीं पाळां-मुळां हो खणून उडयता. देखून, अथर्ववेदांत हाका 'वैबाध' (म्हळ्यार विनाश करपी, बेनल्ल) म्हळा. अथर्ववेदांत अश्वत्थाक 'देवसदन' अशेंय म्हळां. अग्निमंथनाखातीर जी मंथा लागता, ती अश्वत्थाची करतात आनी अरणी शमीची करतात, अशेंय अथर्ववेदांत सांगलां.

ऋग्वेद आनी अथर्ववेदावरीच उप्रांतच्या छांदोग्योपनिषद, कठोपनिषद, कौषि उपनिषद, शतपथ ब्राह्मण अशा हेर ग्रंथांतय अश्वत्थाचो उल्लेख आसा. पुराण काळार ह्या रुखाक

भौच म्हत्व आशिल्लें. चातुर्मास महात्म्य, कार्तिक महात्म्य आनी श्रावण महात्म्य, वृतराज, वृतकौमुदी बी ग्रंथांत अश्वत्थाची व्हडवीक गायल्या. संस्कार विधी करतना हाज्यो समिधा उपकरायतात. ताका लागून हाका मोलाचो रुख मानतात जावये.

भगवद्गीतेंत (१५.१) 'ज्याचें ब्रह्मरूपी मूळ वैले वशीन, ज्याचे संवसाररूपी खांदे सकैलेवशीन आनी ज्याच्या वैल्यावशिनच्या पानांक वेद मानतात, अशा ह्या सासणाच्या रुखाक अश्वत्थ म्हण्टात. जो ह्या रुखाक वळखता, तो वेद जाणा जाल्लो जाता' अशें म्हळां. हे कल्पनेचो मूळ उदेव ऋग्वेदाचे (ऋ.१.२४.७) ऋचेंत मेळटा.

वैजकी शास्त्राचे नदरेनय अश्वत्थाक मोल आसा. अश्वत्थ शीत, मधूर, तुरट आसून, बायलांचो रोग, कफ, पित्त, दाह, मावो हांचो नाश करता. अफू चड प्रमाणान पोटांत गेल्यार वा आंगार गरमिचीं चखळां उदेल्यार अश्वत्थाचे सालिचो वखद म्हणून उपयोग करतात. ज्या भुरग्याचें उतर लुडबें वचून स्पस्ट फुटना, अशांची वाचा शुद्ध जावपाखातीर, अश्वत्थाचीं पिकिल्लीं फळां तांकां खावपाक दितात.

ह्या मोलादिक रुखाक कठोपनिषदांत (६.१) आनी भगवद्गीतेंत 'जीणेचो रुख' म्हळा. मनशांच्या आयुश्याच्या मानान, तो अव्रंवर असो सासणाचो रुख दिसता. अश्वत्थाक सदांच पेड बांदिल्लें आसता. अश्वत्थाच्या ह्या पेडार कितले तरी भुरगे आपलो खेळ खेळत रावतले; तर्णधाकुटे आनी तर्णधाकुट्यो आपलीं मोगाचीं गीतां हांगा गायत रावतलीं; संवासाराकडेन पौठो घांसून, हाज्या पेडार मात्सो विसव घेतना, कितले तरी मनीस आपल्या सुख-दुःखाच्यो गजाली एकमेकांक सांगत रावतले; अखेरचे यात्रेक वतना, कितल्या तरी निश्प्राण जीवांचेर, तो आपल्या पानांतल्यान उजवाड आनी सावळी हांची नक्षी विणत रावतलो; दरएक पिळगेच्या आनंदयात्रांचो, तेच परी मर्णयात्रांचो, आपलीं पानां वाऱ्या वांगडा सळसळावन तो साक्षी जातलो आनी जिणे-मर्णाचें हें अखंड चक्र, ताजे भोंवतणी घुंवत राविल्लें, तो पळेत आसतलो! देखून, अश्वत्थाक अनंताच्या सान्त खेळाचें प्रतीक मानला आनी सदांच परिवर्तन जावपी ह्या संवसाररुपी रुखाक खासा भगवंतानय, "सगळ्या रुखांभितर आपुण अश्वत्थ आसां" (अश्वत्थः सर्ववृक्षाणाम्) अशें म्हणून ताजो गौरव केला. (भ.गी.१०-२६.).

**आधारावळः** १. महाराष्ट्रीय ज्ञानकोश, संपाः डॉ. श्रीधर व्यंकटेश केतकर; पा ६०८
२. भारतीय संस्कृती कोश, संपाः पं. महादेवशास्त्री जोशी, खंड १, पा २९९-३०१.
३. भगवंतालें गीत, कोंकणी भाशांतरः शणै गोंयबाब.

**अश्वपती** । अश्वपती, सा.रू. -ती, भौव. -ती, सा.रू. -तीं । [सं. अश्वपतिः] वि. घोड्याचो धनी.

**विशेशः** 'अश्वपती' हें विशेशण ऋग्वेदांत इंद्राक लायिल्लें मेळटा. यजुर्वेदांत म्हादेवाक रुद्राच्या नांवान 'कपर्दी' म्हळ्यार 'जटयांचो शेंडो' वा कोबलें आशिल्लो' हें विशेशण लायलां. तशेंच 'अश्वपती' म्हळ्यार 'घोड्याचो धनी' आनी 'गणपती' म्हळ्यार 'भुतावळिचो धनी' हीं विशेशणां लायल्यांत. (ये.अ.अु., बरोः शणै गोंयबाब, पा. १७२.)

**अश्वमेध** । अश्वमेध्, सा.रू. धा; भौव. -ध, सा.रू. -धां । [सं.अश्वमेधः] पु. १. वेदिक काळाचेर साम्राज्याची, राष्ट्राची, संपत्तेची आनी पराक्रमी प्रजेची प्राप्ती जावपाखातीर प्रतापी राजा करताले तो यज्ञ. २. वेदकाळाउप्रांत, राजा दिग्विजय गाजोवन चक्रवर्तिपद जोडपाखातीर करताले तो यज्ञ.

विशेश: अश्वमेधाचो पैलोवैलो उल्लेख ऋग्वेदांत मेळटा. अश्वमेध हो भारतीय यज्ञविधींतलो सगळ्यांत प्राचीन आनी मोठो यज्ञ. वेदिक काळाचेर राज्याचो विस्तार करपाचो तो धर्ममार्ग आशिल्लो.

प्रतापी राजाच सार्वभौमपद जोडपाक हो यज्ञ करताले. हो यज्ञ वर्सभर चलतालो. अश्वमेधाक राष्ट्र आनी समृद्धिचें प्रतीक मानला. शतपथ ब्राह्मणांत ताका सगळ्या यज्ञांचो राजा म्हळा. तैत्तिरीय आनी ऐतेरेय ब्राह्मणांतय ताजें वर्णन आयलां. प्रतापी राजाच हो यज्ञ करताले खरे, जाल्यारूय ऐतेरेय ब्राह्मणांत सार्वभौम नाशिल्ल्या राजांनीय अश्वमेध यज्ञ करून पृथ्वी जिखिल्ल्याचो उल्लेख मेळटा.

यजुर्वेद, महाभारत आनी जैमिनी-अश्वमेध ह्या ग्रंथानी, अश्वमेध यज्ञांत करचेल्या विधींत बरेंच अन्तर मेळटा. यज्ञ करपी राजा चैत्र पुनवेंक 'सांग्रहणी' नांवांचो यज्ञ करतालो. दुसऱ्या दिसा ऋत्विजांची पूजा, सत्कार करून अश्वमेधाचो संकल्प सोडटालो. हो संकल्प सोडल्याउप्रांत, अश्वमेधाखातीर वेंचून काडिल्लो धव्या आंगाचो आनी ताजेर काळे थिपके आशिल्लो 'शामकर्ण' घोडो, ताजे राखणेखातीर सैन्य दिवन, भूमंडळाचे भोंवडेक सोडटालो; आनी मागीर त्या दिसाच्यान दिसपट्टो तीन खेपो (सकाळ, दनपार आनी सांज) तो 'सारस्वती' नांवांचो यज्ञ करतालो.

जो जो राजा, घोड्याच्या मस्तकाक बांदिल्ल्या जैतपत्राक कुस्कटावन, घोड्याक बांदून घालतालो, त्या त्या राजाकडेन झुजून आनी ताका जिखून घोड्याक मेकळो करचो पड्टालो. हेर राजांनी ताका आडमेळें हाडिनासतना यज्ञ करतल्याच्या सार्वभौमपदाक मान्यताय दिवन, एका वर्सांत घोडो परतो आयल्यारच सार्वभौम-चक्रवर्तिपद प्राप्तिच्या आनंदान अश्वमेध जातालो. घोड्याक आडायल्यार, ज्याणें हो घोडो आडायला, ताजो वर्साभितर पराजय केलो ना जाल्यार, हो यज्ञ रद्द जातालो.

भूमंडळ जिखून घोडो परतो आयल्या उप्रांत, चैत्र पुनवेंच्या म्हुर्तार राजा दीक्षा घेवन यज्ञाची सुरवात करतालो. (यज्ञाची सुरवात फाल्गुन शुद्ध अस्टम वा नमीक करताले, अशें म्हणपीय एक पक्ष आसा). ह्या यज्ञांत दीक्षा, उपसद, आनी सुत्याह अशे तीन म्हत्वाचे पांवडे आसतले. सुत्याह म्हळ्यार सोमयाग. हो याग तीन दीस चलतालो. ह्या यागाच्या दुसऱ्या दिसा त्या घोड्याक सजयल्ल्या रथाक जोडून यज्ञाच्या माटवा भोंवतणी भोंवडायताले. उप्रांत 'आस्तान' नांवांच्या जाग्यार ताका बांदताले.

घोड्याक यज्ञभुंयेर हाडल्याउप्रांत राजाच्यो राणयो ताज्या आंगाक तूप चोळताल्यो. ताका भांगरान भरिल्लें हांतूण (शय्या) तयार करून, ताजेर रुप्याचो पत्रो घालताले. उप्रांत घोड्याक आडवो घालून, हेर जनावरां वांगडाच ताकाय मारताले. ह्या जनावरांचे दोन वर्ग आसताले. एक पोशिल्ल्या जनावरांचो आनी दुसरो रानांतल्यान धरून हाडिल्ल्या जनावरांचो. रानांतल्या जनावरांक मारिनाशिल्ले. तांचेर कांय संस्कार करून, तांकां रानांत सोडून दिताले. यज्ञांत दादले, बायलो असो सगळो समाज आसतालो. अध्वर्यु, ब्रम्हा, उदगातृ, होता अशे ऋत्विज दादले आसताले आनी महिषी, यजमान्न बी बायलो आसताल्यो. अश्वमेधांतल्या घोड्याक मारतकीर राजाच्या राणयांक आपोवन हाड्टाले. राजाची पट्टराणी त्या घोड्याच्या म्हऱ्यांत न्हिदतकीर, घोडो आनी पट्टराणी हांचीं जननेंद्रियां एकठांय हाडून संभोगाचो एक पोजडो विधी करताले. हो विधी बरोच वेळ चलतालो. कृष्णयजुः संहितेंत, तेच परी शुक्लयजुः संहितेंत ह्या विधिचें पूर्ण वर्णन आसा. रामायणांतय दशरथ राजान केल्ल्या अश्वमेध यज्ञांत, तागेली राणी कौसल्या

धर्मकामनेन घोड्याम्हऱ्यांत एक रात न्हिदिल्ली म्हणपाचो उल्लेख आसा. (रामायण, बालकांड १४.५५.)

हो विधी जाल्याउप्रांत, अश्वमेधाची समाप्ती करतना, आरतीच्या वेळार, ऋत्विज ऋचा म्हण्टाले, बायलो गाणीं गायताल्यो आनी दासी नाच करताल्यो. माथ्यार मद्याच्यो (सोमाच्यो) घागरी घेवन, पायांनी ताल धरीत 'इदं मधु' (हें मद्य) हीं उतरां गायत गायत आठ दासी यज्ञभुंयेचेर येताल्यो, तेन्ना राजाक आपुण मोठो पुण्यवंत आनी भाग्यवंत जालो अशें दिसून, तो कृतकृत्य जातालो. (तैत्तिरीय संहिता, कांड ७, प्रपाठक ५, अनुवादक ११).

शंभर अश्वमेध यज्ञ करीत जाल्यार इंद्रपद प्राप्त जाता म्हणपाचो समज चलतालो. कलियुगांत मात हो यज्ञ वर्ज्य सांगला. जाल्यारूय, कलियुगांत अश्वमेध यज्ञ जाल्यात.

महाभारतांत धर्मराजान अश्वमेध केल्ल्याचो उल्लेख मेळटा. धर्मराजान हो अश्वमेध केला तो पापाच्या क्षालनाखातीर आनी पंडूक स्वर्गाची प्राप्ती जावपाक जाय म्हणून.

क्रिस्ता आदल्या पांचव्या शेंकड्यांत जैन आनी बुद्ध धर्माक लागून वेदिक धर्म फाटीं पडलो. तो जरी बुद्धधर्माच्या क्रांतिच्या हुंवारांतल्यान वाटावलो, तरी जैनांनी आनी बौद्धांनी फुडें काडिल्लें अहिंसेचे तत्व आचरणांत उरिल्ल्यान, अश्वमेधाचें म्हत्व उणें जाल्लें जांवक जाय.

क्रिस्ता आदल्या चौथ्या शेंकड्यांत बुद्ध भगवानाचें निर्वाण जालें. त्या उप्रांत त्याच शेंकड्यांत पर्शियेचो राजा पैलो दारियुश (Darius I) हाणें भारताचेर घुरी घाली आनी भारताक आपल्या राज्याची एक सत्रापी केली. क्रिस्ता आदल्या पैल्या आनी दुसऱ्या शेंकड्यासाकून सिरियन, ग्रीक, स्किथियन, कुशाण बी हाणीं भारताचेर घुरयो घाल्यो. जाल्यारूय, भारतांत मर्दीं मर्दीं कांय शूर राजा जन्माक आयल्यात. तांणीं अश्वमेध यज्ञ केल्ले काय ना हें समजना. केल्ले आसल्यारय, थोडोसो दिग्विजय गाजोवन आपणें चक्रवर्तिपद जोडलें, इतल्याच समाधानाखातीर केल्ले आसुये.

भारताचेर मुसलमानांची पैली घुरी क्रिस्ती सनाच्या ६७२व्या वर्सा जाली. त्या वेळार रजपुतांचो उदेव जातालो आनी दक्षिणेंत शिलाहारांची राजवट चलताली. क्रिस्ती सनाच्या १०१८ वर्सा मुसलमानांनी उत्तर हिंदुस्थान जिखून घेतलें, त्या वेळारय दक्षिणेंत हिंदू राजवटी आशिल्ल्यो. ह्यो चडशो राजवटी वेदधर्म मानपी आशिल्ल्यान, तांणी अश्वमेध यज्ञाक पुनर्जन्म दिवपाचो यत्न केल्लो आसुये. कदंबाचे पिळगेन अठरा अश्वमेध केल्ले अशें क्रि.स. ११८७ वर्साच्या एका तांब्यापट्यांत म्हळां. जाल्यारूय, ह्या अश्वमेधांची सर वेदिक काळावेल्या अश्वमेधांक लागची ना.

क्रिस्ती सनाचो पैलो शेंकडो धरून धाव्या शेंकड्यामेरेनच्या काळाक, जरी अश्वमेधाच्या पुनर्जन्माचो काळ मानलो, तरी ते अश्वमेध करुंक जाय म्हणून, अश्वमेधाची खुमा कशे केल्ले आसुये. ह्या काळांत भारतांतल्या राज्यांवेलो स्वतंत्रतायेचो सूर्य अस्तमानाक वचूंक लागिल्लो. परकी लोकांनी हिंदुस्थान जिखून घेतकीर, अश्वमेध यज्ञाचे प्रथेक जागोच नाशिल्लो. तरी आसतना अश्वमेधाफाटली वेदिकांची भावना समजून घेंवक जाय. ऋग्वेदाच्या अश्वमेधसूक्तांत ती भावना उक्ती जाल्या. तातूंत दीर्घतमस औचथ्थ ऋशी म्हण्टा: "यज्ञांत हवी म्हणून ओंपिल्लो घोडो, आमकां गायो, घोडे, संवसाराक उपकारीक अशी संपत्ती, भुरगीं बाळां तशींच नात्रां-पण्टुरां, तेच परी आमकां बळ दिंव. अदिती आमकां पातकामेकळी करूं." (ऋ. १.१६२.२२).

इंडो-युरोपियनांतय अश्वमेध आशिल्लो. वेदिक 'अश्वमेध' हो भारतीय नदरेंतल्यान

पळोंवक जाय. वेदिक आर्यांची पूर्व-आर्यन (Pre-Aryan) अवस्तेंत मनशाक बळी दिवपाची जी प्रथा आशिल्ली, ते प्रथेंतल्यान वेदिक आर्यांचो अश्वमेध उत्क्रांत जाला जावये. वेदिकांचो अश्वमेध आनी रोमन लोकांचो 'ऑक्टोबर एक्कुश' (October Equus) हांची सारकाय ध्यानांत घेसारकी आसा. तेच परी लैंगिक विधीकडेन लग्निक आशिल्ली सेल्तीक परंपराय (वेदिक: राणी आनी घोडो; सेल्तीक: राजा आनी घोडी) ध्यानांत घे सारकी आसा.

**आधारावळ:** १) महाराष्ट्र ज्ञानकोश, (अ) पा. ६०९-६१०. २) भारतीय संस्कृती कोश, खंड १, पा. ३०४-३०६. ३) ऋग्वेद, मराठी भाशांतर, महामहोपाध्याय सिद्धेश्वरशास्त्री चित्राव. ४) भारतीय विवाह संस्थेचा इतिहास, लेखक: इतिहासाचार्य राजवाडे. ५) गोंयकारांची गोंयांभायली वसणूक, बरो: शणै गोंयबाब, पा. ४२. ६) Vedic Mythological Tracts, by R.N.Dandekar, पानां: ३६३-३६४.

**अश्वविद्या** । अश्वविद्या, सा.रू. -द्ये; भौव. -द्या, सा.रू. -द्यां । [सं. अश्व+विद्या] स्त्री. घोड्यांचे जातोडेप्रमाणें तांचो पूर्ण अभ्यास करून तांकां तरे तरेच्या उपयोगांखातीर शिकोवन तयार करपाची विद्या. (वीरसेन राजाचो पुत नळ रूपेस्त, गुणेस्त आनी बळिस्ट आशिल्लो. अश्वविद्येंत पाटांगडो. —महाभारत, खण्ड १, बरो: रवीन्द्र केळेकार, पा. ३६०).

**विशेश:** घोड्यांक शिकोंवक आर्य लापीट आशिल्ले. नळराजाक घोड्यांक शिकोवपाची विद्या येताली आनी ताणें ती ऋतुपर्णाक शिकैली अशें महाभारतांत म्हळां.

हित्तायतांचें राजपाटण बोघजकूय हांगां उस्तून काडिल्ले मोडावळींत, किक्काली वा किक्कुली ह्या नांवांच्या मित्तान्नियनान, अदमासान क्रिस्ता आदल्या दुसऱ्या हजारकांत, बरे जातोडेच्या घोड्यांची वीण कशी करची आनी राजाच्या घोड्यांक शिकोवन कशे तरेन तयाक करचे, हाचेर हित्तायत भाशेंत बरैल्लो एक ग्रंथ मेळलो. ह्या ग्रंथांतलीं तांत्रिक उतरां आर्यभाशेंतलीं आसात. हाजेवेल्यांन आर्य अश्वविद्येंत प्रवीण आशिल्ले म्हणपाचें कळून येता.

**आधारावळ:** १) भा.सं.को., खंड १ पा. ३०६. २) Dravidians and Aryans, Cultural Contacts, by K.A. Nillcanth Sastry.

**अश्वशक्ती** । अश्वशक्ती, सा.रू. -क्ती; भौव. -क्ती, सा.रू. -क्तीं । [सं. अश्व + शक्ति] स्त्री. इंजिनां, यंत्रां (वीज उपकरावन यांत्रिक तांक निर्माण करपी साधनां) हांची तांक मेजपाचें एक परिमाण.

**विशेश:** एक अश्वशक्ती म्हळ्यार एका सेकंडाक ७५ किलोग्रामेत्रुश वजन देडा मेत्राचे उंचायेर उखलपाक लागता तें बळगें.

१ अश्वशक्ती = ७३५.५ वॉटस (Watts)

ह्या परिमाणाची सर ब्रिटिश अश्वशक्तीकडेन (Horse Power) करूंक फावना. ब्रिटिश अश्वशक्ती हें मोठें परिमाण. तें ७४६ वॉटस इतलें आसा. 'अश्वशक्ती' ही संज्ञा जेम्स वॉट हाणें पैलीवैली उपकरायली.

**अश्वशाळा** । अश्वशाळा, सा.रू. -ळे; भौव. -ळो, सा.रू. -ळां । [सं. अश्वशाला] स्त्री. जंय घोड्यांक बांदून खावड घालतात असो हवेशीर गोठो; घोडवळ; घडवळ. (तो अश्वशाळेंत गेलो. ताणे थंयचे सिंध देशांतले कांय किडकिडीत घोडे वेंचून काडले. —महाभारत, खण्ड १, बरो: रवीन्द्र केळेकार, पा. ३७८).

**अश्विनी** । अश्विनी, सा.रू.-ने; भौव. -न्यो, सा.रू. -न्यां । [सं. अश्विनी] स्त्री. १. घोडी. २. ज्याचें रूप घोडयेच्या तोंडावरी दिसता, अशें तीन तारकांच्या पुंजुल्यान घडिल्लें,

सत्तावीस नक्षत्रांतलें पैलें नक्षत्र. ३. जिणें अश्विनीकुमारांक जन्म दिला ती अप्सरा.
**विशेश:** 'अश्विनी' हें उतर जेन्ना विशेशनाम म्हणून उपकरायतात, तेन्ना ताका भौवचन नासता.

**अश्विनीकुमार** । अश्विनीकुमार्, सा.रू. -रां। [सं. अश्विनीकुमारौ] पु. भौव. देवांचे धन्वंतरी; स्वर्गांतले वैज. **(ला.)** खांपो वैज; अती निस्णात वैज.
**विशेश:** सूर्याक लागून अश्विनी हे अप्सरेक जाल्ले हे जुंवळे भुरगे. ऋग्वेदाच्या आरंभकाळार हांकां देव कशे मानताले. तांकांच लागून अस्तमानाक गेल्लो सूर्य दिसपट्टो उदेता, असो वेदिक आर्यांचो समज आशिल्लो.
अश्विनीकुमार पराक्रमी आशिल्ले. संपत्ती जाय आशिल्ल्यांक ते संपत्ती दिताले. बुट्टल्यांक ते वांचैताले. हाता-पायांची हाडां मोडून, ज्यांचो गुळंकार जाला, तांची हाडां ते आशिल्लीं तशीं जोड्टाले. आपल्या अप्रूप वखदांनी पिडेस्तांचे बळाळिकेचो परिहार करून, तांकां ते पिडेमुक्त करताले. देखून, ऋग्वेदांतले ऋशी तांकां आवाहन करतात: "पराक्रमी आनी वीर्यवंत अश्विनीकुमारांनो, आमचीं स्तोत्रां आनी प्रार्थना तुमी फळादिक करात. झुजांत आमकां राखण दियात. फांतोड्डेच्या पारार तुमकां घाल्ल्या सादान तुमी आमचेर प्रसन्न जायात." (ऋ. १.११२.२४).

**अष्टाग्रहार** । अष्टाग्रहार, सा.रू. -रा; भौव. -र, सा.रू. -रां । [सं. अष्ट+अग्रहार:] पु. आठ अग्रहारांचो पुंजुलो; अस्टाग्रहार. (चंद्रमंडळाचे वा चंद्रवाडयेचे दक्षिण सिमेर रिवण नांवांचो एक गांव आस. हो आतांच्या अष्टाग्रहार म्हालांतलो मुखेल गांव. —गों. गो. वसणूक, बरो: शणै गोंयबाब, पा. १४).

**असगडी** । अस्गडी । [सं. अदस् (=हो, ही, हें) + कट. (कड) ?] क्रि.वि. लागीं; लागसार; भोंवतणीं; शेजरा. (ज्या मोस्तेरांत सांत आंतोनिची कूड निखेपलेली, त्या मोस्तेरा असगडी येकी विधवा बायलेचें घर आसिलें. —सां. अं. अचर्यां, पा. १०६).

**असंख्य** । असङ्ख्य । [सं. असंख्य] वि. जें मेजूंक मेळना अशें; अगणित. (मळबांतले हे असंख्य तारे कोण मेजीत?)

**असंग** । असङ्ग, सा.रू. -ङ्गा, भौव. -ङ्ग, सा.रू. -ङ्गां । [सं. असंग] वि. १. एकलो एकमुळो; कोणाचीच संगत नाशिल्लो. २. संगत न करपासारको; ज्याचे कडेन संगत करूंक फावना असो.
**म्हण:** असंगाकडेन संग आनी प्राणाकडेन गांठ.

**असंगत** । असङ्गत, सा.रू. -ती; भौव. -ती, सा.रू. -तीं । [सं. असंगति:] वि. पाडी, वांकडी संगत.

**असंगताय** । असङ्गताय्, सा.रू. -ये; भौव. -यो, सा.रू. -यां । ['असंगत' वेल्यान] स्त्री. विंगोड; नपड; अंतरीक.

**असत** । असत्, सा.रू. -ता । [सं. असत्] वि. अस्तित्वांत नाशिल्लें; अव्यक्त. (अदितीन देवांच्या पूर्वयुगांत असत जगांतल्यान सत जग निर्माण केलें.)

**असत्य** । असत्य्, सा.रू. -त्या; भौव. -त्यां, सा.रू. -त्यां । [सं. असत्यम्] न. प्रामाणिकपणाचो लवलेश नाशिल्ली गजाल; तड्डक; फट गजाल.
**म्हणी:** १. देव उलोंवक ना असत्य आनी मनीस उलोंवक ना सत्य.
२. असत्य वता धांवून आनी सत्य वता रावून.

**असत्य** । असत्य्, सा.रू. -त्या; भौव. -त्यां, सा.रू. -त्यां । [सं. असत्य] वि. जें खरें न्हंय तें; ज्यातूंत सत्याचो गंधपासून ना तें; फटिचें; लटकें. (असत्य उलोवणें).

**असत्यवादी** । असत्त्यवादी, सा.रू. -द्या; भौव. -दी, सा.रू. -द्यां । [सं. असत्यवादिन्] वि. धडधडीत फट उलोवपी; फटिंगपणान आनी नाडानाडीन जियोवपी; लटको सोपूत वा प्रमाण दिवपी; काऱ्याफळ; कापुरूश.

**असंत** । असन्त । [सं. अ+शांत] वि. जें शांत न्हंय तें; अस्थिर; अशान्त.

**असंतळ** । असन्तळ्, सा.रू. -ळा; भौव. -ळां, सा.रू. -ळां । ['असंत' वेल्यान] न. १. शांततायेचो अभाव; कस्ट-दगदगांक लागून वा पिडे-अपदेक लागून जिवाक लागिल्लो तळमळो. २. सांवार; अवदिसा. (ताजें किते जालां म्हणून समजना. तो गांवांक खूप उपद्रव दिंवक लागला. ताजेर सध्या असंतळ आयलां.)
**वा.प्र.: असंतळ पडप:** कस्ट-दगदगांक लागून वा पिडे-अपदेक लागून जिवाक तळमळे लागप; जिवाक सूख नासप.
**असंतळ येवप:** सांवार, अवदिसा येवप.
**विशेश:** कांयकडेन 'असंतळ' हें उतर 'ताजेर असंतळ पडूं' अशें म्हणत गाळ दिवपाक उपकरायतात.

**असंतळी** । असन्तळी । ['असंतळ' वेल्यान] वि. १. हूड; मस्तो; आडांगी. (असंतळी भुरगो). २. साहशी; धाडशी; बंडखोर; पराक्रमी. (ताज्या रगतांत तागेल्या बापायच्या रगतांतली तीच असंतळी कीट आशिल्ली). ३. खुबळलेलो; क्षुब्ध. (असंतळी दर्या तरी। शांत उड्टी भिरीं॥ – दिस्टावो, कवी: पांडुरंग भांगी पा. ४९).

**असंतुस्ट** । असन्तुस्ट । [सं. असन्तुष्ट] वि. १. समाधान न जावपी; जो केन्नाच संतुस्ट, धादोस नासता तो; उबगल्लो; वित्रागलेलो. (ताज्या मुखार अप्सरा हाडून नाचय, ना जाल्यार भांगराच्यो कांडयो ओतय, तो असंतुस्ट तो असंतुस्ट.) २. भकारो; वसवसो; वर्भकी; अतृप्त. (पोराक कितलेंय जेंवक वाढ, तृप्ती म्हणून ना. सदांच असंतुस्ट.) ३. खंतभरीत; दुखेस्त. (पुताच्या आचरणाक लागून तो असंतुस्ट आसता.)

**असंतोश** । असन्तोश्, सा.रू. -शा; भौव. -श, सा.रू. -शां । [सं. असन्तोष:] पु. १. समाधानाचो अभाव; अखुशालकाय; अप्रसन्नताय. २. अशांतताय; दुस्ट करण्यांक लागून वा दिल्ले पिडापिडेक लागून पोटांतल्यान खतखतून येता तो रागाचो किंवाटो, वा भितल्ल्या भितर जाता ती मनाची क्षुब्ध अवस्ता. (राजाचेर आशिल्लो प्रजेचो असंतोश एकदम उसळलो आनी तातूंत राजाची आहुती पडली). ३. कस्ट; दु:ख; खंत; त्रास (येक्रा नगरांतु दोगां, उभयवर्ग दादुलो बायल आसलीं. तांगेर लेकरूं बाळ नाथिल्ल्या पासत, तांकां उदंडु असंतोश भोगतालो. —सां.अं. अचर्यां, पा. ७६).

**असंतोशी** । असन्तोशी । [सं. असन्तोषिन्] वि. १. असमाधानी; अप्रसन्न; अखुशाल; कस्टी; दुखेस्त. २. अशान्त; खुबळलेलो; क्षुब्ध.

**असफळ** । असफ़ळ् । [सं. असफल] वि. सफल, फळादिक न जावपी; निर्फळ; व्यर्थ; अपेशी (असफळ जीण).

**असभ्य** । असब्भ्य । [सं. असभ्य] वि. १. जो चार-चौगांत वा सभेंत बसपा-वावुरपाक पात्र न्हंय तो; रानवटी. २. पोजडो; बुरसो.

**असमजिकाय** । असमजिकाय्, सा.रू. -ये; भौव. -यो, सा.रू. -यां । [सं. अ + कों. समजिकाय] स्त्री. समजिकायेचो अभाव वा समजिकायेची उणाय.

**असमजीक** । असम्‌जीक् । [सं. अ + कों. समजीक] वि. १. जो समज वा समजिकाय घेना तो; समज घालूनय जो आपलोच हट्ट खरो करता तो. (असमजीक भुरगो). २. जें समजून वा कळून येना तें; जें समजूंक कठीण तें. (असमजीक तत्वज्ञान).

**असमंजस** । असमन्जस् । [सं. असमंजस] वि. जो समंजस न्हंय तो; ज्याचेकडेन समंजसपण ना तो; तारतम्यज्ञान नाशिल्लो; अपुरबुद्द; आडमुठो.

**असमर्थ** । असमर्थ् । [सं. असमर्थ] वि. १. कसल्याय कामाखातीर जाय तें बळ, तांक, सामर्थ्य नासपी; अशक्त; दुर्बळ; अबळवंत. २. कसल्याय कामाची चलाखी, घटी नाशिल्लो.

**असमाधान** । असमाधान्, सा.रू. -ना । [सं. अ + समाधानम्] न. १. समाधान नासप; खुशालकायेची वा खोशेची उणाय. २. अशांतताय; असंतोश; मनाची जाल्ली विरूस अवस्ता. ३. खंत; वीट; उबगण.

**असमाधानी** । असमाधानी । ['असमाधान' वेल्यान] वि. १. ज्याचें समाधान जायना तो वा ज्याचें समाधान जांवक ना तो; जो संतुस्ट, खोशी, धादोस जांवक ना वा जायना तो. २. अशांत. ३. खंतेस्त; विरूस; निर्शेल्लो; उबगल्लो.

**असमान** । असमान् । [सं. अ + समान] वि. १. एकाच तळार वा थरार नाशिल्लो. (असमान जागो). २. एकाच पांवड्यार वा बसकारार नाशिल्लो; एकाच तोलामोलाचो वा सराबरिचो न्हंय तो.

**असंबद्ध** । असम्बद्ध । [सं. अ + सम्बद्ध] वि. ताळ-मेळ नासपी; एकाचो मेळ दुसऱ्याकडेन बसना असो; विप्रीत; कायच्या काय.

**असंबप** । असम्बप्, सा.रू. -पा । [सं. अ+सं+भू] क्रि.दा.धा.सा.ना. (मूळ धातू: असंब् (अक.)). थांब कणस फुटपाचे अवस्तेक येवप वा पावप. (थांब असंबता).
**विशेश:** सं+भू (भव्) ह्या धातूवेल्यान 'संभवप' हें धातुसाधित नाम घड्टा. ताचो अर्थ 'जन्माक येवप; उदेवाक येवप' असो जाता. ह्या धातुसाधित नामाक 'अ' हो उपसर्ग लागून, 'असंभवप' हें उतर घडलें जावये वा 'संभवप' हाका 'अ' हो अदिक वर्ण उच्चारांत येवन हें उतर घडलें आसुये. 'स्त्री – इस्त्री', 'स्टेशन – इस्टेशन' अशे तरेची उतरां हिंदींत घोळटना दिसतात. तेच परी कोंकणींतय 'स्त्री' चें 'अस्तरी', अस्तुरी' अशीं जाल्ली अपभ्रस्ट रूपां सोळाव्या वा सतराव्या शेंकड्यांतल्या बरोवपांत मेळटात आनी कांय जाणांच्या उच्चारांत आजुनय घोळिल्लीं दिसतात. हेच तरेन हें उतर घडलें जावये, आनी उच्चाराच्या सोंपेपणाक लागून 'असंभवप' ह्या उतरांतलो 'व' गळून आनी 'भ' चें 'ब' जावन 'असंबप' हें उतर जालें जावये.

**असंमत** । असम्मत । [सं. अ+संमत] वि. अमान्य; मान्य नाशिल्लो; मान्य वा मंजूर करूंक नाशिल्लो. (विधानसभेंत अविश्वासाचो थाराव काल परतून असंमत जालो.)

**असर** । असर्, सा.रू. -रा; भौव. -सर, सा.रू. -रां । [अर. असर] पु. परिणाम; प्रभाव (बरें-वांकडे गजालिचो मनशाचेर असर जाताच.)

**असल** । अस॑ल्, सा.रू. -ला । [अर. असल] न. मूळ धन; मुदल.
**म्हण :** असल आसल्यारी वाडी आसा.

**असली** । अ॑सली । [अर. असली] वि. १. अस्सल; शुद्ध; भरस घालूंक नाशिल्लो. (असली माल; असली तूप) २. प्रामाणिक; निजाचो; खरो. (असली उमाळो).

**असली** । अ॑स्ली, सा.रू. -ले; भौव. -ल्यो, सा.रू. -ल्यां । [सं. ईदृशी + कों. ली] वि. अशे तरेची; अशे भाशेची; अशे रितिची.

**असली-तसली** । अ॑स्ली-त॑स्ली, सा.रू. -ले -ले; भौव. -ल्यो -ल्यो, सा.रू. -ल्यां -ल्यां । [सं. ईदृशी + कों. ली - तादृशी + कों. ली] वि. किरकोळ; बाबत.

**असलें** । अस्लँ, सा.रू. -ल्या; भौव. -लीं, सा.रू. -ल्यां । [सं. ईदृशम् + कों. लें] वि. अशे तरेचें; अशे भाशेचें; अशे रितिचें.

**असलें-तसलें** । अस्लँ-तस्लँ, सा.रू. -ल्या -ल्या; भौव. -ली -लीं; सा.रू. -ल्यां -ल्यां । [सं. ईदृशम् + कों. लें - तादृशम् + को. लें] वि. किरकोळ; बाबत.

**असलो** । अस्लॉ, सा.रू. -ल्या; भौव. -ले (लॅ), सा.रू. -ल्यां । [सं. ईदृश्+कों. लो] वि. अशे तरेचो; अशे भाशेचो; अशे रितिचो.

**असलो-तसलो** । अस्लॉ-तस्लॉ, सा.रू. -ल्या -ल्या; भौव. -ले (लॅ) -ले (लॅ); सा.रू. -ल्यां -ल्यां । [सं. ईदृश् + कों. लो - तादृश् + कों. लो] वि. किरकोळ; बाबत. (ताका तूं असलो-तसलो समजूं नाका. तो कोळशे खावन इंगळे हागता तसलो मनीस.)

**असंवसारीक** । असंवसारीक् । [सं. असंसारिन्] वि. १. संसारांतलें, प्रपंचांतलें कांयच लागून न घेवपी. २ संवसारांत आसुनय संवसारांत नासपी; विरक्त.

**असंस्कृत** । असंव्स्कृत् । [सं. अ + संस्कृत] वि. संस्कारांविणें आसपी; ज्याचेर विद्येचे तशेच चौगरितिचे संस्कार जांवक ना असो; रानवटी; जंगली; अडाणी.

**असहकार** । असहका॑र्, सा.रू. -रा; भौव. -र, सा.रू. -रां । [सं. अ+सहकार] पु. मदत न करप; सहकाराचे भावनेचो अभाव; एकमेकाच्या आधारान वा पालवान काम करपाक दिल्लो न्हंयकार. (इं.) Non-cooperation.

**असहाय** । असहा॑य् । [सं. असहाय] वि. १. एकटो एकमुळो. २. अनाथ; आधार वा आलाशिरो नाशिल्लो.

**असह्य** । अस॑ह्य् । [सं. असह्य] वि. सोंसूंक नज अशें; सोंसपाक जायना अशें. सोंसणिकाये पेलें.

**असाधारण** । असाधार॑ण् । [सं. अ + साधारण] वि. असामान्य; अलौकिक. (असाधारण व्यक्ती).

**असाध्य** । असाद्ध्य । [सं. असाध्य] वि. १. जें कशेंच साध्य जायना तें; जें कशेंच साधून वा जथून येना तें; साधूंक कठीण अशें. (असाध्य काम). २. तरे तरेचे उपाय करूनय जें कशेंच आटापाक येना तें; जें बरें जावपाच्या जाग्यार दिसान दीस बळत वता तें. (असाध्य दुखणें).

**असामान्य** । असामा॑न्न्य । [सं. असामान्य] वि. असाधारण; अलौकिक; नांवांजतो.

**असामी** । असामी, सा.रू. -मी । [अर. इस्म = नांव. हाजें भौव. 'असामी'] स्त्री. १. मनीस; इसम; व्यक्ती. (बडी असामी). २. म्हत्व आशिल्ली म्हाल-मुखेल व्यक्ती; अलौकिक व्यक्ती. (अक्ख्या गोंयांत म्हाळ पै सारकी असामी जाली ना.)

**असार** । असा॑र् । [सं. असार] वि. निःसत्त्व; सार, तथ्य नाशिल्लें; मिथ्या. (असार जिवीत).

**असावरी** । असाव॑री, सा.रू. -री । [?] पु. भारतीय संगितांतलो एक राग.
**विशेश:** 'असावरी' हें एका थाटाचें नांव. प्रत्येक थाटाच्या वा मेळाच्या नांवांचो एक राग आसा. ताका धरून 'असावरी' ह्या नांवांचो एक राग आसा. हो राग सकाळचीं सात ते णव वरांमेरेन गायतात. आयज हो राग चडसो गायनात. गायल्यारय क्वचीत गायतात. हाज्या जाग्यार जीवनपुरी, देशी हे राग गायतात.

**असु** । अ॑सू, सा.रू. -सू । [सं. असु] पु. १. यात्विक शक्ती; माना (Magic potence). २. प्राण; जीव.

**असुक** । अ॑सूक, सा.रू. -का । [सं. असृक्, असृज्] न. १. म्हैनो भरचे पैलींच, त्रास जावन, बायलांक मदींच जाता तें भस्टें; बायलांक तांच्या भस्ट्याचे अवस्तेंत आंगार जावन वता तें खूप रगत. २. देवी; देविची बळाळीक; आसुक; आंगचें.

**असुखी** । असुखी । [सं. असुखिन्] वि. सूख, समाधान नाशिल्लो; दुखेस्त; कस्टी; दगदगी.

**असुदाय** । अ॑सुदा॑य् । [फा. आसूदा = खुशाल] क्रि. वि. १. फाट-फुडा पळेनासतना; खुशाल; आपल्याक जाय तसो. (असुदाय तिणें दुडू मोडचो। मना येत तो खर्च चलौंचो। —गोंयकारांचो मुंबैकार, बरो: शणै गोंयबाब, पा. १३). २. चिंतेविरैत; हुस्क्यामेकळें; आयतें. (तो मळबांतसून उदक धाड्टा. तें तुमकां पियोंवक मेळटा. ताणें तुमचीं शेतां-भाटां रुजतात, रुख-रांयो मातताात आनीक तरेक तरा फळां पिकतात. हे भाशेन गळो-नाळो एक जायसर तुमकां असुदाय खांवक-जेंवक मेळटा. —गोमन्तोपनिषत, २रें खंड, बरो: शणै गोंयबाब, पा.१२१). ३. पर्वा करिनासतना; जाय तशीं धुमशेणां कांडित; अळंग; अचळय. (संवसारांतल्या व्हडल्या व्हडल्या राजांचे व्हडविकेची बुनेद म्हण्टात ती चोरी आनी नागोवण. ती पचौन ज्याका आपल्या माथ्यावेल्यान अभिशेक करूक तांकता तो राजा जाता. ताका मागीर धतरिवेलो देवाचो पडहात म्हण्टात. तो चोर न्हंय. ताका चोर म्हण्टल्याची जीब कातरतात. ताणें मध्यान रातीर काळखांत सांसपून कोणाक नागौंचें लागना. ताणें दिसा उजवाडे घोड्यार बसून सैन्य घेवन आनी वाजंत्रां वाजोवन शेजारचीं राज्यां असुदाय लुटचीं. तातूंत ताका कसलेंच पातक लागना. —गोमन्तोपनिषद, २रें खंड, बरो: शणै गोंयबाब, पा.१६३).

**असुर** । अ॑सुर् । [सं. असु + र] वि. ज्याचेकडेन यात्विक शक्ती आसा तो; जो यात्विक शक्ती धारण करता तो. (असुर वरुणा, तुजे कृपेक आशेल्ले भक्त तुका नमस्कार करतात आनी हवी ओंपून तुजी प्रार्थना करतात. आमच्या पापांचो क्षय करून तूं आमकां मुक्त कर. ऋ. १.२४.१४).
**विशेश:** 'असुर' हें इंडो-इराणियन काळावेलें अत्यंत भौमानिक आनी व्हडविकेच्या अर्थान उपाट भरिल्लें उतर. ऋग्वेदांतल्या अत्यंत प्राचीन ऋचांनी ह्याच भौमानिक अर्थान तें उपकरायलां. मुळांत हें वरुणाचें बिरुद. अग्नि, इंद्र, सवितृ, अर्यमन, पुंसन, सोम आनी रुद्र हांकाय हें बिरुद लागलां.

वरुण हो ऋताचो देव. ऋताची कल्पना ही पासून इंडो-इराणियन काळावेलीच आसा. ऋग्वेदांतलो असुर वरुण आनी अवेस्तांतलो अहुर मझ्द हांची सारकाय आसा. अहुर मझ्द आनी असुर वरुण हे दोगय ऋत धारण करतात. ऋत हें अवेस्तांतलें 'अस'. वरुण जसो मित्राकडेन लग्निक आसा, तेच परी अहुर मझ्द 'मिथ्रा'कडेन लग्निक आसा. ह्या दोनय देवांचो संबंध संवसारिक नितिकतायेकडेन (Cosmic moral order) आसा.

ऋताक लागून फांतोड्डेचेर उशा उदेता. सूर्य हो ऋताचोच रुपकार आसा. ऋताक लागून गाय दूद दिता. ऋताक लागून सुकिल्लया लांकडांतल्यान अग्नि प्रगट जाता आनी ऋताक लागुनच न्हंयो व्हांवतात, ही वेदिक ऋशिंची भावना आशिल्ली. जिणेंतल्या दरएक निजाच्या, भौतिक आनी सामाजिक-नैतिक घटितांफाटल्यान वेदिक ऋशींक ऋतच दिसतालें. ह्या ऋताफाटल्यान तांका गणपद्धतिंतली सारकाय, भावबंदाय आनी एकचार जाणवतालो. ऋत ही वेदिक ऋशिंची एकचाराच्या आनी नितिच्या बसकारार उबी आशिल्ली पुर्विल्ली, पुरातन अशी पवित्र परंपरा आशिल्ली. ऋताचो सगळ्यांत लागशिलो संबंध वरुणाकडेन आशिल्लो. देखून, ऋग्वेदांत असुर वरुणाक ऋताचो स्वामी म्हळा. ऋतवात म्हळा. ऋताची वृद्धी करपी म्हळा आनी अनृताचो दुस्मान म्हळा. (ऋ. १.१५१.८; ७.६६.१३).

असुर वरुण हो जसो ऋत धारण करता, तेच परी तो 'माया'य धारण करता. ह्या संवसाराचें नियंत्रण वरुण ऋताच्या आधारान करता. ह्या नियंत्रणांत वरुणाचे मायेचोय खूप मोठो भाग आसा. ऋत आनी माया ह्यो संकल्पना वेगळ्यो काडूंक मेळनात. ह्या संवसारांतलें तेज आनी समृद्धी हांच्या मुळाक जशें ऋत आसा, तेच परी ऋताच्या मुळाक माया आसा.

'माया' ह्या शब्दाच्या अर्थाचो विपर्यास जाला. माया म्हळ्यार प्रज्ञा, सृजनाची तांक. असु म्हळ्यार यात्विक शक्ती. ही यात्विक शक्ती जो धारण करता तो असुर.

ऋग्वेदाच्या उत्तरकाळांत, असुर ह्या शब्दाच्या अर्थांत बदल जालो. जरी ह्या अर्थांत बळाची सया आसली, तरी असुराचो अर्थ राक्षस, दैत्य असो जालो. मुळचें विशेशण आशिल्लें उतर नाम जालें.

इंडो-इराणियन काळावेलें ऋत जशें भारतांत अस्तमानाक गेलें, तेच परी इंडो-इराणियन काळावेलो श्रेस्ठ वरुण हाजोय पांवडो भारतांत पावतकीर उणो जालो. ऋत अस्तमानाक वचून अनृताचो उदेव जालो आनी इंद्राचो पांवडो चडलो. इंद्र हो असुरांक मानपी असुरघ्न जालो. (ऋ.६.२२,४).

**आधारावळ:** १. Vedic Mythological Tracts, by R.N. Dandekar, हातूंतले 'Asura Varuna' आनी 'A Vedic God and a Vedic Seer, Vedic God: Varuna' हे लेख. २. लोकायत, लेखक: डॉ. स. रा. गाडगीळ. ३. ऋग्वेद, मराठी भाशांतर: सिद्धेश्वरशास्त्री चित्राव.

**असुर** । अ॑सुर, सा.रू. -रा; भौव. असुर, सा.रू. -रां । [सं. अ+सुर] पु. दैत्य; दानव; राक्षस; राकेस.

**विशेश:** 'असुर' हें मुळचें भौमानिक उतर. 'ज्याचेकडेन यात्विक शक्ती आसा तो', असो ताजो मुळचो अर्थ. जाल्यारूय, ऋग्वेदाच्या उत्तरकाळांत 'असुर' ह्या शब्दाच्या अर्थांत बदल जालो. लटक्या निरुक्ताक लागून, 'असुर' ह्या उतरांतलें 'अ' हें न्हंयकारी मुळाकूस धल्लें आनी 'सुर' म्हळ्यार 'देव' अशें एक नवें उतर घडैलें. देखून, असुर (अ + सुर) म्हळ्यार 'देव न्हंय तो';

'दैत्य'; 'राक्षस' असो ताजो अर्थ जालो.

**असुर** । अंसुर, सा.रू. -रा; भौव. असुर, सा.रू. -रां । [सं. अ+सूर्य] पु. निशाचर; चोर; रातिचो भोंवपी.

**असुर** । अंसुर, सा.रू. -रा; भौव. असुर, सा.रू. -रां । [?] पु. छोटा नागपुरांत रावपी एके रानवटी जमातिंतलो लोक.

**विशेश:** हो लोक पुर्विल्लया काळार लोखंड काडून, ताजीं आवतां करतालो अशें सांगतात.

कोळारियन जमातिकय एका काळार 'असुर' ह्याच नांवान वळखताले.

दक्षिण बिहारांत मानभूम नांवांचो एक भाग आसा. ताजें पुर्विल्लें नांव 'असुरभूम' आशिल्लें. आजय हो भाग लोखणाच्या खाणींखातीर प्रसिद्ध आसा.

**असुरी** । अंसुरी, सा.रू. -रे; भौव. -र्‍यो, सा.रू. -र्‍यां । [सं. असुरी] स्त्री. राक्षेशीण; राक्षिण; असुराची बायल.

**असुरी** । अंसुरी । [सं. आसुरी] वि. राक्षेशी; क्रूर; अतिशय कडक; खर; भयांकृत. (असुरी उपाय).

**असुर्पी** । अंसुर्पी, सा.रू. -र्पे; भौव. -र्प्यो, सा.रू. -र्प्यां । [अर. अशरफी (Ashrafi)] स्त्री. पंद्रावो शेंकडो धरून १९ व्या शेंकड्यामेरेन गोंयांत, तशेंच पुर्वेकडल्या बंदरांनी घोळटेंत आशिल्लें एक रूप्याचें नाणें.

**वा.प्र: पांचां असुर्प्यांचो:** जर्जर असो म्हातारखंड जावन फोंडा देगेर पाविल्लो.

**म्हणी:** १. असुर्पेच्या कापडाक रूप्याचें रेंद. २. पांचां असुर्प्यांचो घोवलो; कितलोसो गे मांय तगतलो?

**विशेश:** मुळाक भांगराच्या कितल्याशाच नाण्यांक हें नांव लागतालें. चड करून येजिप्तांतल्या दिनाराक आनी हिंदुस्थानांतले भांगराचे म्होरेक 'असुर्पी' म्हण्टाले. १७९३ वर्सांतल्या कायद्याप्रमाणें कलकत्त्यांत हे म्होरेचें मोल ब्रिटिश ११ शिलिंग आनी स पेन्स वा अदमासान सोळा रूपया इतलें जातालें, आनी तिजें वजन १९०.८९४ ट्रॉय गरांव जांवक जाय आशिल्लें.

गोयांत असुर्प्यो चलताल्यो त्यो रुप्याच्यो. फिर्गी गोंयांत आयले, तेन्ना हांगा 'अब्बासी' ह्या नावांचेंय आनीक एक रुप्याचें नाणें घोळटेंत आशिल्लें. जाल्यारूय, १५९८ च्या सुमाराक पुर्तुगेज सरकारान एक फर्मान काडून 'अब्बासी' घोळटेंतल्यो काडून घेतल्यो आनी आपली नवी म्होर माल्ली. हे नवे म्होरेक 'असुर्पी' हेंच नांव तांणीं दवल्लें. पुर्तुगेज असुर्पेचेर एके वटेन सांत सेबाश्तियांवांचें चित्र उठायल्लें आशिल्लें आनी दुसरे वटेन तीन वा चार भाल्यांची भोरकुटी आशिल्ली. हिजें मोल ब्रिटिश १ शिलिंग आनी ६ पेन्स, वा पुर्तुगाली ३०० रैस आनी रुपयाच्या मानान स आणे आठ पयो इतलें जातालें.

पुर्तुगेजींत असुर्पेक 'शेराफीं' (Xerafim) अशें म्हण्टाले.

**आधारावळ:** Hobson Jobson, by Col. Henry Yule, R.E.,C.B. and A.C. Burnell, P.H.D., C.I.E.

**असूर** । अंसूर, सा.रू. -री । [सं. अर्शस्] स्त्री. नाडीकडल्यो शिरो फुगून तांतूंतल्यान वता तें रगत; बीक; मोड.

**वा.प्र.: असूर पडप:** नाडिंतल्यान रगत वचप.

**असैमी** । असयूमी । [सं. अ+कों. सैमी] वि. सैमाचो, निजाचो न्हंय असो वा सैमाची, निजाची न्हंय अशी; अडेचो -ची -चें. (सैम-संवारा पडिल्लयो तेरक तरे, असैमी वंयो...., कविता: 'अेक सप्नाळो गांव' —दर्या गाजोता –कवी: र. वि. पंडित. पा.३४)

**असो** । असॉ, सा.रू. -श्या; भौव. -शे (शॅ), सा.रू. -श्यां । [सं. ईदृश] वि. असलो; ह्या सारको; सराबरी करपासारको. (ताजे असो मानाय ह्या आसमंतांत ना.)
**क्रि.वि.**: हे तरेन; हे भाशेन; हे रितीन. (तो म्हजेकडेन असो चलतालो की, आमची इश्टकाय अभंग उरतली, अशें म्हाका दिसतालें!).

**असो-तसो** । असॉ-तसॉ, सा.रू. -श्या -श्या; भौव. -शे -शे, -श्यां -श्यां । [सं. ईदृश - तादृश] वि. किरकोळ; ल्हान; उणो; बाबत.
**क्रि.वि.** कसो तरी; आटु-कुटून; टामटीम करून. (ताजो प्रपंच असो-तसो चल्ला.)

**अस्कड** । अस्कॅड्, सा.रू. -डा; [सं. अवस्कर: = घाण; कोयर, कोचोब] न. १. कोयर; कोचोब; कचकच. (तांदूळ वेंचूंक त्रास जातात. भितर अस्कड खूप आसा.) २. गल्ल; खांचोट. (थंयच्यान वचूं नाका. थंय आस्कड आसा.) ३. आडखळ; अडचण. (थंयची ताम्रेत कुशीन काड. ना जाल्यार पालखी व्हरतना तुका अस्कड जातलें). ४. आडमेळें; अभ्र; कूप. (कूड होच आत्मो म्हणपाच्या भ्रमाच्या अस्कडांतल्यान जेन्ना तुजी बुद्द सामकीच पेल्यान पावत, तेन्ना आजवेर आयकल्लया आनी फुडाराक आयकुंचेल्या करण्यांच्या फळांचो तुका वीट येतलो. —भ.गी. (अ.२.५२), कोंकणी भाशांतर, शणै गोंयबाब, पा.२४).
**वि.** १. अनर्थांची; काळजांत धडकी भर सारकी; चक्रव्यूह कशी; भयांकृत. (...ताणें ताका ताच्या सैन्यासैत घुस्पागदळाचे सकल-उबार वाटेंतसून व्हेलो. सैतान लेगीत गदळूंक जायत असली अस्कड वाट ती आसली. —गों. गों. वसणूक, बरो: शणै गोंयबाब, पा.९९). २. निर्मळ, स्वच्छ, प्रसन्न न्हंय अशें; धुल्लान, घाणीन वा अळशिकेन भरिल्लें. (अस्कड घर). ३. कांट्यां-खुंट्यांचो; अडचणेचो.
**म्हणी:** १. घर अस्कड आनी बायल माकड, परिणामाक बरीं.
२. घर अस्कड आनी बायल माकड, त्या दादल्याक ना सांकड.

**अस्कडी** । अस्कॅडी, सा.रू. -डे; भौव. -ड्यो, सा.रू. -ड्यां । ['अस्कड' वेल्यान] वि. कांट्या-खुंट्यांनी आनी गुंड्या-फातरांनी भरिल्ली; खांची - गोंयड्यांची; घुस्पा - गदळाची; त्रासा - वळवळ्याची; कस्टा - दगदगाची; आडमेळ्याची; अडचणेची. (अस्कडी ही वाट म्हजी। आजून सोपून सोंपना। फातरांचीं जावन फुलां। वाट म्हजी पर्मळना। – दिस्टावो, पांडुरंग भांगी., पा.१३)
**विशेश:** अस्कड ह्या नपुसकलिंगी नामावेल्यान, 'अस्कडो', 'अस्कडी' आनी 'अस्कडें' हीं, अनुक्रमान पुल्लिंगी, स्त्रीलिंगी आनी नपुसकलिंगी विशेशणां घड्टात वा घडोंवक येतात. जाल्यारूय, 'अस्कड' ह्या नामावेल्यान घडिल्लें 'अस्कडी' हें ह्या विशेशणाचें स्त्रीलिंगी रुपच घोळटेंत आसा.

**अस्कत** । अस्कत् । [सं. अशक्त] वि. १. अशक्त; दुबळो; दुर्बळ. २. असमर्थ.
**म्हण:** १. घर अस्कत, बायल मर्कट.
२. खरी मर्दी अस्कताक तारी आनी गर्व्याक खालतो करी.

**अस्कताय** । अस्कतॉय्, सा.रू. -ये । ['अस्कत' वेल्यान] स्त्री. अशक्ताय; दुर्बळाय; दुर्बळकाय.

**अस्कतिक** । अस्कतीक् । ['अस्कत' वेल्यान] वि. १. अशक्त; दुर्बळ. २. असमर्थ.

**अस्कतेचि** । अस्कतेचि । [सं. अकस्मात्?] क्रि. वि. अवचित; अचकीत; अकस्मात. (...सोरो पिंवक काजूचो एक पेलो पास्तेन्यारी

तिने दवल्लो; तो सांतु आंतोनिच्या संगतीन आपुल्या हातीं जर घे, तरी ताजे दोनि कुडके अस्कतेचि जाले. —सां.अं. अचर्यां, पा.१०).

**अस्कतोचि** । अस्कतोचि । [सं. अकस्मात्?] क्रि. वि. अकस्मात; अवचित; (...त्या समस्त लोका हुजीर, तो बळाळिकेचो फ्रादि, जो असक्तायेन उश्वास सोडिनासलो, तो अस्कतोचि सोडूं लागलो. सां.अं. अचर्यां, पा.१०५)

**अस्कर** । अस्कर्, सा.रू. -रा । [सं. अक्ष = दोळो + कों. ता.कू. आर?; फा. आशकार = स्पस्ट; उक्तो?] पु. आवांठ. (मळाचें पोट चिरून व्हांवपी एक व्हाळ मात नदरेच्या अस्करांत येतालो. -'खाटकागेर एक रात'. —कथा, बरो: पुंडलिक ना. नायक, कोंकणी, वर्सुको अंक ८७-८८, पा.३०.)

**अस्खलित** । अस्खलीत् । [सं. अस्खलित] वि. आडखळनासतना, खंड पडनासतना. (अस्खलित भाशण).

**अस्ट** । अस्ट् । [सं. अष्टन्] सं. वि. आठ ही संख्या.

'अस्ट' हें उतर लागून 'अस्टकोणी', 'अस्टगंध'; 'अस्टगुणी' बी उतरां घड्टात.

**अस्टक** । अस्टक्, सा.रू. -का; भौव. -कां, सा.रू. -कां । [सं. अष्टक] न. १. आठ वस्तुंचो पुंजुलो. २. आठ श्लोक आशिल्लें काव्य. ३. आठ अध्यायांत मांडिल्लो ग्रंथ. ४. पाणिनीच्या व्याकरणाच्या आठ भागांतलो दर एक भाग. ५. ज्ञानाच्या वा बुद्दिच्या आठ आंगांतलें दर एक आंग. (म्हज्या आद्वोगादाच्या आंगांत हे सगळे गुण आसून तो कायद्यांत मोठो लापीट आसा म्हणपाची ताजी नामना गाजताली. परंत कायद्यांचें व-न-म नकळ जाल्लया म्हज्या शेजाऱ्याच्या घोळास्टकांफुडें तागेल्या गिन्यानाचीं अस्टकां गोड खांवक गेलीं. —गोमन्तोपनिपत्, २रें खंड, बरो: शणै गोंयबाब, पा.१४०).

बुद्दिचीं आठ आंगां अशीं: शुश्रूषा, श्रवण, ग्रहण, धारणा, चिंतन, उहापोह, अर्थविज्ञान आनी तत्त्वज्ञान.

**अस्टकोण** । अस्टकोण, सा.रू. -णा; भौव. -ण, सा.रू. -णां । [सं. अष्टकोन] पु. आठ कोनशे आशिल्ली आकृताय.

**अस्टकोणी** । अस्टकोणी । ['अस्टकोण' वेल्यान] वि. आठ कोनशे आसपी. (अस्टकोणी पेड).

**अस्टगंध** । अस्टगन्ध, सा.रू. -न्धा । [सं. अष्टगन्धाः] न. १. आठ पर्मळीत द्रव्यां: चन्दन, अगरू, देवदार, कोळिंजन, कुसुम, शैलज, जटांमांसी, सूर-गोरोचन. २. हीं आठ पर्मळीत द्रव्यां एकठांय करून केल्लें गंध.

**अस्टगुणी** । अस्टगुणी । [सं. अष्टगुणिन्] वि. आठ गुणांनी संपन्न आसपी; कितलेशाच गुणांनी भरिल्लो; अस्टपैलू.

**अस्टग्राम** । अस्टग्राम्, सा.रू. -मा; भौव. -म, सा.रू. -मां । [सं. अष्ट+ग्राम] पु. आठ गांवांचो पुंजुलो.

**विशेश:** सहस्रार्जुनाचो सूड घेवन परशुरामान क्षत्रियांचो विध्वंस केलो आनी आपली वडा खरी करून सगळी पृथ्वी ताणें ब्राह्मणांक दान दिली. हे दान दिल्ले भुंयेचेर आपणें रावप हें ताका योग्य दिसलें ना. देखून, दक्षिणेंत येवन सह्याद्रिचे पश्चिमेक दर्याकडल्यान ताणें नवी भूंय घेतली. हाका लागून, सह्याद्रिकडल्यान समुद्रामेरेन अरूंद आनी लांबची लांब कोंकणपट्टी आसा, तिका 'परशुराम

क्षेत्र' हें नांव पडलें. हें उत्तरेकडल्यान जाल्लें सारस्वतांचें दुसरें स्थित्यंतर मानतात.

कांय दीस वतकीर, क्षत्रियांचेर जोडिल्लया जैताक लागून, परशुरामान आपल्या दिग्विजयाखातीर एक यज्ञ करपाचो थारायलो. ह्या यज्ञाखातीर उत्तरेकडल्यान त्रिहोत्र (तिरहूत) देशांतल्यान आपल्या नात्यांतले धा सारस्वत ब्राह्मण ऋशी ताणें दक्षिणेंत हाडले. ह्या ऋशिंची नांवां अशीं: भारद्वाज, कौशिक, वत्स, कौंडिण्य, कश्यप, वसिष्ठ, जमदग्नि, विश्वामित्र, गौतम आनी अत्रि.

ह्या विद्वान ब्राह्मणांकडल्यान आपलो यज्ञ ताणें यथायूक्त करून घेतलो आनी गोमन्त पर्वताच्या आवाठांतल्या अस्टग्रामांत अग्रहार दिवन ताणें तांची स्थापना केली. मठग्राम (मडगांव), वरेण्य (वेर्णें), कुटतरी (कुडतरी), बाणावली, शंखावली (सांकवाळ), रायचुरी (रायतूर), लोटली आनी नागवें ह्या गांवांक अस्टग्राम म्हण्टात. तेन्नाच्यान सारस्वत ब्राह्मणांचो प्रवेश दक्षिणेंत जालो. ताजेपैलीं परशुरामाबगर एकय सारस्वत ब्राह्मण दक्षिणेंत नाशिल्लो. परशुरामाचो हो यज्ञ आजच्या पेडण्या म्हालांतल्या हरमल ह्या गांवांत जालो म्हणपाची आख्यायिका आसा.

**आधारावळ:** सारस्वत भूषण, संपा: मठस्थ गणेश रामचंद्र वर्मा, पानां ५७-५८.

**अस्टदळी** । अस्टदळी । [सं. अष्टदलम्] वि. आठ पाकळ्यो आशिल्लें (अस्टदळी साळीक)

**अस्टदानां** । अस्टदानां, सा.रू. -नां । [सं. अष्टदान] न. भौव. मेल्लयाची क्रिया करतनां दितात तीं आठ जिनसांचीं दानां.

**अस्टधातू** । अस्टधातू, सा.रू. -तूं । [सं. अष्टधातु] पु. भौव. आठ धातू. आठ धातू अशे मानल्यात: भांगर, रुपें, काशें, शिशें, पितूळ, तांबें, लोखंड आनी तिखें. कांय जाण तिख्याच्या जाग्यार 'पारो' मानतात.

**अस्टनायकिणी** । अस्टनाय्किणी, सा.रू. -णीं। [सं. अष्टनायिका] स्त्री. भौव. आठ नायिका. (...समेस्तां गोपिकांचे हातीं क्रुस्टणु दिलो तें देखुनु तेय गोपिका आनंदभरित जावनु द्वारकांतु आयलेयो, आणि आरथि लिंबोळण क्रस्णाक करूंक लागलियो. जेवण सरूनु हौंस तुळियेरि बैसुनु अस्टनायकिणी सहित सारिपाटानी कृस्ण-रूक्मिणी खेळूं लागल्यो. —कृष्ण, रूक्मिणी आणि गोपिका, बरो: कृष्णदास शामा.)

**अस्टनायिका** । अस्टनायिका, सा.रू. -कां। [सं. अष्टनायिका] स्त्री. भौव. आठ नायिका.
**विशेश:** १. पुराणान मानिल्लयो आठ मुख्य शक्ती: उग्रचंडा, प्रचंडा, चंडोग्रा, चंडनायिका, चामुंडा, चंडा, अतिचंडा आनी चंडवती.
२. कृष्ण भगवानाच्यो आठ पट्टराणयो: रूक्मिणी, सत्यभामा, जाम्बवती, कालिन्दी, मित्रवृन्दा, याज्ञजिती, भद्रा आनी लक्ष्मणा.
३. इंद्राच्यो आठ नायिका: उर्वशी, मेनका, रम्भा, पूर्वचिती, स्वयंप्रभा, भिन्नकेशी, जनवल्लभा आनी घृताची (तिलोत्तमा).
४. संस्कृत साहित्यांतल्यो आठ शृंगारनायिका: वासकसज्जा, विरहोत्कंठिता, स्वाधीनभर्तृका, कलहान्तरिता, खण्डिता, विप्रलब्धा, प्रोषितभर्तृका आनी अभिसारिका.

**अस्टपट** । अस्टपट, सा.रू. -टा; भौव. -पट, सा.रू. -टां। [सं. अष्टपदः, अस्टपदम्] पु. दोंशी वटेन घुलो चलोवपाक आठ आठ घरां आशिल्लो बुद्धिबळाचो वा सोंगट्यांचो पट.

**अस्टपदी** । अस्टपदी, सा.रू. -दे; भौव. -पदयो, सा.रू. -दयां । [सं. अष्टपदी] स्त्री. आठ चरण आशिल्लें कवन. **(ला.)** माचूल.

**विशेश:** गोंयांत मोटारी येंवच्यो पैलीं, लोक जेन्ना बैलगाड्यांनी भोंवतालो, तेन्ना आस्तिक, सरदार आनी अधिकारी माचुलांनी भोंवताले. माचुलाक मुखावेल्यान दोन भोय आनी फाटल्यान दोन भोय, अशे चौग जाण (मानाय) लागताले. चौगांचे आठ पांय जातात, देखून माचुलाक 'अस्टपदी' म्हण्टाले. कांय जाण चार मानायांक लागून, ताका 'चतु:शिश्री' अशेंय म्हण्टाले.

**अस्टपुत्रा** । अस्टपुत्रा, सा.रू. -त्रे । [सं. अष्टपुत्रा] वि. जिका आठ पुत आसात ती बायल वा सवायशीण.
**विशेश:** होंकलेक तिजें लग्न लागतकीर, तिका आशिर्वाद दितनां 'तूं आठ पुतांची आवय जांव' असो आशिर्वाद दिवपाची चाल आसा.

**अस्टपैलू** । अस्टपैलू । [सं. अष्ट+फा. पहलू] वि. ज्याका आठ तासां आसात असो. –चड करून रत्नां बी. **(ला.)** कितलेशाच गजालींत पारंगत आसपी; कलेंत खांपो असो; हुशार; बुदवंत; चतुर.

**अस्टप्रधान** । अस्टप्रधान, सा.रू. -नां । [सं. अष्टप्रधान] पु. भौव. राज्यकारभार ससुरायेन चलपाखातीर नेमिल्लें आठ प्रधानांचें मंडळ.
**विशेश:** शिव छत्रपतीन ही पद्धत सुरू केली अशें म्हण्टात. जाल्यारूय, मनुस्मृतींत राजाचें प्रधान-मंडळ धा जाणांचें वा आठ जाणांचें आसचें अशें म्हळां. शिव छत्रपतिचें प्रधान-मंडळ अशें आशिल्लें: प्रधान, अमात्य, सचिव, मंत्री, डबीर, न्यायाधिश, सेनापती आनी न्यायशास्त्री.

**अस्टभुजा** । अस्टभुजा, सा.रू. -जे । [सं. अष्टभुजा] स्त्री. आठ भुजांची देवता; दुर्गा.

**अस्टम** । अस्टम् । [सं. अष्टम] वि. आठवो. (अस्टम स्थानावेलो गिरो)

**अस्टम** । अस्टम्, सा.रू. -मी । [सं. अष्टमी] स्त्री. शुक्लपक्षांतली तेच परी कृष्णपक्षांतली आठवी तीथ.
**विशेश:** श्रावण म्हैन्यांत गोंयच्या नारव्यां गांवांत तीर्थाची अस्टम (गोकुळास्टम) भरता. त्या दिसा, गोंयचो बहुतेक हिंदू लोक थंय तिर्थार न्हावपाक वता. त्या दिसा रातचे पारा, थंय भुतांची अस्टम भरता असो समज आसा. देखून, थंय गेल्लो लोक तेच परी मांड-पसरे, भयाक लागून, दीस धारेक वच्चे पैलींच आपली बिडकी कवळटात. ह्या कारणाक लागून थंय भरिल्ली अस्टमिची फेरी, त्याच दिसा पणजे येता.

**अस्टमांश** । अस्टमांव्श, सा.रू. -शा । [सं. अष्टमांश] पु. आठवो अंश; आठवो वांटो वा भाग.

**अस्टवर्ग** । अस्टवर्ग्, सा.रू. -र्गा । [सं. अष्टवर्ग:] पु. होंकलेचें लग्न लागतकीर, तिका घोवाच्या गोत्रांत घेतना, तागेल्या गोत्रांतल्या ज्या आठ मनशांक सत्काराक आपयतात, तातूंतलो दर एक जाण.
**वा.प्र.: अस्टवर्गांत काडप:** आपल्या गोत्रांत घेवप.

**अस्टवांकूड** । अस्टवांकूड् । [सं. अष्टवक्र] वि. आठ कडेन धोंगां-पोंगां आसपी; आठ कडेन वांक आसपी.

**अस्टविनायक** । अस्टविनायक्, सा.रू. -कां। [सं. अष्टविनायका:] पु. भौव. महाराष्ट्रांतल्या नांवाजत्या आठ स्थानांतले गणपती.
**विशेश:** महाराष्ट्रांतल्या नांवांजत्या आठ गणपती क्षेत्रांतल्या गणपतींक 'अस्टविनायक' म्हण्टात. तांची नांवां आनी स्थळां अशीं: १) श्री मोरेश्वर वा मयुरेश्वर, मोरगांव (पुणें); २)

श्री सिद्धिविनायक, सिद्धटेक, नगर जिल्हो; ३) श्री बल्लाळेश्वर, पाली (कुलाबा); ४) श्री वरदविनायक वा विनायक, महड वा मढ (कुलाबा); ५) श्री चिंतामणी, थेऊर (पुणें); ६) श्री गिरिजात्मज, लेण्याद्री, जुन्नराक लागसार (पुणें); ७) श्री विघ्नेश्वर, ओझर (पुणें) आनी ८) श्री गणपती, रांजणगांव (पुणें – नगर मार्गार.)

ह्या अस्टविनायकांकडेन लग्निक आशिल्लो श्लोक मेळटा तो असो:

स्वस्ति श्री गणनायकं
गजमुखं मोरेश्वरं सिद्धिदं ।
बल्लाळं मुरूडं विनायकमढं
चिंतामणिं थेऊरम् ।
लेण्याद्रिं गिरिजात्मजं सुवरदं
विघ्नेश्वरं ओझरं ।
ग्रामे रांजणसंस्थिते गणपतिं
कुर्यात् सदा मंगलम् ॥

चिमाजीअप्पान वसैच्या झुजांत पुर्तुगेजांचेर जोडिल्ल्या जैतांत ज्यो घांटी ताका मेळल्यो, त्यो ताणें जेजुरीक साकून लागींच आनी कऱ्हा न्हंयचे देगेर आशिल्ल्या मोरगांवच्या श्री मोरेश्वराच्या देवळाक दिल्यो. ह्यो घांटी युरोपी रविशेच्यो म्हळ्यार युरोपी आयटिकेच्यो आसात. तेच परी श्री बल्लाळेश्वर (पाली) आनी श्री चिंतामणी (थेऊर) हांच्या देवळांतल्योय घांटी युरोपी आयटिकेच्योच आसात.

**अस्टांग** । अस्टाङ्ग, सा.रू. -गां । [सं. अष्ट + अङ्गम्, अष्टाङ्ग] न. १. कुडिचीं आठ आंगां. २. योगशास्त्रान सांगिल्ले आठ भेदः यम, नियम, आसन, प्राणायाम, प्रत्याहार, धारणा, ध्यान आनी समाधी. ३. आयुर्वेदाचे आठ भागः शल्य, शालाक्य, कायचिकित्सा, भूतविद्या, कौमारभृत्य, अगदतंत्र, रसायनतंत्र आनी वाजीकरणतंत्र. ४. संबध देह वा अक्खी कूड. (तागेलीं उणीं उतरां आयकून म्हज्या अस्टांगाक जाळ पडले.)
**विशेश:** कुडिचीं आठ आंगां अशीं मानतात: **अ)** दोन हात, दोन पाय, दोन धोंपरां, हइडें (छाती) आनी मस्तक. **आ)**. भौमानान सास्टांग नमस्कार घालतना जीं आंगां लागतात तीं हीं: १) हात, पाय, धोंपरां, हइडें, मस्तक, दोळे (नदर), मन आणि वाणी. २) दोन दोळे, दोन हात, छाती, कपल, मान, आनी कमर.

**अस्टांगिक मार्ग** । अस्टाङ्गिक्मार्ग्, सा.रू. -र्गा; भौव. -र्ग, सा.रू. -र्गां । [सं. अष्टांग + मार्गः] पु. आठ सुत्रां आशिल्लो मार्ग; आठ सुत्री मार्ग.
**विशेश:** रतिभोगांत सूख मानप आनी तपान कुडिक देहदंडना दिवप, हे दोनय मार्ग अनर्थाकडेन व्हरतात, अशें बुद्ध भगवानाक दिसलें. देखून, गिन्यानाचे दोळे दिवपी आनी निर्वाणाकडेन सोंपेपणीं व्हरपी असो आठ सुत्री मध्यम मार्ग बुद्ध भगवानान सोदून काडलो: यथार्थ दृस्टी, यथार्थ संकल्प, यथार्थ वाचा, यथार्थ कर्मान्त, यथार्थ आजीव, यथार्थ व्यायाम, यथार्थ स्मृति आनी यथार्थ समाधी होच बुद्ध भगवानाचो अस्टांगिक मार्ग. (पळेयात: भगवान बुद्ध, लेखक: धर्मानंद कोसम्बी, पा.८३).

**अस्टांगीं** । अस्टाङ्गीं । ['अस्टाङ्ग' वेल्यान] क्रि.वि. १. हस्तुकीं; खासा; व्यक्तिशः (इं.) Personally (म्हजे अस्टांगीं हांव तुजें काम करीन.) २. पुराय शक्त उपकरावन.

**अस्टाग्रहार** । अस्टाग्रहार्, सा.रू. -रा । [सं. अष्ट + अग्रहारः] पु. आठ अग्रहारांचो पुंजुलो.
**विशेश:** थोड्या थोड्या गांवांचे पुंजुले करून तांकां आंकड्यांनी नांवां दिवपाची चाल फक्त गोंयांतच दिसता. तीस गांवांच्या पुंजुल्यावेल्यान तीसवाडी, सैंसस्ट गांवांच्या पुंजुल्यावेल्यान

सास्टी, सत्तर गांवांच्या पुंजुल्यावेल्यान सतर, बारा देसकतींच्या पुंजुल्यावेल्यान बारदेस, आठ अग्रहारांच्या पुंजुल्यावेल्यान अस्टाग्रहार आनी पांच म्हालांच्या पुंजुल्यावेल्यान पंचम्हाल. —(गोंयकारांची गोंयांभायली वसणूक, बरोः शणै गोंयबाब, पा.५२.)

**अस्टावधानी** । अस्टाव्‌धानी, सा.रू. -न्या; भौव. -नी, सा.रू. -न्यां । [सं. अष्टावधानी] वि. एकेच फावटीं आठ कामांकडेन ध्यान दिवपी; अत्यंत चलाख; अत्यंत शिटूक वा चतुर.

**अस्टाक्षरी** । अस्टाक्षरी, सा.रू. -री । [सं. अष्टाक्षरी] स्त्री. काव्यांतल्या एका छंदाचें नांव. —गायित्री छंद हो अस्टाक्षरी आसता.
**—मंत्रः** पु. आठ अक्षरी मंत्र; विष्णु भगवानाचो मंत्र -'ॐ नमो नारायणाय'.

**अस्टिदेग** । अस्टिदॅग्, सा.रू. -देगे; भौव. -देगो, सा.रू. -दॅगां । [सं. अष्ट+कों. देग] स्त्री. ल्हान व्हड अशो आठ वळी आशिल्ली रूंद तांबडी देग. —ही देग खरवत कांठीय आसताली.

**अस्टिदेगेचो, चें** । अस्टिदेगेचॉ, चँ; सा.रू. -च्या,-च्या; भौव. -चे (चॅ),-चीं, सा.रू. -च्यां,-च्यां । ['अस्टिदेग' वेल्यान] वि. आठ वळिंची रूंद बरी तांबडी देग आशिल्लो. (...ह्या वैजाक तम्रिप दिवचे खातीर एक बरोसो अस्टिदेगेचो जोडो विकतो हाडात. —मो.लग्न, बरोः शणै गोंयबाब, पा.५६.)
**विशेशः** पैलिंच्या काळार जांवयाक दितना वा कोणाचोय भोमान करतना, ताका अस्टिदेगेचो जोडो दिताले. जोडो हो दोन पुडव्यांचो आसता. 'जोडो' हें पुल्लिंगी नाम आनी 'पुडवें' हें नपुसक लिंगी नाम. ताका लागून, 'अस्टिदेग' ह्या नामावेल्यान घडून आयिल्लें विशेशण, पुल्लिंगी आनी नपुसक लिंगांतच घोळटेंत आयलें. देखीकः अस्टिदेगेचो जोडो; अस्टिदेगेचें पुडवें. ह्या विशेशणाचें स्त्रीलिंगी रूप घोळटेंत आयिल्लें दिसना.

**अस्त** । अस्त, सा.रू. स्ता । [सं. अस्तः] पु. १. अंतर्धान; लोप; नदरेआड वचप. २. मळबांतल्या गिऱ्यांचें धारेआड पावतकीर जाता तें मावळप. देखीकः सुर्यास्त, चंद्रास्त. ३. नाश; अखेर. —मरण, अपकीर्त वा वांकड्या कर्तुपांक लागून जाल्लो.

**अस्तम** । अस्तम्, सा.रू. -मे । [सं. अस्तम्] स्त्री. सूर्य अस्ताक वता ती दिशा. (...थंयच्यान दक्षिणेकडल्या अगस्त्य तिर्थार आनी मागीर अस्तम दिकेच्या समुद्रावेल्यान प्रभासतिर्थार पावले. —महाभारत, खण्ड १, बरोः रवीन्द्र केळेकार, पा.२०३).

**अस्तमती** । अस्तमती, सा.रू. -ते । [सं. अस्तम्] स्त्री. १. दिगंतेचे जे दिशेक सूर्य अस्ताक वा अस्तमानाक वता ती दिशा; मावळटी; पश्चिम. २. सूर्य अस्तमानाक वता ते दिशेचो आवांठ वा वाटार.
**विशेशः** अस्तमतेक सूर्याचो अस्त जाता, म्हणून तिका बरी मानिनात. उत्तर दिशा ही कुबेराची दिशा. ती प्रशस्त आसल्यारय म्लेंच्छांचे संगतीक लागून ती दुशीत जाल्या अशें मानतात. दक्षिण दिशा ही यमाची दिशा. थंय दूस्ट राक्षस रावतात. देखून, तिका योग्य दिशा मानिनात. पूर्व दिशेक सूर्य उदेता. हे दिशेकच इंद्राचो राबितो आसा. गंगा पूर्व दिशेकच व्हांवता. देखून, पूर्व दिशेक प्रशस्त दिशा मानतात. —(कथा सरित्सागर, लंबक ३, तरंग ४, पा.२५७.)

**अस्तमप** । अस्तमप्, सा.रू. -पा । [सं. अस्तम्] क्रि. दा. धा. सा. ना. (मूळ धातूः अस्तम् (अक.)) १. अंतर्धान जावप;

अदृश्य जावप; लोप जावप. २. अस्ताक, अस्तमानाक वचप; मावळप; धारेक वचप. (हांव घरा पावचे पैलींच दीस अस्तमलो). ३. वचप; सोंपप; ना जावप (हे भाशेन, दाभोळा साकून गोंयांमेरेन सगळें दक्षिण कोंकण ताज्या हातांत आयलें. आनी कदंबांची सत्ता सासणाची अस्तमली. -गों.गों.वसणूक, बरो: शणै गोंयबाब, पा.८८).

**अस्तमान** । अस्तमान्, सा.रू. -ना । [सं. अस्तमनम्] पु. पळेयात 'अस्त'.

**—वेळ:** पु. सांजेचो वेळ; सांजचो वेळ; सांजवेळ.

**वा.प्र.: अस्तमानाक वचप:** १. धारेक वचप; मावळप; अस्तमप. २. वचप; ना जावप.

**अस्तरी** । अस्तरी, सा.रू. -रे; भौव. अस्तऱ्यो, सा.रू. -ऱ्यां । [सं. स्त्री] स्त्री. बायल; बायल मनीस.

**म्हण:** न्हाल्लीधुल्ली अस्तरी, शेण-कोयर काडिल्ली धर्तरी.

**अस्ताव्यस्त** । अस्ताव्व्यस्त् । [सं. अस्तव्यस्त] वि. व्यवस्थितपणाची उणाय आसपी; धंग नाशिल्लो; कशाकसोय; बेशिस्त. (अस्ताव्यस्त कारभार).

**वा.प्र.: अस्ताव्यस्त उडवप:** कशाकशींय उडवप; जळामळाक शिंपडावप.

**अस्ताव्यस्त जावप:** धंग नाशिल्लयान अव्यवस्थित जावप. (न्हिदेंत भुरग्याचें आंगावलें अस्ताव्यस्त जालें).

**अस्ताव्यस्त पडप:** कशाकसोय पडप. (सोरो पियोवन तो अस्ताव्यस्त पडला.)

**अस्तित्व** । अस्तित्व, सा.रू. -त्वा । [सं. अस्तित्व] न. १. आसपाची स्थिती. २. राबितो. ३. सासाय.

**अस्तिविसर्जन** । अस्तिविसर्जन्, सा.रू. -ना। [सं. अस्थि + विसर्जनम्] न. मेल्ल्याचे अस्तींचें पवित्र न्हंयत वा पवित्र तिर्थांत धर्मविधीन केल्लें विसर्जन.

**अस्ती** । अस्ती, सा.रू. -तीं [सं. अस्थि] स्त्री. भौव. १. हाडावळ. २. मेल्ल्याची दहनक्रिया केल्याउप्रांत पवित्र तिर्थांत उडोवपाखातीर राखेंतल्यान काड्टात तीं ताजीं हाडां. (पळेयात: 'अस्थि'.)

**अस्तुरी** । अस्तुरी, सा.रू. -रे; भौव. -ऱ्यो, सा.रू. -ऱ्यां । [सं. स्त्री] स्त्री. बायल; अस्तरी; बायल मनीस.

**विशेश:** 'अस्तरी', 'अस्तुरी', 'ओस्तोरी', 'अस्त्री' हीं 'स्त्री' ह्या संस्कृत उतरांची उलोवपांत अपभ्रंशान जाल्लीं रुपां.

**अस्त्र** । अस्त्र, सा.रू. -स्त्रा; भौव. -स्त्रां, सा.रू. -स्त्रां । [सं. अस्त्रम्] न. १. यंत्रान वा मंत्रून सोड्टात तें हत्यार; पैस आशिल्ल्या वा लागीं आशिल्ल्याचो संव्हार करतात तें हत्यार. २. घाय घालून दुखीन वळवळांक येता वा प्राणय घेंवक येता अशे तरेन घडयल्लें हत्यार. देखीक: तुबक, रायफल, तलवार, तुतयो, सुरो, शींग, तोंडको बी. ३. बाण. ४. धनुश्य. ५. दुस्मानाचो मार चुकोवन, ज्याणें जिवाची राखण करूंक मेळटा तें आवत. देखीक: धाल. ६. शस्त्र; हत्यार. ७. **(ला.)** वखद; उपाय. (ताजी मस्ती निवळावपाचें अस्त्र म्हजेकडेन आसा. गरज पडल्यारच तें हांव भायर काडटलों.)

**विशेश:** पुर्विल्लया काळार हत्यारांचे दोन भेद करताले: अस्त्र आनी शस्त्र.

जें हत्यार पैस आशिल्लया वा लागीं आशिल्लया दुस्मानाचो घात करूंक उपकरायतात तें अस्त्र. ह्या अस्त्राचेय दोन वेगळे प्रकार आसात: यांत्रिक आनी मांत्रिक.

क्षेपणास्त्रां (क्षेपणार्थे अस्त्रम्), विमानांतल्यान उडैतात ते बाँब आनी तोफेंतल्यान सोड्टात

ते गुळे हे 'यांत्रिक अस्त्रां'त आस्पावतात.

मंत्रून सोडिल्लया हत्यारांक 'मांत्रिक अस्त्रां' म्हण्टात. धनुर्वेद संहितेंत मांत्रिक अस्त्रांचीं कांय नांवां दिल्यांत, तीं अशीं: ब्रह्मास्त्र, ब्रह्मदण्डक, ब्रह्मशिरस, पाशुपत, वायव्य, आग्नेय, नारसिंह बी. धोणवांतल्यान मंत्रून सोडिल्लो बाणय अस्त्रच जाता.

डॉ. सांकलियान अस्त्रांचो अर्थ 'मंत्रिल्लीं वा अभिमंत्रिल्लीं हत्यारां' (Magical Weapons) असो केला. मंत्रिल्लयान अस्त्रांक यात्विक बळ चड्टा, ताका लागून ताणीं अस्त्रांक 'मंत्रिल्लीं हत्यारां' (Magical Weapons) म्हळ्यांत जातलीं.

आर्विल्लया काळारच न्हंय, तर महाभारतांत पासून 'अस्त्र' हो शब्द मूळ अर्थान उपकारांवक ना. तातूंत कसल्याय हत्याराक अस्त्र म्हळां, ते मंत्रिल्लें आसूं वा नासूं.

लागीं आशिल्लया दुस्मानाक जिवानिशीं मारूंक उपकरायतात तें शस्त्र. शस्त्राचेय दोन प्रकार आसात: आयुध आनी प्रहारण. ह्या प्रत्येक शब्दाचो अर्थ वेगळो आसा. ज्याणें झूज झुजतात तें आयुध. जें प्रहार करूंक उपकरायतात तें प्रहारण.

'वसिस्ठ धनुर्वेदां'त चार तरेचीं हत्यारां सांगल्यांत: धोणवांतल्यान सोड्टात त्या बाणाक वा हातान मोखून मारतात त्या भाल्याक 'मुक्त हत्यारां' म्हण्टात. मुठींत धरून वावुड्टात त्या हत्यारांक म्हळ्यार तरवारिक 'अमुक्त' हत्यार म्हण्टात. यंत्रान सोड्टात त्या हत्यारांक 'यंत्रमुक्त' म्हण्टात आनी जीं हत्यारां सोडल्याउप्रांत, आपलें कार्य साधून, परत सोड्टल्याच्या हातांत येतात तांकां 'मुक्तामुक्त हत्यारां' म्हण्टात. देखीक: कृष्णाचें सुदर्शन चक्र आनी इंद्राचें वज्र.

प्रत्येकाचो अर्थ आनी निरूक्त जरी वेगळें आसलें तरी 'अस्त्र' हें उतर सगळे तरेच्या हत्यारांक उपकरायिल्लें मेळटा. देखीक: तलवार आनी गदा.

**आधारावळः** Weapons of the कुरूक्षेत्र War, by Dipavati Debroy —Annals of the Bhandarkar Oriental Research Institute —Vol. LXV, Parts I-IV, 1984.

**अस्त्रविद्या** । अस्त्रविद्या, सा.रू. -द्ये; भौव. -द्या, सा.रू. -द्यां । [सं. अस्त्रविद्या] स्त्री. अस्त्रां वा शस्त्रास्त्रां कशीं उपकरांवचीं हाजें ज्ञान वा गिन्यान दिवपी शास्त्र. (क्षत्रियांचें देवत्व कित्यांत. अस्त्रविद्येंत. —महाभारत, बरौ: रवीन्द्र केळेकार, खण्ड १; पा. २६४)

**अस्त्रवेद** । अस्त्रवेद, सा.रू. -दा । [सं. अस्त्रवेदः] पु. शस्त्रां कशीं घडोंवचीं आनी तांचो प्रयोग कसो करचो हें शिकोवपी शास्त्र.

**अस्त्री** । अस्त्री, सा.रू. -स्त्रे; भौव. -स्त्र्यो, सा.रू. -स्त्र्यां । [सं. स्त्री] स्त्री. अस्तरी; अस्तुरी; बायल. (भिस्मु मंत्र्या-प्रधानालागीं उलैलो: "आमच्या बापाक अस्त्रेवीण जीवाक सूख ना. माहा चिंताक्रांतु. तरी आतां हांव येकी कन्या तूर्तचि जोडिन." महाभारत, आदिपर्व, बरो: कृष्णदास शामा, पा.३)

**अस्थि** । अस्थी, सा.रू. -स्थी । [सं. अस्थि] स्त्री. भौव. मेल्लयाची दहनक्रिया केल्याउप्रांत, पवित्र तिर्थांत उडोवपाखातीर राखेंतल्यान काड्टात तीं ताजीं हाडां; अस्ती.

**विशेशः** वेदिक काळाचेर प्रेतां पुरपाची चाल आशिल्ली. तेच परी प्रेताचें दहन करपाचीय चाल आशिल्ली. उप्रांत प्रेतां पुरपाची चाल फाटीं पडली आनी दहन करपाचीच चाल उल्ली.

आपल्या कुटुंबांतल्या मनशांचेर आपली माया आसता. आपली भक्ती आसता, तेच परी आदराची भावना आसता. ज्या वेळार प्रेतां पुरताले, त्या वेळार ऋशी, प्रेत पुल्ल्याउप्रांत, पृथ्वीदेवतेकडेन मागताले:

''पृथ्वीदेवते, ह्या मेल्ल्याक येवकार दी. ताजेर माया करून, ताका वेल्या स्थानार व्हर. आवय जशी आपल्या भुरग्यांचेर मायेच्या वस्त्राचें पांगरूण घालता, तेच परी तूं तुजें वस्त्र तांचेर घाल.'' (ऋ.१०.१८.१०).

प्रेताचें दहन केल्याउप्रांत ऋग्वेदांतले ऋशी प्रार्थितालेः ''मेल्लयाचे दोळे सूर्या म्हऱ्यांत वचूं. प्राण वायूंत वचूं. ताजें सूक्षम शरीर द्यावा पृथ्वी आनी अंतरिक्षांत पावूं.'' (ऋ.१०.१६.३) तेच परी, आपल्या मायेच्या मनशाची राख आनी हाडां जळामळाक पावूं नये म्हणून ते अग्निक विनयतालेः ''अग्ने, ताजें शरीर आनी कात कशाकशीय हुलपावन ती जळामळाक उडोंव नाका.'' (ऋ.१०.१६.१). हेच भावनेन आमचीं काळजां भरिल्लीं आसतात. आपल्या पितरांची कृपा, आपल्याचेर तशीच आपल्या कुटुंबाचेर आसची, ही आमचे जिणेची प्रार्थना आसा. वेदिक ऋशीपासून आपल्या पूर्वजांची म्हळ्यार अंगिरस, अथर्वन आनी भृगू हांची कृपा सदांच आपल्याचेर आसची, म्हणून तांकां विनयताले (ऋ.१०.१४.६). देखून, आजय प्रत्येक कुटूंब आपल्या मूळ-पुरसाक होरायता, आनी दर म्हैन्याक ताका उमास वाड्टा, म्हळ्यार उमाशे उमाशेक ताका निवेद्य दाखैता. ही प्रथा अथर्ववेदाचो काळ धरून चलता.

संत महात्म्यांच्यो अस्थि सदांच पवित्र मानतात. देखून, जंय तांचें दहन जाता, त्या जाग्यार समाधी बांदतात.

गौतमबुद्ध, बौद्ध धर्माचे आचार्य आनी साधू हांची हाडावळ आनी गोबोर पवित्र मानिल्लयान, बौद्ध धर्मी लोक तांच्या उगडासाखातीर घांटिचे आकृतायेची समाधी बांदतात. हे समाधीक 'चैत्य' म्हणटात. बौद्ध लोक चैत्यांची पूजा करताले. हीं चैत्यां फक्त हाडावळ आनी गोबोर हांचेरूच बांदताले अशें न्हंय, तर बुद्ध ज्या ज्या थळांनी पाविल्लो वा ताणें उपदेस केल्लो म्हणपाची वदंता चलताली, त्या त्या थळांनीय चैत्यां बांदपाची चाल आसली.

प्रेत जेन्ना घरांतल्या जाण्टयांचें आसता, तेन्ना जाण्टयांचेर आशिल्लया आदरावांगडाच लागणुकेचीय भावना आसतां. जेन्ना प्रेत ल्हानाचें आसता, तेन्ना मायेची, प्रेमाची भावना थंय आसता. हे आदराचे, प्रेमाचे भावनेन निर्माण जाल्ले लागणुकेक लागून, मेल्ल्यांच्या अस्थि फाटल्यान एके पवित्र भावनेचो उदेव जाता आनी तांचो उद्धार जावन तांकां सद्गती मेळची, हे धर्म-भावनेन त्यो तिर्थार वा पवित्र न्हंयत उडोवपाची प्रथा चलता.

दहन केल्लया दिसासाकून, दुसऱ्या, तिसऱ्या, चौथ्या, सातव्या आनी णव्या दिसा अस्थि पुंजायतात. ज्या दिसा अस्थि पुंजावपाच्यो आसतात, त्या दिसा गिराण आयल्यार, गिराणाचे वेध सुरू जांवचे पैलीं अस्थि पुंजायतात. अस्थिंवेल्यान गिराण वचूंक फावना, असो एक समज आसा. तेच परी अस्थि पुंजांवक आयतार, मंगळार आनी शनवार हे दीस वर्ज्य मानल्यात.

शहरांनी लोकवस्ती चड आशिल्लयान आनी मसंड सार्वजनीक जाल्लयान, अस्थि तिसऱ्या दिसा पुंजावच्यो पडटात. गांवा गांवांनी प्रत्येक जातिच्यो वेगळ्यो मसंडी आसतात. कांय घरवडिंच्यो खासा तांच्यो मसंडी आसतात. कांय श्रीमंत लोकांच्यो तर, तांच्या भाटांनी तांच्याच कुटुंबांखातीर मसंडी आसतात. देखून, खेड्यांनी म्हळ्यार गांवांनी अस्थि णव्या दिसा पुंजायतात.

**अस्थिपंजर** । अस्थिपंज्यर्, सा.रू. -रा; भौव. -र, सा.रू. -रां । [सं. अस्थिपञ्जर] पु. हाडांचो जाल्लो सांपळो वा पांजरो.

**अस्थिर** । अस्थीर्, । [सं. अस्थिर] वि. १. अथीर; चंचल; स्थिर न्हंय तो; थिल्लार. २. अनित्य; खिणयाळो. ३. जो एका जाग्यार थारना तो; ज्याच्या पांयांर नक्षत्र पडलां तो.

**अस्पस्ट** । अस्पस्ट । [सं. अस्पष्ट] वि. १. जें स्पस्ट, उक्तें ना तें; जें प्रगट करूंक ना तें; अव्यक्त. २. जें स्पस्ट दिसना वा झळकना तें. ३. संदिग्ध; गूढ. (हीं उतरां जर अस्पस्ट आसत, तर तीं स्पस्ट करपाचे भानगडींत पडूं नाकात. जिणेचो आरंभ हो अस्पस्टच आसता). (इं.) Vague. ४. धड कळना अशें; मोघम.

**अस्पृश्य** । अस्पृश्य, सा.रू. -शा; भौव. -श, सा.रू. -श्यां । [सं. अस्पृश्य] वि. स्पर्श करूंक अयोग्य तो; ज्याका आफडूंक फावना असो.

**विशेश:** भारतांतच अस्पृश्य आसात अशें न्हंय. अस्पृश्य श्रीलंकेत आसात, ते जपानांत आसात आनी फिलिपिनच्या दक्षिण भागांतय आसात. श्रीलंकेंत तांकां 'रोडिया' म्हण्टात. तांच्या शिक्षणाचेर थंय बंधनां आसात. 'रोडिया' म्हळ्यार अळशीक. 'रोडिया' हे हेर अस्पृश्यांवरीच मेल्लया जनावरांचे चामडें सोलतात आनी हेर लोक करिनात तीं अळशिकावणीं कामां ते करतात. जपानांत तांकां 'बुराकुमीन' म्हण्टात. तांकां पैलीं 'एता' ह्या नांवांन वळखताले. 'एता' म्हळ्यार अळशिकेन भरिल्ले. हे झगडाळ, लैंगिक अनाचार करपी, तेच परी बुरशे आसतात, अशें सांगतात. दक्षिण फिलिपिनांत तांकां 'समाल लुवान' म्हण्टात. 'लुवान' ह्या उतराचो अर्थय 'देवान सोडिल्ले वा देवान पैस धुकल्लेले' असो आसा.

हिंदू धर्मांत जातिभेद आशिल्लयान कांय जातींनी म्हळ्यार म्हार, चांभार, चांडाळ, मांग बी हाणीं सवर्णांक आफडूंक फावना असो दंडक आशिल्लो. इतलेंच न्हय, तांची सावळीपासून निशिद्ध मानताले. ही दूस्ट चाल वंश पिड्यांनी आजय खंय खंय चलतना दिसता. आजय, ह्या विसाव्या शेंकड्यांत तांकां आफुडल्यार खंय खंय भस्ट धरतात. कांय कडेन आजुनय तांकां जिते हुलपावपाच्यो घटना घडिल्लयो आयकूंक येतात.

बुद्ध भगवानान आपल्याक जातिभंजक म्हळो. गांधी म्हात्मो आनी जायते सुधारक तांकां प्रतिस्ठा मेळची म्हणून वावुरले. खासा आंबेडकरांनी तांच्यांत जागृताय हाडली. जाल्यारूय, हे सगळे उपाय थेंटेच जाल्यात. कांय अपवाद सोडले जाल्यार, जंय जंय अस्पृश्य आसात, थंय थंय तांकां आजुनय प्रतिस्ठा मेळना. ते अप्रतिस्ठेची जीण जियेतात; विटंबना भोगतात.

**आधारावळ:** Ethnic groups in Conflicts, by Donald L. Horowith, University of California Press, Berkeley.

**अस्पृश्यताय** । अस्पृश्यताय्, सा.रू. -ये; भौव. -यो, सा.रू. -यां । ['अस्पृश्य' वेल्यान] स्त्री. १. अस्पृश्य आसपाची स्थिती वा दशा. (अस्पृश्यताय हें हिंदूधर्माक लागिल्लें एक लजेस्त खत आसा, अशें गांधी म्हात्म्यांनी सांगलां). २. अस्पृश्य आफुडल्यार धरतात तें आयब वा पात्सो. ३. अस्पृश्यान सवर्णांक आफडूंक फावना असो आशिल्लो दंडक.

**विशेश:** अस्पृश्यताय आमकां वेगळ्या वेगळ्या रुपांनीं जाणवता. दक्षिण आफ्रिकेंत आनी अमेरिकेच्या संयुक्त संस्थानांत (U.S.A). ती वर्णभेदाच्या रुपान जाणवता. सामाजिक मळाचेर ती गरिब आनी गिरेस्त ह्या भेदाच्या रुपान

जाणवता. आनी हिंदू धर्माच्या मळार विशमतेचे बुन्यादिचेर केल्ले अन्याय्य समाजरचनेच्या स्वरुपान ती मेळटा.

समाजांत कांय भेद आसप हें वेगळें आनी धर्माच्या आधारान ह्या भेदांक पोसणूक मेळप हें वेगळें! चातुर्वर्ण्य व्यवस्था हीं हिंदूच्या धर्मग्रंथांनी मान्य केल्ली व्यवस्था. हे व्यवस्थेचो सगळ्यांत प्राचीन उल्लेख ऋग्वेदाच्या पुरुषसूक्तांत मेळटा. (ऋ.१०.९०.१२). ऋग्वेदाच्या आठव्या मंडळांत तिनच वर्णांचो उल्लेख आसा. (ऋ.८.३५.१६-१८). तातूंतल्या 'वैश' ह्या वर्णाचो उल्लेख 'विश्' म्हळ्यार 'हेर सगळे' ह्या अर्थान येता. हाजो अर्थ इतलोच जाता की, पैलीं, खंयच्या तरी काळार, वर्ण तीन आशिल्ले. उप्रांत ते चार जाले.

शूद्र वर्ण हो नक्की खंयचो आशिल्लो, हाजो आजुनय गोंधळ आसा. स्मृतिंतले शूद्र हे आजचे माळी, मेस्त, शेतकार आनी हेर वेगळे वेगळे धंदे करपी लोक. ज्यांका आमी अस्पृश्य मानतांत, तांकां आनी आदिवासींक हे वर्णव्यवस्थेंत जागोच ना. कितल्याय पुर्विल्लया काळार गेल्यार पासून जाती आनी टोळयो ह्याच भेदान समाज वांटिल्लो दिसता. देखून, वर्णव्यवस्था ही केन्ना तरी खऱ्यांनींच आशिल्ली अशें दिसना. अस्तित्वांत आशिल्लया समाजाची फोडणिशी करपाचो तो एक भाग दिसता. ज्या काळांत स्मृति बरयल्यो, तो काळ जातिंचो. आमची धर्मपरंपरा मानता की, कलियूग सुरू जातकीर वर्णसंकर जावन जाती निर्माण जातात. कलियुगाचो आरंभ क्रिस्ता आदल्या तीन हजार वर्सांपैली जाला. त्या पैलींय जाती दिसताल्यो. वर्णव्यवस्था ही फक्त कल्पनेंतच आशिल्ली.

जाती कल्पनेंतय, एके वटेन स्पृश्य समाज आनी दुसरे वटेन अस्पृश्य समाज अशेंय चित्र दिसना. स्पृश्यांतय वेगवेगळ्यो जाती आसात. अस्पृश्यांतय वेगळ्यो वेगळ्यो जाती आसात. प्रत्येक जातींत, पोटजातींचे वेगवेगळे पांवडे आसात. वेल्या पांवड्यावेलो लोक, सकल्लया पांवड्यावेल्या लोकांगेर अन्न ग्रहण करिना, तेच परी लग्नाचो संबंधय जोडिना.

त्या भायर हिंदुधर्मांत आनीक एका विचाराचो पोड आसा. स्वामी विवेकानंद म्हण्टाः "ज्ञान, भक्ती आनी योग हे तीनय मार्ग कुशीक पडून आतां 'आफडूं नाका' इतलोच धर्म उल्ला. आपुण पवित्र आनी सगळो संवसार अपवित्र ही भावना! केदें तेजिस्ट ब्रह्मज्ञान हें? तुर्ताक बामणपण अंतस्कर्णांत ना वा दुसरे कडेनय खंयच ना. ब्रह्म सर्वव्यापी आसा म्हणून आयकतांत. जाल्यारूय, तें संवसारांत ना आनी स्वर्गांतय ना." हें पळेतकीर हिंदूंच्या विचारांत आनी आचारांत एक घळ आशिल्लेवरी जाणवता. ताका लागून भस्ट-अनवाळ्याचो, स्पृश्य-अस्पृश्यतायेचो विचार, हो हिंदू समाजरचनेचोच एक भाग आसा. अशें मोठ्या खेदान म्हणचें पडटा.

**आधारावळः** १. ऋग्वेद, मराठी भाशांतर, महामहोपाध्याय विद्यानिधि सिद्धेश्वरशास्त्री चित्राव.

२. वाटाः माझ्या-तुझ्या, ले. नरहर कुरंदकर.

३. स्वामी विवेकानंद यांचे समग्र ग्रंथ, -भाग १३ -खासगी पत्रें, हातूंतलें सन १८९४ तलें पत्र, पा.६७.

**अस्पृश्योद्धार** । अस्पृश्योद्धार्, सा.रू. -रा। [सं. अस्पृश्य + उद्धारः] पु. अस्पृश्यतायेचें निवारण; अस्पृश्यांची उन्नती; अस्पृश्यांक सामाजिक नदरेन वैर काडप.

**अस्मादिक** । अस्मादीक्, सा.रू. -का ।

[सं. अस्मत् + आदि + कृत्वा] स. ना. खासा आमी. –आपली व्हडवीक सांगपाखातीर, बढायेन जांव वा फकाडांनी जांव, 'आमी' ह्या उतराबदला उपकरायतात तें उतर. देखीक: अस्मादिक आशिल्ले म्हणून तुजें काम जालें.

**अस्मान** । अस्मान्, सा.रू. -ना । [फा. आसमान] न. १. मळब; आकाश; अंत्राळ. २. स्वर्ग. ३. **(ला.)** अरिस्ट; संकट; देवाचें अक्रुणें, रागणें. (ताजेर अस्मान पडलें). **वा.प्र: अस्मान पडप:** संकट, अरिस्ट येवप; देवाचें रागणें पडप.
**अस्मान मोटवें जावप:** स्वर्ग दोन बोटां उरप; गर्वाचो शिखर जावप.

**अस्मानी** । अस्मानी । ['अस्मान' वेल्यान] वि. निळसार; निळो. (अस्मानी रंग).

**अस्मिताय** । अस्मिताय्, सा.रू. -ये । [सं. अस्मिता] स्त्री. १. आपल्याक आशिल्लो आपलो अभिमान. २. कांय आगळ्या सभावगुणांक लागून, दुसऱ्या परस वेगळी जाता ती जिणेची धारणा वा प्रकृती. ती मागीर एका मनशाची जांव, एका समुदायाची जांव, एका राष्ट्राची जांव वा त्या राष्ट्रांतल्या लोकांची जांव. (गोंयची अस्मिताय). ३. सासाय, तेज.

**अस्वडी** । अस्वडी [सं. अ + दे. सवड्यां (=समक्ष)] वि. आडकुशीचो, जंय एकोडोच आपलोसोच बसूंक मेळटा असो; एकांत; निवांत असो. (घरा पावतकूच तर कुळागराच्या सावटाक अस्वडी जाग्यार जेन्ना मामला मावशेचो उगडास जातालो, तेन्ना सुनिताची याद येताली. —नकलामी, बरो: एन.शिवदास, पा.९).

**अस्वडीं** । अस्वडीं [सं. अ+ दे. सवड्यां (=समक्ष)] क्रि.वि. १. दोळ्याआड; अपरूखीं; फाटल्यान. (एक मौज म्हणून हो खेळ करून दाखयलो. तो सगळ्यांक मानलोसो दिसता. कित्याक कोणें अस्वडींय नाक किलसायल्लें कानार येंवक ना. —चवथिचो चंद्र. –दोन उतरां, बरो: आचार्य रामचंद्र शंकर नायक.) २. जाग-माग करिनासतना; नुलैत. (तुजें खंयचेय चलयेचेर मन बसलां जाल्यार तें अस्वडीं म्हाका सांग. —अेका परस अेक हटी, बरो: आचार्य रामचंद्र शंकर नायक, पा.१९). ३. एकांतांत (मागीर जेन्ना एक परकी बायल मनीस तुका अशी अस्वडीं घेवन बसता, तेन्ना तुवें कितें करप हें तुका समजना? —नकलामी, बरो: एन.शिवदास, पा.२७).

**अस्वमेद, अस्वमेदु** । अस्वमेद्, अस्वमेदु, सा.रू. -दा; भौव. -द/-दु, सा.रू. -दां। [सं. अश्वमेध:] पु. पळेयात 'अश्वमेध'. (...येर जे राये आसति जानीं अस्वमेद केले नांति तांकां बैसुंक सकली ऐसे सुवाते ठावो दिला. तेयां रायां बराबरी तुजो बापु पंडु बैसला. तें देखुनु हांव मनांत भोव दुखलों. -अस्वमेदु, अध्वाव पइलो, बरो: कृष्णदास नामा -मराठी संशोधन पत्रिका, वर्ष २रें, जानेवारी १९५९, अंक २रा.)

**अस्वल** । अस्वल्, सा. रू. -ला; भौव. -लां, सा. रू. -लां । [सं. ऋक्षभल्ल; प्रा. अच्छभल्ल] न. फिस्सीपॅदिश (Fissipedes) वर्गणांतलो आनी उर्सीदिवुश (Ursideos) वंशांतलो चार पायांचो, मांसखायरो तेच परी शाकाहारी, आंगार दाट केंस आशिल्लो, असो मोमयाळो हिंस्र प्राणी; आस्वेल; वांस्वेल.

**वा.प्र: अस्वलाच्यो खातकुतल्यो.** (फकणां करतां करतां प्राणार आयिल्लें संकट.)

**म्हणी:** १. अस्वल मारचे आदीं चामडें विकता.
२. अस्वलाचें नाक दरवेशाच्या हातांत. (शेराक सवायशेर असो कोणय तरी आसताच, ह्या अर्थान ही म्हण उपकरायतात.)

३. अस्वलाचो मोग म्हळ्यार प्राणाकडेन गांठ.
४. अस्वलाच्या गांडींत बाभळीचो खुंटो. (मस्त्याची मस्ती जिरोवपासंबंधान ही म्हण उपकरायतात.)
५. अस्वलाच्या गावांत केसांचो दुकोळ. (एकाद्री वस्त जंय खात्रीन मेळटली अशी अपेक्षा आसता, थंयच ती न मेळप.)

**विशेश:** अस्वल हो मोमयाळो प्राणी संवसारांतल्या बहुतेक भागांत मेळटा. संस्कृत 'ऋक्ष' आनी लॅटिन (Ursus) ह्या दोनय उतरांचो अर्थ उत्तरेकडचो असोच जाता. मुदलचो हो उत्तर गोलार्धांतलो प्राणी; दक्षिणेकडल्या ऊश्ण कटिबंधांतल्या प्रदेशांमेरेन पावला. हाच्यांवेल्यान अस्वलाच्या वसणुकेच्या आवांठाचो अदमास मेळटा आनी वेगवेगळ्या प्रदेशांतल्या हवामानाकडेन, ताणें कशें जुळोवन घेतलां म्हणपाची कल्पना येता.

पैलें पाशाणयूग धरून अस्वल मेळटा. अस्वल मनशाचे संस्कृतीकडेन लग्निक आसा. आनी कांय जमातींत तांच्या धर्मविधींत ताका जागो आसा.

अस्वलांत सात वंश मेळटात. हातूंतय जाती आनी पोटजाती आसात: **(१) युरो-आशिया: अ)** कुरणांतलें अस्वल (Ursus arctus). हें घैण रानांत रावता. हें अस्वल पिरिनेव पर्वताच्या कांय वाटारांत, बाल्कन देशांत, स्विडन, नोर्वे आनी फिनलंड ह्या देशांनी मेळटा. सिरिया ह्या देशांत Ursus arctus syriacus ह्या नावांची एक पोटजात मेळटा. चिनाचे पश्चिमेकडल्या भागांत Ursus arctus pruiosus ह्या नावांची आनीक एक पोटजात मेळटा. ह्यो दोनय पोटजाती रशियेच्या कांय आवांठांनी मेळटात. **ब)** हिमालयांतलें अस्वल (Selenarctos Tibetanus). हें अस्वल हिमालयाचो आवांठ धरून इराणाच्या उत्तरेच्या आवांठामेरेन, तेच परी चिनाचो पूर्वदिशेचो आवांठ धरून जपानमेरेन मेळटा. **क)** लांब ओंठांचे अस्वल (Melursus Ursinus). हें भारतांत आनी सिलोनांत मेळटा. ह्या अस्वलाचें मुस्कट लांब आसता. सकल्लो ओंठ लांब आनी फुडें आयिल्लो आसता. हाज्या बोटांक धव्यो नाखयो आसतात. फुडल्या पायांच्यो नाखयो लांब आसतात. **ड)** मलायेचें अस्वल (Helarctus Malayanus). हें ब्रम्हदेश, सियाम, मलाया, सुमात्रा आनी बोर्नेव ह्या देशांत मेळटा. हें अस्वल बाकिच्या अस्वलांपरस जायासान ल्हान आसता. **(२) उत्तर ध्रुव:** धवें वा ध्रुवावेलें अस्वल (Thalarctus Maritimus). हें अस्वल अत्यंत देखणें आसता. पूर्ण मांसाहारी आसता आनी हें शिंयाळी न्हीद घेना. **(३) अमेरिका:** (१) गोब्रें वा धवसार अस्वल. हें अस्वल सध्या उत्तर अमेरिकेंत दुर्मीळ जायत चल्लां. येलोस्टोन आनी ग्लारेसच्या प्राणीबागेंतच हें अस्वल आतां दिस्टी पड्टा. कानाडा आनी आलास्कांतय हें अस्वल मेळटा. (२) काळें अस्वल (Euartos Americanus). हें उत्तर अमेरिकेचो पश्चिमेकडलो भाग सोडून, थंयच्या हेर आवांठांनी मेळटा. (३) दोळ्यां भोंवतणीं निळें मंडळ आशिल्लें अस्वल (Tremarctos Ornatus). हें व्हेनेझुयेलाच्या दोंगरांनी आनी चिली देशांतच दिस्टी पडटा.

आफ्रिका, ऑस्ट्रेलिया आनी दक्षिण ध्रुव हांगां अस्वल मेळना.

हिमालयांत खासा अशें पुडी रंगाचें अस्वल मेळटा. Ursus arctos ह्या जातींत तें मोडटा. हाका 'लाल भालू' म्हण्टात. हें हिमालयांत, काश्मीरांत, हिमाचल प्रदेशांत आनी आसामाच्या पर्वतांच्या रांगांनी मेळटा. गिमांत हें अस्वल १२ हजार फुटांमेरेन चड्टा. शिंयाच्या दिसानीं तें पांचशीं फूट सकल देंवता.

फळां, बियो, गुलाबाचीं झाडां खावन हें अस्वल रावता. सफरचंदां, अक्रोड आनी जर्दाळू हांचो चराडो धरता. फातरांपोंदचे विंचू

मारून खाता. गिमाच्या दिसानीं हें बोकडां आनी मेंढरां मारता, आनी मारिल्ल्या जनावरांचें मांसय खाता.

हें अस्वल जायासान धिप्पाड आसता. हाजी लांबाय साडेसात फूट आसता. उंची तीन फुटांपरस चड आसता. ह्या अस्वलाचो वेलो ओंठ काळो आसता. सकल्लो धवो आसता. हड्ड्यार चंद्रावरी धवी आकृती आसता. हें पर्वतांच्या माथ्यार वस्ती करून रावता. शिंयाच्या दिसानीं हें घोलींत रावता, आनी देझेंब्र धरून मार्समेरेन हें दीर्घ न्हीद घेता.

हिमालयांत एक काळें अस्वल मेळटा. हाका Ursus Tibetanus म्हण्टात. ह्या अस्वलाचोय वेलो ओंठ काळो आसता आनी सकल्लो ओंठ धवो आसता. हड्ड्यार चंद्राची धवी आकृती आसता. ही आकृती खांद्यामेरेन पावता. हाजो देह घटमूट आसता. अवयव जाडे आसतात. आंगलोटाक निखालस डौल नासता.

पुडी रंगाच्या अस्वलावरीच हेंय अस्वल गिमाच्या दिसांनी बारा हजार फूट चडून वता. शिंयाच्या दिसांनी पांचशीं फूट सकल देंवता. पुडी रंगाच्या अस्वलावरीच शिंयाळ्यांत हेंय अस्वल दीर्घ न्हीद घेता. अस्वल न्हिदेंत घोरेता.

पुडी रंगाच्या अस्वलावरीच हेंय अस्वल जर्दाळू, अक्रोड, सफरचंदां खावन रावता. मक्याचीं बोंडां आनी गवांचीं कणसां खाता. तवशीं आनी दुदी हांचेर ताव मारता. बोकडां आनी मेंढरां मारून तांचें मांसय खाता.

हिमालयांतलें पुडी रंगाचें अस्वल स्वभावान मोव, तर हें अस्वल मस्तें. गांवांनी लोकवस्तेंत वचून हें अच्छेव कांड्टा. शेतांची नाशाडी करता. बागो उध्वस्त करून सोड्टा. खोंपींत हुमकळावन दवल्लेलीं म्होंवाचीं पोळीं सकल उडोवन तीं घेवन वता.

ह्या अस्वलाची नदर मंद आनी नाक तीख आसता. दोंगरांच्या तेमकांवेल्यान चेंडू कशें गडगडत हें केन्ना केन्नाय दोंगराच्या मुळसांत येता. हें अस्वल अत्यंत क्रूर आनी हिंस्त्र आसता. दूस्ट आनी भयंकर आसता. एकएकदां हें मनशाच्या आंगार वता. मनशाचें मांसय हें अस्वल खाता. हें झाडाचेर चडपाक लापीट आसता. झाडांचेर चडून हें फळां खाता. झाडांचे खांदे हालोवन हें फळां झडैता आनी उप्रांत तीं वेंचून खाता. अस्वलांच्या सगळ्या जातींत हेंच अस्वल चड मांसाहारी आसा.

हिमालयांतलें हें काळें अस्वल आसामांतल्या नौगांक जिल्ह्यांतय मेळटा. ह्या अस्वलाक थंय 'मोति भालुक' ह्या थळाव्या नांवान वळखतात.

ह्या अस्वलांभायर भारतांत सामान्य अशें काळें अस्वल मेळटा. Melarsus Ursinus ही ह्या अस्वलाची जात. जाल्यारूय, शास्त्रीक भाशेंत ह्या अस्वलाक Ursus Labiatus ह्या नांवांन वळखतात.

हें अस्वल लांबायेन साडेपांच ते पावणे स फूट आसता आनी साडेतीन फूट उंच आसता. हाज्या तोंडार केंस नासतात. सकल्लो भाग मात्सो धवसार आसता. ओंठ मोठे आनी बाबरे आसतात. कान ल्हान, वाटकुळे आनी दोळ्यांची नदर अत्यंत मंद आसता. केंस लांब, दाट, जड्डे आनी काळे आसतात. हड्ड्याचेर वाटकुळो असो धवो पटो आसता. मुखावेले पांय मात्शे बागवल्ल्यावरी आसतात. पावलां मोठीं आनी केंस नाशिल्लीं आसतात. नाखयो चंद्राची कोर कशी आनी धार आशिल्लीं आसतात. गिमाच्या दिसांनी हें अस्वल मोहाच्या फुलांचेर तुटून पड्टा.

हिमालयांतल्या अस्वलांवरी हें अस्वल

मांसाहारी न्हंय. हे आंबे, पणस, आनी हेर फळां खाता. म्होंवाक हें लंपट आसता. हाजो मांसाहार म्हळ्यार, हें मुयो, कापडये आनी गोंगुल्ले खाता.

हें अस्वल श्वास नेटान घेता. ताका लागून मातयेंतल्यो मुयो वैर उबून येतात. अशे तरेन मुयो खावपाक अस्वलाक आपल्या श्वासाचो लाव मेळटा.

अस्वल बायाच्यो सांगो खाता. ह्यो सांगो खातकीर ताका माणें लागता. ह्या माण्याचेर निवळण म्हणून तें मुयो खाता.

ह्या अस्वलाच्यो नाखयो बळिस्ट आशिल्ल्यान, सोंपेपणान तें रोयणी फोडटा आनी तांतूंतलो ओंळबो खाता. तागेलो हो उद्योग एके फांतोड्डेचेर चलता.

अस्वलां झाडार चडून सवण्यांचे घोंटेर काडून तातूंतलीं तांतयां खातात. काळें अस्वल हो उद्योग करता.

अस्वल जेन्ना थंड बशिल्लें आसता, तेन्ना आपलीं दावकुलां तें चाट्टा. तेच परी तीं एकामेकाचींय दावकुलां चाट्टात. दावकुलां चाट्टना तीं आनंदान धोलतात.

पोट भरून जातकीर अस्वलां घोलींत वा झाडाच्या आडोसाक बसून गुणगुणत आसतात.

भारतांतल्या पाशाणचित्रांनी अस्वलाचें चित्र मेळटा. अजंठ्याच्या वण्टी-चित्रानीय अस्वलाचें चित्र आसा. एका अस्वलान एका मनशाक मायेन आपले वेंगेंत घेतिल्लो त्या चित्रांत दाखैला. त्या चित्रांतल्या अस्वलाची मुद्रा काम-भावनेन भरिल्ली दिसता.

अस्वलाक घैण रानाचें प्रतीक मानतात. रानांत सावदांचे भोंवडेक वचपी भोंवडेकार जितले अस्वलाक भियेतात, तितले वागाक पासून भियेनात.

ऋग्वेद धरून ब्राह्मणां, पुराणां, महाभारत आनी रामायण हातूंत अस्वलाचो उल्लेख आसा. अर्धमागधींत, पाली आनी जैन वाङ्मयांत अस्वलाचो उल्लेख मेळटा. वराहमिहिराचे बृहत्संहितेंत, तेच परी मनुस्मृतींत अस्वलाचो उल्लेख आसा. कालिदासाच्या 'अभिज्ञान शाकुन्तलां'त आनी भवभूतीच्या 'उत्तररामचरितम्' हातूंत अस्वलाचो उल्लेख मेळटा. हरिविजयांत (क्रि. स. ८५५-८८४) अस्वलांचो राजा जाम्बुवंत हाज्या सैन्याचें वर्णन आसा.

सोमदेवाच्या 'कथासरित्सागरां'त (धावो शेंकडो) अस्वल विश्वासू आसता, पूण मनिसच विश्वासघातकी आसता, अशी कथा आसा. ज्याका अस्वल आपलो इश्ट मानता, ताजो तें केन्नाच घात करिना. मनीस मात घात करता, अशें लोककथानीं सांगलां. क्षेमेंद्राचे 'बृहत्कथामंजरीं'त अस्वल आनी मनशाची कथा आसा. 'राजा सिंहासनबत्तिशीं'त अस्वल आनी मनशाची कथा आसा. राजा विक्रमाच्या ह्या कथांचो उदेव मध्यभारतांत जालो. थंयच्यान त्यो कथा वेगवेगळीं रुपां घेवन तिबेट, चीन आनी दक्षिण आशियामेरेन पावल्यो. हिंदू आनी जैन परंपरांनीय ह्या कथांचो मान राखला. 'पंचतंत्रां'त मात अस्वलाची कथा ना.

अस्वलाचें मांस मधुर, पचपाक जड, वीर्यवर्धक, वाय ना करपी आसता, अशें सुश्रुत-संहितेंत (क्रि. स. १०० ते २००) सांगलां आनी ताजे दोळे भायले पिडेचेर गुणावाक येतात अशें म्हळां.

तंत्रविद्येंतय अस्वलाच्या मांसांचें म्हत्व सांगलां. अस्वलाच्या मांसाची आहुती दिल्यार, झुजांत दुस्मानांचे बाण थंयच्या थंय थांबोंवक मेळटात, अशें म्हळां. अस्वलाच्या मांसाक लागून घराचो लाभ जाता अशेंय सांगलां.

अस्वल दिसभर गुणगुणत आसता. अस्वलावरीच मनशानय गुरूचें नांव घेत रांवचें,

अशें एकनाथी भागवतांत सांगलां. अस्वलाची गणना किन्नरांत केल्या. किन्नर हे मनीस आनी अस्वल हांचे जुंवळकेंतल्यान जन्माक आयल्यात, अशें मानतात.

अस्वलाच्या चामड्यांत मांत्रिक शक्ती आसा अशें मानतात. मातंगिची पूजा करपी, हरण आनी अस्वल हांचें चामडें उपकरायतात. अस्वलाच्या चामड्यांत मायीक बळगें आशिल्ल्यान, ताज्यो तावजो करून गळ्यांत बांदतात. अस्वलाच्या केंसाचो तायत करून तो ल्हान भुरग्यांच्या गळ्यांत बांदल्यार ताका भुता-खेतांची, वारेसुत्राची बाधा जायना म्हणपाचो एक समज आसा.

छोटा नागपूरांतल्या मुंडांच्या गाण्यांनी अस्वलाचो उल्लेख आसा. महाराष्ट्रांतले महादेव कोळी ताका आपलो देव मानतात.

भारतांतल्या वेगळ्या वेगळ्या भासानीं अस्वलावेल्यान म्हणी आसात. 'आल फट्याक सोडिना आनी फटें आलाक सोडिना' ही कोंकणींतली म्हण, अस्वलाचेर आशिल्ले एके लोककथेकडेन लग्निक आसा.

वाग, शींव, बैल, हत्ती हे देव देवतांकडेन लग्निक जाले. तांच्यो म्हुर्ती जाल्यो. चित्रां जालीं. खेळणीं जालीं. दुकर आनी कासव विष्णुचे अवतार जाले. अस्वलाचें अशें जालें ना.

अजंठ्याच्या चित्रिकांनी आनी भरहुतच्या शिल्पिकांनीं ताका रानाचें प्रतीक मानलें. वस्त्राचेर उठायल्लें अस्वलाचें एकच चित्र मेळटा, तें पासून इकुणिसाव्या शेंकड्यांतलें. युरोपांतल्या देशांनी, जपानांत आनी चीन हांगा अस्वलावेल्यान तरेतरेच्यो कलेच्यो वस्तू घडयल्ल्यो मेळटात. 'टेडी बेअर' हें थंयच्या देशांतल्या भुरग्यांचो जीव की प्राण जालां. भारतांत हालींच टेडी बेअरची नक्कल केल्ली मेळटा. भारतीय अस्वलांचीं लक्षणां, कथा आनी प्रथा लक्षांत घेवन अस्वलांचीं खेळणीं तयार केल्लीं दिसनात.

अस्वलाचो बळी दिताले म्हणपाचो उल्लेख वेद वाङ्मयांत मेळटा. जपानच्या ऐनू लोकांत अस्वलाचो बळी दिवपाचे वेगवेगळे प्रकार मेळटात.

अस्वल मनशाक खातकुतल्यो करून मारता म्हणपाचो समज आसा, पुण अस्वल मनशाक खातकुतल्यो करून मारिना. तें आपल्या नाखटांनी मनशाचें हड्डें विदारून फोड्टा आनी ताका मारता.

गोंयच्या रानांनीय अस्वल मेळटा. नेतर्लेफुडें आशिल्ल्या रानांत अस्वल मेळटा. तिनयघाटावेल्या रानांत अस्वल मेळटा. पर्तगाळच्या रानांत मोहाचीं झाडां आसात. मोहाचीं फुलां खावपाक अस्वलां थंय वतात. रानांत एकलो-दुकटो मनीस दिस्टी पडल्यार अस्वल ताज्या आंगार वता. एकएकदां मनशाक उबारून तें ताका आपल्या घोलींत हाडून दवरता. अशो घटना कांय कडेन घडल्यात. अशें आसतनाय मनीस आपलें पोट भरपाखातीर अस्वलाच्या नाकांत दोरी घालून, ताका दारादारार खेळयता.

मनशाची अस्वलाकडेन थोडिभोव सारकाय आसा. अस्वलाक मनशावरीच दोन पांयांचेर चलपाक जमता. अस्वलाचे मुद्रेवेले भाव, जायते खेपो मनशासारके दिसतात. जंगलांत रावपी पुर्विल्ल्या मनशांवरीच अस्वल घोलिंनीं रावता. आपलें अन्न तें पुरून दवरता. ज्या जाग्यार अन्न पुरून दवल्लां, तो जागो अस्वल केन्नाच विसरना.

चार लाख वर्सां धरून, उण्यांत उणें म्हळ्यार पन्नास हजार वर्सां पैलींपासून, भारतांत अस्वल आशिल्लें म्हणपाचें सिद्ध जालां. पाशाणयुगांत जेन्ना मनीस सावदां-सवण्यांचे भोंवडेक भोंवतालो, तेन्ना पासून मनशाचो संबंध अस्वलाकडेन आसा. संस्कृतांत अस्वलाक 'ऋक्ष' म्हण्टात. तेच परी नक्षत्रांकय

'ऋक्ष' म्हण्टात. अस्वल हो प्राणी उत्तरेकडलो. रानांत भोंवडेक भोंवतासतना मनशाक नक्षत्रांवेल्यान दिशा कळटाल्यो. सप्तर्शी ह्या उत्तर दिशेच्या नक्षत्राक इंग्लेजींत 'ग्रेट बेअर' आनी पुर्तुगेजींत Urso Maior म्हण्टात. सप्तर्शी हें उतरय मुळांत 'सप्तऋक्ष' अशें आशिल्लें जावये. ह्या नक्षत्राच्या पुंजुल्ल्याचो संबंध अस्वलाकडेन लायला. देखून, अस्वल-संस्कृतीचें अस्तित्व त्या काळार आशिल्लें जांवक जाय. शिकारयुगांत नक्षत्रांक अत्यंत महत्व आशिल्लें. ताका लागून अस्वलाक देवाच्या पांवड्यार बसैल्लें आसूंक जाय. तेच परी अस्वल आनी नक्षत्रां हांचो संबंध जोडून पुराणाकथाय आशिल्ल्यो जांवक जाय. कृशि-संस्कृतिचो जन्म जातकीर ह्यो पुराणकथा इल्ल्यो इल्ल्यो करून ना जाल्यो जांवक जाय.

अस्वल हें रशियेचें बोधचिन्ह. अस्वलाक रशियेंत मनशाचो इश्ट मानतात.

मनशाकडेन अस्वलाचो संबंध पुरातन काळापासून आसा. मनीस जेन्ना प्राण्यांक आनी वनस्पतीक नांव दिता, तेन्नाच मनीस आनी जीवसृस्टी एकामेकांकडेन सासणाचें नातें जोड्टा.

**आधारावळ:** १. Verbo Enciclopédia Luso-Brasiliero de Cultura, -Vol 18 पा. ५३७.
२. अस्वल, ले. दुर्गा भागवत.

**अस्वली** । अंस्वली, सा.रू. -ली । ['अस्वल' वेल्यान ] स्त्री. एक वनस्पत; शतावरी.

**विशेश:** अस्वली वा शतावरी हे वनस्पतिची वाल आसता. तिका केंसासारके पांचव्या फुलांचे लांब घोंस फुलतात. हे घोंस सोबीत दिसतात. अस्वलाच्या आंगावेल्या केंसाभाशेन हे घोंस दिसतात, म्हणून हे वनस्पतीक अस्वली म्हण्टात.

**—पायपुसणें:** न. अस्वलाच्या केंसावरी खरखरीत आशिल्ल्या काथ्याचें केल्लें पायपुसणें.

**अस्वली-कांठी** । अंस्वली-कांठी । [कों. अस्वली + कांठ] वि. जे चंदेरी साडयेचे देगेर फुलां, कळे आनी पानांची नक्षी केल्ली आसता ती. (अस्वली-कांठी साडी).

**विशेश:** महाराष्ट्रांत पैलिंच्या पेठांनी एके तरेचे कापडाचे वा साडयेचे देगेक 'अस्वली-कांठी' म्हण्टाले. ज्या गावांत अशे तरेच्यो साडयो वा कापडां विणटात, त्या गांवाक चंदेरी म्हण्टात. हो गांव मध्यप्रदेशांत महाराष्ट्राक तेंकून आसा. ज्यो मिळमिळीत साडयो चंदेरींत विणटात तांकां 'अस्वली' म्हण्टात. हे साडयेवेले देगेचेर आनी पदराचेर कंगरखीस करपाक कसबी कारागीर लागतात. ह्या नक्षीकामांत वळी आसतात, फुलां आसतात, फळां आनी पानां आसतात; बिंदू आसतात आनी भुमितीच्यो आकृतायोय आसतात.

कांय पैठणी साडयोय अस्वली थाटाच्यो आसतात. साडयांच्या आंगार फुलांच्यो आकृतायो वेगवेगळया रंगाच्या धाग्यांनी विणटात. आंगार बुटेच बुटे आसतात. देग आनी पदर जरिचो आसता. हे कंगरखिशींतलीं वा नक्षेंतलीं नाजूक रंगीत फुलां आनी पानां शतावरी हे वनस्पतीचे पानांफुलांवरी मनभुलयणीं आनी नाजूक आसतात.

**अस्वस्थ** । अस्वस्थ् । [सं. अ + स्वस्थ] वि. १. अशांत; स्वस्थसाण नाशिल्लो; स्वस्थचित्त नासपी; चिंतेस्त. २. आरोग्याचे धोंशीक लागून जिवाक समाधान नाशिल्लो.

**अस्वस्थताय** । अस्वस्थताय्, सा.रू. -ये; भौव. -यो, सा.रू. -यां । ['अस्वस्थ' वेल्यान] स्त्री. १. असमाधान; खोस वा धादोसकाय नासप. २. आरोग्याचे धोंशीक लागून जिवाक सूख नासप.

**अस्वास्थ्य** । अस्वास्थ्य, सा.रू. -स्थ्या; भौव.

-स्थ्यां, सा.रू. -स्थ्यां । [सं. अ + स्वास्थ्य] न. स्वास्थ्य, समाधानाचो अभाव; धादोसकायेची उणाय.

**अस्सल** । अस्स॑ल् । [अर. असल] वि. १. खरे जातोडेचो; जातिवंत (अस्सल घोडो). २. शुद्ध; भरस नाशिल्लो. (अस्सल म्हाल). ३. प्रामाणिक; निजाचो; खरो. (अस्सल मोग). ४. खांपो. (अस्सल चोर).

**अस्सल** । अस्स॑ल्, सा.रू. -ला । [अर. असल] न. खरें; चोख.
**म्हण:** अस्सलापरस फाल्साक रंग चड.

**अहंकार** । अहङ्का॑र । सा.रू. -रा; भौव. -र, सा.रू. -रां । [सं. अहङ्कार:] पु. १. आपलीच व्हडवीक आपणेंच सांगपाची वृत्ती; कितें वा किदें म्हण्टा तो आपुण, हे भावनेन निर्माण जाल्लो ताठो, गर्व, घमेंड. २. (अध्यात्म) अविद्या.
**वा.प्र.: अहंकारान मरप:** घमेंडेंत आसप; गर्वान फुगप; ताठ्यान चलप.
**म्हण:** कांसारालें सुणें अहंकारान मेलें.

**विशेश:** 'अहं' ह्या उतरावेल्यान 'अहंकार' हें उतर घडलां. मनीस जन्माक येतपासून, तो आपणाकच कांय प्रस्न विचारता. 'हांव कोण?', 'हांव खैंसून आयलों?' हाजो तो सोद घेत आसता. हो सोद घेतना, जे अणभव तो जोड्टा, ज्यो प्रेरणा ताका मेळटात, जे संस्कार ताजेर घड्टात, तातूंतल्यान तो, आपल्याकच न कळटां, घडत वता. ताज्या अबोध मनाचेर जे छाप उदेल्ले आसतात, ते जेन्ना जागे जातात, तेन्ना 'अहं' दोन कार्यां करता: १) वास्तवाचो यथार्थ अणभव घेवप. आनी २) अबोध मनांतल्यान ज्यो प्रेरणा ताका मेळटात आनी जे उमाळे ताज्या काळजांत उमाळून येतात, तांची विसकणी करून, तांचेर ध्यान दवरून, केन्ना तांकां आळाबंदा हाडून आनी विवेक जागृत दवरून तांकां दिशा दिवप.

तत्त्वज्ञानाच्या आनी मनोविश्लेशणशास्त्राच्या मतान हो 'अहं' आसो आसता:

**तत्त्वज्ञान:**

सामाजिक वा खोल (Profound) अहं: बर्गसनच्या (Bergson) मतान एका मनशांत दोन व्यक्ती वावुरतात. एक वेल्यावैर आशिल्ली आनी दुसरी ताजे सकल म्हळ्यार खोल आशिल्ली. वेल्यावैर आशिल्ल्या 'अहं'क सामाजिक 'अहं' म्हण्टात, तर दुसऱ्या 'अहं'क खोल 'अहं' म्हण्टात.

वेल्यावैर आशिल्ल्या 'अहं'तल्यान, मनीस ज्या समाजांत वावुरता, त्या समाजांतल्या मनशांच्या दिसपट्ट्या आचारांचो, विचारांचो ताजेर परिणाम जाता. ह्या परिणामांवेल्यान तो आपलें मत घडयता. खोल 'अहं' होय त्याच मनशाचो एक भाग आसता. जाल्यारूय, ह्या 'अहं'क समाजांतले सगळेच विचार मानतात, अशें ना. समाजांतल्यो सगळ्योच चाली-रिती ताका मान्य आसतातच अशें ना. एक एकदां ह्या विचारांआड तो आपल्याकडेनच झुजता. तरी, तो आपलो दिसपट्टो वेव्हार, आपले पूर्वापार चालीप्रमाणें दवरता.

**मनोविश्लेशणशास्त्र:**

आत्मकेंद्री अहं: फेडर्न (Federn) ह्या जर्मन मनोविश्लेशणशास्त्र्यान Egozentrisches (Ich- Egocentric Self) हें उतर घडयलें. मनीस उत्क्रांत जातना वा ताजे बुद्धिचो विकास जायत आसतना, ताजे जिणेंत अशी एक अवस्ता येता, तेन्ना तो आपल्याकच अत्यंत महत्व दिवपाक लागता. दुसऱ्या उतरानीं सांगप म्हळ्यार, तो आपल्याकच, आपल्या भोंवतणच्या संवसारांत, केंद्रस्थानार दवरता. आपल्याक लागून हो संवसार चलता, निदान आपलो तरी संवसार असो चलता, अशें

तो मानूंक लागता. हे अवस्तेंत तागेलो संवसार म्हळ्यार, तागेलो आवय-बापूय, तागेल्यो भाव-भैणी आनी ताका मानतात त्यो वस्तू, हांच्याभोंवतणींच तागेलो संवसार घुंवत आसता. ही अवस्ता, चड करून, तागेल्या भुरगेपणांतली आसता. जाल्यारूय, कांय जाण, हे अवस्तेंतल्यान भायर सरूंक पावनात. ताका लागून, तांच्या जाण्टेपणांतय तांगेलो संवसार म्हळ्यार, खासा ते, तांगेल्यो बायलो, तांगेलीं भुरगीं हांच्या पुरतोच आसता.

आत्मब्रह्मांडी अहं (Eu Egocosmico): हेंय उतर फेडर्नानच घडयला. ताका तो Egokosmiches Ich अशें म्हण्टा. मनशाची पैली उत्क्रांत अवस्ता ही आत्मब्रह्मांडी आसता, अशें तो मानता. हे अवस्तेंत आपुण कितें आसां आनी कितें ना हाजी ताका पूर्ण जाणविकाय नासता. आपल्या भोंवतणचो संवसार आनी ताजें निजाचें रूप, हांचो परस्परांकडेन आशिल्लो संबंध, हाजें यथार्थ ज्ञान ताका जायना. भोंवतणच्या संवसाराचे गुणधर्म, आपल्याक आयिल्ले अनुभव आनी ह्या संवसाराचें नदरेक दिस्टी पड्टा तें रूप, हाजेर तो विचार करूंक लागता. ताजे उत्क्रांत जावपाचे अवस्तेंतली ही पैलीवैली अवस्ता आसता. देखून, ती अबोध आसता.

'अहं'च्या कार्याची यथार्थ जाणविकाय येवपाखातीर, मनशाच्या मनांत कसो कसो बदल घडून येता, हाजोय उल्लेख खूप गरजेचो आसता. भुरगेपणांत आपली आवय आनी बापूय, आपलो आजो आनी आजी हांचे भोंवतणींच ताजें मन आसता. तांचे चाल-चलणुकेची तो देख घेता. शिक्षण घेतासतना आपल्या गुरूजनांचीय तो देख घेता. साहित्याकडेन वळख जातकीर, साहित्याचे कांय संस्कार ताजेर जातात. समाजांतल्या विचारवंतांच्या विचारांचो छाप ताज्या मनाचेर उदेता. ताका लागून, समाजांत वावुरतना, बरे चाल-चलणुकेखातीर, चौगरितिची जाण घेंवची पड्टा: कांय विधिनिशेध ताका धरचे पड्टात. हातूंतल्यान बरें कितें आनी वांकडें कितें हाजी पारख करपाची बुद्द ताज्यांत निर्माण जाता. हिकाच सदसद्‌विवेकबुद्द म्हण्टात. ही घटनापासून चडशी अबोध पांवड्याचेरच घड्टा.

'अहं'च्या ह्या कार्यावरीच, कुड्डया प्रेरणांक दिशा दिवप, संवसारांत वावुरतना विवेकाचें भान दवरप, इंद्रियां आळाबंदा हाडपाचो यत्न करप, मर्यादेची म्हेर न हुपपाखातीर, मनाचो निग्रह करप, हें पासून 'अहं'चेंच काम आसा. जाल्यारूय, हें सगळ्यांक जमताच अशें ना. देखून, जें काम आपल्याकडल्यान घडूंक फावनाशिल्लें, तें घड्टकीर, ताजेंच मन ताका खाता. आपुण गुन्यांवकारी आसा अशी ताजी भावना जाता. अशे कांय ताण मनाचेर आयिल्ल्यान, कांय दुबळ्या मनाच्या मनशांत विकृती निर्माण जावपाची शक्यता आसता. (**संदर्भ:** Dicionario Enciclopedico Brasileiro -Vol.I आनी मराठी विश्वकोश).

मनशाच्या सभावांत ताजे बडिचोय भाग आसता. बडिच्या गुण-अवगुणांक लागून, मनीस सात्विक, राजस आनी तामस वृत्तिचो जाता. समाजांत वावुरतना, वा समाजाकडेन पौठो घांसतना, जायते खेपो ताजो 'अहंकार' दुखवता. ज्याचो अहंकार दुखवता, तो जर सात्विक वृत्तिचो आसून, अलौकिक प्रतिभेचो आसत, तर ज्ञानेश्वरावरी साहित्याचें एक अलौकिक लेणें तो घडयता. तो जर राजस वृत्तिचो आसत, तर तो समाजाच्या हिताचीं कामां करता. तो जर तामस वृत्तिचो आसत, तर समाजाक पिडापीड दिवपाच्यो पाड्यो करण्यो तो करता.

**अध्यात्म:**

'अहं' म्हळ्यार अविद्या अशें अध्यात्म

सांगता. अद्वैती म्हण्टा की, ह्या 'अहं'क लागून, दुस्वास, दुःख, संघर्श आनी हेर पाड्यो गजाली घड्टात. ह्या क्षुद्र 'अहं'तल्यान सुटका जातकीर, संघर्श थांबतले, तेच परी संवसारांतलीं दुःखां ना जातलीं.

अविद्येक ('अहं'क) लागून मनशाचो संवसारावेलो मोह सुटना. 'अहं'वेलीं मोहाचीं आबळां उबून वतकीर, प्रत्येक जिवात्मो हो विश्वात्म्याचो अंश आसा, ही जाण ताका जाता. प्रत्येक प्राण्यांत ईश्वर आसा, आपुण आनी हो संवसार एकच आसा, ही जाणविकाय जेन्ना मनशाक जाता, तेन्नाच ताजें आत्मस्वरूप ताका जाणवता; तेन्नाच सत्-चित्-आनंद स्वरूपांत, सगळ्याक एकच ब्रह्म भरिल्लें आसा, अशें ताका दिसता. आपुणच ब्रह्म आसां, हे अद्वैत अवस्तेमेरेन तो पावता. हे अवस्तेमेरेन पावप, हेंच अद्वैत वेदान्ताचें उद्दिस्ट आसा. (**संदर्भ:** वेदान्ताचें स्वरूप आनी प्रभाव, स्वामी विवेकानंद, श्री रामकृष्ण आश्रम, नागपूर.)

**अहंकारी** । अहङ्कारी, सा.रू. -ऱ्या, भौव. -री, सा.रू. -ऱ्यां । [सं. अहंकारिन्] वि. जो दुसऱ्यांक कुस्कुटासमान लेखून, आपल्याकच श्रेस्ठ समजता तो, घमेंडी; गर्विस्ट; ताठो आशिल्लो.

**अहवाल** । अहवाल्, सा.रू. -ला; भौव. -ल, सा.रू. -लां । [अर. अहवाल] पु. केल्लया कामाची वा कसल्याय घडिल्लया घटिताची केल्ली सविस्तर नोंद; रिपोर्ट.

**अहित** । अहीत्, सा.रू. -ता भौव. -तां, सा.रू. -तां । [सं. अहितम्] न. हानी; लुस्काण; अपाय; अकल्याण.

**अहिराणी** । अहिराणी, सा.रू. -णी । [सं. 'आभीराणि'] स्त्री. अहिरांची वा आभिरांची भास.

**अहिंसक** । अहिंव्सक्, सा.रू. -का; भौव. -क, सा.रू. -कां । [सं. अहिंसक] वि. जो हिंसा, हत्या करिना तो; जो दुसऱ्याक दुःख, कस्ट, त्रास, पिडापीड दिना तो; जो दुसऱ्याक वळवळायना तो; अहिंसेच्या मतान चलता तो.

**अहिंसा** । अहिंव्सा, सा.रू. -से; भौव. -सा, सा.रू. -सां । [सं. अहिंसा] स्त्री. १. कसलोच भेदाभेद करिनासतना मनशान मनशाची, तेच परी हेर जिवावळिची हत्या करूंक फावना, अशी नित्य जागयल्ली कर्तव्याची जाण; दुसऱ्याक न दुखोवपाचें वा ताजी हिंसा न करपाचें तत्त्व; समदर्शन. २. मनाच्या वज्रनिर्धारान, मित्र आनी कल्याणकारी भावनेन, हिंसेआड उबें केल्लें आपल्या आत्मतेजाचें बळ. ३. करणेन, मनान आनी उच्च्यारान दुसऱ्याक पिडापीड न दिवप वा उपद्रव न दिवप. ४. उण्यांत उणी केल्ली हिंसा. —मनशाक आपले प्राणरक्षणेखातीर थोडिभोव हिंसा करचीच पड्टा. तो मागीर नुस्तें खांव, शाक-भाजी खांव वा धंय आनी फळां खांव. प्राण्यांक जीव आसता, तसोच वनस्पतिकय जीव आसता. देखून, प्राणरक्षणेखातीर केल्ली थोडिशी हिंसा अहिंसाच कशी धरतात.

**म्हण:** हिंसेसारकें पाप ना आनी अहिंसेसारकें पुण्य ना.

**विशेश:** संवसारांत मनीस आनी हेर जिवावळ जन्माक येतपासून हिंसा आनी अहिंसा वांगडाच नंदत आसात. जाल्यारूय, अहिंसा ही आपल्या जातीपुरती, आपापले जमाती पुरती आसताली. मनीस तशेच हेर प्राणी हिंसेवांगडाच अहिंसेनय चलत आयल्यात. तशें नाशिल्लें जाल्यार, प्राणी तेच परी मनीसजात ह्या संवसारांतल्यान ना जावन वतली आशिल्ली.

आर्य सप्तसिंधूच्या आवाठांत येवचेपैलीं भारतांत जी यतिंची संस्कृताय नंदताली, ती

अहिंसेचे बुन्यादिचेर उबी आशिल्ली. बुद्ध आनी जैन धर्माच्या पंचशिलांतलें अहिंसा हें मुख्य शील आसा.

जैनांनी अहिंसेचें मत फुडें काडलें. मनशाक जसो जीव आसा, तसोच हेर जिवावळिकय जीव आसा. मनशांच्या प्राणांक जशें मोल आसा, तेच परी हेर प्राण्यांच्याय प्राणांक मोल आसा. मनशान मनशाचीच न्हंय, तर हेर प्राण्यांचीय हत्या करूंक फावना, हेच सदांकाळीक जाणविकायेन मनशान चलप हीच जैनांची अहिंसा.

मनीसजातीच्या दुःखाक बुद्ध भगवानान करुणेची जोड दिली. बुद्धाचो संघ हो शांतिवाद्यांचो संघ आशिल्ल्यान, अहिंसेचो प्रसार तांचेकडल्यान चड जालो आनी अहिंसेक ताणीं कर्माकडेन जोडली.

अहिंसेसारको धर्म ना आनी तो सत्याचेर उबो आसा, अशें महाभारत सांगता. गीता अहिंसेची व्हडवीक गायता (भ.गी.१०.५). योग्याचे योगसाधनेंतलें अहिंसा हें पैलें आनी महत्वाचें सोंपण आसा, अशें पतंजलिचें 'योगसूत्र' सांगता. अहिंसेचो विचार धर्माच्या आनी राजकर्णाच्या अशा दोन मळांवेल्यान करूं येता.

१. धर्म हो मनशाचे व्हडविकेक, प्रतिस्ठेक आनी उदर्गतीक बांदिल्लो आसा. जें आपणाक दुसऱ्यांनी केल्लें सोंसना, तें आपणें दुसऱ्यांक करूंक फावना हें धर्म आमकां शिकयता. पिडापिडेन आनी धोंशीन मनशाची उदर्गत जायना. ताका थंडाय आनी स्वस्तसाण मेळना.

अहिंसा आनी सत्य हीं एकजीव आसात. तांकां वेगळांवक मेळना. सत्य होच देव अशें गांधी म्हात्म्यांनी म्हळां. जीणेच्या श्रेयासंबंधान आशिल्ली मनशाची धारणा, ताजो सारासार विवेक, थोड्याभितर सांगप म्हळ्यार, सामुखार आयिल्लया प्रसंगांत मनीस म्हणून ताजे लागणुकेचें ताका जाल्लें आकलन, हेंच त्या प्रसंगावेळें ताजें सत्य आसता. आपलो मान दुसऱ्यान राखपाक जाय जाल्यार ह्याच सत्याचेर दृढ रावन आपल्याक चलचें पड्टा. तेच परी दुसऱ्याचोय मान राखपाक, ताकाय आपणें हीच मेकळीक दिवची पड्टा. देखून, एकल्यान दुसऱ्याकडेन अहिंसेन चलचें पड्टा.

अहिंसा हें साधन आनी सत्य हें साध्य. सत्याची जोड अहिंसेनच जोडचेली आसता. हिंसा ही मनशाची सभावीक प्रवृत्ती. अहिंसा आचरणांत हाडपाक मनाचो वज्रनिर्धार लागता. ज्याचेकडेन मनाचो वज्रनिर्धार आसता, ताजेंच आत्मतेजाचें बळ फांकता.

अहिंसा हें दुर्बळांचें शस्त्र न्हंय. अहिंसा ही बळिस्टान दुस्टामुखार दिल्ली शरणांगती न्हंय. अहिंसा ही दुस्मान आनी दुस्टामुखार, ताजे दूस्ट करणेआड उबें केल्लें आत्मतेजाचें बळ.

दुस्वासान दुस्वास वाड्टा. सुडान सूड घेवपाची वृत्ती जागी जाता. अहिंसा मात, आपल्या तेजाच्या बळग्याक लागून, दुस्मानाचें मनिसपण जागयता. अहिंसा दुस्मानाची अप्रतिस्ठा करिना. ताका सकल उडयना. ताज्या धर्माक दुशण लायना. अहिंसा ताका प्रतिस्ठा दिता. ताजी उदर्गतच करता. अहिंसेचें बळ जेन्ना जागृत जाता, तेन्ना तें चमत्कार घडैता.

२. राजकर्णी मळाचेर अहिंसेचो प्रयोग गांधी म्हात्म्यांनींच केलो. गांधीजी अहिंसावादी आशिल्ले. जाल्यारूय, तांगेली अहिंसा ही दुर्बळाचीं अहिंसा नाशिल्ली. अहिंसा ही तांगेल्या लढ्याचें हत्यार आशिल्ली. तांचो हृदय-परिवर्तनाचेर विश्वास आशिल्लो. प्रेमान दुसऱ्यांचें अंतस्कर्ण जिखचें, अशें ते म्हण्टाले. नागपूरच्या काँग्रेसच्या अधिवेशनांत काँग्रेसीन अहिंसक लढ्याचो कार्यक्रम येवकारचो, अशें तांणी विनयलें. ही विनंती करतासतना तांच्या दोळ्यांमुखार नितिक बरेपणाचो प्रश्न नाशिल्लो.

वेव्हारीक राजकर्णांतलो राजकर्णी शाणेपणाचो तो प्रश्न आशिल्लो. भारताच्या स्वातंत्र्य संग्रामांत सत्याग्रह हो ब्रिटिशांच्या हृदयपरिवर्तनाचो भाग नाशिल्लो, तर लोंकाचो तेंको काँग्रेसीक आसा, हें दाखोवपाचो तो शान्ततायेन भरिल्लो एक मार्ग आशिल्लो.

भारताचे स्वतंत्रतायेचे जोडींत, हेर घटकांच्या भागावांगडा अहिंसेचोय वांटो आसा. अमेरिकेच्या संयुक्त संस्थानांत आनी दक्षिण आफ्रिकेंत, कृष्णवर्णाच्या लोकांनी वर्णद्वेशाआड उबाल्लेली चळवळ अहिंसेचे बुन्यादिचेर उबाल्लेली आसा. नामिबियेच्या लोकांनी आपले स्वतंत्रतायेखातीर, दक्षिण आफ्रिकेआड उबाल्लेली चळवळ अहिंसेचेरच उबाल्लेली आशिल्ली. ल्हवू ल्हवू करून जायना, अहिंसा यश जोड्टा. देखून, मनीसजातीक आपल्या फुडाराखातीर, थंडाय आनी सूख जाय जाल्यार, अहिंसा आपणावचीच पड्टली.

**आधारावळ:** १. भगवान बुद्ध, ले. धर्मानंद कोसंबी

२. महाभारत, अनुवादक: प्रा. न.र.फाटक.

३. सत्य आनी अहिंसा, बरो: महात्मा गांधी.

**अहिंसावादी ।** अहिंव्सावादी, सा.रू. -द्या; भौव. -दी, सा.रू. -द्यां । [सं. अहिंसावादिन्] वि. जो अहिंसेच्या मतान चलता तो; जो अहिंसेचें आचरण करता तो; जो अहिंसेन चलूंक जाय म्हणपाची शिकोवण दिता तो.

**अहीर ।** अहीर्, सा.रू. -रा; भौव. -र, सा.रू. -रां । [सं. आभीर] पु. आभीर; गवळी; गवळ्यांची जात.

**विशेश:** अहीर ही एक अवेदिक जमात. तांकां 'आभीर' अशेंय म्हण्टात. ब्राह्मण दादलो आनी अंबस्ट बायल हांकां लागून ही जमात जाल्या, अशें मनुस्मृती सांगता.

अहीर हे गवळी. रामायण आनी महाभारतांत तांचो उल्लेख आसा. क्रिस्ती सनाचे सुरवातीक अहीर नेपाळचे राजा आशिल्ले. सातवाहनाउप्रांत महाराष्ट्राचेर तांची सत्ता चलताली. णवो शेंकडो धरून अकराव्या शेंकड्याच्या अखेरेमेरेन तांणीं बंगालांत राज्य केलां.

एका काळार अहीर वा आभीर भारतभर आशिल्ले. आज ते खानदेशाच्या आवाठांत राबितो करून आसात.

अहीर ही यदुवंशी जमात. कृष्णाकडेन ते आपलें नातें सांगतात. ते गायांची पूजा करतात. पुराणांनी वृंदावनाच्या आवांठाभोंवतणी ज्यो कृष्णलीला विणल्यात, त्या वृंदावनाकडेन अहीर लग्निक आसात. कृष्ण आनी बळरामाच्या ह्या भक्तांक लागून कृष्णकथांचो प्रसार भारतभर जाला.

**अहेर ।** अहेर्, सा.रू. -रा; भौव. -र, सा.रू. -रां । [सं. आहरण; म. अहेर] पु. १. लग्न, मूज, फुलां बी असल्या मंगलकार्यांत, न्हवऱ्या-होंकलेच्या, बटुच्या, यजमान, यजमान्निच्या आनी फुल्लटिच्या सत्काराक, तांगेले इश्ट-मित्र, सोयरे-दायरे आनी नात्यांतले मनीस, तांकां दितात ती भेट वा करतात ती केळवण. २. राजांक तांच्या राज्याभिशेकाच्या वेळार वा तांच्या घराण्यांतल्या मंगलकार्यांत (लग्नसमारंभांक) दुसऱ्या देशांतल्या राजांनी वा सरकारांनी तांकां धाडिल्ली भेट.

**विशेश:** पुर्विल्लया काळार मोठे यज्ञ करपी राजांकय अहेर दिवपाची पद्धत आशिल्ली.

**अहो, हो ।** अहो, हॉ । [सं. अहो] उल्या उतर. कोणाकय भौमानान उलो मारतना उपकरायतात तें उतर. -'अहो' हें नांवां पैलीं येता आनी 'हो' हें उतर त्या नांवाच्या नात्यान हेर खंचेयकडेन येता. देखीक: अहो तातुबाब, खंय आसले हो तुमी?

**अहोरात्र** । अहोरात्र, सा.रू. -त्री; भौव. -त्री, सा.रू. -त्रीं । [सं. अहन् + रात्रः (रात्रम्)] पु. दीस आनी रात; चोवीस वरांचो, तीस म्हुर्तांचो वा साठ घटकांचो काळ; पृथ्वीक आपल्या आंसाभोंवतणी प्रदक्षणा काडपाक लागता तो काळ; एक सूर्यउदेव धरून दुसऱ्या सूर्यउदेवामेरेनचो काळ.
**क्रि.वि.** दीस-रात; रातभर; सबंध रात. (ताजी करंदाय अहोरात्र चलता.)

**अळंकार** । अळङ्कार्, सा.रू. -रा; भौव. -र, सा.रू. -रां । [सं. अलंकार] पु. पळेयात 'अलंकार'.

**अळकुळो -ळी -ळें** । अळ्कुळॉ -ळी -ळँ; सा.रू. -ळ्या,-ळे,-ळ्या; भौव. -ळे (ळॅ), -ळ्यो, -ळ्यां; सा.रू. -ळ्यां । [का. अळुगु = मोग?] वि. मोवाळ; कळाकूळ आशिल्लो-ल्ली-ल्लें; काकुळतेस्त. (ती मनान चिके अळकुळी आनी मायेस्त आशिल्ली. —न. गोंय, २रें वर्स, आब्रील १९३६ -४थो आंक, पा.१४०).

**अळंग** । अळङ्ग । [सं. अ + लग्?] क्रि. वि. १. अचळय; असुदाय (मेजावेलें केळें तो अळंग घेवन गेलो). २. अत्यंत जतनायेन. (ते पेटेंत कांचेचें सामान आसा. देखून, ती पेट सकल दवरतना अळंग दवरात.) ३. वेल्यावैर; कुचमायनासतना; फुलावरी (ल्हान भुरग्यांक अळंग धरूंक जाय). ४. आपलोसोच; सांबाळून; जीव हातांत वा मुठींत धरून (तो अपंगूल आशिल्लयान अळंग भोंवता). ५. अखंड; जशाक तसो; मोडनासतना; अर्खणो जायनासतना. (मुसळाचो मार । कुंडो खाता । भितल्लो गोटो । अळंग दवरचे खातीर ॥, म्हजें उतर गावड्याचें, कवीः र.वि.पंडित, पा.२५).

**अळंग** । अळङ्ग, सा.रू. -गा; भौव. -ग, सा.रू. -गां । [सं. अ + लग्?] वि. फूक माल्ल्यार भुंयेर पडटा असो फूल कसो ल्होव जाल्लो वा ल्होव आशिल्लो; त्राण नाशिल्लो; तंग. (अळंग जीव).

**अळंगस्वामी** । अळङ्गस्वामी, सा.रू. -म्या; भौव. -मी, सा.रू. -म्यां । [कों. अळंग + सं. स्वामिन्] वि. कसलोच भार घेनासतना अळंग भोंवता तो; उखलापोसो रावन न्हेशिल्ल्या वस्त्राची मिरीपासून दोडची ना, इतली जतनाय घेवन भोंवता तो; जो कामांतल्यान अचळय कूस मारता तो; आंगचोर.

**अळंगार** । अळङ्गार्, सा.रू. -रा; भौव. -र, सा.रू. -रां । [सं. अलं (खूप) + धार?] पु. लागिल्ली धार; वळंगार. (ताका कोंक जावन रगताचे अळंगार लागले.)

**अळणी** । अळणी । [सं. अलवण] वि. १. मीठ उणें पडिल्लो वा अजिबात मीठ नाशिल्लो. (अळणी रोस). २. पराक्रमहीन; वीर्यवंत न्हंय तो; बळ, तुतनायक नाशिल्लो; मेंगो; बाबत. (तांच्या शेजारचीं राज्यां कारणाबगर दुसऱ्यांच्या आंगार पडनासलीं. म्हणून, थैंच्या लोकांक कोकस्तानी लोक बाबत, मेंगे आनी अळणी लेखताले. —गोम., १लें खंड, बरोः शणै गोंयबाब, पा.८४). ३. पाचूर, पचको-की-कें, चाचूर, विर्सूट. ४. निस्तेज; निःसत्व; रसरससाण नाशिल्लो-ल्ली-ल्लें (अळणी रूप).

**अळणुटसाण** । अळ्णुट्सॉण्, सा.रू. -णे। ['अळणी' वेल्यान] स्त्री. अळणी आशिल्लयाचो गुण.

**अळणुटसार** । अळणुटसॉर् । ['अळणी' वेल्यान] वि. १. मात्सो अळणी आशिल्लो वा मात्सो अळणी उरिल्लो वा मात्सो अळणी धरिल्लो. २. बावकोसो.

**अळणुटाय** । अ॑ळणुटाय्, सा.रू. -ये । ['अळणी' वेल्यान] स्त्री. १. मिठाची उणाय; २. विर्सुटाय; पाचुराय. ३. निस्तेज, सत्वहीन कळा.

**अळणुटो-टी-टें** । अ॑ळ्णुटॉ-टी-टँ, सा.रू. -ट्या,-टे,-ट्या; भौव. -टे (टॅ),-ट्यो,-टीं; सा.रू. -ट्यां । ['अळणी' वेल्यान] वि. १. अळणी आसपी. २. विर्सूट; पाचूर. ३. निस्तेज; पराक्रमहीन.

**अळंबो** । अळ्म्बॉ, सा.रू. -ब्या । [?] पु. धवसार आनी मुखार मात्शें तांबसार तोंड आशिल्ली पाडी मूय; वायटी; वाळटी. (अळंब्याची जमीन).

**अळमाळु** । अळ्माळू । [सं. अल्पमात्र] वि. रजमात्र; किंचित; मात्सोसो.

**अळमें** । अळ्मँ, सा.रू. -म्या; भौव. अ॑ळमीं, सा. रू. -म्यां । [दे. आळंबं; का. आळंबु/आळंबे] न. 'फंगस' वर्गांतली वेगवेगळ्या प्रकाराची 'क्रिप्तोगामिक' वनस्पत; आळमें.

**विशेश:** अळमें हें उतर कोंकणींत कानडींतल्यान आयिल्लें दिसना. गोंयांत अळमीं सगळेकडेन येतात. देखून, हें नांव थळावें आसपाक जाय.

अळम्यांत पांच जाती मेळटात: १. ऱ्हायझोपस (Rhizopus), २. किण्व (Yeast), ३. पेनिसिलियम (Pennicillium) ४. ॲस्परगिलस (Aspergillus) आनी ५. ॲगारिकस (Agaricus Campestres).

अळमीं हीं फंगस. तीं बुरशी आसा थंय, कुशिल्ल्या लाकडाचेर, तेच परी रोयणिचे मातयेचेर जातात.

अळम्यांक दांडो आसता. वैर तोपी आसता. अळमें फुलता तेन्ना हे तोपयेची सत्री जाता, आनी तिका पोंदच्यान, दांड्याकडल्यान सत्रेच्या तोंकामेरेन सरळ पातीं (gills) आसतात. तोपये सकल अळम्याक एक हय-न्हंयशें कडें आसता.

अळम्यांत पांचवें द्रव्य नासता. तीं बेनल्ल कशीं दुसऱ्याच्या आंगार वाढ्टात. अळमीं सेल्युलोज वा चिटिन हांच्या मिश्रणान जातात. अळम्यांत ग्लायकोजीन आसता.

अळम्यांत Agaricus Campestres हेच जातिचीं अळमीं खातात. जाल्यारूय, हातूंत विखारी आनी अ-विखारी अशीं अळमीं मेळटात.

**अ) अ-विखारी वा खावपाचीं:**

१. गोडें, २. तेल अळमें (हाजे कळे मोठे आसतात. फुलतकीर हाजी सत्री व्हडली आसता. हें रंगान मात्शें काळसार-हळडुवें आसता). ३. शीत-अळमें (हें मोगरेच्या कळ्यायेदें आसता.) ४. सोल्लिचें (हें सुपाऱ्यांच्या सोल्लांचेर जाता).

गोडीं अळमीं रोयणिचे मातयेचेर वैर सरतात. ह्या अळम्यांचें मसालो घालून केल्लें तोंडाक अत्यंत रुचीक आनी सुरबूस जाता. अळमीं तळुनय खातात. अळमीं पोस्टिक आसतात. ह्या अळम्यांचे चार फोव येतात. आशाढी एकादशीक पैलो, नागपंचमीक दुसरो, अस्टमीक तिसरो आनी सुतां पुनंवेकडेन चौथो. ह्या फोवां मजगतीं मदीं मदीं अळमीं बाजारांत विकूंक येतात. केन्नाय भाद्रपदांत चवथीकडेन पासून अळमीं मेळटात.

अळम्यांच्या ह्या अ-विखारी जातींत दोनशी पोट-जाती खावपासारक्यो आसात. आज जायतेकडेन अळम्यांची लागोड पोरसांनी करतात. जंय अळम्यांची लागोड जाता, थंय ती वर्सयभर मेळटात. भारतांत बेंगळूर, पुणें, पंजाब, हिमाचल प्रदेश आनी काश्मीर हांगा अळम्यांची लागोड जाता. हिमाचल प्रदेशांत अळम्यांची लागोड करून, तांचे चड उत्पन्न कशें घेंवचें हाचेर संशोधन करपी संस्था [illegible] अळमीं भायल्या



देशांत निर्यात जातात. तांची दर, किलोक चारशीं ते पांचशीं रूपये आसता.

ब) विखारी अळमीं:

अळम्यांच्यो कांय पोट-जाती विखारी आसतात. विखारी अळमीं पोटांत गेल्यार दोतोराकडेन वच्चेपैलीं ओंकारो येवपासारकें कितेंय घेवन, ओंकून उडोंवचें. भायरी मात घेंवची न्हंय. अळम्यांचो विखार जाला म्हणून कळटकीर, व्हिनाग्रि, सोरो आनी मिठाचें उदक निखालस घेंवचें न्हंय. हीं घेतल्यार, विखार निवळपाच्या जाग्यार तो आंगभर बळटा म्हणपाचें ध्यानांत धरचें.

विखारी अळम्यांत बारा जाती मेळटात. तांकां घाण येता आनी तीं रंगीत आसतात. कांय विखारी अळमीं वखदाक उपकरा पड्टात: १. कुइडें अळमें, २. कुंवले अळमें (हें बोटायेदें आसता), ३. गवतें (हें बारीक आसता). ४. पितळें (हें मोटवें आसता), ५. चुट्टें (हें हातभर ऊंच आसता), ६. तेंलगी (रूंद सत्रेचें), ७. पणस अळमें (हें पणसार जाता. हाज्यांत कांय वखदी गुण आसात. भुरग्याच्या कानाक कात्रो पडत जाल्यार हें झरोवन लायतात), ८. भुंयफोड आनी ९. मोगराळें (मोगरेच्या कळ्यासारकें).

**अळम्यां-पावस** । अळ्म्यां-पाव्स्, सा.रू. -सा।[कों. अळमें + पावस] पु. पावश्या दिसांनी, अळमी येवपाची सुलूस दिवपी, मोठ्या थेंब्यांचो बड बड करून, दोन-तीन मिनटां पड्टा तो पावस.

**अळय** । अ॑ळय, सा.रू. -ये; भौव. -यो, सा.रू. -यां । [का. हळिवे] स्त्री. शेत नांगरल्याउप्रांत, तें एका तळार घालपाखातीर उपकरायतात तें फळें आनी दांडी आशिल्लें एक आवत.

**अळवांटो** । अळ्वांटॉ, सा.रू. -ट्या; भौव. -टे, सा.रू. -ट्यां । [सं. अल्प + वण्टः] पु. वांट्यांतलो सगळ्यांत ल्हान वा धाकलो वांटो; निसवांटो.

**अळशिकप** । अ॑ळशिक॑प्, सा.रू. -पा। ['अळशीक' वेल्यान] क्रि.दा.धा.सा.ना. (मूळ धातू: अळशीक् (अक.)) विटप; कंटाळप. (...कदंबांचें निखटें नांवूय आपल्या बरपांनी घालूंक ते अळशिकताले. – गों.गों.वसणूक, पैलें खंड, बरो: शणै गोंयबाब, पा.४५.)

**अळशिकावणो -णी -णें** । अ॑ळ्शिकाव्णॉ -णी -णँ, सा. रू. -ण्या, -ण्ये, -ण्या; भौव. -णे (णॅ), ण्यो, -णीं, सा. रू. -ण्यां। ['अळशीक' वेल्यान] वि. १. घाणयारो; पोजडो; बुरसो; नीच; दुकरापास्ट आचरणाचो (अळशिकावणो मनीस). २. विद्रूप (अळशिकावणी काया). ३. अहिताचें; पाडें. (अळशिकावणें व्यसन). ४. ओंकारो यो सारकें; विटसारकें ('हांगा' आनी 'वच' हीं उतरां आयकून तांचे कान कित्याक फोडूंक लागचे तें समजना. तातूंत कितें वायट आनी अळशिकावणें भल्लां? —न. गोंय, ३रें वर्स, चौथो आंक, आब्रील १९३७, पा.१००).

**अळशिकेचो-ची-चें** । अ॑ळ्शिकेचॉ-ची-चँ, सा.रू. -च्या,-चे,-च्या । ['अळशीक' वेल्यान] वि. पोजडो; बुरसो; अळशिकावणो; पळित.

**अळशी** । अ॑ळ्शी, सा.रू. -शी । [सं. अतसी] स्त्री. सणबियां.

**विशेश:** सणबियां हीं तागाचीं वा सणाचीं बियां. तागाच्या झोंपाक निळींच फुलां येतात. तागाचें सूत काटात आनी ताजें वस्त्र विणटात.

सणबियांचें तेल काड्टात आनी तें रंगकामांत

उपक्रायतात.

**(वैजकी)** थंडी-भारकूण जाल्ल्या मनशाक अळशीचो (सणबियांचो) कसाय दितात. तेच परी, जेन्ना एकाद्रयाक हड्डें भरून सामकी फासणां मारातात, तेन्ना सणबियां वांटून ताजो पाप करतात आनी तो खतखतावन मात्सो हुनहुनीत आसतनाच वायटकाराच्या हड्ड्याक बांदतात.

**अळशीक** । अंळ्शीक्, सा.रू. -के; भौव. -को, सा.रू. -कां । [सं. अलस + ईक] स्त्री. १. ओंक; म्हेळव; चिखोल; पळिताय; दुर्गंध; गू; घाण (अळशिकेंत फातोर उडैनात). २. नरक (हे अळशिकेंतल्यान केन्ना काय सुटल्यार पुरो जालां). ३. वीट (बऱ्या गजालिची अळशीक धरिनात). ४. पाडेपण; पाडाखपण; त्रास; कस्ट; अपदा. (कांय जाणानीं बऱ्या-वायट गिन्यानाचो रूख आनी सैतान हांच्यो काणयो रचून संवसारांतले सगळे अळशिकेक आनी अपेसांक मूळ तांकां धल्ल्यात. – गोमन्तोपनिषत्, २रें खंड, बरो: शणै गोंयबाब, पा. २९८).

**म्हण**: अळशिकेंत फातोर उडैनात.

**अळसांदो** । अळसांदों, सा.रू. -द्या; भौव. -दे, सा.रू. -द्यां । [प्रा. आलिसंदग; का. अलसांदिगे] पु. अळसांद्याचे सांगेतली बी; हळसांदो.

**विशेश:** अळसांदो हें कडधान्य. हाज्यो तीन जाती मेळटात: धवी, तांबडी (ही रूचीक आसता) आनी शिब्री (ही तितलिशी रूचीक नासता).

Dolichos Catjang हें अळसांद्याचें वनस्पतशास्त्रांतलें नांव. 'अलिसांद्य' ह्या उतरावेल्यान अळसांदो हें उतर आयलां अशें म्हण्टात. येजिप्तांतल्या अलेक्झांड्रिया शारांतल्यान अळसांदो भारतांत पावला अशें सिलव्हन लेव्ही म्हण्टा. घडये, क्रिस्ता आदल्या ३३१ वर्सा शिकंदराच्या सैन्यान तो भारतांत हाडलो जावये. चरकसंहितेंत (क्रि.स दुसरो शेंकडो) आनी जैन धर्मग्रंथांनी अळसांद्याचो उल्लेख मेळटा. (**संदर्भ**: कोंकणी भापिकांच्या भोज्य -खाद्य -अन्न -पेयांची -व्युत्पत्ती आनी प्राचिनत्व., लेखक: पां. पुं शिरोडकर, 'राष्ट्रमत', दिसाळें, ता. ३.५.७६).

**अळार** । अळार्, सा.रू. -रा; भौव. -र, सा.रू. -रां । [का. अलर्=फूल, फुलप] वि. १. जें रसरसून फुल्लां तें; जें पिकून भांगर कशें जालां तें; लाल्लुक (अळार फूल; अळार आंबो). २. दिखाळ; कवकवीत. (अळार चली).

**वा.प्र.: अळार जावप**: चैतन्न्यान रसरसप.

**अळारपण** । अळार्पण्, सा.रू. -णा । ['अळार' वेल्यान] न. अळार आसपाची स्थिती; फुलाचें वा फळाचें चैतन्न्यतत्व; रसरशीतपण; रसरससाण.

**अळीम** । अळीम्, सा.रू. -मा; भौव. -ळिमां, सा.रू. -मां । [हिं. हालिम] न. सांसवांची एक वेगळी जात. हें सांसव हर्शिल्ल्या सांसवांपरस मात्शें मोठसार आनी आकारान तांतयांवरी आसता.

**अळु** । अळू । [सं. अल्प] वि. अळमाळु; रजमात्र; मात्सो.

**अक्ष** । अंक्ष्, सा.रू. -क्षा; भौव. -क्ष, सा.रू. -क्षां । [सं. अक्ष:] पु. पाशांच्या खेळांतलो पासो; द्युताच्या खेळांतलो पासो.

**विशेश**: वेदिक काळ धरून आर्यांक पाशांच्या खेळाचो नाद आशिल्लो दिसता. पाशांच्या खेळांत आपल्याक अपेस येंवचें न्हंय म्हणून, ते साधूदेविनी अप्सरेक आवाहन करताले. द्युताचें तांकां इतलें चट लागिल्लें की, राजांक राज्याची, तेच परी हेरांक आपल्या घरा-दाराची

पासून पर्वा नासताली.

एकाद्रया राजान दुसऱ्या राजाक द्यूत खेळपाचें आमंत्रण दिल्यार, त्या आमंत्रणाक येवकार दिवचोच पडटालो. न्हंयकार दिल्यार, आपलो अपमान, अप्रतिस्ठा जाली, अशें ते मानताले. 'आहूतो न निवर्तेत द्युतादपि रणादपि' म्हळ्यार द्युताचें आनी झुजाचें आव्हान दिल्याउप्रांत फाटीं सरूंक फावना, असो तांचो दंडक आशिल्लो. देखून धर्मराजाक दुर्योधनान दिल्ल्या द्युताच्या आमंत्रणाक येवकार दिवचोच पडलो, तो प्रचारांत आशिल्ल्या ह्या दंडकाक लागून!

द्युत खेळटल्याची एकएकदां पूर्ण दुर्दशा जाता, हाजी तांकां पूर्ण जाण आशिल्ली. जाल्यारूय, द्युताचो नाद सुटनाशिल्लो! ऋग्वेद ही गवाय दिता.

ऋग्वेदाच्या धाव्या मंडळांत अत्यंत सुंदर अशें 'अक्षसूक्त' आसा. हें अक्षसूक्त सांगता की, ज्याका हो नाद लागता, तो पाशांक सोडिना आनी पाशे ताका सोडिनात. ताका पश्चाताप जाल्यारूय, तो पश्चाताप खिणयाळोच आसता. पाशांचो खुळखुळपी नाद कानार पड्टकीर, शिंदळकेक संवकल्ले बायलेवरी तो पाशांनी खेळूंक धांवून वता. हे बिब्याचे पाशे ताका बेभान करून सोड्टात. ताका खासा आपलें भान उरना, आपले बायलेचें भान उरना, आपल्या भुरग्यांचें भान उरना. ह्या खेळाक लागून तो एकएकदां घर-दार वगडावन बसता. तो रिणांत बुड्टा. ताजे बायलेची अब्रू वता. खासा ताजीं घरचीं मनशां, तागेले शेजारीपाजारी ताका लेखिनात. ताका कोण दुडू पातेनात. ताका चोर कसो लिपचोरयां भोंवचो पड्टा. ताका भोमानान जियेंवक मेळना. देखून, सन्मानान जियेवपाखातीर पाशांचो नाद सोड आनी शेतीचो उद्योग कर अशें ऋग्वेद सांगता. (अक्षैर्मा दिव्याः कृपिमित् कृषस्व' ऋ १०.३४.१३).

**अक्ष** । अक्ष्, सा.रू. -क्षा; भौव. -क्ष, सा.रू. -क्षां । [सं. अक्षः] पु. १. गाडयेच्या चाकाचो आंस, कणो. २. रूद्राक्ष. ३. पाशांच्या खेळांतलो पासो.

**अक्ष** । अ॓क्ष, सा.रू. -क्षा; भौव. -क्ष, सा.रू. -क्षां । [सं. अक्षिन्] पु. दोळो.

**अक्षत** । अक्॓षत्, सा.रू. -ता । [सं. अक्षत] न. हळद झरोवन, तांतूंत चुन्याचो अंश घालून कपलाक लावपाक करतात तें गंध.

**अक्षत** । अक्षत् । [सं. अ + क्षत] वि. १. ज्याका घाय वा दुखापत जांवक ना तो; सुरक्षित. २. अभंग; अखंड; मोडूंक नाशिल्लो; अक्खो.

**अक्षतयोनी** । अक्॓षत्योनी, सा.रू. -नये; भौव. -नयो, सा.रू. -नयां । [सं. अक्षतयोनिः] स्त्री. लैंगिक भोग घेनासतना अखंड आंकवार आशिल्ली वा राविल्ली बायल. पुर्तु. Virgem इं. Virgin.

**अक्षता** । अक्षता, सा.रू. -तां । [सं. अक्षत] स्त्री. भौव. लग्न, मुजिच्या मंगलकार्यांत, न्हवऱ्या-होंकलेच्या, बटुच्या माथ्यार उडोवपाक अस्टगंधांत वा भिजयल्ल्या कुकमांत कालयल्ले आनी मंत्रिल्ले अखंड तांदूळ.

**वा.प्र: अक्षता दिवप:** लग्नाचे वा मुजिचें आमंत्रण दिवप.

मंगल कार्याचें पैलें आमंत्रण कुलदेवाक दितात. त्या वेळार यजमान दंपत्य देवाची भेट घेवन, देवामुखार होंवळीकपत्र दवरता आनी थारायल्लें मंगलकार्य विघ्नाविणें सिद्धिक वच्चें म्हणून देवाक सांगून घेता. सांगणें केल्याउप्रांत, देवळांतलो भट देवाच्यो अक्षता दिता. ह्यो अक्षता मंगलकार्यादिसा तयार केल्ल्या अक्षतांत घालतात. उप्रांत ह्यो अक्षता न्हवऱ्या-होंकलेच्या वा बटुच्या माथ्यार

उडोवपाखातीर आयिल्ल्या आमंत्रितांक वांट्टात.

कुळदेवाक आमंत्रण दिल्याउप्रांत आपल्या सोयऱ्या-दायऱ्यांक आनी इश्ट-मित्रांक आमंत्रण दितात. होंवळिकपत्र दितना, तातूंत अक्षता घालून दिवपाची चाल कांयकडेन आसा.

**अक्षता घेवपः** आमंत्रणाचो स्वीकार करप.

**अक्षता माथ्यार उडोवपः** लग्न लावप; न्हवऱ्या-होंकलेच्या माथ्यार अक्षता उडोवन तांकां आशिर्वाद दिवप.

**अक्षता माथ्यार घेवपः** लग्न जावप.

**अक्षता माथ्यार पडपः** लग्न लागप.

**विशेशः** न्हवऱ्या-होंकलेच्या वा बटुच्या माथ्यार उडोवपाक अस्टगंधांत वा भिजयल्ल्या कुकमांत कालोवन मंत्रिल्ल्या अखंड तांदळांक अक्षता म्हण्टात. अक्षतांचो कितलेशाच धर्मकृत्यांत उपयोग जाता. अक्षता हें पूजेच्या उपचारांतलें एक द्रव्य. देवपूजेंत देवतांखातीर दवल्लेल्या सुपारेचेर आनी नाल्लाचेर अक्षता घालून देवतांक आवाहन करतात.

लग्न, मुजीच्या वेळार, न्हवऱ्या-होंकलेच्या वा बटुच्या मस्तकार अक्षता उडोवपाची प्रथा पुरातन कालापासून चलता. अक्षतांतले मंत्रिल्ले तांदूळ सुपिकतायेकडेन लग्निक आसात. न्हवऱ्या-होंकलेचो संवसार सुखा-समाधानाचो जांवचो, तांचें घर भुरग्या-बाळांनी आनी धन-धान्यान समृद्ध जांवचें, ह्या हेतून न्हवऱ्या-होंकलेच्या माथ्यार अक्षता उडैतात. अक्षतांतले तांदूळ हे मंत्रिल्ले आशिल्ल्यान, तांच्यांत एक यात्विक बळगें आसा, असो समज आसा. देखून, भूत-पिशाच्च्याची, वारेसुत्राची दिस्ट तांकां लागूं नये म्हणूनय न्हवऱ्या-होंकलेचेर आनी बटुचेर अक्षता उडैतात.

पुर्विल्ल्या इराणी लोकांच्या लग्न-समारंभांत तांदळांक मुखेल स्थान आशिल्लें. आजुनय पारशांत लग्न आनी नवजोत ह्या समारंभांत अक्षता उडोवपाची प्रथा आसा.

अक्षता ह्यो बळ, समृद्धी आनी दिर्घायुश्य दितात म्हणपाचो समज आसा. धर्मकृत्यांत पुरयत ह्या हेतुनच अक्षता उडोवन यजमानाक आशिर्वाद दिता.

**अक्षय** । अक्षय् । [सं. अक्षय] वि. १. अविनाशी; शाश्वत; सासणाचो; थीर. २. जो रितो जायनासतना सदांच भरिल्लो उरता असो. (...त्या भायर दोन अक्षय भाते हाडून दिले, जांतूंतले बाण केन्ना सोंपनात असले. —महाभारत, खण्ड १, बरोः रवीन्द्र केळेकार, पा. ११०).

**क्रि.वि.** सदांचें; नित्याचें; अखया. (तेंच नांव अक्षय जालें).

**अक्षयतृतिया** । अक्षय्तृतिया, सा.रू. -ये। [सं. अक्षयतृतीया] स्त्री. वैशाख शुद्ध तृतिया; आखेतय.

**विशेशः** अक्षयतृतियेचो दीस हो साडेतीन म्हुर्तांतलो एक म्हुर्त. हो दीस अत्यंत शुभ आनी सुगुर्व्याचो मानतात. ह्या दिसा कसल्याय शुभकार्याक वेगळी वेळ पळोवपाची लागना. ह्या दिसा केल्ल्या शुभकार्याचें फळ सासणाचें उरता असो समज आसा.

**अक्षयपात्र** । अक्षय्पात्र्, सा.रू. -त्रा; भौव. -त्रां, सा.रू. -त्रां । [सं. अक्षय + पात्रम्] न. ज्यातूंतलें अन्न केन्नाच सोंपना अशें आयदन. (...सूर्य प्रसन्न जालो. युधिष्ठिरान ताच्या फुड्यान आपणाली अडचण दवल्ली. तेन्ना सुर्यान तांब्याचें एक आयदन दिवन युधिष्ठिराक म्हळें, "हें आयदन द्रौपदेच्या हातांत दी. तें तिच्या हातांत आसासर तुमकां अन्न केन्नाच उणें पडपाचें ना. अक्षयपात्र हें". – महाभारत, खण्ड १, बरोः रवीन्द्र केळेकार, पा. १५०.)

**अक्षर** । अक्षर्, सा.रू. -रा; भौव. -रां, सा.रू. -रां। [सं. अक्षरम्] न. १. वर्णमाळेंतलो

दरएक वर्ण. २. अक्षरां बरोवपाची वा अक्षरां काडपाची मोड; अक्षरांचो कैवाद; हाताळो. (एका एकाचें अक्षर सुंदर आसता). ३. ब्रह्म.

**वि**. अविनाशी; सासणाचें; ज्याका व्यय ना तें; शाश्वत. (अक्षर वाङ्मय).

**वा.प्र. : अक्षर लावपः** वाचूंक कठीण असो मजकूर मोठो प्रयत्न करून वाचप.

**विशेशः** उमाळ्यांक लागून मनशांच्या तोंडांतल्यान जे नाद भायर सल्ले, त्या नादांच्योच कांय खुणो जाल्यो. उप्रांत ह्या खुणांकच अर्थ प्राप्त जालो. संस्कृतांत हांकां 'मातृका' म्हण्टात.

वर्ण वा अक्षर ह्या दोनय उतरांचो अर्थ एकच. पाणिनीन आपले 'अष्टाध्यायीं'त ह्याच अर्थान हीं दोनय उतरां उपकरायल्यांत. अक्षर आनी वर्ण हांच्यांतलो भेद इतलोच की, लोखणाचे काडयेन फळ्यार, पाटयेर, फातरार, वा घट्ट अशे निबर भुयेंचेर सरे घालून काडिल्ले आकृतायेक अक्षर म्हण्टात. ताडपत्राचेर वा मोव भुयेंचेर रंगान काडिल्ले आकृतायेक वर्ण म्हण्टात. (**आधारावळः** राजवाडे लेखसंग्रह, प्रकाशकः साहित्य अकादेमी.)

**अक्षरमाळ** । अक्षर्माळ्, सा.रू. -ले; भौव. -ळो, सा.रू. -ळां । [सं. अक्षर + माला] स्त्री. वर्णमाळ; भाशेंतल्या वर्णांची एके विशिस्ट नदरेन स्वर आनी व्यंजनां अशी केल्ली मांडणी.

**अक्षरवळख** । अक्षर्वळ्ख्, सा.रू. -खी; भौव. -खी; सा.रू. -खीं । [सं. अक्षर + उपलक्ष] स्त्री. अक्षर वळखुपाइतलें आशिल्लें ज्ञान; वाचपा-बरोवपापुरतें जोडिल्लें ज्ञान वा गिन्यान.

**अक्षरशत्रू** । अक्षरशत्रू, सा.रू -त्रू; भौव. -त्रू. सा.रू. -त्रूं । [सं. अक्षर + शत्रू] वि. १. विद्येकडेन फाट केल्लो; विद्येभायरो; निरक्षर. २. सामकोच अडाणी.

**अक्षरशून्य** । अक्षर्शून्य्, सा.रू. -न्या; भौव. -न्य, सा.रू. -न्यां । [सं. अक्षर + शून्य] वि. १. शिकूंक नाशिल्लो. २. अडाणी.

**अक्षरशः** । अक्षरशः । [सं. अक्षरशः] क्रि.वि. अक्षरान अक्षर; दरएक अक्षराचो अर्थ विचारांत घेवन; प्रत्येक अक्षराचो अर्थ लावन.

**अक्षरी** । अक्षरी । ['अक्षर' वेल्यान] वि. १. शिकिल्लो-सवल्लेलो; बरपअक्षर जाणा आशिल्लो; बरपाक्षरी. (अक्षरी भुरगो). २. अक्षरांनी बरैल्ली (संख्या).

**अक्षविद्या** । अक्षविद्या, सा.रू. -द्ये; भौव. -द्यां, सा.रू. -द्यां । [सं. अक्षविद्या] स्त्री. पाशांनी कशें खेळचें हें शिकोवपी विद्या. (...अक्षविद्येंत युधिष्ठिर आतां पाटांगडो जाल्लो. वैदुर्य रत्नाचे, भांगराचे आनी हतया-दातांचे पाशे ताचे कडेन आशिल्ले. —महाभारत, खण्ड १, बरोः रवीन्द्र केळेकार, पा. २६१).

**अक्षांश** । अक्षांवृश्, सा.रू. -शा; भौव. -श, सा.रू. -शां । [सं. अक्षांश] पु. पृथ्वीच्या उत्तरेकडल्या आनी दक्षिणेकडल्या खंच्याय स्थळाचें विषुववृत्ताकडल्यान आशिल्लें अंतर. इं. Latitude

**अक्षोहिणी** । अक्षोहिणी, सा.रू. -णी; भौव. -णी, सा.रू. -णीं । [सं. अक्षौहिणी] स्त्री. एकवीस हजार आठशें सत्तर हत्ती, तितलेच रथ, पैंसस्ट हजार सशेंधा घोडे आनी एक लाख णव हजार तिनशें पन्नास पेदे मेळून जाता तें सैन्य.

**अज्ञ** । अद्न्य, सा.रू. -ज्ञा; भौव. -ज्ञ, सा.रू. -ज्ञां । [सं. अज्ञ] वि. १. अज्ञानी; ज्ञान नाशिल्लो; अजाण. २. मूर्ख.

**अज्ञात** । अद्न्यात्, सा.रू. -ता; भौव. -त, सा.रू. -तां । [सं. अज्ञात] वि. १. जाणापरींत, होल्मांत नाशिल्लो. २. ज्याचें ज्ञान जांवक ना अशें; अप्रसिद्ध.

**अज्ञातवास** । अद्न्यात्वास, सा.रू. -सा; भौव. -स, सा.रू. -सां । [सं. अज्ञातवास:] पु. गुप्त रूपान एकांतांत केल्लो वास वा राबितो; ज्या ठिकाणाचो कोणाकच थांग वा पत्तो लागना अश्या जाग्यार केल्लो राबितो. ("आतां आमचो अज्ञातवास सुरू जावपाचो आसा. आमकां अज्ञातवासांत कोण वळखूंक पावचो न्हय अशें कर". युधिष्ठिरान मागलें. —महाभारत, खण्ड १, बरो: रवीन्द्र केळेकार, पा. २६५.)

**अज्ञातवासी** । अद्न्यात्वासी, सा.रू. -श्या; भौव. -सी. सा.रू. -श्यां । [सं. अज्ञातवासिन्] वि. अज्ञातवासांत रावपी; आपुण रावता त्या जाग्याचो कोणाकच थांग-पत्तो लागूंक न दिवपी.

**अज्ञान** । अद्न्यान्, सा.रू. -ना; भौव. -नां, सा.रू. -नां । [सं. अज्ञानम्] न. १. ज्ञानाची उणाय; ज्ञान नासप. २. अजाणपण; नेणारपण; नेण्टेपण. ३. पिशेपण; अविद्या; मोह; ताळणी. **म्हण**: ज्ञान आसा थंय आनंद आसा, अज्ञान आसा थंय सैतान आसा.

**अज्ञानपण** । अद्न्यानपण्, सा.रू. -न्या; भौव. -नी, सा.रू. -न्यां । ['अज्ञान' वेल्यान] न. अजाणपण; नेणारपण; नेण्टेपण. **(का.शा.)**.कायद्यान थारायल्लो मनशाच्या वयाचो नेणारपणाचो काळ. मतदान, लग्न बी ह्या खातीर.

**अज्ञानी** । अद्न्यानी, सा.रू. -न्या; भौव. -नी, सा.रू. -न्यां । [सं. अज्ञानी] वि. १. ज्ञानशून्य. २. मूर्ख. ३. अजाण; नेण्टो; नेणार; जाण थेंवक नाशिल्लो; अडाणी.

**अज्ञेय** । अद्नेय । [सं. अज्ञेय] वि. जें बुद्धिच्या आकलनापेल्यान आसा तें; ज्याचेर बुद्द पुर्णतायेन उजवाड घालूंक पावना अशें.

**अज्ञेयवाद** । अद्नेयवाद्, सा.रू. -दा । [सं. अज्ञेयवाद:] पु. संवसारांतल्या वस्तूंच्या परमतत्वाची जाण बुद्धिक अकळ उरता अशें प्रतिपादन करपी एक तत्वज्ञानी मत.

खंचेय वस्तूचें पूर्ण ज्ञान इंद्रियांनी जायना. तीं खंच्याच वस्तूच्या परमतत्वामेरेन पावनात. परमतत्वाचें ज्ञान तांच्या तांकिभायर उरता. धार्मिक अज्ञेयवाद सांगता की, देवाचें आसप इंद्रियांनी सिद्ध जायना. देव दोळ्यांक दिसना. ज्याचें मन पूर्ण श्रद्धेन भरिल्लें आसता, ताकाच देवाची सासाय जाणवता. ताकाच देवाचो साक्षात्कार जाता वा समाधिचे अवस्तेंत देवाचें दर्शन घड्टा. पुर्तु. Agnosticismo. इं. Agnosticism.

**अज्ञेयवादी** । अद्नेयवादी, सा.रू. -द्या; भौव. -दी, सा. रू. -द्यां । [सं. अज्ञेयवादिन्] वि. अज्ञेयवाद मानपी.

# आधारावळ

## वेद

अथर्ववेद, मराठी भाशांतर, महामहोपाध्याय विद्यानिधी सिद्धेश्वरशास्त्री चित्राव.
ऋग्वेद, मराठी भाशांतर, महामहोपाध्याय विद्यानिधी सिद्धेश्वरशास्त्री चित्राव.

## विश्वकोश

Encyclopedia Britannica, Vol.I
Grande Enciclopédia Portuguêsa e Brasiliera, Vol 19.
Purnell's New Encyclopedia, Vol.1, 2nd Edition.
Verbo Enciclopédia Luso-Brasiliera de Cultura, Vol 13,14.

भारतीय संस्कृती कोश, संपा: पं. महादेवशास्त्री जोशी.
मराठी विश्वकोश, संपा: तर्कतीर्थ लक्ष्मणशास्त्री जोशी.
महाराष्ट्र ज्ञानकोश, संपा: डॉ. श्रीधर व्यंकटेश केतकर.

## शब्दकोश

A Dravidian Etymological Dictionary, by T. Burrow and M. B. Emeneau.
Dicionário Enciclopédico Luso-Brasileiro, Vol I, II.
Dicionário Prático Illustrado, por Jaime de Seguier.
Dicionário Konkani-Portugues, por Monsenhor Sebastiao Rodolfo Dalgado.
Dicionário Portugues-Concani, por Monsenhor Sebastiao Rodolfo Dalgado.
Dicionário Portugues-Concani, por Padre Italiano.
English-Konkani Dictionary and Konkani-English Dictionary, by Father Maffei.
Hobson-Jobson, by Col. Henry Yule and A.C. Burnell.
The Penthouse Sexindex, compiled by Lin Barber.
Sanskrit-English Dictionary, by Prin. V. S. Apte.
Vocabulário da Lingua Canarina Com Versam Portuguesa, publicado por Junta de Investigacao do Ultramar, Lisboa.

अपभ्रंश – हिंदी कोश, संपादक डॉ. नरेश कुमार.
अभिनव मराठी-मराठी शब्दकोश, संपा: द.ह. अग्निहोत्री.
उर्दू-मराठी शब्दकोश, संपादक श्रीपाद जोशी.
कन्नड-मराठी शब्दकोश, संपा: पुंडलिकजी कातगडे.
गुजराती-मराठी शब्दकोश, संपा: श्री. स. ज. धर्माधिकारी.
भाषाविज्ञानकोश, डॉ. भोलानाथ तिवारी.
भारतीय धर्मव्यवहार कोश, कोशकार: श्री. वा. शेवडे.
मराठी-पुर्तुगेज कोश, संपा: सूर्याजी आनंदराव देशपांडे.

मराठी वाक्संप्रदाय कोश, संपा. यशवंत रामकृष्ण दाते व चिंतामण गणेश कर्वे.
महाराष्ट्र शब्दकोश, संपा: यशवंत रामकृष्ण दाते.
हिंदी शब्दसागर, मूल संपादक श्यामसुंदरदास बी. ए.
अमरकोश, संपादक डॉ. एन. जी. सरदेसाई आणि डी. जी. पाध्ये,

## हेर ग्रंथ आनी लेख
### इंग्लेज

Agni in the Brahmans of the Rigveda, by Dr. N. J. Shende (Annals of the Bhandarkar Oriental Research Institute, Vol. XLVI, 1965.)
A Manual of Wild Life Conservation, Ed. by Richard D. Tegue (Published by Wild Life Society).
Dravidians, by Sunitikumar Chatterji.
Dravidians and Aryans, Cultural Contacts, by K. A. Nillcanta Shastry.
Deshinamamala of Hemchandra, Edited by R. Pichel.
Ethnic Groups in Conflicts, by Donald L. Horowith.
Finanças, author unknown.
Florilégio de Porvérbios Concanis, por Monsenhor Rodolfo Sebastiao Dalgado.
Folklore of Assam, by Joguesh Das.
Indian Antiquary (reprint), Vol. VIII
India as known to Panini, by V.S. Agrawal.
Indigenous Drugs of India, by R. N. Chopra.
Information on "Bhagwan Mahavir Wild Life Sanctuary (Published by Deptt. of Information, Govt. of Goa, Daman & Diu).
Materialism, by Manavendranath Roy.
Myth and Reality, by D. D. Kossambi
Nafta in Maharashtra, by D. V. Chavan (Annals of the Bhandarkar Oriental Research Institute, Vol, LVII, 1976.)
Report on the Marketing of Pineapples in Goa, Govt. of Goa, Daman and Diu, Office of Marketing Officer, Panaji.
The Culture and Civilization of Ancient India in Historical Outline, by D. D Kossambi.
Epic of Gilgamesh and its glossary, by N. K. Sandars.
The Essays throwing new light on the Gandharvas, the Apsaras, the Yakshas and the Kinnaras, by N. S. Tarvar.
The Vedic Etymology, by Fateh Sing.
Vaisnavism, Saivism, by R. G. Bhandarkar.
Vedic Mythological Tracts, by R. N. Dandekar.
Weapons of the Kurukshetra War, by Deepavati Debroy (Annals of the Bhandarkar Oriental Research Institute, Vol LXV 1984).

## कोंकणी, मराठी, हिंदी

अङ्गिरस आणि अग्नि. (लेख) बरोवपी, डॉ नरेन्द्रनाथ पाटील, विदर्भ संशोधन मंडळ, वार्षिक १९८३, संपादक, श्री. मा. कुलकर्णी.

अपभ्रंश पाठावली, संपादकः मधुसुदन चिमणलाल मोदी.

अराज्यवाद, लेखक तर्कतीर्थ लक्ष्मणशास्त्री जोशी.

अस्वल, लेखिका दुर्गा भागवत.

आर्यांच्या सणांचा इतिहास, लेखक ऋग्वेदी.

इतिहास, लेखक रवींद्रनाथ टागोर (मराठी भाशांतर) सरोजनी कमतनूरकर.

कथासरित्सागर.

काहीं मराठी लेख, बरोवपी शणै गोंयबाब.

कुंडलिनी शक्ती आणि परमेश्वर साक्षात्कार, लेखक वसंतराव मालपाठक.

कोंकणी ओपारींचें भांडार, संपादक फा. आंतोनियु पैरेरा, एस. जे.

कोंकणी भाशेचें जैत, बरोवपी शणै गोंयबाब.

कोंकणी भाशिकांच्या भोज्य-खाद्य-अन्न-पेयांची व्युत्पत्ती आणि प्राचीनत्व, लेखक पां. पु. शिरोडकर (राष्ट्रमत, ता. ३ मे १९७६).

कौटिलीय अर्थशास्त्र, मराठी भाशांतर, कै. ब. रा. हिवरगावकर (पुनर्लेखन), ह. अ. भावे.

गाथा सप्तशती, संपादक स. आ. जोगळेकर.

गोखले अंकगणित

गोमन्तकाच्या वसाहतीची रूपरेषा, लेखक अनंत रामकृष्ण शेणवी धुमे ('गोमंतकाची प्रतिमा' लेखसंग्रह - खंड पहिला)

गोंयकारांची गोंयांभायली वसणूक, बरोवपी शणै गोंयबाब.

डूब (लेखसंग्रह), लेखिका दुर्गा भागवत.

दौत्रिन क्रिस्तां, बरोवपी पाद्री तोमस स्टिफन्स. देवनागरी लिप्यंतर, अनंत काकबा प्रियोळकर.

द्रवीड महाराष्ट्र, लेखक विश्वनाथ खैरे.

धर्म आणि लोकसाहित्य, लेखिका दुर्गा भागवत.

ध्वनिविचार, बरोवपी डॉ. ना. गो. कालेलकर.

पाणिनी व पाणिनीय व्याकरण संप्रदाय, लेखक प्रा. म. दा. साठे.

पुर्तुगेज-मराठे संबंध, बरोवपी डॉ. पांडुरंग सखाराम पिसुर्लेकर.

प्राचीन भारतीय भौतिक विज्ञान, लेखक श्री. भि. वेलणकर.

भगवान बुद्ध, लेखक धर्मानन्द कोसम्बी.

भगवंतालें गीत, कोंकणी भाशांतर शणै गोंयबाब.

भारतीय दर्शन, बरोवपी वाचस्पति गैरोला.

भारतीय विवाहसंस्थेचा इतिहास, लेखक इतिहासाचार्य वि. का. राजवाडे.

मराठी भाषेचें मूळ, लेखक विश्वनाथ खैरे.

मराठी भाषेचे संप्रदाय व म्हणी, संपादक वा. गो. आपटे.

महाभारत (आदिपर्व), मराठी भाशांतर, विष्णु वामन बापट शास्त्री.
महाभारत (संभवपर्व, शांतिपर्व), मराठी भाशांतर न. र. फाटक.
महाराष्ट्राचा देव्हारा, लेखक रा. चिं. ढेरे.
महाराष्ट्र टाइम्स – शनिवार, १२ ऑगस्ट १९८९ / रविवार, ११ फेब्रुवारी १९९०
यादवकालीन मराठी, लेखक डॉ. शं. गो. तुळपुळे.
राजयोग, बरोवपी स्वामी विवेकानंद.
राजवाडे लेखसंग्रह, प्रकाशक: साहित्य अकादेमी.
लज्जागौरी, लेखक रा. चिं. ढेरे.
लोकायत, लेखक डॉ. स. रा. गाडगीळ.
वलिपत्तनाचो सोद, बरोवपी शणै गोंयबाब.
वाटा - माझ्या तुझ्या, लेखक प्रा. नरहर कुरुंदकर.
विवागसूयं, संपादक डॉ. प. ल. वैद्य.
वेदान्ताचें स्वरूप आणि प्रभाव, लेखक स्वामी विवेकानंद.
वैदिक संस्कृतीचा इतिहास, लेखक तर्कतीर्थ लक्ष्मणशास्त्री जोशी.
वृत्तें आणि अलंकार, लेखक डॉ. वि. म. कुलकर्णी.
सत्य आणि अहिंसा (लेख), बरोवपी महात्मा गांधी.
सारस्वत भूषण, संपादक मठस्थ गणेश रामचंद्र वर्मा.
सिद्धार्थ जातक, खंड ३, मराठी भाशंतर दुर्गा भागवत.
सिंधु संस्कृती व कल्याण, लेखक विवेकानंद गोडबोले.
संस्कृति सुगंध (लेखसंग्रह): लेख 'जेष्ठा आनी जेष्ठराज', बरोवपी रामचंद्र चिंतामण ढेरे.
स्वामी विवेकानंद यांचे समग्र ग्रंथ, भाग १३.
हिंदी संस्कृती आणि अहिंसा, लेखक धर्मानन्द कोसम्बी.



